# महाभारत

## खण्ड १



वीन्द्र केळेकर

महाभारत म्हळयार रत्नांची एक मोटी खण. भारतीय चिंतनाचो एक विश्वकोश. भारतीय आख्यानां-उपाख्यानांचो एक कलपरूख.

महाभारतांत इतिहास आसा. धर्मशास्त्र आनी मोक्षशास्त्र आसा. राज्यशास्त्र आनी नीतिशास्त्र आसा. महाभारतांत जें आसा तेंच तुमकां हेर कडेन मेळटलें. तांतूंत जें ना तें मात खंयच मेळपाचें ना.

यदि हास्ति तदन्यत्र यन्नेहास्ति न तत् क्वचित्.

काळाच्यो सगळ्यो शिमो मोडून सदांच नवें ताल्ल उरिल्लें संवसारांतलें व्हडांतलें व्हड जिवें तट्टटीत एक महाकाव्य हें.

भारतीय संस्कृताय वेदांनी घडयली म्हणटात. भारतीय मानस महाभारतान घडयलां म्हणूंक जाय. येदो म्हत्त्वाचे ग्रंथ हो. ताचें हें कोंकणी अनुसर्जन.

हातूंत मूळ कथेंतलें म्हत्त्वाचे कितेंच सोडूंक ना. पदरचेंय कितेंच घालूंक ना. पुणून महाभारताची पाठ-परंपरा लक्षांत घेवन सगळें घांसून-पुसून निवळ केलां. आनी आटोवन कोंकणींत सांगलां.

प्रक्षिप्त तें प्रक्षिप्त म्हुण दाखयलां आनी तें कोणे केन्ना भरशिलां जातलें तेंवूय सांगलां. संस्कृतायेचे आनी इतिहासाचे नदरेन जें जें म्हत्त्वाचेंशें दिसलें ताचे कडेनूय वाचप्यांचें लक्ष ओडलां.

भांडारकर आवृत्तीक प्रमाण धरून हें अनुसर्जन केलां.

महाभारताचे कथे कडेन व्हडलोसो संबंद नाशिल्लीं पुणून महाभारत सोडून आनीक खंयच मेळनात असलीं कांय आख्यानां आनी हेर कांय म्हत्त्वाच्यो कथा परिशिष्टांत दिल्यात.

मुजरत लक्ष ओडूंक जाय तें दोन म्हत्त्वाच्या ग्रंथां कडेन. पयल्या खंडांतल्या परिशिष्टांत 'प्रज्ञावाद' ह्या नांवान एक विचार ग्रंथ दिला. भाग्यवादाच्या प्रभावान कर्तुत्वहीण जाल्ल्या भारतीय समाजाक पुरुषार्थाची दीक्षा दिवपी हो ग्रंथ भगवद्गीते येद्याच तोला-मोलाचो. जाल्यार, दुसऱ्या खण्डांत पुराय भगवद्गीतेचो एक नवो आनी सोंपो अणकार दिला. रूढ अणकारां परस मात्सो वेगळे तरेचो.

**मोल : १२५ रुपया**

# महाभारत

## खण्ड १

*उबारून हात वयर*
*दीस रात आड्डतां*
*धर्म आदीं पाळ्ळो जाल्यार*
*अर्थ काम आपशीं येतात*
*इतलें कशें समजना ?*
*कोणूच म्हजें आयकना !*

— व्यास

# रवीन्द्र केळेकार हांची बरपावळ

**कोंकणी :**

— अशे आशिल्ले गांधीजी (६ वांट्यांनी : गांधीजींच्या जिवितांतले कांय म्हत्त्वाचे प्रसंग)
— कथा आनी काणयो (कांय रूपक कथा)
— नवी शाळा (एका शिक्षणाच्या प्रयोगाची कथा)
— तुळशी (नवलिका)
— वेळे वयल्यो धुलो (दिसपटी)
— भज गोविन्दम् (शंकराचार्यांच्या एका स्तोत्राची अर्थावणी)
— उजवाडाचे सूर (कांय ललित निबंद)
— भाशेचें समाजशास्त्र (देशाच्या भाशिक प्रस्नाची चर्चा)
— हिमालयांत (प्रवास वर्णन)
— सांगाती (चिंतना)
— ब्रह्मांडांतलें तांडव (नक्षत्रविद्या)
— लाला-बाला (ज्यां आनुयीच्या एका नाटकाचें रूपांतर)
— मुक्ति (कांय रूपांतरित एकांकिका)
— तीन एके तीन (रूपांतरित एकांकिका)

**मराठी :**

— कोंकणीचें राजकारण
— जपान जसा दिसला
— ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यात.

**गुजराती :**

— काका कालेलकर साथे विविध वार्तालाप (ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांतचो अणकार)

**हिन्दी :**

— महात्मा गांधी—एक जीवनी (कॉंग्रेस शताब्दी समारोह प्रकाशन)
— काकासाहेब कालेलकर—अधिकृत जीवनी (भारत सरकार, प्रकाशन विभाग)
— काकासाहेब कालेलकर—एक जीवनी (संक्षिप्त) (नॅशनल बुक ट्रस्ट प्रकाशन)

**अणकार :**

कोंकणींत : आनी तांकां मनशांत हाडले (मूळ : झवेरचंद मेघाणी)

हिन्दींत : मानवताके झरने (मूळ : दादासाहेब मावळंकर)
जीवनलीला (मूळ : काकासाहेब कालेलकर)

**संपादन :**

**Gandhiji :**

— Bread Labour (अण : हिन्दी, गुजराती)
— Trusteeship (अण : हिन्दी, गुजराती)
— Strikes (अण : हिन्दी, गुजराती)
— Voluntary Poverty (अण : हिन्दी, गुजराती)
— Fasting in Satyagraha its use and abuse
— Truth called them differently (Gandhi Tagore controversy)

**कालेलकर :**

— युगमूर्ति रवीन्द्रनाथ
— राष्ट्रभाषा हिन्दीका मिशन
— गांधीजीका जीवन-दर्शन
— गांधी चरित्र कितर्न
— गांधीजीका रचनात्मक क्रांतिशास्त्र भाग १-२
— समन्वय संस्कृतिकी ओर
— युगानुकूल हिन्दू जीवनदृष्टि
— जीवनयोग की साधना
— विनोबा और सर्वोदय क्रांति
— परमसखा मृत्यु
— गांधी युग के जलते चिराग
— नवभारत के नवनिर्माता
— स्वराज्य संस्कृति के संतरी
— सत्याग्रह और युद्धनीति
— शान्तिसेना और विश्वशान्ति
— यात्रा का आनंद

# महाभारत

## —एक अनुसर्जन

खण्ड १



रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन
गोंय

महाभारत
—एक अनुसर्जन
खण्ड १ आनी २
—रवीन्द्र केळेकार

MAHABHARAT
—A Trans-creation
Parts 1 & 2
—Ravindra Kelekar

गोवा कोंकणी अकादेमीन दिल्ल्या अनुदानान उजवाडायलें

जाग प्रकाशन : ५१


पयली खेप : १९८७

प्रकाशन दिनांक :
११ जुलय १९८७ (गुरुपूर्णिमा)

मोल : १२५ रुपये
(दोनूय खण्डांचें मोल : २५० रुपये)

मांडणी :
कृष्णा करवार
मुंबय

मुद्रण व्यवस्था :
रेखा डिझाइन ॲण्ड प्रिन्ट सर्व्हिसेस
मुंबय

अक्षर-छाया जुळणी :
आनंद फोटोटाईपसेटर्स
मुंबय

भायलें चित्र :
डॉ. सुबोध केरकार
कळंगूट, गोंय

छापणी :
श्रीकृष्ण विश्वनाथ लिमये
इंडिया प्रिन्टिंग वर्क्स
९, नगीनदास मास्टर रोड
मुंबय ४०० ०२३

उजवाडावपी :
सुमन्त रामचंद्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाडडोळ
गोंय ४०३ ४०४

*पू. काकासाहेब कालेलकरांच्या*
*पवित्र उगडासाक*

जांचे प्रेरणेन जिवीत कोंकणिचे सेवेक ओंपूक पावलों.

# ह्या अनुसर्जनाची कथा : १

येदें व्हडलें सुमार आठशें णवशें पानांचें पुस्तक बरोवन जातलें आनी तें म्हजीं स वरसां घेतलें अशें दिसूंक नाशिल्लें. तीनशें चारशें पानांतूच सगळें आटोवन सांगचें आनी ताचे खातीर स-आठ म्हयने कुशीक काडचे अशें येवजिल्लें.

आदर्श म्हुण लेगीत मुखार राजाजींचें महाभारत घेतिल्लें.

राजाजींनी सांगिल्ली कथा हांवें म्हजे कडेन आशिल्ल्या विष्णु वामन बापटशास्त्री हांगेल्या 'सुबोध मराठी भाषांतरां'त पळोवची आनी मागीर ती म्हज्या उतरांनी कोंकणींत बरोवन काडची. बरयना आसतना 'मुदलांतलें म्हत्त्वाचें कितेंच सोडप ना आनी पदरचें कितेंच घालप ना. इतलेंच न्हय, तर मुदलांतले धोंगा-पोंगांचे शैलींत लेगीत व्हडलो-सो बदल करप ना' ह्या एका पथाक मात पाळो दीत आयिल्लों.

हे भाशेन, दोन तीन म्हयने बरयत रावलों. अवचित एक दीस राजाजींचे नदरेंतल्यान कांय म्हत्त्वाचे प्रसंग सुटल्यात म्हणपाचें लक्षांत आयलें.

देखीक: द्रोणाचार्याक मारीत असो आपणाक एक पुत जावचो म्हुण द्रुपद राजा आंवडेता. ते खातीर तो एक याग करता आनी ह्या यागांतल्यान तागेर धृष्टद्युम्न जल्मा येता.

धृष्टद्युम्न जल्मा येनाफुडें हाच्या हातान द्रोण मरतलो अशी आकाशवाणी जाता.

ही खबर द्रोणाचार्याच्या कानार पावता.

दुसरो कोणूय जाल्लो जाल्यार तो धृष्टद्युम्नाचो कांटो आतांच कसो काडून उडोवचो हे तजविजेक लागतलो आशिल्लो. ते खातीर कोणूच ताका दुशण दिवचो नाशिल्लो. पुणून द्रोणाचार्य असलें कितेंच करिना. धृष्टद्युम्नाचो कांटो काडचो अशें ताच्या सपनांत लेगीत येना. तो सोमतो द्रुपद राजागेर वता. 'तुगेल्या पुताक म्हजे सुवादीन कर, हांव ताका अस्त्रविद्या शिकयतां.' अशें सांगता आनी द्रुपदान व्हर म्हणिना फुडें धृष्टद्युम्नाक घेवन तो हस्तिनापुराक येता. जितले पोटतिडकेन अर्जुनाक अस्त्रविद्या शिकयल्ली तितलेच पोटतिडकेन तो धृष्टद्युम्नाकूय ती शिकयता आनी अर्जुना भाशेनूच ताका अस्त्रविद्येंतलो पाटांगडो करता.

शिक्षण सोंपल्या उपरांत धृष्टद्युम्न जेन्ना गुरुदक्षिणा कितें दिवं काय म्हुण विचारता तेन्ना द्रोण ताचे फाटीवेल्यान अपुबयिन हात ओडटा आनी मुमुरख्यांनी हांसून म्हणटा, 'गुरुदक्षिणा मरे? ती म्हाका मृत्युच्या रुपान मेळपाची आसा.' आनी ओठांतल्या ओंठांत पुटपुट्टा, 'म्हाका मारपी म्हजे परस ल्हान आसून उपकारना. तो म्हजे परस व्हड वा म्हजे येदो तरी आसूंक जाय. अस्त्रविद्येंतलें म्हाका जें कितें येता तितलेंय शिकोवन हांवें तुका म्हजे येदो केला. आतां खाशेले यत्न कर आनी म्हजेय परस व्हड जा.'

इतलो म्हत्त्वाचो प्रसंग राजाजींचे नदरेंतल्यान सुटिल्लो पळोवन अजाप जालें.

महाभारतांतलें आगळे-वेगळेपण जें हांव समजतां तें असल्याच प्रसंगांतल्यान उकतें जाता अशें मानीत आयिल्लों. म्हाका दिसलें, आध्यात्मिक साधने भाशेन साहित्य साधनेच्या मळारूय जण एकल्यान आपल्याच उजवाडान आपली वाट सोदून काडूंक जाय. दुसऱ्यान माड्डिल्ले वाटे वेल्यान—ती कितलीय नीट आनी सोंपी दिसली जाल्यारूय—चलपाक जायना.

हांवें राजाजींचें पुस्तक काडून कडेक दवल्लें. बरयल्लें सगळें पिंदून उडयलें आनी बापटशास्त्र्यांच्या मराठी भाषांतराचो आधार घेवन सुरवात पसून सगळें नव्यान सुरू केलें.

हे खेपेच्या बरपांत महाभारताच्या अठरा पर्वांतलीं सुरवातेचीं आदिपर्व आनी सभापर्व हीं दोन पर्वां सोंपोवन तिसऱ्या वनपर्वाचे अखेरेक पाविल्लों. म्हळ्यार, तीन चार म्हयने खर्चून सुमार तीनशें साडेतीनशें पानां बरोवन जाल्लीं. अवचित एक दीस लिखणी चलपाची थांबली. हांगा म्हाका एक कथा मेळ्ळी–

वनवासाचीं धा वरसां सोंपोवन पांडव इकराव्या वरसा विशाखयूप नांवाच्या वनांत वचून रावतात. थंय भीम एक दीस भोंवडेक गेल्ले कडेन आसतना एक हार ताचेर उडी घेता. आनी आपल्या आंगान भिमाच्या हाता-पांयांक पीळ घालून ताका आंवळून धरता. भीम निश्चेष्ट पडटा. ताका सोदीत थोड्या वेळान युधिष्ठिर थंय पावता. भिमाक निश्चेष्ट पडिल्लो पळोवन ताचें आंग शिरशिरून येता. तो हाराक विचारता, 'खरें सांग, तूं कोण? तूं हार न्हय. तूं हार आशिल्लो जाल्यार भीम तुका सोडचो नाशिल्लो, मारुनूच उडयतलो आशिल्लो. तूं देव, दानव, दैत्य हांच्यांतलो कोणूय आसूंक जाय. तूं कोण तें सांग आनी कितें दिल्यार तूं भिमाक सोडटलो तेंय सांग.'

'हांव नहुष राजा.' हार ताका जाप दिता. 'तुगेलोच म्हालगडो, ययातिचो बापुय. एका काळार हांव त्रैलोक्याचो धनी आशिल्लों. म्हाका सत्येचो मद चडिल्लो. ह्या मदान हांव भोयां बदला ऋषीं-मुनींक म्हजें माचूल उबारूंक सांगतालों. व्हडल्या व्हडल्या ऋषिंचो हांवें हे भाशेन अवमान केल्लो. एक दीस हांवें अगस्ती ऋषीक माचूल उबार म्हुण सांगलें. अगस्तीक म्हजी तिडक माल्ली आनी ते तिडके भरशीं ताणे म्हाका श्राप दिलो, 'तूं हार जावन पडटलो.' तेन्ना सावन हार जावन पडलां. म्हाका एका प्रस्नाची जाप जाय, जायत्या जाणांक हांवें तो विचाल्ला. कोणूच सारकी जाप दिवंक पावूंक ना. तूं दिशीत व्हय? जाल्यार भिमाक सोडटां.'

युधिष्ठिर म्हणटा, 'विचार. जाप दिवपाचो यत्न करतां.'

'ब्राह्मण कोणाक म्हणचो?' नहुष विचारता.

'जाच्या आंगांत सत्य शील दया तप क्षमा हे गुण आसात ताका.' युधिष्ठिर जाप दिता.

'एकाद्रा सुदराच्या आंगांत हे गुण दिश्टी पडले जाल्यार ताका तूं ब्राह्मण म्हणटलो व्हय?' नहुष विचारता.

'हय, म्हणटलोंच.' युधिष्ठिर जाप दिता.'सुदराच्या आंगांत हे गुण आसत जाल्यार तो सुदीर उरचो ना. ताका ब्राह्मणूच म्हणचो पडटलो आनी ब्राह्मणाच्या आंगांत हे गुण नासत जाल्यार तो ब्राह्मण उरचो ना. ताका सुदीर म्हणचो पडटलो.'

युधिष्ठिराची जाप आयकून नहुष विचारता, 'मागीर, जाती खंय उल्ल्यो तर?'

युधिष्ठिर अनमन नासतना जाप दिता, 'जाती आसातूच पयलीं खंय? सगळ्यांचीं रगतां एकामेकांत भरसल्यांत. शुद्ध रगताची एकूय जात ना. वखदाक लेगीत मेळपाची ना. देखून शील आनी चारित्र्य पळोवनूच मनशाची जात थारावंक जाय. कुळ पळोवन न्हय.'

म्हजी लिखणी हांगा थांबली.

म्हळें, गुण पळोवन मनशाची जात थारावप हो विचार बुद्धाचो. महाभारतांतलो आसूंच नज. बुद्धानूच तो पयलो मांडला. बुद्धा पयलीं कोणेय तो मांडिल्लो आसत अशें दिसना. हांवें तरी खंयच वाचूंक ना. आयकुंकूय ना. मागीर, हो विचार हांगा खंयच्यान आयलो? कोणे घालो?

काय तो बुद्धा पयलींय समाजांत घोळटालो?

फिरंग्यांच्या पडट्या काळांत—म्हळ्यार १९६१ तल्या पावसाळ्यांत—सुमार दोन अडेज म्हयने पणजेच्या कार्तेलार बंदखणींत उरिल्लों. बंदखणिच्या ह्या एकांतांत बापटशास्त्र्यांच्या मराठी भाषांतराचे बाराय खंड हांवें वाचून काडिले. तेन्ना सावन महाभारता कडेन हांव एका साहित्यकाराचे रसिक नदरेनूच पळेत आयिल्लों. महाभारत ज्या रुपांत आयज आमच्या मुखार आसा तशें तें मुदलांत नाशिल्लें, तांतूंत शेंकड्यांनी वरसां सावन एकासारकी भर पडत गेल्या. हें खबर आसून लेगीत खंयची भर कोणे, केन्ना आनी कित्याक घाली हें जाणा जावन घेवपाची इत्सा लेगीत म्हाका केन्ना जावंक नाशिल्ली. तें कित्याक, कवच कुंडलां सयत मनीस जल्मा कसो येवं येता (कर्ण तसो आयिल्लो) एका मनशाच्या आंगांत धा हजार हतयांचें बळ कशें आसूं येता (धृतराष्ट्रांत तें आशिल्लें) वा एके बायल-मनशेक शंबर पुत कशे जावं येतात (गांधारीक जाल्ले) असले दुबाव लेगीत म्हज्या मनाक केन्ना आफडूंक पावूंक नाशिल्ले. साहित्यकाराचे म्हजे नदरेन तर्काच्यो आनी वास्तवाच्यो सगळ्यो शिमो हुंपून कथेच्या मर्मा कडेन संधान जोडिल्लें. देखून बुद्धीक पटपाक कठीण असल्यो ह्यो गजाली 'यें! अशें म्हुण केन्ना जावं येता?' अशें म्हणून भायर उडोवपाची बुद्दूय म्हाका केन्ना जावंक नाशिल्ली. महाभारताच्या अशांत, विक्षुब्ध आनी उचांबळीत कथा-प्रवाहांत ताच्या जिव्या तट्टीत पात्रां वांगडा तांतल्यो दंतकथा, लोककथा आनी नीतिकथा, मूळ कथे कडेन कसलोच संबंध नाशिल्लीं तांतलीं आख्यांनां; गाथा, सुक्तां, सुभाषितां, वाद, विवाद, संवाद, तांतल्यो राजनितिच्यो आनी धर्मनितिच्यो खबरी, सगळें जंय आसूंक जाय थंयच–मुदयेर थीक कशें–आसा अशें दिसतालें. ताचें शिल्प आनी नक्शीकामूच म्हजे नदरेक इतलें ओडलायणे दिसतालें कि ह्या शिल्पांतलो खंयचो चिरो–वा म्हणुंया, नक्शीकामांतलें खंयचें थीक खंयचे खणींतल्यान

आयलां हें सोदूंक बसप लेगीत हांव अरसिकपणा पाश्ट लेखतालों.

महाभारत ज्या रुपांत आमच्या मुखार आसा त्याच रुपांत नें-आटोवन जावं. मागीर-म्हाका कोंकणींत हाडपाचें आशिल्लें, देखून नहुष आनी युधिष्ठिर हांचे मजगनचो संवाद बरोवन जातकूच म्हजी लिखणी जेन्ना मुखार चलपाची थांबली तेन्ना म्हाका अजापूय जालें आनी वायटूय दिसलें.

वाट चुकत ह्या भंयान कांय दीस ओगी रावलों. उपरांत एक दीस येवजिलें, गुण पळोवन मनशाची ज़ात थारावंक जाय हो विचार खंयच्यान आयलो हें कशेय भाशेन सोदून काडचेंच पडलें. ना जाल्यार महाभारत कोंकणींत हाडपाचें काम सोडून दिवचें पडटलें. दों भितल्ली एक. तिसरी वाट आतां म्हज्या मुखार उरूंक ना.

खंय सोदतलों, कोणाक विचारतलों, ह्या घुटमळ्यांत आसतनाच दिल्लीक पावलों. थंय काकासाहेब कालेलकरांच्या पुस्तकालयांत म्हाका एक पुराय आरमारूच मेळ्ळी, महाभारतावेल्या संस्कृत, मराठी, हिन्दी, गुजराती आनी इंग्रजी भाशेंतल्या कितल्याश्या पुस्तकांनी भरिल्ली. हाताक रत्नांची मोटी खण लागची तशीशी कितें म्हाका खोस जाली आनी कांय म्हयने थंय रावन ही खण उसपीत बसलों. कितल्याश्या देशी विदेशी आनी पोन्न्या नव्या जाणकारांच्या आधारान कितल्याश्या प्रस्नांच्यो जापो सोदीत रावलों.

आनी एक नवीच नदर, घेवन परतलों.

जाणकारांच्या मत्तान महाभारताच्यो चार आवृत्त्यो जाल्यो. आयज जें महाभारत आमच्या मुखार आसा ताच्यांत ह्यो चारूय आवृत्त्यो एकठांय गुथिल्ल्यो मेळटात.

पयली आवृत्ती कृष्ण द्वैपायन व्यासाची.

कृष्ण द्वैपायनाचें जिवीत तिथि-क्रमाच्या सुतान अजून कोणाक सारकें बांदूंक येवंक ना. पुणून जाणकार एका ताळ्यान एक गजाल मान्य करतात: तो पांडवांच्या काळार आशिल्लो. पांडव कौरवां मदलें झूज ताणे खासा आपणाल्या दोळ्यांनी पळेलें. इतलेंच न्हय, तर हें झूज जावचें न्हय म्हुण ताणे पराकाष्टेचे यत्नूय केले.

पुराणांनी अठरा व्यासांची एक परंपरा सांगल्या. हे परंपरेंतलो कृष्ण द्वैपायन अठरावो व्यास आशिल्लो. पुराणांचेच नदरेन आदल्या सतरा व्यासां परस आगळो आनी वेगळो. ताच्या कर्तुत्त्वाच्यो ज्यो गजाली पुराणांनी सांगल्यात तांचे वयल्यान तो संस्कृतायेच्या मळावेलो एक भगीरथ जावन गेलो अशें म्हणचें पडटा. पुरा-काळांत सगर-कुळयेंतल्या भगीरथ राजान स्वर्गांत व्हांवतले गंगेक धर्तरेर व्हांवती करून धर्तरी पांचवीचार केल्ली. तशी कृष्ण द्वैपायनान अध्यात्माची गंगा जी देवलोकांत व्हांवताली तिका बारीक दुबळ्या लोकांच्या जिविताच्या मळार व्हांवती करून तांगेलें जिवीत संस्कारांनी पांचवेंचार केलें.

हांगा थंय शिंपडिल्ली वेदविद्या एकठांय करून, ती मांडणेर घालून तिचे ऋक्, यजुर, साम आनी अथर्व अशे चार वांटे जाणे केल्ले तो व्यास होच कृष्ण द्वैपायन आशिल्लो अशें म्हणटात. उपनिषदांचे अध्यात्मविद्येचो आपरोस काडून तांचीं सूत्रां जाणे रचलीं (जांकां ब्रह्मसूत्रां म्हणटात) तोय होच व्यास आशिल्लो म्हणटात.

महाभारताची कथा जाणे रचली तोवूय होच व्यास आशिल्लो. ताका वेदव्यास, शाश्वतमुनी, बादरायणमुनी ह्याय नांवांनी लोक वळखताले.

महाभारत म्हळ्यार मुदलांत कौरव-पांडवांची कथा: कौरव-पांडवां मजगतीं ज्यो धोशी उपरासल्यो. ह्या धोशींक लागून तांचे मजगतीं जें झूज पेटलें आनी ह्या झुजाक लागून कुरु-कुळा वांगडा पुराय क्षत्रिय कुळाचो जो विध्वंस जालो ताची कथा. कृष्ण द्वैपायनान ही कथा फकत रचल्या अशें म्हणूं नज, ही कथा ताच्या दोळ्यां मुखार घडल्या. हे कथेंत ताणे खासा वांटोय घेतला. भीष्म, द्रोण, विदुर, कृष्ण हांचे सारकेंच कृष्ण द्वैपायन व्यास हेंवूय हे कथेंतलें एक मोटें दिग्गज पात्र.

कुरु-कुळाचो आनी तागेलो संबंद खूब लागशिल्लो.

तो सत्यवतीक तिगेल्या आंकवारपणांत पराशर मुनी पसून जाल्लो. हेच सत्यवतिचें उपरांत हस्तिनापुराच्या शंतनु राजाकडेन लग्न जालें. शंतनु पसून सत्यवतीक दोग पुत जाले. तांतलो चित्रांगद लग्न जावचे पयलींच मेलो आनी विचित्रवीर्य भुरगें जावचे पयलीं भायर पडलो. हाका लागून कुरु-कुळाचो तंतु तुटिल्ल्यान तें जेन्ना बुडटा कशें जालें तेन्ना सत्यवतिचे सांगणेन कृष्ण द्वैपायनान, त्या काळांतले धर्म-मान्य नियोगाचे चालीक धरून, विचित्रविर्याच्या दोगीय राणयांक दोग पुत दिले. धृतराष्ट्र आनी पांडु. (विदुरय तागेलोच पुत).

म्हळ्यार, कृष्ण द्वैपायन व्यास हो कौरव–पांडवांचो आजो.

तो रावतालो हिमालयांत: बदरीनाथाक. कुरु-कुळाकडेन संबंद आयल्या उपरांत ताणे हस्तिनापुरा लागसार सरस्वतिचें तडीर आनीक एक आश्रम काडिल्लो. थंयच्यान तो हस्तिनापुराक मर्दी मर्दी येवन वतालो.

कितलेशेच खेपे तो येवन गेला.

पांडु भायर पडल्या उपरांत तागेल्या निमाण्या संस्कारांक तो हस्तिनापुराक आयला. कौरव–पांडवांच्यो भुरगेपणांतल्यो धोशी पळोवन 'आतां हांगा रावपांत अर्थ ना. तूं म्हजे वांगडा हिमालयांत यो' अशें सत्यवतीक समजावन तो तिका हिमालयांत घेवन गेला. वारणावतांतल्या लाखे-घरांतल्यान सुटून पांडव वनांत लिपून भोंवताले तेन्ना तांगेली एकचक्रा नगरींत रावपाची व्यवस्था ताणे करून दिल्या. द्रौपदेच्या स्वयंवराची खबर ताणेच पांडवांक सांगल्या आनी स्वयंवराक वचपाची बुद्धूय ताणे तांकां दिल्या. पांडवांक इन्द्रप्रस्थाचें राज्य मेळटकूच युधिष्ठिराक राजसूय यज्ञ करपाची सुचोवणीय ताणे केल्या. ह्या राजसूय यज्ञांत अग्रपुजेच्या प्रस्नाक लागून थंय जमिल्ल्या राजांक तोंडाक तोंड

लागिल्लें पळेलें तेन्ना 'क्षत्रियांचो नाश आतां कसोच चुकोवंक येवपाचो ना' ह्या निर्णयार तो पावला आनी युधिष्ठिराक तशी शिटकावणीय दिवन तो गेला.

ऐन म्हत्त्वाच्या प्रसंगां वेळार तर तो चुकनासतना हस्तिनापुराक आयला. द्युतांत सगळें होगडावन पांडवांनी वनवास मोलावन घेतलो त्या वेळार तो धृतराष्ट्राक येवन मेळ्ळा आनी 'पांडवांचो वांटो पांडवांक मेळुंकूच जाय' अशें ताका समजावन गेला. वनवास आनी अज्ञातवास सोंपोवन पांडव परतले आनी आपणालो वांटो मागपाक लागले, त्या वेळारूय व्यास हस्तिनापुराक आयला आनी 'तांगेलो वांटो तांकां दी' अशें धृतराष्ट्राक सांगून गेला. कुरुक्षेत्राच्या झुजा मळार दोनूय पंगडांचीं सैन्यां एकामेकां मुखार येवन उबीं रावलीं तेन्नाय झूज चुकोवपाचो आनीक एक निमाणो यत्न करून पळोवचो म्हुण तो पर्थून एक खेपे धृतराष्ट्राक मेळ्ळा आनी ताका 'कितेंय कर, पुणून झूज जावंक दिवं नाका' अशें सांगून गेला.

महाभारताच्या अशान्त आनी विक्षुब्ध कथा-प्रवाहांत कृष्ण द्वैपायन व्यासाची शांत, धीर आनी गंभीर मुर्त आमकां अठराय पर्वांत जायते कडेन दिश्टी पडटा.

थेट स्वर्गारोहण पर्वा मेरेन ती आमकां सांगात दिता.

त्या काळार जीं धर्ममत्तां समाजांत चलतालीं तांतलें काळ-वादी धर्ममत्त तागेलें खाशेलें आशिल्लें. काळामुखार कोणाचेंच शाणेपण चलना–कृष्णा सारकेल्यांचें लेगीत कांय चलना–अशें तो मानतालो. काळ सगळ्यांक वयर काडटा आनी काळूच सगळ्यांक आपटून मारता. संवसारांत फकत काळाचीच सत्या चलता हें जें तो मानीत आनी सांगीत आयिल्लो ताका कुरु-कुळांतल्या धोशिंनी आनी ह्या धोशिंच्या परिणामांनी पुश्टी दिल्ली. कुरु-कुळ तरतरून वयर सरिल्लेंय ताणे पळेल्लें आनी गडगडून सकल पडिल्लेंय पळेल्लें. कुरु-कुळांत जें घडलें तें घडचें न्हय म्हुण भीष्म द्रोण विदुर कृष्ण हांचे वरी खासा ताणेय पराकाष्टेचे यत्न केल्ले. तरी आसतना अनर्थ चुकोवंक तो पावूंक नाशिल्लो. कृष्णा सारकेल्याक लेगीत तो चुकोवंक येवंक नाशिल्लो.

संवसारांत तो सगळ्या परस व्हड मनशाक मानतालो. 'हांव तुमकां मोट्यांतलें मोटें एक गुह्य सांगतां, एक मोट्यांतलें मोटें गुमानीत, मोट्यांतलें मोटें रहस्य सांगतां: संवसारांत व्हडांत व्हड कितेंय आसूं, मनशा परस व्हड कितेंच ना' अशें तो म्हणटालो.

गुह्यं ब्रह्म तदिदं ब्रवीमि
नहि मानुषात श्रेष्ठतरं हि किंचित.

देखून कसलींय संकश्टां येवं, कितेंय जावं, आपणाल्या मनीसपणाक बादा येत अशें कितेंच मनशान करूंक जायना; मनीसपण ताणे कशेंच होगडावंक जायना; मनीस केन्ना केन्ना सुख मेळटलें हे आशेन मनीसपण होगडावन बसता. केन्ना संकश्टां अरिश्टां दुःखां हांकां भियेवन तें सोडून दिता. केन्ना लाव जातलो हे आशेन सोडटा. मनशाचें मनीसपण ही तागेली सगळ्यांत व्हडली पुंजी. ती ताणे केन्नाच होगडावंक फावना. जीव वाटावपा खातीर लेगीत ताणे तें सोडूंक फावना. ह्या मत्ताचो तो आशिल्लो. हार जैत, येस अपेस,

सुख दु:ख ह्या गजालींक मनीसपणा मुखार कसलेंच मोल ना. ह्यो गजाली खिणयाळ्यो. पावस, शीं, गिमा सारक्यो. जिवितांत येतल्यो तश्यो वतल्यो. थीर उरपाच्यो नात. मनीसपण हें एकूच नित्य, तेंच अंतीं उरतलें. जशी कूड खिणयाळी, आयज आसा जाल्यार फाल्यां ना जातली, पुणून आत्मो नित्य, तो सदां उरतलो. तशें येस अपेस, सुख दु:ख सगळें खिणयाळें. मनीसपणूच सदां उरतलें. ह्या निष्कर्षार तो विचारांअंतीं पाविल्लो.

न जातु कामान्न लोभाद्
धर्मं त्यजेज्जीवितास्यापि हेतोः।
नित्यो धर्मः सुखदुःखे त्वनित्ये
नित्योजिवो धातुरस्य त्वनित्यः॥

हें धर्म मत्त विसकावन सांगपा खातीर ताणे महाभारत रचलें. तांतूंत कौरव- पांडवांची कथा फकत निमित्याक कारण जाल्या.

वेदांच्या काळार लोकांचे जिबेर एक उतर घोळटालें. तें म्हळ्यार, ऋत. संवसार चलता तो ह्या ऋताच्या नेमाक धरून अशें त्या काळांतले लोक मानताले. जें ऋत तेंच सत्य. मनशान आपणाले ल्हान व्हड सगळे वेव्हार ह्या ऋताच्या नेमाक धरून चलोवंक जाय, ऋताच्या नेमा आड जे चलतात वा वावुरतात तांकां वरुण आपणाल्या पासांत बांदून धरता अशें ते सांगताले. उपरांतच्या काळांत जेन्ना वैदिक परिभाषेचो विकास जालो तेन्ना जें उतर ऋताची सुवात घेवन सगळ्यांत वयर पेंवन आयलें तें धर्म हें उतर आशिल्लें. 'धर्म म्हळ्यार मनीसपण. जें तत्त्व मनशाच्या मनीसपणाक पोसवण दिता, जें मनशाक वयर काडटा, जें समाजाक एकठांय हाडटा, एकठांय दवरता तें तत्त्व म्हळ्यार, धर्म' अशी व्यासान ताची व्याख्या केल्या– 'धारणाद्धर्म इत्याहु धर्मो धारयते प्रजाः' जें तत्त्व मनशांक घडयता, एकठांय दवरता ताचेर देशाचे सगळे व्यवहार चलूंक जाय; राजकारभार लेगीत ह्याच तत्त्वाक धरून– धर्माक धरून– चलूंक जाय. ह्या एका तत्त्वाक मनीस घट्ट धरून रावलो जाल्यार अर्थ काम हे पुरुषार्थूय आपशींच ताच्या फाटल्यान येतात हें समजावन सांगपा खातीर व्यासान हें काव्य रचलें म्हणटात.

म्हळ्यार, कुरु-कुळाचे कथेचो आधार घेवन ताणे एक धर्म संहिताच आमच्या हातांत दिल्ली.

कौरव-पांडवांचें झूज सोंपल्या उपरांत कृष्ण द्वैपायन रोखडोच हिमालयांतल्या आपणाल्या आश्रमांत उठून गेलो आनी थंय तीन वरसां दीसरात वावरून ताणे हें काव्य रचलें अशी एक आख्यायिका महाभारतांत आरंभाकूच आयल्या. लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार ताणे जें रचलें तातूंत इतिहास आयिल्लो आसलो, धर्मशास्त्र नीतिशास्त्र मोक्षशास्त्र बी शास्त्रांचो आपरोस दिल्लो आसलो तरूय जें रचलें तें 'काव्य' म्हणपाचें खारा तोच ब्रह्मदेवाक सांगता. 'कृतं मयेदं भगवन् काव्यं परमपूजितम्' आनी 'तुवेंच ताका काव्य म्हळां, देखून फुडाराकूय लोक ताका काव्यूच म्हणटले'– 'त्वयाच काव्यमित्युक्तं तस्मात काव्यं भविष्यति' अशी ब्रह्मदेव ताका जाप दिता.

ह्या काव्याक ताणे नांव दिलें: 'जय.' आनी तें चोवीस हजार श्लोकांचें आशिलें.

महाभारताचे पाठ परंपरेंत ताच्यो ज्यो चार आवृत्त्यो जाल्यो म्हणटात तांतली ही ताची पयली आवृत्ती.

उपरांत कांय वरसां वतात.

हस्तिनापुरातं पांडव छत्तीस वरसां राज्य करतात. छत्तिसावें वर्स सोंपपाक एका व्याधाच्या हातान कृष्णाची हत्या जाता. हत्येची खबर कळटकूच पांडवांक 'आतां जियेवपांत अर्थ ना' अशें दिसपाक लागता. ते परिक्षिता सुवादीन राज्य करून काडून वतात. उपरांत ते स्वर्गार पावतात. परीक्षित चोवीस वरसां राज्य करता. पंचविसाव्या वरसा नागांचो राजा तक्षक ताची हत्या करता. उपरांत परिक्षिताचो पुत जनमेजय राज्यार येता. तो नागांचो सूड घेवपा खातीर, तांकां तांतीं-पिलां सयत ना करतलों ह्या निश्चयान एक सत्र चलयता. महाभारतांत हाका सर्पसत्र म्हळां. ह्या सत्रांत व्यास आपणाल्या एका शिष्याक—वैशंपायनाक—घेवन येता.

व्यासाक आपणाल्या सत्राक आयिल्लो पळोवन जनमेजयाक कितें करूं कितें नाका, हे तरेचो आनंद जाता आनी 'तुवें रचलां तें आख्यान आमकां सांग' म्हुण तो व्यासा कडेन मागता.

'जय' रचल्या उपरांत व्यासान तें सुमन्तु, जैमिनी, पैल हांचे भाशेन वैशंपायनाकूय शिकयल्लें. जनमेजयान तें सांग म्हणिना फुडें व्यास वैशंपायना कडेन पळेता आनी 'तुका शिकयलां हांवें तें.' अशें म्हणून ताका तें सांगूंक लायता.

आनी वैशंपायन जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत 'जया'चे पारायण करता.

महाभारताचे पाठ परंपरेंतली ताची दुसरी आवृत्ती म्हणटात ती ही.

दोनूय आवृत्तीं मजगतीं सुमार अर्दा वा पाऊण शतमानाचो काळ गेल्लो. कांय गजाली लोक विसल्लेले. कांय गजाली मात्सो विस्तार करून सांगच्यो पडटाल्यो. वैशंपायन 'जया' चें पारायण करता तेन्ना जनमेजय ताका मदींच आडायता आनी सांगता, 'राव, हें सगळें म्हाका पर्थून एक फावट विस्तारान सांग.' आनी वैशंपायन ताका 'ही कथा तुका पर्थून एक फावट विस्तारान सांगतां, आयक.' अशें म्हणून मुदलांतले कथेंत थोडें पदरचें घालून तिचो विस्तार करून सांगता.

ययातिचें आनी दुष्यंत शकुंतलेचें हीं जीं दोन आख्यानां महाभारतांत आयल्यांत तीं 'जयां'त नाशिल्लीं. पुणून कुरु-कुळा कडेन संबंद आशिल्लीं हीं आख्यानां समाजांत स्वतंत्र रुपान चलताली. ती वैशंपायनान हे आवृत्तींत आसपावन घेतलीं.

ज्या आख्यानां अंतीं फलश्रुती येता तीं आख्यानां स्वतंत्र.

हे भाशेन जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत 'जयां'त थोडे संस्कार करून, त्या भायर थोडी भर घालून वैशंपायनान ताचें 'भारत' केलें.

हे दुसरे आवृत्तिचें आगळेपण अशें कि हांतूंत व्यासान सांगिल्ली कथा मुदलांत

आशिल्ली तशीच दिल्या आनी वैशंपायनान निवळावन आनी वाडोवन सांगिल्ली कथा थंयच तिच्या म्हऱ्यांत दिल्या. खंयची कथा व्यासाची आनी खंयची वैशंपायनाची हें सोदून काडूं येता.

ही आवृत्ती व्यासा हुजिरूच तयार जाल्ल्यान तिका व्यासाची मान्यताय मेळिल्ली अशें म्हणूं येता.

तिसरे आवृत्ते वेळार मात तांतूंत कितलेशेच बदल घडून आयले. वैशंपायनान 'जया' चें 'भारत' केलें तरी आसतना कथा मुदलांत कुरु-कुळाचीच उरिल्ली. तिसरे आवृत्ते वेळार कुरु-कुळाकडेन कसलोच संबंद नाशिल्लीं कितलीं-शीं आख्यानां भितर येवन थिरावलीं. धर्मा संबंदिचे कितलेशे संवाद, कितल्योश्यो सुवातो आडावन बसले. धर्म आनी नीत ह्या संबंदान जें जें कितें भोंवतणच्या संवसारांत नदरेंत भरतालें, तितलेंय 'भारतां'त भितर येवन आपणाली सुवात घेवन बसलें.

ताचें अशें जालें–

जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत वैशंपायन 'जया'चें पारायण करतालो त्या वेळार थंय जे ऋषी बशिल्ले तांच्यांत उग्रश्रवा सौती नांवाचो एक ऋषी आशिल्लो. तो लोमहर्षण पुराणिकाचो पुत. बापाय वरीच तो पुराणां अशे तरेन सांगतालो कि आयकतल्यांच्या आंगार कांटो फुलून येतालो. ताणे वैशंपायनाच्या तोंडांतल्यान 'जया'चें संस्कारित केल्लें 'भारत' आख्यान आयकलें आनी तो भारून गेलो. मनीस जेन्ना कितेंय आयकून वा पळोवन भारून वता तेन्ना ताका ओगी बसूंक येना. केन्ना काय तें दुसऱ्याक सांगन-शें ताका जाता. तशें सौतीक 'भारत' आयकून जालें. तो थंयच्यान भायर सल्लो तो भोंवन भोंवत नैमिष्यारण्यांत पावलो. थंय शौनक नांवाच्या एका ऋषीन एक द्वादश वार्षिक सत्र सुरू केल्लें. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार एक विश्वविद्यालय सुरू केल्लें. थंय धा हजार विद्यार्थी बारा वरसां रावन शिकपाक आयिल्ले. शौनक ह्या विश्वविद्यालयाचो कुलपती आशिल्लो. सौतीक नैमिषारण्यांतलें हें शान्त वातावरण 'भारता'चें पारायण करपाक खूब मानवलें. थंयच्या ऋषींक जेन्ना ताणे आपणे आयकल्ल्या 'भारता'ची खबर सांगली तेन्ना तांणी 'आमकां हें आख्यान आयकुपाचें आसा' अशें म्हणून ताका तें सांगपाचो आग्रो केलो.

आनी सौती तें तांकां सांगपाक लागलो.

हिमालयांतल्यान भायर सरिल्ल्यो सगळ्यो ल्हान-व्हड न्हंयो खंयच्यानूय भायर सल्ल्यो आनी कश्योय व्हांवल्यो जाल्यारूय त्यो जश्यो अखेरेक गंगेक येवन मेळटात तशीं वैदिक आनी लोक साहित्यांतलीं जीं शेंकड्यांनी आख्यांनां आनी उपाख्यानां स्वतंत्र रुपान लोकांचे जिबेर घोळटालीं तीं सगळीं ल्हवू ल्हवू हांगां 'भारता' क येवन मेळ्ळीं.

आनी चोवीस हजार श्लोकांच्या 'भारता'चें हांगा लाख श्लोकांचें (शतसाहस्री) 'महाभारत' जालें.

महाभारताचे पाठपरंपरेंतली ताची तिसरी आवृत्ती ती ही.

हे आवृत्तींत सगळ्यांत चड भार्गव कुळांतल्या आख्यानांची भर पडली.

खरेपणानशीं भृगु वा भार्गव कुळाचो आनी कुरु-कुळाचो पयशिल्लो लेगीत संबंद ना. कुरु-कुळाची कथा कृष्णाच्या युगांतली आनी कृष्ण हो रामा उपरांतचो अवतार. तर भार्गव कुळांतलो परशुराम हो रामा आदलो. परशुराम आनी कृष्ण हांचे मदीं दोन युगांचें अंतर. तरी आसतना महाभारताचे हे तिसरे आवृत्तींत परशुराम काळाचीं सगळीं अंतरां कातरून भिष्माक, द्रोणाक आनी कर्णाक अस्त्रविद्या शिकयता. कृष्ण हस्तिनापुरांत पांडवांचो दूत म्हुण वता तेन्ना परशुरामूय थंय कृष्णाचें उलोवप आयकुपाक हाजीर आसता. परशुराम जसो कितें त्याच काळांतलो जाल्ले भाशेन अर्जुन ताचे भेटेक वता. परशुरामाच्यो कितल्योश्यो कथा महाभारतांत आयल्यात. ताच्या आनी ताच्या बापायच्या जल्माची कथा चार कडेन आयल्या. ताणे एकवीस खेपे धर्तरी निःक्षत्रिय केल्ली म्हणपाची खबर धा कडेन आयल्या. तर क्षत्रियांचें ताणे गर्वहरण केल्लें म्हणपाची खबर वीस कडेन दिल्या. आदिपर्वांतलें पौर्वाचें आख्यान, आरण्यकपर्वांतलें कार्तविर्याचें आख्यान, उद्योगपर्वांतलें अम्बेचें आख्यान, शान्तिपर्वांतलें विपुलोपाख्यान, अश्वमेधपर्वांतलें उत्तंकाचें आख्यान हीं सगळीं कुरु-कुळाचे कथेकडेन कसलोच संबंद नाशिल्लीं स्वतंत्र भार्गवी आख्यानां. ह्या आख्याना भायर भृगु-भरद्राज संवाद, च्यवन-कुशिक संवाद असले भार्गव कुळांतल्या ऋषिंचे कितलेशे धर्मसंवाद हांगां आपापणाल्यो सुवातो आडावन बसल्यात. भार्गव कुळांतल्या एका-एका ऋषीक येदे दिग्गज कशे चितरायल्यात कि तांच्या मुखार अगस्ती, आत्रेय, कण्व, कश्यप, गौतम, वसिष्ट हांचे सारकेले व्हडले व्हडले ऋषी गिड्डे कशे साप्प ल्हान दिसतात.

म्हत्त्वाचें म्हळ्यार, कुरु-कुळाचे कथेकडेन कसलोच संबंद नाशिल्लीं भार्गव कुळांतलीं हीं आख्यांनां, हे संवाद, हीं वर्णना कुरु-कुळाचे कथेंत अशे तरेन गुथून काडल्यांत कि आयज तांतलें कितेंय वेगळें काडून पळेतले म्हळ्यारूय वेगळावंक येना. सगळें कुरु-कुळाचेच कथेचें जशें कितें आंग जाल्लेवरी तें तांतूत बसयलां.

हें कसब उग्रश्रवा सौतिचें

तो नैमिषारण्यांत कुरु-कुळाचीच कथा सांगूंक बशिल्लो. पुणून शौनक भार्गव कुळयेंतलो. तो सौतीक मदीं मदीं भार्गव कुळाच्यो कथा सांगूंक लायतालो (तत्र वंशमहं पूर्व श्रोतुमिच्छामि भार्गवम्) आनी सौती ह्यो कथा सांगून ताची इन्सा भागयतालो. करतां करतां भार्गव कुळाच्या आख्यानां-उपाख्यानां वांगडा संस्कृतायेचे नदरेन जें जें कितें म्हत्त्वाचें ताका मेळ्ळें तितलेंय एकठांय करून ताणे तें महाभारताक दसयलें.

परिणामः महाभारत रत्नांची एक मोटी खण जाली. तांतूंत पुर्विल्लो इतिहास आयलो. धर्मशास्त्र, नीतिशास्त्र, मोक्षशास्त्र सगळें आयलें. ताका भारतीय चिंतनाच्या विश्वकोशाचें, भारतीय आख्यानांच्या कल्पतरुखाचें रूप मेळ्ळें. हातूंत जें आयलां तेंच तुमकां हेर कडेन मेळटलें, हातूंत जें येवंक ना तें मात खंयच मेळपाचें ना (यदि हास्ति तदन्यत्र यन्नेहास्ति न तत् क्वचित) हे तरेची नामना तें जोडूंक पावलें.

इतल्यान सोंपूंक ना.

वैशंपायना भायर व्यासान सुमन्तु पैल आनी जैमिनी ह्या तिगां शिष्यांक तशेंच आपणालो पुत शुक हाकाय 'जय' शिकयलें. वैशंपायनान 'जया' चेर संस्कार करून ताचें 'भारत' केलें तशें हांणीय केल्लें काय किते, सारकें सांगूंक येना. ना म्हळ्यार फकत जैमिनिच्या संस्करणाचो उल्लेख मेळटा. ताणें कौरवांचो पाखो घेवन पांडवांचेर अन्याय केल्लो. म्हुण व्यासाक ताची तिडक मारिल्ली आनी ताणे जैमिनिच्या 'भारतां'तलो 'अश्वमेधा'चो वांटो कुशीक काडून उरिल्लें सगळें बुडयलें. अशी एक आख्यायिका आसा.

जाणकार म्हणटात: 'अश्वमेधां'त कितें तरी आगळें वेगळें आशिल्लें. म्हुण सौतीन (व्यासान न्हय) तितलो वांटो एक स्वतंत्र आख्यान म्हुण वेगळो चलूंक दिलो. जो वांटो वैशंपायनाच्या संस्करणा सारको आशिल्लो तो भायर काडून उडयलो आनी उरिल्लो आपणाल्या महाभारतांत आसपावन घेतलो. गदापर्वांतलें बलरामाचे तीर्थयात्रेचें वर्णन, बलरामान केल्ली भिमाची निर्भत्सना आनी दुर्योधनाच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्ली खासा आपणालीच तुस्त असले कांय वांटे जे महाभारतांत आयल्यात ते जैमिनिचे आवृत्तींतले आसूंक जाय म्हणटात.

हेच भाशेन सुमन्तु आनी पैल हांच्या आवृत्त्यांतलेंय घेवपा सारकें सगळें सौतीन महाभारतांत घेतिल्लें आसूं येता.

सौतीन जो हो वावर सुरू केल्लो तो उपरांत कितलींशीं वरसां– कांय शेंकडे मेरेन– चलत रावलो. ख्रिस्ता आदल्या पांचव्या शतमाना परसून ख्रिस्ता उपरांतल्या पांचव्या शतमाना मेरेनच्या– म्हळ्यार, सुमार एक हजार वरसांच्या काळांत महाभारतांत एका सारकी बरी वायट भर पडत गेल्या. भारतीय धर्मविचारांत जशे जशे नवे विचार येत रावले, ह्या विचारांक धरून समाजांत जशे जशे बदल जायत गेले आनी ह्या परिवर्तनांक लागून भारतीय संस्कृताय जशी जशी नवें-नवें रूप घेत गवली तशें तशें महाभारतूय वाडत गेलां, बदलत गेलां. महाभारतांत ज्यो कितल्यो-श्यो विसंगती दिश्टी पडटात ताचें कारण ही एका काळांतली, एका मनशान रचिल्ली कलाकृती न्हय, हेंच म्हणचें पडटा. कितल्याश्या काळांतल्या कितल्याश्या जाणांचो हातभार लागून तें तयार जालां. 'हातूंत आसा तेंच हेर कडेन मेळटलें. हातूंत जें ना तें मात खंयच मेळपाचें ना' ही ताची व्हडविकूच ताका बादल्या म्हणची पडटा. जेन्ना जेन्ना कोणाकूय कितेंय महाभारतांत ना-शें दिसलां तेन्ना तेन्ना ताणे तें अनमन नासतना भितर भरशिलां. आदिपर्वांतली 'कणिकनीत', शान्तिपर्वांतलो 'आपद्धर्म', द्रोणपर्वांतलें 'षोडशराजकीय', झुजाचे सुरवातेक अर्जुनाच्या तोंडांत घाल्लें कालिचें तुस्त-गीत, असलें कितलेंशेंच जें मर्दी मर्दी मेळटा तें 'आरेच्या! हें हातूंत ना मरे' अशें म्हणून कोणे कोणे घाल्लें भरिचें म्हणूंक जाय. हे तरेची भर शुंगांच्या काळांत पडल्या आनी गुप्तांच्या काळांत तर खुबूच पडल्या म्हणटात. गुप्तांच्या काळांत हेर भरीं वांगडा सगळ्यांत म्हत्त्वाची आनी मोलाची जी भर तांतूंत पडली ती पंचरात्र भागवतांची.

ख्रिस्ता आदल्या सव्या शतमानाच्या अदमासाक ह्या देशांत एक धर्ममत्त वयर सरिल्लें. तें आपणाक वेदिक परंपरेंतलें मानतालें. पुणून वैदिक परंपरेंतल्या यज्ञ-यागांत आनी कर्मकाण्डांत तें मुळासावन कांय सुधारणाय करूंक वावुरतालें. ताचें वैशिष्ट्य इतलेंच कि हो सुधारणेचो वावर तें बोवाळ करी नासतना, कोणाक दुखय नासतना, थंडसाणेन, मोन्यांनी पुणून थीर रुपान करीत राविल्लें.

समाजाचें विघटन करपी कांय तत्त्वां त्या काळार वैदिक परंपरेंत मातिल्लीं. तीं ताका ना करपाचीं आशिल्लीं.

आरंभाक तें वृष्णी कुळयेंतल्या सात्वत जातींतल्या लोकांभितरूच चल्लें. पुणून जरासंधाच्यो मथुरेचेर भौन भौन घुरयो जावपाक लागल्यो आनी ह्या घुरयांक उबगून शूरसेन आनी कुरु-पांचाळच्या वाटारांतले सात्वत लोक हो वाटार सोडून अस्तमेक गुजरात आनी कोंकणांत गेले आनी उपरांत दक्षिणे मेरेन पातळ्ळे, तेन्ना हें धर्ममत्तूय तांच्या वांगडा थंय गेलें आनी ल्हवू ल्हवू तेंय अस्तम दक्षिण वाटारांत पातळ्ळें. गुप्तांच्या काळा मेरेन तर तें उत्तर भारतांत लेगीत लोकप्रिय आनी प्रतिष्ठित जालें. तेन्ना, समाजांतल्या प्रतिष्ठितांनीय तें घेतलें. भायल्यान आयिल्ल्या युनानी लोकांनी लेगीत घेतिल्लें म्हणटात. बॅक्ट्रियाचो राजदूत हेलियोडोरस ह्या मत्ताचो अनुयायी जाल्ल्याचो पुरावो इतिहासांत मेळटा.

आरंभा-आरंभाक ह्या धर्ममत्ताक लोक वासुदेवधर्म ह्या साद्या नांवान वळखताले. उपरांत ताका एकान्तिन आनी सात्वत धर्म ह्याय नांवान ते वळखूंक लागले.

ताचें चड प्रतिष्ठित नांव: भागवत धर्म. संवकळिचें नांव: वैष्णव् धर्म.

ब्रह्म, मुक्ती, भोग, योग आनी संवसार ह्या पांच तत्त्वांचेर तें उबें राविल्ल्यान ताका पंचरात्र वा पांचरात्र भागवत ह्याय नांवान लोक पाचारताले. ('रात्र' म्हळ्यार ज्ञान).

वासुदेव हें ह्या धर्ममत्ताचें उपास्य आनी वासुदेव हो विष्णुचो अवतार.

ह्या पंचरात्र भागवतांनी महाभारताचें नवें संस्करण काडपाचें काम जेन्ना हातांत घेतलें, तेन्ना कृष्ण जो ते मेरेन आपणाल्या काळांतलो एक व्हडांतलो व्हड राजपुरुष–एक युगपुरुष–आशिल्लो ताचो तांणी 'भगवान श्रीकृष्ण' केलो. ताका विष्णुचो वा नारायणाचो अवतार, दुसरो वासुदेव मानलो. अर्जुन 'नरा'चो अवतार थल्लो. उपरांत, जें कशेंच चुकपाचें नाशिल्लें तें सगळें भितर सल्लें. 'महाभारत' हें नर आनी नारायणाचे अवतार-लीलेचें आख्यान जालें. वांगडा, कितलींशीं भागवती आख्यानां भितर येवन आपापणाल्यो सुवातो घेवन बसलीं. कितलेशे भागवती धर्म-संवाद भितर आयले. श्रीकृष्णाचे कितलेशे चमत्कारूय भरसले.

परिणाम: महाभारताचें पुराय भागवतीकरण जालें.

महाभारताचे पाठपरंपरेंतलें हें ताचें चवथें संस्करण.

ह्या संस्करणांत जी सगळ्यांत चड म्हत्त्वाची (आनी सगळ्यांत चड मोलाचीय) भर

पडली ती श्रीमद्भगवद्गीतेची. आयज सांगल्यारूय कोणाक खरें दिसचें ना: भगवद्गीता ही मुदलांत कृष्णाचीय न्हय व्यासाचीय न्हय. तर, कृष्ण आनी व्यास दोगांय कडेन एकरूप जाल्ल्या बुद्धा उपरांतच्या एका मोट्या पुणून अज्ञात भागवती कविची कृती ही.

ह्या काळांतली दुसरी मोलाची भर म्हळ्यार महाभारताचें 'खीलपर्व' म्हुण नामना जोडिल्ल्या 'हरिवंशा'ची.

हांव बशिल्लों 'गुण पळोवन मनशाची जात थारावंक जाय' म्हणपाचो जो विचार महाभारतांत युधिष्ठिराच्या तोंडांत आयला तो खंयच्यान आयलो हें सोदून काडपा खातीर. सोदतां सोदतां संशोधकांनी उबें केल्ल्या एका अटंग्या रानांत पावलों. आनी तांतूंत घुसपलों. तांतूंतल्यान वाट काडीत काडीत जेन्ना भायर सर्लों तेन्ना म्हज्या हातांत महाभारताचे पाठ-परंपरेच्या विकासाचो एक पुराय इतिहास पडिल्लो मेळ्ळो.

हो इतिहास हाताक लागल्या उपरांत भांडारकर प्राच्यविद्या संशोधन मंदिरान तयार केल्ली महाभारताची संशोधित आवृत्ती पळोवप सामकें गरजेचें आशिल्लें. म्हजें संस्कृत भाशेचें ज्ञान व्हडलेंशें हिसपाक धरपा सारकें न्हय. तरी आसतना दिल्लींत नेहरू मेमोरियल म्यूझियमचे लायब्रेरींत कांय दीस बसून हे संशोधित आवृत्तीन कितें घेतलां, कितें सोडलां, सोडलां तें कित्या खातीर सोडलां, कितें तळटिपेंत घालां आनी कितें परिशिष्टांत व्हरून दवल्लां, सगळें बारकायेन पळोवन घेतलें.

केदो आकांताचो वावर केला हे संस्थेन!

पयलीं तिणे देशांतल्या खांची कोनशांतल्यान महाभारताच्यो हजारावयर पोथयो एकठांय केल्यो. देशा भायर जंय जंय मेळूं येताल्यो थंय थंय यत्न करून त्योय सोदून हाडल्यो. तांचें वर्गीकरण केलें. खंयची पोथी खंयच्यान खंय गेली, खंयची खंयचे पोथयेचो आधार घेवन तयार जाली तें सोदून काडलें. मागीर, पोन्न्यांतली पोन्नी पोथी खंयची आसूं येता हें पडटाळून पळोवपा खातीर एक एक श्लोक, एका एका श्लोकाचें एक एक उतर नियाळून पळेलें. देवबोध, अर्जुन मिश्र, असल्यांच्यो महाभारतावेल्यो टीकाय आधाराक घेतल्यो. आनी सगळें तर्जून, मेजून घांसून-पुसून निवळ करून निमाणे अठरा पर्वांची १९४८ अध्यायांची आनी ८९१३६ श्लोकांची एक संशोधित आवृत्ती तयार केली.

देश विदेशांतले व्हडांतले व्हड विद्वान सुमार पन्नास साठ वरसां मानो वयर काडी नासतना ही आवृत्ती तयार करपाक दीस रात वावुल्ल्यात! लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, एक लाख श्लोकांचें (शतसाहस्री) महाभारत ह्या विद्वानांक सोदुनूय खंय मेळ्ळें ना. चडांत चड भर पडिल्ली जी पोथी तांकां मेळ्ळी तिच्यांत लेगीत एक लाख श्लोक जावपाक ४४१४ श्लोक उणे पडिल्ले मेळ्ळे! दुसरी गजाल: तांकां सगळ्यांत पोन्नी पोथी मेळ्ळी ती ख्रिस्ता उपरांतच्या बाराव्या शतमानाच्या अदमासाची. ताचे आदली मेळूंक

ना. आनी सगळ्यांत आर्विल्ली मेळ्ळी, ती एकुणिसाव्या शतमानांतली.

भांडारकर आवृत्तिचो वावर इतल्यान सोंपलो अशें म्हणूं नज. तिचे संपादक तो सोंपलो अशें म्हणीय नात. हे आवृत्तींत तांणी केल्या ती फकत महाभारताच्या भायल्या आंगांचीच नियाळणी. भितल्लीं आंगां तर्जून पळोवपाचें काम अजून जावपाचें आसा. अजून जायतो वावर उल्ला. तो इल्लो इल्लो करुनूच जावपाचो. तो जेन्ना जातलो तेन्ना, जाणकार म्हणटात: आयचे संशोधित आवृत्तींतलोय घडये अर्दा वयर वांटो गळून पडटलो आनी एक दीस केन्नाय तरी आमकां व्यासाचें 'जय' मुदल रुपांत पळोवंक मेळटलें.

दिल्लीच्यान ही नवी नदर घेवन परतल्लों. नव्यान बरोवपाक बसलों तेन्ना चार वरसां, सात म्हयने, अठ्ठावीस दीस एकासारको बरयत रावलों. ह्या काळांत हांवें दिसाक धा-धा, केन्ना बारा-बारा वरां काम केलां.

एका दिसाचो लेगीत खंड पडूंक दिवंक ना.

ह्या वावरांतल्यान जें भायर सल्लें तें वाचप्यांच्या हातांत आसा.

एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय–

जायत्या जाणांनी हाचे पयलीं आपापणाले भाशेंत संक्षिप्त वा विस्तृत रुपान महाभारत हाडपाचो वावर केला. तांच्या आनी म्हज्या भाग्यांत एक मोठ्ठें अंतर आसा. तांकां सगळ्यांक आपापणाल्यो भासो घडयल्ल्यो मेळिल्ल्यो. म्हाका म्हजी भास तशी घडयल्ली मेळूंक ना. म्हाका ती घडोवची पडल्या. आनी कोंकणिचे सुमार तीन तपांचे अखंड आनी उत्कट सेवे उपरांत हांव दोन मोट्या निर्णयांर पावलां: एक, म्हाका कोंकणी भास सारकी येना. आनी दुसरो, कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना. म्हजे भाशेच्यो मर्यादा पळोवन फाल्यां कोणूय उठलो आनी 'हिच्याकूय बरे कोंकणींत हांव महाभारत हाडून दाखयतलों' म्हुण मुखार सल्लो जाल्यार मना पसून सांगता: हांव म्हाका मोट्यांतलो मोटो भाग्यवंत लेखतलों.

प्रियोळ, गोंय

१८ जून १९८७

— **रवीन्द्र केळेकार**

*चत्राय :*

सामान्यतायेन कोंकणी भाशा मंडळान थारायल्ल्या शुद्ध लेखनाच्या नेमांक धरून सगळें बरयलां. पुणून कांय कडेन थोडे बदल केल्यात. ते फकत तज्ञांच्याच लक्षांत येवपाचे.

मोटो बदल विरामचिन्हांच्या मळार केला. स्वल्पविराम आनी प्रश्नचिन्हां खूब कडलीं काडुनूच उडयल्यांत.

कोंकणिची तीन तपां वयर एकनिष्ठेन सेवा करीत आयिल्ल्याक इतली मेकळीक तज्ञांनी दिवंक जाय. हेर कडेन दितात.

# उपकार

डॉ. दत्ताराम सुखठणकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, ॲड्. उदय भेंब्रो आनी भौ. महादेव नाडकर्णी हांणी हात-बरप बारीकसाणेन वाचून कितल्योश्यो मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो.

भौ. नाडकर्ण्यांनी तर उतरान उतराचो कीस काडून कितलींशीं नवीं कोंकणी उतरां सुचयलीं.

प्रा सुमन्त केळेकार, भौ. अभयकुमार वेलींगकार आनी बाय माधवी सरदेसाय हांणी मुद्रितां बारीकसाणेन निवळावन दिलीं.

बाय माधवीन तर त्याभायर एक संदर्भ सूची तयार करून दिवन पुस्तक अदीक सुंदर करून दिलें

डॉ. सुबोध केरकार हांणी पुस्तका खातीर एक सोबीत चित्र काडून दिलें.

भौ. कृष्णा करवार हांणी छापणावळिची सगळी दायकी आपणाल्या आंगार घेतली आनी छापणावळ भौ. श्रीकृष्ण लिमये आनी तांगेल्या आनंद फोटोटाइप सेटर्स आनी इन्डिया प्रिन्टिंग वर्क्सांन करून दिली.

व्यासाच्या श्लोकाचें कोंकणी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय न्हय जाल्यार दुसरे कोण करून दितले आशिल्ले.

आनी गोवा कोंकणी अकादेमी घसघशीत बरें —खर्चाच्या ७५% इतलें— अनुदान दिवपाक मुखार सरूंक नाशिल्ली जाल्यार वाचप्यांक पुस्तक इतलें सवाय खंय दिवंक मेळटलें आशिलें.

हांव सगळ्यांच्या उपकारांत आसां.

सगळ्यांत चड उपकार मानूक जाय घरच्या गोदुबायचे.स-स खेपे प्रेस कॉपी तयार करून दिवपाचें काम प्रसन्न मनान ताणे केलां. खूब जतनाय घेवन लेगीत कांय प्रसंग म्हजे नदरेंतल्यान सुटिल्ले. तांचे कडेन म्हजें लक्ष ओडून हें अनुसर्जन निर्दोष आनी निगुट करून घेवपाचो खूब यत्न केला. ह्या अनुसर्जनांत म्हजे इतलोच ताचोय हात आसा.

# मांडावळ

नारायणं नमस्कृत्य नरं चैव नरोत्तमम्।
देवीं सरस्वतीं व्यासं ततो जयमुदीरयेत्॥

## कथा

कांय उपरांतच्यो
कांय आदल्यो
पुणून
सुर्वेक सांगपाच्यो

# १. परीक्षित

पांडव स्वर्गार गेल्या उपरांत हस्तिनापुराचें राज्य परीक्षित पळोवपाक लागलो. परीक्षित अभिमन्युलो पुत. अर्जुनालो नातु. म्हालगड्यां भाशेनूच बुदवंत आनी कर्तुत्वी. धर्माक आनी नितीक धरून राज्य करतालो. सुमार चोवीस वरसां ताणे हस्तिनापुराचो राजकारभार चलयल्लो.

ताका भोंवडेचें एकूच पिशें. मर्दी मर्दी ताणे कारभार मंत्र्यां सुवादीन करचो आनी रानांत भोंवडेक वचचें आनी रानदुकरां चितळां गवेरेडे बी सावदां मारून हस्तिनापुराक हाडचीं.

एक दीस तो भोंवडेक गेल्लो थंय ताका एक चितळ दिश्टी पडलें. ताणे रोखडोच तीर धल्लो. ताचो तीर चडसो केन्ना चुकूंक नाशिल्लो. आयज चुकलो. चितळ पळून गेलें. परिक्षिताक हें दुश्चिन्नशें दिसलें. देखून तो किंवाट्यान चितळा फाटल्यान धांवलो. धांवत धांवत बरोच पयस पावलो. तरूय चितळ ताका परतें दिश्टी पडलें ना. धांवन ताका आतां पुरो जालें. तो खर्शेलो. ताका तान लागली. तो उदक सोदूंक लागलो. इतल्यांत, एके कडेन ताका एक मुनी बशिल्लो दिश्टी पडलो. ताणे मुनीक विचाल्लें, 'एक चितळ हे वाटेन गेलां, तुका दिश्टी पडलां व्हय.'

मुनी ध्यानाक बशिल्लो. तो परिक्षिताक जाप कितें दितलो आशिल्लो. परिक्षितान ताका दोन तीन खेपो विचाल्लें, तरूय मुनी जाप दिना हें पळोवन परिक्षिताक ताची तिडक माल्ली. बगलेक एक मेल्लो सोरोप पडिल्लो. परिक्षितान तो धोणवाच्या तोंकान उबाल्लो आनी तिडकीन मुनिच्या गळ्यांत घालो. तरूय मुनीन जाप दिली ना. तेन्ना 'अँ! हो समाधींत बसला जावंक जाय' अशें म्हणून परीक्षित उठून गेलो.

ह्या मुनिचें नांव शमीक. ताका शृंगी नांवाचो पुत आशिल्लो. तो ब्रह्मदेवागेर गेल्लो. थंयसून परततना वाटेर ताका तागेलो इश्ट कृश मेळ्ळो. कृशान ताका मुनिच्या गळ्यांतल्या मेल्ल्या सोरपाची खबर सांगली आनी ताका तिडावन म्हळें, 'आमच्या सारक्या तुगेल्या इश्टांनी तुजीं मात्शीं फकाणा माल्ल्यार पुरो, तूं आमचेर तापता. वचून पळे आतां, तुगेल्या बापायच्या गळ्यांत एक मडें हुमकळटा.'

कृशाचीं उतरां आयकून शृंगी उचांबळीत जालो. ताच्या आंगाक उजो पेटिल्ले वरी जालो. ताचे दोळे तांबडे गुंज जाले. तो तिडकीन उसळ्ळो आनी ताणे राजाक श्राप दिलो: 'समाधींत बशिल्ल्या म्हज्या बापायच्या गळ्यांत जाणे मेल्लो

सोरोप घाला ताका आयच्यान सातव्या दिसा तक्षक नाग चाबतलो आनी तो मरतलो.'

आनी तसोच उठून तो बापाय सरीं आयलो. बापायच्या गळ्यांतलो मेल्लो सोरोप पळोवन ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. बापायची समाधी देंवना फुडें ताणे सांगलें, 'तुजो अवमान केला त्या राजाक हांवें श्राप दिला.'

बापायक खूब वायट दिसलें. ताणे म्हळें, 'पुता, म्हाका तुगेली ही करणी मात लेगीत मानूंक ना. परीक्षित न्याय–नितीन राज्य करता. देखुनूच तर ताच्या राज्यांत आमकां हुसक्या मेकळें तप करूंक मेळटा. ताचें वायट चिंतप आमकां सोबना. ताची चूक जाली खरी, पुणून ताका बावड्याक पुरो जाल्लें. म्हज्या व्रताची ताका खबर नाशिल्ली. हांव जाप दिना हें पळोवन ताका म्हजी तिडक माल्ली. हांव ताचो अवमान करतां अशें ताका दिसलें. ते तिडकीन ताणे मेल्लो सोरोप म्हज्या गळ्यांत घालो. त्या कामाक ताका तुवें येदी व्हडली ख्यास्त करची? हें बरें जालें ना.'

शृंगीन म्हळें, 'कशेंय जावं, हांव फकाणानी लेगीत केन्ना फट उलोवंक ना. तेन्ना म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां फट जावपाचीं नात.'

'हांव जाणा' बापायन म्हळें, 'तरी आसतना तुज्या बऱ्याक सांगतां. पुताच्या आंगांत उपाट गुण भरचे आनी ताका सदां येस मेळत रावचें म्हुण ताका बापायन खंय सदां बऱ्याचीं उतरां सांगचीं. ह्या नेमाक धरून सांगतां, तप करतल्यांची सत्या वाडत वता तशी तांची तिडकूय वाडत वता. ही तिडक कश्टान जोडिल्ल्या गुणांचें नाशें करता. गुणांचें नाशें जातकूच मनशाचें कितें उल्लें. कोणेय केदोय अन्याय करूं, तो सोंसून घेवंक येवंक जाय. सोंशीक धर्मिश्टांकूच बरें फळ मेळटा. तेन्ना पुता, तिडक सोड.'

इतलें सांगून ताणे म्हळें, 'हांव आतां परिक्षिताक तुज्या श्रापाची खबर कळोवन धाडटां. ताका सादूर केल्लो बरो.'

आनी आपणाल्या एका गड्याक आपोवन मुनीन ताका राजागेर धाडून दिलो.

श्रापाची खबर आयकून परिक्षिताक आपले करणेचो पश्चत्ताप जालो, 'शी : शी : शी : म्हजे हस्तुकीं अशें जावचेंच कशें,' अशें ताका जालें. मनांत ताका तें खावपाक लागलें. ताणे मुनीक सांगून धाडलें, 'म्हाका मरणाचें व्हडलें–शें दिसना. पुणून म्हजे कडल्यान तुमचो अवमान जालो हाचीच म्हाका खंत भोगता. म्हाका क्षमा करात.'

उपरांत, परीक्षित जतनाय कशी घेवची हाची तजवीज करपाक लागलो. ताणे

मंत्र्यांक आपोवन हाडले. तांची बुद्द घेतली आनी अंतीं एक मांडणी येवजून काडली. एके तळयेंत एक उबो खांबो घालून ताचेर एक प्रासाद उबो केलो आनी ह्या प्रासादांत तो वैज, मांत्रिक, ब्राह्मण, मंत्री, हांकां घेवन रावपाक लागलो. दुसरो कोणूच थंय पावचो न्हय म्हुण ताणे पुराय जतनाय घेतली. इतलेंच न्हय, तर सगळे कडेन मेकळेपणान हेडटल्या वाऱ्याक लेगीत थंय येवपाक बंदी केली.

परीक्षित स दीस त्या प्रासादांत रावलो. सातवो दीस उदेलो. आयज परिक्षिताक तक्षक चाबपाचो आसा ही खबर काश्यपाक कळ्ळी. काश्यप एक ब्राह्मण. तो विख्ख देंवोवंक जाणा आशिल्लो. राजाचो जीव वाटायलो जाल्यार आपणाक पुण्य मेळटलें, त्या भायर, दुडूय मेळटलो हे उमेदीन तो हस्तिनापुराक वचूंक भायर सल्लो.

हे वाटेन तक्षकूय हस्तिनापुराक वचूंक भायर सरिल्लो. ताणे वाटेर काश्यपाक तेच दिकेन ताकतिकेन वता तो पळेलो. तक्षकान ब्राह्मणाचें रूप घेतलें आनी काश्यपाक वाटेरूच आडावन विचाल्लें, 'आगा, असो ताकतिकेन सो खंय वता गा.'

'हस्तिनापुराक,' काश्यपान जाप दिली. 'परिक्षिताक आयज तक्षक चाबपाचो आसा. ताचें विख्ख देंवोवपाक वतां.'

'हांवूच तक्षक,' तक्षकान ताका सांगलें, 'हांव चाबतां ताचें विख्ख देंवोवप आयजवेर कोणाक जमूंक ना.'

'अब्बा ! चाब तूं कोणाकूय आनी पळे, हांव विख्ख देंवयतां काय ना तें.'

बगलेक एक वड उबो आशिल्लो, ताचे कडेन पळोवन तक्षकान म्हळें, पळेतलो? ह्या वडाक हांव दंश करतां आनी ताचो लासून गोबोर करतां. ताका जिवो करून दाखय पळोवंया.'

'कर दंश आनी पळे,' काश्यपान जाप दिली.

तक्षकान वडाक दंश केलो. त्याच खिणाक वडाक उजो पेटलो आनी ताचो गोबोर जावन तो मातये भरवण जालो.

'पळे आतां,' अशें म्हणून काश्यप मुखार सल्लो आनी ताणे विख्ख देंवोवपाचो मंत्र म्हळो. एका खिणांत वड आशिल्लो तसो जिवो जालो. इतलेंच न्हय, तर वडार एकलो लांकडां-मारपी मनीस बशिल्लो. ताका तक्षकानूय पळोवंक नाशिल्लो आनी काश्यपानूय पळोवंक नाशिल्लो. तक्षक वडाक चाबिल्लो तेन्ना ताचोय गोबोर जाल्लो. तोवूय आतां काश्यपाच्या मंत्रान जिवो जाल्लो.

वड जिवो जाल्लो पळोवन तक्षक अजापांत पडलो. ताणें काश्यपाक म्हळें, 'विख्ख देंवोवपाची विद्या तुका येता, ह्या विशीं म्हाका आतां दुबाव उरूंक ना.

पुणून एक सांग, परिक्षिताचें विख्ख तूं कित्याक देंवोवंक पळेता. ताचे कडल्यान कितेंय मेळटलें हेच आशेन मू. तुका ताचे कडल्यान मेळटलेंशें दिसता ताच्याकूय चड हांव तुका दितां. परिक्षिताचें आयुष्य सोंपलां. जाचें आयुष्य सोंपलां ताका जितो करपाक तूं गेलो जाल्यार तुजी विद्या अपेशी थरत म्हणपाचो भंय ना व्हय तुका. अपेसान तुज्या लौकिकाक बादा येवची ना?'

काश्यप मात्सो घुटमळ्यांत पडलो. हो म्हणटा तें खरें अशें ताका दिसलें. 'जाचें आयुष्य सोंपलां ताका वांचोवंक गेलों जाल्यार म्हजी विद्या अपेशी थरूं येता,' ताणे मनांतल्या मनांत म्हळें आनी तक्षकाक सांगलें, 'हांव वतालों दुडवांचे आशेन. तूंच ते दिता जाल्यार थंय वचपाची म्हाका गरज ना.'

तक्षकान तो मागता तितलोय दुडु ताका दिवन उडयलो, दुडु हातार पडना फुडें काश्यप हस्तिनापुराक वचचे वांट्याचो थंयच्यानूच घरा परतलो.

उपरांत तक्षक नीट परिक्षितागेर वचपाक भायर सल्लो. राजाचो प्राण वांचोवपा खातीर कितलेशेच बुदवंत थंय जमल्यात म्हणपाचें वाटेर ताका कळ्ळें. तें आयकून राजा मेरेन आतां पावप कशें, ह्या चाळांत तो पडलो. कटूच करचो पडलो, अशें ताणे येवजिलें. ताणे रोखडेच नागांक आपोवन हाडले आनी तांकां सांगलें, 'हांव सांगतां तशें करात. तुमी सगळे ब्राह्मणांचीं रुपां घेयात. फळां, फुलां, दर्भ, तीर्थ बी साइत्य घेवन राजाचे भेटेक वचात. आनी थंय जमिल्ल्या ब्राह्मणां भितर भरसून रावात. कोणाक कळूंक जायना आमचे कोण आनी तांचे कोण ते.'

तक्षकान सांगलें तशें नागांनी केलें. सगळे ब्राह्मणांचीं रुपां घेवन राजागेर गेले. तक्षकान हे वाटेन आनीक एक बगलांट केलें. ल्हान-शे किडिचें रूप घेतलें आनी नागांनी भेटेक व्हेल्ल्या एका फळांत तो लिपून रावलो. ब्राह्मणांचीं रुपां घेतिल्ले नाग राजवाड्यार जमिल्ल्या ब्राह्मणां मदीं भरसले. भेटेक व्हेल्लीं फळां तांणी राजाक दिलीं. राजान तीं उपकारां सयत घेतलीं. आनी कुशीन दवल्लीं. कोणाक कसलोच दुबाव आयलो ना.

तीनसांज जाली. मरणाचें अरिश्ट आतां चुकलें अशें परिक्षिताक दिसलें. ताणे आपल्या लोकांक आपयले आनी म्हळें, 'ब्राह्मणांनी हाडिल्लीं फळां हाडात आतां हांगा.' तांणी फळां हाडलीं. तांतलीं कांय वेंचून ताणे मंत्र्यांक आनी इश्टांक वांटून दिलीं. आनी आपणा खातीर एक बोर वेंचून काडलें. खावपाक ताणे तें तोंडा कडेन व्हेलें. बोरांत ताका तांबडीचशी एक कीड दिश्टी पडली. कीड पळोवन ताणे मनांतल्या मनांत म्हळें, 'जावं, दीस आतां धारेर देंवला. आतां मरणाचो भंय कांय उरूंक ना. शृंगिच्या श्रापांतल्यान हांव कसोय जाल्यार सुटलों. आतां तक्षका वांट्याची ही कीड म्हाका चाबली म्हुण हांव काय मरपाचों ना. परतो, श्राप एके

नदरेन खरो जाल्ले वरी जातलें आनी हांवे मुनिचो जो गुन्यांव केल्लो तांतुंतल्यानूय मेकळो जातलों.' किडी कडेन पळोवन तो हांसलो.

ताणे बोर तोंडा कडेन मात व्हेल्लें, तक्षकान आपलें मुदलचें रूप घेतलें. किडिचो नाग जालो. खिणाचोय कळाव लायनासतना ताणे परिक्षिताचे कुडीक घट्ट विळखो घेवन घांस माल्लो. एक म्हाल–म्हातारो रूख हुमटून पडचो तसो परीक्षित घसांयंच करून भुंयेर पडलो. आकांतून भोंवतणचो लोक धांवत आयलो. पुणून तो म्हऱ्यांत पावचे पयलींच तक्षक अंतराळांत सुरसुरीत उडून गेल्लो.

## २. आस्तीक

परिक्षिता उपरांत हस्तिनापुराचे गादयेर ताचो पुत जनमेजय आयलो. पुणून जनमेजयाची कथा सांगचे पयलीं आस्तिकाची सांगूक जाय—

यायावर ऋषिंच्या कुळांत जरत्कारू नांवाचो एक ऋषी आशिल्लो. पांयांर नखेत्र पडिल्ले वरी तो एकासारको भोंवत आसतालो. खंयचेच कडेन एके राती वयर रावी नाशिल्लो. तो लग्न जावंक नाशिल्लो. जावंकूय सोदी नाशिल्लो. भोंवतां भोंवतां एक दीस एके कडेन ताका एका रुखाचे खांदयेक कांय जाण पांय वयर आनी तकल्यो सकल हे भाशेन हुमकळटाले ते दिश्टी पडले. ताका तांची ही आवतिकाय पळोवन काकूळट दिसली. म्हऱ्यांत वचून ताणे तांकां विचाल्लें, 'बाबांनो, तुमी कोण. हे भाशेन हुमकळटात कित्याक. जे खांदयेक तुमी गोळोव माल्ला ती एकलो हुंदीर आपल्या दांतांनी कातरता तो कोण?'

तांणी जाप दिली, 'आमी यायावर कुळांतले ऋषी. आमच्या कुळांत आतां जरत्कारू नांवाचो आमचो एकलोच वंशज उल्ला. तो लग्न जायना. ताका लागून आमचो वंश आतां खंडीत जातलो काय किर्तें, असो भंय आमकां दिसपाक लागला. जाका तूं हुंदीर लेखता तो काळ. ताणे पळे, आमच्या कुळाचेंच मूळ कशें खावन उडयलां तें. तप, यज्ञ आमीय करताले. पुणून आमी कूळ खंडीत जावंक दिनाशिल्लि. पुताची सर तपाक आनी यज्ञाक येना, हें जरत्कारूक खबर ना. देखून आमची अशी. आवतिकाय जाल्या. जरत्कारू लग्न जालो ना जाल्यार हाच्याकूय पाश्ट नरकांत आमी पडटले.'

तांगेली ही जाप आयकून जरत्कारू खंती जालो. आपणाक लागून आपल्या म्हालगड्यांची अशी गत्त जावंची हाचें ताका वायट दिसलें आनी ताणे तांकां सांगलें, 'हांवूंच तो तुमचो वंशज जरत्कारू. ब्रह्मचर्याक पाळो दिवन हांव आतां

मेरेन तपांत गुल्ल राविल्लों. आतां, तुमी सांगतात जाल्यार, बेत बदलतां आनी लग्न जातां, पुणून एके अटीर. म्हाका म्हज्याच नांवाची बायल मेळूंक जाय.

हे वाटेन आनीक एक गजाल घडिल्ली :

सोरपांची आवय कद्रु आनी गरुडाची आवय विनता भयणी-भयणी आनी सवती–सवती. देव आनी असूर हांणी दर्यो घुसळून काडलो त्या वेळार तातुंतल्यान जीं चौदा रत्नां वयर सरिल्लीं तांतलो उच्चैःश्रवा घोडो धवो काय काळो आशिल्लो, ह्या प्रस्नाचेर दोगीं मजगतीं एक दीस पैज लागली. विनतेचें म्हणणे, तो धवो. कद्रुचें म्हणणे, ताची शेंपडी काळी. घोड्याची शेंपडीय धवीच आशिल्ली. पुणून पैज जिखची आनी विनतेक आपणाली वावराडी करची ह्या हावेसान कद्रून तिका फटोवपाचो बेत केलो. तिका हजार पुत. तांकां आपोवन तिणे सांगलें, 'तुमी आत्तांच्या आत्तां ल्हान ल्हान काळी ल्हंव जायात आनी उच्चैःश्रव्याचे शेंपडेक वचून दसात.'

पुतांनी तिची सांगणी हांशार व्हेली तेन्ना तिका तांचो राग आयलो. आनी त्या रागा भरशीं तिणे पुतांक श्राप दिलो : 'जनमेजय राजा एक दीस एक यज्ञ करतलो. त्या यज्ञांत तुमी सगळे हुलपून मरतले.'

श्राप दिला त्या वेळार ब्रह्मदेव म्हऱ्यांत आशिल्लो. पुणून हे विखाळ सोरोप मरतात जाल्यार मरूं दी अशें येवजून तो ओगी राविल्लो.

कद्रुचो एक पुत्त वासुकी. तो नागांचो राजा. आवयचो श्राप आयकून ताचो आवरो उडलो. आनीक कोणायच्या श्रापांतल्यान मेकळे जावं येता, आवयच्या श्रापा सारको खर श्राप दुसरो ना. तातूंत आनीक आवयन हो श्राप ब्रह्मदेवा हुजीर दिल्लो आनी ब्रह्मदेव ओगी राविल्लो. सोरपांचे दीस सोंपल्यात जातले असो ताका भंय दिसपाक लागलो. हाचेर आतां उपाय कितें करचो हें थारावपा खातीर ताणे सगळ्या सोरपांक एक दीस आपोवन हाडले. आनी तांच्या मुखार ताणे हो प्रस्न दवल्लो. प्रस्न आयकून कोण म्हणपाक लागले, आमी आतांच वचून जनमेजयाक चाबुंया. कोणे सांगलें, आमी येन्ना सावन ब्राह्मणांचें रूप घेवन तागेर वचून रावुंया; तागेले पुरयत जावंया आनी मुखार केन्नाय ताणे याग करचो केलो जाल्यार तांतूंत तरे तरेचीं आडमेळीं हाडुंया. कोणे म्हळें, आमी यागा वेळार पुरयतांकूच चाबुंया. हे भाशेन, एक–एकल्यान एक–एक उपाय सांगलो. वासुकीक हांतलो एकूय उपाय नागांक बऱ्याक पडपा सारको दिसलो ना. ताका नाग आनी आर्य हांची दुस्मानकाय सासणाची ना करपाचो उपाय जाय आशिल्लो.

वासुकीन अखेरेक ब्रह्मदेवाचीच बुद्द घेतली आनी ब्रह्मदेवान ताका आर्य आनी नाग हांचे मजगतीं रगताचें नातें जुळोवन हाडचें अशें सुचयलें आनी

जरत्कारू ऋषिचीय खबर सांगली. वासुकीन आपणाली भयण ह्या ऋषीक दिवची अशेंय सांगलें. तिगेलें नांव जरत्कारूच आशिल्लें.

वासुकीन सगळ्या नागांक आपोवन सांगलें, 'जरत्कारू ऋषिचे पाळटेर रावात. तो खंयूय दिश्टी पडलो जाल्यार रोखड्या रोखडें येवन सांगात.'

हे वाटेन, जरत्कारू ऋषी पितरांक लग्न जावपाचें उतर दिवन जो भायर सरिल्लो तो 'म्हाका चली कोण दीत, चली कोण दीत' अशें म्हणत म्हणत एक दीस एका रानांत पावलो. खूब कडेन भोंवनूय ताका चली मेळूंक नाशिल्ली. आपणा सारकेल्या घरदार नाशिल्ल्याक चली कोण दितलो हे निर्शेणेन 'आय देवा, आय देवा' करीत त्या दिसा तो त्या रानांत एका रुखा मुळांत येवन बसलो.

रानांत नाग भोंवताले. तांणी जरत्कारुचीं निर्शेणेचीं उतरां आयकलीं आनी धांवत वचून ही खबर वासुकीक सांगली. वासुकी बेगोबेग ऋषी सरीं आयलो आनी ताणे आपली भयण ताका दिवची केली.

जरत्कारू ऋषीन सांगलें: 'म्हज्यो कांय अटी आसात. एक, चलयेचें नांव जरत्कारू आसूंक जाय. दुसरी, हांव घरदार घेवन बसपाचों ना हें तिणे मान्य करूंक जाय. तिसरी, म्हाका राग येत असली कसलीच करणी तिचे हस्तुकीं घडूंक जायना. घडत जाल्यार त्याच खिणाक हांव तिका सोडून वतलों हेंय तिणे मान्य करूंक जाय.'

वासुकिचे भयणिचें नांव जरत्कारूच आशिल्लें. म्हुण पयले अटीक म्हत्त्व उरूंक नाशिल्लें. दुसऱ्यो दोन खर आशिल्ल्यो. पुणून आपल्या कुळाच्या बऱ्याचें येवजून वासुकीन त्यो मानून घेतल्यो आनी भयणिकूय मान्य करूंक लायल्यो.

त्या दिसा परसून जरत्कारू ऋषी वासुकिगेरूच रावपाक लागलो.

कांय दीस गेले. जरत्कारू गुरवार जाली. ती गुरवार आसतना एक दीस घोव तिचे मांडयेर तकली दवरून दिसाचोच न्हिदलो. त्या दिसा ताका खूब्ब पुरो जाल्लें. तीनसांज जाली. ऋषी सुस्त न्हिदून रावला; दीस पडचे पयलीं संध्या करपाचो ताचो नेम. आनी ऋषी तर न्हिदला. कितें करचें ह्या घुटमळ्यांत बायल पडली. उठयलो जाल्यार, कित्याक उठयलो म्हुण तापतलो. बरें, उठयलो ना, जाल्यार संध्या कशी चुकोवंक दिली म्हुण तापतलो. तिणे येवजी येवजी येवजिलें आनी निमाणे संध्या चुकची न्हय अशें थारावन घोवाक उठयलो.

'म्हाका न्हिदेंतलो कित्याक उठयलो,' ताणे ताणशेवन तिका विचाल्लें.

'संध्या चुकतली ह्या भंयान उठोवचें पडलें,' बायलेन भियेत भियेत जाप दिली.

'अब्बा ! कशी चुकतली आशिल्ली ?'

'दीस पडपा कडेन पाविल्लो.'

'हांव न्हिदिल्ले कडेन आसतना दिसाक पडपाचें काळीज जावचें नाशिल्लें. तो तिश्टत रावतलो आशिल्लो.'

बायल ओगी रावली तेन्ना घोवान तिका याद करून दिली : 'लग्ना वेळार हांवें अट घाल्ली, म्हाका राग येत असलें कितेंच तुजे हस्तुकीं घडूंक जायना म्हुण, उगडास आसा ? तुवें ती अट आयज मोडली. तेन्ना हांव आतां चल्लों.'

अशें म्हणून तो तिका सोडून गेलो.

ती खूब खंती जाली. वासुकिकूय वायट दिसलें. पुणून उपाय नाशिल्लो. तांतल्या तांतूंत मोट्टे खोशयेची गजाल म्हळ्यार, तिच्या पोटांत भुरगें वाडूंक लागिल्लें.

नाग जातींतले जरत्कारूक यायावर कुळयेंतल्या जरत्कारू पसून जो भुरगो जालो ताचें नांव आस्तीक. घोव घर सोडून वता आसतना बायलेन ताका पोटांतल्या भुरग्या संबंदान विचाल्लेलें तेन्ना ताणे 'अस्ति' (म्हळ्यार, हय, आसा) म्हुण जाप दिल्ली. 'अस्ति' वयल्यान भुरग्याक आस्तीक नांव पडलें.

आस्तीक मावळ्यागेरूच ल्हानाचो व्हड जालो. च्यवनभार्गवा कडल्यान तो वेद शिकलो. दिसपाक तो गिड्डो आशिल्लो. पुणून बुद्दीन आनी कर्तुत्वान तो एक व्हड ऋषी जाल्लो.

## ३. जनमेजयाचें सर्पसत्र

परिक्षिताच्या मरणा उपरांत हस्तिनापुराचे गादयेर जनमेजय आयलो. ताचो राज्याभिषेक जाला त्या वेळार पिरायेन तो साप भुरगो. ल्हान पिरायेर तो राजकारभार करसो चलयतलो आशिल्लो. देखून सुर्वेक बापायचे मुस्तींतल्या मंत्र्यांची आनी पुरयतांची बुद्द घेवन तो कारभार चलोवपाक लागलो.

ताका तीग भाव : श्रुतसेन, उग्रसेन आनी भीमसेन. तिगांकूय घेवन एक खेपे तो कुरुक्षेत्रार एक सत्र चलोवंक बशिल्लो. थंय एक दीस एक सुण्या–पेटो पावलो. ताका पळोवन हो अवचिन्नाळो अपशकून करपाक हांगा कित्याक आयला, अशें म्हणून जनमेजयाच्या भावांनी ताचेर फातर मारून ताका धांवडावन घालो.

पेटो रडत आवय सरीं गेलो. आवय देवांलें घर राखताली. तिचें नांव सरमा. रडत आयिल्ल्या पेट्याक तिणे विचाल्लें, 'रडटा कित्याक पुता.'

'म्हाका जनमेजयाच्या भावांनी माल्लो,' पेट्यान जाप दिली.

'तुवें कितेंय तरी केलां जातलें,' आवयन म्हळें.

'ना, हांवें कितेंच करूंक ना. कित्याकूच तोंड लावंक ना. नदर लेगीत

कित्याचेर घालूंक ना.' पेट्यान रडत रडत सांगलें.

जाब विचारपाक सरमा पेट्याक घेवन जनमेजयाच्या माटवांत गेली. 'हाका तुमी कित्याक माल्लो,' म्हुण तिगांय भावांक तिणे विचाल्लें. एकल्यानूय तिका जाप दिली ना. सगळे ओग्गी राबले. सरमेक तांची तिडक माल्ली. तिणे म्हळें, 'तुमी जाप दिनात, हाचे वयल्यान तुमी अन्याय नासतना हाका माल्ला, अशें म्हणचें पडटा. तुमकां ख्यास्त फावता.' अशें म्हणून तिणे तिडके भरशीं जनमेजयाक श्राप दिलो : 'तुजेर येवजूंक नाशिल्लें एक संकश्ट येवन कोंसळटलें.'

जनमेजय भियेलो. तो आतां संकश्टां परतून लावपाची तांक आशिल्लो एक पुरयत सोदपाक लागलो. एक दीस भोंवडेक गेल्ले कडेन श्रुतश्रवा नांवाच्या एका ऋषिच्या आश्रमांत तो पावलो. श्रुतश्रव्याक एके नागिणी पसून जाल्लो सोमश्रवा नांवाचो पुत आशिल्लो. सुर्या परस तेजिश्ट. म्हादेवान धाडिल्लें अरिश्ट सोडून दुसरें केदेंय व्हडलें अरिश्ट परतून लावपाची तांक आशिल्लो.

'हांव हाका म्हजो पुरयत करूंक सोदतां,' जनमेजयान श्रुतश्रव्याक म्हळें.

'बरे भाशेन' श्रुतश्रव्यान जाप दिली. हो खऱ्यांनीच म्हा–तेजिश्ट. हाच्यांत सगळे तरेचीं संकश्टां परतून लावपाची तांक आसा. पुणून हाचो एक नेम आसा. खंयच्याय ब्राह्मणान कितेंय मागल्यार हो केन्ना ना म्हणिना, काडून दिता.'

जनमेजयान म्हळें, 'कांय अडचण ना. म्हाका असलो पुरयत उपकारता.' अशें म्हणून तो सोमश्रव्याक घेवन घरा परतलो. ताका पुरयताचे गादयेर बसयलो आनीं भावांक सांगलें, 'ह्या मुखार हाचेच सांगणेन सगळें करपाचें आनी चलोवपाचें.'

कांय वरसां गेलीं. एक दीस जनमेजयान नागांच्या तक्षशिला राज्याचेर घुरी घाली आनी तें राज्य जिखून आपल्या राज्याक जोडलें. हो आतां आपले बुद्दीन राज्य चलोवपा इतलो जाणटो जाला म्हणपाचें मंत्र्यांक आनी पुरयतांक दिसपाक लागलें. तेन्ना तांणी ताच्या लग्नाचो बेत केलो. काशिच्या राजाचे वपुष्टमा नांवाचे धुवेक मागणी घाली. तिचे कडेन जनमेजयाचें लग्न केलें. वपुष्टमा सामान्यां भायली सुंदर. तिच्या सांगातांत रावंक लागत पसून जनमेजयाची नदर दुसरे खंयचेच बायल-मनशेचेर पडना जाली. दोगांय एकामेकां कडेन इतलीं एकरूप–एकजीव जाल्लीं कि दोगांकूय पळोवन लोक म्हणटाले : आदले मुस्तींत पुरूरवा असोच उर्वशे सांगातांत सुख भोगतालो.

हे भाशेन जनमेजय सुखांत आसतना एक दीस उत्तंक ऋषी ताच्या राजवाड्यार पावलो. उत्तंकाक नागांचो दुस्वास. तक्षकाचो सगळ्यांत चड. तो वेदमुनी कडेन ब्रह्मविद्या शिकतालो त्या वेळार ताका ताचो एक कोडू अणभव

आयिल्लो. ताचें शिकप सोंपलें तेन्ना गुरुदक्षिणे संबंदान ताणे गुरूक विचाल्लें. गुरून आपले बायले कडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'हिका जाय तें हाडून दी.' तिका पौष्य राजाचे राणयेच्या कानांतलीं कुंडलां जाय आशिल्लीं. मोट्या कश्टान तीं उत्तंक घेवन आयिल्लो. तीं घेवन येता आसताना वाटेर ताका तक्षक मेळिल्लो. आनी उत्तंकाक फटोवन कुंडलां घेवन तो पळून गेल्लो. नागलोका मेरेन वचून तीं परतीं हाडटासर उत्तंकाक नाका पुरो जाल्लें. तेन्ना परसून उत्तंक तक्षकाचो सूड घेवपाचें येवजितालो.

तो जनमेजया सरीं आयलो आनी म्हणपाक लागलो :

'राजा, तूं एक व्हडलो वावर करपाक जल्मा आयला. तो विसरून तूं सुखांत करसो लोळटा. तुका हें सोबता व्हय. तक्षकान तुज्या बापायक जिवो मारिल्लो, तें तूं कसो विसल्लो. ह्या खुनाचो सूड घेवप तुजी सगळ्यांत व्हडली लागणूक आशिल्ली. दुस्मानाक ना करपाच्या वावरांत आळसाय करप हाचे सारकी दुसरी चूक ना. तक्षकान तुकाच एकल्याक पिडला अशें न्हय. जायत्या जाणांक ताणे पिडल्यात. म्हाकाय पिडला. गुरुदक्षिणा दिवपा खातीर हांव पौष्याचे राणयेचीं कुंडलां घेवन येतालों त्या वेळार ह्या उणाकान वाटेर म्हाकाय पिडला. गुरुचे कृपेनूच हांव वाटावलां. राजा, ऊठ, तक्षकाचो सूड घे.'

तेल ओततकूच उज्यान पेट घेवचो तसो उत्तंकाच्या उतरांनी जनमेजयाच्या काळजान पेट घेतलो. तो दांत–वोंठ चाबपाक लागलो. हात चोळपाक लागलो. ताका कितें करचें, समजना जालें. निमाणे, पुराय नाग जातीक तांतयां–पिलां सयत ना करतलों ह्या नित्शयान तो उठलो. मंत्र्यांक आनी पुरयतांक आपोवन ताणे सांगलें : सर्पसत्र करचें असो हांवें नित्शय केला. तयारी करात.

पुरयतांनी ताच्या म्हणण्याक तेंको दिलो तेन्ना घातमारो तक्षक आतां उज्यांत हुलपून मेलोच अशें जनमेजयाक दिसलें.

रोखडेच सगळे तयारेक लागले. मंटपा खातीर तांणी भूंय वेंचून काडली. ती बेतली आनी विधी सयत थंय तांणी मंटप उबाल्लो. व्हडल्या व्हडल्या ऋषींक आमंत्रणां धाडलीं. तांकां वांटपा खातीर तांदुळ गोटो एकठांय केलो. सगळी तयारी जातकूच जनमेजयान यागाची दीक्षा घेतली.

त्याच वेळार लोहिताक्ष नांवाचो एकलो मेस्त थंय पावलो. तो खंयचे घटकेक खंयचे सुवातेर घर बांदतकूच कसलें फळ मेळटा हें शास्त्र जाणा आशिल्लो. ताणे मंटप पळोवन भाकीत केलें : हो याग पुरो जावंक पावपाचो ना. मदींच एकलो ब्राह्मण येतलो आनी आडमेळें हाडटलो.

जनमेजयाक हें कळ्ळें तेन्ना ताणे मंटपाच्या दारांत शिपायक दवल्ले आनी

'म्हाका विचाल्ले बगर कोणाकूच भितर सोडूंक जायना' अशें तांकां फरमायलें.

याग सुरू जालो. चंड भार्गव यज्ञाचो होतो जालो. जैमिनी उद्गातो. जाल्यार शार्ङ्गरव अध्वर्यु जालो. उद्दालक, श्वेतकेतू, पिंगल, असित, देवल, नारद, आत्रेय, श्रुत्रश्रवा—एका फुडले एक व्हडले आनी बुदवंत ऋषी सदस्य जाले. व्यासूय आपल्या पुतांक आनी शिष्यांक घेवन आयिल्लो. सगळ्यांनी खणखणीत ताळ्यान मंत्र म्हणून एका–एका सोरपाक आपोवपाक सुरवात केली. तांणी सोरपांचे एक–एकले कुळयेचें नांव घेवचें आनी 'स्वाहा स्वाहा' करचें. त्या बराबर ते ते कुळयेंतल्या सोरपांनी किळांच्यो मारीत येवन उज्यांत पडचें. मंत्र आयकून सगळे सोरोप गर्भगळीत जाले. सगळे काकुळटेण्या आवाजान एकामेकांक उलो मारपाक लागले. सगळे भंयान धुंवळून होमा–उज्यांत एका फाटल्यान एक पडपाक लागले. मळबांतल्यान पावसाच्यो दडको पडच्यो तशे वेगळ्या वेगळ्या कातिंचे आनी रुपांचे सोरोप होमा–उज्यांत हुलपून मरपाक लागले. धुंवरान ऋषिंच्या आंगावेलीं लुगटां लेगीत काळीं जालीं. तांचे दोळे तांबडे गुंज जाले. सगळे कडेन घाण–वद्धाण पातळ्ळी.

तक्षकाची भियेवन गुळी जाली. आपलेच चुकीक लागून नाग जातिचेर ही हावळ आयल्या, आपणाकूच ना करपा खातीर हें सगळें चल्लां म्हणपाचें ताच्या लक्षांत येतकूच ताणे स्वर्गार धांव माल्ली आनी इंद्राच्या पांयार घालून घेतलें. आलाशिऱ्याक आयिल्ल्याक इंद्र धीर दिवपी. ताणे तक्षकाक आपणागेर दवरून घेतलो आनी म्हळें, 'तूं भियेवं नाका. हांगा आसा सर तुजे ल्हंवेक लेगीत कोण हात लावपाचो ना'

वासुकिच्या घराण्यांतले खूब-शे सोरोप होमा-उज्यांत हुलपून मेले तेन्ना वासुकिचेर आकांत आयलो. ताणे आपले भयणीक जरत्कारूक आपोवन सांगलें, 'बाय गो, एक दीस अशें जातलें म्हणपाचें हांव जाणा आशिल्लों. ही हावळ चुकोवंक मेळची म्हुण्णूच तर तुजें जरत्कारू ऋषी कडेन लग्न लावन दिल्लें. तरी आसतना, हावळ चुकोवंक आयली ना. कितें करचें, म्हाका समजना. म्हजें काळीज धडधडटा. दोळ्यां मुखार काळोख पातळ्ळा. म्हाका पिशें लागपा कडेन पावलां. आतां एकूच उपाय उल्ला. आस्तिकाक आपोवन ताका सगळें समजावन सांग. आस्तीक भुरगो खरो. पुणून आमकां वाटायल्यार तोच एकलो वाटायतलो. तुज्या कुळारचे जे कोण उल्ल्यात तांचे प्राण वांचोवप आतां तुज्याच हातांत आसा.'

जरत्कारून आस्तिकाक रोखडोच आपोवन हाडलो. वासुकीन आपले यायावर

कुळयेंतल्या जरत्कारू ऋषी कडेन लग्न कित्याक केल्लें तें ताका समजावन सांगलें. आस्तीक एका खिणांत सगळें समजलो. 'पावलें म्हजेर' अशें म्हणून वासुकिचे तकले वयलें हुसक्या वजें ताणे आपल्या माथ्यार घेतलें आनी नीट उठून तो जनमेजयाच्या यज्ञा–मंटपा कडेन गेलो. तो भितर वचूंक सोदतालो. पुणून ताका दारा वयल्या शिपायकांनी आडायलो. तेन्ना, तो भायरूच उबो रावन यज्ञाची, होमा-उज्याची, जनमेजयाची आनी ऋषिंची खणखणीत ताळ्यान तुस्त गावपाक लागलो. तुस्त आयकून जनमेजय खुशालभरीत जालो आनी म्हणपाक लागलो : 'हो दिसपाक भुरगो दिसलो जाल्यारूय विद्वत्तेन आनी तपान जाणटो आसूंक जाय. हाका तुष्ट करपाक जाय.' ताका भितर आपयलो. 'तुका जाय तें माग,' अशें तो ताका सांगूंक वतालो. इतल्यांत, यज्ञाच्या 'होत्या'न जनमेजयाक म्हळें : 'मात्सो राव, तक्षक अजून होमा उज्यांत पडूंक ना. तो पड सर तरी कोणाक कसलेंच उतर दिवं नाका. तक्षक तुर्त इन्द्रागेर आसा. इंद्रान ताका आश्रय दिला.'

तक्षकाक इन्द्रान आलाशिरो दिला हें आयकून जनमेजयाक इन्द्राचो राग मालो. जाचो सूड घेवपा खातीर आपणे हो यज्ञ केलो ताकाच इन्द्राचो आलाशिरो मेळ्ळो जाल्यार यज्ञच फुकट गेलो अशें ताका दिसलें आनी ताणे ऋषींक सांगलें : इन्द्राक लागून तक्षक पडना जाल्यार इन्द्रा सयत तक्षकाची आहुती दियात.

इन्द्रा सयत तक्षकाची आहुती दिवपाक ऋषी मंत्र म्हणपाक लागले त्याच खिणाक मळबांत इन्द्रा सयत तक्षक दिश्टी पडलो. यज्ञाचें भयांक्रूत रूप पळोवन इन्द्र इतलो भियेलो कि ताणे बेगोबेग तक्षकाक धुकलून उडयलो. तक्षक पडटा म्हणपाचें ऋषिंनी पळेलें तेन्ना तांणी राजाक सांगलें : 'यज्ञ आतां सोंपपा कडेन पावला. आतां ह्या नव्या ब्राह्मणाक कितेंय दितलो जाल्यार आमची आडखळ ना.'

जनमेजयान खुशालभरीत जावन आस्तिकाक म्हळें, 'येदे ल्हान पिरायेर तुवें जें गिन्यान जोडलां तें पळोवन हांव धादोशी जालां. तुका कितें जाय तें माग.'

'सत्र हांगाच सोंपय.' आस्तिकान मागलें.

जनमेजय खंती जालो. म्हणूंक लागलो, 'तूं भांगर माग, रुपें माग, गायो, भूंय, कितेंय माग. पुणून उपकार करून यज्ञांत आडमेळें हाडूं नाका.'

'म्हाका भांगर, रुपें, गायो, कितेंच नाका. सत्र हांगाच सोंपय.' आस्तीक अडून रावलो.

जनमेजयान ताचे कडेन कितलें मागलें. पुणून आस्तीक आयिल्लोच सत्र सोंपोवपाक. तो एक तें एकूच घेवन बसलो.

हे वाटेन एक विप्रीत घडिलें. इन्द्रान धुकलून उडयल्ल्यान गर्भगळीत जावन

तक्षक सकल पडटा आसतनाच आस्तिकान ताका हात वयर करून 'राव, राव' म्हुण तीन खेपो सांगिलें. आनी वेगान सकल पडटालो तो तक्षक अंतराळांत मदींच हुमकळत उरिल्लो तो ऋषिंनी पळेल्लो. आस्तिकाचे सत्येची त्याच खिणाक सगळ्यांक नाट मेळिल्ली. देखून ताका वायट दिसत अशें किर्तेंच घडूंक जायना ह्या मत्तार ऋषी पाविल्ले. 'सत्र हांगाच थांबय' हो आस्तिकाचो हट पळोवन ऋषिंनी राजाक सांगलें, 'आतां चड विनोवं नाका. मागता तें दिवन उडय ताका.'

ऋषिंचे इत्सेक मान दिवन जनमेजयान यज्ञ थांबोवंक लायलो.

जनमेजयाचो नागां विशिंचो रागूय त्याच खिणाक न्हिवलो. ताणे म्हळें: 'उल्ल्यात त्या नागांक आतां सुखांत रावूं दी.'

यज्ञ सोंपतकूच ताणे ऋषींक तांचे-तार्चे व्हडविकेक सोबत ते भाशेन तांदुळ गोटो शाली बी दक्षिणा दिवन संतुष्ट केले. आस्तिकाचोय व्हड भौमान केलो. इतलेंच न्हय तर 'हो यज्ञ पुरो जावंक पावचो ना' म्हणपाचें जाणे भाकीत केल्लें त्या लोहिताक्ष मेस्ताचोय ताणे खूब भौमान केलो.

आस्तिकाक ताणे म्हळें, 'कांय दिसांनी हांव अश्वमेध यज्ञ करपाचो आसां. त्या यज्ञाक तुवें मुजरत येवचें.'

'मुजरत येतां,' आस्तिकान जाप दिली.

आंगार घेतिल्लें काम आपणे केलें. इतलेंच न्हय, तर नाग जातिवेलो जनमेजयाच्या मनांतलो रागूय न्हिवोवंक पावलों हे धादोसकायेन आस्तीक आवय सरीं आयलो. ताका जैतवंत जावन परतल्लो पळोवन वासुकी आनी वांचून उरिल्ले हेर नाग ताचे भोंवतणी एकठांय जमले. आस्तिकाचेर सगळ्यांचोच मोग. आतां तर तो तांकां अदिकूच जाय जाल्लो. 'तुवें आमकां एका व्हड अरिश्टांतले वाटायल्यात. तुजे भोंवतणी जीव उंवाळून उडोवचो अशें आमकां दिसपाक लागलां. तुका बरें दिसत अशें आमी किर्तें करचें, सांग.' तांणी विचाल्लें. तेन्ना आस्तिकान तांकां सांगलें: 'ह्या मुखार तुमचे पसून कोणाक कसलोच त्रास जावचो न्हय.'

सगळ्या नागांनी एका ताळ्यान जाप दिली, 'तशेंच जातलें. चुकून आमी कोणाक चाबूंक गेले जाल्यार, तुजो उगडास करून दितकूच जालो लोकांनी आमकां.'

हे कथेंत आमचो पुर्विल्लो इतिहास लिपिल्लो आसूंक जाय. नाग म्हळ्यार नाग-जातिचे वा नागाची पुजा करपी लोक. भारतांत आर्य येवचे आदीं ज्यो मनीस कुळयो हांगा वसताल्यो तांतले लोक हे. आर्य तांचीं राज्यां जिखूंक लागले तेन्ना ते आर्यां आड गेले. ते आर्यांक त्रास दिवपाक लागिल्ले. देखून आर्यूय तांकां ख्यारस्त भोगोवपा खातीर तांचीं राज्यां हुलपावंक लागिल्ले. पांडवांनी खांडव-वन ह्याच खातीर हुलपायल्लें.

तक्षक नागांचो राजा. खांडव-वन हुलपावन अर्जुनान आपणाक आनी नाग जातिच्या लोकांक देशा भायरे केले हाची ताका आकांताची तिडक. ह्या खातीर तो ताचो सूड घेवंक सोदतालो. अर्जुनूय ताच्या फाटल्यान लागिल्लो आनी अर्जुनाच्या हाताक तो लागूंक नाशिल्लो. तक्षकूय ताचो सूड घेवंक पावूंक नाशिल्लो. तो निमाणे अर्जुनाच्या नातवाक परिक्षिताक जिवो मारून ताणे घेतलो. पांडवांची आनी नागांची दुस्मानकाय तीन पिळग्यां मेरेन चल्ली असो हाचो अर्थ. हे दुस्मानकायेक अंत हाडपाचो उपाय एकूच उरिल्लो. तो म्हळ्यार, आर्य आनी नाग दोनूय जातींक रगताच्या नात्यान बांदपाचो. तो वासुकीक येवजलो. ह्या उपायांतल्यान आस्तिकाचो जल्म जालो. ताणे अखेरेक हे दुस्मानकायेक अंत हाडलो.

भारतीय झुजाची कथा सांगपी महाभारत झुजा उपरांत कितल्या-श्या वरसांनी रचून जालें. येद्या व्हडल्या ह्या काळांत लोकांचे तकलेंत नागांचे सोरोप जाले जाल्यार अजाप न्हय. नाग लोक दंशी आशिल्ले. देखुनूय घडये तांकां सोरोप म्हळ्यात जातले.

परीक्षित आनी जनमेजय हांचे कथेंत कांय ऐतिहासिक तथ्यां आनी कांय लोकां-काणयो भरसल्यात जावंक जाय.

## ४. व्यास

जनमेजयान सर्पसत्राची दीक्षा घेतल्या म्हणपाची खबर व्यासाच्या कानार पावली तेन्ना, ताच्यान सस्त बसूं नज जालें. तो आपल्या शिष्यांक घेवन सत्राच्या मंटपांत गेलो. जाचे किर्तिचो परमळ धाय दिकांनी पातळ्ळा ताकाच मंटपात आयिल्लो पळोवन जनमेजय भुल्लुसलो. ताच्या येवकाराक जनमेजया सयत मंटपांतले सगळे उठून उबे रावले. इन्द्रागेर बृहस्पती पावतकूच इन्द्र जसो ताचो भौमान करतालो तसोच हांगा सगळ्यांनी व्यासाचो भौमान केलो. बसपाक ताका रुप्याचें आसन दिलें. ताची पाद्यपुजा केली. उपरांत जनमेजयान ताका साष्टांग नमस्कार घालून म्हळें, 'म्हजें भाग्य व्हड म्हुण तुमी म्हज्या यज्ञांत पावल्यात तुमी म्हज्या म्हालगड्यांक कौरव पांडवांक वळखताले. खासा दोळ्यांनी तांका तुमी पळेल्ले. तुमच्याच रगताचे ते. तांच्यो सगळ्यो खबरी तुमी जाणात. बुदवंत आनी शीळवंत आसुनूय तांच्यांत वितुष्ट कित्याक लागून आयलें. कित्याक लागून तांचीं काळजां एकामेकां आड गेलीं आनी पुराय कुरु-कुळाचें नाशें करपी झूज तांचे मजगती कित्याक लागून उपरासलें हें सगळें तुमच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळिल्लें जाल्यार खोस भोगतली आशिल्ली.'

सत्रांत तीनसांज जातकूच ऋषी एकामेकां म्हऱ्यांत बसून वेगळीं-वेगळीं आख्यानां सांगताले. व्यासान तीन वरसां मेरेन समाधी लावन एक नवें आख्यान

निकतेंच रचिल्लें. तें कुरु-कुळाच्या झुजा विशिंचें आनी ताच्या नाशा वयलेंच आशिल्लें. व्यासा वांगडा तागेलो शिष्य वैशंपायन आयिल्लो. जनमेजयाची इत्सा पळोवन व्यासान वैशंपायनाक सांगलें, 'तुवें ही कथा म्हज्या तोंडसून आयकल्या. ती हांकां आतां सुरवात पसून निमाणे मेरेन सांग.'

व्यासाचे सांगणेन वैशंपायनान ही कथा सांगपाक सुरवात केली.

पुणून हे कथेंत रिगचे पयलीं खासा व्यासाच्या जल्माची कथा सांगूंक जाय.

उपरिचर नांवाचो एकलो राजा इन्द्रान दिल्ल्या विमानांत बसून सदां अंतराळांत भोंवतालो. विमानांतूच तो वयले वयर भोंवता देखून ताका उपरिचर नांव पडिल्लें. ताचे पसून अद्रिका नांवाचे एके अप्सरेक एक चली जाल्ली. ती ताणे दाशराजा सुवादीन केल्ली. दाशराज खारव्यांचो राजा. आपलीच धुव मानून हिका ल्हानाची व्हड कर अशे ताणे दाशराजाक सांगिल्लें आनी दाशराजान तिका तशीच वाडयल्ली. तिचें नांव सत्यवती.

यमुनेच्या तिरार दाशराजान एक तार घाल्ली. ती सत्यवती चलयताली. सत्यवती सुंदर, गोमटीच. वयार आयली तेन्ना तिची सुंदरकाय पुनव कशी ओतूंक लागली. व्हडले व्हडले सिद्ध तिका पळोवन चळपाक लागले. एक दीस पराशर ऋषी तारी कडेन पावलो. ताका पल्तडीं वचपाचें आशिल्लें. सत्यवतीक पळेना फुडें तो तिचेर भाळ्ळो. तारींत बसून तो तिचे कडेन गोड गोड उलोवपाक लागलो. तेन्ना सत्यवती भियेली. तिणे ऋषीक म्हळें, 'हे पळे, न्हंये आल्तडीं आनी पल्तडीं ऋषी बसल्यात. ते आमकां पळेतात.' पराशराची सत्या आकांताची. ताणे दिसा-उजवाडाक चोंय वशीन गुपाट काळोख पातळायलो आनी म्हळें, 'आतां कोणाक कांय दिश्टी पडपाचें ना.' पराशरान केल्लें अजाप पळोवन सत्यवती अदीक भियेली. तिणें भियेवन म्हळें, 'हांव आंकवार. म्हज्या आंकवारपणाक दुशण लागलें जाल्यार तोंड घेवन खंय वतलीं.'

'म्हजे कडेन संबंद आयलो म्हुण तुज्या आंकवारपणाक बादा येवपाची ना' पराशरान तिका धीर दिवन जाप दिली.

पराशराच्या उतरांचेर सत्यवती भुल्ली आनी ती अचळय ताचे सुवादीन जाली.

पराशर तिचेर इतलो खोश्शी जालो कि इत्सा भागतकूच ताणे तिका म्हळें, 'तुका आनीक कितेंय जाय आसत जाल्यार माग म्हजे कडेन.' सत्यवतिच्या आंगाक नुसत्याच्यो हिंवसाणी येताल्यो. देखून लोक तिका 'मत्स्यगंधा' म्हणटाले. पराशरान माग म्हणटकूच सत्यवतीन मागलें, 'म्हज्या आंगांतली ही हिंवसाण वचून तिच्या बदला फुलांचो घमघम पातळचो.' तशें जालें. तेन्ना पसून सत्यवती

मत्स्यगंधा आशिल्ली ती 'गंधवती' जाली. तिच्या आंगाचो घमघम एक योजन मेरेन पातळूंक लागलो. देखून, तिका 'योजनगंधा' म्हुण आनीक एक नांव पडलें.

सत्यवतीक आंकवारपणांत पराशरापसून जो पुत जालो तो महामुनी व्यास. यमुनेंतल्या एका जुंव्यार तो जल्मा आयिल्लो. देखून ताका 'द्वैपायन' हें नांव पडलें. कातीन तो काळो आशिल्लो. देखून ताका 'कृष्ण' हें आनीक एक नांव मेळिल्लें. ह्या मुखार धर्माक ल्हवू ल्हवू देंवती कळा लागतली, ताचो एक एक आधार गळून पडटलो, लोक आपणाल्यो लागणुको विसरतले, मनीस मनशाक वळखना अशी संवसाराची गत्त जातली, म्हणपाचें ताचे प्रज्ञेन पारखिल्लें आनी धर्म बुडचो न्हय म्हुण ताणे जळींमळीं शिंपडिल्ली वेदविद्या एकठांय केल्ली. ती एकठांय करून तिचें शिकप सोपें जावचें म्हुण ताणे तिचे चार वांटे केले आनी एक एक वांटो एक एकल्या शिष्याक शिकोवन ताणे एक नवी परंपरा सुरू केली. म्हुण ताका 'व्यास' हें आनीक एक नांव मेळ्ळें. पैल नांवाच्या एका शिष्याक ताणे ऋग्वेद शिकयलो, जैमिनीक साम, वैशंपायनाक यजूर तर सुमन्तूक अथर्ववेद शिकोवन ताणे वेदविद्या जी ना जावं येताली ती राखून दवल्ली.

पुराणांत अठरा व्यासांचो उल्लेख येता. अठरावो कृष्ण द्वैपायन. हिमालयात नर आनी नारायण नांवाचे दोन पर्वत आसात. तांच्या म्हज्यांतल्यान अलकनंदा नांवाची एक न्हंय व्हांवता. तिचे तडीर विशाला बदरी नांवाचें एक थळ आसा. थंय व्यासाचो आश्रम आशिल्लो. थंयच लागसार आकाशगंगा नांवाची आनीक एक न्हंय व्हांवता. ती व्यासाची 'चंक्रमणा'ची ( भोंवंक वचपाची ) सुवात आशिल्ली. ह्या आश्रमांत बसून ताणे वेदविद्येचें संपादन केल्लें. हो एक आकांताचो वावर केल्ल्यान ताका 'वेदव्यास' म्हुण आनीक एक भौमानाचें नांव मेळिल्लें.

हो वावर सोंपोवन, ताणे तसोच जळींमळीं शिंपडिल्लो लोकवेद एकठांय केलो आनी तो कुरु–कुळाचे कथे कडेन गुथून ताणे पांचवो वेद रचलो. ह्या वेदाचें नांव कार्ष्ण–वेद. म्हळ्यार, भारत.

भारती झूज सोंपल्या उपरांत एका सारकीं तीन वरसां खोलायेन येवजून (सततं उत्थानं) ताणे हें काव्य रचलें म्हणटात.

## ५. महाभारताचो जल्म

श्रुती, स्मृती, इतिहास, पुराणां, त्याभायर, खासा दोळ्यांनी पळेल्लें, अणभविल्लें सगळें एकठांय करून व्यासान तें मांडणेर घालें. तकलेंत शिजोवनूय काडलें. पुणून तें सगळें बरोवन कशें काडप, ह्या हुसक्यांत तो पडलो. काव्य तकलेंत रचून

जालेंच म्हुण उपकारना, तें बरोवनूय जावंक जाय. तें कशें बरोवचें हाची ताका आतां तळमळ लागली.

व्यासाचे हे अडचणेची खबर ब्रह्मदेवाच्या कानार पावली. तेन्ना, एक दीस ब्रह्मदेव आपय नासतना व्यासाच्या दारांत येवन उबो रावलो.

खासा ब्रह्मदेवाक दारांत उबो पळोवन व्यास भुल्लुसून आयलो. कितें करूं, कितें दिवं, अशें ताका जालें. ताणे ताका भौमानान येवकार दिलो, ताका आसनार बसयलो, ताची पाद्य-पुजा केली आनी हात जोडून ताच्या मुखार उबो रावन म्हळें, 'देवा, तकलेंत हांवें एक काव्य रचलां, तांतूंत वेदांचो आपरोस येता, तांची विसकावणीय येता, उपनिषदां, इतिहास, पुराणां, न्यायशास्त्र, धर्मशास्त्र, नीतिशास्त्र, अध्यात्मशास्त्र, समाजशास्त्र सगळें येता. सगळें एकठांय गुथून काडलां. पुणून तें बरोवन घेवपी अजून म्हाका कोण मेळूंक ना. तुर्त हांव ह्याच हुसक्यांत आसां.'

ब्रह्मदेवान म्हळें, 'संवसारांत गिन्यानी खूब आसात. तपस्वीय जायते आसात. पुणून अध्यात्मशास्त्रांत तुका लागपी कोणूच ना. तूं सगळ्यांत व्हडलो. तुजें उतरूच सत्य. तुवें जें रचलां ताका तुवें काव्य म्हळां. काव्य म्हुण्णूच तें तिगतलें. हाच्याकूय वयल्या पांवड्याचें काव्य आयज वेर कोणे बरोवक ना, ह्या मुखार कोण बरोवंकूय पावचो ना. तें बरोवन घेवपाक तुका आनी तुज्या काव्याक फाव सारको एकलोच आसा : गणपती. ताका सांग. तोच तुजो हुस्को ना करतलो.'

व्यासान गणपतिचो उगडास केलो आनी उगडास करिनाफुडें पावपी गणपती रोखडोच ताच्या मुखार येवन उबो रावलो. व्यासान ताका सांगलें : 'हांवें मनांत भारत ग्रंथ रचून तयार केला. तो तूं बरोवन घेशीत व्हय.'

गणपतीन म्हळें, 'तूं घाल. हांव बरोवन घेतां. पुणून एक : म्हजी लिखणी मर्दी थांबूंक जायना. ही अट तुका मान्य आसल्यारूच बरोवंक बसतां.'

व्यासान जाप दिली : 'बरें आसा. तुजी लिखणी तूं थांबोवं नाका. पुणून एक : अर्थ लक्षांत घेनासतना तुवें एक अक्षर बरोवंक जायना. बरयता ताचो पुराय अर्थ तुका समजूंक जाय.'

'बरें आसा,' गणपतीन म्हळें आनी ताणे रोखडीच लिखणी हातांत घेतली. (कांय कडेन म्हळां, ताणे आपलो एक दांत तोडलो आनी ताची लिखणी केली) उपरांत व्यास घालीत रावलो आनी गणपती तें सुंदर अक्षरान भरभरीत बरयत गेलो. मर्दी मर्दी व्यासान कांय गडखळ श्लोक घालचे आनी गणपतीन तांचो अर्थ समजून घेवपाक येवजीत बसचें. तितले मजगतीं व्यासान फुडले श्लोक मनांत रचून तयार करचे.

हे भाशेन ताणे गणपतीच्या हातान भारत बरोवन घेतलें.*

उपरांत व्यासान आपल्या पुताक हें आख्यान शिकयलें. आपल्या दुसऱ्या कांय शिष्यांकूय शिकयलें आनी हे भाशेन तें संवसारभर पातळायलें.

भारताचो म्हयमा आकांताचो. देवांनी खंय एक खेपे उपनिषदां सयत चारूय वेद तागडेच्या एका दाल्यांत घाले आनी दुसऱ्या दाल्यांत महाभारत घालें. महाभारताचें दालें जड जालें. महाभारत म्हळ्यार रत्नांची एक मोठी खण. भारतीय चालि-रितिंचो एक विश्वकोश. भारतीय आख्यानांचो आनी उपाख्यानांचो एक कल्परूख. धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष हांचे विशीं हांतूत जें आसा तेंच सगळे कडेन आसा; हांतूंत जें ना तें मात दुसरे कडेन खंयच मेळपाचें ना.

जनमेजयाच्या सर्पसत्रांत वैशंपायनान सांगिल्ली कथा जांणीं आयकली तांच्यांत सौती नांवाचो एक ऋषी आशिल्लो. तो लोमहर्षण पुराणिकाचो पुत. लोमहर्षण पुराणां अशे तरेन सांगतालो कि तीं आयकतल्यांच्या आंगार कांटो फुलून येतालो. देखुनूच ताका लोमहर्षण नांव पडिल्लें. ताचो हो पुतूय बापाय भाशेन म्हौंवाळ भाशेंत पुराणां सांगी. तागेलें मुदलचें नांव उग्रश्रवा. पुणून ताका सौती इतल्याच खातीर म्हणटाले, कित्याक, ताचो बापुय 'सूत' जातींतलो आशिल्लो. ( ब्राह्मण आवय आनी क्षत्रिय बापुय हांचे पसून जाल्ले संततिची जात ही ). वैशंपायनान सांगिल्ली कथा आयकून तो इतलो भारून गेलो कि ताका ती केन्ना काय दुसऱ्यांक सांगन-शी जाली. सर्पसत्र सोंपल्या उपरांत तो कांय थळांची यात्रा करीत करीत एक दीस नैमिषारण्यांत पावलो. नैमिषारण्यांत शौनक नांवाच्या कुलपतिचें द्वादश वार्षिक ( बारा वरसांचें ) सत्र चलिल्लें. धा हजार भुरग्यांची बारा वरसां मेरेन जेवपा खावपाची आनी वेदविद्या शिकोवपाची वेवस्ता ताणे थंय केल्ली. व्हडले व्हडले ऋषी थंय जमिल्ले. थंय एक दीस सौती पावलो. आनी 'तुमचें सगळ्यांचें तप बरें चल्लां मू?' म्हुण विचारीत तांच्या मुखार उबो रावलो. सौतीक सगळे वळखताले. ताका पळोवन सगळे खुशालभरीत जाले. तांणी ताका विचाल्लें, 'तूं आतां खंयच्यान येता?' सौतीन तांकां आपणे पळेल्ल्या थळांची खबर सांगली आनी जनमेजयाच्या सत्रांत वैशंपायनाच्या तोंडांतल्यान आयकल्ल्या 'भारता'चीय खबर सांगली. असल्या सत्रांनी ऋषी एकामेकांक वेगळीं वेगळीं आख्यानां सांगताले. सौती कडल्यान नव्या आख्यानाची खबर आयकना फुडें 'हेंच आख्यान तूं आतां आमकां सांग' म्हुण सगळ्यांनी ताका आग्रो केलो.

वैशंपायनान सर्पसत्रांत जी कथा सांगिल्ली ती व्यासान रचिल्ली 'चतुर्विंशतिसाहस्री भारत संहिता'–चोवीस हजार श्लोकांची अशिल्ली. तिचें नांव 'भारत'. जनमेजयान वैशंपायनाक 'म्हालगड्यांच्यो कथा कितल्योय आयक, तृप्ती जायच ना' ( न हि तृप्यामि पूर्वेषां श्रृण्वानश्चरितं महत् ) अशें म्हणून ताका आनीक कांय कथा सांगूंक लायल्यो. हाका लागून सर्पसत्रांत व्यासाच्या 'भारतां'त आनीक थोडी भर पडली. तरी आसतना

* भांडारकर आवृतीन ही कथा प्रक्षिप्त लेखल्या.

'भारत' कुरु-पांडवांच्या कर्तुत्वाचीच कथा उरिल्ली. नैमिषारण्यांत सौतीन ही कथा सांगपाक सुरवात केली तेन्ना शौनकान ताका आपल्या म्हालगड्यांच्योय कथा सांगपाक लायल्यो. शौनक भार्गव कुळयेंतलो. ताका भरतवंशाचे कथे इतलीच भार्गव वंशाची कथा आयकुपाची उमळशीक लागिल्ली. (तत्र वंशमहं पूर्व श्रोतुमिच्छामि भार्गवम्) सौतीन तागेली ही इत्सा भागयली. परिणाम: भारतांत कितल्याश्याच नव्या आख्यानांची आनी उपाख्यानांची भर पडून तें शतसाहस्री' म्हळ्यार एक लाख श्लोकांचें 'महाभारत' जालें.

कांय काळ मेरेन भारत आनी महाभारत खेरीत खेरीत चल्लीं. मुखार एक दीस महाभारतूच आर्य संस्कृतायेचो सगळ्यांत व्हड ज्ञान-विज्ञानाचो कोश म्हुण मुखार आयलें आनी भारत तांतूंत विरगळून गेलें.

कांय जाणाचें म्हणणें: व्यासान सांगिल्ली कथा फकत आठ हजार श्लोकांची आशिल्ली. आनी तिचें नांव 'जय' आशिल्लें. वैशंपायनान ती चोवीस हजार श्लोकांची केली तेन्ना तिका 'भारत' हें नांव पडलें. उपरांत सौतीन तिका 'महाभारता' चें रूप दिलें.

चलात तर, आयकुंया ही कथा.

# १. देवव्रत

भरत-कुळांत शंतनु नांवाचो एकलो राजा जावन गेलो. उदार आनी सरळ मनाचो, कर्तुत्वी तसोच तेजिश्ट. आंगान धिप्पाड आनी दिसपाक सुरूप. नितीक आनी धर्माक धरून तो राज्य करतालो. ताची चाल-चलणूक पळोवन हेरां राजांनीय ताची देख घेतिल्ली. ताका सगळेच आपलो 'सार्वभौम' राजा म्हुण मान दिवंक लागिल्ले.

तो हस्तिनापुराचो राजा आशिल्लो. ताचें राज्य दर्या मेरेन पातळ्ळेलें.

एक दीस तो भोंवडेक गेल्लो. थंय गंगेचे तडीर ताका एक अपरूप सुंदर चली दिश्टी पडली. केळिच्या गब्या सारकी कात, जंयचे थंय सगळीं आंगां, सुंदर केंस, बद्द लक्ष्मी सारकी शिरवंत. तिचें रूप पळोवन शंतनु दिपकावलो. तिका पळेत रावलो.

तिवूय राजाचें रूप पळोवन ताचेर भाळिल्ले वरी जाली.

'बाय गे, कोण तूं' शंतनून तिका विचाल्लें, 'देव दानव यक्ष गंधर्व अप्सरा काय आनी कोण'.

ती मुमुरख्यांनी हांसली तेन्ना शंतनून धीर करून तिका विचाल्लें, 'म्हजी राणी जाशीत व्हय तूं.'

तिणे म्हत्यांत येवन जाप दिली: 'बरे भाशेन, पुणून एके अटीर. हावें बरें वायट कितेंय करूं, कित्याक करता म्हुण तुवें म्हाका विचारूंक जायना. इतलेंच न्हय, तर करूं नाका म्हुण सांगुंकूय जायना. ज्या दिसा तूं म्हाका कितें कात विचारतलो त्याच दिसा तुका सोडून हांव वतलीं. मान्य आसा व्हय ही अट तुका.'

'आसा', शंतनून जाप दिली. जाप आयकून ती खोश्शी जाली आनी रोखडींच दोगांय लग्न जालीं. तिगेलो सभाव तिगेल्या रुपा इतलोच गोड. शंतनु तिच्या सांगातांत सुखान जियेवंक लागलो.

कांय वरसां गेलीं. कितलीं गेलीं, दोगांकूय कळ्ळें ना. करतां करतां एक दीस ती गुरवार जाली आनी उपरांत णव म्हयन्यांनी तिका एक पुत जालो.

पुत जल्मा मात आयला, ती उठली. पुताक घेवन तुरतुरीत न्हंये तडीर गेली आनी 'नाका आशिल्लो न्हय तुका मनीस-जल्म. घे. तुका सोडयतां.' अशें म्हणून तिणे ताका न्हंयेंत बुडोवन माल्लो. एक, दोन, तीन, करीत करीत सात भुरगीं तिणे

हे भाशेन बुडोवन माल्ली. हें पळोवन शंतनूक जें भोगलां, तें सोंसपाचें न्हय. ताका किते करचें, कांयच समजना जालें, सातूय खेपो तो ओगी रावलो. विचाल्लें जाल्यार सङ्र करून उठून वचत ह्या भंयान. आठव्या भुरग्या वेळार मात तो उसळ्ळो: 'किते आडायलां तुवें हें पापणी,' ताणे तिका विचाल्लें, 'कित्या खातीर तूं जाल्ल्या भुरग्याक मारून उडयता. जालां तरी किते तुका.'

तिणे म्हळें, 'तुका जाय जाल्यार ह्या भुरग्याक मारिना. दवर तो तुका. पुणून तुका याद आसतली. लग्ना वेळार हांवें अट घाल्ली, म्हाका केन्नाच कितेंच विचारूंक जायना म्हुण. विचाल्ल्यार, त्याच खिणाक हांव उठून वतलीं म्हुण. आयज तुवें ही अट मोडली. म्हुण हांव आतां चल्लीं. पुणून वचचे पयलीं एक गजाल सांगतां. इतली वरसां लिपोवन दवल्लेली हांवें ती तुका.'

आनी तिणे शंतनूक ती गजाल सांगली:

वरुणाक वसिष्ट म्हुण एक पुत आसा. एक नांवाजतो ऋषी. मेरू पर्वतार तागेलो आश्रम. तागेर एक गाय आसा. मागता तें दिवपी: कामधेनु. नंदिनी तिगेलें नांव.

नंदिनी रानांत चरताली. एक खेपे त्या रानांत स्वर्गांतले आठूय वसू पावले. आपापल्या बायलांक घेवन ते आयिल्ले. वसिष्टाचो आश्रम पळोवन ते खुशाल भरीत जाले. तांच्यातल्या एकल्याचें नांव द्यु. ताचे बायलेन वसिष्टाची ही नंदिनी पळेली. तिच्या मनांत ती इतली भल्ली कि ही गाय आपणाक जाय म्हुण ती घोवा कडेन हट घेवन बसली. मनीस-लोकांत जितवती नांवाची आपणाली एक इश्टीण आसा. गोमटी, निकतीच तरणेपणांत सरिल्ली. तिका आपुण ही दितलीं. हिचें दूद पियेवन ती जिवी आसा सर म्हातारी जावंक पावची ना. अशें किते-किते घोवाक सांगपाक लागली. घोव, बायल सांगता तें आयकुपी. गायक धरून व्हेली जाल्यार केदो अनर्थ जातलो हाचो ताणे विचार केलो ना. भावांचो आधार घेतलो आनी नंदिनीक बळयां धरून तो घेवन गेलो.

वसिष्ट त्या वेळार फळां हाडपाक रानांत गेल्लो. आश्रमांत नाशिल्लो. परतलो तेन्ना ताका आश्रमांत गाय दिश्टी पडली ना. खंय गेली काय, अशें म्हणून तो सगळे कडेन तिका सोदपाक लागलो. सोदतां सोदतां ताका आश्रमांत वसू आयिल्ले म्हणपाचें कळ्ळें. तांतल्या एकल्यान गाय चोरून व्हेल्या म्हणपाचेंय मागीर समजलें. ताका वसुंची तिडक माल्ली आनी ते तिडके भरशीं ताणे तांकां श्राप दिलो, 'जांणी म्हगेली गाय चोरून व्हेल्या ते वसू आतां स्वर्गलोकांतल्यान मनीस-लोकांत वचून पडटले.'

श्रापाची खबर वसूंक कळ्ळी तेन्ना ते भियेले. थतर-वितर जाले. वसिष्टाच्या आश्रमांत परते आयले. ताच्या पांयार घालून घेवन म्हणपाक लागले, 'चूक जाली आमची. ह्या मुखार अशें केन्ना घडचें ना. आतां श्रापांतल्यान कशेय भाशेन आमकां सोडय.'

तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें उतर खरें जावंकूच जाय अशें वसिष्ट मानी. पुणून ताका वसुंची काकूळट दिसली. ताणे म्हळें, 'श्राप म्हळ्यार श्राप. तो तुमकां बादले बगर रावपाचो ना. तुमकां मनीस-लोकांत जल्म घेवचोच पडटलो. पुणून म्हज्यान एक करूं येता : मनीस-लोकांत जल्मा येना फुडें तुमकां श्रापांतल्यान सोडोवं येता. फकत तुमच्यांतल्या एकल्याक मृत्यु-लोकांत रावचें पडटलें. नंदिनीक बळयां ओडून व्हेल्ली त्या द्युक. ताका आपले करणेचीं फळां भोगचीं पडटलीं. पुणून तो थंय एक व्हड धर्मात्मो म्हुण नांव-लौकिक जोडटलो.'

वसू थंयच्यान नीट गंगे सरीं गेले. तिका तांणी श्रापाची खबर सांगली आनी म्हळें, 'तूं आतां आमचेर एक उपकार कर. मनीस-लोकांत जल्म घे. आनी आमची आवय जा. आमी जल्माक येना फुडें एक-एकल्याक व्हरून न्हंयेंत बुडोवन मार.'

ही खबर सांगून बायलेन शंतनूक म्हळें, 'ती जाह्नु ऋषिली धुव गंगा, हांव. एक देव-कार्य करपा खातीर तुजे कडेन लग्न जाल्ली. म्हाका नेमून दिल्लें काम हांवें केलें. आतां हांव चल्लीं. हो तुगेलो चलो त्या वसुचो अंश. तो ल्हान आशिल्ल्यान ताका हांव म्हज्या वांगडा व्हरतां. शिकोवन-बिकोवन व्हड करतां आनी मागीर हाडून तुजे सुवादीन करतां.'

आनी 'बरें तर' अशें म्हणून गंगा पुताक घेवन त्याच खिणाक उठून गेली. शंतनूक खूब वायट दिसलें.

त्या उपरांत सुमार छत्तीस वरसां शंतनु दुसरी बायल करी नासतना रावलो. चडसो रानांतूच भोंवतालो. एक दीस भोंवत तो गंगेचे तडीर पाविल्लो. थंय ताची नदर गंगेचे व्हांवतेचेर पडली. त्या दिसा ताका ती आटिल्ले वरी दिसली. ताका अजाप जालें, 'अब्बा ! सदां दोनूय तडी भरून व्हांवपी ही न्हंय आयज आटली कशी' असो ताका प्रस्न पडलो. इतल्यांत ताका थंय एक तरणो, मस्तो, देखणो भुरगो दिश्टी पडलो. तो व्हांवते न्हंयेक एका फाटल्यान एक तीर सोडून आडायतालो. 'तरी म्हणटां ! हाणे आडायलां उदक ! आतां समजलें' अशें म्हणून अचाट करणी करतल्या त्या भुरग्या कडेन तो अपुर्बायेन पळोवपाक लागलो.

अवचित भुरग्याची नदर ताचेर पडली. भुरगो लजलो आनी म्हणटासर थंयचो नाच जालो.

शंतनून न्हंयेक म्हळें, 'हो भुरगो म्हाका परतो दाखय.'

त्याच खिणाक गंगा मुखार येवन उबी रावली. तिच्या उजव्या हाताक तो भुरगो आशिल्लो. भुरग्याक मुखार करून गंगेन शंतनूक विचाल्लें, 'वळखता व्हय हाका. तुजोच पुत हो. छत्तीस वरसां पयलीं तुजे पसून म्हाका जाल्लो.'

इतलें सांगून तिणे म्हळें, 'छत्तीस वरसां म्हजे सरीं उल्लो तो. वसिष्टा कडल्यान तो वेद आनी ताचीं सय आंगां शिकला. परशुरामा कडल्यान तो अस्त्रविद्या शिकला. राजनीत आनी अर्थनीत ह्या मळार तो शुक्राचार्य आनी बृहस्पती हांच्या पांवड्याचो जाला. आतां हाका सांबाळ.'

अशें म्हणून पुताक शंतनू सुवादीन करून ती आशिल्ली तशी लिपली.

पुताक पळोवन शंतनु खोशी जालो. ताचें काळीज अपुबयिन भरून ओतूंक लागलें. सगळ्यो इत्सा भागिल्ले वरी धादोसकाय ताका भोगली. ताका घेवन तो हस्तिनापुराक आयलो. कांय दिसांनी ताका युवराजपदाचो अभिषेक करून ताच्या हातांत ताणे राज्याचो सगळो कारभार दिलो.

शंतनूक गंगे पसून जाल्ल्या ह्या पुताचें नांव देवव्रत. गंगेचो पुत म्हुण कांय जाण ताका 'गांगेय' म्हणटाले. दिसपाक तो बापाय वरीच दिसतालो. सभावानूय ताचे वरी जाल्लो.

## २. भीष्म

चार वरसां उपरांतची खबर.

शंतनु भोंवत भोंवत एक दीस यमुनेचे धडेर पाविल्लो. अवचित् ताच्या नाकाक कसलो तरी वास आयलो. 'कसलो काय, केन्नाच घेवंक ना असले तरेचो वास.' तो येवजूंक लागलो. परमळ सगळे कडेन पातळ्ळा-सो ताका दिसलो. 'खंयच्यान येता काय हो.' सोद घेत घेत तो नीट तारी कडेन पावलो. तारी मुखार पळे जाल्यार, देवता कशी एक शिरवंत चली उबी आसा. तिच्याच आंगांतल्यान हो परमळ सुटला.

शंतनून तिका विचाल्लें, 'बाय, कोण तूं.'

'हांव सत्यवती.' चलयेन जाप दिली, 'खारव्यांच्या राजाली धुव.'

'म्हळ्यार, दाशराजाली?'

'हय. बापायची ही तार चलयतां.'

तिगेलो भरिल्लो आंगलोट, काळे दोळे, भरिल्लो आंबाडो, गोड ताळो आनी आंगांतलो परमळ पळोवन शंतनुचें तिजेर मन बसलें. तो नीट दाशराजा सरीं गेलो आनी ताका म्हळें, 'म्हाका तुजी धुव जाय.'

दाशराजान विचाल्लें, 'तुजीच राणी करपा खातीर मू. जाल्यार आयक, चली बऱ्या घराक पडची म्हुण हांव देवा कडेन सदां मागीत आयलां. देवानूच तुका धाडला हांगा. हाच्याकूय बरें थळ आनीक खंय सोदूंक वतलों हांव. पुणून हय म्हणचे पयलीं विचारतां : हिचोच पुत हस्तिनापुराचे गादयेर बसतलो मू.'

शंतनूक सारकी जाप दिवंक आयली ना. ताच्या दोळ्यां मुखार देवव्रत उबो रावलो. हस्तिनापुराचे गादयेर सगळ्यांत पयलो आनी व्हडलो अधिकार ताचो. तो ताका ना करो म्हणटलो. शंतनु निर्शेवन परतलो.

त्या दिसा पसून ताची न्हीद खळ्ळी. दीस रात तकलेंत सत्यवती घोळपाक लागली. तो तळमळूंक लागलो. करतां करतां खंती जावन बारीक जालो. व्हीर करो दिसपाक लागलो.

सगळें बरें चलिल्लें आसतना हो खंती कित्याक, भायर सरना, भोंवड्यो काडिना. कोणा कडेन सारको उलयना, जालां कितें, देवव्रताक प्रस्न पडलो. ताणे बापायक म्हळें, 'कितें घडलां तें कळिल्लें जाल्यार कितेंय उपाय सोदून काडूं येतालो.'

बापायन म्हळें, 'सांगतां कितें जालां तें म्हाका. आमच्या घराण्यांत चलो-मनीस असो तूंच एकलो. दुसरो ना. आनी तूं सस्त बसून रावपी न्हय, हातांत शस्त्रां घेवन भोंवत रावपी. तुका कोण कांयच करूंक पावचो ना हें जाणां हांव. पुण सांगूं येता व्हय. जिविताक सास्वती खंय आसा. थुमेकाल! वायट येवजुचें न्हय. पुणून सट्ट करून समज, तुका कितेंय जालें. जाल्यार, आमच्या कुळाचें करें जावचें. तुजे गुण म्हणशीत, शंबर पुत आसचे परस तुजे सारकेलो एकलोच आसप भाग्याचें. म्हाका तुजो खूब अभिमान. पुणून पुता, जिवीत आळवा पाना वयलो उदका थेंबो. म्हाका दुसरें लग्न करीन दिसलां अशें समजूं नाका. म्हाका हुस्को आमच्या वंशाचो. एकच पुत आसप पुत नाशिल्ल्या सारकेंच अशें जाणटेले म्हणटाले. होच एक दुबाव म्हजें मन खावंक लागला हालीं, ह्या दिसांनी.'

देवव्रतान कांय म्हळें ना. मोन्यानी सगळें आयकून घेतलें, राजदरबारांतलो एकलो मंत्री शंतनुचो इश्ट करो आशिल्लो. शंतनु ताका आपल्यो सगळ्यो गुपीत खबरी सांगतालो. देवव्रतान ताका विचाल्लें, तेन्ना ताका सत्यवतिची खबर कळ्ळी. देवव्रत तसोच उठलो आनी नीट दाशराजा सरीं गेलो.

दाशराजान शंतनूक सांगिल्लें तेंच देवव्रताक सांगलें आनी म्हळें, 'आपशींच घरा चलून आयिल्लें इतलें बरें थळ होगडावपा इतलो पिसो न्हय हांव. हाच्याकूय बरें थळ सोदल्यार लेगीत मेळपाचें ना. हांव असलेंच थळ सोदतालों. देखुनूच असित ऋषीन चली मागिल्ली आसतनाय हांवें ताका ना म्हळ्ळें. पुण बाबा, मत्सर नांवाचो एक अवगुण आसा संवसारांत. तूं तर कर्तुत्वी. तुजो दुस्मान देव, गंधर्व कोणूय आसूं, तुज्या मुखार तिगपाचो ना. आतां तूंच सांग, सत्यवतिच्या पुताक आनी तुका पडना जालें जाल्यार, कितें जातलें.'

देवव्रतान सगळयां मुखार म्हळें, 'तुका होच भंय आसत जाल्यार घे, ह्या आदीं कोणेच घेवंक ना आनी फुडाराकूय कोण घेवचो ना असलो सोपूत हांव घेतां. हांव म्हज्या हकार उदक सोडटां. सत्यवतिचो पुतूच हस्तिनापुराचे गादयेर बसतलो.'

दाशराज खोशी जालो. तरी आसतना ताणे म्हळें, 'तूं सत्यवचनी. तूं सोपूत खरो करतलो ह्या विशीं म्हाका दुबाव ना. पुणून चलयेच्या बापायचें मन धा कडेन धांवता. तुजे पसून सत्यवतिच्या पुताक भंय ना. पुणून तुज्या पुताचें कितें सांगूं येता.'

देवव्रतान त्याच खिणाक आनीक एक सोपूत घेतलो, 'ह्या मुखार हांव जल्मभर ब्रह्मचारीच रावतलों. म्हाका भुरगीं जावचीं नात.'

देवव्रताचो हो सोपूत आयकून दाशराजाच्या आंगार कांटो फुल्लो. देव, ऋषी, अप्सरा हांणीं लेगीत सोपूत आयकलो. तांच्याय आंगार कांटो फुल्लो. तांणी खुशालभरीत जावन देवव्रताचेर मळबांतल्यान फुलां शिंवरायलीं. सगळ्यांनी एका ताळ्यान म्हळें : 'भीष्म हो भीष्म.' ( म्हळ्यार अजापांच्यो करण्यो करपी )

दाशराजान सत्यवतीक देवव्रता सुवादीन केली आनी देवव्रत ही धीवरकन्या ( खारवीण-चली ) घेवन हस्तिनापुराक आयलो. देवव्रतान दोन मोटे सोपूत घेवन हिका हाडल्या म्हणपाची खबर शंतनूक कळ्ळी तेन्ना ताचें काळीज भरून आयलें. ताणे पुताक आशीर्वाद दिलो, 'तूं इच्छा-मरणी जातलो. तुका जाय तितलीं वरसां तूं जिवो उरतलो. ते मेरेन मरण तुका धरूंक पावचें ना. तुका जाय जातलें तेन्नाच तें येवन तुका सोडयतलें.'

ब्रह्मचारी म्हळ्यार 'लग्न जायनासतना राविल्लो' असो सामान्यतायेन सगळ्यांचो समज. भिष्मान आपुण ब्रह्मचारी रावतलों असो सोपूत घेतिल्लो. हाचे वयल्यान तो लग्न जावंक नाशिल्लो असो एक समज पातळ्ळा. पुणून—

हो सोपूत घेवचे पयलीं भीष्म लग्न जाल्लो आसूं येता.

भीष्म सोपूत घेतना 'ह्या मुखार' अशीं उतरां वापरता, 'अद्यप्रभृति मे दाश ब्रह्मचर्य

भविष्यति.' म्हळ्यार, 'हाचे पयलीं' तो ब्रह्मचारी नाशिल्लो आसूं येता. भिष्माच्या लग्नाचो उल्लेख महाभारतांत ना. पुणून भीष्म लग्न जाल्लो आसूंक जाय. कांय पुरावे दाखोंव येतात. देखीक :

भिष्मान वैदिक अग्निची थापणूक केल्ली. ताचे निमाणे संस्कार ह्याच अग्नीन जाल्ले. आनी शास्त्रा प्रमाण ह्या अग्निची थापणूक करपाचो अधिकार फकत लग्न जाल्ल्या मनशाकूच आशिल्लो. परत, भिष्मान तीस अश्वमेध यज्ञ केल्ले. शास्त्रा प्रमाण होय यज्ञ करपाचो अधिकार लग्न जाल्ल्याकूच आशिल्लो. आनी भीष्म शास्त्रा भायर वचपी मनीस नाशिल्लो.

ह्या पुराव्यां वयल्यान जाणकार म्हणटात : भीष्म लग्न जाल्लो आसूंक जाय. ताचें लग्न ताचे छत्तीस ते चाळीस वरसां मेरेनचे पिरायेंत केन्नाय तरी जाल्लें आसूंक जाय. भिष्माचें ब्रह्मचर्य लग्ना उपरांतचें आसूंक जाय.

# ३. अम्बा, अम्बिका, अम्बालिका

सत्यवतीक शंतनु पसून दोग पुत जाले : चित्रांगद आनी विचित्रवीर्य. विचित्रवीर्य धाकलो. तो जल्मा येना फुडें कांय दिसांनी शंतनु भायर पडलो.

भिष्मान चित्रांगदाक राज्याभिषेक करून गादयेर बसयलो.

कांय वरसांनी चित्रांगदान भोंवतणचीं कितलिंशींच ल्हान-व्हड राज्यां जिखून तीं आपल्या राज्याक जोडलीं. हाका लागून देव दानव गंधर्व सगळ्यांचो तो दुस्मान जालो. ताका आपल्या कर्तुत्वाचो खूब गर्व. तो ताचे तकलेंत चडलो. वचत ताचे कडेन तो झुजां करीत रावलो. हिरण्वती न्हंये तडीर एक दीस चित्रांगद नांवाच्याच एका गंधर्व-राजा कडेन झुजतां झुजतां तो मेलो.

तो मेल्या उपरांत भिष्मान विचित्रविर्याक राज्याभिषेक केलो. विचित्रवीर्य पिरायेन सापूच भुरगो. हाका लागून भिष्माकूच ताच्या नांवान कारभार चलोवचो पडलो. तो चलयता आसतनाच विचित्रविर्याक भिष्मान राजविद्या, अस्त्रविद्या बी विद्या शिकयल्यो. विचित्रवीर्य भिष्माचो सवत-भाव. पुणून भीष्म ताका आपलो पुत करसो लेखतालो.

विचित्रवीर्य वयार आयलो तेन्ना हाचें आतां लग्न केल्लें बरें अशें भिष्माक दिसपाक लागलें. चली खंयची हाडची हें येवजितालो. इतल्यांत, काशिराजाच्या तिगां धुवांचें स्वयंवर थल्लां म्हणपाचें ताच्या कानार आयलें. ताणे सत्यवतिची मान्यताय घेतली आनी उठून तो नीट वाराणसीक गेलो.

काशिराजाक तिगी धुवो : अम्बा, अम्बिका आनी अम्बालिका. अप्सरांकूय फाटीं घालतीत इतल्यो सुंदर. आपल्या गळ्यांत माळ घालची म्हुण धर्तरे वयले

सगळे राजा स्वयंवराक आयिल्ले. भिष्माक आयिल्लो पळोवन तांकां अजाप जालें. 'हो हांगा-सो, आपुण ब्रह्मचर्यान रावतलों म्हुण सोपूत घेतिल्लो न्हय हाणे. सोपूत मोडलो काय किर्ते,' हे भाशेन ते कुच्छिश्रिपणान एकामेकां लागीं फुतफुतूंक लागले. ताचीं फकाणा मारून भितल्ले भितर हांसपाक लागले. भिष्माक तें कळ्ळें. ताका तांचो रागूय आयलो. पुणून राग गिळून तो ओग्गी बसलो.

इतल्यांत, चलयो हातांत माळो घेवन मंटपांत आयल्यो. एक एकल्या राजाचें नांव आनी कर्तुत्व आयकत आयकत भिष्मा सरीं पावल्यो. भिष्माची कीर्त तांणीं पयलीं आयकल्ली. पुणून ताची पिराय पळोवन त्यो मुखार गेल्यो. 'चलयो सोंपेपणान मेळपाची आस्त ना,' भिष्मान मनांत म्हळें आनी मातूय कळाव लायनासतना तिगिंकूय उबारून ताणे रथांत घाल्यो. मागीर पावसाचो गडगड जावचो तसल्या आवाजान ताणें जमिल्ल्या राजांक सांगलें, 'शास्त्रान लग्नाच्यो आठ तरा मान्य केल्यात. चलयेक बळयां उबारून व्हरप हिवूय तांतली एक. क्षत्रियांक ही तरा मान्य आसा. हे चालीक धरून हांव ह्या तिगी चलयांक उबारून व्हरतां. तुमी कोण किर्ते करतले तें करात.'

आनी झुजाचे तयारेन रथांत उबो रावन ताणे सारथ्याक सांगलें, 'चलय रथ.' सारथ्यान रथ धांवडावन व्हेलो. स्वयंवराक आयिल्ले राजा खीणभर घुटमळ्यांत पडले. किर्ते करचें, तांकां कांय समजना जालें. म्हणटा म्हणसर तिडकीन ते उसळ्ळे. बेगोबेग तांणी आंगा वयल्यो वस्ती देंवयल्यो. झुजाचो लोखणा-भेस घालो आनी आपापल्या रथार चडून दांत-वोंठ चाबीत ते भिष्मा फाटल्यान धांवले. भिष्माचेर एकार एक तीर सोडपाक लागले. एके वाटेन भीष्म. दुसरे वाटेन सगळे. तरी आसतना भिष्मान सगळ्यांची दानाधिस्पट करून उडयली.

सगळे येर्दी-र्शी तोंडां घेवन परतले.

म्हणटा म्हणसर शाल्व किंवाट्यान भिष्माच्या आंगार धांवन गेलो. तोय एक राजा. भिष्माक खावं काय गिळूं, येदी तिडक ताका मारिल्ली. 'ए म्हाताऱ्या, खंय वता, राव', करीत तो भिष्मा फाटल्यान धांवलो. एक मस्तो हती दुसऱ्या हतयाच्या आंगार धांवन वचचो तसो-सो तो धांवलो. ताका पळोवन भिष्मान आपलो रथ थांबयलो आनी मात लेगीत वेळ होगडाय नासतना ताणे शाल्वाच्या रथाच्या घोड्यांक पयलीं माल्ले. म्हणटा म्हणसर ताच्या सारथ्याक आडवो उडयलो. शाल्वाकूय तो मारतलो आशिल्लो. पुणून लजेन शाल्वाचें तोंड पडिल्लें. भीष्म पडिल्ल्याचेर हात उबारपी न्हय. ताणे शाल्वाक धल्लो आनी 'चल, वच आतां' अशें म्हणून ताका सोडलो.

हे भाशेन काशिराजाच्यो तिगी धुवो जिखून भीष्म हस्तिनापुराक आयलो. तिगीय चलयो ताणे सत्यवतिचे सुवादीन केल्यो आनी तो विचित्रविर्याच्या लग्नाचे तयारेक लागलो.

लग्नाची तयारी नेटान चलताली. इतल्यांत एक दीस तिगीं भितल्ली व्हडली अम्बा भिष्मा सरीं आयली आनी खांकडत-खांकडत ताका सांगपाक लागली, 'तुका शास्त्रां-बिस्त्रां समजतात म्हुण सांगतां, म्हाका उबारून हाडचे पयलीं हांव मनान शाल्वाची जाल्लीं. आमचें दोगांयचें एकामेकांचेर मन बशिल्लें. हांव ताच्याच गळ्यांत माळ घालपाची आशिल्लीं. तोवूय हेच उमेदीन स्वयंवराक आयिल्लो. ताच्या म्हऱ्यांत पावचे पयलीं तूवें म्हाका उबारून रथांत घाली.'

भीष्म बुचकळ्यांत पडलो. कितें करतलो, जिचें मन दुसऱ्याचेर बसलां ती विचित्रविर्याक कशी दितलो. कुरु-कुळाचो सगळो कारभार भीष्मच चलयतालो. तरूय सत्यवतीक सांगले-विचाल्ले बगर तो पावल उखली नाशिल्लो. ताणे सत्यवतीक अम्बेची खबर सांगली. तिणे मंत्र्यांक आनी पुरयतांक आपोवन तांची बुद्द घेतली. निमाणे सगळ्यांनी एका मत्तान 'चल तूं, तुजें मन बसलां थंय वच' अशें म्हणून अम्बेक शाल्वागेर धाडून दिली.

ती गेल्या उपरांत भिष्मान अम्बिका आनी अम्बालिका दोगींचेंय विचित्रविर्या कडेन लग्न केलें. लग्न मोठ्या दबाज्यान जालें.

# ४. धृतराष्ट्र, पांडु आनी विदुर

अम्बिका आनी अम्बालिकेच्या सांगातांत विचित्रविर्याचे दीस सुखांत वचपाक लागले. आपणाक देखणो, कर्तुत्वी, गुणी घोव मेळ्ळो म्हुण त्योवूय खुशालभरीत आशिल्ल्यो. पुणून, हें सुख विचित्रविर्याक अंतीं म्हारग पडलें. लग्न जावन सात वरसां जावचे पयलींच ताका क्षयाची पिडा जाली. भिष्मान व्हडले व्हडले वैज हाडले. खूब वखद-विरसद केलें. कांय उपेग जालो ना. एक दीस सगळ्यांक दुख्खांत उडोवन विचित्रवीर्य मेलो. मेलो तो मेलो, निपुत्रीक मेलो.

ताच्या मरणान सत्यवती भागली. तिची काकुळटेणी गत जाली. तिका शंतनुचो वंश मुखार कसो चलतलो हो हुस्को आतां जावपाक लागलो. एक दीस तिणे धीर केलो आनी भिष्माक म्हळें, 'तुका कांय सांगपाची गरज ना. कित्याक, तूं बुदवंत. धर्म, कुळाचार, सगळें जाणा. संकश्टां वेळार कशें चलचें, केन्ना कितें करचें हें शुक्राचार्य आनी बृहस्पती हांचे इतलेंच जाणा. तुका आनीक हांव कितें

सांगतलीं. कुरु कुळाचो पींड करसो तूंच आसा आतां. शंतनुचो वंश मुखार चलोवप तुज्या हातांत आसा. विचित्रविर्याच्यो दोगीय राणयो पिरायेन तरण्यो, रुपान गोमट्यो आनी यौवनान भरिल्ल्यो. तांकां आवयो जावपाचो हक आसा. तांका कोण आवयो करतलो. तूं कर. राजगादयेरूय आतां तूंच बस.'

भीष्म उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो, 'हांवें सोपूत घेतिल्लो, तूं नकळ व्हय. कित्या खातीर घेतिल्लो. पृथ्वी आपलो गंध सोडीत, वारो आपलो स्पर्शगुण सोडीत, सूर्य आपलो उजवाड सोडीत. पुणून हो भीष्म घेतिल्लो सोपूत केन्नाच मोडचो ना. त्रैलोक्याचें राज्य मेळ्ळयार लेगीत मोडचो ना. कळ्ळें?'

'हांव जाणां' सत्यवतीन म्हळें, 'तूं सोपूत मोडचो ना. सतूय सोडचो ना. तुज्या चारित्र्याविशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना. पुणून वंश खुंट्टून वचूंक जायना. तो चलूंक जाय आनी राज्यूय चलूंक जाय. हाचो म्हजे इतलोच तुकाय हुस्को आसूंक जाय. कितें करचें तें तूंच सांग आतां.'

शंतनुचो वंश मुखार चलूंक जाय ही चिंता भिष्माक आशिल्ली. भिष्मान उपाय येवजून दवल्लेलो. सत्यवतीन प्रस्न काडटकूच ताणे तिका म्हळें, 'शास्त्रान सांगिल्ली एक रीत आसा. नियोग नांवाची. परशुरामान धर्तरे वयले क्षत्रिय मारून काबार केले त्या वेळार क्षत्रिय बायलांनी हे नियोग-रितिचो आधार घेवन ब्राह्मणां कडल्यान गर्भादन करून घेतिल्लें आनी वंश चलयल्लो. भरतवंश खुंटचो न्हय म्हुण आतां होच उपाय करचो पडटलो आमकां. एक बरो, तपस्वी ब्राह्मण सोदून हाडचो पडटलो'.

सत्यवतीक याद जाली. तिणे आडखळत, खांकडत, लजेत भिष्माक म्हळें, 'सांगूं व्हय. भुरगेपणांत हांव एक तार चलयतालीं. हे तारींत एक खेपे पराशर ऋषी येवन बसलो. म्हजें रूप पळोवन तो भाळ्ळो आनी ताचें तेज पळोवन हांव ताजे सुवादीन जालीं. म्हज्या आंकवारपणांत पराशरा पसून म्हाका जो पुत जाल्लो तो सत्यान चलपी, बुदवंत आनी तूं म्हणटा तसलो तपस्वी. कृष्ण द्वैपायन व्यास. ताणे म्हाका सांगिल्लें, 'संकश्टा वेळार म्हजो उगडास कर. तूं आसा थंय हांव येतलों. तुजी मान्यताय आसत जाल्यार ताका आपोवंक धाडटां'.

व्यासाचें नांव आयकून भीष्म खुशालभरीत जालो. ताणें म्हळें, 'इतलें बरें नांव म्हाका येवजचें नाशिल्लें.'

सत्यवतीन आपोवंक धाडिना फुडें व्यास रोखडो आयलो.

'कित्याक उगडास केल्लो'. ताणे आवयक विचाल्लें.

'सांगतां', सत्यवतीन म्हळें, 'आवय-बापायक जीं भुरगीं जातात तांच्यांत दोगांयचो अंश आसता. आवयचोय आनी बापायचोय. म्हजो पयलो पुत तूं आनी निमाणो विचित्रवीर्य. बापाय वटेन भीष्म विचित्रविर्याचो भाव, आवय वटेन तूं. भीष्म सत्यव्रती. ताणे ब्रह्मचर्याचो सोपूत घेतला. घेतिल्लो सोपूत तो केन्ना मोडपाचो ना आनी कुरुकुळ तर खंडीत जावंक जायना. तुज्या धाकल्या भावाच्यो दोगी बायलो रुपा-गुणान भरिल्ल्यो. बावड्यांक भुरगीं नात. तांकां तुजे परसून भुरगीं जावचीं.'

व्यासान तिका जाप दिली, 'तूं सांगता तें धर्माक धरून आसा. तुका जाय तशें जातलें.'

जाप आयकून सत्यवती खोश्शी जाली. तिणे व्हडले सुनेक आपोवन हाडली नियोगाचे रितिची खबर सांगून तिका म्हळें, 'तूं शुचिर्भुत जावन राव आयज. गर्भादनाक आयज तुजे सरीं तुजो देर येतलो.'

देर येतलो म्हळ्यार भीष्म येतलो अशें अम्बिकेक दिशिल्लें. ती भिष्माची वाट पळेत बशिल्ली. पुणून जेन्ना काळो-कुळकुळीत, खाडा-मिशयांचो, पिंगश्या जटांचो, बिटबिटीत दोळ्यांचो लांब-रूंद व्यास तिचे कुडींत आयलो तेन्ना, ताका पळोवन ती भियेली. देवा सायबा! अशें म्हणून तिणे दोळे धांपले आनी तशीच ताचे सुवादीन जाली.

भायर येवन व्यासान आवयक सांगलें, आंगांत धा हजार हतयाचें बळ आशिल्लो पुत हिका जातलो. ताकाय परत शंबर पुत जातले. पुणून हिचो हो पुत कुड्डो जातलो. कित्याक, ही म्हजे सुवादीन जाली तेन्ना तिणे भियेवन दोळे धांपिल्ले.'

कुरु-देशाक कुड्डो राजा उपकारना, अशें म्हणून सत्यवतीन दुसरे राणयेक एक पुत दी म्हुण व्यासा कडेन मागलें. कांय दिसांनी तिणे अम्बालिकेक समजायली आनी तिगेले कुडींत व्यासाक धाडलो. अम्बालिकाय ताका पळोवन भियेली. धवशी पडली. व्यासान तिका म्हळें, 'तुका पुत जातलो. पुण तो पांडु-रोगी जातलो. ताका तूं पांडु नांव दवर.

सत्यवतीन व्यासा कडेन आनीक एक भुरगो मागलो.

कांय काळान तिणे व्यासाक परतोय अम्बिकेचे कुडींत धाडलो. हे फावट अम्बिकेन मांयक आं म्हळें खरें. पुणून परतून व्यासा म्हऱ्यांत वचपाचो तिका धीर जालो ना. व्यास कुडींत भितर सरना फुडें तिणे अप्सरे वरी सुंदर एकले दासयेक ताचे सरीं धाडून दिली. ती धीट आनी गोड उलोवपी आशिल्ली. व्यास तिच्या मेकळ्या सभावाचेर खोशी जालो. कुडींतल्यान भायर सरतना ताणे तिका

आशीर्वाद दिलो, 'तूं ह्या मुखार दासी उरची ना. तुगेर जो पुत जातलो तो बुद्वंत आनी धर्मात्मो जातलो.'

व्यासा पसून अम्बिकेगेर धृतराष्ट्र, अम्बालिकेगेर पांडु आनी दासयेगेर विदुर हे भाशेन तीग पुत झाले. हांतलो विदुर यमधर्माचो अवतार. 'तूं मनीस-लोकांत एके दासयेगेर जल्मा येतलो,' असो यमाक मांडव्य ऋषीन श्राप दिल्लो. श्रापाक धरून यमान विदुराच्या रुपान जल्म घेतिल्लो.

## ५. अणी-मांडव्य मुनी

मांडव्य नांवाचो एक मोटो धर्मिश्ट मुनी ह्या देशांत जावन गेलो. तागेलो एक आश्रम आशिल्लो. त्या आश्रमाच्या दारांत एका रुखा मुळांत तो सदा ध्यानाक बसतालो. एक दीस तो ध्यानाक बशिल्लो आसतना कांय चोर थंय पावले. मुनी दोळे धांपून बशिल्लो. ताचें लक्ष ना-शें पळोवन ल्हवूच ते आश्रमांत भितर सल्ले आनी थंय लिपून रावले. थोड्या वेळान थंय शिपायक पावले. ते चोरां फाटल्यान लागिल्ले. तांणी ध्यानाक बशिल्ल्या मुनीक पळेलो आनी ताका विचाल्लें, 'हे वाटेन कांय चोर गेल्ले, पळेल्यात व्हय तुमी'. मुनीन हूंय म्हळें ना, चूंय केलें ना. तो खोल ध्यानांत बुडिल्लो. ताका शिपायकांचो प्रस्न लेगीत आयकूंक येवंक नाशिल्लो. शिपायकांक दुबाव माल्लो. ते आश्रमांत भितर सल्ले आनी भितर तांकां लिपून राविल्ले चोर मेळ्ळे. तांणी चोरून हाडिल्लें सामानूय मेळ्ळें. ध्यानाचें संवंग घेवन बसला तो चोरांचो मुखेली आसूंक जाय असो तांकां पयलीं दुबाव मारिल्लोच. आतां खातरी जाली. तांणी चोरां सयत मुनिकूय धरून व्हेलो आनी सगळ्यांक राजा मुखार उबे केले. राजान चोर कोण, साव कोण, सारकी वासपूस लेगीत केली ना. सगळ्यांक सुळार चडयात म्हुण ताणे शिपायकांक हुकूम सोडलो. आनी शिपायकांनी चोरां वांगडा मांडव्य-मुनिकूय सुळार चडयलो.

कांय दीस गेले. चोर सगळे मेल्ले. फक्त मुनीच एकलो सुळार जिवो उरिल्लो. इतलेंच न्हय तर सुळार पिडा भोगता जावनूय तो तप करतालो. वेद म्हणटालो!

ही खबर धाय दिकांनी पातळ्ळी. ती आयकून संवसार भरचे ऋषी ह्या मुनीक पळोवपाक आनी मेळपाक आयले. मुनीक तांणी अजापान विचाल्लें, 'खंयच्या पातकाक लागून तुका हें भोगचें पडलां.'

'म्हजेच खंयचे तरी करणेचे भोग आसूंक जाय हे,' ताणे जाप दिली. 'खंयचे, तें मात म्हाका अजून सारकें समजूंक ना. म्हुण, हांव कोणाक दुशण दिना.'

खबर राजाच्या कानार पावली. तो भियेलो. पच्छत्तापान मान सकल घालून तो मुनी सरीं आयलो. 'चूक जाली', राजान मुनीक म्हळें आनी मुनीक ताणे सुळा वयलो सकल देंवयलो.

पुणून मुनिच्या आंगांतलो सूळ ओडून काडटा आसतना तो मोडलो. ताचें तोंक मुनिच्या आंगांत भितर उल्लें. मुनी जिवो आसा सर तोंक भितर उल्लें म्हुण लोक ताका मांडव्या बदला अणी-मांडव्य ह्या नांवान वळखुपाक लागले.

कांय वरसां उपरांत एक दीस अणी-मांडव्य यमागेर पावलो. ताणे यमाक म्हळें, 'एका प्रस्नाची जाप म्हाका आयुष्यभर मेळ्ळी ना. आयज तूं मेळ्ळा म्हुण विचारतां : हांवे कसलें पातक केल्लें म्हुण तुवें म्हाका येदी ख्यास्त फर्मायली.'

'तुवें एका पिसोळ्याच्या पोटांत एक खेपे काडी तोपिल्ली' यमान जाप दिली.

'केन्ना.'

'तूं भुरगो आसतना.'

जाप आयकून अणी-मांडव्याक यमाची भिरभिरी माल्ली. ताणे तापून म्हळें, 'भुरगें बारा वरसांचें जाय सर ताका बरें कितें, वायट कितें, तें समजना. हे पिरायेर ताचे हस्तुकीं कसलेंय पातक घडलें म्हुण ताका पातक लागना. आनी तूं म्हाका हे पिरायेर केल्ले येदेशे चुकीक येदी व्हडली ख्यास्त करता! हांव तुका श्राप दितां : तूं आतां मनीस-लोकांत एके शुद्रिणिगेर जल्म घेतलो.'

अणी-मांडव्यान त्या दिसा एक नेम घालून दिलो: चवदा वरसां मेरेन खंयच्याच भुरग्याक कसलेंच पातक लागपाचें ना.

अणी मांडव्याच्या श्रापाक लागून शुद्रिणिगेर जल्मा आयिल्लो यमधर्म म्हळ्यार, विदुर. धर्मनीत आनी राजनीत ह्या मळार तो एक मोटो गिन्यानी आशिल्लो. सभावान निर्मळ आनी थंड. ताका लोक एक व्हड म्हात्मो म्हुण वळखताले.

## ६. गांधारी, कुन्ती, माद्री, पारसवी

धृतराष्ट्र, पांडु आनी विदुर हांच्या जल्मा उपरांत कुरु-जनपद कुरु-जांगल आनी कुरुक्षेत्र वाटाराची खूब उदरगत जाली. पावस वेळार पडूंक लागलो. पीक खूब येवपाक लागलें. लोक धर्मरुची जाले. एकामेकांक आधार दिवन जियेवपाक लागले.

धृतराष्ट्र आनी पांडु भाशेन विदुराकूय भीष्म आपलो पुत लेखतालो. तिगांयचेर बरे संस्कार घडचे म्हुण जतनाय घेतालो. ताणे तांच्या शिक्षणाची वेवस्ता केली.

इतिहास-पुराणा, वेद-वेदांगां, धनुर्वेद, अस्त्रविद्या, नीति-शास्त्र, धर्मशास्त्र बी शिकोवन तांकां ताणे निपुण केले. विदुराची तर मर्दी मर्दी तो राजकारभारांत बुद्दय घेवपाक लागलो.

ते वयार आयले तेन्ना भीष्म तांच्या लग्नाचे तजविजेक लागलो.

गांधार देशाच्या सुबल राजाची धुव गांधारी लग्नाची जाल्ली. तिणे म्हादेवाची आंगवण करून आपणाक शंबर पुत जावचे म्हुण ताचे कडल्यान आशीर्वाद घेतिल्लो. ही खबर भिष्माक कळ्ळी तेन्ना गांधारी धृतराष्ट्राक करची अशें ताका दिसलें. विदुराची बुद्द घेवन ताणे उतर घालपाक एका मंत्र्याक सुबलागेर धाडून दिलो.

धृतराष्ट्र जल्मा सावन कुड्डो म्हणपाची खबर सुबलाक आशिल्ली. पुणून कुरु-कुळाची नामना, तिचो लोकीक बी पळोवन ताणे धृतराष्ट्राक गांधारी दिवची केली. आपणाक जाका दिवची केल्या ताका दिश्टी पडना म्हणपाचें गांधारीक कळ्ळें तेन्ना तिणे पतिव्रतेच्या धर्माक धरून आपल्या दोळ्यांक लुगटाचो एक तीर बांदून घेतलो. आनी भोगांत जावं सुखांत, आपुण घोवा परस मुखार वचचीं ना असो त्याच खिणाक सोपूत घेतलो.

कांय दिसांनी गांधारीक घेवन सुबल राजाचो पुत शकुनी हस्तिनापुराक आयलो. धृतराष्ट्राचें गांधारी कडेन लग्न जालें. थोड्याच दिसां भितर गांधारीन आपणाले चालीन रितीन आनी चलणुकेन कुरुकुळांतल्या सगळ्यांचीं मनां जिखून घेतलीं. केन्ना कोणाक परती जाप केली ना. सगळ्यांची मनां राखलीं. सगळे तिचेर संतुश्ट आशिल्ले.

उपरांत, भीष्म पांडुच्या लग्नाचे बेत करूंक लागलो. यादव कुळयेंतल्या शूरसेनाची धुव पृथा कुन्तिभोजाची पोसकी. कुन्तिभोजान तिका अपुबयिन कुन्ती नांव दवल्लेलें. रुपान कुन्ती सामान्यां भायली, पिरायेन तरणी, गुणान भांगर. तिचें स्वयंवर थरिल्लें. स्वयंवराक भिष्मान पांडूक धाडून दिलो. स्वयंवराक सगळे कडले राजकुंवर आयिल्ले. पुणून तांच्यातलो इन्द्रावरी सोबपी पांडूच कुन्तिचे नदरेंत भल्लो. तिणे ताच्याच गळ्यांत माळ घाली.

इन्द्राक शची तशी पांडूक कुन्ती सोबूंक लागली. कांय दीस गेले. म्हणटा सर मद्र-देशाच्या शल्य राजाची भयण माद्री दिश्ट लागपा इतली गोमटी म्हणपाची खबर भिष्माच्या कानार पावली. हीय चली पांडूक करची अशें ताका दिसलें. खासा भिष्मूच उठून मद्र देशाक गेलो. थंयचे चालीक धरून ताणे हती, घोडे, रथ, माणकां, मोतयां, वज्रां बी भेटी शल्याक दिल्यो. माद्रीक घेवन तो हस्तिनापुराक आयलो आनी तिचें पांडु कडेन लग्न केलें.

धृतराष्ट्राचें आनी पांडुचें लग्न केल्या उपरांत भिष्मान देवक राजाची धुव पारसवी विदुरा खातीर मागून हाडली आनी ताचेंय लग्न केलें.

## ७. कर्ण

ह्या चारूय सुनां भितर कुन्तिचें एक गुपीत आशिल्लें.

यादव कुळयेंतल्या शूरसेनाची ती धुव. म्हळ्यार, श्रीकृष्णाची मावळण, वसुदेवाची भयण. शूरसेनाचो आतेभाव कुन्तिभोज. ताका भुरगें नाशिल्लें. तो भुरग्याक आंवडेतालो. शूरसेन तागेलो निखटो सोयरोच न्हय, इश्टूय बी आशिल्लो. म्हजें पयलें भुरगें ल्हानाचें व्हड करपाक तुका दितलों, अशें ताणे कुन्तिभोजाक सांगिल्लें. त्या प्रमाण शूरसेनान आपणाली ही धुव कुन्तिभोजाक दिल्ली.

शूरसेनान धुवेक नांव दवल्लेलें पृथा. कुन्तिभोजान तें बदल्लें. कुन्ती केलें.

कुन्तीन निकतेंच तरणेपणांत पावल दवल्लेलें. एक दीस कुन्तिभोजागेर दुर्वास आयलो आनी आपुण वर्सभर तुगेर रावतलों अशें सांगून रावलो. दुर्वास साक्षात उजो. मात कितें आगळें उणें जाल्यार रागान तांबडो गुंज जावन सगळ्याक हुलपावन उडोवपी. ताचे सरबरायेक रावप उज्या वांगडा खेळपा सारकेंच काम आशिल्लें. कुन्तीन हें कठीण काम आपल्या आंगार घेतलें. आपखोशायेन ती दुर्वासाची सेवा करपाक लागली.

दुर्वास कोल्ली. सकाळचो भायर सरतालो. फाल्यां येतलों, म्हुण सांगून वतालो आनी केन्नाय परततालो. केन्ना रोखडोच. तर केन्ना मध्यानरातचो. केन्ना दोनदोन, तीनतीन दीस येनाशिल्लो. बरें खावपाक कितेंय मागतालो. घरांत नाशिल्लें लेगीत. आनी कुन्ती, आदींच खबर आशिल्ले वरी मागता तें हाडून मुखार दवरताली. धुव, शिष्या वा भयण लेगीत करची नाशिल्ली इतली बेस बरी बडदास्त कुन्तीन ताची दवल्ली.

वर्स सोंपतकूच वचपाक भायर सल्लो तेन्ना दुर्वासान कुन्तीक म्हळें, 'तुजे सेवेन हांव धादोसभरीत जालां. आतां वतना तुका एक वर दिवचो अशें मनांत आयलां. कितें दिवं, सांग.'

'तुमकां आनी बाबाक म्हजी सेवा मानवली, हांतूंत सगळें आयलें. म्हाका आनी कांय नाका.' कुन्तीन जाप दिली.

दुर्वासाक तिच्या फुडाराचें कितें कळिल्लें, तोच जाणा! ताणे म्हळें, 'वर नाका जाल्यार, दितां तो मंत्र घे. ह्या मंत्रान ज्या देवाचो तूं उगडास करतली तो तुजे

# ८. पांडूक श्राप

धृतराष्ट्र कुड्डो. कुरु-कुळाक कुड्डो राजा उपकारना. विदुर शुद्रिणिगेर जाल्लो. तोय उपकारना. अशें येवजून भिष्मान पांडूक राज्याभिषेक केलो.

पांडु कर्तुत्वी. लग्न जावन म्हयनो जाला जातलो. तो दिग्विजयाक भायर सल्लो. लूटमार करपी दशार्ण राज्य ताणे पयलें घेतलें. मागीर, उन्मत्त मगधाचेर घुरी घाली आनी थंयच्या राजाक माल्लो. उपरांत मिथिला, काशी, सुह्म, पुंड्र, एका फाटल्यान एक देस जिखीत रावलो. सगळ्यांची दानाधिस्पट करून सगळे कडेन ताणे कुरु-देशाची घुडी लायली. सगळे ताका धर्तरे वयलो साक्षात इन्द्र म्हणपाक लागले. ताका सार्वभौम राजा लेखपाक लागले. पांडूक तांणी हती, घोडे, रथ, ऊंट, म्हशी, गायो, वज्रां, माणकां, मोतयां बी सोंपून सोंपना इतल्यो भेटी दिल्यो. सगळ्यो भेटवणी घेवन पांडु हस्तिनापुराक परतलो. आनी त्यो ताणे सत्यवती, भीष्म, धृतराष्ट्र आनी विदुर हांच्या पांया कडेन दवल्ल्यो. सगळे खुशालभरीत जाले. पांडुचे जोडिच्या म्हालवजार धृतराष्ट्रान मागीर शंबरां वयर अश्वमेध यज्ञ केले.

पांडूक रानांची खूब ओड. कुन्ती आनी माद्री दोगीय राणयांक घेवन ताणे मर्दी मर्दी हिमालयार वचचें. थंय एका शालवनांत रावचें. सादें जिवीत जियेवचें. साद्या जिविताची ताका ओड लागिल्ली. गादये बदला तो शेंदरेर न्हिदतालो.

हिमालयांत एक दीस तो भोंवडेक़ गेल्लो. थंय एके कडेन ताका चितळांचें एक जोडपें दिश्टी पडलें. तें भोगांत गुल्ल आशिल्लें. तें ऐन सुखांत आसतनाच पांडून ताचेर एका फाटल्यान एक अशे पांच बाण सोडले. चितळाचें रूप घेवन किंदम नांवाचो एक ऋषी रतिसुख घेतालो. पांडूक बावड्याक खंय खबर! बाण लागून चितळ पडले तेन्नाच ताका तें कळ्ळें. वळवळत वळवळत ऋषीन म्हळें, 'पातक्यांतल्या पातकी मनशान लेगीत इतली उणाक करणी केन्ना करूंक ना जातली. तूं कुरु-कुळांतलो जावन तुवें ती केली. म्हजी हत्या केली म्हुण तुका हिणसायतां अशें समजूं नाका. हांव ऐन सुखांत आसतना तुवें म्हजेर तीर सोडले म्हुण तुका श्राप दितां : तूंय रतिसुखांत आसतना मरतलो.'

श्राप दिवन किंदम मुनी मेलो. पांडूक पच्छत्तापान मरूंक पुरो जालें. खंयची आपणाक चितळ मारपाची बुद्द जाली, अशें ताका जालें. ताका विरक्ती आयली. त्याच खिणाक ताणे थारायलें, ह्या मुखार घरदार सोडून रानांतूच रावपाचें. थंयच भोंवपाचें. झाडां मुळांत न्हिदपाचें. भीक मागून रावपाचें. सगळीं सुखां सोडून आतां

तपस्व्याचें जिवीत जियेवपाचें.

ताणे दोगीय राणयांक आपणालो हो बेत सांगलो आनी म्हळें, 'तुमी आतां हस्तिनापुराक वचून पांडून संन्यास घेतलो म्हुण सगळ्यांक सांगात. तुमीय थंयच रावात.'

पांडूक दोगीय सारक्यो वळखताल्यो. उलयल्लें खरें करपी मनीस हो. फाटीं सरपाचो ना, हें त्यो जाणा आशिल्ल्यो. दोगींनी ताका म्हळें, 'हस्तिनापुराक वचून आमी कितें करतलीं. जंय तूं थंय आमी. विरक्ताचें जिवीत जियेवपाक संन्यासूच घेवंक जाय अशें ना. वानप्रस्थाश्रमांत रावं येता आनी वानप्रस्थाश्रमांत बायलांक घेवन रावं येता. आमची तुका आडखळ निखालूस जावपाची ना, आमीय तुजे भाशेन सगळीं सुखां सोडून, कंद-मुळां खावन तपाक बसतात.'

पांडूक बरें दिसलें. तिगांनीय आंगा वयल्यो वस्ती दैंवयल्यो. त्यो पुरयतां सुवादीन केल्यो आनी तांकां सांगलें, 'तुमी आतां हस्तिनापुराक वचात आनी आमी वानप्रस्थाश्रम घेतलो म्हुण सगळ्यांक सांगात.'

पुरयत खंती जाले. हस्तिनापुराक ही खबर पावली तेन्ना सगळ्यांक वायट दिसलें. सगळ्यांत चड खंती धृतराष्ट्र जालो. ताची न्हीद खळ्ळी. ताका उंडी वचना जाली.

पांडू आतां दोगी बायलां सयत हिमालयांत भोंवपाक लागलो. एका फुडले एक आकांताळे पर्वत चडून तो गंधमादन पर्वतार गेलो. इन्द्रद्युम तळें पळोवन शतशृंग पर्वतार पावलो. आनी थंय तपाक बसलो.

ताचें तप पळोवन सिद्ध, चारण सगळे खोशी जाले. पांडूक ते भावा भाशेन लेखपाक लागले. कांय जाणांक तो इश्ट कसो दिसपाक लागलो. तर कांय जाण ताका पुता वरी मानपाक लागले. ल्हान व्हड सगळ्यांचीं मनां ताणें जिखिल्लीं.

## ९. युधिष्ठिर, भीम, अर्जुन

हिमालयांतले सिद्ध आनी चारण एक दीस ब्रह्मलोकाक वचपाक भायर सल्ले. तें पळोवन आपणेय तांच्या वांगडा वचचें अशें पांडूक दिसलें. धीर करून पांडून तांकां अशें म्हळें. तें आयकून सिद्ध म्हणूंक लागले, 'ब्रह्मलोकाची यात्रा सोंपी न्हय. खूब त्रासांची. बरफाचे व्हडले व्हडले उबे पर्वत कितलेशेच चडचे पडटात. न्हंयो उंपच्यो पडटात. खंय-खंय सुळके लागतात. तांचे वयल्यान चलचें पडटा. व्हडल्या व्हडल्यांक लेगीत नाका पुरो जाता इतली कश्टांची आनी त्रासांची यात्रा

ही. तुका जमपाची न्हय. तुज्या ह्या दोगीय नाजूक बायलांक तर निखालूस जमपाची ना. ब्रह्मलोकाक वचपाचो बेत तकलेंतलो तूं काडून उडय.'

'त्या भायर, तूं निपुत्रीक.' सट्ट करून एकल्याच्या तोंडांतल्यान भायर सर्ले. निपुत्रिकाक ब्रह्मलोकाक वचपाचो अधिकार ना.

पांडूक हें खूब लागलें. तो मनांत म्हणपाक लागलो, 'देव, पितर, ऋषी आनी मनीस हांचीं चार रिणां घेवन मनीस जल्मा येता. ह्या रिणांतल्यान मेकळो जावंक जाय. ना जाल्यार ताका स्वर्ग मेळना. यज्ञ करून हांवें देवांचें रीण फारीक केलां. तप करून ऋषिंचें केलां. मागता तें प्रजेक दिवन मनशांच्या रिणांतल्यान मेकळो जालां. पितरांचें रीण उल्लां. भुरगीं जल्मा घाले बगर ह्या रिणांतल्यान मेकळो जावपाचो ना.'

'कितें करप', तो येवजूंक लागलो. 'हांव म्हजे आवयक व्यासा पसून जाल्लों. तसलोच कितेंय उपाय कर म्हुण कुन्ती–माद्रीक सांगचें पडलें,' ताणे येवजिलें.

एक दीस ताणे आपणाली व्यथा कुन्ती मुखार मांडली आनी म्हळें, 'नियोग म्हुण एक रीत आसा.'

कुन्ती फटक करून उसळ्ळी: 'तुजी घरकान्न हांव. मनान लेगीत दुसऱ्या कोणाक लागीं घेवपाचीं ना, कळ्ळें? भुरगीं जाय जाल्यार म्हाका तीं तुजेच पसून जातलीं.'

पांडून तिका शास्त्र-धर्म समजावन सांगलो. ताचो इतिहासूय सांगलो आनी म्हळें, 'पयलीं बायलांक कसलेच बांदपास नाशिल्ले. त्यो मेकळ्यो आशिल्ल्यो. जाय थंय वताल्यो, जाय ताच्या वांगडा रावताल्यो. तांच्या सभावाक हो धर्म मानवतालो. मर्दींच श्वेतकेतून एके बायलेक एक घोव हो नेम घडयलो. कित्याक, खबर आसा न्हय. श्वेतकेतु उद्दालक ऋषिचो पुत. एक दीस उद्दालका हुजीरच एकलो ब्राह्मण श्वेतकेतुचे आवयक 'चल यो' म्हणून ओडीत व्हरूंक लागलो. श्वेतकेतून तें पळेलें. तें पळोवन ताका ब्राह्मणाची तिडक माल्ली. तो तापलो. ताका तापिल्लो पळोवन बापायन म्हळें, अशी तकली तापोवन कित्याक घेता. सगळे कडेन अशेंच चलता. सगळे कडेन बायलो अश्योच मेकळ्यो आसतात. पुणून श्वेतकेतूक तें मान्य जालें ना. आपले आवयक दुसरो कोण ओडून व्हरता हें ताका सोंसलें ना. ताणे नवो नेम घालून दिलो: आयच्यान जी बायल घोव सोडून दुसऱ्या सरीं वतली तिका भ्रूणहत्येचें पातक लागतलें.' तेन्ना पसून ही पतिव्रतेची चाल सुरू जाल्या. नवी चाल ही. चड वरसां जावंक नात तिका.'

इतलें सांगून पांडून म्हळें, 'श्वेतकेतून इतलेंच सांगूंक ना. ताणे अशेंय म्हळां,

आपली बायल सोडून जो घोव दुसरे कडेन वतलो ताकाय पातक लागतलें. ह्या नेमाक एक आडवादूय आसा अशें ताणे म्हळां: घोवा पसून भुरगीं जालीं नात जाल्यार घोवाचे मान्यतायेन बायलेन दुसऱ्याक घेवं येता. घोवाची ही इत्सा तिणे भागयली ना जाल्यार तिकाय पातक लागूं येता.'

हो शास्त्र-धर्म समजावन सांगल्या उपरांत पांडून तिका श्रापाची याद करून दिली आनी म्हळें, 'म्हजे पसून तुका भुरगीं जावपाचीं नात आनी भुरगीं जालीं नात जाल्यार आमकां सदगती मेळपाची ना.'

कुन्ती विरगळ्ळी. थोडो वेळ ओगी रावन तिणे म्हळें, 'भुरगेपणांत दुर्वासान म्हाका एक मंत्र दिल्लो आनी म्हणिल्लें: ह्या मंत्रान तूं ज्या देवाक आपयशीत तो येवन तुका मेळटलो. कोणाक आपोवं, सांग.'

पांडु खुशालभरीत जालो. ताणे यमधर्माक आपय म्हळें. तो धर्मराज. ताचे पसून जो जातलो तो धर्मिश्टांतलो धर्मिश्ट जातलो.

कुन्तीन मंत्र म्हणून यमधर्माक आपयलो. ज्येष्ठा नक्षत्रांत चंद्र आनी तुळेंत सूर्य आसतना आठव्या अभिजित म्हुर्तार, आश्विन शुक्ल पंचमीक, दन्पारच्या भारार कुन्तीक चलो जालो. तो जल्मला त्या वेळार आकाशवाणी जाली: हो मनशांत व्हड आनी व्हडांत धर्मिश्ट जातलो.

पांडून ताका युधिष्ठिर नांव दवल्लें. यमधर्मा पसून जाल्ल्यान ताका धर्म वा धर्मराज अशेंय म्हणटाले.

कांय काळान पांडून कुन्तीक म्हळें, 'क्षत्रियांचें व्हडपण तांगेल्या बळग्यांत. आमकां म्हाबळिश्ट असो एक पुत जाय.' कुन्तीन मंत्र म्हणून वायूक आपयलो. वायू पसून कुन्तीक भीम जालो. तो जल्मलोच बळिश्ट म्हुण. एक दीस कुन्ती ताका पांयार घालून न्हिदयताली. अकस्मात थंय वाग आयलो. वागाक पळोवन कुन्ती भियेली. बेगीबेगीन उठली. पांयार चल्याक घाला म्हणपाची चत्राय उल्ली ना. ती उठना फुडें भीम एका तळपार पडलो आनी तळपाचो त्याच खिणाक पिठो जालो.

उपरांत आपणाक आनीक एक पुत जावचो अशें पांडूक दिसलें. हे खेपे खासा ताणे तप करून इन्द्राक प्रसन्न करून घेतलो.

इन्द्रा पसून कुन्तीक अर्जुन जालो.

अर्जुन जाला त्या वेळार आकाशवाणी जाली: हो क्षत्रियां भितर व्हड जातलो. आकाशवाणी शतशृंग पर्वतार सगळ्यांच्या कानार पडली. ती आयकून सगळे देव खोशयेन गावंक आनी नाचूंक लागले.

पांडुची आशा आतां वाडत गेली. ताणे कुन्ती कडेन आनीक एक पुत मागलो. तेन्ना कुन्ती तापली. तिणे म्हळें : तीन भुरगी खूब जालीं. चवथें जायत जाल्यार हांव स्वैरीण थरतलीं. आनी पांचवें जालें जाल्यार, म्हाका शिंदळच म्हणची पडटली.

## १०. कौरवांचो जल्म

आपणाक शंबर पुत जावचे म्हुण गांधारीन म्हादेवा कडेन मागून घेतिल्लें. तेंवूय लग्न जावचे पयलीं. तातूंत आनीक एक आशीर्वाद तिका मेळिल्लो. एक दीस व्यास मुनी तिगेर भुकेतानेन आकुळ-पिकुळ जावन आयिल्लो आनी तिणे ताची खूब बरी सरबराय केल्ली. तिचेर खोशी जावन व्यासानूय तिका 'तुका शंबर पुत जावं' म्हुण आशीर्वाद दिल्लो. त्या प्रमाण, धृतराष्ट्रा पसून ती गुरवार जाली.

कुन्तीगेर भीम जाला त्या वेळार गांधारीक एका फाटल्यान एक शंबर पुत जाले. दुर्योधन, दुःशासन, दुःसह, दुःशल बी नांवाचे. जांवंय येतकूच बायलांक जी खोस जाता ती शंबर पुतांनी लेगीत भागना म्हणटात. शंबर पुतां उपरांत गांधारीक धुव जाय जाली. सुमार एका म्हयन्यान तिका धुव जाली. तिका तिणे दुःशला नांव दवल्लें.

गांधारी गुरवार आसतना आनीक एकली बायल–मनीस धृतराष्ट्राची सेवा करताली. तिकाय त्या वरसा धृतराष्ट्रा पसून एक पुत जालो. ताका तांणी युयुत्सु नांव दवल्लें.

दुर्योधन हो धृतराष्ट्र-गांधारिचो व्हडलो पुत. दोगांय ताका सुयोधन म्हुण उलो करतालीं. तो जल्मा आयला त्यावेळार एक विप्रीत घडलें. सामान्यतायेन भुरगें जल्मा येता तेन्ना रडटा. दुर्योधनान बद्द गाढवां सारकी किळांच माल्ली. ही किळांच आयकून गाढवां, गिधां, कावळे, कोले मोट्या मोट्यान आड्डपाक लागले. धृतराष्ट्राक हें दुश्चिन्न कशें दिसलें. ताणे बुदवंतांक आपोवन विचाल्लें, 'पांडुल्या आनी म्हज्या पुतांत युधिष्ठिर व्हड. राज्याभिषेकाचो अधिकार ताचो. पुणून ताच्या फाटोफाट तरी सुयोधन राजा जातलो काय ना ? ताका हो योग आसा काय ना ?'

तो प्रस्न विचारता थंय आसा, अवचित चोंय वसलीं घातकी सुकणीं सावदां पर्थून मोट्या मोट्यान आड्डपाक लागलीं. हीं दुश्चिन्नां पळोवन विदुर उठलो. भीड-मुर्वत कुशीन दवरून ताणे धृतराष्ट्राक सांगलें : 'हो पोर कुळक्षय करपी जातलो. चिन्नां तसलीं. काळीज घट्ट करून आतांच हाका सोडिल्लो बरो. ना

जाल्यार हो बाकिच्या णव्याण्णव भावांचें आनी तांच्या वांगडा पुराय कुरु-कुळाचें घट्टाण करतलो. शुक्राचार्यान म्हळां: घर राखपाक घरांतलो एक मनीस सोडचो पडल्यार सोडूंक जाय. गांव वाटावपाक गरज पडल्यार घर लेगीत सोडूंक जाय. ह्या न्यायान म्हाका दिसता, कुरु-कुळाच्या कल्याणा खातीर हाका आयजूच त्यागून मेकळे जाल्लें बरें.'

विदुराचें सगळ्यांक खरें दिसलें. गांधारीक लेगीत. खरें दिसलें ना तें फकत धृतराष्ट्राक. तो मुदलांतच कुड्डो. आतां पुताचे मायेन तो मनान लेगीत कुड्डो जाल्लो.

## ११. नकुल सहदेव

कुन्तीक भुरगीं जालीं तशीं गांधारीकूय जाल्लीं. फकत माद्रीक जावंक नाशिल्लीं. तीं जावचीं म्हुण कुन्ती कडल्यान मंत्र घेवचो अशें कितल्या फावटीं तिच्या मनांत आयलें. पुणून तिका धीर जालो ना. सांगू येता, सट्ट करून ना लेगीत म्हणीत, ह्या भंयान ती कांयच उलयली ना.

एक दीस तिणे पांडूक आपली व्यथा सांगली.

'म्हज्याय मनांत घोळटालें हें.' पांडून तिका म्हळें, 'पुणून तुका कितें दिसत, ह्या दुबावान विचारूंक नाशिल्लें. आयज घालतां उतर कुन्ती कडेन. पळोवया कितें म्हणटा ती.'

कुन्ती कडेन पांडून उतर घालें आनी कुन्तीन मातूय अडोवन दाखय नासतना मंत्र म्हळो आनी माद्रीक सांगलें, 'आपय तुका जाय त्या देवाक आतां.'

माद्रीन एकाच वांगडा दोगूय अश्विनीकुमारांक आपयले. परिणाम, कांय काळान तिका जुंवळे पुत जाले. रुपान, शिलान, गुणान दोगूय अश्विनीकुमारां सारके. अश्विनीकुमारांक लेगीत फाटीं घालतीत असले. नकुल आनी सहदेव.

वर्स-वरसाच्या अंतरान जाल्ल्या ह्या पांचूय पुतांक पळोवन पांडु खुशालभरीत जालो. भुरगे इतले अपुबयिचे जाल्ले कि शतशृंग पर्वता वयले विरक्त ऋषीमुनी लेगीत तांचेर मोग करपाक लागले.

माद्रीक आनीक भुरगीं जावचीं अशें पांडूक दिसलें. ताणे कुन्तीक सांगलें. कुन्तीन शीण काडून जाप दिली, 'ती एकाच वांगडा दोगूय अश्विनीकुमारांक आपयतली अशें दिसूंक नाशिल्लें. तिणे फटयल्या म्हाका. बरे चालिचे बायलेचें लक्षण न्हय हें.'

तिणे मंत्र म्हणची ना म्हळें. पांडु निर्शेलो. पुणून पांच पुत खूब जाले अशें

म्हणून ताणे उपरांत अदीक भुरग्यांची आस्त सोडून दिली.

लोक धृतराष्ट्राच्या पुतांक कौरव आनी पांडुच्या पुतांक पांडव म्हुण वळखूंक लागले.

## १२. पांडुचें मर्ण

हिमालयांत पांडु वेगळीं वेगळीं थळां पळेत भोंवतालो.

एका वसंत ऋतूंत तो माद्रीक घेंवन भोंवंक भायर सरिल्लो. सैमाची सोबा नियाळटां नियाळटां माद्रिचेर ताची नदर पडली. जातिचीच सुंदर, तातूंत आयज ती एक विरविरीत पातळ न्हेशिल्ली. तिचो आंगलोट पांडुचे नदरेंत भल्लो. तो भुल्लो. श्राप विसल्लो आनी माद्रीक ओडूंक लागलो. माद्रीन ताच्या हातांतल्यान सुटपाचो जायतो यत्न केलो. पुण पांडु आपले सुवादीन उरूंक नाशिल्लो.

रतिसुख घेतां घेतांच तो मेलो.

माद्रिचेर मळब कोसळ्ळें. खंयची आपणाक हाचे बरोबर भायर सरपाची बुद्द जाली अशें जालें. आकांतून ती मोट्या मोट्यान रडपाक लागली. कुन्तिच्या कानार रडें पडलें. ती धांवत आयली. पळे जाल्यार, पांडु प्राण सोडून गेल्लो. ताचें प्रेत मुखार पडिल्लें. कुन्ती माद्रिचेर उसळ्ळी, 'कितें केलें पापणी तुवें हें. ताका राखपाचो सोडून भुलयलो मगे. पापणी, तुका श्रापाचो उगडास कसो उल्लो ना गे.'

दोगीय मोट्या मोट्यान रडपाक लागल्यो.

पांडु वांगडा सती वचपाक कुन्ती भायर सरिल्ली. पुणून म्हाकाच लागून हो घात जाला अशें म्हणून माद्री मुखार सल्ली. 'तूं सती गेली जाल्यार तुज्या भुरग्यांचो सांबाळ हांव सारको करूंक पावीन हाची म्हाका खातरी ना. तूं मात म्हज्या भुरग्यांक पोटच्या भुरग्यां वरी लेखतली ह्या विशीं म्हाका दुबाव ना,' अशें सांगून पांडु वांगडा माद्री सती गेली.

कुन्तिचो आधार गेल्लो. पांडव वाऱ्यार पडिल्ले. शतशृंग पर्वता वयल्या ऋषींक तांची काकूळट दिसली. पांडु-माद्रिचे निमाणे संस्कार तांणीच हिमालयांत केले. उपरांत, कुन्तीक आनी पांडवांक घेवन ते हस्तिनापुराक आयले. वांगडा तांणी पांडु-माद्रिच्यो अस्थीय हाडिल्ल्यो.

पांडुच्या मरणाची खबर आयकून हस्तिनापूर दुख्खाच्या म्हाल–सागरांत बुडलें. विदुरा सारक्या धीर पुरसाचे लेगीत बांद फुटले.

अस्थि-विसर्जनाक पुराय हस्तिनापूर गंगेच्या कांठार आयिल्लें.

जिस्त ह्या वेळार व्यास हस्तिनापुराक पावलो. सत्यवतीक ताणे म्हळें, 'ह्या मुखार वायट दीस येवपाचे आसात. धर्म, नीत बुडून सगळे कडेन दिशिं-माशीं अधर्म, अनीत, अनाचार मातपाचो आसा. कुरु वंशांतले हे भुरगे अन्याय आनी जुलूम करून कुरु-कुळाचेंच नाशें घडोवन हाडपाचे आसात. ही अप्रतिष्ठा पळोवपाक तूं रावतली व्हय. चल यो म्हज्या वांगडा हिमालयांत आतां.'

सत्यवती जिविताक आदींच उबगल्ली. ती व्यासा वांगडा हिमालयांत वचपाक रोखडीच भायर सल्ली. अम्बिका आनी अम्बालिका हांकां तिणे आपलो बेत सांगलो. तांच्याय जिवितांत आतां अर्थ उरूंक नाशिल्लो. त्योय तिच्या वांगडा हिमालयांत वचपाक भायर सल्ल्यो.

कुरु-कुळांतल्या दोन पिळग्यांच्या ह्या तिगी सुनांनीं उरिल्लें आयुष्य हिमालयांत सारयलें. हिमालयांतूच तांणी आपल्यो कुडी दवल्ल्यो.

# १३. भुरगेपणांतलीं आडांगपणां

पांडव आतां कौरवांच्या सांगातान वाडपाक लागिल्ले. कौरवां परस पांडव हुशार. खंयच्याय खेळांत कौरवांक ते फाटीं घालताले. भीम तर खुबूच आडांगी. कौरवांक ताणे कुटल्यो मारच्यो, तांचेर धुमके घालचे, तांचे खेळ मोडचे आनी मागीर लिपून रावचें. केन्ना केश्ट्यांक धरून ताकां ओडचे आनी जमनीर आपट्टचे. तर तळयेर केन्ना धा-धा कौरवांक एकाच वांगडा उदकांत दांबून घुसमटावचे आनी खासावीस जातकूच सोडून दिवचे.

दुर्योधन पिरायेन भिमा येदो. ताका झाडार चडून फळां चोरून खावपाची संवंय. दुर्योधन झाडार चडिल्लो आसतना भिमान लिपत येवचें आनी झाडाक खोंट मारची. दुर्योधन घसांयंच करून सकल पडचो.

अशें चलतालें.

भीम आंगान घटमूट. देखून मस्तो. ताका खेळूय मस्तेच जाय पडटाले. आडांगपणां करतालो तीं ह्याच खातीर. ताची बुद्द पाडी नाशिल्ली. मनान तो निर्मळ. पुणून, दुर्योधनाक ताची नसाय. दुर्योधन पाडो, दुश्ट. खेळपांत, धांवपांत, खुस्तींत, शिकपांत भीम मुखार वता हें ताका सोंसनाशिल्लें. ताचे दोळे फुट्टाले. तो भिमाक करसो ना करचो हेंच येवजितालो. हाका एकल्याक ना करूंक जाय; मागीर युधिष्ठिर, अर्जुन हांकां धरून बंदखणींत घालप सोंपे, असलें कितें कितें

ताचे तकलेंत घोळचें. भीम आसा सर पांडव आटापा येवपाचे नात हाची खातरी.

एक दीस न्हंयचे धडेर ताणे एक तंबू ताणून घेतलो. अर्दो जमनीर, अर्दो उदकांत असलो. थंय तरां तरांची खाणां व्हरून दवर्ली आनी पांडवाक म्हळें, आयज आमी सगळे खेळपाक न्हंयचे धडेर या.'

पांडव गेले. कौरवां वांगडा खूब खेळ्ळे. खेळून खेळून तांकां पुरो जालें. उपरांत खावपाक बसले. खातां खातां तोंडांतले घांस एकामेकांच्या तोंडांत घालपाक लागले. दुर्योधन भिमा सरीं येवन बसलो. गोड गोड उलोवन ताच्या तोंडांत घांस घालपाक लागलो. दुर्योधनान घांसांत काळकूट विख्ख कालयलां म्हणपाचें भिमाक बावड्याक खंय खबर! तो खायत रावलो.

खावन जातकूच सगळे न्हावपाक उदकांत देंवले. पुरो जायसर न्हाले. भिमाक खूब पुरो जाल्लें. न्हावन तो वयर सल्लो. थंड शितळ वारो आंगाक लागना फुडें ताका न्हीद आयली. तो सुस्त न्हिदलो. पोटांत विख्ख गेल्लें. देखून निश्चेष्ट पडलो.

मध्यान रातीं दुर्योधन उठलो. सगळे सुस्त न्हिदिल्ले. दुर्योधन ल्हवू भिमा म्हऱ्यांत आयलो. भीम मेल्ले वरी पडिल्लो. 'हो मेलो', अशें धरून तो खुशालभरीत जालो. न्हंये तडी वयल्या रुखांचेर कांय वाली चडिल्ल्यो. त्यो ताणे तोडून हाडल्यो. त्या वालिंनी ताणे भिमाक चरांटून बांदलो आनी ताका ल्हवू उदकांत धुकल्लो. भीम खिणा भितर तळाक लागलो.

'भीम खंय', युधिष्ठिरान दुर्योधनाक विचाल्लें.

'येदोळ उठून गेलो', दुर्योधनान जाप दिली.

युधिष्ठिर कोणाचोच दुबाव घेवपी भुरगो न्हय. आपले सारके सगळे आनी सगळेच बरे अशें मानपी. देखून दुसरो सांगता तें खरें धरपी. पुणून आयज तो दुबावलो. 'हाणे कपट बी करूंक ना मू' ताणे मनांत म्हळें.

उठून बेगोबेग घरा आयलो आनी आवयक विचाल्लें, 'भिमाक पळेला ?'

'ना,' कुन्तिलो आवरो उडलो, 'खंय गेलो तर तो ?'

'आमी उठचे आदींच भायर सरून आयिल्लो. येवन आनीक खंय वचूंक बी ना मू ?'

'हांगा पावंकूच ना.' कुन्तीन भियेवन जाप दिली आनी हुकूम सोडलो, 'आतांच्या आतां सोदून हाडात ताका. चौगूय वचात.'

'दुर्योधनान घात बी करूंक ना मू' कुन्तिच्याय मनांत हो दुबाव आयलो. तिणे विदुराक आपोवंक धाडलो. ताचोच एकल्याचो आधार तिका दिसतालो. विदुराक तिणे विचाल्लें. 'भिमाक पळेला व्हय. तोच एकलो येवंक ना. बाकिचे सगळे

आयले.' आनी सटक करून तिच्या तोंडांतल्यान आयलें, 'दुर्योधनाचो दुबाव येता. पाडा पडिल्लो पोर. मारून लेगीत उडयत तो भिमाक.'

विदुरा मुखार कुरु-कुळाचो पुराय फुडार उबो रावलो. ताणे शिटकावणी दिली, 'तोंडांतल्यान उतर लेगीत काडूं नाका. फटक करून कितेंय भायर सल्लें आनी तें दुर्योधनाच्या कानार पडलें जाल्यार घात जातलो. सास्वती उरची ना तुमची कोणाची. अवचिन्नाळो पोर तो. केन्ना कितें करीत सांगू नज. शिट्टुक रावन सगळें पळेत राव, मोन्यानी. भिमाचो हुस्को करूं नाका. तो येतलो, हांव धाडटां लोकांक ताचे सोदीक.'

ताणेय भिमाक सोदूंक चोंय दिकांनी मनीस धाडले.

हे वाटेन, उदकांत निश्चेष्ट पडिल्लो भीम नीट नागलोकांत पावलो. कितले-शेच नागां पिले ताच्या आंगा पोंदा चिड्डून मेले. तें पळोवन भोंवतणचे नाग ताचेर तिडकीन फों–फों करून धांवून गेले. ताका चाबूंक लागले. ताका लागून भिमाच्या आंगांतलें विख्ख देंवलें. ताका जाग आयली. आंगाक बांदिल्ल्यो वाली ताणे तोडून उडयल्यो आनी तो उबो रावलो. एका–एका नागाक धरून आपटून मारपाक लागलो. नाग भियेले. वासुकीक खबर दिवपाक ते धांवन गेले. वासुकी येवन पळेता जाल्यार, भीम. 'आरेच्या! हो आमचोच,' ताणे म्हळें. भिमाक पळोवन तो खुशालभरीत जालो. 'हाका कितेंय भेट दिवंक जाय', ताणे मनांत म्हळें आनी हुकूम सोडलो, 'हाडात रे तीं रत्नां भांडारांतलीं.'

एक जाणटेलो नाग थंय आशिल्लो. 'रत्नां हागेर भल्ल्यांत. ताचे कडेन ना तसलेंच कितें ताका दिवंया' ताणे म्हळें. लागसार कांय कुंडां आशिल्लीं. तांतलें उदक पियेत जाल्यार एका एका घोंटा वांगडा हजार नागांचें बळगें येता हे तरेचीं. तीं ताणे वासुकीक दाखयलीं.

भिमान आठ कुंडां रिकामी केलीं.

मागीर तो सुस्त न्हिदलो. आठ दीस न्हिदून उल्लो. उठलो तेन्ना हजारांनी नागांचे बळगें ताच्या आंगांत भरिल्लें. उपरांत तो घरा आयलो. ताका पळोवन कुन्तीक सू जालें. सगळे खुशालभरीत जाले.

'दुर्योधनाक बुद्द शिकयली ना जाल्यार हांवूच न्हय', भिमान दांत-वोंठ चाबून म्हळें. युधिष्ठिरान रोखडोच ताच्या तोंडार हात दवल्लो आनी ताका सांगले, 'कांयच घडूंक नाशिल्ले भाशेन चल.'

पांडव आपल्याच घरांत आतां जतनायेन चलूंक लागिल्ले.

भीम मेला जातलो अशें दुर्योधन धरून चलतालो. अवचित ताका तो दिश्टी

पडलो. 'आरेच्या, हो जितो आयलो?' ताणे मनांत म्हळें. आपुण फटवल्ले वरी ताका दिसपाक लागलें. ताचो दुस्वास वाडलो. हाकाच एकल्याक न्हय, पांचूय भावांक ना कशे करचे हें तो आतां येवजूंक लागलो. ताणे तरां तरांचे बेत केले. पांडवांचो एक सारथी आशिल्लो, तांगेलें बरें-मागतो. सगळ्यांत पयलीं ताका मारून उडयलो. उपरांत, परतो भिमाक विख्ख घालून मारपाचो बेत केलो. ह्या बेताची खबर युयुत्सूक कळ्ळी. ताणे ती भिमाक सांगली. भीम ओगी रावलो. खबर नाशिल्ले वरी करून ताणे अन्न खालें आनी विख्ख जिरयलें.

दुर्योधनाचो मत्सर आतां वाडूंक लागला म्हणपाचें उकतें जाल्लें. पांडव सादूर जाल्ले. जतनायेन पावलां उखलूंक लागिल्ले.

एक दीस धृतराष्ट्राक दिसलें, भुरगे आडांगी जाल्यात. हांकां आतां गुरू सुवादीन केल्लें बरें.

आनी तांकां ताणे कृपाचार्या सुवादीन केले.

## १४. कृपाचार्य

कृपाचार्य शरद्वानाचो पुत.

शरद्वान धनुर्वेदांत करमेल्लो. तागेली धनुर्वेदांतली हुशारी पळोवन इन्द्र भियेलो. इन्द्रान ताचे सरीं जानपदी नांवाचे एकले अप्सरेक धाडून दिली, तागेल्या तपांत विघ्नां हाडपा खातीर.

आनी तशेंच जालें. शरद्वान तिगेल्या रुपाक भाळ्ळो. धनुर्वेद शिकपाचें सोडून तिच्या फाटल्यान लागलो. परिणाम, तिचे पसून ताका एक चलो आनी एक चली अशीं जुंवळीं भुरगीं जालीं.

भुरगीं जायना फुडें जानपदी ताका सोडून गेली.

ती वतकूच शरद्वान आशिल्लो तसो धनुर्वेदाच्या अभ्यासांत गुल्ल जालो.

भुरगीं रानांत उबंत पडिल्लीं. एक दीस शंतनूक तीं दिश्टी पडलीं. 'काकूळट बावड्यांची' अशें म्हणून तांकां घेवन तो घरा आयलो. थंयच तीं ल्हानाचीं व्हड जालीं. राजाचे कृपेन वाडिल्लीं भुरगीं म्हुण तांकां नांवां पडलीं कृप आनी कृपी.

शरद्वानाचो अभ्यास सोंपिल्लो. आतां धनुर्वेद कोणाकूय तरी शिकोवंक जाय अशें ताका दिसूंक लागलें. ताका आपल्या पुताचो उगडास जालो. शंतनुगेर तो आसा म्हणपाची खबर ताका कळ्ळी. तेन्ना तो हस्तिनापुराक आयलो. शंतनुचे मान्यतायेन शरद्वानान मागीर आपणाक येता तितलीय विद्या कृपाक शिकयली.

कांय दिसांनी कृप एक व्हड आचार्य जालो.

धृतराष्ट्रान कौरव-पांडवांक ह्या कृपाचार्या सुवादीन केल्ले.

कृपाचार्याची नामना धाय दिकांनी पातळ्ळेली. पयस-पयस साकून ताचे कडेन शिकपाक भुरगे येताले. कौरव पांडवां भाशेन यादव आनी वृष्णीय ताचे कडल्यान धनुर्विद्या शिकून गेल्ले.

कांय काळान भीष्म भुरग्यांच्या फुडल्या शिक्षणाचें येवजूंक लागलो. कुरु-कुळांतल्या भुरग्यांक शिकोवपी गुरू किरकोळांतलो उपकारना, बुदवंतांतलो बुदवंत जाय. ताचो लौकिकूय व्हड आसूंक जाय. अस्त्र-विद्येंत तो संवसारांत सगळ्यांत व्हड आसूंक जाय. ताच्या आंगांत दैवी शक्तीय आसूंक जाय, अशें भिष्माचें मत्त आशिल्लें. असलो ऋषी खंय मेळटलो, हाची तो वासपूस घेत आशिल्लो. खंयच्यान तरी ताच्या कानार द्रोणाचें नांव पावलें. तो द्रोणाक आपोवंक सोदतालो. त्याच अदमासाक द्रोण कृपाचायगिर पावलो. कृपाचार्य द्रोणाचो मेवणो.

## १५. द्रोणाचार्य

भरद्वाज एक व्हड ऋषी. द्रोण ताचो पुत. एक खेपे भरद्वाज न्हंये धडेर न्हावपाक गेल्लो. थंय ताका धृताची नांवाची अप्सरा दिश्टी पडली. तिवूय थंय न्हावपाक आयिल्ली. भरद्वाज पावचे पयलीं न्हंयेंत देंविल्ली. मुदलची अप्सरा. रुपान सामान्यां भायली. तातूंत उदकांत देंविल्ली. तिचीं वस्त्रां ओलीं-चींब जावन आंगाक दशिल्लीं. तिचीं आंगां पळोवन भरद्वाज भुल्लो. भरद्वाजा पसून तिका जो पुत जालो तो द्रोण. आवय ताका एका दोण्यांत दवरून गेल्ली. म्हुण भरद्वाजान ताका द्रोण नांव दवल्लेलें.

बापाय कडल्यान द्रोण वेद-वेदांगां शिकलो. उपरांत अस्त्रविद्या शिकपाक तो अग्निवेशागेर वचून रावलो. अग्निवेशान ताका आग्नेयास्त्र कशें चलोवचें तें शिकयलें.

ह्याच वेळार पांचाळ देशाच्या वृषत् राजान आपल्या पुताक द्रुपदाक हाडून अग्निवेशागेर दवल्लो. द्रोण आनी द्रुपद एके पिरायेचे. दोनूय वांगडा खेळपाक लागले, वांगडा शिकपाक लागले. एकामेकांचे जिवा-भावाचे सांगाती जाले. द्रोणाचो बापुय गरीब. द्रुपद हें जाणा आशिल्लो, पळेतालो, ताका द्रोणाची काकूळट दिसची. ताणे मागीर द्रोणाक म्हणचें, 'हांव राज्यार येतकूच म्हज्या भोगाचो वांटो तुकाय दितलों.'

शिक्षण सोंपोवन द्रोण घरा परतलो. त्या उपरांत कांय दिसांनी भरद्वाज भायर पडलो. मागीर कृपाचार्याची भयण कृपी कडेन द्रोण लग्न जालो. कांय काळान तांका

एक चलो जालो. जल्मा आयला त्या वेळार तो उच्चै:श्रवा घोड्या भाशेन आड्डलो. देखून द्रोणान ताका नांव दवर्ले अश्वत्थामा.

अश्वत्थामा आवय-बापायचे खूब अपुबर्यिचो.

अश्वत्थाम्यान दूद पळोवंक नाशिल्लें. भोंवतणचीं भुरगीं दूद पियेतात तें ताणे पळोवचें आनी घरा कडेन येवन 'म्हाकाय दूद जाय' म्हुण रडचें. आवय-बापायचें काळीज मागीर कळवळून येवचें. उपाय नाशिल्लो. कित्याक, दळदीर सटयेक पुजिल्लें. आपणाक कोण गाय दीत काय, ही सोद घेवपाक द्रोणान हे वाटेन ते वाटेन भोंवन पळेलें. सभावान तो मानी. उपाशीं मरत, पुण भीक मागचो ना. कोणेच ताका गाय व्हर म्हळें ना. एक दीस अश्वत्थामा दुदा खातीर खूब रडपाक लागलो. ताचे विकळाप पळोवन आवयच्या काळजांत चर्र जालें. तिणे उदकांत पीठ घोळयलें आनी ताका पियेवंक दिलें. खोश्शी जावन तो पियेलो. आनी 'हांव आयज दूद पियेलों, दूद पियलों' करीत नाचत नाचत भायर गेलो. आपुण दूद पियेलों म्हुण खुशालभरीत जावन सांगात्यांक सांगूंक लागलो. ताच्या ओठांक पीठ लागिल्लें तें पळोवन सांगाती हांसपाक लागले. त्या दिसा पसून तेवूय 'दूद घे' म्हुण उदकांत पीठ घोळोवन ताचीं फकाणां मारपाक लागले. 'कसलो रे बापुय तुजो, भुरग्यांक दूद लेगीत दिवपाची तांक नाशिल्लो.' अशें एकल्या भुरग्यान म्हळ्ळें द्रोणान आयकलें. द्रोणाचे काळीज़ रडपाक लागलें. पुणून कितें करचें, ताका समजनाशिल्लें.

इतल्यांत द्रुपद पांचाळ-देशाचो राजा जाला म्हणपाची खबर ताच्या कानार पावली. द्रोण खुशाल-भरीत जालो. ताका भुरगेपणांतली याद जाली. 'आपुण राज्यार येतलों तेन्ना तुकाय आपल्या भोगांत वांटेकारी करून घेतलों' म्हुण द्रुपदान ताका सांगिल्लें. एक आनी दोन खेपो न्हय, जायत्या खेपो सांगिल्लें. द्रोण तें विसरूंक नाशिल्लो. द्रोणाक आतां आपले वळवळ्यांचे दीस सोंपले अशें दिसलें. मोटे उमेदीन तो बायल भुरग्यांक घेवन द्रुपदागेर गेलो.

'हांव तुजो इश्ट, तुका मेळपाक आयलां' ताणे द्रुपदाक भितर सांगून धाडलें.

द्रुपदाक सत्तेचो मद चडिल्लो. 'हांव तुजो इश्ट' हीं द्रोणाचीं उतरां ताका उस्तऱ्यां गेलीं. ताणे द्रोणाक आपयलो. भिंवयो वांकड्यो केल्यो आनी म्हळें, 'तूं म्हज़ो इश्ट! कसलेच संस्कार नाशिल्लो तूं, अन्नाडी. खंय कशे तरेन चलचें, कांयच खबर नाशिल्लो. राजवाड्यार येता, राजा मुखार उबो रावता आनी भीड मुर्वत धरी नासतना 'हांव तुजो इश्ट' म्हुण सांगता! गिरेस्त केन्ना भिकाड्ड्याचो इश्ट जाला व्हय. तुज्या वांगडा खेळटालों तेन्ना हांव भुरगो आशिल्लों. तुजो म्हजो

पांवडो तेन्ना एक आशिल्लो. आयज तोच पांवडो उल्ला व्हय. विद्वानाची आनी अन्नाड्याची, शाण्याची आनी पिश्याची, शुराची आनी भित्र्याची, तशी धनवानाची आनी निर्धनाची इश्टागत जायना. जांची संपत सारकी, विद्या सारकी, पांवडो सारको तेच एकामेकांचे इश्ट. समजलें? आयचे राती पुरतो भूस घालतां, तो मार आनी वच फाल्यां घरा.'

'अब्बा! येदो मद!' द्रोणान अजापान मनांत म्हळें. आपणाक हांगा हे तरेचो येवकार मेळत अशें ताणे सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. ताका आकांताचो धसको बसलो. द्रुपदाची ताका तिडक माल्ली. ताका खावं काय गिळूं अशें जालें. त्याच खिणाक ताणे सोपूत घेतलो, 'हाजो मद जिरयन तरूच खरो.'

आनी थयच्यान तो परतलो.

वाटेर ताका एक खबर कळ्ळी. परशुराम आपली भूंय आनी संपत ब्राह्मणांक वांटूंक लागला म्हणपाची. द्रोण नीट महेन्द्र पर्वतार गेलो. परशुरामाच्या पांयार तकली दवरून ताणे म्हळें, 'कितेंय मेळटलें हे आशेन आयलां.'

परशुराम सगळें वांटून मेकळो जाल्लो. ताचे कडेन आतां कितेंच उरूंक नाशिल्लें. ताणे म्हळें, 'मात्सो बेगीन येवपाचो न्हय? आशिल्लें सगळें दिवन उडयलें हांवें.' थोडो वेळ ओगी रावन ताणे म्हळें, 'म्हजे कडेन आतां उल्ल्या ती फकत अस्त्रविद्या.'

'ती दी', द्रोणान जाप दिली.

परशुरामान ताका आपणागेर दवरून घेतलो आनी पुराय अस्त्रविद्या प्रयोग संहार आनी मंत्रा सयत ताका शिकयली. द्रोण अस्त्रविद्या–निपुण जालो.

थंयच्यान कांय दिसांनी उठून तो तडक हस्तिनापुराक आयलो. हस्तिनापुराक तागेलो मेवणो कृपाचार्य रावतालो. तागेर रावंक लागलो. ह्याच दिसांनी कौरव आनी पांडव कृपाचार्या सरीं शिकपाक येवंक लागिल्ले.

कौरव पांडव एक दीस कोंयडे-बालान खेळटाले. खेळटां खेळटां तांगेलें बाल बांयंत पडलें. तें वयर काडपाचो तांणी जायतो यत्न केलो. तें कशेंच वयर येना जालें. ते निर्शेले. इतल्यांत पिक्या केंसांच्या एका किडकिडीत म्हाताऱ्याचेर तांची नदर पडली. तो थंय उबो रावन खेळ पळेतालो. मुमुरख्यांनी हांसून म्हाताऱ्यान म्हळें, 'येद्या व्हडल्या भरत-कुळांतले भुरगे तुमी. बांयंत पडिल्लें येदेशें बाल तुमकां काडूंक येना? शी! ना जाल्यार ही पळेयात मुदी. ती हांव बांयंत उडयतां आनी तणाचे काडयेन बाल आनी मुदी दोनूय वयर काडून दाखयतां.'

अशें म्हणून ताणे बोटाची मुदी काडून बांयंत उडयली. मागीर तणाची एक

काडी भितर मोखून माल्ली. ती बालाक तोपली. दुसरी काडी मोखली. ती आदले काडयेक तोपली. तिसरी काडी उडयली. मागीर चवथी, पांचवी, हे भाशेन, काड्येर काडयो मारून ताणे बाल वयर काडलें. उपरांत धोणवार तीर चडोवन तो बांयंत सोडलो. तिरा वांगडा मुदी वयर आयली.

भुरगे अजापान पळेत रावले. तांणी आतां मेरेन असलो कोण खंयच पळोवंक नाशिल्लो.

'कोण तूं'? भुरग्यांनी ताका विचाल्लें.

'हांव कोण तें भिष्माक विचारात. तो सांगतलो.' म्हाताऱ्यान जाप दिली. 'म्हजें रूप आनी करणी ताका सांगात. तो वळखतलो.'

भिष्माक खबर कळ्ळी तेन्ना द्रोणूच जावंक जाय हो अशें ताका दिसलें. ताणे म्हाताऱ्याक आपोवंक धाडलो. ताका पळेना फुडें भिष्मान म्हळें, 'पळेलें? हांवें सांगूंक नाशिल्लें?'

'हांगा खंय?' भिष्मान द्रोणाक विचाल्लें.

'गुणी भुरगे शिष्य म्हुण मेळचे ह्या खातीर आयिल्लों.' द्रोणान जाप दिली.

कृपाचार्या कडेन शिकोवपा सारकें आशिल्लें तें भुरगे शिकिल्ले. फुडलें शिकप खंय करप हो प्रस्न उरिल्लो. भिष्माचे तकलेंत द्रोणा सारको गुरू घोळटालो. द्रोण आयतोच पाविल्लो. भिष्मान ताका दवरून घेतलो. रावपा खातीर ताका एक बरें घर दिलें आनी म्हळें, 'कुरुकुळांत जें कितें आसा तें सगळें आपलेंच कशें धर. हांगाच राव आनी ह्या भुरग्यांक अस्त्रविद्या शिकय. तुका कितेंच उणें पडपाचें ना हांगा.'

द्रोणाचें वळवळे सोंपिल्ले. तो आतां हस्तिनापुरांतूच बिराड करून रावपाक लागिल्लो.

## १६. प्रिय शिष्य

द्रोण भुरग्यांक मन लावन शिकोवपाक लागलो. ताका जाय आशिल्लें तसलें काम मेळिल्लें. जाय आशिल्ले तसले शिष्यूय मेळिल्ले. तो खुशालभरीत आशिल्लो. एक दीस ताणे कौरव पांडवांक विचाल्लें, 'म्हजी एक इत्सा आसा. तुमचें शिक्षण सोंपतकूच तुमी ती भागयतले मू. आयजूच उतर दिशात व्हय म्हाका.'

उतर दिवपाक अर्जुनूच एकलो मुखार सल्लो. बाकिचे सगळे ओगी रावले. कसली इत्सा कितें कात कांय विचारी नासतना अर्जुनान म्हळें, 'तुमची इत्सा हांव भागयतलों.'

अर्जुनाची गुरुभक्ती पळोवन द्रोणाच्या दोळ्यांतल्यान खोशयेचीं दुकां व्हांवपाक लागलीं. ताणे अर्जुनाक वेंग मारली. त्या दिसा पसून ताका अर्जुन चड लागिंचो जालो.

अस्त्रविद्या खूब बरी शिकोवपी गुरू म्हुण द्रोणाचो लोकीक वाडत गेलो. तो आयकून ताचे कडेन शिकपा खातीर वृष्णी आयले. अंधक आयले. कितल्याश्याच कुळांतले कितलेशे राजकुंवर आयले. कर्णूय आयलो.

सभावान कर्ण खुनशी. कित्याक कोण जाणा, अर्जुनाचो ताका मत्सर. ताणे सदां अर्जुना कडेन सर्त लावची. ताका उणो लेखपाचो यत्न करचो. त्याच खातीर जावं येता, दुर्योधनाक तो आपलो-सो दिसपाक लागलो. दोगांयच्या नक्षत्राक पडपाक लागलें. दोगांयची इश्टागत जुळ्ळी. वाडत गेली. कर्णान पांडवांक सदांच उणी उतरां दिवचीं, तांका हिणसावचें. अर्जुनाचो तर चांटे पावलाक दुस्वास करचो. पुणून अर्जुन सदांच उजवो. अभ्यासांत सगळ्यां वयर उरतालो. अर्जुनाक कोण लागना अशें खासा द्रोणाचेंच मत्त जाल्लें.

अर्जुनाची द्रोणाक खूब ओड. आडवाद एकल्याचो. पुताचो, अश्वत्थाम्याचो. ताची मात्शी चड ओड. ताच्याच अभ्यासाचेर द्रोणान मात्शें अदीक लक्ष दिवचें.

भुरगे गुरुगेर रावताले. गुरुसेवा करताले. सदां कळसुल्यो घेवन उदक हाडपाक न्हंयचे तडीर वताले. सगळ्यांच्यो कळसुल्यो सारक्यो आशिल्ल्यो. फकत अश्वत्थाम्याचे कळसुलेचें तोंड मात्शें रूंद आशिल्लें. कोणाच्याच लक्षांत हें येवंक नाशिल्लें. तोंड रूंद जाल्ल्यान अश्वत्थाम्याची कळसुली बेगीन भरून जाताली. उदक भरून तो बेगीन घरा पावतालो. बाकिच्यांक परतुपाक कळाव जातालो. तितले मजगतीं द्रोणाचार्य अश्वत्थाम्याक शिकयतालो. अर्जुनाक दुबाव, हो बेगीन घरा कसो वता? ताणें एक दीस अश्वत्थाम्याचे कळसुलेचें तोंड पळेलें. 'आं, अशें तर!' ताणे मनांत म्हळें. त्याच खिणाक ताणे नित्शाय केलो, ह्या मुखार वारुणास्त्रानूच कळसुली भरपाची. त्या दिसा पसून तो वारुणास्त्रानूच कळसुली भरपाक लागलो आनी अश्वत्थाम्या वागडाच घरा परतुपाक लागलो.

अर्जुन सर्तिचो. आपुण कोणाच परस फाटीं उरचों ना, हो ताचो नित्शाय. ताणे दीस भर अभ्यास करचो. एक खीण लेगीत होगडावचो न्हय. करतां करतां तो रातचोय अभ्यास करूंक लागलो. काळखांत नेम धरूंक लागलो. एके रातीं ताच्या धोणवाचे दोरयेचो आवाज द्रोणाच्या कानार पडलो. 'अब्बा! कोण हो रातचो तीर सोडटा!' अजापान उठून द्रोण भायर आयलो. पळे जाल्यार अर्जुन! काळखांत अभ्यास करता! द्रोणाचें काळीज अपुबयेन उपाट भरून आयलें. ताणे

अर्जुनाक लागीं ओडून म्हळें, 'तुजे सारको धर्नुधारी संवसारांत दुसरो मेळचो ना, इतलो हुशार हांव तुका करतलों.'

हे भाशेन चलिल्लें. शिकोवपी मन लावन शिकयतालो. शिकपीय मन लावन शिकताले. एक एकलो अस्त्रविद्येचें एक एक आंग घेवन बशिल्लो. भीम आनी दुर्योधन गदे झुजांत निपुण जाले, तर युधिष्ठिर रथा झुजांत अश्वत्थामा मंत्रांत तर नकुल सहदेव तरसादेंत. अर्जुन एकलोच सगळे तरेच्या झुजांत हुशार जालो. तोच सगळ्यांत मुखार गेलो. गुरुचो मोगूय ताणे अदीक जोडिल्लो.

कर्णाक आनी अर्जुनाक पडनाशिल्लें तशें दुर्योधनाक आनी भिमाक पडनाशिल्लें. हीच एक गजाल द्रोणाचार्या भोवतणचें वातावरण विखाळ करताली.

एक दीस द्रोणाक येवजलें, हांची परीक्षा घेतिल्ली बरी. कोण कितलो शिकून निपुण जाला, मात्शें पडठाळून पळेल्लें बरें. मेस्ताक आपोवन ताणे लाकडाचें एक शेवणे करून हाडपाक सांगलें. खरें दिसता असलें. मेस्तान तें हाडून दितकूच द्रोणान तें एका रुखाचे वयले खांदयेर ल्हवू व्हरून दवल्लें. उपरांत सगळ्याक आपोवंक धाडले. सगळे आयले तेन्ना द्रोणान म्हळें, 'ह्या शेवण्याची गोमटी कोण उडयता, पळोवया.'

पयलीं युधिष्ठिराक आपयलो आनी म्हळें, 'धर तीर आनी हांव सोड म्हणटां तेन्नाच सोड.'

युधिष्ठिरान तीर धल्लो. द्रोणान विचाल्लें, 'आतां सांग, तुका शेवण्या भायर किते दिश्टी पडटा? झाड, हांव दिश्टी पडटा व्हय.'

'हय, झाड तुमी भाव, सगळें दिश्टी पडटा,' युधिष्ठीरान जाप दिली.

'कुशीन सर' द्रोणान म्हळें. आनी ताका कुशीन काडलो.

मागीर दुर्योधनाक आपयलो, 'धर तीर.'

'धल्लो'.

'सांग आतां, कितें कितें दिश्टी पडटा? झाड, हांव, भाव?'

युधिष्ठिरान दिल्ली तीच जाप दुर्योधनान दिली.

द्रोणान ताकाय कुशीन काडलो. भिमाक आपयलो. भिमानूय तीच जाप दिली. हे भाशेन एक एकल्याक आपोवन कडेक काडल्या उपरांत निमाणे ताणे अर्जुनाक आपयलो.

अर्जुनान तीर धल्लो.

'कितें दिश्टी पडटा?' द्रोणान विचाल्लें.

'फकत शेवणे दिश्टी पडटा.' अर्जुनान जाप दिली.

'फकत शेवणे?'

'शेवण्याची फकत गोमटी दिश्टी पडटा.'

जाप आयकून द्रोणाच्या आंगार कांटो फुल्लो. ताणे रोखडोच हुकूम सोडलो, 'सोड तीर' 'अर्जुनान तीर सोडलो. आनी त्याच खिणाक शेवण्याची गोमटी सकल पडली.

द्रोणान उंचाबळीत जावन अर्जुनाक वेंग माल्ली आनी मनांत तो पुटपुटलो, 'द्रुपदाचीं भल्लीं आतां वरसां.'

कांय दिसां उपरांत सगळ्यांक घेवन द्रोण न्हंयचे देगेर न्हावपाक गेलो. उदकांत पांय मात दवल्लेलो, मानग्यान ताचो पांय धल्लो. द्रोण आपणाक सोडोवन घेवंक वतालो, इतल्यांत ताका येवजलें, हांची परीक्षा घेवपाची काय बरी संद ही! कित्याक होगडाय, अशें म्हणून ताणे 'मेलों...मेलों...' करून मोट्यान किळांच माल्ली.

किळांच आयकून सगळे धांवून आयले मानग्यान गुरुचो पांय धरिल्लो पळोवन काचाबूल जाले. कितें करचें, तांकां कांयच समजना जालें. हे वाटेन ते वाटेन धांवपाक लागले. अर्जुनान कळाव लायलो ना. तो धिरान मुखार सल्लो आनी मानग्याचेर एकार एक पांच तीर सोडून ताणे द्रोणाक सोडयलो.

द्रोण खोश्शी जालो. 'होच म्हजो खरो शिष्य' अशें ताणे मनांत म्हळें आनी अर्जुनाक सगळ्यांत मोटें आनी चलोवपाक सगळ्यांत कठीण अशें ब्रह्मशिर अस्त्र दिवन म्हळें, 'अगस्तिचो अग्निवेश नांवाचो शिष्य आशिल्लो. ताणे म्हाका हें अस्त्र दितना तें बऱ्या मनशा कडल्यान बऱ्या मनशा कडेन वचूंक जाय अशें सांगिल्लें. तूं म्हजो बऱ्यांतलो बरो शिष्य. म्हुण हांव तें तुका दितां. एक लक्षांत दवर: अख्खो संवसार खिणांत हुलपावन उडोवपाची तांक आसा हाच्यांत. हाचो वायट उपेग जावंक दिवं नाका. मनशांचेर आनी दुबळ्या जिवांचेर तें केन्ना सोडूं नाका.'

अर्जुनान तें शुचिर्भुत जावन घेतलें. द्रोणाच्या तोंडांतल्यान पर्थून एक फावट उतरां फुटलीं, 'तुजे येदो धनुर्धारी संवसारांत आनीक कोण जावचो ना.'

## १७. एकलव्य

मर्दी अर्जुनाक एक स्पर्धक तयार जालो. निषादांचो राजा हिरण्यधनु, तागेलो पुत एकलव्य. द्रोणाची नामना आयकून एकलव्यूय एक दीस हस्तिनापुराक आयिल्लो आनी द्रोणाच्या पांयार तकली दवरून ताणे मागिल्लें, 'म्हाकाय शिष्य करून घे

तुजो.'

द्रोणा मुखार पेंच पडलो. हाका शिष्य करून घेतलो जाल्यार, हो पांडव कौरवां मुखार वतलो आनी आपुण तर हांगा पांडवां कौरवां परस मुखार कोणाक वचूंक दिवचों ना अशें उतर दिवन रावलां. तांतूंत, परत, हो निषाद. निषादांक आनी कुरु-कुळाच्या लोकांक पडना. 'कुरु-कुळाचो हांव घात मारचों ना' अशें येवजून ताणे एकलव्याक ना म्हळें.

एकलव्य निर्शेनासतना घरा परतलो. मातयेचो एक द्रोण उबो केलो आंनी 'हो म्हजो गुरू' अशें म्हणून तो ह्या मातयेच्या गुरू कडल्यान अस्त्रविद्या शिकपाक लागलो. करतां करतां तांतूंत खुबूच मुखार गेलो आनी एक दीस बऱ्यांतलो बरो धनुर्धारी जालो.

पांडव एक दीस रानांत भोंवडी काडपाक गेल्ले. वतना वांगडा एक सुणे घेवन गेल्ले. वाटेर एके कडेन सुणे घुसपलें आनी एकलव्य रावतालो थंय पावलें. काळो कुळकुळीत बेरड कसो एकलव्य दिश्टी पडना फुडें तें भोंकपाक लागलें. एकलव्य मातयेच्या द्रोणा मुखार उबो रावन धनुर्विद्येच्या अभ्यासांत गुल्ल आशिल्लो. ताका सुण्याची आडखळ जावपाक लागली. सुणे भोंकूंक पावचें न्हय आनी ताका पिडाय जावची न्हय अशें येवजून ताणे ताचेर सात तीर सोडले.

सातूय तीर तोंडांत बसले. सुणे जिवाच्या आकांतान जें पळ्ळें तें बद्द पांडवां मुखार येवन उबें रावलें.

सुण्याच्या तोंडातले तीर पळोवन पांडवांक अजाप जालें, 'अब्बा! इतलो मोटो धनुर्धारी हांगा आसा? कोण काय देवा? सोदून काडचो पडलो,' अशें म्हणून ते सुण्याच्या आधारान ताच्या फाटसून रानांत भितर सल्ले. सोदीत सोदीत बरेच भितर पावतकूच तांची नदर अक्राळ विक्राळ एकलव्याचेर पडली.

'कोण तूं,' तांणी विचाल्लें.

'हांव? हिरण्यधनुचो पुत. द्रोणाचार्याचो शिष्य' एकलव्यान जाप दिली.

पांडव मोन्यांनी उठून घरा आयले आनी तांणी द्रोणाचार्याक ही खबर सांगली. अर्जुन फकत खबर सांगून ओगी रावलो ना. ताणे खंतीन विचाल्लें, 'तुमीच सांगिल्लें न्हय म्हाका वेंगांत घेवन तुजे परस कर्तुत्वी दुसरो कोण शिष्य आसचो ना म्हुण आपलो? मागीर, हो एकलव्य खंयच्यान आयलो?'

हें आयकून द्रोणाचार्याकूय अजाप जालें. आपलो आनीक शिष्य रानांत आसा? 'चल, पळोवन येवंया, कोण तो.' अशें म्हणून द्रोण अर्जुनाकूच घेवन एकलव्यासरीं गेलो.

खासा गुरूच आपणागेर आयिल्लो पळोवन एकलव्य भुल्लुसलो. उचांबळीत जालो. कितें दिवं, खंय बसोवं, ह्या घुटमळ्यांत पडलो. द्रोणाच्या पांयार तकली दवरून ताणे म्हळें, 'हांव एकलव्य, तुमचो शिष्य.'

'म्हजो शिष्य?'

'हय' अशें म्हणून एकलव्यान द्रोणाचीच मुर्त द्रोणाक दाखयली आनी म्हळें 'तुमचे सरीं शिकपाक आयिल्लों आनी तुमी ना म्हळ्ळें म्हुण तुमची ही मुर्त उबी करून तिचे कडल्यान शिकलों.'

'म्हणटकूच, गुरुदक्षिणा खंय?' द्रोणान विचाल्लें.

'कितें दिवं?'

'तुज्या उजव्या हाताचो आंगठो.' द्रोणान निबर जावन मागलें.

एकलव्यान त्याच खिणाक मात अनमन नासतना आंगठो कातरून गुरुच्या पांयार दवल्लो.

अर्जुनाचो दुगदुग ना जालो. आंगठो दिल्या उपरांतूय एकलव्य चार बोटांनी तीर सोडटालो. पुणून ताचें पयलिंचें कसब ना जाल्लें. अर्जुनाक लागपी खऱ्यांनीच आतां संवसारांत कोण ना अशें जाल्लें.

## १८. दाखोवणी

एक दीस द्रोणान कृप, भीष्म, विदुर हांचे हुजीर धृतराष्ट्राक म्हळें, 'भुरग्यांचें शिक्षण सोंपत आयलां. आतां तांची हुशारी तुमकां दाखोवची अशें मनांत घोळटा.'

धृतराष्ट्र धादोस भरीत जालो. म्हणूंक लागलो, खंयच्या दिसा खंयचे सुवातेर कितें करूंक जाय तें विदुराक सांग. तो सगळें करून दितलो.

द्रोण विदुराक घेवन शारा भायर गेलो आनी थंय एक सुवात वेंचून काडली. वेचून काडिल्ली सुवात विदुरान मापून घेतली. आयस पयस एक माची उबारून घेतली. गडगंज बरो एक माटोव घालो. कुरु-कुळांतल्या म्हालगड्यांक बसपा खातीर एक, सोयऱ्यां खातीर दुसरी, बायलां खातीर तिसरी, हे भाशेन त्या त्या पांवड्याच्या त्या त्या लोकांक बसून पळोवपा खातीर वेगळ्यो वेगळ्यो सुवातो वांटून दिल्यो. आनी एक दीस म्हुर्त थारावन लोकांक आमंत्रणा धाडून दिलीं.

भुरगे कितले हुशार जाल्यात हें पळोवपाक लोक आयले. पयलीं, भीष्म आनी कृप हांच्या सांगातान धृतराष्ट्र आयलो. ताच्या फाटल्यान गांधारी आनी कुन्ती दासयां सयत आयल्यो. मागीर विदुर आयलो. व्यासूय पावलो. भरती येवन दर्याचीं

ल्हारां उसळून येवचीं तशीं चोंय वसल्यान लोकांचीं ल्हारार ल्हारां येवन माटवांत जमलीं.

सगळ्यांनी आपापल्यो सुवातो घेतल्यो. उपरांत धवें फुल्ल पुडवें, वयर धवें फुल्ल उत्तरीय (शाल) पांगरून द्रोण आपल्या पुताक घेवन माचयेर आयलो. द्रोणान पुण्याहवाचन केलें. उपरांत एक-एकल्याक आपोवपाक सुरवात केली.

पयलीं आपयलो युधिष्ठिराक. तो सगळ्यांत म्हालगडो. ताणे धांवत्या घोड्या वयल्यान तीर सोडले. म्हणटासर रथार उडी मारून सोडले. तीर सोडटां सोडटां रथ हे वटेन ते वटेन कश्याय कसो धांवडायलो. तीर आडवे, उबे, तिरपे कशेय येवपाक लागले. कांय जाण दोळ्यांची पाती हालय नासतना पळेत रावले. कांय जाण सट्ट करून तीर आपणाक लागत ह्या भंयान मानो सकल बागोवन पळोवपाक लागले.

इतल्यांत गदा घेवन दुर्योधन आनी भीम मायचेर आयले. दोगूय किंवाट्यान एकामेकांच्या आंगार धांवले. तांचें झूज पळोवन लोक उचांबळीत जाले. लोकांत दोन पंगड पडले. कांय जाण 'शाबास दुर्योधना' करून ताळयो पेटपाक लागले, तर कांय जाण 'शाबास भिमा' करून भिमाक चेव हाडपाक लागले. आशिल्ली दाखोवणीच, म्हळ्यार परीक्षा. पुणून दोगूय खरें झूज जाल्ले वरी एकामेकांच्या जिवार उठिल्ले. द्रोण भियेलो. ताणे ल्हवू अश्वत्थाम्याच्या कानांत सागलें, 'अनर्थ घडचे पयलीं दोंगाकूय सोडय' अश्वत्थाम्यान मदीं पडून दोगांकूय सोडयले.

विदुर धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत बशिल्लो. कितें घडटा तें धृतराष्ट्राक सांगतालो. कुन्ती गांधारीक सांगताली. अवचित ताळयांचो गजर जालो.

'कोण आयलो', उचांबळीत जावन धृतराष्ट्रान विचाल्लें.

'अर्जुन', विदुरान जाप दिली.

अर्जुनान तरांतरांची अचर्यां करून दाखयलीं. एक अस्त्र सोडलें, उजो पेटोवन दाखयलो. दुसरें सोडून पावस शिंवरायलो. म्हणटासर तिसरें सोडलें. वाव सुटलो. आनीक एक सोडलें. कुपां उबयलीं. करतां करतां दोंगर हे वाटेनचे ते वाटेन शेंवटून माल्ले. खिणांत जमनी पोंदा लिपलो. म्हणटासर मळबाक वचून तेंकलो. खिणांत ऊंच जा, खिणांत गिड्डो जा, खिणांत नाच जा, हे भाशेन एका फुडलीं एक आकांताचीं कर्तुपां करून दाखयलीं, अजापान सगळ्यांक तोंडांत बोटां घालूंक लाय सारकीं.

कितेंय तरी आगळें वेगळें पळेल्ल्याची खोस सगळ्यांच्या तोंडार उफेवन आयली.

दाखोवणी सोंपत आयिल्ली. उठून घरा वचपाच्या बेतांत लोक आशिल्लो. इतल्यांत तांच्या कानार एक आवाज पडलो. तांकां कच्च जालें. कितें जालें काय देवा ? मळब बी कोंसळून पडलें ना मूं ? काय, दोंगर फुटून तांच्यो ल्हायो उसळ्ळ्यो ? खीणभर लोक दुबावांत पडलो. कान फुलोवन माचये वशीन पळोवपाक लागलो इतल्यांत, कवच-कुंडलां सयत जल्मा आयिल्लो कर्ण तांकां माचयेर दिश्टी पडलो.

लोक अजापान पळोवपाक लागले.

कर्णान चोंय वसल्यान एक नदर भोंवडायली. कृप द्रोण दोगूय गुरूक हय न्हय-सो नमस्कार करून ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'अर्जुना, गर्वान अशें हड्डें फुलोवं नाका. तुवें केलां तितलेंय करून दाखयतां हांव, तुजेय परस बरें.'

लोकांच्या आंगार कांटो फुल्लो. ते उचांबळीत जावन कर्णाक पळोवपाक लागले. अर्जुनाचें तोंड पड्लें. ताका लज जाल्ले वरी दिसलें. पुणून दुर्योधन मात खुशाल-भरीत जालो.

द्रोणान मान्यताय दिली तेन्ना कर्ण आपलें कसब दाखोवपाक लागलो. अर्जुनान करून दाखयले तितलेच निपुणतायेन. दुर्योधन तें पळोवन खोशयेन उचांबळीत जालो. ताणे धांवत वचून कर्णाक वेंग माल्ली आनी ताका म्हळें, 'अर्जुनाक कोणूय तरी वस्ताद जाय आशिल्लो. वेळार पावलो तूं. तुजे भोंवतणी जीव उंवाळून उडोवचोसो दिसता म्हाका. तुका कितें दिवं सांग, सगळें मेळटलें.'

कर्णाचें काळीज भरून आयलें. ताणे जाप इतलीच दिली, 'तुजी इश्टागत करपा सारको तुका दिसलों हांव, हातूंत म्हाका जाय तें सगळें मेळ्ळें.'

हे वाटेन अर्जुन भितल्ले भितर घुसमटूंक लागलो. ताका आपलो अवमान जाल्ले वरी दिसपाक लागलें. अकस्मात कर्णान ताका म्हळें .

'खरो जाल्यार द्वंद्वयुद्धाक यो.'

कर्णाच्या आवाजांत 'संवसारांत एक तर हांव उरतलों वा तूं' हे तरेचो नित्शय आशिल्लो.

अर्जुन फटक करून ताचेर उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो, 'कर्णा, आपय नासतना तूं आयला हांगा, खबर आसा मू तुका ?'

कर्णानूय उसळून जाप दिली, 'रंगभूंय ही. आपोवपाक कित्याक जाय ? ती तुजी एकल्याची न्हय, सगळ्यांची. हांगा सगळे सारके. तोंडान बेश्ट्यो बडायो कित्याक मारता. सांगपाचें आसा तें शस्त्रां-अस्त्रांनी सांग. राजाचें व्हडपण बावल्यांचेर आनी बळ थंय न्याय. जाणा मू तूं.'

दोगूय द्वंद्वयुद्धाक उबे रावले. लोकांचेय दोन पंगड पडले. भीष्म, द्रोण, कृप

आनी पांडव अर्जुना वसल्यान. जाल्यार, दुर्योधन आनी ताचे भाव कर्णा वसल्यान. पळोवंक बशिल्ल्यांतलेय कांय लोक हे वाटेन, तर कांय ते वाटेन जाले. इतलेंच न्हय, तर इन्द्र येवन अर्जुना वाटेन जाल्यार, सूर्य कर्णा फाटल्यान उबो रावलो.

कर्णाक कुन्ती वळखली. तिका घुंवळ आयली. विदुरान बेगोबेग उदक माल्लें तेन्ना ती सुद्दीर आयली. पुणून काचाबूल जावन पळोवंक लागली. कितें करचें, तिका कांयच समजना जालें. ती पिसावल्ले वरी जाली.

इतल्यांत कृपाचार्यान कर्णाक विचाल्लें, 'कर्णा, एका प्रस्नाची जाप पयलीं दी. अर्जुन कुरु-कुळांतल्या पांडु राजाचो मदलो आनी कुन्तिचो निमाणो पुत. तुजो आवय-बापुय कोण? खंयच्च्या राजकुळांतलो तूं? उणाक जातकुळयेच्या लोकां लागीं राजकुंवर द्वंद्वयुद्धां करिनात, जाणा मू तूं.'

कर्णाच्या वर्मार बसलें. गळिल्ल्या साळका भाशेन ताचें तोंड बावलें. लजेन ताणे मान सकल घाली.

कृपाचार्याचो प्रस्न आयकून दुर्योधनाक भिरभिरी माल्ली. तो फटक करून उठलो आनी कृपाचार्याक म्हणपाक लागलो, 'तुका खबर आसतली, राजा तीन तरांचे आसतात. राजघराण्यांत जल्मा आयिल्ले एक. आंगांत शूरपण आशिल्ले दुसरे. सेनापतिचो अधिकार आशिल्ले तिसरे. जो राजा न्हय ताच्या वांगडा आपुण झुजचों ना असो अर्जुनाचो नित्शाय आसत जाल्यार, हो पळे, ह्याच खिणाक हांव कर्णाक अभिषेक करून अंग देशाचो राजा करतां.'

इतलें म्हणून त्याच खिणाक ताणे कर्णाक भांगरा-शिंवासनार बसयलो आनी पुरयतांक आपोवन ताका अभिषेक केलो. उपकार आठोवन कर्णान दुर्योधनाक विचाल्लें, 'ह्या उपकारां बदला तुका कितें दिवं?'

दुर्योधनान वेंग मारून जाप दिली, 'फकत तुजी इश्टागत.'

कर्ण आतां अंगदेशाचो राजा जाल्लो. ह्याच वेळार माचयेर एकलो जाणटेलो चडलो. ताच्या आंगा वयलीं लुगटां गळिल्लीं. तो हुमेन चिपचिपिल्लो. तागेले पांय लटलट्टाले. तो माचयेर दिश्टी पडना फुडें कर्णान हातांतलें धोणु सकल दवल्लें आनी धांवत वचून ताच्या पांयार घालून घेतलें. जाणटेल्याचो गळो भरून आयलो. ताणे 'पुता' म्हणून ताका घट्ट वेंगांत घेतलो आनी अभिषेकान भिजिल्लें कर्णाचें माथें आपले खोशयेच्या दुकांनीं ओलें केलें.

भीम ताका वळखलो. 'कर्ण हाचो पुत तर हो अधिरथ सारथी!' ताणे भितल्ले भितर म्हळें आनी मोट्यान हांसून कर्णाक सांगलें. 'कर्णा, पापया अर्जुनाच्या हातान मरपा येदो व्हड व्हय रे तूं. तुज्यांत ना ती योग्यताय. तुजें कूळ चाबूक

हातांत धरतल्याचें. चाबूक घे चाबूक. तेंच सोबतलें तुज्या हातात.'

कर्णाचें ओठ फुरफुरूंक लागले. मोट्यान एक उस्वास सोडून वयर सुर्या कडेन तो पळोवपाक लागलो

दुर्योधन चवताळ्ळो. भिमाचेर उसळून म्हणपाक लागलो, 'भिमा, न्हंयेचें मूळ आनी शुराचें कूळ सोदचें न्हय. उदकातल्यान वयर सल्ला म्हुण उज्याची हुलपावपाची तांक उणी जाता व्हय. कार्तिकियाच्या जल्माचें कुवाडें खंय सुटलां. कोण ताका उज्याचो पुत लेखतात. कोण कृत्तिकेचो. तर कोण रुद्राचो म्हणटात. ताका गंगेचोय पुत म्हणपी लोक आसात. आमगेल्या ह्या दोगूय गुरुंचो, कृपाचार्य आनी द्रोणाचार्य हांचो जल्म कसो जालो, सांगशीत व्हय. तें कित्याक, खासा तुजो आनी तुज्या भावांचो जल्म कसो जालो हें हांव नकळं अशें तुका दिसता व्हय. पापया, चितळिणिगेर केन्ना वाग जल्मा आयला व्हय. कवच-कुंडलां सयत जल्मा आयिल्लो हो तेजिश्ट कर्ण अंग देशाचोच न्हय, तर पुराय धर्तरेचो राजा सोबतलो. तेदीच योग्यताय आशिल्लो मनीस हो.'

आनी तिडकीन उसळून ताणे सगळ्यांक आह्वान दिलें, 'जाका म्हजें म्हणणे मान्य ना ताणे रथार चडून धोणवाक पांय लावचो. मरपाक वा मारपाक तयार जावचें.'

अवचित वीज कोंसळून पडची तशें सगळ्यांक जालें.

जिस्त हेच घटकेक दीस धारेर गेलो. कर्णाचो हात हातांत घेवन दुर्योधन उठलो. द्रोण, भीष्म, कृप पांडवां वांगडा उठले. लोकूय उठून शाबास अर्जुना, शाबास कर्णा, शाबास दुर्योधना करीत आपापणाल्या घरा गेले. कर्णाक पळोवन कुन्तीक एके तरेची तर दुर्योधनाक दुसरे तरेची खोस भोगली. दुर्योधनाक अर्जुनाचो भंय दिसतालो, तो त्या दिसा पसून गेलो. त्या दिसा पसूंन कर्ण आनी दुर्योधन काळीज काळजांत, जीव जिवांत हे भाशेन एकामेकांचे इश्ट जाले.

धनुर्धारी म्हुण कर्ण व्हड अशें युधिष्ठिराकूय त्या दिसा पसून दिसूंक लागिल्लें.

## १९. गुरुदक्षिणा

अस्त्रविद्येंत पांडव कौरव निपुण जाल्ले. आतां तांचे कडेन गुरुदक्षिणा मागची अशें द्रोणाक दिसलें. ताणे तांकां आपोवन सांगलें, 'तुमचें शिक्षण जालें. आतां तुमी गुरुदक्षिणा दिवंक जाय.' कसली दिवची हें भुरग्यांनी विचारचे पयलीं ताणे सांगून उडयलें, 'पांचाळ देशाच्या द्रुपद राजाक जिखून ताका म्हज्या मुखार हाडून उबो

करात.'

'पावलें आमचेर', अशें म्हणून भुरगे शस्त्रां-अस्त्रां घेवन भायर सल्ले. पांचाळ देशाचेर तांणी धुरी घाली. तांतूंत कौरव पंगडांतल्या दुर्योधन, दु:शासन, कर्ण, विकर्ण बी भुरग्यां मजगतीं 'हांव पयलीं वतलों, हांव पयलीं वतलों' करून सर्त लागली. ती पळोवन अर्जुनान भावांक म्हळें, 'हांकां वचूंक दिवंया पयलीं. हार आनी मार खावन परतले म्हणटकूच आमी वचचें.'

कौरवां पसून पांडव सुमार अर्द कोस पयस रावले.

कौरव झुजपाक आयिल्ले पळोवन सैन्य घेवन द्रुपद तांचेर धांवन गेलो. ताणे तिरार तीर सोडले. कौरवांची दानाधिस्पट करून उडयली. कौरवांक नाका पुरो जालें. पांचाळ देशांत द्रुपद कितले, एक काय कितले-शेच, असो दुबाव येवचो हे पोटतिडकीन द्रुपद झुजलो. ताणे कौरवांचो मद जिरयलो. द्रुपदाच्या सैन्या भायर पांचाळ देशाचे लोकूय तोणके, मुसळां बी घेवन कौरवां फाटल्यान लागले. कौरव भियेले. जीव मुठींत घेवन किळांच्यो मारीत पळ्ळे.

तांच्यो किळांच्यो कानार पडना फुडें अर्जुनान युधिष्ठिराक म्हळें, 'आतां हांव वतां. तूं हांगाच द्रोणाचार्या म्हऱ्यांत राव.'

अर्जुन रथ घेवन भायर सल्लो. नकुल सहदेवाक ताणे रथाचीं चाकां सांबाळपाचें काम दिलें आनी भिमाक गदा घेवन मुखार उबो केलो.

अर्जुनाक मुखार सरिल्लो पळोवन चारूय दिको गोंदळ्ळ्यो. भीम कृतान्त काळ जाल्ले भाशेन गदा उबारून द्रुपदाच्या सैन्याचेर धांवून गेलो. हती, घोडे, रथ मेळत ताचो तो विध्वंस करीत रावलो. द्रुपद सात्यकीक घेवन आयिल्लो. अर्जुनाचो अवतार पळोवन सात्यकी पळ्ळो. द्रुपदान धोणु उबाल्लें. अर्जुनान तीर सोडून तें मोडून उडयलें. द्रुपद दुसऱ्या धोणवाक हात घालूंक वतालो इतल्यांत, अर्जुनान तरसाद घेवन द्रुपदाच्या रथांत उडी घेतली आनी खिणाचोय कळाव लायनासतना ताणे ताका धल्लो.

द्रुपद अर्जुनाच्या हातांत पडिल्लो पळेना फुडें तागेलें सैन्य भियेलें आनी मेळत ते वाटेन पळपाक लागलें. पळटल्या सैन्या फाटल्यान भीम गदा उबारून धांवलो. अर्जुनान ताका आडावन सांगलें, 'आतां सैन्या फाटल्यान लागपाची गरज ना. आमचें काम जालें. द्रुपदाक हांवें धल्ला. आतां या आमी.'

द्रुपदाक ताणे रोखडो द्रोणाचार्या मुखार हाडून उबो केलो.

द्रोण अपमान विसरूंक नाशिल्लो. ताणे द्रुपदाक म्हळें, 'पीठ कालोवन मोव करचें तसो मोव केलो तुका आयज हांवें. तूं आतां तुज्या दुस्मानाच्या हातांत

पडला.' द्रुपदाचें तोंड पडलें. तें पळोवन द्रोणान म्हळें: 'तुजो जीव घेतलोशें दिसतां व्हय तुका? भियेवं नाका. हांव क्षमाशील ब्राह्मण. कांय करपाचों ना हांव तुका. भुरगेपणांतलो इश्ट तूं म्हजो. हांव 'इश्टागत विसरूंक ना. म्हाका ती नव्यान फुडें चलोवची आसा. पुणून, 'हय', अशें म्हणून द्रोण हांसलो. इश्टागती खातीर दोगूय एका पांवड्याचे आसूंक जाय न्हय? तुवेंच सांगिलें म्हाका हें. म्हणटकूच, आतां कशें जातलें. तुजें पुराय राज्य आतां म्हज्या हातांत आयलां. तुजे कडेन राज्य ना, कांय ना.' मात्सो वेळ ओगी रावन ताणे म्हळें, 'जावं, म्हाका तुजी इश्टागत जाय आनी इश्टागती खातीर दोगांयचो पांवडो सारको आसूंक जाय असो तुजो नेम. तेन्ना हांव आतां म्हज्या राज्यांतलें अर्दें राज्य तुका दितां आनी म्हज्या पांवड्याचो करतां. भागीरथिचे दक्षिणे देगे सकल्या वाटारार तूं राज्य कर. उत्तरे कडलें राज्य म्हजे कडेन उरतलें जाले मू आतां आमी एका पांवड्याचे. आतां आमचे इश्टागतीक दुसरी कसली अडचण ना मू.'

द्रुपदान लजेन मान सकल घाली आनी म्हळें, 'आमचे मर्दी सदांच इश्टागत नंदूं.'

द्रुपदाच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां भायर सर्ली त्याच खिणाक द्रोणाचें मन ल्हव जालें. ताच्या मनांतली इतल्या वरसांची कोडसाण विर्गळून गेली. द्रुपदाक ताणे अर्दें राज्य दिवन सोडलो.

द्रुपद गेल्या उपरांत द्रोणान अर्जुनाच्या तोंडा कडेन पळेलें. दोगांयच्या तोंडार खोशी उफेवन आयली. भक्तिनम्र जावन अर्जुनान द्रोणाचार्याच्या पांयार तकली दवली आनी आशीर्वाद मागलो.

आनी द्रोणाचार्यान ताका आशीर्वाद दिलो, 'जिवितांत कोणाय आड केन्नाय झुजपाचो म्हजेर प्रसंग आयलो जाल्यार तुज्या सारकेल्या आड येवं. तेदें भाग्य म्हाका मेळूं.'

## २०. कणिक-नीत

त्या वरसा पांडवांनी कांय मोटे पराक्रम केले. कांय बळिश्ट यवन राज्यां तांकां त्रास दितालीं. तांचेर घुरयो घाल्यो आनी तीं जिखलीं. उत्तरेचीं आनी दक्षिण दिके कडलीं आनीक कांय राज्यां जिखून तिंवूय कुरुराज्याक जोडलीं. थंयसून लुटून हाडिल्ली संपत तांणी कुरु राज्याच्या भांडारांत ओतली.

पांडवांचो लोकीक वाडत गेलो. तसो हे वाटेन धृतराष्ट्र मत्सरान हुलपूंक

लागलो. तो पांडवांचो बापोल्यो खरो. पुणून कुड्डो. पुताच्या मोगान अदीक. ताका सारकी न्हीद पडना जाली. ताच्या दरबारांत कणिक नांवाचो एकलो बुदवंत आशिल्लो. राजनितींत निपुण. एक दीस धृतराष्ट्रान ताका आंपोवन सांगलें, 'हें पळे, तुका म्हुण विचारतां : पांडवांचो उत्कर्ष पळोवन म्हज्या आंगाक हुलोप पेटला. तांकां आपले लेखून तांची इश्टागत जोडची काय, पेले लेखून दुस्मान करचे, कांयच समजना म्हाका. तूं राजनीत बरी जाणा. हांवें कितें करचें ते सारकें येवजून सांग.'

कणिकान सांगलें, 'म्हजें म्हणणे घडये तुका मानचें ना. पुणून दुर्योधनाची आनी भिमाची दुस्मानकाय पळेल्यार, दोगां भितल्लो एकलो मेले बगर ती ना जावपाची आस्त ना. कर्णाची आनी अर्जुनाचीय दुस्मानकाय तेच भाशेची. हांच्यांत एकचार केन्नाच घडून येवपाचो ना. आतां, दुस्मान तीन तरांचे : एक, आमचे परस दुबळे. दुसरे, बळान आमचे येदे. तिसरे, आमचे परस बळिश्ट. राजनीत म्हणटा, तिगां कडेन तीन तरांनी चलूंक जाय. एकेच तरेन चलून उपकारना. दुस्मान कोणूय आसूं, केदोय आसूं, ताका तुवें सामको ना करून उडोवंक जाय. ताका मान वयर काडूंक दिवंक जायना. त्या खातीर, तुजी तरसाद सदांच ताचे तकलेर हुमकळ्ळेली आसूंक जाय.दुबळ्या दुस्मानाक सदांच भेश्टायत रावचें. बरोबरच्याक तुज्या बळाचो अदमास केन्ना लागूंक दिवचो न्हय. बळिश्टाक तुजें दुबळेपण केन्ना दिश्टी पडूंक दिवचें न्हय. दुस्मानाचेर हात उबाल्लो म्हणटकूच ताका त्याच खिणाक सामको ना करून उडोवचो. ताका अर्दो-मेल्लो केन्ना सोडचो न्हय. तो दुबळो म्हुण ताका उणो लेखचो न्हय. येदी-शी उज्या-कीट लाकूड मेळत जाल्यार पुराय रानाचो लेगीत लासून गोबोर करीत. दुबळो दुस्मान कितें करीत, सांगूं नज. तो तुजे पांय धरीत, भीक मागीत. ताका हिणसायल्यार, निर्भत्सना केल्यार ती आयकून घेत, पुणून तुजेर केन्ना उडी घालीत, सांगूं येना. दुबळ्या दुस्मानाक लेगीत जितो सोडूंक जायना. दुस्मानाचीं उणी सोदीत रावचें. संद मेळना फुडें तीं उकती करचीं. गरज पडटा तेन्ना ताका माथ्यार घेवंचो. पुणून संद मेळना फुडें आपटून मारचो. हाताक लागिल्लो दुस्मान काकुळटेक आयलो जाल्यारूय ताका सोडचो न्हय. तुज्या मनांत कितें आसा तें दुस्मानाक केन्नाच कळूंक दिवचें न्हय. केन्नाच घाळ रावचें न्हय. दुस्मान घडये बापुय आसत, भाव, पुत, इश्ट, गुरू, कोणूय आसत. तो दुस्मान थल्लो म्हणटकूच ताका दुस्मान लेखून मारचो. ताचो राग आयिल्लो आसत जाल्यार तोंडार केन्ना दाखोवचो न्हय. अस्वडीं लेगीत ताच्या संबंदान वायट उलोवचें न्हय. ताचे लागीं सदां नमळायेन उलोवचें.

काळीज मात तरसादेचे धारे इतलें तीख दवरचें. दुस्माना कडेन जुळोवन घेता तो निमाणे फटवता.

इतलें सांगून कणिकान म्हळें, 'राजनीत कितें सांगता तें तुका सांगलें हांवें. तुवें कितें करचें, तें तूं येवजून थाराय. म्हाका दिसता, पांडव-कौरवांक केन्ना पडपाचें ना. मुखार पच्छत्तापाचो प्रसंग येवचो न्हय म्हुण आतांच सादूर राविल्लें बरें. पांडवांच्या हातांत राज्य वचूंक दिवं नाका.'

ही 'कणीक-नीत' राजनिती वेल्या एका पोरण्या पुस्तकाचें एक प्रकरण. उडत उडत महाभारताक येवन तें दसलां. मुदल कथे कडेन संबंद नाशिल्लीं कांय खेरीत आख्यानां महाभारतांत येवन थिरावल्यांत तशीं वेगळीं वेगळीं मत्तां उक्तावपी कांय खेरीत पुस्तकांय सुवातो धरून बसल्यांत. तांतलेंच हें एक. वेगळ्या वेगळ्या काळांत वेगळ्या वेगळ्या लोकांनी महाभारतांत भर घाल्या, ताचो परिणाम हो. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत भारद्वाज नांवाच्या एका पंडिताचो उल्लेख आयला. तोच हो कणिक आसूंक जाय अशें कांय जाणकार म्हणटात. न्याय-अन्याय, धर्म-अधर्म कित्याचोच पात्सो धरी नासतना फटींगपणा घात बी 'कितेंय करून' दुसऱ्यांच्या राज्यांचेर घुरी घालून आपलें राज्य वाडोवचें अशें म्हणपी आनी हीच खरी राजनीत अशें मानपी एक साम्राज्यवादी मत्त पुर्विल्लि मुस्तींत चलतालें. कणिक ह्या मत्ताचो आशिल्लो. मुखार एके कडेन आपद-धर्माचें नेम सांगता आसतना भिष्मान हीच कणिक-नीत युधिष्ठिराक आपल्या तोंडान समजावन सांगल्या. युधिष्ठिरान हे नितीक धरून चलचें म्हुण न्हय, तर संवसार असो चलता थंय ताणे सादूर रावचें म्हुण. 'कणिक' म्हळ्यार 'दुस्मान'.

# २१. बापुय पुताचो कट

लोक पांडवांची तुस्त गावंक लागिल्लो. मेळत तो म्हणटालो, 'आतां युधिष्ठिराक राज्याभिषेक जावंक जाय. तो खरें उलोवपी, बरें करपी. उजू चलपी, तोच आमचें बरें करतलो.' धृतराष्ट्र व्हडलो. पुणून कुड्डो जाल्ल्यान राज्याभिषेक पांडूक जाल्लो. पांडु भायर पडल्या उपरांत आतां युधिष्ठिराक गादयेर बसोवंक जाय अशें लोकांलें मत्त जालां म्हणपाचें दुर्योधनान आयकलें. तो मत्सरान हुलपलो. फणफणूंक लागलो. कर्ण तागेलो सांगाती. त्या भायर जिवा-भावाचो इश्ट. ह्या दोगांक आतां आनीक एकलो येवन मेळिल्लो. गांधारिलो भाव, शकुनी, तिगूय पांडवांक कशे ना करचे हाचे बेत रचपाक लागले.

एक दीस दुर्योधन धृतराष्ट्रा सरीं येवन विचारपाक लागलो, 'लोक कितें उलयतात तें कानार आयलां व्हय. तूं जाणटेलो आसतना तुका कडेक उडोवन युधिष्ठिराक राज्याभिषेक करुंया म्हणटात. खरेंपणानशीं राजगादयेचो अधिकार

मुदल तुजो पुणून तुका दिश्टी पडना हें निमित्त करून लोकांनी तुका कुशीन उडयलो आनी पांडूक राज्यार बसयलो. आतां त्याच न्यायान ते युधिष्ठिराक बसोवंक सोदतात. हो अन्याय न्हय व्हय आमचेर? आयज युधिष्ठिर, फाल्यां ताचो पुत. उपरांत, पुताचो पुत. हे भाशेन सदां पांडुच्याच वर्णांतले लोक राज्य भोगतले. आमचें कशें जावचें मागीर. आमी दुसऱ्याच्या भाकरे-कुडक्याचेरूच जियेवचें काय किर्ते सदां.'

हे भाशेन फणफणून जातकूच ताणे म्हळें, 'कितेंय कर कशेंय कर, पुण राज्य तुज्याच हातांत थीर दवर.'

धृतराष्ट्राचे तकलेंत कणिकाचो उपदेस घोळटालो. राज्य कशेय भाशेन आपल्याच हातांत दवरूंक जाय अशें ताका दिसूंक लागिल्लें. पुणून कशें कितें करचें, ताका समजनाशिल्लें. दुर्योधनाचे फणफणे आयकतकूच उज्यांत तेल ओतिल्ले वरी जालें. मात्शें येवजिल्ले वरी करून ताणे म्हळें, 'पांडु सगळ्यांक बरें करतालो. ताका कसलोच सुवार्थ नाशिल्लो. राज्यार बशिल्लो आसतानाय म्हाका सदां म्हणटालो, हें राज्य तुगेलें. तुगेलेंच म्हुण हांव तें चलयतां. ताचेच सारको तागेलो पुत युधिष्ठिर. लोक तागेली तुस्त बेश्टी गावंक लागूंक ना. लोकांची ताचेर भक्ती. राज्य ताचे सुवादीन करचें अशें लोकांले मत्त आसतना ताका कुशीन करसो काडटलो तूं. हो अन्याय जावचो ना व्हय. लोक कितें म्हणटलो. लोक सोंसून घेतलो व्हय हो अन्याय.'

धृतराष्ट्र हे दुबाव काडटलो हें दुर्योधन जाणा आशिल्लों. तो सगळें येवजून आयिल्लो. ताणे जाप दिली, 'म्हजे तकलेंत हो दुबाव येवंक ना अशें समजूं नाका. लोक आयज पांडवां अर्दीन आसात, हें हांव जाणां. लोकांचो गुन्याव ना. गुन्याव आमचो. पुणून हाचेर उपाय आसा. कांय जाणांक फोडूंक जाय, फितुर करून घेवंक जाय. फूस लावन आमचे वाटेन करून घेवंक जाय. मागीर सगळें सारकें जातलें. दुडु-बिडु वांटून कांय प्रधानांक हांवें आमचे करून घेतल्यात. आमच्या हिता आड ते केन्ना वचपाचे नात. उरिल्ल्यांचें पळोवया. पुणून त्या आदीं एक करूं येता जाल्यार पळे. पांडवांक फुसलावन वारणावताक धाडून दी. मजेंत रावं दी तांकां थंय कांय दीस. ते मेरेन हांव हांगा राजकारभार म्हज्या हातांत घेतां. एक फावट राजकारभार हातांत येवं दी. मागीर पांडवांचें पळोवन घेवंया.'

धृतराष्ट्र पयलीं ओगी रावलो. मागीर म्हणपाक लागलो, 'म्हज्याय मनांत असलेंच कितें घोळटालें. पुणून उलोवन दाखोवपाक धीर जायनाशिल्लो. म्हाका भंय भीष्म द्रोण विदुर हांचो. ते धर्मशीळ म्हालगडे. तांकां तुमी आनी पांडव सारके.

पांडवांचेर ते अन्याय जावंक दिवपाचे नात. ते आसतना पांडवांक आमी दुखयले जाल्यार लोक लेगीत आमकां दवरपाचो ना.'

'हाचो हुस्को नाका'. दुर्योधनान जाप दिली. 'भीष्म विरक्त. ताका कोणाचीच ओड ना. द्रोण म्हणशीत, जाल्यार जंय अश्वत्थामो थंय तो. अश्वत्थाम्याक हांवे म्हजे वाटेनचो करून घेतला. कृप द्रोण अश्वत्थामो वांगडा रावपी. उल्लो विदुर. तो भितल्ल्यान तांचो. पुणून आमचो आश्रित. तो करून करून किते वांकडें करतलो आमचें. हे परिस्थितिचो लाव घेवन पांडवांक धाडून दी कांय दिसां खातीर वारणावताक. कुन्तिकूय वचूं दी तांच्या वांगडा.'

'पळोवंया', धृतराष्ट्रान ताका जाप दिली.

कांय दिसांनी ताणे कांय जाणाक शिकोवन तयार केले. ते सकाळ सांजवेळ वारणावताची तुस्त गावपाक लागले, 'वारणावत अशें सुंदर, तशें सुंदर. एक फावट थंय पावतकूच भायर सरचें-शें दिसना, इतलें ओडलायणें. मन दसता थंय सामकें.' कांय जाण अशेंय म्हणपाक लागले, 'थोड्या दिसानी थंय एक जात्रा भरपाची आसा. खंयच पळोवंक मेळना असली.

खबरी ल्हवू ल्हवू पांडवांच्या कानार येवन आदळ्ळ्यो. तांकां वारणावत पळोवन येवचें-शें दिसपाक लागलें. पांडव थंय वचपाचें येवजितात म्हणपाचें धृतराष्ट्राक कळ्ळें. ताणे तांकां आपोवन सांगलें, 'वारणावत पळोवन येवपाचें मनांत आसत जाल्यार वचपाची रावपाची वेवस्ता करूंक लायतां. कुन्तिकूय घेवन वचात. कांय दीस मजेंत रावात. मन तृप्त जातकूच परते येयात.'

युधिष्ठिर रोखडोच समजलो, 'हाका आमी हांगासल्ले गेल्ले जाय'. पुणून ताणे अनमन नासतना जाप दिली, 'चार दीस रावन येवचें आमी थंय, अशें दिसतालें.'

पांडव वारणावताक वचपाचें येवजितात म्हणपाची खबर दुर्योधनाक कळ्ळी. तेन्ना तो भुरकुटून भितल्ले भितर नाचूंक लागलो. पुरोचन नांवाचो तागेलो एकलो कारभारी आशिल्लो. ताचो हात हातांत घेवन दुर्योधनान म्हळें, 'तू जिवा-भावाचो इश्ट म्हजो. विस्वासांतलो एक कारभारी. एक काम करशीत जाल्यार, पुराय राज्य म्हज्या सागातांत भोगूंक दितलों तुका हांव. गुपीत काम हें. पांडव वारणावताक वतात. तूं आयजूच उठून वारणावताक वच. तांकां रावपा खातीर एक सुंदर नवें घर बांदून घे थंय. कितलोय खर्च येवं. पुणून एक : घराच्या वणटींत तूप, तेल, वोस, लाख, लाकूड असलें सगळें भरून दवर. उजो लागनाफुडें पेट घेता असलें. कितलेय बारकायेन पळेल्यार लेगीत वणटींत हें सगळें भल्लां म्हणपाचें कोणाक कळूंक जायना. इतले फिशालकायेन सगळें करून घे. तूंय तांच्या वांगडा थंय राव. तांची बरी सरबराय कर. तुजेर तांचो पुराय विस्वास बसला हाचें खरेपण

करून घे. मागीर एक दीस घराक उजो लाय. घराक उजो लागून पांडव मेले अशें लोकांनी म्हणूंक जाय. दुसरो कसलोच कोणाक दुबाव येवंक जायना. करशीत व्हय तूं हें सगळें.'

'तुज्या उतरा भायर हांव ना' पुरोचनान जाप दिली. त्याच दिसा ताणे रथ भायर काडलो आनी वाऱ्या वेगान तो वारणावताक वचपाक गेलो.

## २२. वारणावत

पांडव वारणावताक वतात म्हणपाची खबर लोकाक कळ्ळी तेन्ना ते भंय-भाड्डो सोडून उकतेपणान उलोवपाक लागले—

'शी शी शी! येद्या व्हडल्या कुरुकुळांतल्या धृतराष्ट्रान अशें करचें मू. खासा आपल्याच पुतणयांक ताणे घरांतल्यान धांवडावन घालचे मू. इतलो कुड्डो जावचो मू. बरें, तो एक कुड्डो. पुणून, भिष्मूय कुड्डो करसो जावचो. ओगी रावन तो हें कशें पळेता. कशें सोसून घेता. आरेरे, पांडु आशिल्लो जाल्यार अशें जावंक पावचें नाशिल्लें. पांडवांचेर असलें अरिश्ट येवचेंच नाशिल्लें.'

आनी तेवूय युधिष्ठिरा वांगडा वचूंक भायर सल्ले. तांणी युधिष्ठिराक सांगलें, 'असल्या राज्यांत आमी रावपाचे नात. तुमचीच जंय सास्वती ना थंय आमची खंयची. तुज्या वांगडा आमीय येतात वारणावताक. तूं थंय आमी.'

लोकांचो मोग पळोवन युधिष्ठिर खोश्शी जालो. ताचें काळीज भरून आयलें. ताणे लोकांक सांगलें, 'धृतराष्ट्र आमकां बापाय समान. तो आमचें वांकडें करचो ना अशें मानून आतां मेरेन चल्ल्यात आमी. देखून तो सांगता तें आमी आयकतात. बेश्टो ताचो दुबाव घेवं नाकात. तुमी वारणावताक येवपाची गरज ना. तुमचो मोग असोच उरचो. तुमच्या आधाराची गरज जाय जातली तेन्ना अनमन नासतना आमी तो मागतले, इतलें मतींत दवरात.'

पांडव भायर सल्ले त्या दिसा लोक गांवचे शिमे मेरेन तांकां पावोवंक आयिल्लो. विदुरूय पांडवांक पावोवपाक शिमे मेरेन गेल्लो. धृतराष्ट्राचो कट विदुर जाणा आशिल्लो. ताका म्लेच्छांची भास येताली. युधिष्ठिराकूय ती कळटाली. शिमे वयल्यान परततना विदुरान युधिष्ठिराक म्लेच्छांचे भाशेंत कुवाड्यान सांगलें, 'कट हो, जतनायेन चलपाचें. तुमचे खातीर दुर्योधनान वारणावताक एक नवें घर बांदून घेतलां. तें लाखेचें. उज्या कीट लागना फुडें भक करून पेटपाचें. पुरोचनाक धाडला तुमकां हुलपावन मारपा खातीर. त्या घरांत रावचे नात म्हणशात, जाल्यार

फायचें मरण आयज ओडून घेतले. धीर धरात. असल्या संकश्टांतल्यान सुटपाची एकूच वाट आसा—विवेकाची, जागरूक रावपाची, धीर धरपाची. विवेक होगडावं नाकात. तुमच्या आधाराक एकल्याक धाडून दितां हांव. घरांतल्यान पळून वचपा खातीर तो एक भुंयार खणून दितलो तुमकां भितर. एक लक्षांत दवरात, परते हस्तिनापुराक येवं नाकात. भुंयारांतल्यान भायर सरतकूच नक्षत्रांच्या आधारान पयस खंय तरी वचून रावात.'

'कळ्ळें' युधिष्ठिरान एकाच उतरान ताका जाप दिली.

पांडव वारणावताक येतात म्हणपाची खबर वारणावताच्या लोकांक कळ्ळी तेन्ना ते खूब खोशी जाले. तांणी सगळें वारणावत श्रिंगार्ले. वाजंत्री घेवन ते गांवचे शिमेर गेले. पांडवांक बरो येवकार दिवन ते तांकां गांवांत घेवन आयले. इन्द्रा भोंवतणी देव जमतकूच जसो इन्द्र सोबतालो तसो युधिष्ठिर त्या दिसा ह्या लोकां मजगतीं सोबलो. गांवांत भितर सरना फुडें पांडव सगळ्यांत पयलीं थंयच्या ऋषींमुनींक आनी बुदवंतांक मेळपाक गेले. उपरांत अधिकाऱ्यांक वचून मेळ्ळे. ल्हान–व्हड सगळ्यांगेर वचून तांणी तांची भेट घेतली. मागीर बिराडाक आयले. नवें घर अजून बांदून जावंक नाशिल्लें. पुरोचनान तांचे खातीर एक तात्पुरतें घर वेंचून काडिल्लें. थंयच जेवपा-खावपाची, न्हिदपा-उठपाची वेवस्ता करून दवल्लेली. पांडव सुमार धा दीस ह्या घरांत रावले. उपरांत पुरोचनान बांदून घेतिल्ल्या नव्या घरांत ते रावपाक गेले.

पांडवांचो घात करपा खातीर बांदिल्ल्या ह्या नव्या घराक पुरोचनान नांव दवल्लेलें शिव. म्हळ्यार, बरें करपी, कल्याण करपी.

घरांत भितर सरतकूच युधिष्ठिरान पयलीं तें बारकायेन नियाळून पळेलें. हें लाखेचें घर म्हणपाचें रोखडेंच ताका समजलें. ताणे भिमाक ल्हवू शिटकावन सांगले, 'हें घर लाखेचें. खबर आसा मू. खंयच्याय खिणाक पेट घेत हें भाशेचें. घाळ रावले, घात जातलो.'

'तशें जाल्यार आमी आदल्याच घरांत वचून रावुंया.' भिमान जाप दिली.

'तशेंय केल्यार घात जातलो. फायचें मरण आमी आयजूच ओडून घेतले.' युधिष्ठिरान ताका समजावन सांगलें. 'आमकां समजलां म्हणपाचो दुबाव पुरोचनाक मात सुद्धां येवंक दिवं जायना. येत जाल्यार तो खिणाचोय कळाव लावचो ना. आयजूच मारून उडयतलो आमकां. अधर्माचो पात्सो नाशिल्लो, लोक-निंदेची पर्वा नाशिल्लो मनीस तो. धनयान सांगलां तें करपी. बरें, आमी भियेवन पळून गेले जाल्यार ताचो धनी कितें करीत सांगू नज. आमकां धरून हाडीत. मारून लेगीत उडयत. आयज ताच्या हातांत सत्या आसा, दुडु आसा.'

'म्हणटकूच कितें करपाचें?' भिमान उतावीळ जावन विचाल्लें.

'तुर्ताक हांगाच रावपाचें आनी एक दीस ल्हवू घरांतल्यान पळून वचपाचें. एक भुंयार खणून काडपाचें. पुरोचनाक वा कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

भुंयार खणून दिवपी विदुराचो मनीस त्याच दिसा आयलो. तो घरांत सगळे कडेन भोंवलो, बारकायेन सगळें पळेलें आनी खंयच्यान कशें भुंयार खणचें तें थारावन गेलो. घरा भोंवतणी एक कोट बांदिल्लें. कोटा भायर फाटले वाटेन एक फोंड आशिल्लो. हो फोंड निवळ करपाचें निमित्त करून ताणे थंयच्यान भुंयार खणपाक सुरवात केली. आनी खणीत खणीत तो घरांत भितर पावलो. भुंयाराचें एक तोंड घरांत. दुसरें कोटा भायर फोणांत. हे भाशेन ताणे भुंयार खणून काडलें. भुंयाराच्या घरा भितल्ल्या तोंडाक एक दार बसयलें आनी ताचे वयर माती ओडून घेतली. पुरोचन भायले कुडींत रावतालो. थंयच न्हिदतालो. ताका मात लेगीत सुलूस लागूंक दिली ना. कोणाकूच सुलूस लागूंक दिली ना.

पांडवांनी दीस भर रानांनी भोंवड्यो काडच्यो आनी रातचें न्हिदपाक घरा येवचें. पुरोचन एक दीस घात करतलो म्हणपाचें जाणा आसुनूय तो जिवा-भावाचो इश्ट जाल्ले वरी पांडवांनी ताचे कडेन चलचें, उलोवचें. मनांत जळफळाट आसुनूय भायल्यान हांसचें, खेळचें, धादोसभरीत आशिल्ले वरी दाखोवचें.

हे भाशेन वर्सभर ते ह्या घरांत उल्ले.

दुसरो फाल्गुन चलतालो. उमाशे आदले चतुर्दशेक पुरोचन घराक उजो लावपाचो आशिल्लो. पांडवांक हें कळिल्लें. त्या आदींच एक दीस एक निमित्त काडून कुन्तीन समरादना वाडली. गांवच्या सगळ्या लोकांक रातचे जेवपाक आपयले. तांच्यांत निषाद जातींतली एकली बायल-मनीस आपल्या पांच पुतांक घेवन जेवंक आयिल्ली. जेवन खावन जातकूच बाकिचे लोक आपापणाल्या घरा गेले. फकत हीच एकली बायल-मनीस आपल्या पुतांक घेवन थंय रावली. जशी कितें काळानूच तिका हांगा ओडून हाडिल्ली. सवूय जाणां सोरो पियेवन तर्र जाल्लीं. थंयच सुस्त न्हिदलीं.

मध्यान रातचो भीम उठलो. भायर वाव सुटिल्लो. ताचो लाव घेवन ताणे भुंयाराचें दार उकतें केलें आनी कुन्ती सयत चौगूय भावांक पयलीं भुंयारांत भितर सोडले. मागीर चूड पेटोवन तो नीट पुरोचनाचे कुडी कडेन गेलो. कुडिचे वणटीक ताणे चूड लायली. ते बरोबर वणत पेटली. पुरोचन आकांतून जागो जालो. तो बोब मारचे पयलींच भिमान ताच्या तोंडाक गुद्दो माल्लो. ताका धरून खांब्याक

बांदलो. आनी चुडीन पुराय घराक उजो लावन तो बेगी-बेगीन भुंयारांत भितर सल्लो.

आवय-भावांक घेवन सडसडीत भायर सरून ताणे नीट रानांतली वाट धल्ली.

हे वाटेन उज्याचीं केणां भायर सरना फुडें पुराय वारणावत जागें जालें. धांवत येवन तें उजो पालोवपाचो यत्न करूंक लागलें. लोकांचे हे भुरावळींत भुंयार खणून दिवपी तो मनिसूय बोवाळूंक लागलो. ताणे बेगी-बेगीन भुंयाराच्या तोंडार माती ओडून घेतली आनी कोणाक कळूंक दिनासतना भुंयार पुरोवन उडयलें. उजो वाडत गेलो आनी घराचो लासून गोबोर जालो. तांतूंत ती निषाद बायल आनी तिगेले पांचूय पुत हुलपून मेले. तांकां कुन्ती आनी पांडव समजून लोक चुरचुल्ले. आनी 'पाडा पडिल्ल्या दुर्योधनानूच हो घात केलो' अशें म्हणून ते धृतराष्ट्राक गाळी घालूंक लागले.

तांतल्या तांतूंत खोशयेची गजाल तांचे नदरेन एकूच घडिल्ली. पुरोचनूय हुलपून मेल्लो.

# २३. घटोत्कच

पांडव हुलपून मेल्ल्याची खबर हस्तिनापुराक पावली तेन्ना दुर्योधन, कर्ण आनी शकुनी खुशालभरीत जाले. खोशयेन भितल्ले भितर नाचपाक लागले. धृतराष्ट्रय खोशी जाल्लो.

पुणून तांकां हुलपावन मारपांत धृतराष्ट्राचें आंग आसा अशें लोक उकतेपणान उलोवपाक लागिल्लो. भीष्म, द्रोण, विदुरा सारकेले गिन्यानी आनी जाणटे मनीस जिते आसतना असलो अधर्म करसो चलूंक पावता हाचेंच लोकांक अजाप जाल्लें. वायटूय दिशिल्लें. ते राज्याचेर विटले. धृतराष्ट्राक हें कळ्ळें तेन्ना तो लोकाक दाखोवपा खातीर मोट्या मोट्यान रडून विकळाप करपाक लागलो. 'देवा, देवा, ओरेरे. . .अशें कित्याक जावचें. काय बरे गुणी भुरगे हे. तांचेर असलें संकश्ट कित्याक येवचें. कुन्ती कित्याक वचची.' ताणे पांडवांच्या मरणाचें सुतक मानलें. येथिश्ट खर्च करून ताणे तांचीं उत्तरकृत्यांय करून घेतलीं.

खरी खबर फकत विदुर जाणा आशिल्लो. तरी आसतना ताणे उत्तरकृत्यांत वांटो घेतिल्लो.

हे वाटेन, पांडव भुंयारांतल्यान भायर सरून रातयांच नीट गंगे तडीर पावले. थंय तडीर विदुरान दवल्लेलें व्हडें आशिल्लें. तांतूंत बसून ते पल्तडीं गेले. वाट

काडीत काडीत दक्षिणे दिकेन ते चलत रावले. कितल्यो न्हंयो हुंपल्यो, कितलीं रानां माड्लीं, हिशेब ना. कितले-शे दीस ते एकासारके चल्ले. चलून चलून तांकां पुरो जालें. तानेन तांचो जीव खासावीस जावंक लागलो. तरी आसतना चलप सोंप नाशिल्लें. दुर्योधनाची नदर कशीच पावची ना असले सुवातेर तांकां पावपाचें आशिल्लें. ते एकासारके चलताले. कुन्ती केन्नाच इतली चलूंक नाशिल्ली. एक दीस तिका खूब पुरो जालें. ती वाटेरून बसली. चलुंकूच येना जालें. अखेरेक भिमान तिका फाटकुळेर माल्ली. भिमाक लेगीत पुरो ज़ालें.

तीनसांज जाल्ली. काळोख पातळ्ळेलो. पांडव एका रानांत पाविल्ले. 'आयज चलप नाका' अशें थारावन ते थंयच एका वडा मुळांत बसले. कुन्ती तानेन सामकी खासावीस जाल्ली. तिणे म्हळें, 'पांडवांची आवय हांव. म्हजे कर्तुत्वी पुत म्हज्या म्हऱ्यांत आसतना हांवें तानेन खासावीस कशें जावचें.' कुन्तिचीं उतरां आयकून भीम फटक करून उठलो आनी उदक सोदूंक गेलो. सुमार दोन कोसांचे वाटेर ताका एक तळी दिश्टी पडली. तो खुशालभरीत जालो. तळयेंत देंवलो. पयलीं पोटभर उदक पियेलो. मागीर बेगीबेगीन न्हालो. उदक व्हरपाक ताचे कडेन आयदन नाशिल्लें. ताणे आपणालें उत्तरीय भिजयलें आनी तेंच घेवन तो वडा मुळांत आयलो. एक-एकल्याच्या तोंडांत उत्तरीय पिळून तांची तान भागयतलो म्हुण आशिल्लो. पुणून येवन पळेत जाल्यार सगळीं सुस्त न्हिदल्यांत! जमनीरूच! तो भितल्ले भितर फणफणूंक लागलो, 'नशिबांत कितें कितें पळोवपाचें आसा, समजना. आयजवेर जीं मोव गादयांचेर न्हिदिल्लीं, तींच आयज एका रुखा मुळांत जमनीर न्हिदल्यांत! हाचे सारकी व्हरी विटंबना आसूं येता व्हय. ही म्हजी आवय, वसुदेवाची भयण, कुन्तिभोजाली धुव, विचित्रविर्याली सून. पांडुची राणी. तिचेर असलें संकश्ट कशें येवचें, कित्याक येवचें. हो म्हजो भाव धर्मराज. त्रैलोक्याचें राज्य चलोवपाची तांक आशिल्लो. ताच्याय नशिबांत हें येवचें? हो अर्जुन, नकुल, सहदेव. पाडा पडूं आशिल्लें त्या धृतराष्ट्राचें. तो ना करपाक उठला आमकां. तरी बरें, नशीब बरें म्हुण आमचें. देखून वाटावले. ना जाल्यार....

दांत ओंठ चाबून म्हणपाक लागलो: हो धर्मराज म्हुण वांचून उल्ला धृतराष्ट्र. ना जाल्यार म्हज्या हातान केन्ना मरपाचो. धर्मराजान वच म्हळ्ळें जाल्यार आतांच वचून धृतराष्ट्र, दुर्योधन, कर्ण, शकुनी सगळ्यांच्यो गोमट्यो मुड्डून येतलों आशिल्लों. हो धर्मराज कितेंच करूंक दिना. ताका ह्या पाड्या लोकांचो रागूय येना. कितें करचें, समजना.'

तो हुस्कार सोडूंक लागलो. रागान हात चोळपाक लागलो. मागीर उजो पेटचो

आनी तो आपशींच न्हिवचो तसो तोय आपशींच न्हिवलो. ताची नदर आवयचेर पडली. ती सुस्त न्हिदिल्ली. धर्मराज, अर्जुन, नकुल, सहदेव तेवूय मेल्ले वरी पडिल्ले, 'न्हिदूं दी बावड्यांक. खूब पुरो जालां तांकां.' अशें म्हणून तो तसोच तांच्या म्हऱ्यांत बसून रावलो.

ह्या रानांत हिडींब नांवाचो एकलो राक्षस रावतालो. काळोकिट्ट भयांक्रूत, अक्राळ-विक्राळ. तो एका रुखार बशिल्लो. ताका मनशांचो वास आयलो. 'वास येता, वास येता' करीत ताणे चोंय वसल्यात नदर भोंवडायली. वडा मुळांत ताका पांडव दिश्टी पडले. तांकां पळोवन तो खुशालभरीत जालो. 'आयज खूब दिसांनी मनशा मास मेळ्ळें.' ताणे मनांत म्हळें.

ताची भयण हिडिंबा ताच्याच म्हऱ्यांत रावताली. तिका ताणे उलो मारून सांगलें, 'आका, मनीस आयल्यात रानांत. खूब दिसांनी मनशा मांस मेळटलें आमकां. जिबेक कशी लाळ सुटल्या पळे. वच बेगीन आनी मारून हाड तांकां.'

हिडिंबा उठून वडा मुळांत आयली. पुणून ती भिमाचें रूप पळोवन भुल्लुसली. 'घोव मेळचो जाल्यार असलो' तिणे मनांत म्हळें. 'लांब बावळ्यांचो, शिंवा सारक्या खांद्यांचो, शंखा सारक्या गळ्याचो, साळकां सारक्या दोळ्यांचो. हाका माल्लो जाल्यार भरून भरून एका दिसाची पोटा आधोड भरत. हो घोव म्हुण मेळचो. आयुष्यभर सुख भोगूंक मेळटलें.'

तिका जाय तेन्ना जाय तसलें रूप घेवंक येतालें. रोखडेंच तिणे एके सुंदर बायल-मनशेचें रूप घेतलें आनी गालांतल्या गालांत हांसत लजेत भिमा सरीं येवन तिणे विचाल्लें, 'कोण तुमी, हांगा कशीं पावलीं, रानांत फातराळ जमनीर घरा न्हिदिल्ले भाशेन सुस्त कशीं न्हिदल्यांत हीं हांगा सगळीं.' भिमान जाप दिली ना. तिचे कडेन तो पळेत रावलो. ती म्हणूंक लागली, 'ह्या रानांत हिडिंब नांवाचो एकलो राक्षस रावता, तागेली भायण हांव, हिडिंबा. हांव आयिल्लीं तुमकां मारून व्हरपाक. पुणून....पुणून....' तिणे लजभीड सोडून सांगलें, 'तुका पळोवन हांवें बेत बदल्लो. तूं म्हाका आपली बायल करून घेशीत जाल्यार, आयुष्यभर सेवा करीन हांव तुजी.'

अशें म्हणून ती भिमाक आपोवपाक लागली. खंयूय तरी एकांतांत वचुंया म्हुण ती ताचे कडेन मागूंक लागली.

तिका अंतराळांतल्यान उडूंक येतालें.

भिमान जाप दिली, 'हांकां सोडून कसो येतलों हांव.'

'तांकांय घेवन या आमी. हरशींय जाल्यार, हांगा रावप भंयाचें. म्हगेलो भाव

हिर्डींब केन्ना येत. सांगू नज.'

भिमान निक्षून म्हळें, 'पुरो जावन न्हिदल्यांत तीं. तांची न्हीद मोडपाचों ना हांव. येवं दी तुज्या भावाक. पळोवंया कितें करता तो.'

हिर्डींब भयणिची वाट पळेत बशिल्लो. केदो वेळ जालो ती येच ना. हें पळोवन तो रुखा वयलो देंवलो. पांडवां म्हऱ्यांत आयलो. तागेलीं पावलां कानार पडना फुडें हिडिंबेन भिमाक म्हळें, 'हो पळे, तो आयलो, उठय बेगीन सगळ्यांक. या आमी अंतराळांतल्यान उडून आतांच्या आतां.'

भीम सरस्त बसून रावलो. म्हणूंक लागलो, 'येवं दी ताका. ताकाच न्हय, सगळ्या राक्षसांक येवं दी. हांव भियेना. राक्षस, गंधर्व कोणाक भियेना हांव.'

त्याच खिणाक हिर्डींब थंय पावलो. आपुण राक्षसांक, गंधर्वांक कोणाक भियेना हीं भिमाची उतरां ताणे आयकलीं. दांत-ओंठ चाबून ताणे भयणी कडेन पळेलें. तिचें सुंदर रूप पळोवन म्हणूंक लागलो, 'अशें सांग, हाचेर भाळ्ळ्या तर तूं. चांडाळणी, तुवें नाक कातल्लें राक्षस-कुळाचें. लज केली आमकां सगळ्यांक. आतां दाखयतां तुका. हांचे बरोबर तुकाय मारून खातां.' अशें म्हणून तो पांडवांक मारपाक धांवलो.

भिमान ताका आडावन विचाल्लें, 'न्हिदिल्ल्यांक मारप होच मू तुजो पराक्रम. शी: तुजे अकलेक. हांव हांगा जागो आसां. पयलीं म्हाका मार.' आनी हिडिंबेक पळोवन म्हणूंक लागलो, 'हिका कित्याक दुशण दिता. ती म्हजेर भाळ्ळी जाल्यार गुन्याव तिच्या जुवानपणाचो. हांव हांगा आसतना तिचे ल्हंवेक लेगीत हात लावंक मेळचो ना तुका.....'

'अब्बा ! येदी मस्ती तुजी ?' राक्षस किंवाट्यान भिमाच्या आंगार धांवलो. भिमाक धरपा खातीर ताणे हात फुडें काडिल्लो. तो भिमान मर्दीच धल्लो आनी मोट्यान पिळ्ळो. राक्षस हात सोडोवपाचो यत्न करता सर भिमान ताका फरफरीत ओडून बत्तीस हात पयस व्हेलो. तांगेले हे ओडा-ओडींत कांय रूख हुमटून पडले आनी त्या आवाजान कुन्तीक आनी पांडवांक जाग आयली. दोळे उकते करून पळे जाल्यार, मुखार हिडिंबा! तिगेलें अपरूप रूप पळोवन कुन्ती चकासूर जाली. 'कोण बाये तूं. अप्सरा, वनदेवता, कोण तूं,' कुन्तीन तिका विचाल्लें.

'हांव हिर्डींब राक्षसाची भयण , हिडिंबा.' अशें म्हणून तिणे बोटान भिमाचे आनी हिडिंबाचे लडाये कडेन कुन्तिची नदर ओडली. चौगूय भाव खिणाचोय कळाव लायनासतना भिमाच्या आधाराक धांवले. पुणून, त्या आदींच भिमान राक्षसाक उबाल्लो, गरगर करून घुंवडायलो आनी जमनीर आपटून माल्लो. एक

मोट्टी किळांच मारून राक्षस मेलो.

'आतां या आमी हांगासल्ले', भिमान भावांक म्हळें आनी रान सोडून ते वचपाक लागले. हिडिंबाय तांच्या वांगडा चलपाक लागली. भीम तिचेर नाणशेलो. तूं कित्याक येता आमच्या वांगडा? सूड घेवपाक काय किर्तें?'

युधिष्ठिराक वायट दिसलें. ताणे भिमाक म्हळें, 'जी आपणालें काळीज दिता तिका केन्ना फाफुडची न्हय. ती तुज्या मोगांत पडल्या. मोगान पडिल्ल्याक पयस करचें न्हय.' आनी तिका सांगलें, ' हाका दिसाची घेवन वच तूं तुका जाय थंय, तीनसांज जातकूच मात परतो हाडून पाय.'

कुन्तिचीय तिका मान्यताय मेळ्ळी तेन्ना भिमान हिडिंबेक म्हळें, 'तुका भुरगें जाय सर तुवें म्हजे सरीं गवपाचें. उपरांत तूं मेकळी. हांव मेकळों.'

भिमा परसून हिडिंबेक एक पुत जालो. ताका नांव दवल्लें घटोत्कच. घटोत्कच म्हळ्यार केंस नाशिल्लो. ताजे तकलेर केंस नाशिल्ले.

कुन्तिचो पयलोच नातु हो. भिमा वरीच बळिश्ट, कर्तुत्वी आनी अस्त्रविद्येंत निपुण जाल्लो.

## २४. बकासूर

पांडव एकासारके चलत राविल्ले. एका रानांतल्यान दुसऱ्या रानांत अशें करीत करीत मत्स्य, त्रिगर्त, पांचाळ, कीचक, कितले-शेच देस तांणी फाटीं घाले. तांचीं खाडां वाडलीं. मिशयो आनी जटा वाडल्यो. तपस्वी कशे ते दिसपाक लागले. तांणी भेस बदल्लो. ते वल्कलां न्हेसूंक लागले. हे भाशेन चलत चलत एक दीस ते एकचक्रा-नगरी लागसारच्या एका अरण्यांत पावले.

थंय अकस्मात तांकां व्यास दिश्टी पडलो. रूप भेस सगळें बदल्लेलें आसतनाय व्यास तांकां वळखलो. म्हणूंक लागलो, 'तुमकांच सोदतालों. तुमचेर कोसळ्ळेल्या संकश्टाची खबर कळ्ळी. घडटा तें बऱ्या खातीर घडटा हें विसरूं नाकात आनी जें कितें नशिबांत आयलां ते खातीर खंती जावं नाकात. तुर्त पयस खंय वचपाची गरज ना. हांगा लागसार एक नगरी आसा, एकचक्रा नांवाची. थंय वचून रावात. कांय दिसांनी हांव तुमकां थंय परतो येवन मेळटां. ते मेरेन थंयच रावात.'

व्यासाची नदर कुन्तिचेर पडली. तिचें तोंड बाविल्लें. तिका धीर दिवन ताणें म्हळें, 'तुगेले हे पांचूय पुत अख्खे धर्तरेचे राजा जावपाचे आसात, लक्षांत दवर. राजसूय अश्वमेध बी करून ते आपल्या सुखांत सगळ्यांक वांटेकारी करून घेवपाचे

आसात. तूं हुस्को करूं नाका....मात्सो धीर धर.....'

व्यासान तांकां एकचक्रा नगरींतल्या एका भटागेर व्हरून दवले.

तांगेलो सभाव तांकां घरांत रावंक दिनाशिल्लो. तांणी सद्दां सकाळीं उठून भायर सरचें. गांवांत भोवन भिक्षा मागून हाडची. ती हाडून कुन्ती कडेन दिवची आनी उरिल्ल्या वेळांत केन्ना हो दोंगर चड, केन्ना तो चड, केन्ना ही न्हंय पळे, केन्ना ती पळे, अशें करचें.

हे भाशेन ते भोंवतणचीं वेगळीं वेगळीं थळां भोंवन पळोवपाक लागले.

भिक्षा वांटपाची कुन्तिची एक तरा आशिल्ली. ती अर्दो वाटो भिमाक दिताली. ताची भूक सगळ्यां परस चड. उरिल्ल्या अर्दाचे पांच वांटो करून चौगां भावांक चार आनी आपणाक एक, हे भाशेन वांट्टाली.

एक दीस भीम कुन्तिच्या सांगाताक घरा राविल्लो. बाकिचे चौगूय भिक्षा मागूक गेल्ले. तांगेली एक चाल आशिल्ली. भिक्षेक वतना एकलो कुन्ती सरीं रावतालो. त्या दिसा भीम राविल्लो. अवचित ताच्या कानार बोबो पडल्यो. वणटी पेले कडेन भटागेर कोण मेल्लें वरी सगळीं मोट्या मोट्यान रडटालीं. तें रडें आयकून कुन्तिचें काळीज कळवळून आयलें. तिणे भिमाक म्हळें, 'कसलें अरिश्ट आयला बावड्यांचेर, देव जाणा. हांगेले खूब उपकार जाल्यात आमचेर. हांणी आलाशिरो दिल्ल्यान आमी रावंक पावल्यांत हांगां थंड बरीं. आमकां आमच्या दुख्खाचो लेगीत विसर पडला. इतलीं बरीं सुसंगीत रावल्यांत आमी हांगा. उपकार खंय सदांच स्मरूंक जाय मनशान.'

'तांचेर कसलें संकश्ट कोसळ्ळां तें मात्शें पळोवन यो. उपरांत उपाय सोदून कांडू येत.' भिमान तिका म्हळें.

कुन्ती रोखडीच उठून ते वाटेन गेली. भायर हुमऱ्यार रावन पळोवपाक लागली. जाल्यार आवय-बापुय, धुव-पुत चौगांय खोळशांनी रडटात. भट म्हणटा, पाड पडूं आशिल्लें आमच्या जिविताचें. सुख म्हणटात तें केन्ना दाखयलेंच ना ताणे. सुखा फाटल्यान वच, दुख्ख फाट धरता. आयुष्य भर दुख्ख, दुख्ख आनी दुख्ख सोडून दुसरें कितें पळेलां आमी. दुड्डु ना म्हुण दुख्ख. तो जोडूंक गेलों जाल्यारूय दुख्ख. जोडलो तरूय दुख्ख, होगडावलो तर चड दुख्ख. कितें करचें, समजना.....'

बायलेक पळोवन तो म्हणटा, 'तुका सांगिल्लें हांवें, दुसरे कडेन खंयूय वचून रावंया म्हुण. तुवें मनार घेतलें ना. हांगाच म्हजो जल्म, हांगाच हांव वाडल्यां, हांगाच रावपाचें, म्हणपाक लागली. तुज्या ह्या हट्टाक लागून हो प्रसंग आयलो आयज आमचेर. कितें करूं आतां हांव? तुका दिवं व्हय वचूंक. तूं लक्ष्मी घरची

म्हज्या. सुख-दखाची वांटेकारीण. पुत तर सद्‌गती दिवपी आमकां. ताका कसो धाडूं. आनी धुव ? म्हजो हक ना तिचेर. दुसऱ्या घराची थेव ती. बापायक खंय सदां पुताची ओड, कांय जाण म्हणटात धुवेची चड. म्हाका दोगांयची. दोगांय सारकीं म्हाका. तुमकां कोणाक वचूंक दिवपाचों ना हांव. हांव वतां. पुणून हांव गेलों. जाल्यार तुमचें कशें जातलें फाटल्यान. पाड पडूं आशिल्लें ह्या जिविताचें. तो हे भाशेन फणफणटालो.

ताचो फणफण आयकून बायल म्हणूक लागली, 'कित्याक बेश्टे त्रास करून घेतात तुमी जिवाक. तुमी गेले जाल्यार भुरग्यांक ल्हानाचीं व्हड कोण करतलो. चलयेक बरें थळ कोण सोदून दितलो. बरें, तुमच्या फाटल्यान म्हजेर कोणाचीच वांकडी नदर पडची ना म्हुण सांगूं येता व्हय. तेन्ना जीव दिवचो प्रसंग येवचो ना व्हय म्हजेर. ते परस आतांच गेल्लें बरें.'

मागीर म्हणूंक लागली, 'बायलांचेर हात उबारूंक जायना म्हणपाचो एक नेम आसा. राक्षसाक ह्या नेमाचो उगडास जालो· जाल्यार घडये तो म्हाका सोडून दीत. तेन्ना, हांवूच वतां.'

धुव म्हणूंक लागली, 'केन्नाय जाल्यार तुमी म्हाका कोणाकूय तरी दिवपाचींय आशिल्लीं. आयजूच दिली अशें धरून चलात. हांवूच वतां.'

धुवेचीं उतरां आयकून आवय बापुय मोठ्या मोठ्यान रडपाक लागलीं. पुत धाकलो. लुडबें उलोवपी. तीं रडटात तें पळोवन ताका कळवळून आयलें. तो लुडब्यांनीच सगळ्यांक सांगपाक लागलो, 'लोलूं नाकात तुमी. हांव वतां आनी लाक्सेसाक मालून उलयतां.'

कुन्ती हें सगळें हुमऱ्या भायर रावन आयकताली. भितर वचून तिणे विचाल्लें : 'जालां तरी कितें. रडटात कित्याक तुमी.'

'कपळाक आमच्या', भटान तिका जाप दिली. 'हांगा एकलो राक्षस आसा, बक नांवाचो. धनी ह्या वाटाराचो तो. ताका दिसाक तीस मण शीत, दोन रेडे आनी एक मनीस लागता. एका-एका घरान एक-एक दीस ताका हें सगळें दिवचें हो नेम हांगासल्लो. आयज आमची पाळी. ती आमी चुकयली जाल्यार सगळ्यांक येवन खातलो. आमगेलो राजा दुबळो आनी निर्बुद्द. असल्यांच्या राज्यांत रावतकूच आनीक कितें जावपाचें.'

'इतलेंच मू', कुन्तीन हुस्कार सोडून म्हळें. 'मागीर, हुसक्याचें कारण ना. म्हजे कडेन उपाय आसा हाचेर. म्हाका पांच पुत. एकल्याक सांगतां, शीत रेडो बी सगळें घेवन वच म्हुण. एकलो धरुंया गेलो. जाल्यार, चार पुत उरतात म्हाका.

तुमी कोण वचूं नाकात. हीं भुरगीं ल्हान. तांची आवय गेली, जाल्यार ब्रावडीं आवय विणें उरतलीं. बापुय गेलो जाल्यार उबंत पडटलीं.'

भट उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो, 'कितें उलयता गे तूं हें. सोयऱ्यांक धाडून दिवं हांव, आमचो जीव वाटावपा खातीर. इतली उणाक करणी उणाक लेगीत करिनात. केन्नाच जावचें ना हें.'

'म्हाका कळटा हें सगळें' कुन्तीन ताका जाप दिली, 'म्हाका म्हजे पुत नाका जावंक नात. पांचां बदला शंबर आशिल्ले जाल्यारूय चड दिसचे नाशिल्ले. पुणून, म्हजो एकलो पुत मंत्रविद्या जाणा. ताणे हाचे पयलीं व्हडल्या व्हडल्या राक्षसांक मंत्रविद्येन मारून उडयल्यात. ह्याय राक्षसाक घडये मारीत तो. मारूंक पावलो जाल्यार तुमी सगळीं सुट्टलीं.'

आनी तिणे ल्हवूच म्हळें, 'एक मात मतींत धरपाचें. तो मंत्रविद्या जाणा म्हुण कोणाक कळूंक जायना. कळत जाल्यार लोक येतले. आपणाक मंत्र शिकय म्हणटले आनी तुमी जाणात : गुरुचे आज्ञे बगर मंत्र दुसऱ्याक दिनात.'

भटाक सूऽ जालें. कुन्तीन ही खबर भिमाक सांगली. भिमान म्हळें, 'आंवंय, इतलेंच मू. भियेवं नाका तूं. हांव पळेतां ताका.'

जिस्त ह्याच खिणाक भायर सरिल्ले चौगूय भाव घरा परतले. ते भिक्षा घेवन परतल्ले. युधिष्ठिराच्या कानार भिमाचीं उतरां पडलीं. 'हो कसलेंय तरी धाडस करूंक मुखार सल्ला आयज' ताणे मनांत म्हळें. ताणे आवयक विचाल्लें, 'खंय धाडटा ताका आयज'.

तिणे बकासुराची खबर सांगली. युधिष्ठिर म्हणूंक लागलो, 'बकासुराक मारपाक भिमाक धाडूंक मुखार सल्ल्या तूं? भीम आमचे मजगतीं आसा म्हुण आमी हुसक्या मेकळे जियेतात. होगडावल्लें राज्य ताच्या आधारान परतें जोडूंक आंवडेतात. ताच्याच आधारार सगळें चल्लां आमचें. आनी तूं ताका बकासुराक मारूंक वच म्हणटा! त्रासांक आनी दुख्खांक लागून तुजी बुद्द व्हांवन गेल्या काय कितें गे.'

'तूं कित्याक भियेता?' कुन्तीन ताका जाप दिली. 'भिमाचीं कर्तुत्वां हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेल्यांत. येद्या व्हडल्या हिडिंब्र राक्षसाक ताणे कसो माल्लो तो तुवें पळोवंक नाशिल्लो व्हय. वारणावतांतल्यान ताणे आमकां कशीं सोडयलीं, तुका खबर आसा. ताच्यांत धा हजार हतयांचें बळ आसा. येदो-सो आशिल्लो तेन्ना म्हजे मांडये वेलो तो एके फातरीर पडिल्लो. तेन्ना फातरिचो पिठो जाल्लो. भिमाचो म्हाका मात लेगीत हुस्को ना. ह्या भटान आमचेर खूब उपकार केल्यात.

उपकारांक स्मरता तोच मनीस खरो. उपकार खंय सदा दुपेटीन फारीक करचे. बकासुराक भीम मारूंक पावलो जाल्यार भटाच्या उपकारांतल्यान आमी सुट्टलीं. भटूय सुखी जातलो, गांवूय त्रासांतलो मेकळो जातलो. म्हजे बुद्दीक कांय जावंक ना. थीर आसा ती सारकी.'

युधिष्ठिरान पळेलें, ही भिमाक धाडटली म्हळ्यार धाडटलीच. फाटीं सरपाची ना. देखून ताणे सांगलें, 'भटाक एकूच सांग, बोवाळ जावंक जायना म्हुण.'

कुन्तीन आर्दीच भटाक तशी शिटकावणी दिल्ली.

तीस मण शीत घेवन भीम गांवचे शिमेर गेलो. थंय वचून ताणे बकासुराक उलो माल्लो आनी बकासुर पावचे पयलीं हाडिल्लें शीत आपुणूच भकावंक लागलो. बकासूर आयलो. येवन पळे जाल्यार भीम शीत आपुणूच खाता. बकासुराक ताची भिरभिरी माल्ली. 'अब्बा! म्हाका हाडिल्लें शीत तूं खाता? दाखयतां तुका हांव.' अशें म्हणून दांत-ओंठ चाबून ता भिमाच्या आंगार धांवलो. बकासूर आकांताचो धिप्पाड. चलतालो तेन्ना ताच्या पावलांच्या आवाजान धर्तरी फुट्टा काय किते, असो भास जातालो. मान फाटल्यान करून भिमान ताका पळेलो. मात्सो हांसलो आनी परतो शीत भकावंक लागलो. बकासूर उसळ्ळो. 'तुका धाडटां हांव यमागेर' अशें म्हणून तो धांवत येवन भिमाचे फाटीर बसलो आनी फाटीर मुठी मारूंक लागलो. भीम शीत भकायत रावलो. राक्षस तिडकीन पेटलो. ताणे एक व्हडलो रूख हुमटावन हाडलो आनी तो भिमाचेर शेंवटिलो. तितले म्हणसर भिमान सगळें शीत खावन सोंपयल्लें. शेंवटिल्लो रूख हांसत हांसत ताणे दाव्या हातान झेलून घेतलो आनी तोच घेवन तो राक्षसाक मारूंक धांवलो. राक्षस दुसरो रूख घेवन आयलो. दोगूय एकामेकांचेर रूख शेंवटून मारपाक लागले. रुखान भीम आटापा येना—सो पळोवन राक्षसान ताका वेंग माल्ली. भिमान ताका वेंगेंत घट आंवुळ्ळो. राक्षस फडफडूंक लागलो. म्हणटासर भिमान ताका उमथो घालो. ताचे फाटीर तो धुमके मारूंक लागलो. अवचित भिमान आपलें धोंपर ताचे फाटीक लायलें. उजव्या हातान ताची गची अंदिली आनी दाव्या हातान ताचें कमर फाटल्यान बागयलें. राक्षस बोबो मारूंक लागलो. रगत ओकूंक लागलो. आनी खिणा भितर मेलो.

तो मरतकूच भिमान ताचें प्रेत हाडून गांवा भायर उडयलें. आनी आपुण उठून घरा आयलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं लोकांक बकासुराचें रगतबंबाळ जाल्लें प्रेत दिश्टी पडलें. खबर फां फां करून सगळे कडेन पातळ्ळी. प्रेत पळोवपाक हजारांनी लोक आयलो. सगळ्यांक बकासूर मेल्ल्याची खोस जाल्ली.

'कोणाची करणी काय ही', लोक एकामेकांक विचारपाक लागले. 'काल कोणाची पाळी आशिल्ली', तांणी वारसपूस केली. भटाची म्हूण कळ्ळें तेन्ना ते भटागेर गेले. भटान फट माल्ली, 'काल आमचेर आकांत आयिल्लो. आमी सगळीं रडटालीं. वाटे वयल्यान एक भट वतालो. तो आमचें रडें आयकून भितर सल्लो. ताका आमची काकूळट दिसली. ताका मंत्रविद्या येताली. ताणे म्हळें, आयज कोणाक धाडूं नाकात. हांव पळेतां ताका. अशें म्हणून ताणे हें काम आपल्या आंगार घेतलें. ताणेच माल्लो जावंक जाय ताका.'

लोक खुशालभरीत जालो. रस्त्यार नाचपाक लागलो. राक्षसाच्या काचांतल्यान सुटले म्हुण तांणी त्या दिसा एक मोटो उत्सव केलो.

उत्सव पळोवपाक पांडवूय गेल्ले.

## २५. द्रौपदी, धृष्टद्युम्न

पांडव भटागेर रावताले. ताचे सरीं बसून उपनिषदां वाचताले. व्यास तांकां येवन मेळपाचो आशिल्लो. ते मेरेन तांकां थंयच रावपाचें आशिल्लें.

एक दीस थंय आनीक एकलो भट पावलो. खूब कडेन भोंविल्लो. ताणे कितले-शे देस पळेल्ले. कितल्याश्याच राजांक तो वळखतालो. आनी रसाळ बऱ्यो खबरी सांगतालो.

द्रौपदेचें स्वयंवर थल्लां म्हणपाची खबर ताचेच कडल्यान पांडवांक कळ्ळी. स्वयंवर पळोवपाकूच तो पांचाळ देशाक वतालो.

द्रौपदी द्रुपद राजाली धुव. तिगेल्या आनी तिगेल्या भावाच्या धृष्टद्युम्नाच्या जल्माची कथा तांणी भटा कडल्यानूच पयली वयली आयकली, ती अशी—

द्रुपदाचें अर्दें राज्य द्रोणान जिखून घेतिल्लें. ताका लागून द्रुपदाक लज जाल्ली. ती ताका न्हिदूंक कशीच दिना जाली. द्रोणाचो सूड घेतलो अशी ताका इत्सा जावची आनी हे इत्सेन भौन भौन पेट घेवचो.

द्रुपदाक एक कळिल्लें. द्रोणा सारकें ब्राह्मतेज आपणात ना आनी निखट्या क्षात्रतेजान द्रोणाक जिखूंक येवपाचें ना. क्षात्र आनी ब्राह्म दोनूय तेजां आशिल्लो आपल्याक एक पुत जावचो अशें ताका दिसपाक लागलें. असल्या एका पुता खातीर तो आंवडेवंक लागलो. कर्मसिद्धी जोडिल्लो एकाद्रो ब्राह्मण मेळ्ळो जाल्यारूच असलो पुत ताका जावं येतालो. तसल्या ब्राह्मणाक सोदचो आनी ताचे

कडल्यान असलो पुत मागून घेवचो म्हुण तो ब्राह्मणांचीं घरां भोंवपाक लागलो. जायते कडेन भोंवन आयलो. अखेरेक भागीरथिचे तडीर ताका काश्यप गोत्रांतले याज आनी उपयाज नांवाचे दोग भाव मेळ्ळे. तांतल्या धाकल्या उपयाजा मुखार द्रुपदान आपलें काळीज उकतें केलें, 'द्रोणाक मारून म्हजें राज्य म्हाका परतें जोडून दिवपी एक पराक्रमी पुत म्हाका जाय. बदलाक तुका हांव धा कोटी गायो दितलों.'

'म्हजे कडल्यान जावपाचें ना तुगेलें हें काम. तूं आनीक कोणाकूय सोद उपयाजान ताका म्हळें.

तरी आसतना द्रुपद निर्शेनासतना रावलो. थंयच रावन ताणे उपयाजाची वर्सभर सेवा केली. एक दीस उपयाज विरगळ्ळो. ताणे द्रुपदाक म्हळें, 'म्हज्या व्हडल्या भावाक याजाक घेवन वच. भुरगेपणांत हांवें ताका उश्टायल्लें बोर खातना पेळेल्लो. तो तुजें काम करतलो.'

द्रुपद नीट उठून याजागेर गेलो. ताणे याजाक म्हळें, 'अपमानान पेटिल्लें म्हगेलें काळीज तूंच न्हिवोवंक पावतलो ही आस्त धरून आयलां. म्हाका ब्राह्म आनी क्षात्र दोनूय तेजांत द्रोणा परस व्हड एक पुत दी. गुरुचे, देवाचे वा राजाचे भेटेक खंय रिकाम्या हातान वचचें न्हय. म्हुण आयज हांव फकत अंयशीं हजार गायो घेवन तुजे भेटेक आयलां. म्हजें काम जालें म्हणटकूच दक्षिणा म्हुण तुका हांव धा कोटी गायो दितलों.'

याजान रोखडोच पुत्रफळ दिवपी यज्ञ सुरू केलो आनी द्रुपदाक ताची दीक्षा दिली.

यज्ञ सोंपलो त्या दिसा होमा द्रव्य घेवपाक ताणे द्रुपदाचे बायलेक आपयली. पुणून ती शुचिर्भुत नाशिल्ली. परिणाम : याजान होमा द्रव्य होमा उज्याक ओंपलें. त्या खिणाक होमांतल्यान दोन भुरगीं वयर सर्ली. एक चलो आनी एक चली. चल्याच्या जल्मा वेळार 'हो द्रोणाक मारतलो' म्हुण आकाशवाणी जाली. चली जाल्या त्या वेळार 'ही देवांचें काम करपाक जल्मा आयल्या' अशी आकाशवाणी जाली.

पुताक द्रुपदान धृष्टद्युम्न नांव दवर्लें. धृष्ट म्हळ्यार धीट, द्युम्न म्हळ्यार दुस्मानाक मारपी. धुवेक नांव दवर्लें कृष्णा. म्हळ्यार सांवळी.

पांडवांक ही कथा सांगून भटान म्हळें, 'कृष्णेक लागपी सुंदर चली संवसारांत दुसरी ना. आंगलोटान बरी, सुंदर. नाखा-दोळ्यान शिरवंत. जंयचे थंय आंगां आशिल्ली. सांवळी. द्रुपदाली धुव म्हुण तिका द्रौपदी म्हणटात. आनी द्रुपद पांचाळ

देशाचो राजा. पांचाळ देशाच्या राजाली धुव म्हुण तिका पांचाली म्हणटात.

द्रौपदेच्या स्वयंवराची खबर आयकून पांडवांचें मन उखल्लें. पांचाळ देशाक वचचें अशें तांकां दिसपाक लागलें. द्रौपदी सोडून तांकां दुसरें कितेंच येवजना जालें. कुन्तिच्या लक्षांत तें आयलें. तांणी सांगचे पयलीं तिणेच तांकां म्हळें : 'खूब दीस जाले आमकां हांगा रावन. सद्दां उठून तींच तींच तोंडां कितें पळेतलीं. उबगण आयली. पांचाळ देशाक गेल्लीं बरीं. एक सुंदर देश म्हुण ताची नामना आयकल्या हांवें.'

त्याच दिसा थंय व्यास पावलो. ताणेय तांकां द्रौपदेच्या स्वयंवराची खबर सांगून पांचाळ देशाक वचपाची सुचोवणी केली.

रोखडेच पांडव थंय वचपाक भायर सल्ले.

धृष्टद्युम्नाची कथा मुखार चलता ती अशी : द्रुपदाक एक पराक्रमी पुत जाला म्हणपाची खबर द्रोणाक कळटा. ताच्याच हातान आपणाक मर्ण येवपाचें आसा अशी आकाशवाणीय जाल्ल्याची खबर कळटा. तो द्रुपदागेर वेता आनी म्हणटा, 'तुका पुत जाला म्हुण आयकलां'

'हय', द्रुपद जाप दिता.

'ताका अस्त्रविद्या शिकोवंक व्हरतां हांव. म्हजे सुवादीन कर ताका,' द्रोण सांगता.

द्रुपद अनमन नासतना धृष्टद्युम्नाक द्रोणा सुवादीन करता. द्रोण ताका अस्त्रविद्या शिकयता. अर्जुना भाशेनूच ताका सगळ्या आंगांनी निपुण करता. शिकप सोंपता. उपरांत धृष्टद्युम्न द्रोणाच्या पांयार तकली दवरून विचारता, 'गुरुदक्षिणा कितें दिवं? आनी द्रोण ताचे फाटी वयल्यान अपुबयिन हात भोंवडावन म्हणटा, 'म्हजे परस खूब व्हड जा.' आनी मनांत पुटपुट्टा, 'गुरुदक्षिणा ? ती म्हाका मृत्युच्या रुपान मेळपाची आसा. म्हाका मारपी मनीस म्हजे परस उणे योग्यतायेचो आसूंक जायना. व्हड आसूंक जाय वा म्हजे येदो तरी आसूंक जाय. तूं म्हजे परस खूब खूब व्हड जा.

## २६. चाक्षुषी विद्या

जाणे इतले दीस आलाशिरो दिल्लो त्या भटाक पांडव सगळ्यांत पयलीं वचून मेळ्ळे. ताचो आशीर्वाद घेवन ते भायर सल्ले.

तांकां उत्तरे दिकेन वचपाचें आशिल्लें. वाट अटंग्या रानांतल्यान वताली. अर्जुन हातांत चूड घेवन मुखार चलतालो. चलत चलत ते गंगे तडी वयल्या सोमाश्रयायण नांवाच्या एका थळांत पावले.

तीनसांज जाली. चित्ररथ नांवाचो एकलो गंधर्व आपल्या बायलांक घेवन न्हंयेंत

ईविल्लो. बायलां वांगडा हांसपा-खेळपाचो ताचो वेळ हो. तागेल्या कानार पांडवांचीं पावलां पडलीं. तीं आयकून ताका तिडक माल्ली. 'ह्या वेळार आनीक कोण आयले हे' अशें म्हणून ताणे रागान धोणु उबाल्लें आनी तांकां विचाल्लें, 'सांजचो वेळ आमचो, यक्ष, गंधर्व, राक्षसांचो. दीस तुमकां मनशांक आनी रात आमकां, अशी वांटणी केल्या तुमगेल्याच म्हालगड्यांनी. तीनसांज जातकूच उदकाक लेगीत कोणें वचचें न्हय अशें म्हळां तांणी. आनी तुमी पर्वा नाशिल्ले भाशेन ह्या वेळार हांगा आयल्यात? केदें काळीज तुमचें! हांव हांगा दिश्टी पडना व्हय तुमकां. हांव राजा ह्या वाटाराचो. हें राज्य म्हजें. ही न्हंय म्हजी. म्हाका विचारी नासतना तुमी भितर कशे सल्ले.'

बायलां मुखार खंयच्च्याय बळिश्टाचीं कोणेय फकाणा माल्लीं म्हणटकूच ताका भिरभिरी मारताच. तशी गंधर्वाक पांडवांची मारिल्ली. आपल्या एकांतांत आडखळ हाडून तांणी आपलीं बायलां हुजीर फकाणा माल्लीं अशें ताका दिसलें आनी तो खुबलो.

ताच्यो बडायो आयकून अर्जुन हांसलो. म्हणूंक लागलो, 'समुद्राचेर, दोंगरांचेर आनी न्हंयांचेर कोणाचो हक ना. तांतूंत ही भागीरथी न्हंयांत म्हालगडी, सगळ्यांत पवित्र. तिचे तडीर कोणेय खंयच्च्याय वेळार येवचें. अशेंय सांगलां आमगेल्यां जाणटेल्यांनी. भागीरथिचे तडीर येतल्याक आडावपाचो हक कोणाक ना. आमी आमकां जाय तेन्ना हांगा येतले.'

'अब्बा! गंधर्वाच्या राजाक जापो दिता? येदें काळीज तुजें? धीर तरी कसो जालो रे तुका.' अशें म्हणून गंधर्व अर्जुनाचेर तीर सोडपाक लागलो. विखाळ सोरपां भाशेन तीर सूं सूं करून येवपाक लागले. अर्जुनान ते हातांतले चुडीनूच परतिले. आनी 'हाचो मद जिरोवचोच पडलो' अशें येवजून ताणे गंधर्वाचेर आग्नेयास्त्र सोडलें. त्याच खिणाक गंधर्वाचो रथ भक करून पेटलो आनी गंधर्व धुंवळून सकल पडलो. अर्जुनान ताका केंश्ट्यांक धरून उबाल्लो आनी फरफरीत ओडून युधिष्ठिरा मुखार हाडून उबो केलो. गंधर्वाची बायल धडेर उबी रावन पळेताली. घोवाक ओडून व्हेल्लो पळोवन ती भियेली. 'आ! मारता दिसता हो आतां हाका' अशें तिणे मनांत म्हळें आनी धांवत येवन तिणे युधिष्ठिराच्या पांयार घालून घेतलें. आनी 'कितेंय कर, मारूं मात नाका ताका. घोव म्हजो तो.' अशें म्हणून ती रडपाक लागली.

युधिष्ठिराक काकूळट दिसली. ताणे अर्जुनाक सांगलें, 'बायलेक धांवचें पडटा ताका सोडोवपा खातीर. काकूळट बावड्याची. असल्याक कितें मारतलो? सोड

ताका '

युधिष्ठिरान सोड म्हणना फुडें 'चल वच आतां' अशें म्हणून अर्जुनान ताका सोडलो.

गंधर्वाक लज जाली. ताणे म्हळें, 'लोक म्हाका अंगारपर्ण म्हणटाले. म्हळ्यार, इंगळ्यां सारको धगधगीत लेखताले. आतां कितें उल्लां म्हज्यांत. म्हजें नांव चित्ररथ. तें बदलून आतां म्हाका हांव दग्धरथ म्हणून घेतां.'

गंधर्वान मनांत म्हळें, कशेंय जावं, हाणे म्हाका नवो जल्म दिला. बदलाक कितें दिवं हाका? गंधर्वाक चाक्षुषी नांवाची एक विद्या येताली. धर्तरेर, स्वर्गार वा पाताळांत आशिल्ली कितलीय ल्हान वा कितलीय पयसली वस्त दोळ्यांक दाखोवपी. ती अर्जुनाक दिवची अशें ताका दिसलें. आनी ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'म्हजे कडेन एक विद्या आसा, जी मनून सोमाक, सोमान विश्वावसूक आनी विश्वावसून म्हाका दिल्ली. हे विद्येक लागून आमी गंधर्व देवांच्या पांवड्याचे जावंक पावल्यात. ती तूं म्हजे कडल्यान घे. म्हणटकूच तुका बारिकांतली बारीक वस्त मोटी जावन आनी पयसुल्यांतली पयसुल्ली वस्त लागीं येवन दिश्टी पडटली. त्या भायर तुका हांव मना वेगान धांवपी गंधर्व लोकांतले शंबर घोडे दितां.'

'हांव फुकट कितेंच घेवपी न्हय. कितेंय दिवन घेवपी.' अर्जुनान जाप दिली.

गंधर्व म्हणूंक लागलो, 'फुकट कशें तर, तुवें म्हाका म्हजो लाख मोलाचो जीव परतो दिला.'

'इतली सवाय वस्त म्हाका नाका' अर्जुनान म्हळें.

'तशें जाल्यार म्हाका तुजें आग्नेयास्त्र दी आनी चाक्षुषी विद्या तूं घे.'

अर्जुन हाका तयार जालो. दोगांयनी एकमेकांच्यो विद्या एकामेकांक शिकयल्यो. आनी दोगूय एकामेकांचे इश्ट जाले.

अर्जुनान म्हळें: घोडे तुर्त तुजेच कडेन दवर, मागीर केन्नाय गरज पडटाली तेन्ना येवन व्हरत्तां.'

चित्ररथ अर्जुनाक वळखल्लो. तो पांडू, द्रोण सगळ्यांक वळखतालो. ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'निखट्या क्षात्रतेजार पातयेवन रावचें न्हय. जाका राज्य करपाचें आसा आनी क्षत्रिय म्हुण जैत सादचें आसा ताणे एक पुरयत बाळगूंक जाय. बुदवंत, शीलवंत, सत्यवादी, बरी बुद्द दिता असलो.

'असलो आसा व्हय कोण तुज्या होलमांत' अर्जुनान ताका विचाल्लें.

'देवल मुनिचो धाकलो भाव धौम्य उत्कोचक नांवाच्या तिर्थार तप करता. ताका कर पुरयत' गंधर्वान सुचयलें.

पांडव मुखार गेले. वाटेर तांकां उत्कोचक तीर्थ लागलें. थंय ते धौम्याच्या आश्रमांत गेले. धौम्याक विचाल्लें. तो पुरयत जावंक तयार जालो तेन्ना पांडवांक खूब खोशी जाली. आपणाक बुद्दीन बळान व्हड अशें पांडव मेळ्ळे म्हणून धौम्याकूय खोशी जाली.

धौम्य पुरयत जावन तांच्या वांगडा आयलो तेन्ना आतां द्रौपदीय मेळपाक अडचण येवची ना आनी गेल्लें राज्यूय परतें मेळपाक कळाव लागपाचो ना अशें युधिष्ठिराक खोलायेन दिसपाक लागलें.

## २७. द्रौपदी स्वयंवर

पांडव चलत वताले. वाटेर तांकां कांय ब्राह्मण मेळ्ळे. तेवूय पांचळ देशाक वताले. स्वयंवराच्या निमतान थंय कितले-शेच दीस उत्सव चलपाचो आसा, द्रुपद खूब खर्च करपाचो आसा, असल्यो कितल्यो-श्योच गजाली तांचे कडल्यान पांडवांक कळ्ळ्यो.

गजाली करीत करीत ते पांचाळ देशाक पावले. थंय ब्राह्मणांच्याच भेसांत ते एका कुंभारागेर रावले.

द्रुपदाच्या मनांत अर्जुनाकूच द्रौपदी दिवपाची आशिल्ली. पुणून अर्जुन तुर्त खंय आसा हें तो नकळ आशिल्लो. वारणावतांत पांडव हुलपून मेले म्हणटात तें खरें न्हय, ही गजाल खंयच्यान तरी उडत उडत ताच्या कानार येवन आदळ्ळेली. पुणून खरेपण नाशिल्लें. देखून ताणें आपल्या मनांतलें कोणाक सांगूंक नाशिल्लें.

स्वयंवरा खातीर ताणे एक आकांताचें जड धोणु तयार करून घेतलें. सपसप कोणाक बागोवंक येना असलें. तितलेच जड तीर करून घेतले. स्वयंवराचे सुवातेर एक चाक बसयलें आनी पयलींच सगळ्यांक सांगून दवल्लें: 'चाका वयर एक नुस्ते हुमकळटलें आनी चाक एकासारकें गिरगिरत रावतलें. सकल एक तेला कायल आसतली. कायलींत नुस्त्याचें पडबींब पडिल्लें दिसतलें. नुस्त्याच्या त्या पडबिंबा कडेन पळोवन जो कोण चाकांतल्यान तीर सोडटलो आनी तुस्तें सकल उडयतलो ताकाच द्रौपदी माळ घालतली.

तो जाणा आशिल्लो, अर्जुन सोडून हें कोणाक जमपाचें ना. आनी तो हेंवूय जाणां आशिल्लो, अर्जुन खंयूय आसूं, हो पण आयकना फुडें तो स्वयंवराक आयले बगर रावपाचो ना.

द्रुपदान एक व्हडलो माटव बांदून घेतलो. चोंय वशीन फुलांचे हार, वचत थंय

धूप आनी उजवाती, जमनीर चंदनाचो शिताडो, हे भाशेन उदक करसो दुडु मोडून तो तरातरांनी सजयल्लो. असलो माटव केन्ना कोणे पळोवंक नाशिल्लो. चार कोसाचे वाटेर फुलांचो घमघम पातळ्ळेलो. आनी संगिताचे सूर तितलेच पयसल्यान कानार पडटाले. सुमार पंदरा दीस थंय नाच गाणी चलिल्लीं.

सोळाव्या दिसा स्वयंवर. माटवांत द्रौपदी आयली. पुण्याहवाचन जाल्या उपरांत तिगेलो भाव धृष्टद्युम्न तिका घेवन वेदीर आयलो. वाजप-गाजप बंद करूंक लायलें आनी धीर-गंभीर आवाजान ताणे थंय जमिल्ल्या सगळ्यांक सांगलें—

'हें धोणु, हे बाण, हें चाक, चाका वयर हें लक्ष्य, नुस्तें. सकल तेला कायल दवल्ल्या. कायलींत नुस्त्याचें पडबींब पडलां. ह्या पडबिंबा कडेन पळोवन जो कोण ह्या धोणवान चाकांतल्यान लक्ष्यभेद करतलो ताच्याच गळ्यांत द्रौपदी माळ घालतली.'

पण जिखपा खातीर कौरव आयिल्ले तशे गांधार मगध विराट कलिंग ताम्रलिप्ती मद्र काम्बोज उशीनर वृष्णी सिंधु बाल्हीक वत्स कोशल देशांचे राजकुंवर आयिल्ले. शौर्यान कुळान सत्येन संपत्तीन सगळे एका फुडले एक. धृष्टद्युम्नान एक एकल्याची वळख करून दिली तेन्ना जण एकलो हड्डें फुलोवन द्रौपदे कडेन पळोवपाक लागलो. चडशे राजकुंवर एकामेकांचे इश्ट. तरी आसतना आयज ते एकामेकां कडेन दुस्मान जाल्लेवरी पळेताले. सगळ्यांची नदर द्रौपदेचेर थिरावल्ली. दोळ्यांची पाती हालय नासतना ते तिका तेळटाले.

स्वयंवराक श्रीकृष्ण आनी बलरामूय आपापल्या पुतांक घेवन आयिल्ले. श्रीकृष्णान आसनार बसचे पयलीं सगळ्या राजकुंवरां वयल्यान एक नदर भोंवडायली. मागीर ताणे ब्राह्मणांच्या जम्यांत कोण कोण बसल्यात तें पळेलें. ताची नदर थंय बशिल्ल्या एकल्याचेर थिरावली. ताणे बलरामाक ल्हवूच खुणावन विचाल्लें, 'हो तो अर्जुन-सो दिसना तुका?' बलरामान मान हालोवन ताका जाप दिली, 'जावं येता.'

श्रीकृष्ण अर्जुना कडेन पळेत रावलो.

म्हणटासर एकएकलो उठून धोणवा कडेन वचपाक लागलो. धोणु जड. खूब जाणाक तें उबारूंक लेगीत आयलें ना. ते धोणवा सरीं गेले. ताका निखटो हात लावन 'नज' म्हणून परतले. कांय जाण 'अब्बा, कशें उबारूंक येना पळोवया' अशें म्हणून तें उबारपाक गेले आनी उबारपाचो यत्न करतां करतां घो करून पडले. दुर्योधन मार नेटान गेल्लो. तो घो करून पडलो. शल्य गेल्लो, तोय पडलो. गेल्लो मनीस एक तर पडटा वा नज म्हणून परतता हें पळोवन कर्ण उठलो. तडक

धोणवा सरीं गेलो आनी फटक करून ताणे धोणु उबाल्लें. म्हणटासर तें बागोवन ताणे ताचेर तीर चडयलो. पांडवांक लेगीत दिसलें, 'आ! हो आतां द्रौपदेक जिखता.' पुणून, तीर सोडूंक पावचे पयलीं तोवूय घो करून पडलो.

ही कथा आनीक एके तरेन सांगतात :

कर्णान धोणु फटक करून उबाल्लें. तें बागोवन ताचेर तीर चडयलो आनी आतां वयलें नुस्तें सकल उडयता म्हणपाक, द्रौपदेन मोट्यान आडून म्हळें, 'हांव खारव्याच्या (सूतपुत्राच्या) गळ्यांत माळ घालचीं ना.' कर्णाच्या कानार तिगेलीं हीं उतरां पडलीं आनी त्या बरोबर ताचें तोंड पडलें. ताणे एक हुस्कार सोडलो. वयर सुर्या कडेन पळेलें आनी 'हिका बुद्द शिकयना जायन जाल्यार हांवूच न्हय', अशें मनांत म्हणून ताणे धोणु जमनीर आपटिलें आनी मान सकल घालून तो आपल्या आसनार येवन बसलो.'

महाभारतांत हाका कांय आधार ना. ही उपरांन्त कोणे तरी 'भर' घाल्या. भांडारकर आवृत्तीन ही कथा प्रक्षिप्त लेखल्या.

उपरांत शिशुपाल, जरासंध, शैल्य मुखार सल्ले. मोट्यांतले मोटे झुजारी म्हुण तांगेली नामना. पुणून तांगेलीय गत्त बाकिच्यां सारकी जाली. धोणवाक हात घालिना फुडें तेय घो करून पडले.

इतल्यांत ब्राह्मणाच्या जम्यांत बशिल्लो अर्जुन उठलो, धोणवा म्हऱ्यांत वचून तो उबो रावलो. 'अब्बा! जे आमच्यांतल्या व्हडल्या व्हडल्या क्षत्रियांक जमलें ना तें ब्राह्मणाचो हो पोर करून दाखयतलो?' सगळे अजापान म्हणपाक लागले. आनी तेच आपणाक सांगपाक लागले, 'सांगूं येता? हाची चाल, गती बी पळेत जाल्यार हो बद्द इन्द्रा सारको दिसता. कान्त लेगीत ताका देवांची मारता. परत, आत्मविश्वासान गेला. ब्राह्मणांचें कांय सांगूं नज. परशुराम ब्राह्मण नाशिल्लो व्हय. अगस्ती कोण, ब्राह्मण न्हय?' लोक हे भाशेन किर्ते किर्ते फुतफुतताले.

हे वाटेन अर्जुनान धोणवा सरीं वचून ताचे भोंवतणी एक प्रदक्षणा घाली. म्हादेवाक नमस्कार केलो आनी मनांत कृष्णाचो उगडास करून ताणे धोणवाक हात घालो. कांय न्हय जाल्ले वरी ताणे ते उबाल्लें, बागयलें, ताचेर तीर चडयलो, निकतोच तो चाक्षुशी विद्या शिकून आयिल्लो. तिचो उपेग करून ताणे एका फाटल्यान एक पांच तीर सोडले आनी म्हणटासर नुस्तें सकल उडयलें.

लोकांनी आकांताचो बोवाळ केलो. कोण शिळोण्यो घालपाक लागले. कोण ताळयो मारपाक लागले. कोण उत्तरियां फडफडावपाक लागले. ब्राह्मण तर सगळे उचांबळीत जावन नाचपाक लागले. ह्या बोवाळांत द्रौपदेन सडसडीत येवन अर्जुनाच्या गळ्यांत माळ घाली.

हें पळोवन क्षत्रिय खुबले. म्हणपाक लागले, 'ब्राह्मणाक धुव दिवपाची आशिल्ली जाल्यार आमकां कित्याक आपयल्ले, लज करूंक? आमचो अपमान करूंक?

क्षत्रियांच्या स्वयंवरांत वांटो घेवपाचो ब्राह्मणांक हक ना. स्वयंवर क्षत्रियांचें......'

धृष्टद्युम्नान म्हळें, 'तशी अट नाशिल्ली.'

क्षत्रिय अदीक खुबले.'सगळें हाता भायर वता-शें दिसता', द्रुपदाक रोखडो दुबाव माल्लो. ताणे बेगोबेग सैन्य आपोवंक धाडलें. म्हणटासर कांय राजा द्रुग्दाच्या आंगार धांवन गेले. अर्जुनान वेळ होगडायलो ना. धोणु उबाल्लें आनी तो द्रुपदाच्या आंगार धांवन आयिल्ल्यांचेर तीर सोडपाक लागलो. अर्जुन द्रुपदाच्या आधाराक गेल्लो पळोवन कर्ण अर्जुनाच्या आंगार धांवन गेलो. म्हणटासर भीम अर्जुनाच्या आधाराक धांवलो. 'हो आनी खंयच्यान आयलो' अशें म्हणून शल्य भिमाच्या आंगार धांवलो. अर्जुनाचो तीर लागून कर्ण पडलो. भिमान शल्याक जमनीर आपटिलो. ते बरोबर बाकिचे राजा पळपाक लागले. भिमान खंयच्यान तरी एक रूख हुमटावन हाडलो आनी तो पळटल्यां भितल्या एक–एकल्याक बडयत रावलो.

ह्या बोवाळांत 'आमचो आनी कोणाक दुबाव येवं नाका' अशें येवजून युधिष्ठिर, नकुल आनी सहदेव ल्हवूच उठून माटवा भायर गेले. अर्जुनाचें आनी भिमाचें कर्तुत्व पळोवन कृष्णान बलरामाक म्हळें, 'हांवें सांगूंक नाशिल्लें तुका, हें पांडव म्हुण. वारणावतांत ते हुलपून मेले म्हणटात तें खरें न्हय. म्हाका कळिल्लें तें खरें थल्लें,' अशें म्हणून तो उठलो आनी सगळ्या राजांक ताणे उलो मारून सांगलें, 'ह्या ब्राह्मणान द्रौपदी न्यायान जिखल्या.'

आदींच सगळ्यांची दानाधिस्पट जाल्ली. तांकां कृष्णाचें म्हणणे मानून घेवपाक कळाव लागलो ना. 'खरें तुजें' अशें म्हणून तें मोन्यानी उठून वचपाक लागले. कर्ण जाल्यार 'हांव ब्राह्मणा आड झुजना' अशें म्हणून आदींच उठून गेल्लो.

सगळे ब्राह्मण खुशालभरीत जाल्ले. ते अर्जुना भोंवतणी एकठांय जाले. द्रौपदेक घेवन तांचे मदल्यान वाट काडटा सर अर्जुनाक नाका पुरो जालें. भीम फाटल्यान येतालो. युधिष्ठिर, नकुल आनी सहदेव तांची वाट पळेत दरवट्यार भायर उबे राविल्ले.

## २८. पांच घोवांची बायल

हे वाटेन कुन्ती पुतांची वाट पळेत बशिल्ली. केदो वेळ जाल्लो, ते येवंक नाशिल्ले. देखून ती हुसक्यांत पडिल्ली. कितें जालें काय देवा! तिका नाका नाका जाल्ले दुबाव येवपाक लागले. 'कौरवांनी मारून बी उडयले नात मू. तांचें कांय सांगू नज.'

इतल्यांत तिच्या कानार भिमाचो आवाज पडलो, 'बा, आयज पळे कसली भिक्षा हाडल्या ती'. भिमाचो आवाज आयकून कुन्तीक सू जालें. कसली भिक्षा, कितें कात कांय विचारी वा पळे नासतना तिणे सदचे भाशेनूच म्हळें : 'सगळे सारके वांटून घेयात आतां ती.' आनी ती भायर आयली. पळे जाल्यार, मुखार द्रौपदी. 'आरेरे ! कितें केलें हांवें ! अनर्थ जालो. सारकें पळेनासतना नाका जाल्लें उलयलीं.' अशें म्हणून द्रौपदेचो हात हातांत घेवन ती युधिष्ठिराक सांगूंक लागली, 'म्हाका चत्राय उल्ली ना. तोंडांतल्यान नाका जाल्लें भायर सल्लें. आतां कितें करचें, समजना. उतर तर फट थरूंक जायना आनी द्रौपदेक अधर्म लागूंक जायना. उपाय सोदून काड आतां.'

युधिष्ठिरान तिका धीर दिलो आनी अर्जुनाक म्हळें, 'तुवेंच हिका जिखून हाडल्या. तूंच जा लग्न तिचे कडेन आतां.'

'शी ! अशें केन्ना घडलां व्हय'. अर्जुनान म्हळें, 'तूं आमचो व्हडलो भाव. तुजें लग्न पयलीं. मागीर भिमाचें. उपरांत म्हजें.'

युधिष्ठिरान चौगांयच्या तोंडा कडेन पळेलें. चौगांयच्या मनांत द्रौपदी भरिल्ली. ही एकल्याचीच जाली जाल्यार भावां-भावां मजगतीं वितुश्ट येतलें, तांचे मदलो एकचार भंगतलो अशें येवजून ताणे निर्णय दिलो, 'द्रौपदी पांचूय भावाची बायल जातली.'

इतले म्हणसर कृष्ण आनी बलराम थंय पावले. कुन्तीक पांयां पडून कृष्णान म्हळें, 'हांव कृष्ण'.

कृष्णाक पळोवन सगळ्यांक बरें दिसलें. आयुष्यांत पयलेच फावट ते एकामेकांक मेळटाले. युधिष्ठिरान कृष्णाक विचाल्लें, 'आमी लिपून आसतना तुवें कशे सोदून काडले आमकां.'

कृष्ण हांसून म्हणूंक लागलो, 'उजो कितलोय लिपयलो म्हुण तो लिपून उरता व्हय. द्रौपदेक जिखपाचो पराक्रम अर्जुन सोडून आनी कोण करतलो आशिल्लो.' अशें म्हणून ताणे आपणाली खोस उकतावन दाखयली, तुमी लाखे-घरांतल्यान सुटून आयिल्ले पळोवन बरें दिसलें. धृतराष्ट्राच्या पुतांचे सगळे बेत मातये भरवण जाले. तुमकां आतां बरे दीस येवं. आनी तुर्त लिपुनूच राविल्ले बरे अशें सांगून तो उठून गेलो. चड वेळ बसलो जाल्यार कोणाकूय दुबाव येत म्हणपाचो ताका भंय आशिल्लो.

तीनसांज जाली. पांडव सांजवेळची भिक्षा एकठांय करून आयले, तेन्ना कुन्तीन द्रौपदेक सांगलें,'हे भिक्षेचे दोन वांटे कर. एक भिमाक दी. उरिल्ल्याचे स वांटे कर, चार चौगां भावांक, एक तुका आनी एक म्हाका, हे भाशेन वांटून दी.'

कुन्तीन त्याच दिसा घरचो कारभार द्रौपदे सुवादीन केलो.

रात जाली. सहदेवान हांतुर्णां घालीं. कुन्तिचें हांतुर्ण सदां उशा कडेन आसतालें. आयज आनीक एक हातुर्ण पायां कडेन पातळ्ळेलें, द्रौपदेचें.सगळे आड पडले. आड

पडिल्ले कडेन ते गजाली करूंक लागले.

द्रौपदेचो भाव धृष्टद्युम्न लिपचोरयांनी द्रौपदे फाटल्यान आयिल्लो आनी पांडव रावताले त्या घरांत लिपून राविल्लो. पांडवांनी भिक्षा कशी वांटून घेतली, हातुर्णां कशीं घाली, हें सगळें ताणे लिपून पळेलें. आड पडून पांडव गजाली करताले त्योय चोरून आयकल्यो. सदांच मोव गादयांचेर न्हिदपी द्रौपदेक आयज हांतरेर सुरस्त न्हिदिल्ली पळेली तेन्ना तो खुशाल भरीत जावन घरा परतलो.

## २९. वळख

द्रुपद उचांबळीत जाल्लो. धुवेक कोणे व्हेली काय देवा, नाका थंय वचून पडूंक ना मू, म्हजे तकलेर चिखलान भरिल्लो पांय कोणे दवरूंक ना मू, असल्या हुसक्यांत तागेलो जीव सकल वयर जावंक लागिल्लो. धुवेक जिखली तो ब्राह्मण काय ब्राह्मणाचो भेस घाल्लो क्षत्रिय आशिल्लो. काय, राक्षस बी ? ताका कितेंच समजूंक नाशिल्लें. तो धृष्टद्युम्नाची वाट पळेतालो. पुणून स्वयंवरांत जो बोवाळ जालो तांतूंत धृष्टद्युम्नूय जो उठून गेल्लो तो परतो घरा येवंक नाशिल्लो. कितें करचें, ह्या घुटमळ्यांत तो पडिल्लो आसतनाच धृष्टद्युम्न पावलो. ताचें खुशालभरीत तोंड पळोवन द्रुपदान विचाल्लें, 'सांग, कृष्णेक कोणे व्हेली. क्षत्रियूच मू तो, काय आनी कोण.'

धृष्टद्युम्नान पळेल्लें आनी आयकल्लें सगळें सांगले आनी म्हळें, 'ज्यो गजाली ते करताले तसल्यो क्षत्रिय सोडून आनी कोण करचे नात. क्षत्रियूच ते. पांच भाव, तांगेली आवय तांच्या वांगडा आयल्या. एक तेजिश्ट बायल-मनीस हांवें थंय पळेल्ली. ती कुन्ती आनी हे पांडव आसूंक जाय. पांडव मरूंक नात. अर्जुनाकूच धुव दिवपाचें तुज्या मनांत आशिल्लें न्हय. तुज्या मना सारकें जालां.'

हें आयकून द्रुपदाक खूब बरें दिसलें. तो खोश्शी जालो. रोखड्या रोखडो ताणे आपणाल्या पुरयताक तांगेर धाडून दिलो.

पुरयतान युधिष्ठिराक म्हळें, 'आपणाली धूव बऱ्या घरांत पाविल्ल्याची द्रुपदाक खोस भोगल्या. ब्राह्मणान राजकुंवरेक उबारून व्हेली' अशें दुशण दितल्यांक आतां लज जातली. त्या खातीर, तुमी कोण, तुमची जात खंयची हें सगळें जाणा जावन घेवपाची द्रुपदाक उमळशीक लागल्या. पांडु द्रुपदाचो इश्ट आशिल्लो. आपणाली धुव तागेली सून जावची अशें ताका दिसतालें. तशेंच घडिल्लें आसत तर द्रुपदाक भारी खोस भोगतली आनी दोनूय घराण्यांचें कल्याण जातलें.'

राजाचो पुरयत जाल्ल्यान धर्मराजान ताची आदरान बडदास्त दवरून सरबाराय

केली आनी म्हळें, 'पण जिखता ताच्याच गळ्यांत द्रौपदी माळ घालतली अशें राजान म्हळ्ळें. जातिची, कुळाची, गोत्राची, करसलीच अट नाशिल्ली. त्या प्रमाण म्हज्या भावान तिका जिखली. राजान आतां खंती कित्याक जावंक जाय. तरी आसतना राजाक सांग : एके तळयेंतलें साळीक अचळय दुसरे तळयेंत पावचें तशी तुगेली धुव एका व्हड कुटुंबांतल्यान दुसऱ्या व्हड कुटुंबांत पावल्या. स्वयंवराचो पण जाणे जिखलो तसलो पराक्रमी मनीस किरकोळ कुटुंबांत जल्मा येना. तेन्ना, खंती जावपाची गरज ना.'

म्हणटासर द्रुपदा घरच्यान आनी एकलो जेवणाचें आमंत्रण घेवन आयलो. पांडवांक व्हरपाक तो रथूय घेवन आयिल्लो. पांडव भायर सल्ले. पुरयताक तांणी मुखार धाडून दिलो. कुन्ती आनी द्रौपदी एका रथांत बसलीं, दुसऱ्या रथांत पांडव बसले.

ते खरेच क्षत्रिय काय कितें, हें पडठाळून पळोवपा खातीर द्रुपदान एक माण्णी केल्ली. राजवाड्यांत ताणे एक प्रदर्शन घडोवन हाडलें. ब्राह्मणांक जांची ओड असल्यो वस्ती एके कडेन, वैश्यांक आनी सुद्रांक जांची ओड तसल्यो वेगळे कडेन आनी क्षत्रियांचे ओडिच्यो तिसरे कडेन, हे भाशेन ताणे वस्तू मांडू दवल्ल्यो. थंय पावना फुडें पांडव आपशींच तरसादी, धोणवां, तीर, सुळे, रथ ह्यो वस्तू मांडून दवल्लेल्यो थंय गेले. त्यो ते बारकायेन पळोवपाक लागले. हें पळोवन ते क्षत्रियूच म्हणपाची द्रुपदाक खातरी जाली. तरी आसतना युधिष्ठिराक ताणे म्हळें, 'तुमी कोण तें म्हाका समजूंक ना. हें कुवाडें अजून सुटूंक ना. तें सुटले बगर जीव सूऽ जावचो ना.' तेन्ना युधिष्ठिरान 'आमी पांडवूच' म्हुण सांगून भावांची वळख करून दिली. मागीर, वारणावताक कितें घडलें, ते लाखे घरांतल्यान कशे भायर सल्ले, कशे कशे रावले, सगळें सांगून म्हळें, 'आतां जाणटो करसो तूं आमकां मेळ्ळा. तूंच आमचो आधार जाला.'

द्रुपदाचे दोळे भरून आयले. ताणे धृतराष्ट्राची आनी ताच्या पुतांची निर्भत्सना केली आनी म्हळें, 'तुमगेलें राज्य तुमकां परतें मेळोवन दिवपाक म्हज्यान जाता तितलें हांव करतलों.'

## ३०. लग्न

त्या दिसा म्हुर्त बरो आशिल्लो. अर्जुनाचें आनी द्रौपदेचें लग्न ह्याच म्हुर्तार करचें अशें द्रुपदाच्या मनांत आयलें.

युधिष्ठिराक ताणे अशें म्हळें. पुणून कुन्तिचे इत्सेन द्रौपदे कडेन पांचूय भावांनी लग्न करपाचें थारायलां अशें युधिष्ठिरान सांगतकूच द्रुपद खंती जालो. आनी आपुण हें धर्माक धरून सांगतां अशें म्हणटकूच बुचकळ्यांत पडलो. एका घोवाक कितल्योय बायलो

आसूं येतात. पुणून एके बायलेक एका परस चड घोव करशी आसूं येतात, हें ताच्या लक्षांत कशेंच वचना जालें. 'धर्मा आड, वेदां आड, चाली आड वता हें.' तो म्हणपाक लागलो.अशो कोणे जटिला गौतमीक सात घोव आशिल्ले, वार्क्षीक धा आशिल्ले म्हुण सांगलें तेन्ना ताणे जाप दिली. 'पुराणांतल्यो खबरी पुराणांतूच उरिल्ल्यो बऱ्यो. तुर्त ही चाल खंयच ना आनी हांव चाली भायर कितेंच करूंक तयार ना.'

बरोबर ह्या वेळार थंय व्यास पावलो. ताणे द्रुपदाक द्रौपदेच्या आदल्या ज़ल्माची खबर सांगली आनी म्हळें—

आदल्या जल्मांत द्रौपदी एका ऋषिगेर जल्माक आयिल्ली. रूप, गुण आसुनूय तिका घोव मेळूंक नाशिल्लो. तप करून तिणे म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतलो. म्हादेवान तिका जाय तें माग म्हुण सांगलें तेन्ना तिणे म्हाका बरो घोव दी, अशें पांच खेपो मागलें. आनी म्हादेवान तिका तथास्तु म्हणून फुडल्या जल्मांत तुका पांच घोव मेळटले अशें सांगिल्लें.

द्रुपदान म्हळें, 'म्हादेवानूच तशें म्हळां जाल्यार मागीर अधर्म जायना. प्रारब्धान बांदिल्ल्यो गांठी ह्यो' अशें म्हणून तो द्रौपदी पांचूय भावांक दिवपाक तयार जालो.

त्याच दिसा पयलीं युधिष्ठिरा कडेन तिगेलें लग्न जालें. मागीर एका-एका दिसाच्या अंतरान बाकिच्या भावां कडेन केलें. पांडवांचें पुरयतपण धौम्य मुनीन केल्लें. आनी लग्नाक खासा व्यास हाजीर राविल्लो.

द्रुपदान एक एकल्याक चार चार घोड्यांचे शंबर शंबर भांगरा रथ, शंबर शंबर हती, शंबर शंबर तरण्यो दासयो, भांगर, रत्नां, वस्त्रां, आयदना अशें जायतें दिवन केळवण केली. कृष्णानूय केळवणीक रथ, हती, घोडे, भांगर, रत्नां बी भरुभरुन दिलें.

लग्न जालें. द्रौपदी मांयक नमस्कार करूंक गेली. तेन्ना कुन्तीन तिका आशीर्वाद दिलो, 'इन्द्राची शची,अग्निची स्वाहा, नळाची दमयंती, चंद्राची रोहिणी, कुबेराची भद्रा, वसिष्टाची अरूंधती, नारायणाची लक्ष्मी तशी तूं हांची जा. वीर पुतांची आवय जा.'

जांवय म्हुण पांडव मेळिल्ल्यान द्रुपदाक आपणालें बळगें हजार वांट्यांनी वाडिल्लें वरी दिसलें. द्रोण खंयचो, देवांचो लेगीत आतां आपणाक भंय ना अशें ताका खोलांयेन दिसपाक लागलें. पांडवांचेंय बळगे आतां वाडिल्लें.

## ३१. परते हस्तिनापुराक

वारणावतांत पांडव हुलपून मेले म्हणटाले ती गजाल खरी न्हय, ते जिवे आसात; इतलेंच न्हय, तर ते द्रुपदागेर आसात, द्रौपदेक जिखपी ब्राह्मणाच्या भेसांतलो खासा अर्जुन

आशिल्लो आनी जो रूख घेवन लोकांक बडयत राविल्लो तो तागेलो भाव भीम, ही खबर स्वयंवराक आयिल्ल्या राजांच्या कानार पडली तेन्ना सगळ्यांक अजाप जालें. सगळे खोशी जाले. सगळे धृतराष्ट्राक गाळी घालूंक लागले. भिष्माकूय शीथू करपाक लागले आनी 'जावं, द्रौपदी बऱ्या घराक पडली' अशें म्हणून ते आपापणाल्या घरा परतले.

दुर्योधनाच्या कानार ही खबर पावली तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें. शकुनीक, कर्णाक दुःशासनाक जाल्यार मेल्ले वरी जालें.

पांडवांक ना करपाचे इतलेय यत्न करून लेगीत ते जिवे उल्ल्यात, जाल्यार दैवा मुखार मनशाच्या यत्नांक अर्थूच ना, अशें म्हणचें पडलें ना?' अशें दुःशासन निर्शेवन म्हणपाक लागलो. पांडव द्रुपदाचे सोयरे जाले, धृष्टद्युम्ना सारकेल्याचो तांकां आतां आधार मेळ्ळो म्हुण दुर्योधन तर सामको निर्शेलो.

येदीं-शीं तोंडां करून ते हस्तिनापुराक परतले.

विदुराक खबर कळ्ळी तेन्ना तो खुशालभरीत जावन धृतराष्ट्रा सरीं गेलो. धृतराष्ट्राक ही खबर ताणे दुर्योधना हुजीर सांगली. ताणे म्हळें, 'आयकलें तुवें, द्रौपदी आमची सून जाली.'

स्वयंवराक दुर्योधन गेल्लो हें धृतराष्ट्र जाणा आशिल्लो. देखून द्रौपदी आमची सून जाली म्हणपाचें आयकना फुडें दुर्योधनूच तिका जिखून घेवन आयला जातलो अशें ताका दिसलें आनी ताणे उचांबळीत जावन दुर्योधनाक म्हळें, 'खंय रे ती? तिका भांगरां शिंगरां दी आनी घेवन यो मरे हांगा.'

विदुरान रोखडेंच उकतें करून सांगलें, 'दुर्योधन घेवन येवंक ना तिका. तिका पांडवांनी जिखल्या. पांडव तुर्त द्रुपदागेर आसात.'

धृतराष्ट्राक भितल्ल्यान धसको बसलो. तो खिन्न जालो. पुणून, तोंडार कितेंच दाखय नासतना म्हणपाक लागलो, 'अशें? खूब बरें दिसलें आयकून. पांडवूय जाल्यार म्हजे. तांचे इतले गुणी हुशार शूर भुरगे पळोवंक नात हांवें. तांकां आतां द्रुपदा सारके बळिश्ट सोयरे मेळ्ळे. तांचें राज्य आतां तांकां परतें मेळटलें.'

'पांडवां विशिंची तुजी बुद्द सदां अशीच उरूं' इतलें म्हणून विदुर थंयचो उठून गेलो.

विदुर वतकूच दुर्योधनान बापायक म्हळें, 'विदुरा हुजीर उलोवपाचो धीर जालो ना म्हाका. आतां कर्ण सोडून कोण ना हांगा. म्हुण विचारतां : कितें येवजिलां तुवें. पांडव आमचे दुस्मान. तांची उदरगत आपली लेखून तूं तागेली तुस्त गायता, हाका कितें म्हणपाचे? करूंक जाय एक, करता वेगळें. आमी ना जावंक पावचे न्हय अशें तुका दिसता जायत जाल्यार तांकां कशें ना करचे हाच्यो तजविजो करूंक जाय.'

'तुज्या मनांत घोळटा तेंच पुता, म्हज्याय मनांत घोळटा', धृतराष्ट्रान ताका ल्हवूच जाप दिली आनी म्हळें, 'पुणून विदुराक तें कळूंक फावना. देखून ताचे हुजीर हांव

सदां पांडवांची तुस्त गायतां. हाचे वयल्यान तुमी कितेंच थारावंक फावना. कितें केल्यार बरें, तूंच सांग आतां म्हाका. कर्णा, तूंय सांग.'

दुर्योधन उपाय सुचोवंक लागलो, 'कांय ब्राह्मणांक पयशे-बियशे दिवन फोडुंया, आमचे करुंया आनी कुन्ती-माद्रिच्या पुतां मजगतीं धोशी लावंक लावंया. लावालावी लावन भावां भावांत वितुश्ट हाडुंया. ना जाल्यार, अशें करुंया : द्रुपदाक येन्नाच राज्यां-बिज्यां दिवन आमचो करून घेवंया पांडवांचो पंगड ताका सोडूंक लावंया.'

थोडो वेळ थांबून तो परतो म्हणपाक लागलो, 'सगळ्यांत पयलीं भिमाक मारून उडोवंया. भीम मेलो म्हणटकूच पांडव निस्तेज जातले. राज्य घेवपाच्यो खटपटी सोडून दितले. भीम फाटल्यान आशिल्ल्यान अर्जुनाक उडोवंक येना. ना जाल्यार, कर्णाचे चवथाये येदो लेगीत अर्जुन न्हय. ना जाल्यार अशें करुंया' तांकां हांगा घेवन येवंया. बऱ्यो बऱ्यो तरण्यो सुंदर चलयो तांचे सेवेक दवरुंया. ते चलयांच्या नादाक लागले म्हणटकूच द्रौपदी विट्टली.'ताणे बापायक म्हळें, असले जायते उपाय आसात. खंयचो बऱ्याक पडटलो हें तूंच येवजून थाराय. अजून पांडव सामके द्रुपदाचे जावंक नात. ते आनी द्रुपद एक जावचे पयलींच तांकां ना करूंक जाय.'

आनी कर्णा कडेन पळोवन ताणे विचाल्लें, 'कर्णा, तुका कितें दिसता.'

दुर्योधनान सुचयल्ले उपाय आयकून कर्ण खंती जालो. म्हणूंक लागलो, 'असल्यांनी कांय जावपाचें ना. थोडे केल्यात व्हय असले उपाय तुवें. तांकां कोणाचोच आधार नाशिल्लो त्यावेळार लेगीत तुका कांयच करूंक आयलें ना. आतां कांय बळिश्ट शक्ती तांच्या फाटल्यान उब्यो जाल्यात. तांच्या मुखार असले उपाय चलपाचे नात. तांचें नशीब बरें आसूंक जाय. ना जाल्यार सांग, तुवें इतलेंय करून तांगेलें इल्लेंय लुसकान कशें जावंक पावलें ना. लावालावींनी भावां भावांत वितुश्ट हाडूंक सोदता व्हय तूं. लक्षांत दवर : एकलेचेर मोग करपी एकाच विचाराचे आसतात. तांकां फोडप सोपें न्हय. बरें, द्रौपदेक फोडटलो म्हणशीत, फटवतलो. पांडव भिकारी आसतना तांचेर जी भाळ्ळी ती आतां तांकां सोडटली-शी दिसता व्हय तुका. एक मतींत धर : बायलांक सदांच एका परस अदीक दादले जाय आसतात. द्रौपदेक पांच मेळ्ळयात. ती पांडवांक केन्ना सोडपाची ना. द्रुपदाक तुजे वाटेन हाडप सोंपें न्हय. तो पयशांनी विकतो घेवंक येवपाचो राजा न्हय. तूं तुगेलें पुराय राज्य ताका दी, तो पांडवांक कसोच सोडपाचो ना. धृष्टद्युम्नाचो तर जीव पांडवांचेर. तात्पर्य : तूं सांगता त्या उपायांनी कांय जावपाचें ना. म्हज्या मतान करपा सारकी एकूच गजाल आसा. पाळांमुळां घट जावचे पयलींच रोप हुमटावन उडोवप. आयजूच पांडवांचेर घुरी घालुंया. तांकां हाणुया. तुर्त ते दुबळे आनी आमी बळिश्ट जाल्यात. ओगीच येवजूंक बसूं नाका. वेळ होगडायतलो. द्रुपदाचो तांकां आधार मेळचे पयलीं आनी कृष्ण तांच्या आधाराक पावचे पयलींच तांचेर घुरी घाल

द्रुपदाक चिड्डून उडय. पांडवांक बांदून हाड. पराक्रमा बगर आयजवेर कोणेच कितेंच जोडूंक ना.'

कर्णाचें म्हणणें आयकून धृतराष्ट्रान म्हळें, 'तुज्या सारकेल्या शुराकच सोबपा सारकें तूं उलयलो. पुणून, म्हाका दिसता, हे खेपे भीष्म द्रोण आनी विदुर हांची बुद्द घेवनूच उपाय केल्लो बरो.'

धृतराष्ट्रान भीष्म द्रोण आनी विदुराक आपोवंक धाडले.

भिष्मान सांगलें, 'म्हाका धृतराष्ट्र आनी पांडु दोगूय सारके. तशे तांगेले पुतूय सारके. पांडवां आड झुजपाचे बेत म्हाका रुचपाचे नात. तांगेलें राज्य तांकां मेळूंक जाय. तांगेल्याच जाणटेल्यांचें तें. दुर्योधना भाशेन तांगेलोय दोळो आसा राज्याचेर. न्यायान दुर्योधना आदीं तांगेलो हक. तांकां तांगेल्या जाणटेल्यांच्या दायजाचो वांटो मेळूंक जायना जाल्यार दुर्योधनाक तरी तो कित्याक मेळूंक जाय. तांगेलो वांटो तांकां दिवन उडयात. ना जाल्यार लोक तुमकां शी थू करतले. नांव होगडावंक जायना मनशान. नांव होगडायल्लो मनीस जितो आसुनूय मेल्ल्या सारको. पांडव जिते आसात हें नशीब समज. वारणावतांत ते हुलपून मेले म्हणपाचें कळत पसून म्हाका तोंड दाखोवपाची लेगीत लज दिसताली लोकांक. लोक तुमकां दुशण दिताले, पुरोचनाक न्हय. आतां तांकां वाजयत गाजयत हांगा घेवन येशात जाल्यार, लोक पुरोचनाक दुशण दितले. तुमी वाटावतले. पांडव जिते आसा सर खासा इन्द्राक लेगीत तांचें राज्य व्हरूंक येवपाचें ना. तुमी आयज तांकां धांवडावन घालशात. पुणून ते आपणालो हक सोडपाचे नात. तांगेलें राज्य तुमकां पचपाचें ना. ते कर्तुत्वी, धर्मान चलपी, एकामत्तान वावुरपी. न्यायान तांकां मेळूंक जाय तें तांकां मोन्यांनी दिवन उडयात.'

द्रोणानूय भिष्माच्या म्हणण्याक तेंको दिलो. तो म्हणूंक लागलो, 'अर्दें राज्य तांकां दिवन उडयल्लें बरें. न्यायाक आनी धर्माक धरून जातलें तें. आयजूच कोणाक पांचाल देशांत धाडून द्रुपदाक सांगात : 'नव्या नात्यान आमकां खूब खोस भोगल्या.' द्रुपद, धृष्टद्युम्न, कुन्ती सगळ्यांचो भौमान करात आनी तांकां वाजयत गाजयत घेवन येतात.'

दोगूय जाणटेल्यांची ही बुद्द आयकून कर्ण ताणशेलो. फणफणून म्हणूंक लागलो, 'आमी हांचो भौमान करतात. हांकां लिपोवन कितेंच दवरी नात आनी हे आमकां असली बुद्द दितात ! कितें म्हणचें हांकां ? असली कसली बुद्द ही.' दुर्योधनाक ताणे म्हळें, 'तुज्या नशिबांत राज्य आसत जाल्यार कोणूय कितेंय करूं, तुका राज्य मेळटलें. नशिबांत नासत जाल्यार कितलेंय कपल आपटी तूं, कांय मेळपाचें ना. आतां तूंच पळे, कोण तुका बऱ्याची बुद्द दिता ती. हे जाणटेले काय हांव.'

द्रोणाक कर्णाची तिडक माल्ली. तो सटक करून उसळ्ळो. म्हणूंक लागलो, 'तुका खंय खोरजता तें हांव जाणा रे ! पांडवांच्या दुस्वासान तूं कुड्डो जाला. तुका जाय तें

आमी करूंक दिनात म्हुण आमकां नांवां दवरना मरे. लक्षांत दवर : आमी सांगतात तांतूत सगळ्यांचे कल्याण आसा. आमी सांगतात ताच्या आड वशात जाल्यार कुरुकुळाचें घड्डाण जातलें. ओडून दवर ही फानरीर आडी.'

विदुर सगळें आयकतालो. तो उठलो. म्हणूंक लागलो, 'कोणाकूय कितेंय सांगचें जाल्यार ताच्या बऱ्याक पडत तेंच सांगचें. पुणून सांगता तें मनारूच घेवप ना अशें थारायलें आसत जाल्यार सांगप फुकट. भिष्मान सांगलां तें धृतराष्ट्राक मानूंक ना. आनी द्रोणाचें कर्णाक रुचूंक ना. भीष्म द्रोणा सारकेले शाणे, पिरायेन विद्येन आनी गिन्यानान जाणटेले बऱ्याचें तेंच सांगतात. कुरुकुळाचें बरें चिंतपी तांचे सारकेले दुसरे नात. ते सांगतात तेंच आयकात. दुर्योधन धृतराष्ट्राचो खरो. पुणून, पांडवूय तागेलें. ते परकी न्हय. पांडवांचें पाड पडचें म्हुण जो बुद्द दिता तो कुरुकुळाचें बरें मागपी न्हय. ताका 'कल्याण' कित्याक म्हणटात तेंच खबर ना म्हणूंक जाय'

ताणे धृतराष्ट्राक सांगलें, 'सन्मथान जें घडोवन हाडूं येता तें झुजान घडोवन हाडपाक जे भायर सरतात, ते कपल फुटके. पांडवांक झुजांत उडोवप कोणाकूच जमपाचें ना. तांतूंत आतां श्रीकृष्ण तांचे फाटल्यान उबो आसा. जंय श्रीकृष्ण थंयच सदां जैत. अर्द्या राज्याचेर पांडवांचो हक आसा. तो मान्य केल्लो बरो. पुरोचनाक लागून तुका जें दुशण लागिल्लें तें आतां पुसून उडय. पांडवांक हांगा हाडून तांचो वाटो ताकां दी आनी लागिल्लें खत पुसून उडय. पांडव जिते आसात म्हणपाचें आयकून हस्तिनापुर कितलें खुशालभरीत जालां, खबर आसा तुका ? तांकां पळोवपाची लोकांक कितली उमळशीक लागल्या जाणा मू. दुर्योधन कर्ण शकुनी तिगूय पाडे बुद्दिचे. केन्ना परसून तुका सांगतां हांव, तांगलें आयकूं नाका म्हुण.'

धृतराष्ट्र ओगी रावलो. थोड्या वेळान म्हणूंक लागलो, 'तुमी म्हणटात तें खरें. राज्याचेर पांडवांचोय हक्क आसा. मान्य म्हाका.'

आनी विदुराकूच ताणे पांचाळ देशांत वचून पांडवांक घेवन यो म्हुण सांगलें.

विदुर रोखडोच गेलो. वतना तरांतरांच्यो भेटी घेवन गेलो. नवे सोयरिकेन भीष्म द्रोण धृतराष्ट्र सगळ्यांक खोशी जाल्या म्हुण ताणे द्रुपदाक सांगलें आनी आपुण पांडवांक व्हरपाक आयलां म्हुण सुचयलें. श्रीकृष्ण थंयच आशिल्लो. ताणेय गेल्ले बरें म्हळें.

दुसऱ्या दिसा पांडव विदुरा वांगडा हस्तिनापुराक वचपाक भायर सल्ले. वारणावताक वतना तांचे वांगडा कुन्ती आशिल्ली. आतां तिचे भायर आनीक एकली आयिल्ली : तांगेली घराकान्न कृष्णा.

तांचे वांगडा श्रीकृष्णूय हस्तिनापुराक वचपाक भायर सरिल्लो.

# ३२. तिलोत्तमा

पांडवां वांगडा कृष्ण भायर सरिल्लो. तें पळोवन द्रुपद खुशालभरीत जालो. ताका हुस्को आशिल्लो तो ना जालो. पांडवांच्या हिताचो हुस्को युधिष्ठिरा परस कृष्णाक चड हें तो जाणा आशिल्लो.

पांडवांक येवकार दिवपाक धृतराष्ट्रान विकर्ण चित्रसेन द्रोण कृप सगळ्यांक वेशीर धाडून दिले. ताचे आदींच पुराय हस्तिनापुर येवकाराक गेल्लें. पांडवांक पळोवन लोक खुशालभरीत जालो. 'वनांत गेल्लो पांडूच आयिल्लो वरी दिसता' अशें लोकांनी युधिष्ठिराक म्हणुनूय दाखयलें. इतलेंच न्हय तर 'तूं आयिल्ल्यान आतां आमकां बरे दीस येतले, अशेंय ते म्हणपाक लागले. 'आमी आयजवेर जें पुण्य जोडलां तें सगळें तुज्या नांवार जमा कर आनी शंबर वरसां राज्य कर.' अशें तांणी युधिष्ठिराक सांगलें.

धृतराष्ट्रान पांडवांक रावपा खातीर एक नवें घर दिल्लें. पांडव त्या घरांत रावपाक गेले.

कांय दिसां उपरांत धृतराष्ट्रान तांकां आपोवंक धाडले आनी भिष्मा हुजीर तांकां सांगलें, 'तुमचे आमचे भितर धोशी नाकात म्हुण तुमकां आमी अर्दे राज्य दिवचें केलां. खांडवप्रस्थ तुमी घेयात आनी तें बरे भाशेन वसोवन थंय रावात. तुमकां थंय कोणाचोच बादिकार जावचो ना.'

पांडवांनी मानून घेतलें. ते रोखडेच उठून खांडवप्रस्थाक गेले. श्रीकृष्णा सांगातान ते थंय सगळे कडेन भोंवले. राजधानये खातीर तांणी एक सुवात वेंचून काडली. अरिश्टां परतून लावपाक शान्ती केली. शाराची आंखणी केली. आंखणी करपाक व्यासूय आयिल्लो. उपरांत ते कामाक लागले. थोड्याच दिसां भितर तांणी थंय एक सुंदर शार उबें केलें. रूंद सरळ समान्तर रस्त्यांचें, ल्हान व्हड घरांचें. तांतूंत मदीं तांगेलें राजमंदीर आशिल्लें. कुबेराच्या मंदिरा भाशेन तें सोबतालें.

तांणी बांयो, तळयो खणून घेतल्यो. तरांतरांची झाडां हाडून लायलीं आनी शाराक नांव दवल्लें : इन्द्रप्रस्थ.

पांडवांची राजधानी उबी जाली म्हणपाची खबर लोकांक कळ्ळी तेन्ना'हे वाटेनचे ते वाटेनचे ब्राह्मण थंय सगळ्यांत पयलीं येवन रावले.

फाटोफाट छयापन्न देशांच्यो भासो जाणा जाल्ले बुदवंत आनी पयस-पयसल्या देशां कडेन संबंद आशिल्ले व्हडले व्हडले व्यापारी आयले. कारागीर कलाकार शिल्पीक, सगळ्याच तरांच्या लोकांनी शार भल्लें. तें कित्याक, पयस-पयसलीं तरेकवार सुकणी शेवणीय येवन थंय रावलीं.

श्रीकृष्ण थंयच आशिल्लो. इन्द्रप्रस्थ उबें जातकूच आनी पांडव बरे भाशेन राज्य करूंक लागतकूच तो द्वारकेक गेलो. तो वतकूच एक दीस अकस्मात थंय नारद पावलो. ताका पळेना फुडें युधिष्ठिर बेगीबेगीन उठलो. बसपाक ताका आपलेंच आसन दिलें आनी भावांक उलो मारून आपयले. उलो आयकून द्रौपदीय भायर आयली. तांकां सगळ्यांक आशीर्वाद दिवंन जातकूच नारदान द्रौपदेक भितर वचूंक सांगलें आनी पांचूय भावांक म्हळें, 'ही सुंदर पांचाली पांचूय भावांची बायल. तिका लागून तुमच्यांत वितुष्ट येवंक फावना' आनी ह्या खातीर ताणे तांकां एक कथा सांगली—

हिरण्यकशिपु दैत्याच्या कुटुंबांत निकुंभ नांवाचो एकलो राजा जावन गेलो. ताका दोग पुत आशिल्ले. सुंद आनी उपसुंद नांवाचे. एकठांय उठप, एकठांय बसप, एकठांयच भोंवप हे भाशेचो दोगांयचो एकचार. सभावान आनी चाल-चलणुकेन दोगूय एक. दोन कुडी एक काळीज जाल्ले वरी.

त्रैलोक्य जिखून ताचे राजा जावपाची इत्सा तांच्या मनांत उदेली. म्हुण ते विंध्य पर्वतार तप करपाक गेले. तांगेलें तप पळोवन देव भियेले. तपांत विघ्नां हाडपा खातीर तांणी तरांतरांचे यत्न केले. केन्ना भुलोवपाक अप्सरा धाडल्यो तर केन्ना भेश्टावपाक तेरेकतरांचे देखाव उबे केले. तरूय ते हाल्ले नात. तेन्ना ब्रह्मदेव प्रसन्न जालो. दोगांयनी मागलें, 'आमकां शस्त्रां दी. जाय तेन्ना जाय तें रूप घेवपाची शक्त दी आनी आमकां अजरंवर कर.'

ब्रह्मदेवान म्हळें, 'तुमकां जाय तें सगळें दितां. फकत एक करिना. तुमकां अजरंवर करिना.'

तांणी म्हळें, 'बरें आसा. तशें जाल्यार आमकां आमी सोडून आनीक कोणाय पसून मरण येवचें ना अशें कर.'

ब्रह्मदेवान म्हळें, 'मरण आयल्यार तुमकां एकामेकां पसून येतलें, आनी कोणाच पसून येवचें ना.'

दोगूय खुशाल भरीत जावन घरा परतले. कांय वरसां खावप पियेवप मजा करप' ह्या नेमान जियेले.

तांणी तप केल्लें त्रैलोक्य जिखपा खातीर. ताचो उगडास जातकूच एक दीस ते सैन्य घेवन त्रैलोक्य जिखपाक भायर सल्ले. सगळ्यांत पयलीं स्वर्गार घुरी घाली. सगळ्यांची दानाधिस्पट करून उडयली. देव भियेवन पळ्ळे. उपरांत पाताळांत गेले. थंयच्या नागांक आनी म्लेच्छांक तांतयां-पिलां सयत ना करून उडयले, मागीर धर्तरेर आयले. ब्राह्मण क्षत्रिय ऋषी मुनी सगळ्यांक कातरून उडयले. तांगेलो हो अच्छेव पळोवन सूर्य चंद्र तारे लेगीत गर्भगळीत जाले.

अखेरेक सगळे ब्रह्मदेवा सरीं वचून विचारपाक लागले, 'हांणी पुराय त्रैलोक्य

उबंत उडयलें. आतां हांकां करप कितें.'

ब्रह्मदेवान विश्वकर्म्याक आपोवंक धाडलो. तो येतकूच ताका सांगलें, 'एक बायल-मनीस तयार करून दी, तिका पळेना फुडें देव लेगीत चळूंक जाय असली.'

ब्रह्मांडांत जें जें सुंदर आसा तांतली तिळा तिळा येदी सुंदरकाय घेवन विश्वकर्म्यान एक बायल-मनीस निर्मिली. तिका तिलोत्तमा नांव दिलें आनी तिका ब्रह्मदेवा मुखार हाडून उबी केली.

ब्रह्मदेवान तिका सुंद-उपसुंद भावांची खबर सांगून म्हळें, 'दोगांकूय तुजी ओड लाय, दोगूय एकामेकांच्या जिवार उठूंक जाय.'

'पावलें म्हजेर' अशें म्हणून तिलोत्तमा भायर सल्ली. वचचे पयलीं ब्रह्मदेवाक तिणे प्रदक्षणा घाली. ब्रह्मदेवाच्या उजव्या हाताक म्हादेव बशिल्लो आनी दाव्या हाताक इन्द्रा सयत बाकिचे देव. ब्रह्मदेवाक प्रदक्षणा घालून जातक्रूच ती म्हादेवाक घालूंक लागली. म्हादेवान इतली सुंदर बायल पळोवंक नाशिल्ली. ताची गत अशी जाली कि तिलोत्तमा उजवे वाटेन घुंवली तेन्ना ताका उजवे वाटेन एक नवें तोंड फुटलें. ती फाटल्यान घुंवली तेन्ना ताका फाटले वाटेन आनीक एक तोंड फुटलें. दाव्यान आयली तेन्ना दावे वाटेन एक फुटलें. म्हादेवाचीच गत्त अशी जाल्यार इन्द्राची कितें जातली. ताका फाटल्यान फुडल्यान सगळेच कडेन नवे दोळेच दोळे फुटले. तो हजार दोळ्यांचो जालो.

देवांची गत पळोवन ब्रह्मदेवान मनांत म्हळें, 'आतां सुंद उपसुंद मेलेच समज.'

दोगूय भावांक कोणाचोच भंय नाशिल्लो म्हुण दोगूय मदांध जाल्ले.. तशेंच करपा सारकें कितेंच उरूंक नाशिल्ले म्हुण आळशीय जाल्ले. खाताले, पियेताले, मजा मारताले. एक दीस ते विंध्य पर्वतार गेले. वांगडा कांय तरण्यो-धाकट्यो बायलो घेवन गेले. सोरो पिये पिये पियेले आनी धुंद जाले. बायलांचे नाच पळोवंक लागले. फुलां खुटपाचें निमित्त करून जिस्त ह्या वेळार तिलोत्तमा थंय पावली. तांबडें गुंज पातळ, तांबडी गुंज चोळी. तिगेलें आंगान आंग वस्त्रांतल्यान तट्टटून फुट्टालें. सुंद उपसुंद मुदलचेच मस्ते. तांतूंत सोरो पियेवन तर्र जाल्ले. तिलोत्तमेक पळेना फुडें दोगूय तिका ओडपाक लागले.

सुंद उपसुंदाक म्हणूंक लागलो, 'हांव तुजे परस व्हड. ही म्हजी बायल. तुका आवय समान.'

उपसुंदान जाप दिली, 'ही म्हजी बायल. तुका सुने समान.'

'तुजी म्हजी' करीत दोगूय तिका ओडपाक लागले. करतां करतां 'हांवें पयलीं म्हजी म्हळ्ळी', 'हांवें पयलीं म्हळ्ळी' करपाक लागले. म्हणटासर दोगूय एकामेकांचेर तिडकले. गदा घेवन एकामेकांचेर धांवन गेले. सगळें विसल्ले. एकामेकांचे तकलेर गदा मारून दोगूय रक्तबंबाळ जावन पडले आनी मेले.

ही कथा सांगून नारद पांडवांच्या तोंडां कडेन पळोवपाक लागलो. पांडव समजले.

तांणी नारदा हुजीरच एक नेम केलो : एकांतांत द्रौपदेच्या सांगातांत कोणूय एकलो आसतलो तेन्ना दुसरो भाव थंय वचचो ना. चुकून कोणूय पावलो जाल्यार तो बारा वरसांच्या वनवासाक वतलो आनी ब्रह्मचर्यान रावतलो.

नेम आयकून नारद खोशी जालो.

## ३३. अर्जुनाचो वनवास

कांय वरसां गेलीं. एक दीस एक ब्राह्मण राजमन्दिरांत गजाल मारीत आयलो. चोरांनी तागेल्यो गायो चोरून व्हेल्ल्यो. तागेल्यो हुएली-बोबो आयकून अर्जुन फटक करून उठलो आनी 'भियेवं नाका तूं' अशें म्हणून आपलीं आयुधां हाडपा खातीर भितर गेलो. भितर युधिष्ठिर आनी द्रौपदी एकांतांत आशिल्लीं. किते करतलो, एकान्त सोंप सर वाट पळेतलो? राजाक प्रजेची राखण करूंक येना अशें लोक म्हणटले आनी लोकांचो राजा वयलो भावार्थ उडटलो. भितर गेलो जाल्यार नारदा हुजीर घेतिल्लो सोपूत मोडटलो, वनवास भोगचो पडटलो.

अर्जुन खीण भर घुटमळ्यांत पडलो. दुसऱ्याच खिणाक ताणे निर्णय घेतलो, 'वनवास भोगचो पडल्यार पडूं, ब्राह्मणाक निर्शेवंक दिवचों ना,' अशें म्हणून तो भितर गेलो, आयुधां घेवन आयलो आनी चोरां फाटल्यान धांवलो. चोरांक धरून ताणे गायो सोडोवन हाडल्यो. त्यो ब्राह्मणा सुवादीन केल्यो आनी घरा परतलो.

घरा पावना फुडें ताणे धर्मराजा युधिष्ठिराक सांगलें, 'हांवें नेम मोडलो वा म्हणुंया, म्हाका मोडचो पडलो. आतां हांव वनवासाक चल्लों.'

युधिष्ठिराक वायट दिसलें. ताणे म्हळें, 'तुवें वनवासाक वचपाची गरज ना. व्हडल्या भावाच्या एकांतांत धाकल्यान गेल्यार जाता. धाकल्याच्या एकांतांत व्हडल्यान वचूंक फावना.'

अर्जुनान जाप दिली, 'नेम म्हळ्यार नेम. तुवेंच शिकयलां म्हाका हें.' आनी अशें म्हणून तो वनवासाक गेलो. वतना वांगडा तो कांय विद्वान ब्राह्मणांक घेवन गेलो. पयलीं तो हरिद्वाराक गेलो. थंय काय दीस रावलो. थंय साधु संन्याशांच्यो भेटी घे, तांचे कडेन शास्त्रांचेर भासाभास कर, वेद-उपनिषदां शीक, तांचो अर्थ समजून घे, हे भाशेन तागेले दीस वचूंक लागले.

एक दीस तो न्हावपाक गंगेंत देंविल्लो. अकस्मात ताचेर एके नागकन्येची नदर पडली. हे नागकन्येचें नांव उलूपी. अर्जुनालें राज-बिंडें रूप पळोवन उलूपी ताचेर भाळ्ळी आनी ती ताका नागलोकांत ओडून घेवन गेली.

अर्जुनान तिका म्हळें, 'तुर्त हांवें ब्रह्मचर्याचें व्रत घेतलां.'

उलूपी म्हणूंक लागली, 'हांव जाणा. पुणून तुजें हें व्रत द्रौपदे पुरतें. बारा वरसां मेरेन तिचे कडेन तुजो संबंद येवंक जायना. म्हजे कडेन आयलो म्हुण तुगेल्या व्रताक बादा येवपाची ना. हांव आंकवार, म्हाका खंयच्याच दादल्याचो हात अजून लागूंक ना.'

अर्जुन एक रात तिचे सरीं रावलो. दुसऱ्या दिसा तो हिमालयाचे यात्रेक उठून गेलो. अगस्त्य, वसिष्ट, तुंगनाथ, हिरण्यबिंदु बी थळां पळेत पळेत तो हिमालय देंवलो आनी अंग बंग कलिंगा मेरेन गेलो. कलिंगाक पावतकूच ताणे वांगडा हाडिल्ल्या ब्राह्मणांक परतिले आनी तो एकलोच मणिपुराक गेलो.

मणिपुराक चित्रवाहन राजा राज्य करतालो. ताका एकूच धुव चित्रांगदा. ती खुबूच सुंदर दिसताली. तिचेर अर्जुनाचें मन बसलें. तो बद्द राजासरीं गेलो. आपणाली वळख दिली आनी चित्रांगदे खातीर ताणे मागणी घाली.

चित्रवाहनान म्हळें, 'कुरु-कुळा कडेन संबंद येवप ही खोशयेचीच गजाल. पुणून म्हजी अडचण अशी : प्रभंजन नांवाचो आमगेलो एकलो पूर्वज जावन गेलो. ताका भुरगें नाशिल्लें. ताणे तप करून म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतिल्लो आनी म्हादेवान ताका सांगिल्लें, तुगेल्या वंशात दर एकले पिळगेंत एकूच भुरगें जातलें. तेन्ना सावन आमच्या वंशातल्या एक-एकल्यागेर सदां एक-एकूच भुरगें जायत आयलां. म्हगेर ही धुव जाल्या. तिकाच हांव पुता वरी लेखीत आयलां. तिगेर जें भुरगें जातलें तेंच म्हजे फाटल्यान मणिपुराचे गादयेर बसतलें. देखून तिका हांव मणिपुरा भायर वचूंक दिवपाचों ना. तुका हांगाच रावचें पडटलें.

अर्जुनान मान्य केलें. म्हणूंक लागलो, 'हांव चित्रांगदेकूय व्हरिना आनी तिगेल्या भुरग्याकूय व्हरिना.'

तो चित्रांगदे कडेन लग्न जालो आनी तीन वरसां मणिपुराकूच रावलो.

तीन वरसां उपरांत ताका मात्शें भोंवन येवचें-शें दिसलें. तो दक्षिण समुद्राचे तडी वयल्या थळांचे यात्रेक गेलो. थंयचीं पांच तिर्थां—अगस्त्य सौभद्र पौलोम कारंधम आनी भारद्वाज कांय काळा पसून लोकांनी सोडून दिल्लीं. कोणूच थंय वचनाशिल्लो. कित्याक, एका-एका तिर्थांत एक एक मानगें रावतालें. न्हावंक कोणूय देंवलो म्हणटकूच मानगें ताका ओडून व्हरतालें. ही खबर कळ्ळी तेन्ना अर्जुनान मनांत म्हळें, 'अब्बा ! पळोवया, तरी !' आनी तो पयलो सौभद्र तिर्थार गेलो. लोक म्हणटाले तशेंच जालें. तो उदकांत देंवना फुडें एकल्या मानग्यान तागेलो पांय धल्लो आनी तें ताका ओडून व्हरपाक लागलें.

आयज मेरेन मानगेंच सगळ्यांक ओडून व्हरतालें. हे खेपे अर्जुनान मानग्याक वयर ओडून हाडलें. मानगें वयर येना फुडें ताची एक सुंदर बायल-मनीस जाली.

'तूं कोण', अर्जुनान तिका विचाल्लें.

'हांव एक अप्सरा', तिणे जाप दिली. 'म्हजें नांव वर्गा. हांव, सौरमयी, समीची, बुदबुदा आनी लता अश्यो आमी पांच इश्टिणी. कांय वरसां पयलीं हांगा न्हावपाक आयिल्लीं. हांगा एकलो ब्राह्मण तपाक बशिल्लो. तागेल्या रुपाचेर आमीं भाळ्ळीं. तागेल्या तपांत विघ्न हाडपाक वावरूंक लागलीं. ब्राह्मणाक आमची तिडक माल्ली. ताणे आमकां श्रोप दिलो : तुमी पांचूय इश्टिणी मानगीं जावन पडटल्यो. आमी काकुळटेक येतकूच ताणे आमकां उःशाप दिलो : तुमी जांकां पांयांक धरून ओडून व्हरतलीं तांतलो कोणूय तुमकां वयर ओडून हाडीत जाल्यार, तुमकां तुमचें मुदल रूप मेळटलें. तेन्ना पसून आमी आयिल्ल्याक ओडून व्हरतालीं. ओडून वयर घेवन येवपी आयज तूंच पयलो मेळ्ळो.'

ती अर्जुनाक दुसऱ्या थळांनी घेवन गेली आनी ताच्या आधारान थंय मानगीं जावन पडिल्ल्या आपल्या चौगी इश्टिणींक वयर घेवन आयली. तांकांय तांगेलें मुदलचें रूप मेळ्ळें.

उपरांत अर्जुन मणिपुराक परतलो. मणिपुराक चित्रांगदा बाळंत जावन तिका पुत जाल्लो. आज्यान ताका बभ्रुवाहन नांव दवल्लेंलें.

चित्रांगदेक पुत जायसर आपुण मणिपुराक रावतलों अशें अर्जुनान थारायल्लें. पुत जाल्लो. म्हणटकूच आतां हांगा रावपाची गरज उरूंक नाशिल्ली. तो भायर सल्लो. भायर सरतना ताचें अंतस्कर्ण जड जालें. ताणे चित्रांगदेक म्हळें : 'खूब वायट दिसता तुका आनी बभ्रुवाहनाक हांगाच दवरून वतां म्हुण. पुण जावं, कांय काळान म्हगेलो व्हडलो भाव युधिष्ठिर राजसूय यज्ञ करतलो. त्या वेळार वेगळे-वेगळे कडले राजा भेटी घेवन इन्द्रप्रस्थाक येतले. तुजो बापुयूय येतलो. ताच्या वांगडा तूंय यो.'

आनी जड अंतस्कर्णान ताणे तिका वेंगेंत घेतली.

अर्जुन मणिपुरच्यान भायर सल्लो तो नीट अस्तम समुद्राचे तडी वयल्या अपरांत वाठारांतल्या गोकर्ण तिर्थार गेलो. थंयच्यान अस्तमे दिकेचीं पवित्र थळां पळेत पळेत प्रभासतिर्थार पावलो.

## ३४. सुभद्रा

प्रभास क्षेत्रार अर्जुन पावला म्हणपाची खबर द्वारकेंत कृष्णाच्या कानार पडली. ते बरोबर कृष्ण रोखडोच उठून प्रभास क्षेत्रार गेलो. दोगांयची नदरेक नदर लागना फुडें दोगांयनी एकामेकांक वेंगेंत घेतले. कित्याक लागून वनवासाक वचचें पडलें, हें कृष्ण नकळ आशिल्लो. अर्जुनान ताका तें सांगलें. नारदान घालून दिल्ल्या नेमाची खबरूय सांगली.

उपरांत कितें जालें, वनवासांत आपुण खंय खंय पावलों, कितें कितें पळेलें, तें सगळें सांगलें. कांय दीस प्रभास क्षेत्रार आनी कांय दीस रैवतक पर्वतार रावन एक दीस दोगूय द्वारकेक गेले.

अर्जुन अमक्या दिसा पावतलो म्हणपाची खबर कृष्णान थंय पयलींच सांगून धाडिल्ली. ते प्रमाण भोज अंधक वृष्णी बी कुळयेंतले सगळे यादव ताका पळोवपाक द्वारकेंत एकठांय जाले. तांणी अर्जुनाक बरो येवकार दिलो. येवकारांत घरांघरांतल्या बायलांनी लेगीत वांटो घेतिल्लो.

अर्जुनाचो राबितो कृष्णागेरूच आशिल्लो.

कांय दीस गेले. एक दीस कृष्णान ताका रैवतक पर्वतार व्हेलो. थंय एक उत्सव सुरू जाल्लो. तो कांय दीस चलपाचो आशिल्लो.अंधक, वृष्णी आपापणाल्या बायल भुरग्यां सयत थंय आयिल्ले. बलराम रोहिणीक घेवन आयिल्लो जाल्यार उग्रसेन हजार बायलांक घेवन आयिल्लो. प्रद्युम्न सांब अक्रूर सारण सात्यकी उद्धव सगळे आयिल्ले. सगळे हे वाटेन ते वाटेन दीस भर भोंवताले. कृष्ण आनी अर्जुनूय भोंवताले.

बायलांच्या जम्यांत एके कडेन अर्जुनाक अवचित एक चली दिश्टी पडली. तिचो आंगलोट ताचे नदरेंत भल्लो. तो तिका एकासारको पळेत रावलो. कृष्णान ताका हांसत म्हळें, 'वनवासात आसुनूय चलयांचेर मन बसता तर तुजें! ती कोण, जाणा व्हय तर तूं. ती म्हजी भयण सुभद्रा. तुजें तिचेर मन बसलां जायत जाल्यार वचून सांगतां बाबाक तुका दी म्हुण ती.'

अर्जुनान जाप दिली, 'सामान्या भायली सुंदर, त्या भायर तुगेली भयण. कोणाचें मन बसचें ना तिचेर. ती म्हजी जावंक पावली जाल्यार भाग्यवंत मानीन हांव म्हाका.'

कृष्णान म्हळें, 'तशें जाल्यार हांव सांगतां तशें कर. आयजूच उबारून व्हर तिका. फाल्यां समज, तिगेलें स्वयंवर करचें थल्लें. जाल्यार ती कोणाक माळ घालीत, सांगू नज. शूर क्षत्रियांनी अशेंच करचें, चली उबारून व्हरची अशें शास्त्रांत सांगलां.'

दोगांयनी सुभद्रेक उबारून व्हरपाचो बेत रचलो. ताचे पयलीं इन्द्रप्रस्थाक मनीस धाडून धर्मराजाची मान्यताय घेतली. मागीर भोंवडेचें निमित्त करून अर्जुन वाटेर एके कडेन रथ घेवन रावलो. सुभद्रा पुजा करून देवळांतल्यान परतताली. वाटेर अर्जुनान तिका आडायली. उबारून रथांत घाली आनी रथ इन्द्रप्रस्थाचे दिकेन धांवडायलो.

सुभद्रेक उबारून व्हेल्ली पळोवन तिच्या सांगाताक आशिल्ले लोक काचाबूल जाले. ते धांवन द्वारकेक गेले. खबर आयकून वृष्णी अंधक खुबले. ते सुभद्रेक सोडोवन हाडपा खातीर अर्जुना फाटल्यान धांवपाचे बेत रचपाक लागले. कृष्ण सरस्थ बशिल्लो.

बलराम म्हणूंक लागलो, 'कृष्ण कितें म्हणटा तें पयलीं पळेयात.' ताणेच कृष्णाक म्हळें, 'हो तुगेलो जिवा-भावाचो इश्ट. आमी ताचो खूब भौमान केल्लो. आमच्या मस्तकार

पांय दवरून तो सुभद्रेक घेवन पळे कसो पळून गेलो. बऱ्या घराण्यांतले मनीस असल्यो गजाली करीनात.'

दुसरेय जायते जाण असलेंच कितें कितें रागा-रागान उलोवपाक लागले.

कृष्णान सगळ्यांक थंड बसोवन म्हळें, 'ताणे अपमान करूंक ना. परतो, आमचो भौमान केला. ताच्यान तुमकां पयशे दिवन सुभद्रेक व्हरूं येताली. हे आसुर-रितीन तुमचो अपमान जातलो आशिल्लो. स्वयंवराचें सांगूं येता व्हय. ती कोणाच्या गळ्यांत माळ घालतली आशिल्ली कोण जाणा ! क्षत्रियांक शास्त्रान जी रीत सांगल्या ते रितीन अर्जुन तिका घेवन गेला. दुसरें, अर्जुन व्हड कुळांतलो. झुजाऱ्यांत ताका लागपी कोण ना. रथ चलोवप्यांतूय ताका कोण लागना. शूर वीर असलो घोव आपणाक मेळचो म्हुण खंयचे चलयेक दिसचें ना ? म्हजे नदरेन सुभद्रा भाग्यवंत. हाच्याकूय बरो घोव तिका खंय मेळटलो आशिल्लो. तेन्ना अर्जुना आड झुजपाची भास सोडून दियात. लज जातली. ते परस, वचून ताका घेवन येयात. आनी मोट्या दबाज्यान दोगांयचें लग्न करात.'

कृष्णाचें मत्त आयकून खुबिल्ले लोक न्हिवले. ते अर्जुनाक घेवन आयले. आनी एक दीस मोट्या दबाज्यान तांणी अर्जुन सुभद्रा दोगांयचें लग्न केलें.

लग्ना उपरांत अर्जुन वर्स भर द्वारकेंत उल्लो. मागीर एक दीस तो सुभद्रेक घेवन भायर सल्लो. वनवासाचीं बारां वरसां सोंपपाक थोडेच दीस उरिल्ले. मदीं पुष्कर-तिर्थार कांय दीस रावलो. आनी मागीर नीट इन्द्रप्रस्थाक परतलो.

अर्जुनान कपट सन्यास घेतिल्लो म्हणपाचो एक समज पातळ्ळा. महाभारतांत ताका आधार ना. अर्जुन सत्याक आनी धर्माक चलपी वीर आशिल्लो. आपल्या कुळाचोय ताका अभिमान आशिल्लो. फटींगपणा ताच्या आंगांत नाशिल्लीं. सुभद्रेक ताणे उबारून व्हेली, ते मुस्तींतल्या धर्माक धरुनूच व्हेली. कृष्णान तागेले करणेक जो तेंको दिला ताचे बयल्यान हें दिसून येता. अर्जुनान कपट संन्यास घेतिल्लो, फटींगपणा करून सुभद्रेक उबारून व्हेली असो जो समज पातळ्ळा तो मराठी भाशेंतल्या 'सौभद्र' नाटकान करून दिला.

## ३५. अभिमन्यु

बारा वरसांनी तो घरा परतताली. ताका केन्ना काय सगळ्यांक मेळनशें जाल्लें. घरांत पावल दवरिना फुडें ताणे जाणटेल्यांक नमस्कार केलो आनी नीट उठून तो द्रौपदे सरीं गेलो.

सुभद्रे कडेन जाल्ल्या तागेल्या लग्नाची खबर कळत परसून द्रौपदी फुगार जावन राविल्ली. अर्जुनाची वाटूच पळेताली. तो दिश्टी पडना फुडें तिगेले दोळे भरून आयले. 'कित्याक आयला हांगा, वच तिचेच सरीं. नवी गांठ पडटकूच आदली सदळ जाले

बगर रावता? म्हज्या म्हऱ्यांत येवपाची गरज ना.' अशें म्हणून ती भळभळ करून रडपाक लागली.

अर्जुनान तिचो समज घालपाचो यत्न केलो. पुणून तिगेलें फुगार जाल्लें तोंड फुगारूच उल्लें. तें तो देंवोवंक पावलो ना. निमाणे ताणे सुभद्रेक भितर धाडून दिली. गवळणी भेसांत सुभद्रा जेन्ना भितर गेली आनी 'म्हाका तुजी दासी म्हुण दवरून घे' अशें म्हणून तिणे द्रौपदेच्या पांयांर तकली दवल्ली तेन्ना द्रौपदी बेगी बेगीन उठली आनी सुभद्रेक तिणे वेंगेंत घेतली. त्याच खिणाक तिगेलो राग न्हिवलो. दोगी एकिमेकिंचो मोग करूंक लागल्यो.

कांय दिसांनी बलरामाक घेवन श्रीकृष्ण इन्द्रप्रस्थाक आयलो. जांवंया खातीर येतना वांगडा रथ घोडे हती गायो दासी भांगर रत्नां कितल्योश्यो भेटी हाडिल्ल्यो. भेटिंच्या हुंवारांत इन्द्रप्रस्थ बुडटा काय कितें, अशें दिसतालें.

बलराम आनी बाकिचे वृष्णी, अंधक कांय दीस थंय रावन द्वारकेक परतले. फकत कृष्ण इन्द्रप्रस्थाक उल्लो.

कांय काळान सुभद्रा बाळंत जाली. तिका एक चलो जालो. रुपान बद्द कृष्णा सारको. ताका नांव दवल्लें अभिमन्यु. अभि म्हळ्यार धीट आनी मन्यु म्हळ्यार शूर. कृष्णाचे अपुर्बायेचो भाचो.

त्याच अदमासाक द्रौपदेकूय एकाएका वरसाच्या अंतरान पांच पुत जाले. युधिष्ठिरा पसून प्रतिविंध्य. भिमा पसून सुतसोम, अर्जुना पसून श्रुतकर्तो, नकुला पसून शतानीक आनी सहदेवा पसून श्रुतसेन. तांगेली मूज जातकूच अर्जुनान तांकां धनुर्वेद शिकयलो. अभिमन्यूक आपणाक येता तितलेंय शिकोवन आपणा सारकोच निपुण केलो.

पांडव सुखान बरे राज्य करताले.

## ३६. खांडव-वन

गिमाचे दीस. उजो आकांताचो जातालो. कृष्ण आनी अर्जुन वाऱ्याक यमुनेच्या तिरार गेल्ले. थंय अवचित तांच्या मुखार एकलो धिप्पाड तिकतिकीत भांगरा सारके कातिचो, उज्या वरी खाडा मिशयांचो ब्राह्मण येवन उबो रावलो. आनी म्हणपाक लागलो, 'म्हाका खावंक घालात. खूब खाण लागता म्हाका. तृप्त जाय सर खावंक दियात.'

'कसलें अन्न दिल्यार तूं तृप्त जातलो?' कृष्णान ताका विचाल्लें.

'म्हाका तसलें, तुमी खातात तसलें, अन्न नाका.' ब्राह्मणान जाप दिली. 'हांव अग्नी. म्हाका हें रान हुलपावपाचें आसा. इन्द्र म्हाका तें हुलपावंक दिना. तो हाची राखण करता. हांगा तक्षक नांवाचो एकलो राजा आसा. तो नागांचो राजा. इन्द्राचो तो इश्ट. इन्द्र

ताका आधार दिता. हांव रान हुलपावंक वतां, इन्द्र पावस घालता आनी उजो पालयता. म्हुण, आतां तुमचे सरीं आयलां. तुमचो म्हाका आधार मेळत जाल्यार हांव रान हुलपावन उडयन.'

अर्जुनान म्हळें, 'म्हजे कडेन अस्त्रां जायतीं आसात. त्या अस्त्रांनी हांव इन्द्राक लेगीत हरयन. पुणून म्हांका फावता सोबता असलें धोणु म्हजे कडेन ना. हांव एकार एक तीर सोडपी, पावसा वरी. तीर खूब लागतात म्हाका. ते घालून व्हरपाक तसलेच तरेचो रथ जाय. तोय म्हजे कडेन ना. हें सगळें आमकां हाडून दी. येतात आमी तुज्या आधाराक.'

अग्नीन वरुणाचो आधार घेतलो. वरुणा कडल्यान ताणे अर्जुनाक गांडीव नांवाचें एक धोणु हाडून दिलें. खंयच्याच अस्त्रान मोडना असलें. लाख आयुधांच्या मोलाचें. त्या भायर दोन अक्षय भाते हाडून दिले, जातुंतले बाण केन्ना सोंपनात असले. आनी खासा विश्वकर्म्यान तयार केल्लो रथ हाडून दिलो. ताका मना वेगान धांवपी घोडे जोडून दिले. रथाक दांडो आशिल्लो भांगराचो. ताचेर एक घुडी आशिल्ली आनी घुडयेंत मारुती बशिल्लो. ताका पळेल्यारूच थरथरो भरतालो.

सगळें पळोवन अर्जुन खुशालभरीत जालो. ताणे धोणु हातांत घेतलें. ताचो दोर मात्सो वाजोवन पळेलो तेन्ना आवाज येदो व्हडलो जालो कि तो आयकून भोंवतणच्या वाटारांतल्या लोकांचीं काळजां खप्प करून पडलीं.

अग्नीन कृष्णाक सुदर्शन नांवाचें एक चाक दिलें. सोडटकूच काम करून परतें येता असलें आनी कौमोदकी नांवाची एक गदा दिली.

हीं आयुधां मेळटकूच दोगांयनी अग्नीक सांगलें, 'आतां घे तूं पेट'.

उजो पेटलो. खांडववन हुलपायत तो पातळूंक लागलो.म्हणटासर भगऽ भगऽकरून सगळें पेटलें. भितल्ले नाग सोरोप हुलपून मरपाक लागले. सगळ्यांची गजाल पडली. वाट मेळत तशे ते पळपाक लागले. खांडववना भायर एके वाटेन अर्जुन आनी दुसरे वाटेन कृष्ण उबे राविल्ले. रानांतल्यान जो जो नाग भायर सरता ताका ते मारून उडोवपाक लागले. पेटिल्ली चूड वांटकुळीच घुंवडायतकूच उज्याच्या कड्याचो भास जाता तशें अर्जुन आनी कृष्ण रथांतल्यात चारूय वसल्यान धांवक लागले, तेन्ना दिसपाक लागलें. खांडववनाक रथांचें एक कडेंच पडलां काय कितें, असो भास जावपाक लागलो. पळटल्यांक ते धरूधरून मारताले. तांगेलो किंवाटो आनी अच्छेव पळोवन देव लेगीत गर्भगळीत जाले. धांवन ते इन्द्रा सरीं गेले. इन्द्र उठलो. ताणे उटांगारांचो पावस घालो. अर्जुना कडेन वाऱ्याअस्त्र आशिल्लें. पावस पळोवन अर्जुनान ते सोडलें. तें सुटना फुडें पावशी कुपां उबून गेलीं. मळब निवळ जालें. घणघणीत ओत पडलें. अग्नी खुशालभरीत जालो. ताणे आनीक पेट घेतलो. तो नेटान पेटूंक लागलो.

जाचीं पाळां मुळां खणपा खातीर येदोय हो अच्छेव चलिल्लो तो तक्षक मात त्या

दिसा खांडववनांत नाशिल्लो. कुरुक्षेत्रार गेल्लो. तागेलो अश्वसेन नांवाचो पुत हांगा आशिल्लो. तो कर्तुत्वी. तरी आसतना तो इन्द्राच्या आलाशिऱ्याक गेलो. इन्द्रान ताका आलाशिरो दिल्लो पळोवन अर्जुन खुबलो. तो इन्द्रा आड झुजपाक लागलो. इन्द्राच्या आधाराक सगळे देव आयले. अर्जुनान तांगेलीय दानाधिस्पट करून उडयली. कृष्ण आनी अर्जुन दोगूय कृतांत काळ कशे देवां आड झुजतात, तें पळोवन इन्द्राक तांची तोखणाय दिसली. इतल्यांत आकाशवाणी जाली, 'इन्द्रा, हे कोण तें जाणा व्हय तूं. नर आनी नारायण हे, हांकां जिखप तुज्या नशिबांत ना. कोणाच्याच ना. त्या भायर तक्षक हांगा ना. कुरुक्षेत्रार गेला. तेन्ना, झूज थांबय.'

आकाशवाणी कानार पडटकूच इन्द्र थंडावलो. तो उठून गेलो. तो वतकूच फाटल्यान बाकिचेय देव गेले. अग्नी धादोस भरीत जालो. तागेलो एक हावेस आयज शार्ती पाविल्लो.

पंदरा दीस हें झूज चल्लें. खांडववन हुलपून ताचो गोबोर जाल्लो. सगळे नाग मेल्ले. फकत तक्षक पयस गेल्ल्यान तो एकलो वाटवल्लो. आनी इन्द्राच्या आलाशिऱ्याक वचून राविल्ल्यान अश्वसेन वांचून उरिल्लो.

खांडववनांत तक्षकागेर मय नांवाचो एकलो असूर रावतालो. तो एक व्हड शिल्पीक. तोय वांचून उरिल्लो. झूज न्हिवतां न्हिवतां जीव मुठींत घेवन तो पळून वतालो. तो जिस्त कृष्णाचे नदरेक पडलो. कृष्णान ताका मारपा खातीर सुदर्शन उबाल्लेलें. पुणून, त्या आर्दीच मयासुरान अर्जुनाच्या पांयार घालून घेतलें आनी अर्जुनान ताका 'भियेवं नाका' म्हुण उतर दिलें. देखून वाटावलो.

कृष्ण-अर्जुनाचो पराक्रम पळोवन इन्द्र दोगांयचेर संतुश्ट जालो. ताणे दोगांकूय वर मागूंक सांगलें. अर्जुनान अस्त्रां मागलीं. तेन्ना इन्द्रान म्हळें, 'सगळीं अस्त्रां दितलों हांव तुका. पुणून येन्ना न्हय. म्हादेवाक तूं प्रसन्न करून घेतलो त्या उपरांत.'

कृष्णाक माग म्हुण सांगतकूच ताणे 'अर्जुनाचो म्हजेर सदांच मोग उरूं' इतलेंच मागलें.

खांडववन हुलपायल्या उपरांत अग्नीन पांच दीस विसव घेतलो. सव्या दिसा ताणे कृष्ण अर्जुनाक सांगलें, 'आतां खंयूय वचात तुमी. तुमकां भंय ना. तुमकां कोण कांय करपाचो ना....'

इतिहासा आदल्या काळांत घडिल्ल्यो कांय घडामोडी हे कथेंत लिपिल्ल्यो आसूं येतात. इन्द्रप्रस्थ म्हळ्यार, आयची दिल्ली. भोंवतणच्या वाटारार थंय आदल्या काळार नाग जातिचे लोक रावताले. आर्विल्लि भाशेंत सांगचें जाल्यार 'मुंडा' जातिचे. तक्षक तांगेलो राजा. खांडववन तागेलें. थंयच पांडवांनी इन्द्रप्रस्थ उबाल्लें. इन्द्रप्रस्थाचें राज्य सुसंगीत चलोवंक मेळचें म्हुण मुंडा जातिच्या लोकांक ना करपाची पांडवांक गरज पडली. नाग आनी असूर ते मेरेन एक आशिल्ले जावंक जाय. खांडववनाचो लासून गोबोर जालो त्या

उपरांत मयासूर अर्जुनाक मेळ्ळो. तेन्ना, पुरुकुळ आनी असुरकुळ एक जालीं हें पळोवन नाग भियेले. त्याच खातीर नागांच्या पंगडांत गेल्ल्या इन्द्रान कृष्ण अर्जुना कडेन संधी केल्ली आसूं येता.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, ऋग्वेदाचे मुस्तींत इन्द्र आनी अग्नी दोगूय आर्यांचे व्हड देव आशिल्ले. दोगूय एकामेकांच्या आधारान दस्युंचीं शारां मोडटाले, हुलपायताले. उपरांत कांय काळान तांचे मजगतीं वायटपण आयलें जावंक जाय. इन्द्र नागांचें वाटेन गेलो तर अग्नी आनी वरुण पुरुकुळाच्या पगडांत गेले.

इतिहासाचे खंयचे खंयचे धागे हे कथेंत घुसपल्यात, सांगूं येना.

## ३७. मयसभा

अर्जुनान आपणाक अग्निच्या तोंडांतल्यान वाटायलो म्हुण मयासुराक अर्जुनाच्या रिणांत पडिल्ले वरी दिसपाक लागलें. हें रीण इल्लें तरी फारीक जावचें म्हुण ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'म्हजेर खूब उपकार जाल्यात तुजे. अग्निच्या तोंडांतल्यान तर तुवें म्हाका वाटायलाच. त्या भायर, श्रीकृष्णान सुदर्शन उबाल्लेलें म्हजेर. तातुंतल्यानूय तुवें वाटायला. तुका बरें दिसत असलें कितेंय तरी करचें अशें मनांत आयलां म्हज्या. कितें करूं.'

कांय करपाची गरज ना.' अर्जुनान जाप दिली. 'ह्या निमतान असुरां कडेन आमचो संबंद आयलो. आमची इश्टागत जाली. ती तिगून उरची, इतलें जालें जाल्यार खूब जालें.'

मयासूर म्हणूंक लागलो, 'असुरांचो हांव शिल्पीक. विश्वकर्म्या भाशेन म्हज्यान एक नवी सृश्ट रचून तुका दिवं येता.'

अर्जुनान मात्शें येवजिलें आनी म्हळें, 'कृष्णाक विचार.'

मयासुरान कृष्णाक विचाल्लें आनी कृष्णान ताका एक सभा बांदून दी म्हुण सांगलें. संवसारांत खंयच ना, कोणेच पळोवंक ना, कोणाक करूंक येवंक ना असली.

मय खोश्शी जालो. ताणे सुवात वेंचून काडली. सभेचो एक नक्सो तकलेंत तयार केलो आनी एक दीस म्हुर्त पळोवन तिची बुन्याद घाली.

बुन्याद घालतकूच कृष्ण द्वारकेक गेलो. कांय दिसां खातीर तरी वचून येवंक जाय अशें ताका दिसपाक लागिल्लें. खूब दीस जाल्ले, तो इन्द्रप्रस्थाक आशिल्लो. तो भायर सल्लो तेन्ना ताका पावोवपाक पांडव वेशी मेरेन गेले. इतलेंच न्हय, युधिष्ठिरान ताचो रथ चलयलो.

कृष्ण द्वारकेक वतकूच मयासूर आपल्या गांवाक गेलो. कैलासाचे उत्तरेक मैनाक पर्वता कुशीक बिंदुसर नांवाच्या सरोवरा लागसार तागेलो गांव. थंय ताणे आपणाल्या राजा खातीर, वृषपर्व्या खातीर, एक सभा बांदून दिल्ली. थंय रत्नांच्यो राशी, तरांतरांचे रंग, तरांतरांचीं चुर्णां, सगळें ताणे सांबाळून दवल्लेलें. तें घेवन येवचें, त्या भायर हिरण्यशृंग पर्वतार जंय रत्नांच्यो खणी भल्ल्यात थंयच्यान उरिल्लें सामान घेवचें अशें ताणे थारायल्लें. त्या प्रमाण तो गेलो आनी सगळें सामान घेवन आयलो. येतना वांगडा तो कांय शिल्पिकूय घेवन आयिल्लो.

तो आनीक दोन म्हत्त्वाच्यो गजाली घेवन आयलो. भिमा खातीर वृषपर्व्याची गदा, लाख गदां इतली शक्त आशिल्ली. आनी अर्जुना खातीर वरुणाचो देवदत्त नांवाचो शंख.

सुमार चवदा म्हयने दीस रात वावरून ताणे पांडवां खातीर एक सभा बांदून दिली. देवांचे सुधर्मा आनी अंधक वृष्णिंच्या सभां परसूय आगळी वेगळी. दिसताली विमान सारकी. जाय तेन्ना जाय थंय व्हरूं येता असली. हालपी, धोलपी. धा हजार हात लांब, धा हजार हात रूंद, येद्या आवाठाची. दिव्य भव्य, मळबाक तेंकिल्ले वरी दिसची इतली ऊंच. कळा-कुसराचे नदरेन तर सामकीच वेगळी, सामान्यां भायली. जमीन-शी दिसता थंय उदक आशिल्लें आनी उदक-शें दिसता थंय जमीन. कोणेच केन्ना पळेलें ना असलें खूब किर्ते-किर्ते ताणे भायर आनी भितर उबें केल्लें. खांब्यांचेर आनी वणटींचेर तरांतरांचीं चित्रां काडिल्लीं. तांतूंत पाच, माणकां, वज्रां आनी दुसरीं तरांतरांची रत्नां भरिल्लीं.

आठ हजार किंकर तिची राखण करताले.

मयसभेचें मोल मेजूंक येनाशिल्लें.

सभा म्हळ्यार भवन—राजाची परिशद भरपाची सुवात.

मयासुरान बांदिल्ले हे सभेचें वर्णन नारदान 'मणिमयी' म्हुण केलां. हाचे वयल्यान घडये ही पयलीच चिऱ्यांनी बांदिल्ली सभा आसूं येता. त्या आदीं हांगा लाकडाचींच घरां बांदपाची चाल आशिल्ली. मय असूर (आस्सीरियाचो ?). थंय चिऱ्यांचीं घरां बांदपाची कला खूब मुखार गेल्ली. मय थंयच्यान आयिल्लो. हाचे वयल्यान हांगा शिल्पीक नाशिल्ले आनी चिऱ्यांचीं घरां बांदपाची कला हांगा वाडूंक नाशिल्ली, अशें म्हणचें पडटा.

इतिहास काळांतले पोन्न्यांतले पोन्ने सभेचे अवशेष हांगा मेळ्टात ते खूब उपरांतचे. चंद्रगुप्त मौर्याचे सभेचे. एकेच फातरिच्या वीस वीस फूट ऊंच अश्या अंयशीं खांब्यांचे हे सभेचे अवशेष पटण्याक अजुनूय पळोवंक मेळटात.

# ३८. नारद-नीत

सभा बांदून जातकूच युधिष्ठिरान एक बरो म्हुर्त सोदून काडलो आनी एक दीस मोट्या दबाज्यान सभा-प्रवेश केलो.

उत्सवाक व्यास धरून सगळे ऋषीमुनी आनी धर्तरे वयले ल्हान-व्हड सगळे राजा आनी जाणटे-नेणटे आयिल्ले.

कांय दिसां उपरांत एक दीस नारद थंय पावलो.

> लावालावी करून धोशी घालपी एक मुनी असो नारदा विशीं एक समज पानळ्ळा. पुणून, महाभारतांत तागेलें जें वर्णन मेळटा ताचे वयल्यान तो एक व्हड, खूब तोला-मोलाचो ऋषी आशिल्लो म्हणपाचें दिसून येता. वेद-उपनिषदां, इतिहास-पुराणां ताका तोंडपाठ आशिल्लीं. जिविताचो अर्थ कितें, ताचो उद्देश कितें, तें कशें जियेवचें, असल्या प्रस्नांचेर ताणे खूब खोलायेन येवजिल्लें. तो तें लोकांक सांगतालो आनी लोकांक येवजूंक लायतालो. व्हडले व्हडले ऋषी ताच्या पांयां कडेन बसून शिकताले. न्याय-शास्त्रांत जसो कितें सूर्य. शिक्षा कल्प व्याकरण निरुक्त छंद ज्योतिश ह्या मळार ताका लागपी कोणूच नाशिल्लो. गडखळ विशय सोंपे करून सांगतालो तेन्ना बृहस्पती भंगलो अशें दिसतालें. रसाळ उलोवपी, खूब पयसलें पळोवपी, अख्खो संवसार भोंवन आयिल्ल्यान खूब चतुर. युद्धशास्त्रांत, राज्यशास्त्रांत धर्मनितींत लोकनितींत निपूण असो एक व्हड ऋषी म्हुण्णूच ताचें वर्णन महाभारतान केलां. तो संगीत शास्त्राचोय एक व्हड जाणकार आशिल्लो.

येद्या व्हडल्या ऋषीक आयिल्लो पळोवन युधिष्ठिर बेगीबेगीन उठलो. मुखार गेलो आनी ताची पुजा करून ताका आपल्या आसनार हाडून बसयलो. नारद फकत खबर घेवपाकूच येवंक नाशिल्लो. थोडो उपदेस करतलों अशें येवजून आयिल्लो.

येतना वांगडा कांय नामनेच्या ऋषींकूय घेवन आयिल्लो.

नारदान युधिष्ठिराक विचार्ले—

तुज्या राज्यांत लोक धादोशी आसात मू. लोक तुज्या फाटल्यान आसात मू. तांचो तुका आधार मेळटा मू. तूं उजु चलणुकेन चलता मू. फकत आपल्याच सुखाचें येवजिना मू. प्रजेंतल्या ल्हान व्हड सगळ्यांक सुख मेळचें म्हुण वावुरता मू. सत्या हातांत येतकूच कांय जाण मदांध जातात. तसो तूं जावंक ना मू. तुजे भोंवतणी उणाक लोक जमून तुजी सायबाजात्रा करून आपलो सुवार्थ सादिनात मू. असलेच लोक तुंवे एकठांय करूंक नात मू. देव-बीव फकाणा, नीत-बीत कांय ना अशें तूं मानिना मू. कोणाकूय बेश्टें कसलेंय उतर दिवन तूं वेळ मारून व्हरिना मू. तुका बुद्द दिवपी शाणे लोकूच तुवें तुजे भोंवतणी एकठांय केल्यात मू. तांची

बुद्द तूं घेता मू. तूं आळसायेंत लोळना मू. एकलोच बसून तुका जाय तेंच तूं थारायना मू. पाडे बुद्दिच्या लोकांचे सांगणेन तूं चलना मू. तुर्जी गुपितां तूं वाऱ्यार पडूंक दिना मू. एकाच वेळार तूं सगळ्या दुस्मानांक खुबळावन घालिना मू. दुस्मान तुका भियेतात मू. तांच्यो गजाली तुका कळटात मू. तूं चिंतता आसतना पयसलें पळोवन चिंतता मू. तुजे कारभारी तुजें म्हणणें आयकतात मू. ते मदांध जावंक नात मू. तुज्या नांवान ते लोकांचेर आगळिको करिनात मू. दिल्लीं कामां ते वेळार करतात मू. योग्यताय पळोवनूच तूं तुजे कारभारी नेमता मू. तांचें चारित्र्य सारकें आसा काय ना हें पळेता मू. ओगीच कोणाकूय कसलीय ख्यास्त ते करिनात मू. सगळ्यांक सारको न्याय मेळटा मू. तुज्या राज्यांत विद्वान आसात मू. ते उबंत पडूंक नात मू. ते गिन्यानांत नवी नवी भर घालीत रावतात मू. तांचो तूं भोवमान करता मू. राज्यांत विद्वान आसप ही राज्याची खरी व्हडवीक अशेंच तूं मानता मू. लोक सोरो जुगार शिंदळकी असल्या व्यसनांनी पडूंक नात मू. शेतकाम फकत पावसाचेर पातयेवन उरूंक ना मू. लोक आपापलो कामधंदो सारको करतात मू. कश्ट करतात मू. व्यापार बरो चलता मू. व्यापारी वेळार कर भरतात मू. सैन्य घटमूट आसा मू. तांतले कोण दुस्मानाक भेदी बी जावंक नात मू....

हे भाशेन नारदान कितलेशेच प्रस्न युधिष्ठिराक विचाल्ले. प्रस्न विचारून सुराज्याचो अर्थ समजावन सांगलो.

युधिष्ठिरान ताका जाप दिली, 'तूं म्हणटा तसोच आयजवेर चलत आयलां. राजधर्माच्या सगळ्या नेमांक पाळो दीत आयलां. ह्या मुखारूय तूं सांगता तसो चलतलों.'

नारद खुशालभरीत जालो. ताणे युधिष्ठिराक 'तुजें कल्याण जावं' असो आशिर्वाद दिलो.

कणिक-निती भाशेन ही नारद-नीत लेगीत मुदल महाभारतांतली न्हय. खूबशे स्वतंत्र अध्याय भायल्यान उडत येवन महाभारतांत थिरावल्यात. तांतलोच 'कच्चिदध्याय' वा 'नारद-प्रश्नमुखेन राजधर्मानुशासन' नांवाचो शंबर श्लोकांचो हो एक अध्याय भायल्यान येवन हांगा दसला. जाणकारांच्या मत्तान तो शुंग काळांत दसला जावं येता. कित्याक, तांतूंत 'प्रति' नांवाच्या एका नाण्याचो उल्लेख आयला. तें ख्रिस्ता आदल्या चवथ्या सावन पयल्या शेंकड्या मेरेनच्या काळांत चलतालें. कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत 'पिशुन' नांवाच्या एका आचार्याचो उल्लेख आयला. तो नारद आसूंक जाय अशें कांय जाणकार महाभारतांतलो हो अध्याय पळोवन म्हणटात.

ह्या अध्याया अंतीं फलश्रुती सांगल्या. ताचे वयल्यानय तो मुदल महाभारतांतलो न्हय म्हणपाचें दिसून येता.

मागीर ल्हवूच युधिष्ठिरान ताका विचाल्लें, 'तुवें स्वर्ग धर्तरी पाताळ तिनूय लोक भोंवन पळेल्यात न्हय, आमच सभे सारकी दुसरी सभा खंयूय पळेल्या व्हय तुवें. तेन्ना, नारदान ताका देवलोकांत पळेल्ले यमाचे वरुणाचे कुबेराचे ब्रह्म्याचे आनी इन्द्राचे सभेच्यो गजाली सांगल्यो आनी म्हळें, 'देव-लोकांत असल्यो सभा आसात. पुणून ह्या संवसारांत हे सभे सारकी मणिमयी सभा हांवें आनी खंयच पळोवंक ना. इतलेंच न्हय, असली सभा आनीक कोणाची आसा म्हुण आयकूंक लेगीत ना.

देव-लोकांतल्या सभांचीं वर्णनां करता आसतना इन्द्राचे सभेचो उल्लेख आयलो. हे सभेंत देवां वांगडा धर्तरेवयल्या फकत हरिश्चन्द्राकूच बसूंक मेळटालें अशें नारदान सांगलें.

'हरिश्चन्द्राकूच कित्याक', युधिष्ठिरान विचाल्लें.

'कित्याक, ताणे सातूय खंड जिखून राजसूय यज्ञ केल्लो आनी सम्राट म्हुण पदवी जोडिल्ली, नारदान ताका जाप दिली.

आनी 'तूंय आतां राजसूय यज्ञ कर' अशी सुचोवणी ताणे वतां वतां युधिष्ठिराक केली.

## ३९. तयारी

युधिष्ठिर आनी दुर्योधना मजगतीं अजून किजील उपरासूंक नाशिल्लें. गंगेचे तडी वेल्या हस्तिनापुरांत दुर्योधन राज्य करी आनी यमुनेचे तडी वेल्या इन्द्रप्रस्थांत युधिष्ठिर राज्य करी. पदवेन दोगूय सारके, तशे बळानूय सारके आशिल्ले. आतां नारदान युधिष्ठिराच्या मनांत राजसूय यज्ञ करून सम्राट जावपाचो हावेस जागयलो. तो युधिष्ठिराक सस्थ बसूंक दिना जालो. ताच्यो न्हिदो खळ्ळ्यो. तो येवजी येवजी येवजूंक लागलो. ताणे भावांक विचाल्लें, मंत्र्यांक विस्वासांत घेतले, पुरयतांचीं बुद्द घेतली. सगळे ताका 'राजा जातकूच सम्राट जावपाची इत्सा जावप रितीक धरुनूच आसा' अशें सांगपाक लागले. 'सम्राट जावपाचे सगळे गुण तुज्यांत आसात', अशेंय ते सांगपाक लागले. तें कित्याक व्यासा सारकेल्या म्हा-मुनिनूय ताका 'राजसूय कर' म्हुण सांगलें.

युधिष्ठिराचो बेत घट जालो. तरी आसतना श्रीकृष्णाची बुद्द घेतिल्ली बरी अशें ताका दिसलें. कित्याक, तो मनांत म्हणपाक लागलो. 'आंगांत गुण आसले म्हुण

उपकारना. परिस्थिती पळोवंक जाय. खर्चाचो अदमास लावंक जाय. आनी अंतीं सगळ्यांचे बरें जावंक जाय.'

श्रीकृष्णूच आपणाक सारकी बुद्द दितलो अशें येवजून ताणे एका कारभाऱ्याक द्वारकेक धाडलो.

कृष्ण आनी बलराम हे वाटेन मगध देशाच्या जरासंधाक आनी ताच्या आधाराक गेल्ल्या शिशुपालाक ना कशे करचे हाचो बेत करताले. जरासंध कंसाचो मांव. एक मदांध राजा. छयांयशीं राज्यां जिखून ताणे थंयच्या राजांक बंदखणींत घाल्ले. शंबर जावपाक चवदा राजा धरपाचे उरिल्ले. उपरांत शंबर राजांचो नरबळी दिवपाचो ताचो बेत आशिल्लो. ताचो हो बेत करसो मोडून घालचो ह्या हुसक्यांत कृष्ण आशिल्लो. उकतेपणी घुरी घालून कांय जावपाचें ना. जरासंध आटापा येवपाचो ना. ह्या निर्णयार कृष्ण पाविल्लो. तो दुसरो उपाय सोदतालो. जिस्त ह्या वेळार ताका युधिष्ठिराचो आपोवणो आयलो. खिणाचोय कळाव लाय नासतना तो बलरामाक घेवन इन्द्रप्रस्थाक आयलो.

युधिष्ठिरान ताका सांगलें, 'तुका मुजरत आपयल्लो. कित्याक, राजसूय करपाचें मनांत घोळटा. सगळेच कर म्हणटात. कांय जाण म्हाका वायट दिसत अशें कांय उलयनात. कांय जाण जाल्यार गोड उलोवप हीच आपणाली लागणूक कशी लेखतात. हांचें आयकून कितेंय करूंक गेलों, जाल्यार फस्तीक पडटलों. देखून तुका आपोवंक धाडलो. तूं सांग, बऱ्याक कितें पडटलें. राजसूय करप, काय करप ना.'

कृष्णान रोखडीच जाप दिली, 'राजसूय करपाचोच. तो करपा खातीर जाय आशिल्ले सगळे गुण तुज्यांत आसात. पुणून कांय गजाली तुज्या मुखार दवरतां—

तुर्ताक देशांत आशिल्ले राजा फकत नांवाचे. क्षात्रतेज नाशिल्ले. मगध देशाच्या जरासंधाचे मुठींतले. तांणीच जरासंधाक सम्राट केला. आनी जरासंधान मथुरे सावन मगधा मेरेनचो पुराय वाटार हातासला. कितले-शेच राजा आयज ताच्या पंगडांत आसात. शिशुपाल केदो बळिश्ट आनी पराक्रमी! तो जरासंधाचो सेनापती जाला. करूष देशाचो वक्र तागेलो शिष्य जाला. तुजेर माया आशिल्लो भगदत्तूय ताच्या पंगडांत गेला. चेदी देशाचो पुरुषोत्तम आपणाक वासुदेव म्हणोवन घेता आनी म्हजेच भाशेन भेस करता. तोवूय ताचो अंकीत जाला. म्हजो मांव भीष्मक एक व्हड राजा, तोवूय ताका मेळ्ळा. जरासंधाच्या भंयान भोजांच्यो अठरा कुळयो तुर्ताक उत्तर सोडून अस्तमेक वचून रावल्यात. कांय दक्षिणेक गेल्यात, कांय वाट मेळत तश्यो पळून गेल्यात. म्हाकाच पळे, कंस जरासंधाचो जांवय.

जांवंयाक माल्लो म्हुण तो मथुरेचेर एका फाटल्यान एक घुरयो घालपाक लागलो. तीन वरसां आमी यादव जिवार उदार जावन झुजले. अखेरेक आमकां यादवांक पयस अस्तमे दिकेक वचून एक नवी वसणूक रचची पडली मू. म्हणटकूच तूंच येवजून पळे. जरासंध आसा सर तुजो राजसूय तडीक वचपाची आस्त ना. जरासंधाक माल्ले बगर आनी ताणे जांकां बंदखणींत घाल्यात त्या राजांक सोडयले बगर राजसूय करप समा न्हय.'

कृष्णाचें मत्त आयकून युधिष्ठिर निर्शेलो. म्हणूंक लागलो, 'अशें जाल्यार, राजसूय करप पिशेपणाचें जालें. तूंच जरासंधाक भियेलो जाल्यार आमची किर्ते गत जातली. आमचें सगळें कर्तुत्व तुज्या नेटार चल्लां. म्हाका दिसता, बेत सोडून दिल्लो बरो. आसा तांतूंत सुख मानून रावंया. सम्राटपदाचें हावेस कित्याक.'

हें आयकून भिमाक वायट दिसलें. ताणे म्हळें, 'यत्न करपाचे सोडून सरस्थ बसून रावता तो अंतीं सोंपता, ना जाता. दुबळो राजा लेगीत दुस्मानाक कसो ना करचो हें येवजिता. आमी कांयच येवजप ना? कृष्णा लागीं बुद्द जाल्यार म्हज्या आंगांत बळ आसा आनी अर्जुन तर सदांच जैतवंत आमगेलो. आमी भियेवचें कित्याक आनी कोणाक. जरासंधाक आयजूच आड घालून येवंया. ताका हाणप आमकां तिगांक जड वतलें-शें म्हाका दिसता.'

कृष्ण म्हणूंक लागलो, 'भीम म्हणटा तें खरें. फाटीं सरूंक जायना धर्मराजान. राजसूय यज्ञ करपाचोच. राजाधिराज, सम्राट जावपाचे सगळे गुण धर्मराजांत आसात. आयजवेर जे मांधाता, भगीरथ, कार्तवीर्य, भरत, मरूत बी सम्राट जावन गेले ते एका-एका गुणाक लागून हे पदवेर पाविल्ले. धर्मराजांत ह्या पांचांचेय गुण एकठावल्यात. त्या भायर तागेले खाशेले म्हुण कांय गुण आसात. तो दुस्मानाक मुठींत धरूंक जाणा, प्रजेक सुखांत दवरूंक जाणा, तप करूंक जाणा, लोकांची नीत वाडोवंक जाणा. राज्याची येणावळ वाडोवंक जाणा. सम्राटाक जाय तितलेय हे गुण ताच्यांत आसात. मागीर, राजसूय ताणे करपाचो न्हय जाल्यार कोणे करपाचो. म्हजें म्हणणे इतलेंच: जरासंधाचो कांटो काडले बगर तो सुरू करप ना. जरासंधान जांकां आपले मुठींत धल्ल्यात ते सगळे ताचे अशें म्हणूं नज. मनान जाल्यार ताचे न्हयच ते. जरासंध ना जालो जाल्यार ते सगळे आमचे जातले. तेन्ना म्हजें म्हणणे भीम म्हणटा तशें करपाचें. आमी तिगांनी भिमान अर्जुनान आनी हांवें मगध देशाक वचपाचें आनी जरासंधाक मारपाचो. ताका मारतां मारतां समज, आमी मेले जाल्यार आमकां स्वर्ग मेळटलो. वांचून उल्ले

जाल्यार बंदखणींत पडिल्ले छ्यायंशी राजा सुट्टले आनी शंबर जावपाक ज्या चवदांचेर हावळ येवपाची आशिल्ली ते वाटावतले.'

अशें सांगून ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'आमकां वचूंक दी. मगध देशाक'.

'शी: शी: शी: करून युधिष्ठिर उसळ्ळो. म्हणपाक लागलो, 'सम्राट जावपाचो म्हजो हावेस तडीक वचचो म्हुण तुमकां तिगांक होगडावन बसूं व्हय हांव. भीम अर्जुन म्हजे दोळे जाल्यार तूं मन म्हजें. जरासंध यमाक लेगीत बागडपाचो ना अशें तूंच सांगता. तुमकां हांव वचूंक दिवपाचों ना. म्हाका नाका तो राजसूय यज्ञ.'

अर्जुनान गांडीव धोणवा वयल्यान एक नदर भोंवडायली आनी म्हळें, 'पयलींच निर्शेवप समा न्हय. कोणाक मेळूंक नात असलीं धोणवां तीर शस्त्रां अस्त्रां आमकां मेळ्ळ्यांत. आमकां त्या भायर कृष्ण मेळ्ळा. आमचें भाग्य मोटें. आतां ताका उमेदिचो आधार मेळूंक जाय. आंगांत कर्तुत्व नासत जाल्यार कृतविर्याच्या कुळांत जल्मा येवनूय कित्याक उपकारना. कर्तुत्व आसत जाल्यार खंयच्या कुळांत जल्मा आयला हो प्रस्न उपरासना. बाकिचे गुण कितलेय आसूं, कर्तुत्व नासत जाल्यार तांकां अर्थ ना. आमी क्षत्रिय. दुस्मानाक ना करप लागणूक आमची. जरासंधाक मारुंकूच जाय. कृष्ण, गांडीव आनी भीम पुरो आमकां.'

कृष्ण खुशालभरीत जालो. अर्जुनाची फाट थापटून ताणे म्हळें, 'भरत कुळांत आनी कुन्तिगेर जल्मा आयिल्ल्या विराक सोबपा सारकेंच उलयलो तूं. मरण केन्ना कोणाक चुकूंक ना. तें केन्नाय येवं येता. दिसाचेंय येवं येता, रातचेंय येवं येता. झूज केलें ना म्हुण कोण मेले बगर उल्ला व्हय. राजधर्माक धरून जें करूंक जाय तेंच आमी करतले. आमकां सोबना असली कसलीच करणी आमचे हस्तुकीं घडपाची ना. काळ आमच्या अर्दान आसा'. अशें म्हणून ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'म्हजेर पातयेवन भीम अर्जुनाक म्हजे सुवादीन कर.'

कृष्णान जरासंधाक मारपाचो नित्शयच केला म्हणपाचें युधिष्ठिराक दिसून आयलें. तो भितल्ल्यान खोशी जालो. ताणे मनांत म्हळें, 'आतां जरासंध मेलोच म्हणपाचो. बंदखणींतले राजा सुट्टले आनी राजसूय यज्ञूय जातलो.'

तांणे तिगांकूय सांगलें, 'सांबाळून वचात.'

दुसऱ्याच दिसा तिगूय भायर सल्ले. कोणाक दुबाव येवचो न्हय म्हुण तांणी ब्राह्मणांचो भेस घेतलो. भीम मुखार चलतालो. कृष्ण आनी अर्जुन ताचे फाटल्यान येताले.

## ४०. जरासंधाची हत्या

मध्यदेशांतल्यान साकेत, वाराणसी करीत मगध देशाक वचपाची एक वाट आशिल्ली. ही नीट वाट सोडून ते पयले अस्तमे कडल्या कुरुजांगल वाटारांत भितर सल्ले. थंयच्यान कुरुक्षेत्रार गेले. थंयचे पद्मसरोवर पळोवन उत्तर-उदेंते दिकेन चलपाक लागले. काळकूट पर्वतार चडले. गंडकी, शोण, सदानीरा न्हंयो हुपून कोसल प्रदेशांत गेले. थंयच्यान उदेंते दिकेन चलत चलत गोरथ पर्वतार पावले.

गोरथ पर्वता वयल्यान वैराह, वराह, वृषभ, ऋषिगिरी आनी चैत्यक ह्या पांच पर्वतां मदीं वशिल्लें जरासंधाचें गिरिव्रज नगर दिश्टी पडटालें.

नगरांत फुडल्या दारा बदला मागीलदारयां भितर सल्ले. राजमंदिरांत येतल्या वेतल्या ब्राह्मणांची वाट ही. ते ब्राह्मणांच्या जम्यात रिगले आनी जरासंधा मुखार वचून उबे रावले.

नव्या ब्राह्मणांक पळोवन जरासंध उठलो. तांकां येवकार दिवन तांची पुजा करपाक मुखार सल्लो. कृष्णान ताका सांगलें, 'आमचे भितल्ल्या ह्या दोगांनी मौन घेतलां. मध्यानरातचें तें सुट्टलें. त्या उपरांत ते तुजे कडेन उलयतले.'

'बरें आसा' जरासंधान म्हळें आनी ताणे तांची यज्ञ-शाळेंत रावपाची वेवस्ता केली.

जरासंधाचो एक नेम आशिल्लो. मध्यान रातचो लेगीत कोणूय ब्राह्मण. आयलो जाल्यार ताची तो पुजा करतालो. ह्या नेमाक धरून तो त्या दिसा मध्यान रातचो नव्या ब्राह्मणांक मेळपाक यज्ञशाळेंच गेलो. तिगांनीय ताका सांगलें, 'आमी तुजी पुजा घेवपाचे नात'.

'अब्बा ! कित्याक घेवपाचे नात ?' जरासंधाक अजाप जालें. ताणे तांकां बारीकसाणेन नियाळून पळेलें आनी तो शिटकावलो. 'तुमी ब्राह्मण न्हय,' ताणे म्हळें, 'तुमच्या भुजांचेर मावो आसात, धोणवाचे दोरयेच्यो. क्षत्रिय तुमी.'

'क्षत्रिय आमी'. कृष्णान जाप दिली.

'मागीर, मागीलदारयां शे भितर सल्ले?' जरासंधान विचाल्लें.

'क्षत्रिय म्हुण तशे भितर सल्ले.' कृष्णान जाप दिली. 'क्षत्रियांच्या धर्मांत सांगलां : इश्टागेर फुडल्या दारान भितर वचचें. दुस्मानागेर मागीलदारयां लेगीत भितर सरचें. तूं आमचो दुस्मान.'

जरासंध घुटमळ्यांत पडलो. म्हणूंक लागलो, 'तुमचे कडेन दुस्मानकाय केल्ल्याचो म्हाका उगडास जायना. तुमकां हांवें कसलीय पिडा भोगयल्ल्याचीय

याद जायना.'

'आमकां भोगोवंक ना तुवें' कृष्णान म्हळें, 'पुणून जायत्या जाणांक भोगयल्या. छयायशीं राजांक धरून तुवें बंदखणींत घाल्यात. तांकां तूं बळी दिवंक सोदता. आनी वयल्यान आपणे तुमचें कांयच वांकडें करूंक ना म्हणटा? तुज्या ह्या पातकांची फळां आमकांय भोगचीं पडटलीं. दोन वाटो तुज्या मुखार उकत्यो आसात. एक, त्या राजांक सोड वा आमचे कडेन झुजपाक यो.'

आनी कृष्णान वळख करून दिली, 'हे दोग पांडव. अर्जुन आनी भीम. आनी हांव कृष्ण.'

जरासंध समजलो. ताणे म्हळें, 'हांवें खंयच्याच राजाक जिखले बगर बंदखणींत घालूंक ना. जिखून हाडिल्ल्यांचें कितें करचें हें हांवेंच थारावपाचें. हांवें देवतेक प्रसन्न करपा खातीर तांकां बळी दिवचे थारायल्यात. क्षात्रधर्माक धरुनूच सगळें केलां. तुमच्या भंयान तांकां सोडून दिवं व्हय. क्षात्रधर्म सोडिल्ले वरी जातलें. म्हज्या मुखार एकूच वाट आसा : झुजपाची. तुमी सैन्य हाडिल्लें आसत जाल्यार तुमच्या सैन्या कडेन म्हजें सैन्य झुजतलें. तुमचे भितल्ल्या एक-एकल्या कडेनूय झुजपाची म्हजी तयारी आसा. जाय जाल्यार, तिगांय कडेन एकाच वांगडा एकल्यान झुजपाची तयारी आसा.'

'आमचे भितल्ल्या कोणा कडेन पयलीं झुजतलो, तूंच थाराय.' कृष्णान सांगलें.

'तुजे कडेन निखालूस न्हय' जरासंधान जाप दिली. 'तूं भित्रो. म्हज्या भयान मथुरेच्यान द्वारकेक पळून गेल्लो. भित्र्या कडेन झुजप म्हळ्यार लज. अर्जुन भुरगो. ताचे लागीं झुजप म्हाका सोबना. भिमा कडेन झुजपाची तयारी आसा म्हजी.'

स्वस्ति पुण्याहवाचन जालें. भीम आनी जरासंध दोगूय झुजपाक मुखार सल्ले. जरासंधान मुकुट काडून दवल्लो, केंस घट्ट आंवळून बांदले आनी दर्यो धर्तरेक गिळूंक मुखार सरिल्ल्याचो भास जावचो तसो उबो रावलो. कृष्णान त्याच खिणाक भिमाक सांगलें, 'वच'.

दोगूय एकामेकांच्या आंगार धांवन गेले. एकामेकांचे खांदे धल्ले. एकामेकांचेर मुठी मारपाक लागले. गालार कपळां आपटिलीं. एकामेकांचे हात पिळूंक लागले. म्हणटासर एकामेकांक उबारून सकल आपटूंक लागले. करतां करतां सगळे नेम मोडून खंयूय मुठी मारूंक लागले. हात, पांय, मान कितेंय पिळूंक लागले.

दोगांयचें झूज पळोवपाक पुराय गिरिव्रज नगर धांवून आयलें. दोगूय एकामेकांक आपटिताले तेन्ना पर्वतांचेर वज्र आदळ्ळें काय कितें अशें दिसतालें.

कार्तिकांतल्या पाडव्याक झूज सुरू जाल्लें. तिरोदस मेरेन चल्लें. एका सारके, जेवी नासतना, खाय नासतना, न्हिदऽ नासतना, मातूय विसंव घेनासतना दोगूय

झुजत रावले. चतुर्दशे दिसा जरासंध धापेवपाक लागलो. गळिल्लेवरी जालो. फार्टी सरपाच्या बेतांत आशिल्लो. ताची गत पळोवन कृष्णान भिमाक म्हळें, 'पुरो जावन पेंचाटेंत पडिल्ल्याक अदीक पिडा भोगयल्यार तो मरता.' भीम अर्थ समजलो. हाका ह्याच खिणाक मारपाचें अशें येवजून ताणे जरासंधाक सटक करून उबाल्लो. गरगर करून वयर घुंवडायलो आनी ढो करून जमनीर आपटिलो. म्हणटासर ताचो एक पांय दांबलो आनी दुसऱ्या पांयान ताका पिंदलो. जरासंधाचीं दोन अर्दां जालीं.

जरासंध त्याच खिणाक मेलो. भिमान खोशयेन किळांच माल्ली. ती आयकून हिमालय फुटिल्ले वरी लोकांक दिसलें. लोक भियेलो.

जरासंध मरतकूच कृष्ण अर्जुन भीम उठून नीट बंदखणींत गेले आनी भितर आशिल्ल्या राजांक तांणी सोडून दिले. सगळ्यांनी जिविताची आस्त सोडून दिल्ली. अवचित सुटिल्ले पळोवन ते अजापांत पडले. कृष्णाचे ते उपकार आठोवंक लागले. तेन्ना, 'कांय दिसांनी युधिष्ठिर राजसूय यज्ञ करपाचो आसा, त्यावेळार ताच्या आधाराक तुमी येवचें' अशें कृष्णान तांकां सांगलें. उपरांत जरासंधाच्या पुताक सहदेवाक कृष्णान राज्याभिषेक केलो. जरासंधाचे गादयेर ताका बसयलो.

इन्द्रप्रस्थाक तिगूय जैतवंत जावन परतले तेन्ना युधिष्ठिराची खोस काळीज भरून ओतूंक लागली.

कृष्ण रोखडोच द्वारकेक गेलो. यादवांक जरासंधाचे हत्येची गजाल आपल्याच तोंडान सांगपाची ताका उमळशीक लागिल्ली.

जरासंधाच्या मरणाची आनीक एक आख्यायिका आसा—

"भीम ताका पिंदून ताचीं दोन अर्दां करतालो तेन्ना दोनूय अर्दां एकामेकांक येवन दसतालीं आनी जरासंध जिवो जावन झुजूंक उबो रावतालो. भौन भौन अशें घडूंक लागलें तेन्ना कृष्णान तणाची एक काडी हातांत घेतली. ती मर्दी तोडली. तिची दोन अर्दां केलीं आनी उजव्या हातांतलें अर्द दावे कडेन आनी दाव्या हातांतलें उजवे कडेन उडयलें. भिमाक ही शिटकावणी पुरो जाली. ताणे जरासंधाक परतो पिंदलो, ताची दोन अर्दां केलीं आनी दोनूंय उरफाटे दिकेन भिरकावन उडयलीं. जरासंध मेलो.'

ही आख्यायिका उपरांत हाडून जोडिल्ली. मुदलांत ती महाभारतांत नाशिल्ली. ही आख्यायिका सोबोवपाक महाभारतांत आतां ताच्या जल्माची कथाय जोडल्या. ती अशी :

'मगध देशांत ब्रहद्रथ नांवाचो एक बळिश्ट राजा जावन गेलो. काशिराजाच्या जुंवळ्या धुवां कडेन तो लग्न जाल्लो. दोगीय रुपेस्त गुणेस्त. दोगींयचेर ताचो सारको मोग. पुणून दोगींकूय भुरगें नाशिल्लें.

एक दीस काक्षिवान गौतमाचो पुत चंडकौशिक मगध देशांत पावलो. तो एक व्हड मुनी. तो आपल्या राज्यांत पाविल्ल्याची खबर ब्रहद्रथाच्या कानार पडटकूच तो आपणाल्या दोगीय राणयांक घेवन ताचे भेटेक गेलो. मुनी एका आंब्या मुळांत बशिल्लो. ब्रहद्रथाची खबर आयकून ताका राजाची काकूळट दिसली. इतल्यांत वयल्यान पिकिल्लो

एक आंबो पडलो. चंडकौशिकान तो काडलो. मंत्रिलो आनी तो राजाक दिवन म्हळें: 'हो आंबो राणयेक खावंक दी. तिका भुरगें जातलें.'

राजाचो दोगींचेरूय मोग. ताणे आंब्याचीं दोन अर्दां करून दोगींकूय वांटून दिलीं. कांय काळान दोगी बाळंत जाल्यो. दोगींकूय उबी अर्दां जालीं. एक कान, एक दोळो, एक हात, एक पांय, अर्दे तोंड, अर्दे पोट, अर्दे कमर हे भाशेन एकलेक एक अर्द, दुसरेक दुसरें अर्द. दोगीय भियेल्ल्यो. आनी दोगींनी दोनूय अर्दां भायर उडयलीं.

त्या वाटारांत जरा नांवाची एकली राक्षशीण भोंवताली. मगध देशांत तिची पुजा जाताली. राजाचीय ती देवता. ती त्या दिसा ते वाटेनच्यान वताली. तिची नदर ह्या अर्दांचेर पडली. तिणे दोनूय एकठांय केलीं तेन्ना दोनूय दसलीं. दोगांयचें मेळून एक भुरगें जालें आनी तें रडपाक लागलें. तेन्ना दोगी राणयो राजाक घेवन भायर आयल्यो.

राक्षशिणीन तें भुरगें मागीर राजाक भेट दिलें. 'जरा' नांवाचे राक्षशिणीन 'सांदिलें' वा जोडिल्लें भुरगें म्हुण भुरग्याक जरासंध नांव पडलें.'

बौद्ध साहित्यांत हारीती नांवाचे एके राक्षशिणिची कथा आयल्या. ती मनशा मांस खाताली. चड करून भुरगीं मारून खाताली. मगध देशांतले निषाद जातिचे लोक तिची पुजा करताले. बुद्धान तिगेलें स्वताचें एक भुरगें लिपोवन दवल्लें आनी तिच्यांतलें वात्सल्य जागें केल्लें. तेन्ना पसून तिची भुरग्यांक राखपी देवता म्हुण पुजा सुरू झाली. 'जरा' राक्षशीण हे हारीतिचोच महाभारती अवतार आसूं येता. जाणकारांच्या मत्तान बौद्ध साहित्यांतल्यानूच जरासंधाच्या जल्माची आनी मरणाची ही कथा रूप आनी भेस बदलून महाभारताक येवन दसल्या.

## ४१. राजसूय यज्ञ

पांडवांचो लौकिक वाडत गेलो तसो तांगेल्या कर्तुत्वाचो परमळूय चोंय वशीन पातळ्ळो.

द्रौपदी तर खुशालभरीत जाल्ली.

एक दीस अर्जुनान युधिष्ठिराक म्हळें, 'सपसप कोणाक मेळनात असलीं धोणवां शस्त्रां अस्त्रां देवा दयेन आमकां मेळ्ळ्यांत. कृष्णा सारको सांगाती मेळ्ळा. दिश्ट लागपा सारकी कीर्त मेळ्ळ्या. आतां राजसूय यज्ञ करपाक कळाव कित्याक लागूंक जाय. आमचो भांडार भरिल्लो आसा. तो आनिकूय भरुंया. उपाय एकूच आसा, आमी दिग्विजयाक वचूंक जाय. हांव उत्तरे दिकेच्या दिग्विजयाक वतां. थंयच्या राजां कडल्यान खंड घेवन येतां.

युधिष्ठिरान वच म्हणपाक कळाव केलो ना. अर्जुन रोखडोच उत्तरे दिकेच्या दिग्विजयाक भायर सल्लो. ताणे ही दिशा धरिना फुडें भीम उदेंते दिकेन गेलो. सहदेव दक्षिण दिकेन जाल्यार नकुल अस्तमे दिकेन गेलो. थोड्याच दिसां भितर

चौगूय भावांनी चारूय दिको जिखून युधिष्ठिराच्या पांयां कडेन घे म्हुण संपत हाडून दवल्ली. इन्द्रप्रस्थाचो भांडार पयलीं भरिल्लोच आशिल्लो. आतां घर भरून दार ओतता इतलो भल्लो.

आतां राजसूय यज्ञाचो बेत तडीक करसो व्हरचो इतलोच प्रस्न उरिल्लो. जिरत्त ह्या वेळार कृष्ण इन्द्रप्रस्थाक पावलो. येतना तोय रत्नांचो सागर करसो धनकोश घेवन आयिल्लो. उज्याच्या रखरखांत शितळ वारो व्हांवंक लागचो आनी जीव सुखावचो तशें किर्ते कृष्ण येतकूच पांडवांक जातालें.

युधिष्ठिरान ताका म्हळें, 'तुजेच कृपेन इतलींय हीं राज्यां आमचीं जावंक पावलीं, इतलीय ही संपत वाडूंक पावली. तुजेंच हें सगळें. तुवेंच राजसुयाची दीक्षा घेतिल्ली जाल्यार आमकां बरें दिसतलें आशिल्लें.'

'राजसुयाचो अधिकार तुजो.' कृष्णान ताका जाप दिली, आनी म्हळें, 'हांव तुज्या म्हऱ्यांत रावीन. तूं सांगतां तें काम करीन.'

यज्ञाचे तयारेक युधिष्ठिर लागलो. धौम्य मुनीन सांगिल्लें सामान हाडलें. कोणाक कसलो अधिकार दिवचो हें थारावपाचें काम व्यास-मुनी कडेन दिलें. व्यासान ब्रह्मत्वाचो अधिकार आपणा कडेन घेतलो. सुसाम मुनीक उद्गातो म्हुण नेमलो. अध्वर्युचे सुवातेर याज्ञवल्क्याची नेमणूक केली. धौम्याक आनी पैलाक होतृकार्य दिलें आनी सगळ्यांच्या शिष्यांक होत्रग केले. भूंयपुजा केली. ब्राह्मणांक आपयले. तांकां रावपा खातीर देवळां कशीं घरां बांदून दिलीं. सगळ्या राज्यांतल्या ब्राह्मण क्षत्रिय वैश्य सुंदराक आमंत्रणां दिवपाक सहदेवाक धाडून दिलो.

युधिष्ठिरान यज्ञाची दीक्षा घेतली.

यज्ञाक आयसले पयसले कितले-शेच राजा आयिल्ले. आपल्या पुताक घेवन शिशुपालूय आयिल्लो. भीष्म द्रोण, धृतराष्ट्र विदुर कृप सगळे कौरव आयिल्ले. तांच्या वांगडा शकुनी कर्ण जयद्रथ शल्य हेवूय आयिल्ले. तांकां आपोवपाक नकुल गेल्लो. ते येतकूच युधिष्ठिरान नमळायेन तांकां म्हळें, 'हें जें किर्ते चल्लां तें सगळें तुमचें अशेंच धरून चलपाचें.' अशें म्हणून तांच्योय ताणे त्या त्या कामा खातीर नेमणुको केल्यो. जेवणा खाणाचेर नदर दवरपाक दुःशासनाक सांगलें. ब्राह्मणांक येवकार दिवपाचें काम अश्वत्थाम्या कडेन दिलें. राजांची सरबराय संजयान करची अशें थल्लें. भांगरा-रत्नांची कोठी कृपाचार्यान पळोवची, विदुरान खर्चाचो हिशेब दवरचो, दुर्योधनान अहेर घेवपाचें काम करचें. हे भाशेन ताणे सगळयांच्यो म्हत्वाच्या सुवातींचेर नेमणुको केल्यो. सगळे कडेन बारीकसाणेन नदर दवरपाचें काम (कृताकृत परिज्ञान) भिष्माक आनी द्रोणाक दिलें. धृतराष्ट्र सोमदत्त जयद्रथ

सगळे घरचें कार्य कशें समजून वावरूंक बोवाळूंक लागले.

कृष्णान ब्राह्मणाचे पांय धुवपाचें काम आपल्या आंगार घेतलें.

अहेर खूब आयलो. आपणे दिल्ल्या अहेरानूच यज्ञ सफळ जावचो अशी जण एकल्या राजाक उमळशीक लागिल्ली आनी दुसऱ्या परस आपलो अहेर चड आसचो हे तरेची तांच्यांत सर्त लागिल्ली.

कांय दिसांनी यज्ञ सोंपलो. युधिष्ठिरान ब्राह्मणांक दक्षिणा वांटली. पोसो भरु-भरून वांटली. बाकिच्यांकूय पोसो भरु-भरून अन्न धान्य दिलें. यज्ञाक आयिल्ले सगळे धादोस भरीत जाले. आनी युधिष्ठिराक आपणालो एक मोटो हावेस भागिल्ल्याचो आनंद जालो.

## ४२. अग्रपुजेचो वाद

सोमयागाच्या दिसा अभिषेक जावपाचो आशिल्लो. ब्राह्मण आनी राजा अंतर्वेदींत एकठांय जाल्ले. सगळे बुदवंत, धर्मिश्ट, ब्रस्तस्थ आनी शास्त्रांत निष्णात. अंतर्वेदींत देव कशे सगले सोबताले. अनुष्ठान सोंपलें आनी भिष्मान युधिष्ठिराक म्हळें, 'इतलेय हे राजा सपसप केन्ना हे भाशेन एकठांय येनात. एकठांय येवपाक वरसांचीं वरसां लागतात. तेदोच व्हडलो म्हत्वाचो प्रसंग येवचो पडटा. तुज्या राजसुयाच्या निमित्त्यान ते एकठांय आयल्यात. एक-एकल्याची आतां पुजा कर. हांच्यातलो जो सगळ्यांत व्हड ताची सगळ्यांत पयलीं कर.'

'हांच्यांतलो सगळ्यांत व्हड कोण, तूंच सांग.' युधिष्ठिरान म्हळें, 'दुबाव आसा व्हय, श्रीकृष्ण सगळ्यांत व्हड.' भिष्मान सट्ट करून जाप दिली. 'बळांत तेजांत पराक्रमांत ताका लागपी धर्तरेचे फाटीर कोण ना. नक्षत्रांत सूर्य तसो मनशांत कृष्ण.'

सहदेवान रोखडीच कृष्णाची पुजा केली आनी कृष्णान ती करून घेतली.

चेदिचो राजा शिशुपाल थंयच बशिल्लो. तो ही पुजा पळोवन खुबलो. ताणशेवन विचारपाक लागलो, 'कृष्ण कोण म्हुण तुमी ताका हो भौमान दितात. हांगा व्हडले व्हडले लोक आसात. तांकां कुशीन उडोवन कृष्णाचीशी पुजा? पांडव भुरगे. तांकां बरें वायट पारखूंक येना. आनी भिष्माची अक्कल खंय चरपाक गेल्या, देव जाणा. कृष्णाक बेश्टो तो व्हड लेखता. कृष्ण कोण, राजा? हे पळे, हांगां व्हडले व्हडलें राजा बसल्यात. बरे, पिरायेन तो जाणटो तरी? हो पळे हांगा वसुदेव बसला ताचोच बापुय. दुसरो जाणटो जाय? हो घे द्रुपद. कृष्ण आचार्य म्हुण तरी व्हड?

आचार्यां मदलो सगळ्यांत व्हडलो हो पळे द्रोण हांगा बसला. जाल्यार ऋषींत सगळ्यांत व्हडलो हो पळे व्यास हांगा आसा. अग्रपुजेचो भौमान फावता असले कितले-शेच जाण हांगा आसात. अश्वत्थामो दुर्योधन कृप भीष्मक रुक्मी एकलव्य शल्य कर्ण. तांकां सोडून कृष्णाक हो भौमान दिवप म्हळ्यार हांगा! आमी जे कोण आयल्यात ते कोणूच न्हय-शे जाले. कृष्णाचीच पुजा करपाची आशिल्ली जाल्यार आमकां हांगा कित्याक आपयल्ले. कित्याक तुमी आमचो अपमान करतात. अर्जुनाच्या भयान वा भिमाक संतुश्ट करूंक आमी हांगा येवंक नाशिल्ले. युधिष्ठिराक सम्राट करपाक आयिल्ले. युधिष्ठिराक धर्मात्मो लेखताले आमी. तो खरो धर्मात्मो आशिल्लो जाल्यार आमचो अपमान करून ह्या घातमाऱ्याची पुजा करचो नाशिल्लो. कृष्ण दुश्ट, घातमारो. जरासंधाचो ताणे अन्यायान घात माल्ला.' दांत ओंठ चाबून शिशुपाल कृष्णाकूच विचारपाक लागलो, 'तुवें कशी करून घेतली रे पुजा. पांडव भुरगे. तांकां कांय समजना. तुकाय समजना? आपणाक ही पुजा फावता काय ना, तुवें येवजूंक नाका आशिल्लें रे? खोज्याक चली, दोळे फुटक्या मुखार हारसो तसो तुका हो भौमान मेळ्ळा. युधिष्ठिराची अक्कल कळ्ळी. भिष्माचेंय खरेलें रूप कळ्ळें आनी कृष्णा, तुजीय कसवटणी जाली. तुवें अधिकार नासतना ही पुजा घेतल्या. वेदी भायर पडिल्ल्या हविर्भागाचेर सुण्यान उडी मारची तशी.

भिष्माची तरी करची आशिल्ली पुजा, सभाग्यांनो!'

अशें म्हणून तो तिडकीन उठलो आनी उठून तडक भायर गेलो. ताचे फाटल्यान आनिकूय कांय राजा उठून गेले. तेवूय रागान तांबडे गुंज जाल्ले.

धर्मराजाक थरथरो भल्लो. आपणे कितें केलें, कितें जालें, ताका सारकें कांय कळ्ळें ना. तो शिशुपाला फाटल्यान धांवलो. ताका आडावन म्हणपाक लागलो, 'कितें करता तूं हें पापया. असो निष्ठुर रे कित्याक जाता? बेश्टो कोणाचो अपमान करूं नाका. भिष्माक कांयच समजना म्हणटा तूं. धर्माचें गिन्यान ना ताका अशें म्हणणें व्हय तुजें. आरे, तुजे परस जाणटे कितले-शेच राजा बसल्यात हांगा. आचार्य बसल्यात, ऋषी बसल्यात. श्रीकृष्णाक अग्रपुजेचो भौमान फाव नाशिल्लो जाल्यार, ते सांगचे नाशिल्ले म्हाका? श्रीकृष्ण कोण तो तूंच एकलो नकळ. बाकिचे सगळे जाणात. यो मात्सो भितर, उपकार करून.'

युधिष्ठिर थतर-वितर जाला तें पळोवन भिष्मान ताका म्हळें, 'शिशुपालाक आपोवपाचे भरीक पडूं नाका. कृष्ण कोण हें जाका खबर ना ताका बाबा पुता करून भितर हाडपांत अर्थ ना. झुजा-मळार जो दुसऱ्यांक आड घालून आपणाले अंकीत करता तो व्हडलो क्षत्रिय. कृष्णान आपलो अंकीत करूंक ना असलो एकलो लेगीत हांगा दिश्टी पडना. हे नदरेनूय कृष्णा परस व्हड हांगा कोण ना.

तो आमकांच पूज्य अशें न्हय, अख्ख्या सवसाराक पूज्य. केदोय व्हड कोणूय हांगा आसूं, कृष्ण ताचे परस व्हड.'

शिशुपाला कडेन पळोवन तो म्हणपाक लागलो, 'व्हडल्या व्हडल्यांक मेळपाचें भाग्य मेळ्ळां म्हाका. सगळ्यांच्यां तोंडांतल्यान हांवे कृष्णाची तुस्तूच आयकल्या. तागेल्या सामान्या भायल्या कर्तुत्वाच्यो खबरी तांच्या तोंडांतल्यान आयकल्यात. तो सगळ्यां परस व्हड, व्हडांत व्हड, म्हुण ताका अग्रपुजेचो भौमान दिला आमी. तो आमचो इश्ट, आमचो बरें मागतो म्हुण न्हय. व्हडल्या व्हडल्यांनी ताका व्हड लेखला म्हुण दिला. हांगा बसल्यात तांकां सगळ्यांक वळखतात आमी. गिन्यानान जो जाणटो ताका ब्राह्मण व्हड लेखतात. बळिश्टांत जो बळिश्ट ताका क्षत्रिय व्हड लेखतात. कृष्ण पिरायेन ल्हान. पुणून गिन्यानान व्हड, बळान व्हड. धर्तरेर ताचे येदो कोण ना. तुका तागेलें रूप खबर ना. ताची पुजा करून आमी दुसऱ्याचेर अन्याय केला अशें कोणाकूय दिसता जायत, जाल्यार ताणे जाय तें करचें.'

इतलें सांगून भीष्म बसलो.

रोखडोच सहदेव उठलो आनी म्हणूंक लागलो, 'जाका ही पुजा मान्य ना ताचे तकलेर पांय दवरतां हांव. कितें करतले, करात.'

'शाब्बास' म्हुण आकाशवाणी जाली.

त्याच खिणाक नारद उठून उबो रावलो आनी म्हणपाक लागलो, 'जाका कृष्णाची पुजा मान्य ना ताचे कडेन कोणे उलोवचें लेगीत न्हय.'

शिशुपालाक भिरभिरी माल्ली. तो उसळ्ळो. दांत वोंठ चाबून उठलो आनी भोंवतणच्या राजांक उलो मारून विचारपाक लागलो, 'हांव हांगा आसतना तुमी ओगी कित्याक बसल्यात. कितें येवजितात. चलात, उठात, येयात म्हज्या वांगडा. बुद्द शिकोवया हांकां.'

कांय जाण ताच्या अर्दान आशिल्लेच. यज्ञाक आडखळ हाडची अशें येवजून ते उठले. मोट्या मोट्यान आड्डूंक लागले आनी शिशुपाला वांगडा उठून गेले.

अवचित मोड येवचें आनी म्हाल-म्हातारे रूख लेगीत धोलूंक लागचे तशें-शें कितें जाल्ले वरी सगळ्यांक दिसलें. युधिष्ठिर भियेलो.

भिष्मान ताका धीर दिवन सांगलें, 'बेश्टो थतरवितर जावं नाका. कांयच जावपाचें ना. कितेंच करपाचे नात हे. शींव न्हिदिल्लो आसासर भोंकपाचें सुण्यांनी. हांचें आतां लागीं पावलां. लागीं पावता तेन्ना मनशाची सगळ्यांत पयली बुद्द वेता. हांची बुद्द गेल्या. कृष्ण अजून तिडकूंक ना. ताका तिडकूं दी, मागीर पळेतलो तूं.'

शिशुपाल परतो उसळ्ळो. भिष्माक म्हणूंक लागलो, 'कोणाक भेश्टायता रे म्हाताऱ्या? लज दिसना रे तुका? कुरु वंशाची वाट तुवेंच लायल्या. कुड्यां

फाटल्यान कुडे गेले म्हणटकूच फोंडांतूच पडटले. आनीक खंय वतले. कोणाच्यो व्हडविको सांगता रे तूं आमकां, कृष्णाच्यो? ताका वळखनात व्हय आमी. कसलीं कर्तुत्वां केल्यांत ताणे. भुरगो आसतना ताणे पांय मारून गाडो उडयल्लो म्हुण व्हड दिसलो काय किर्ते तो तुका. गाडो कोणूय उडयत. काय, गोंवर्धन पर्वत बोटार धल्लो म्हुण व्हड दिसलो. ती रोयणिची दोंगुल्ली आशिल्ली. भितल्यान पोखल्लेली. ताचीं कर्तुत्वां हांव सांगतां, आयक : ताणे गाय माल्ल्या. स्त्रीहत्यां केल्या, पुतनेक माल्ल्या. कंसाचें अन्न खावन ताका माल्ला. जरासंधाक ताणे कसो माल्लो, खबर ना व्हय. फटींगपण करून माल्ला. ब्राह्मणाचो भेस करून हो ताच्या राजवाड्यांत मांगील दारयां भितर सल्लो. जरासंध व्हड म्हुण ताणे हाका येवकार दिलो. जेवपाक घालें. ताकाच न्हय रे ह्या घातमाऱ्यान भिमा हातान माल्लो! गिन्यानी खंय तो. बुदवंत खंय! तुंवें गिन्यानी खंय पळेल्ले? तूं आपणाक गिन्यानी लेखता काय किर्ते. उंणाक तूं. सभावान तूं उणाक म्हुण्णूच तुंवें दुसऱ्याचेर मोग करतले अम्बेक उबारून हाडली आनी मागीर तिका सोडली. तिच्यो भयो भयो जाल्यो. तिची काकूळटेणी गत जाली. तुजेच हुजीर न्हय रे दुसरो येवन तुज्या भावाच्या बायलांक गुरवार करून गेलो! तांकां भुरगीं कशीं जालीं रे. ब्रह्मचर्याचे व्रत घेतलां खंय तुंवें! तूं खोजो. तुज्या ब्रह्मचर्याक अर्थ ना. तुंवें गिन्यानी पळोवंक लेगीत नात. तुका तांचो सांगात लेगीत केन्ना मेळूंक ना. ह्या गवळ्याक व्हड लेखतलो कसलो गिन्यानी! खोजो तूं, म्हातारो. बायजण खंयचे कडलो.

भिमाच्यान सोसूं नज जालें. ताचे दोळे तांबडे गुंज जाले. भोंवयांक आंठयो पडल्यो. ताणे मुठी आंवुळ्ळयो आनी दांत वोंठ चाबून तो शिशुपालाच्या आंगार धांवून गेलो. भिष्मान ताका आडयलो. तेन्ना शिशुपाल म्हणपाक लागलो, 'कित्याक रे आडायता ताका. येवं दी नेटान. ताचो हुलपावन गोबोर करिना जाल्यार हांवूच न्हय जायन. पळोवं दी सगळ्यांक.'

## ४३. शिशुपालाची हत्या

शिशुपाल जल्मा आयला त्या वेळार ताका चार हात आनी तीन दोळे आशिल्ले आनी तो गाढवा भाशेन आड्डल्लो. तागेलें हें विद्रूप आनी दुश्चिन्नाळें आड्डप आयकून तागेलो बापुय चेदी राजा भियेलो. ताका किर्ते करचें, कांय समजना जालें. राजा राणी मंत्री पुरयत सगळे हुसक्यांत पडले. सोडून दिल्लो बरो, अशें सगळ्यांचे मत्त जालें.

इतल्यांत आकाशवाणी जाली : हो बळिश्ट आनी भाग्यवंत जातलो. हाका येदे बेगीन मरण ना. आतांच सोडून दिलो म्हुण तो मरपाचो ना. हाका मरण शस्त्रान येतलें आनी तोवूय एक मोट्टो शस्त्रधारी आसतलो.

आवयन विचाल्लें, 'हाक कोणाच्या हातान मरण येतलें? देवाच्या काय, आनीक कोणाच्या.'

परती आकाशवाणी जाली, 'जाचे मांडयेर दवरतकूच हाच्ने अडेचे हात गळटले आनी अडेचो दोळो जिरतलो ताच्या हातान.'

चेदी राजागेर चार हातांचो आनी तीन दोळ्यांचो पुत जाला म्हणपाची खबर धाय दिकांनी पातळ्ळी. ताका पळोवपाक धाय दिकांतल्यान लोक येयपाक लागले. हजारांनी आयले. कोणा हातान ताका मरण येवपाचें आसा हें पळोवपाक बापुय एक-एकल्याचे मांडयेर ताका दवरपाक लागलो. हजारांनी लोकांचे मांडयेर दवल्लो. एक दीस द्वारके सावन कृष्ण आयलो. शिशुपालाची आवय कृष्णाची मावळण बापायची भयण. कृष्णाचे मांडयेर शिशुपालाक दवल्ला त्याच खिणाक तागेले अडेचे हात गळ्ळे. अडेचो दोळो जिल्लो.

ती भियेली. तिणे कृष्णाक विचाल्लें, 'म्हाका तूं एक उतर दिशीत व्हय?

'कसलें'.

'हाणे कितलेय गुन्यांव करूं, म्हज्या तोंडा कडेन पळोवन तूं ताका ते माफ करतलो म्हुण उतर दी.'

'बरें आसा. शंबर गुन्यांव माफ करतलों.' कृष्णान जाप दिली.

आयज तो भिमाक झुजपाक यो म्हणपाक लागलो तेन्ना भिष्मान म्हळें, 'हाची बुद्द हाका सोडून गेल्या. ना जाल्यार म्हाका गाळी घालपाचो हाका धीर जावचो नाशिल्लो. हो कृष्णाक लेगीत गाळी घालूंक लागला!'

शिशुपालाच्या कानार भिष्माचीं उतरां पडलीं. तो उसळून म्हणपाक लागलो, 'घालतलों' घालतलों गाळी. सभाग्या, तुका तुस्तूच गावची दिसता जाल्यार ती ह्या गवळ्याची कित्याक रे. आरे, तो कंसागेर गोरवां राखतालो मरे! हांगा केदे केदे व्हड लोक जमिल्ले आसतना कोणाची तुस्त गायता रे तूं. हो पळे बाल्हीक देशाचो कर्तुत्वी दरद. हो पळे इन्द्रा येदो पराक्रमी कर्ण. हो द्रोण, हो अश्वत्थामो, हो दुर्योधन, हो जयद्रथ, हो किन्नरांचो द्रूम. तुस्त गायतलोच जाल्यार हांची गा. त्या उणाकाची न्हय.'

शिशुपाल जमिल्ल्या राजांची नांवां घेवन एक एकल्याची तुस्त गावपाक लागलो.

भिष्माक भिरभिरी माल्ली. सोंसूं नज जावन ताणे म्हळें, 'थुकतां हांव सगळ्यांच्या तोंडार.'

कितले-शेच राजा थंय जमिल्ले. तांका हो आपणालो अपमान करसो दिसलो. ते उसळ्ळे. 'हो म्हातारो मदांध जाला. हाका चेंचावन मारूंक जाय, बकऱ्याक मारतात तसो.' ते उत्तेपणान आनी मोट्या-मोट्यान म्हणपाक लागले.

'जापेक जाप दीत रावलो जाल्यार जापो सोंपपाच्यो नात. वाडत वतल्यो. हांव म्हजो निमाणो नित्शाय सांगतां' अशें म्हणून भिष्मान म्हळें, 'तुमी म्हाका मारात वा जितो हुलपायात. हांव तुमच्या माथ्यार हो पळे, पांय दवरून उबो रावलां. कोणाक मरपाचें आसा ताणे फुडें सरचें.'

शिशुपाल फुरफुल्लो. तो कृष्णाच्या आंगार धांवन गेलो. म्हणूंक लागलो, 'तुकाच पयलीं जितो मारून उडोवंक जाय. हांगा येदे येदे व्हडले राजा आसतना अग्रपुजेचो भौमान तुवें घेवचो? तुका आनी त्या पांडवांक दाखयतां. तुमकां नाच करतां. खरो जाल्यार यो.'

कृष्ण ह्या खिणा मेरेन एक उतर लेगीत उलोवंक नाशिल्लो. तो आतां उलोवपाक उबो रावलो. ताणे सांगले, 'हांव उलोवचों नाशिल्लों. पुणून आतां ओगी रावं नज. यादव कुळयेंत जल्मा आयिल्लो हो शिशुपाल यादव कुळयेच्याच जिवार उठला. आमी सगळे प्रागज्योतिशपुराक गेल्यात अशी हूल उठोवन एक फावट हाणे द्वारकेक उजो घाल्लो. रैवतक पर्वतार भोज खेळटाले. तांकां हाणे कातरून उडयल्ले. म्हज्या बापायन एक यज्ञ केल्लो त्या यज्ञांत हाणे विघ्नां हाडिल्लीं. बभ्रुची बायल सौवीर देशाक वताली. वाटेरूच तिचेर हाणे आगळीक केल्ली. विशालाची धुव भद्रा करूष राजाक दिवची केल्ली. हाणे करूष राजाचें सवंग करून भद्रेक पळोवन व्हेली. हागेले हे सगळे गुन्यांव हांवें मोन्यांनी सोंसून घेतले, हाचे आवयच्या तोंडा कडेन पळोवन गिळ्ळे. हो रुक्मिणी कडेन लग्न जावंक सोदी. तरी बरें, हाका तिगेलें नाखूट लेगीत पळोवंक मेल्लें ना म्हुण.'

शिशुपाल खो खो करून हांसपाक लागलो, 'रुक्मिणी पयलीं म्हाका दिवची केल्ली हें सांगतना तुका लज कशी दिसली ना रे?' ताणे विचाल्लें. 'नाक आशिल्लो कोणूच आपणाली बायल पयलीं दुसऱ्याची आशिल्ली अशें सांगचो ना.'

अशें म्हणून ताणे हिणसावन कृष्णाक म्हळें, 'कर, तुका जाय तें. म्हाका तुजी पर्वा ना.'

आपल्याच वांगडा उलयले वरी करून कृष्णान म्हळें, 'हाका शंबर गुन्यांव माफ करतलों अशें हाचे आवयक हांवें उतर दिल्लें. शंबर आयज भल्ले'. अशें म्हणून त्याच खिणाक ताणे ताचेर सुदर्शन सोडलें.

खिणा भितर शिशुपालाची गोमटी ताचे कुडी पसून वेगळी जाली आनी कूड घो करून सकल कोंसळ्ळी. म्हणटासर शिशुपालाचे कुडींतल्यान एक जोत भायर

सल्ली. कृष्णा सरीं येवन ती ताका पांयां पडली आनी कृष्णाचे कुडींत भितर गेली.

आं करून सगळे पळेत रावले. एकल्याच्याय तोंडांतल्यान एक उतर सुटलें ना. म्हणटासर सगळे ब्राह्मण कृष्णा भोंवतणी एकठांय जावन ताची तुस्त गावपाक लागले. ब्राह्मणां फाटोफाट राजा उठले. तेवूय तागेली तुस्त गावपाक लागले.

राजसूय यज्ञ हे भाशेन सोंपलो.

'तूं आमगेलो सार्वभौम राजा जालो', अशें म्हणून सगळ्या राजांनी युधिष्ठिराचें अभिनंदन केलें. उपरांत ते आपापणाल्या देशाक वचपाक भायर सल्ले. एक-एकल्याक शिमे मेरेन पावोवपाक एक-एकलो गेलो. धृष्टद्युम्न विराटाक पावोवपाक गेलो. अर्जुन द्रुपदाक, भीम धृतराष्ट्राक भिष्माक, तर सहदेव द्रोणाचार्याक. नकुल सुबलाक तर अभिमन्यु आनी द्रौपदेचे पांचूय पुत पर्वत-देशांतल्या राजांक पावोवपाक गेले.

शिशुपालाचे निमाणे संस्कार जाल्या उपरांत युधिष्ठिरान शिशुपालाच्याच पुताक अभिषेक करून चेदी देसाचो राजा केलो.

त्या उपरांत कृष्ण द्वारकेक वचूंक भायर सल्लो. तो कुन्तीक वचून मेळ्ळो. आनी तिका ताणे म्हळें, 'तुगेले पुत वैभवान गिरेस्त जाले. सुखांत राव आतां.'

फकत दुर्योधन आनी शकुनी कांय दीस थंय उल्ले. तांकां मयसभा सारकी बरी पळोवपाची आशिल्ली. यज्ञाच्या बोवाळांत ते मयसभा पळोवंक पावूंक नाशिल्ले.

## ४४. एक सोपूत

यज्ञाक व्यास आयिल्लो. ताणेच यज्ञ चलयल्लो. ब्रह्मत्वूय ताणे घेतिल्लें. यज्ञ सोंपतकूच तो आपणाल्या आश्रमांत वचपाक भायर सल्लो.

भायर सरतना ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'सार्वभौम राजाची पदवी जोडप सोंपें न्हय. सप सप ती कोण जोडूंक पावना. असली पदवी तुवें जोडल्या. तुजें भाग्य दिशिं-माशीं वाडत वतलें. ताका चडटी कळा लागल्या. कुरुकुळाचें नांव तूं वयर काडटलो.' इतलें म्हणून ताणे आशीर्वाद दिलो, 'तुजें बरें जावं. तुवें सगळ्यांची सरबराय खूब बरी केली. बरें, येतां हांव.'

युधिष्ठिराचे तकलेंत एक दुबाव घोळूंक लागिल्लो. व्यासा मुखार तो दवरचो अशें येवजून तो उठलो आनी व्यासाचे पांय धरून विचारपाक लागलो, 'शिशुपालाक लागून जें अरिश्ट आयिल्लें तें ताच्या मरणान सोंपलें काय, मुखारूय चलपाचें आसा ?

व्यास गंभीर जालो. ताणे सांगलें, 'विचारता म्हुण सांगतां : जें किते घडलें ताचे परिणाम सगळ्यांक तेरा वरसां भोगचे पडटले. तांतूंत क्षत्रिय सगळे नष्ट जातले. तांच्या घाताक तूं निमित्त जातलो. दुर्योधनाच्या गुन्यांवाक लागून आनी अर्जुन भिमाच्या बळाक धरून सगळे क्षत्रिय एकठांय येतले आनी एकामेकांच्या जिवार उठले. पुणून प्रारब्धांत जें आसा तें कोण चुकयतलो?'

व्यास गेलो. युधिष्ठिराची न्हीद खळ्ळी. ताका उंडी वचना जाली. .तो खंती जावन सुस्कारे सोडपाक लागलो. आपणाकूच विचारपाक लागलो, 'प्रारब्धांतलें चुकोवंक येना जाल्यार, मागीर जियेवप कित्याक. ताणे अर्जुनाक आपोवन सांगलें, 'व्यासान सांगिल्लें आयकत पसून जिविता वयली म्हजी आस्त उडून गेल्या. मात पसून जियेन दिसना. क्षत्रियांच्या घाताक काळान म्हजीच वेंचणूक केल्ली आसत जाल्यार हांवें जियेवंक कित्याक जाय.'

अर्जुनान धीर दिवन म्हळें, 'जावपाचें आसा तें जातलेंच मू. तें चुकोवंक येवचें ना मू. तर मागीर ताचेर येवजप कित्याक. आपणे आपली करणी आनी चलणूक नीट दवरची. आमच्या हातांत इतलेंच आसा. फुडाराचो हुस्को करचो न्हय.'

युधिष्ठिर येवजीत रावलो. निमाणें, ताणे एक सोपूत घेतलो, 'आयच्यान कोणाक दुखत अशें एक लेगींत उतर तोंडांतल्यान काडचों ना. सदां सगळ्यां कडेन नमळायेन चलतलों. नमळायेन उलयतलों. भुरग्यां कडेन लेगीत. करपाचें सगळें चार चवगांक सांगून विचारून करतलों. झगडीं झुजां किजिलां मतभेदांक लागून जातात. कोणा कडेन मतभेद जावंक दिवचों ना. मतभेदां पसून पयस रावतलों.'

## ४५. उज्यांत तेल

सोयरे वतले, मागीर उसरपत जातकूच आपुण मयसभा बारीकसाणेन पळेतलों म्हुण दुर्योधन थंय राविल्लो. परकी सोयरे सगळे गेले. उपरांत एक दीस ताणे मयसभा पळोवपाक सुरवात केली. पळेतां पळेतां ताचे दोळे दिपकावले. असली अद्भुत सभा ताणे खंयच पळोवंक नाशिल्ली. असली सभा आसूं येता म्हणपाचें ताणे आयकूंक लेगीत नाशिल्लें. तो अजापान पळेत गेलो. एके कडेन ताका उदकाचो भास जालो. तळी आसुंये, अशें ताणे मनांत म्हळें आनी न्हेसण वयर काडून जतनायेन पावल घालें. पुण, थंय उदक नाशिल्लें. 'आंवय! जमीनच मरे ही.' अशें मनांत म्हणून तो मुखार गेलो. मुखार तसलीच जमीन दिश्टी पडली.

'यँ! तळयेचो भास करून दिवपी आदले सारकीच आसतली' अशें धरून तो नेटान गेलो आनी घो करून तळयेंत पडलो.

द्रौपदी आनी भीम एके कडेन रावन ताका पळेतालीं. तांकां हांसूंक आयलें. तीं खो-खो करून हांसलीं. तीं हांसतात म्हुण म्हऱ्यांतले शिपायक आनी सेवक चाकरमाने हांसले. दुर्योधनाचें तोंड बावलें. ताका लज जाली. पुणून ताणे दाखोवन दिलें ना. ताका दुसरीं वस्त्रां हाडून दिलीं. तीं तो न्हेसूंक लागलो. त्यावेळार तो पडिल्ल्याची याद जावन भीम परतो हांसलो. तो हांसता म्हुण बाकिचेय हांसले. दुर्योधनान तांच्या सामकार कांयच दाखोवन दिलें ना. मनांतल्या मनांत दांत ओंठ चाबीत तो मुखार गेलो. मुखार वणटीक एक दार आशिल्लें. तें उक्तें आसतलें अशें मानून तो त्या दारांतल्यान वचूंक गेलो. जाल्यार, धब्ब करून वणटीक आपटलो. कांयच दाखोवन दिनासतना तो मुखार गेलो. मुखार एक धांपिल्लें दार दिश्टी पडलें. तें उकतें करून मुखार वतलों अशें येवजून ताणे तें हातान धुकल्लें. जाल्यार, तोल सुट्रून हुंबऱ्यार पडलो.

'कितें करता रे तूं हें,' भिमान ताका हांसत हांसत विचाल्लें.

'आनी कितें करतलो, कुड्ड्या राजाचो कुड्डो पुत.' द्रौपदेन म्हळें.

दुर्योधनाक खावं काय गिळूं हे तरेची तिडक माल्ली. पुणून कांय उलयनासतना तो मुखार गेलो. मुखार ताका आनी-एक दार दिश्टी पडलें. हें दार काय कितें, कोण जाणा, ह्या घुटमळ्यांत तो पडलो आनी फजेत नाका अशें येवजून तो दारा मुखारूच उबो रावलो.

त्या दिसा दुर्योधनाची खूब फजेत जाली.

दोन दिसां उपरांत तो जळफळत घरा परतलो.

## ४६. शकुनिची बुद्द

घरा परततकूच दुर्योधनाची वाचा धल्ली. सारको जेविना, सारको न्हिदना, कोणा कडेन उलयना. सत्यभास काडिल्ले वरी तो चलपाक लागलो. पांडवांची संपत खोरस कीर्त पळोवन ताच्या आंगाक हुलोप पेटलो. कितें करचें, ताका येवजना जालें. एका सारको येवजीत रावलो.

शकुनी दुर्योधनालो मामा. गांधार सोडून आतां तो हस्तिनापुराकूच रावंक लागिल्लो. दुर्योधनाक सत्यभास काडिल्ले वरी जाल्लो पळोवन शकुनीन ताका विचाल्लें, 'तुका जालां कितें रे ह्या दिसांनी.'

'कपळ म्हजें,' दुर्योधनान जाप दिली, 'युधिष्ठिराचो यज्ञ पळेत परसून हुलोप पेटला आंगाक. खोस आटून गेल्या. कृष्णान शिशुपालाची गोमटी कातली सगळ्यां हुजीर आनी एकल्याय सभाग्यान ताका कांय म्हळें ना. व्हडले व्हडले राजा बशिल्ले थंय. सगळे वागरें पडिल्ले भाशेन ओगी पडले. इतलेंच न्हय तर रत्नां माणकांचो खंड भरताले. पांडवांनी तकली वयर काडची न्हय म्हुण कितें कितें केलें हावें! सगळें फुकट गेलें. राजलक्ष्मी तांचेच पांय धुयता. तांगेली कुबेरा सारकी संपत, मयसभा, तांतूंत म्हजीं जाल्लीं फकाणां, सगळें येवजतकूच जीव दिवचो-सो दिसता.'

शकुनीन म्हळें, 'तांच्या नशिबांतलें ते भोगतात. त्या कामाक तुवें मत्सरान कित्याक हुलपूंक जाय. जायतें केलें तुवें तांकां ना करपा खातीर. ते ना जाले नात. परते, वयर सल्ले. तांकां द्रौपदी मेळ्ळी. धृष्टद्युम्न द्रुपदा सारकेले बरें मागते मेळ्ळे. कृष्ण मेळ्ळो. त्या भायर जाणटेल्यांच्या राज्याचोय अर्दो वांटो मेळ्ळो. तांचें नशीब बरें म्हणचें पडलें ना? बरें, आमी कोण कांय करिनात अशें न्हय. तूं सांग, आमी कितें करचें तें. तुगेले भाव तूं कितें सांगता काय म्हुण पळेतात. एका पांयार उबे आसात तें करपाक. अश्वत्थामो तुगेलो. द्रोण तुगेलो. कृप तुगेलो. कर्ण तुगेलो. हांव तुगेलो. तूं सांग आतां, आमी तुका अख्खी धर्तरी जिखून हाडून दिवं?'

दुर्योधन म्हणूंक लागलो, 'पांडवांक हाणूक जाय.'

'तांकां हाणप सोपें न्हय.' शकुनीन जाप दिली, 'झुजांत तांकां आड घालप देवांक जमपाचें ना. म्हजे कडेन आनीक एक उपाय आसा....'

'कसलो तो', दुर्योधनान उचांबळीत जावन विचाल्लें.

'द्युत खेळपाक आपय युधिष्ठिराक. तो ना म्हणचो ना. आनी लक्षांत दवर : ताका खेळूंक येना. ताका हारोवन हांव तागेलें राज्य, तागेली संपत तुज्या पांया कडेन हाडून दवरिना जाल्यार, विचार तूं म्हाका. पुणून एक : धृतराष्ट्राची मान्यताय जाय. मागीर हुस्को ना.' शकुनीन सांगलें.

दुर्योधनाक हो उपाय खूब मानवलो. तागेली खंत ना जाली. पुणून धृतराष्ट्राक सांगप आपणाक जमपाचें ना हें तो जाणा आशिल्लो. देखून ताणे म्हळें, 'ताका सांगपाचें काम तुकाच बरें जमतलें. तूंच कर तें.'

# ४७. त्रिकुट

शकुनी दुर्योधनाक घेवन धृतराष्ट्रासरीं गेलो. धृतराष्ट्राच्या सभावांतलीं दुबळीं आंगां तो जाणा आशिल्लो. विचारपाक लागलो, 'दुर्योधनाची वासपूस लेगीत घेवप ना म्हळ्यार कितें. हाली तो कितलो भागला, खबर आसा? किडकिडीत जाला. धवो फुल्ल जाला. कसली खंत लागल्या ताका, विचारप लेगीत ना?'

'कितें जालां ताका.' धृतराष्ट्रान विचाल्लें.

'तें हांव नकळं, ताकाच विचाल्लेलें बरें.' शकुनीन म्हळें.

'खंय आसा तो.'

दुर्योधन थंयच आशिल्लो. ताका मुखार करून शकुनीन म्हळें, 'हो पळे हांगाच आसा.'

'कितें जालां पुता तुका.' धृतराष्ट्रान दुर्योधनाक विचाल्लें, 'येद्या व्हडल्या राज्याचो धनी तूं. जेवपा-खावपा, न्हेसपाक कितेंच उणे ना तुका. बऱ्यो बऱ्यो तरण्यो धाकट्यो बायलो आसात तुका. त्याभायर दासयो. तुज्या मना आड कोणूच कितेंच करिना. तुजे भाव तुज्या तोंडांतल्यान उतर सुट्टा काय म्हुण पळेतात तें झेलपाक. हेरूय व्हडले व्हडले लोक आसात तूं सागता तें करपाक.'

दुर्योधनान मदींच म्हळें, 'सगळें आसा. पुण सुख ना.'

'सुख कित्याक ना' म्हुण विचारतकूच दुर्योधनान काळीज उकतें करून सांगलें, 'पांडवांचें वैभव पळोवन काळीज करपून गेलां म्हगेलें. खाल्लें आंगाक लागना. न्हीद मातूय पडना. तीस तीस दासयो आशिल्लीं अंयशीं हजार कुटुंबां पोसता युधिष्ठिर. धा हजार ब्राह्मण सद्दां भांगराच्या ताटांत जेवतात तागेर. यज्ञाक लागून जी संपत तागेर एकठांय जाल्ली तसली हांवें खंयच पळोवंक ना. इतली संपत कोणाकडेनूय आसूं येता म्हणपाचें आयकूंक लेगीत ना. इन्द्राक लेगीत मेळूंक ना जातलो असलो सोरो खासा समुद्र थंय घेवन आयिल्लो. रत्ना-माणकांच्यो राशी घेवन हजारांनी लोक भायर तिष्ठत राविल्ले. येदी संपत इन्द्रागेर, वरुणागेर, कुबेरागेर लेगीत आसची ना. हें सगळें पळोवन कसो सस्थ बसूं हांव. आसा तांतूंत मनीस धादोशी रावलो जाल्यार तागेलें ऐश्वर्य ना जावपाक कळाव लागचो ना. खरें सांगतां, म्हाका जियेन लेगीत दिसना.'

शकुनीन मदींच तोंड घालून म्हळें, 'तुका जाय जाल्यार, पांडवांची सगळी संपत हाडून तुज्या पायां कडेन ओतीन हांव.'

'कशी'? धृतराष्ट्रान उचांबळीत जावन विचाल्लें.

'युधिष्ठिराक द्युत खेळपाक आपय' शकुनीन सांगलें. 'तो ना म्हणचो ना. ताका सगळें पणाक लावंक लायतां आनी पण जिखून दाखयतां.'

धृतराष्ट्र ओगी रावलो. तें पळोवन दुर्योधनान म्हळें, 'आपोवया युधिष्ठिराक द्युत खेळपाक. शकुनी मामा ताका हरयतलो.'

धृतराष्ट्र म्हणूंक लागलो : 'विदुराक विचारून सांगतां.'

'हाचो अर्थ, विदुरान ना म्हळ्यार तूंय ना म्हणटलो, असो जालो.' दुर्योधनान म्हळें: 'विदुराक मान्य जावचें ना. तो ना म्हणटलो हाची म्हाका खातरी आसा. मागीर, आमचो बेत तडीक वचपाचो ना.'

अशें म्हणून तो फणफणत म्हणपाक लागलो, 'म्हाका आतां एकूच वाट उल्ल्या, जीव दिवपाची. मागीर रावात तुमी सुखांत, म्हजें कांयच लागना तुमकां.'

दुर्योधनाक उमेद हाडपा खातीर धृतराष्ट्रान आपल्या मंत्र्यांक आपोवन सांगलें : 'हजार खांबे आनी शंबर दरवटे आशिल्ली एक सभा कळाव लायनासतना बांदून घेयात.'

रोखडोच ताणे विदुराक आपोवंक धाडलो. ताका विचाल्ले बगर द्युताचें पावल उखलूंक धृतराष्ट्र तयार नाशिल्लो.

द्युताचो बेत चल्ला म्हणपाचें विदुराक कळ्ळें तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें. 'कसली अवदिसा येवजल्या हांकां', खंतीन ताणे मनांत म्हळें. ताच्यान तें सोसूं नज जालें. धृतराष्ट्राक ताणे सांगलें, 'चिन्ना बऱ्याचीं न्हय. द्युताक लागून राज्यांचीं राज्यां काबार जाल्यांत. द्युताक लागून भावां-भावां मजगतीं झगडीं-झुजां जाल्यांत. द्युतान कोणाचेंच बरें जावंक ना. हो अनर्थ हांगा जावंक दिवं नाका.'

धृतराष्ट्र दुर्योधनाचे मायेन कुड्डो जाल्लो. ताणे विदुराक विचाल्लें खरें, पुणून तागेली सांगणी काना मनार घेतली ना. ताणे इतलेंच म्हळें, 'बऱ्याक पडूं, वायटाक पडूं; एक फावट खेळूंक दिवया तांकां. हांव, तूं, भीष्म, द्रोण म्हऱ्यांत आसतकूच कोणाचेर अन्याय जावचो ना अशी उमेद बाळगुंया. अखेरेक दैव चलयता तसो संवसार चलता. दैवांतलें केन्ना कोणाक कितेंच चुकोवंक आयलां व्हय.'

विदुर ओगी पडलो.

शिल्पिकांनी कांय दिसांनी एक नवी सभा बांदून तयार केली. हजार खांब्याची, शंबर दरवट्यांची. धृतराष्ट्रान तिका नांव दिलें 'तोरणस्फटिका'. ती पळोवपाक पांडवांक आपोवणो धाडलो. आनी त्या निमित्तान द्युताचेंय आमंत्रण दिलें. 'तांकां घेवन यो' अशें खासा विदुराक सांगलें. आनी विदुर इन्द्रप्रस्थाक वचूंक भायर सल्लो.

राजसूय यज्ञांत भेटी घेवन धाय दिकांचे राजा आयिले. तांणी हाडिल्ल्यो भेटी घेवपाचें काम दुर्योधन पळेतालो. खंयच्यो खंयच्यो आनी कसल्यो कसल्यो भेटी आयिल्ल्यो हें दुर्योधन धृतराष्ट्राक सांगता त्या प्रकरणाक महाभारतान 'दुर्योधन संताप' म्हुण नांव दिलां. इतिहासाचे नदरेन हें प्रकरण म्हत्वाचें. हांतूंत ज्या राज्यांचो उल्लेख आयला ताचे वयल्यान सिंधा पसून कलिंग आनी ताम्रलिप्ती मेरेन आनी दक्षिण समुद्रा पसून मध्य एशिया मेरेन ते मुस्तींत भारताचो संबंद आशिल्लो अशें दिसून येता. शक, तुषार, कंक, बाल्हिक, चीन मेरेनच्या देशांचो उल्लेख आयला.

राजसुया आदीं दिग्विजयाक चौग पांडव गेल्ले तेन्ना अर्जुन उत्तरे कडल्या पामीर पठारा पेले कडल्या चीनी तुर्कीस्तान आनी ऋषिंक (रशिया) देशामेरेन गेल्लो. सहदेवान भरूकच्छाक म्हळ्यार आयच्या भडोचाक रावन कांय भायल्या देशांकडेन संबंद जोडून संपत हाडिल्ली. तातूंत अंताखी, रोमा आनी 'यवनानां पुर' ह्या तीन शारांचो उल्लेख आयला. '**अंताखीं चैव रोमांच यवनानां पुरं तथा**' अंताखी म्हळ्यार सिरियांतलें एन्तिओकस, रोमा म्हळ्यार रोम आनी 'यवनानां पुर' म्हळ्यार ऍलेग्झांड्रिया.

ह्या दोनूय प्रकरणांची महाभारतांत शक-कुशाण काळांत भर पडल्या जावंक जाय. शक-कुशाण काळांत भारताचो राजकी आनी व्यापारी प्रभाव आनी संबंद खंय खंय आशिल्लो हाचो अदमास येवपाक आनी ते मुस्तींत खंयच्या खंयच्या देशांत कसलो कसलो माल तयार जातालो हें जाणा जावपाक हीं दोनूय प्रकरणां म्हत्वांचीं.

## ४८. द्युत

विदुराच्या मनांत वचपाचें नाशिल्लें. ताका वचचें पडिल्लें. तो खंतीन गेलो. ताचें तोंड पडिल्लें. युधिष्ठिराक विदुराचें पडिल्लें तोंड पळोवन खप्प जालें. ताणे विचाल्लें, 'आसात मू सगळीं बरीं.'

'आसात', विदुरान जाप दिली आनी म्हळें, 'तुजे हे सभे सारकीच एक सभा तांणी बांदून घेतल्या. ती पळोवपाक तुमकां आपयल्यात.' आनी ल्हवू सांगलें, 'द्युताचेंय आमंत्रण आसा तुमकां.'

'वचचें पडलें.' युधिष्ठिरान जाप दिली आनी म्हळें, 'दुबाव आयलो म्हुण विचारतां, द्युत खेळूंक लागतकूच धोशी उपरासले बगर रावपाच्यो नात. म्हुण शाणे लोक केन्ना द्युत खेळनात. हय मू.'

'हय. म्हजेंय म्हणणे तेंच.' विदुरान जाप दिली. 'द्युत म्हळ्यार सगळ्या अनर्थाचें मूळ. अनर्थ चुकोवचो म्हुण हांवें खूब यत्न केल्लो. तरी आसतना, धृतराष्ट्रान म्हाका धाडून दिला हांगा, तुमकां घेवन येवपाक. धाडला म्हुण आयलां. पुणून तूं शाणो. सारकें येवजून पावल उखलपी. तुका बरें दिसता तशेंच करपाचें.'

'खेळपी कोण कोण आसात थंय', युधिष्ठिरान विचाल्लें.

'दुर्योधनाचे सगळे भाव. उपरांत शकुनी, विविंशती, चित्रसेन, सत्यव्रत, पुरुमित्र आनी जय.'

विदुर नांवां सांगीत रावलो. तीं आयकून युधिष्ठिर भितल्ले भितर भियेलो. ताणे मनांत म्हळें, 'सगळे फटिंग, कपटी, पुणून उपाय ना. धृतराष्ट्रान खेळ म्हळ्यार म्हज्यान ना म्हणूंक जावचेंना. द्युताक कोणेय यो म्हणूं, ना म्हणप ना हो नेम म्हजो. नशिबांत कितें आसा कोण जाणा.'

दुसऱ्या दिसा भावांक आनी बायलां-भुरग्यांक घेवन तो हस्तिनापुराक गेलो. वीज जोगलावतकूच दोळे दिपकावतात तसो मनीस दुर्देवाच्या जाळांत घुसपतकूच जाता. ताची बुद्द चलना. ताका दिश्टी पडना. तो दैवा सुवादीन जाता. तशें युधिष्ठिराचें जाल्लें. तो दैवा सुवादीन जाल्लो.

हस्तिनापुराक पावतकूच तो सगळ्यांक मेळ्ळो. पांडवांक पळोवन राज्यांत सगळ्यांक खोशी जाली. फकत धृतराष्ट्राच्यो सुनो द्रौपदेच्या मत्सरान मातश्यो हुलपल्यो.

सगळ्यांक मेळपांत आनी जेवपा-खावपांत तो दीस खर्चलो.

दुसऱ्या दिसा युधिष्ठिर निकतीच बांदिल्ली नवी सभा पळोवंक गेलो. वांगडा भावय आशिल्ले. तांकां पळोवपाक खूब लोक जमिल्ले. वेगळे वेगळे कडले राजा आयिल्ले. युधिष्ठिर भितर सल्लो मात, शकुनीन ताका म्हळें, 'आयलो तूं. तुजीच वाट पळेताले आमी. यो आतां खेळपाक, खेळ मांडून दवल्ला.'

'द्युतांत कर्तुत्व ना, पराक्रम ना, नितूय ना, बेश्टो आड-मार्गान आमकां जिखपाचो यत्न करूं नाका.' युधिष्ठिरान ताका म्हळें.

'आड-मार्ग कसो तर, खेळ हो.' शकुनीन उसळून जाप दिली. 'खेळांत एकलो हार खाता एकलो जिखता. खेळटल्याक दोनूय सारकीं. यो, कितें लायता सांग.'

युधिष्ठिरान ताका पर्थून सांगलें, 'द्युत म्हळ्यार कपट एक. ते परस झूज बरें. कपट करून मेळिल्लें सुखूय म्हाका नाका, संपतूय नाका. उणाक जैत तें.'

'उणाक कशें तर, शकुनी वाद घालूंक लागलो. 'बुदवंत बुदवंताक वादांत जिखिना व्हय. झुजारी झुजाऱ्याक झुजांत जिखिना? बळिश्ट दुबळ्याक जिखिना?

हिंवूय जैतां उणाक म्हणचीं पडलीं तुज्या हिसपान. द्युतांतलेंच जैत उणाक कित्याक.'

मागीर, वर्मार घाय करचो ते भाशेन ताणे म्हळें, भियेता जाल्यार नांका येवं.'

युधिष्ठिराच्या वर्मार बसलें. 'हांव भियेतां?' हांव कोणाक भियेतां? ताणे मनांत

म्हळें. आनी शकुनीक विचाल्लें, 'कोण खेळटा म्हज्या वांगडा. आहवान दिल्यार फाटीं सरपी न्हय हांव.'

'शकुनी मामा' दुर्योधनान जाप दिली.

'ताची संपत कसली आनी खंयची.' युधिष्ठिरान विचाल्लें.

'म्हजी संपत ती ताची.' दुर्योधनान परती जाप दिली.

'एकल्यान दुसऱ्याच्या नांवान खेळप सारकें न्हय.' युधिष्ठिरान म्हळें, 'तरी आसतना, तुका जाय तशें जावंदी.' अशें म्हणून तो खेळपाक मुखार सल्लो.

तितले मजगतीं धृतराष्ट्र, भीष्म, द्रोण, कृप, विदुर येवन सभेंत बसले.

खेळ सुरू जालो. शकुनीन विचाल्लें, 'कितें लायता.'

युधिष्ठिरान आपल्या गळ्यांतलो रत्नाहार लायलो.

शकुनीन पाशे उडयले आनी 'हांव जिखलों' म्हुण मोट्यान किळांच मारीत तो उठलो.

'आनी कितें लायता?' शकुनीन विचाल्लें.

युधिष्ठिरान भांगर लायलें. शकुनीन होय दाव जिखलो.

'आतां कितें लायता?' शकुनीन विचाल्लें.

युधिष्ठिरान रथ आनी घोडे लायले.

'जिखले' शकुनीन किळांच मारीत म्हळें.

युधिष्ठिर तेमाक पेटलो. ताणे दासयो पणाक लायल्यो, शकुनीन त्योंय जिखल्यो. दास लायले. तेय जिखले. हती, घोडे लायले. तेय जिखले. सगळे दाव शकुनीन जिखले.

## ४९. विदुराची शिटकावणी

विदुराक द्युतांत अवदिसेचीं पावलां आयकूंक येवंक लागलीं. तो उचांबळीत जालो. ताणे खंतीन धृतराष्ट्राक सगळ्यां हुजीर सांगलें, 'मरूक तेंकिल्ल्याक वखद रुचना म्हणटात. तशीं म्हजीं उतरां तुका रुचपाचीं नात हें हांव जाणा. तरी आसतना म्हज्यान रावं नज म्हुण सांगतां: जो जल्मतनाच गाढवा भाशेन आड्डल्लो तो तुगेलो हो दिवटो दुर्योधन भरत-कुळाचें घट्टाण करपाक भायर सल्ला. हो पुत न्हय तुगेलो, हो दुस्मान भरत-कुळाचो. तूं ताचे मायेन, मोगान कुड्डो जाला. देखून तुका हें समजना. म्होंव काडटल्याक पोळें दिश्टी पडटकूच दोंगरा-कडो दिश्टी पडना. तो पोळ्या ओडीन वयर चडटा आनी एक तर म्होंवांत बुडटा वा कड्या वयल्यान

पडटा. तशें तुगेल्या ह्या दिवट्याचें जालां. ताका फाटलें फुडलें दिश्टी पडना. पांडवांची दुस्मानकाय जोडून तो खंय वचून पडटलो, ताका खबर ना. अंधक, यादव, भोजांनी आपणाल्याच कुळांतल्या कंसाक सोडिल्लो, ताचो त्याग केल्लो. तसो तूं हाका सोडशीत जाल्यार भरत-कुळ शंबर वरसां तरी सुखांत उरतलें. अर्जुनाक सांग आनी धरूंक लाय हाका. धरून बंदखणीत दवरूंक लाय. दुश्टाचो सांगात सोडपाक अनमनचें न्हय. ह्या नेमाक धरून शुक्राचार्यान जंभासुराक सोडात म्हुण दानवांक सांगिल्लें. तुर्ताक तुजी बुद्द गदळ्ळ्या. चल्लां तांतूंत तुका वांकडें कांयच दिसना. मुखार पश्चात्ताप करपाचो प्रसंग येतलो तुजेर. सांगून दवरतां, ह्या द्युतांतल्यान कोणाचेंच बरें जावपाचे ना. पांडवांचे दुस्मानकाये भायर पदरांत कांयच पडपाचें ना. मस्तो बैल आपुणूच आपलीं शिंगां मोडून घेता, तसो दुर्योधन सगळ्यांच्या सुखाचो विध्वंस करपाक भायर सल्लां. दुर्योधन खेळटा, दावार दाव जिखता म्हुण तूं खुशालभरीत जावन नाचता. पुणून विसरूं नाका, तुगेली ही खुशालकाय सगळ्यांचें सुख मातये भरवण करतली. दुर्योधनाच्या नादाक लागून उज्यांत तेल ओतूं नाका. उजो पेट घेतलो. तातूंत सगळे हुलपून वतले.'

आनी कळवळ्यान ताणे विचाल्लें, 'धृतराष्ट्रा, तुका कितें जाय म्हुण तूं हें सगळें चलूंक दिता? संपतूच मू. पांडवांक आपले कर. तांगेली सगळी संपत तुजी जातली. दुर्योधनाचो त्याग कर आनी हांगा संवकल्ल्या शकुनिकूय तागेल्या घरा धाडून दी. अवदिसा ह्यो दोनूय.'

दुर्योधना हुजिरूच विदुर हें सांगतालो. दुर्योधनाच्या आंगाक उजो पेटलो. विदुराक खावं काय गिळूं अशें ताका जालें. धरबांद सोडून तो विदुराचेर उसळ्ळो, तूं कोण, जाणां हांव. आमचें वायट आनी दुसऱ्याचें बरें चिंतपी बुकलो तूं. खासा धनयाचोच घात करपी. आमीच पोसला तुका. आमचोच घात करपाक भायर सल्लां तूं. सोरोप तूं सोरोप. निल्लज्जा, तूं जाच्या आलाशिऱ्याक रावला ताकाच तूं दुख्ख दिता, खबर आसा मू तुका. तुका अक्कल ना जाल्यार दुसऱ्या कडल्यान घे. हांव तुजे सांगणेन चलना. तुजी बुद्द घेवंक हांव येवंक ना. म्हज्या काळजांत एकलो बुद्द दिवपी बसला. तो सांगता तशें करतां. पांडवांक आमी ना केले नात जाल्यार ते आमकां ना करतले. आमी कितें करचें तें आमी थारायतले. विचाल्लेलें नासतना जो आपुण जावन उपदेस करता तो दुस्मानूच जोडटा. देखून शाणे मनीस इश्टांक लेगीत उपदेस करिनात. तूं दुस्मान आमचो. दुस्मानाक घरांत दवरचो न्हय.'

अशें म्हणून तो किंवाट्यान विदुराचेर उसळ्ळो, 'वच तूं हांगासल्लो. लाग

चलूंक.'

विदुराक भिरभिरी मारिली. पुणून तकली थंड दवरून ताणे धृतराष्ट्राक म्हळें, 'हो वच म्हणटा म्हुण हांव उठून गेलों जाल्यार म्हजेच तकलेंतलो हांव पडटलों. हो आपणाक चड शाणो लेखता. शिंदळकेक पतिव्रता करूंक येना. तशें देड-शाण्याक शाणो करूंक येना. हांव सांगतां तें हाका रुचपाचें ना.'

ताणे दुर्योधनाक सांगले: 'तुका जाय तेंच तुज्या कानार पडचें अशें दिसता जाल्यार, बायलां कडल्यान बुद्द घे. रांदप्यां कडल्यान, चाकरां कडल्यान घे. तुका जाय तेंच ते सांगतले. गोड उलोवपी जायते जाण मेळटले तुका. पुणून लक्षांत दवर: बऱ्याक पडत असलें कोडू उलोवपी,तेंवूय तोंडार सांगपी मेळप कठीण. तसलें आयकून घेवपी मेळप ताच्याकूय कठीण. बऱ्याक पडटा असलें कोडू उलोवपीच मनशाचो खरो इश्ट. कळ्ळें? कुरू-कुळाची कीर्त वाडत वचची म्हुण हें कोडू वखद दिवचें पडलां. तुका कितेंय दिसूं, तुवें धल्ल्या ती वाट उणाक. ती सोड. बऱ्याक पावतलो.'

## ५०. द्रौपदीय पणाक

युधिष्ठिर आनी शकुनी दोगूय कुड्डे जाल्ले. लायिल्लो दाव शकुनी जिखता हें पळोवन युधिष्ठिरान 'हो दाव म्हजो' अशें म्हणचें आनी फुरफुरून आनीक-एक दाव खेळपाक मुखार सरचें. हे भाशेन राजसूय यज्ञांत जोडिल्लें सगळें युधिष्ठिरान दावार दाव लावन होगडायलें.

शकुनीन ताका विचाल्लें. 'उल्लां व्हय तुजें कितेंय. जाल्यार लाय तेंय.'

'उल्लां म्हणचे, तुका अदमास लेगीत लागचो ना इतलें उल्लां. हें घे, खर्व, निखर्व, महापद्म, शंकु, परार्ध, मोलाचें जें कितें उल्लां तें सगळें लायतां.'

शकुनीन पाशे उडयले आनी 'जिखलों' करून ताणे मोट्यान किळांच माल्ली.

अपेसान युधिष्ठिर तर्र जाल्लो. ताची सुद्द गेल्ली. सिंधु न्हंये उदेंते साकून पर्णा न्हंयें मेरेनची सगळी भूंय म्हजी. ताणे म्हळें, 'ह्या वाटारांतलें सगळें गोधन गायो, बैल, बकऱ्यो, बकरे, घोडयो, घोडे सगळें लायतां.'

शकुनीन पाशे उडयले आनी म्हळें, 'जिखलों'

युधिष्ठिरान उरिल्ली भूंय लायली आनी तिवूय होगडायली.

शकुनीन विचाल्लें: 'आनीकितें उल्लां जाल्यार सांग.'

युधिष्ठिराची बुद्द साप गेल्ली. भावांचेर ताची नदर पडली. ताणे नकुल सहदेवाक लायले आनी होगडायले. शकुनीन कुच्छित्रीपणान म्हळें, 'माद्रिचे पुत लायले. कुन्तिचे चड लागिंचे जावये तुका.'

युधिष्ठिराच्या काळजाक भालो तोपिल्लें वरी जालें. ताणे उसळून म्हळें, 'सभाग्या, भावांभावां मजगतीं धोशी घालूंक सोदता व्हय? आमी पांचूय भाव एक. माद्रिचे, कुन्तिचे असो वेगळेचार ना आमच्यांत. हो घे, आमच्यांतल्या सगळ्यांत व्हडल्या धनुर्धाऱ्याक लायतां.' अशें म्हणून ताणे अर्जुनाक लायलो आनी ताकाय होगडायलो.

युधिष्ठिरान रोखडोच भिमाक लायलो. ताकाय होगडायलो. मागीर म्हळें, 'हो घे. हांव आतां खासा म्हाका लायतां.'

शकुनी होय द्राव जिखलो.

'अजून तुजे मालकिचें एक धन उल्लां : द्रौपदी.' शकुनीन म्हळें.

युधिष्ठिराक बरें वायट कित्याचीच सुद्द उरूंक नाशिल्ली. ताणे म्हळें, 'ही घे. द्रौपदी लायली.'

युधिष्ठिर इतलो पडत अशें कोणाक दिसूंक नाशिल्लें. सभेंतले सगळे लोक उचांबळीत जाले. 'धिक्कार, धिक्कार' करून ताची शी थू करपाक लागले.

शकुनीन पाशे उडयले आनी 'जिखली, द्रौपदेक 'जिखली.' अश्यो किळच्यो मारीत तो नाचूंक लागलो.

भीष्म, द्रोण, कृपाक हुमेच्यो पांवळ्यो सुटल्यो. विदुरान हुस्कार सोडून मान सकल घाली. कितल्या-श्याच जाणाच्या दोळ्यांतल्यान पट् पट् करून दुकां व्हांवपाक लागलीं.

कर्ण, दुर्योधन, दुःशासन पिशें लागिल्लें वरी नाचपाक लागले. धृतराष्ट्राक खोशी जाल्ली. पुणून ह्या खिणा मेरेन ताणे ती उक्तावन दाखोवंक नाशिल्ली. दांबून दवल्लेली. दुर्योधन, दुःशासन, कर्ण, शकुनी नाचूंक लागले तेन्ना ताचोय मुरवतिचो बांद फुटलो. उचांबळीत जावन विचारपाक लागलो, 'कोण जिखलो, कितें जिखलो.'

'द्रौपदी जिखली आमी, द्रौपदी'. बोवाळांत एकल्यान ताका मोट्यान सांगलें.

## ५१. सभेंत द्रौपदी

दुर्योधनान रोखडोच विदुराक हुकूम सोडलो, 'पळेता कितें तोंड घेवन. ऊठ, वच भितर. तुज्या अपुबयिच्या पांडवांचे घरकान्नीक घेवन यो हांगा. मारूंक लाय साल्न

तेका आमच्या घरांत. ती दासी जाली आमची, दासी.....'

विदुर खंतीन उसळ्ळो, 'अवचिन्नाळ्या, मरणाचे पास पडल्यात गळ्यांत तुज्या. खबर ना तुका. गडगडत सकल पडून मरपाचो आसा तूं आतां. आरे, द्रौपदी तुजी दासी कशी जातली रे. तिका दावाक लावचे पयलीं धर्मराज जाल्लो दास तुजो. द्रौपदेचेर ताचो हक उरूंक नाशिल्लो. सुणीं फकत भोंकतात. तपस्वी, विद्वान, गिरेस्त कोणूय जावं, तांकां लागना. तशें तुजें जालां. तूं पांडवांचेर फकत भोंकत रावला. पळे रे तांकां. केदो आकांताचो प्रसंग हो! तरूय एक वांकडें उतर तोंडांतल्यान भायर सरूंक ना तांच्या. तूं दाव जिखलो. पुणून त्याच बराबर नरकाचे दरवटे उकते केल्यात तुवें. कुरु-कुळाच्या घट्टाणाचो वेळ आयला.'

विदुर उबगलो. म्हणपाक लागलो, 'तुका सांगपांतूय कांय अर्थ ना. एक वेळ उदकांत दुदी बुडत, तळप लेगीत उदकार उफेत, पुणून तुका म्हर्जी उतरां रुचपाचीं नात.'

द्रौपदेक हाडपाक विदुर वचपाचो ना, हें पळोवन दुर्योधनान भोंवतणच्या सगळ्यां वेल्यान एक नदर भोंवडायली. प्रतिकामी नांवाचो तागेलो एकलो सारथी एका कोनशाक उबो आशिल्लो ताका दिश्टी पडलो. ताका उलो मारून दुर्योधनान आपयलो आनी सांगलें, 'विदुर पांडवांक थर्त भियेता, म्हुण पळे, करसो थरथरून बडबडटा तो. तूं पांडवांक भियेवं नाका, ते दास आमचे. भितर वच आनी द्रौपदेक घेवन यो. तिका सांग, तूं आमची दासी जाल्या. आनी घेवन यो तिका हांगा.'

धनयाचो हुकूम. प्रतिकामी भितर गेलो. द्रौपदेक ताणे सांगलें, 'धर्मराज द्युतांत कुड्डो जालो, तुका लेगीत लायली ताणे दावाक. आनी दुर्योधन राजा दाव जिखलो. तूं तांची दासी जाल्या आतां. तुका आपयल्या सान्न घेवन दुर्योधन राजान.'

द्रौपदेन विचाल्लें, 'केन्ना कोणे आपणाली घरकान्न दावाक लायिल्ली आयकल्या व्हय तुवें. दावाक लावपाक आनीक कांय नाशिल्लें ताचे कडेन?'

'आशिल्लें सगळें होगडायलें ताणे. खासा आपणाक लेगीत होगडायल्या उपरांत तुका लायली.' प्रतिकाम्यान जाप दिली.

'तशें जाल्यार वचून विचार ताका, 'पयलीं कोण दास जाल्लो. दास जावचे पयलीं ताणे म्हाका लायिल्ली काय दास जाल्या उपरांत?'

प्रतिकामी परतलो. द्रौपदेचो प्रस्न ताणे युधिष्ठिराक विचाल्लो. युधिष्ठिराचे हात पांय आदींच गळिल्ले. तो कांयच जाप दिनासतना चित्रा भाशेन बसून रावलो.

दुर्योधनाक द्रौपदेची तिडक माल्ली. ताणे प्रतिकाम्याक परतो हुकूम केलो, 'वचून सांग तिका, तूंच हांगा येवन हो प्रस्न विचार म्हुण ताका. सगळ्यांक आयकूंक

मेळूं दी तागेली जाप.'

प्रतिकामी सादो सारथी. पुणून ताका लेगीत कुरु-कुळाचें घट्ताण करपाक दुर्योधन भायर सह्ला अशें दिसलें. तो मोन्यांनी उठून भितर गेलो. द्रौपदेक ताणे सांगलें, 'तुकाच आपयल्या थंय, तूंच येवन प्रस्न विचार म्हळां दुर्योधन राजान तुका.'

तिणे विचाल्लें, 'थंय भीष्म, द्रोण, विदुरा सारके धर्मात्मे बसल्यात मू. तांकां विचार म्हजो प्रस्न.'

प्रतिकामी परतो गेलो. भीष्म, द्रोण, विदुरा मुखार ताणे द्रौपदेचो प्रस्न दवल्लो. द्रौपदेक राजसभेंत हाडटलोंच म्हुण दुर्योधन पेटिल्लो. ताणे पयलीं तिका हाड म्हुण विदुराक सांगिल्लें. ताणे ना म्हळ्ळें. म्हुण हें काम ताणे प्रतिकाम्याक सांगलें. प्रतिकामी भायर येता, भितर वता. द्रौपदेक घेवन येवपा बदला तिगेले प्रस्न घेवन येता. हें पळोवन तो प्रतिकाम्याचेर उबगलो. ताणे दुःशासनाक सांगलें, 'तूं वच आनी घेवन यो तिका हांगा.'

दुःशासन रोखडोच उठून भितर गेलो. द्रौपदे मुखार उबो रावन म्हणूंक लागलो, 'चल गे द्रौपदे, तूं आमची दासी जाल्या आतां. तुका जिखल्या आमी. चल ऊठ, तुका राजसभेंत व्हरपाक आयलां हांव.'

द्रौपदी भियेली. तिचेर आकांत आयलो. तिका रडूंक आयलें. दुःशासन आपणाचेर हात घालीत ह्या भंयान कुरु-कुळांतल्या बायलांचो आधार घेवपाक ती धांवन भितर गेली. पुणून त्या आदींच दुःशासनान तिच्या केंसाक हात घालो आनी तिका तो फरफरीत ओडून व्हरपाक लागलो. वाव सुट्टकूच केळिची गत जावची तशी द्रौपदेची जाली. तिणे आकांतून म्हळें, 'पापया, हांव सादें पातळ न्हेसल्यां. म्हयन्याची हांव. म्हाका हे अवस्तेंत व्हरप सोबना तुका.'

दुःशासन दुर्योधनाचोच भाव. ताणे म्हळें, 'तूं सादें पातळ न्हेशिल्ली आसूं वा नागडी आसूं, म्हाका लागना. तुका आमी न्यायान जिखल्या. तूं आमची दासी जाल्या. तुका न्हेसूंक एक कापड दिवचें काय दोन, तें आमी थारायतले आतां.'

अशें म्हणून तो तिका फरफरीत ओडून घेवन गेलो.

## ५२. द्रौपदेच्यो भयोभयो

द्रौपदेचो आंबाडो सुटिल्लो. केंस फाफसल्ले. अस्ताव्यस्त जाल्ले. पदर सकल गळिल्लो. भंयान आनी तिडकीन ती थरथरूंक लागली. दांत ओंठ चाबून तिणे दुःशासनाक

म्हळें, 'सभेंत जाणटे तशे परकी बसल्यात. तांच्या फुड्यान हे अवस्तेंत उबी रावपाचो प्रसंग म्हजेर येवंक जायनाशिल्लो. ही उणाक करणी तुमकां पचपाची ना. इन्द्र धरून सगळे देव तुमच्या आधाराक धांवन आयले तरूय हो अवमान पांडव सोंसपाचे नात. तुमकां ओगी रावपाचे नात.' तिणे सभेंत बशिल्ल्या सगळ्यां वयल्यान एक नदर भोंवडायली आनी म्हळें, 'एके बायल-मनशेक ती भश्टी आसतना हो असो फरफरीत ओडून हाडटा, सभेंत व्हडले व्हडले धर्मात्मे बसल्यात आनी तांच्यांतलो एकलोय सभागी ताका एका उतरान लेगीत दुशण दिना, कांय सांगिना, हाचो अर्थ कितें. सगळ्यांनी धर्म माड्डिला, मनीसपण सोडलां, सगळ्यांचें सत्व ना जालां, होच मू? भीष्म, द्रोणा सारकेले म्हालगडे ओगी बसून हो अन्याय करसो पळेतात, म्हाका समजना.'

तिणे आपल्या घोवां कडेन पळेलें. ते लजेन मानो सकल घालून बशिल्ले. तिडकीन भितल्ले भितर फणफणटाले. द्रौपदेची नदर पडना फुडें तांच्या आंगाक उजो पेटलो. तांणी सगळें होगडायल्लें. तांगेलें राज्य गेल्लें. संपत्त गेल्ली. तरूय तांकां कांय दिसूंक नाशिल्लें. पुणून द्रौपदेची दुर्दशा तांच्यांनी पळोवं नज जाली.

द्रौपदी घोवां कडेन पळेता हें पळोवन दुःशासनाक चेव आयलो. ताणे तिका केंसांक धरून परती ओडली आनी 'चेडये, ए चेडये' म्हणून तिका मोट्यान उलो माल्लो. तिका चेडी म्हळ्ळी पळोवन कर्णाक खातखुतल्यो जाल्ले वरी खोस जाली. तो मोट्यान हांसलो. शकुनिकूय पोट भरून हांसो आयलो.

भिमाच्यान सोसूं नज जालें. तागेल्या काळजाक घाय जाले. तागेलें रगत उसळ्ळें. तो तांबडो गुंज जालो. आनी तिडकीन युधिष्ठिराक सांगूक लागलो, 'संवसारांत खेळगडी जायते आसात. पुणून तुजे सारको तूंच एकलो. असलो दुसरो पळेलो ना. खंयच्याच खेळगड्यान आयजवेर आपणाली दासी लेगीत दावाक लावंक ना जातली. तुंवें आपणाले खासा घरकान्नीक लायली. कश्टान जोडिल्ली सगळी संपत तुंवें होगडायली. राज्य होगडायलें. आमकां दावाक लायले आनी होगडायले. तरूय म्हाका कांय दिसलें ना. हांवें कितेंच म्हळें ना. पुणून तुंवें द्रौपदेक लायली. तुका अधिकार नाशिल्लो तिका दावाक लावपाचो. आतां पळे हे चांडाळ तिचो करसो अवमान करतात तो. तुकाच लागून तो सोंसचो पडटा तिका, कळ्ळें?.

अवचित तो युधिष्ठिराचेर उसळ्ळो, 'राव दाखयतां तुका. ज्या हातांनी तूं द्युत खेळिल्लो ने तुजे हातूच लासून उडयतां.' अशें म्हणून ताणे सहदेवाक उलो माल्लो, 'ऊठ रे, उजो घेवन यो खंयच्यानूय, हुलपावन उडोवया हागेले हे हात.'

अर्जुनाक अजापांचो धसको बसलो. ताणे भिमाक म्हळें, 'हाचे पयलीं हांवें तुज्या तोंडांतल्यान असलीं उतरां केन्ना आयकूंक नाशिल्लीं. सभाग्या, तूं तापून अशें करूंक लागलो जाल्यार कौरवांच्या हातांतलें बावलें जातलो मरे. तुवें अशेंच कितेंय केल्लें जाय तांकां.'

'हांव जाणा.' भिमान जाप दिली. 'त्याच खातीर तर हांव फकत तापलां. ना जाल्यार हाका व्हडलो भाव म्हणी नासतना केन्ना हुलपावन उडोवपाचे हाचे हात हांवें.'

हे वाटेन द्रौपदी सभेक विचारूंक लागली. 'येदे येदे व्हडले लोक बसल्यात हांगा. जाप दियात म्हज्या प्रस्नाची: जो खासा दास जाल्लो ताका म्हाका दावाक लावपाचो हक्क आशिल्लो व्हय?'

द्रौपदेचो प्रस्न आयकून कोणूच जाप दिवपाक उठलो ना. सगळे वाचा धरिल्ले वरी मोने रावले. द्रौपदेची विटंबना चलिल्ली पळोवन कौरवां मदलो एकलोच खवळ्ळो दुर्योधनाचो धाकलो भाव विकर्ण. ताचें रगत सळसळूंक लागलें. तो खंतीन आनी तिडकीन उबो रावलो आनी विचारपाक लागलो, 'द्रौपदेच्या प्रस्नाक कोणूच कशी जाप दिना? भीष्म, द्रोण, कृपाचार्या सारकेले म्हालगडे हांगा बसल्यात. सगळ्यांचीच वाचा कोणे धल्ल्या? येदे व्हडले लोक हांगा आसात, तरूय सगळे मोने कशे?'

तरूय कोणेच जाप दिली ना. तेन्ना विकर्ण तिडकलो. हात चोळून म्हणूंक लागलो, 'तुमी जाप दियात वा दिवं नाकात. म्हाका दिसता तें हांव सांगतलों. भोंवडी, सोरो, द्युत आनी चेडी ही चार व्यसनां राजांचीं. हांतल्या एका खंयच्याय व्यसनांत तो घुसपल्यार पुरो, ताचें मनीसपणूच ना जाता. मनीसपण होगडायल्ल्या मनशाचे करणेक कोणूच बरी म्हणिना. युधिष्ठिर द्युतांत तर्र जावन मनीसपण विसल्लेलो. ताची बुद्द गेल्ली. साप्प गेल्ली. ताणे द्रौपदेक दावाक लायली. द्रौपदी ताची एकल्याची बायल न्हय. तिचेर ताचो एकल्याचो हक ना. बरें, ताणे तिका दावाक केन्ना लायली, आपुण दास जाल्या उपरांत. शकुनीन लाय म्हुण सांगतकूच. ताचो तिचेर हक उरूंक नाशिल्लो तेन्ना. तो आपले सुवादीन नाशिल्लो तेन्ना. तो खासा पयलीं दास जाल्लो. म्हजें म्हणणें: द्रौपदेक कोणेच जिखूंक ना.'

'शाब्बास', 'शाब्बास', सभेंत गजर जालो.

हो गजर आयकून कर्णाक कुर्र जालें. ताची तकली तापली. विकर्णान मर्दीच उठून अशें कशें उलोवचें, ताका प्रस्न पडलो. ताका तें सोंसलें ना. तो विकर्णाचेर ताणशेलो, 'देडशाण्या, द्रौपदेच्यां प्रस्नाक भिष्मान जाप दिवंक ना. द्रोणाचार्यान

देवंक ना. हाचे वयल्यान कितें दिसून येता? आमी तिका न्यायान जिखल्या हेंच
तूं. न्हय जाल्यार ते द्रौपदेच्या आधाराक धांवन वचचे नाशिल्ले? तूं केन्नाचो रे.
कालचो पयरचो पोर मरे. आमकां शाणेपणा शिकोवपाक लागला? युधिष्ठिरान
आपलें सगळें दावाक लायिल्लें. हय काय न्हय? ह्या 'सगळ्यां'त द्रौपदीय येताली.
हय काय न्हय? पांडवांनी हें मान्य केलां. देखून ते पळे कशे ओगी बसल्यात ते.
आनी तूं आमकां न्याय, धर्म शिकोवंक लागला! द्रौपदेक हांगा ओडून हाडली
म्हुण अधर्म जालो व्हय? तर आयक, खंयचेय बायल मनशेक एकूच घोव
आसता. हिका पांच. म्हळ्यार ही चारचौगांची बायल. एके तरेची चेडीच.
चेडयेक नागडी केली म्हुण अधर्म जायना.'

ताणे दुःशासनाक सांगलें, 'अजून जायते पावसाळे पळोवपाचे आसात हाणे. तूं
पांडवांचीं वस्त्रां देंवय. द्रौपदेचींय देंवय.'

ताणे वस्त्रां देंवय म्हणिना फुडें पांडवांनी आपुण जावन माथ्या वयलीं आनी
खांदा वयलीं वस्त्रां देंवयलीं. दुःशासनान द्रौपदेच्या पदराक हात घालो. तें पळोवन
भीम रागान उठलो आनी म्हणूंक लागलो, 'आयकात सगळे म्हजो सोपूत : एक
दीस ह्या दुःशासनाचें हड्डें फोडून तागेलें रगत जर हांव पियेलों ना ,जाल्यार हांव
हांवूंच न्हय जायन.'

भिमाचो सोपूत आयकून सगळ्यांच्या आंगार भंयान कांटो फुल्लो. द्रौपदेन
भिष्मा कडेन पळेलें. ताका नमस्कार केलो आनी म्हळें, 'तूं आमचो जाणटेलो, तूं
न्याय दी'.

भिष्मान तोंड उकतें केलें, 'जाचेर आपली सत्या ना तें पणाक लावंक येना. हे
नदरेन तूं 'अजिता', तुका कोणे जिखूंक ना. पुणून घोव खंयचेय स्थितींत
आसलो तरूय बायले वयली ताची सत्या ना जायना. हाका लागून तुज्या प्रस्नाक
सारकी जाप दिवंक येना. शकुनी फटींगपणान दाव जिखला हें युधिष्ठिर मान्य
करिना. आनी आपुण दास जाला हेंवूय तो ना म्हणिना. म्हुण तुज्या प्रस्नाक जाप
दिवंक येना.'

भिष्माची 'हेंवूय खरें, तेंवूय खरें' हे तरेची कुवाड्याची जाप आयकून द्रौपदी
घुटमळ्ळी. पेंचांत पडली. विदुर म्हणूंक लागलो, 'तिगेल्या प्रस्नाक सारकी जाप
मेळूंकूच जाय. तिचेर अन्याय जाता ताचें अर्दें पातक आमकां लागतलें. विकर्णान
आपणालें मत्त सांगलां. म्हजें म्हणणें सांगतां : तिका दावाक लावपाचो युधिष्ठिराक
हक नाशिल्लो. त्या भायर खेळूय नितीक धरून चलूंक नाशिल्लो. दुसरे जायते
बसल्यात हांगा. तांणीय आपणालें मत्त मेकळेपणान सांगचें.'

तरूय मत्त सांगपाचो कोणाक धीर जालो ना.

हे वाटेन द्रौपदी रडूंक लागली. लोक तिची विटंबना मोन्यांनी पळेत रावले. अखेर दुर्योधनान तिका म्हळें, 'तुज्या प्रस्नाची जाप तुज्या घोवांकूच विचार. तुजेर तांचो अधिकार ना म्हुण तांकां सांगू दी. मागीर तूं सुटली.'

इतलें उलोवन ताणे न्हेसण वयर काडलें आनी आपणाली दावी मांडी द्रौपदेक दाखयली.

भिमाचे दोळे उजो ओंकपाक लागले. तो उठून उबो रावलो. ताणे मोट्यान आनीक एक सोपूत घेतलो: 'आयकात सगळ्यांनो, हाची ही मांडी एक दीस गदेन हांव फोडिना जायन जाल्यार हांवूच न्हय जायन...'

भिमाचो सोपूत आयकून विदुराचें आंग शिरशिरलें. सगळ्यांक साबुद्दीर हाडपा खातीर ताणे परतें म्हळें, 'आतां तरी सुद्दीर येयात. युधिष्ठिराक हक नाशिल्लो तिका दावाक लावपाचो. त्या भायर खेळ नितीक आनी नेमांक धरून चलूंक नाशिल्लो.' पुणून विदुराचें हें म्हणणे रानांतलें आड्डप कशें जालें. कोणेच काना मनार घेतलें ना.

कौरवांचे चाळे वाडत गेले. दुर्योधनान जांग दाखयल्ली पळोवन दुःशासनान द्रौपदेचो पदर ओडलो. त्याच खिणाक दुःशासनाचो हात पिळून काडपाचो भिमान रोखडोच आनीक एक सोपूत घेतलो.

इतल्यांत कोले मोट्या मोट्यान आड्डपाक लागले. गाढवां आड्डलीं. कोणे तरी भित्तर वचून गांधारीक ही खबर सांगली. गांधारी भियेली. ती धांवत बेगीबेगीन सभेंत आयली आनी घोवाक तापोवन तिणे सांगलें, 'पोरांचे चाळे आत्तांच्या आत्तां बंद करता काय ना? खंयचे खंय पावले ते.'

गांधारी तापिल्ली पळोवन धृतराष्ट्राचो सूर रोखडोच बदल्लो. तो मोव जालो. ताणे दुर्योधनाक दुशण दिवन म्हळें, 'पाडा पडिल्ल्या ह्या पोराक बायलां कडेन कशें वागचें, तेंच कळना. द्रौपदी घरची सून. तिचे कडेन अशो तरेन कशें वागचें ताणे. अशें म्हणून ताणे द्रौपदेक सांगलें, 'जालें तें जालें. विसर हें सगळें तूं आतां आनी माग तुका जाय तें.'

'धर्मराजाक बंदेपणांतल्यान मेकळो कर.' तिणे मागलें.

'केलो...आनीक माग...'

'भीम, अर्जुन, नकुल, सहदेव चौगांकूय तांच्या रथ, धोणवां, शस्त्रां–अस्त्रां सयत मेकळे कर.'

'केले...आनीक माग.'

द्रौपदेन जाप दिली: 'घोव मेकळे जाले. जें कितें म्हाका जाय तें आतां ते

जोड्न दितले.'

द्रौपदेची जाप आयकून कर्णाक अजापांचो धसको बसलो. ताणे मनांत म्हळें, 'बायलो जायत्यो पळेल्यो. पुणून हिचे सारकी तेजिश्ट दुसरी खंयच पळेली ना. पांडवाक पल्तडीं पावोवपी तार ही.'

धृतराष्ट्रान पांडवांक मेकळे केले. द्युतांत होगडायल्लें तांगेलें सगळें तांगेल्या राज्या सयत तांकां परतें केले आनी युधिष्ठिराक म्हळें, 'तुका सांगपाची गरज ना. तूं धर्मान आनी सत्यान चलपी मनीस. तरी आसतना एक सांगतां: जालें तितलेंय विसरून वचपाचें. तुमचे शक्तिचो अदमास येवचो म्हुण द्यूत चलूंक दिल्लें. तें ह्या थरार पावतलें अशें धरूंक नाशिल्लें. आतां कितेंच मनाक लावन घेवं नाका. दुर्योधन दुःशासनाचे गुन्यांव म्हज्या आनी गांधारिच्या तोंडा कडेन पळोवन विसर.

ही कथा आनीक एके तरेन सांगतात—

'पांडवांचीं वस्त्रां काडून घे, द्रौपदेचींय देंवय', अशें कर्णान दुःशासनाक सांगलें त्या वेळार पांडवांनी मातूय प्रतिकार केलो ना. तांणी आपापलीं उत्तरियां मोन्यांनी देंवयलीं. पुणून द्रौपदी घट रावली. तेन्ना, दुःशासनान तिगेलो पदर ओडलो. द्रौपदेन पयलीं मिरयो मुठींत घट धल्ल्यो. पुणून दुःशासनाच्या किंवाट्या मुखार तिची मूठ सुटली. तेन्ना, तिणे मिरयो दांतांत घट धल्ल्यो. थंयूय आपली शक्त पुरी पडना अशें दिसून आयलें तेन्ना तिणे सगळे यत्न सोडून दिले आनी 'कृष्णा, तूंच पाव आतां. तूंच राख म्हजी लज.' म्हुण तिणे कृष्णाचो धांवो सुरू केलो.

आनी कृष्ण खिणाचोय कळाव लायनासतना तिच्या आधाराक धांवन आयलो.

ते मेरेन दुःशासनान तिगेलें कापड ओडून काडिल्लें. पुणून तिच्या आंगार दुसरें कापड ताका दिश्टी पडलें. ताका अजाप जालें. सभेंतल्या लोकांकूय तिच्या आंगा वयलें दुसरें कापड पळोवन अजाप जालें. दुःशासनान तेंय ओडून काडलें. तेन्ना तिसरें दिश्टी पडलें. दुःशासन किंवाट्यान कापडां ओडीत रावलो आनी द्रौपदेच्या आंगार नवीं नवीं कापडां दिश्टी पडत रावलीं. दुःशासनाक कापडां ओडून ओडून पुरो जालें. कापडांची रास पडली.

हो चमत्कार पळोवन सभेंतले सगळे चकासूर जाले.

ही कथा महाभारतांत मुदलांत नाशिल्ली. ही प्रक्षिप्त.

ती प्रक्षिप्त म्हुण दाखोवन दिवपी पुरावे खासा महाभारतूच दिता. पयली गजाल म्हळ्यार कृष्ण त्यावेळार द्वारकेंत नाशिल्लो. तो शाल्वा आड झुजूंक गेल्लो. ताका द्युताची खबर लेगीत नाशिल्ली. पांडव वनवासांत वतात तेन्ना कृष्ण तांकां मेळूंक थंय वता. थंय तो आपणाक ह्या प्रसंगाची खबर नाशिल्ली अशें सांगून म्हणटा, 'हांव थंय आशिल्लों जाल्यार द्युत जावंकूच दिवचों नाशिल्लों.'

महाभारतांत खूब जाणाच्या तोंडांतल्यान कौरवांच्या दुश्टपणाचीं वर्णना आयल्यांत. तिंवूय खूब कडेन आयल्यांत. पुणून एकेय कडेन द्रौपदेक नागडी करपाच्या यत्नाचो उल्लेख येवंक ना.

मागीर ही कथा खंयच्यान आयली?

कर्णान 'हिर्चीं वस्त्रां देंवय' म्हुण दुःशासनाक सांगलां त्यावेळार द्रौपदेचेर आकांत आयला जावंक जाय. आकांत येवपाचोच प्रसंग तो. असलो प्रसंग कोणाचेर केन्नाच येवंक ना. इतली अप्रतिष्ठा संवसारांत दुसरे खंयचेच बायलमनशेची केन्नाच जावंक ना. द्रौपदेक जें सोंसचें पडलां ताच्याकूय पाश्ट अनर्थाची कल्पना लेगीत करूं येना. तिणे असहाय अवस्थेंत देवाक उलो माल्लाच जावंक जाय. आतां, असल्या प्रसंगार देव पावलो ना जाल्यार तो देव कसलो. संवसारांत न्याय, नीत, सत आंसा जायत जाल्यार असल्याच प्रसंगार देव पावूंक जाय. असल्याच वेळार ताचो दिश्टावो लोकांक जावंक जाय. संकश्टा वेळार देव पावताच पावता हें दाखोवपा खातीर उपरांतच्या भक्त-कवींनीं हो प्रसंग महाभारतांत जोडला. ह्या प्रसंगाचेर कविता बरोवंक ना असो एक लेगीत भक्तकवी एक लेगीत देशी भाशेंत मेळचो ना.

पंचरात्र भागवतांचो प्रभाव देशांत वाडला त्यावेळार महाभारताचें एक नवें संस्करण भायर सर्रां. पुराय महाभारताचें भागवतीकरण जालां. तांतूंत श्रीकृष्णाचो देव जाला. तो देव जाला त्या उपरांतूच हो प्रसंग महाभारतांत सुवात घेवंक पावला.

## ५३. पर्थून द्युत

धृतराष्ट्रान पांडवांची सुटका केली. इतलेंच न्हय तर तांगेली संपत भूंय बी सगळें तांकां परतें दिलें, हें पळोवन कौरव घुटमळ्यांत पडले. कितें करचें, तांकां समजना जालें. दुःशासन म्हणूंक लागलो, 'केद्या कश्टान रचिल्लो मांड आमी! ह्या म्हाताऱ्यान तो मोडून उडयलो न्हय रे! सगळेंच काडून दुस्माना सुवादीन केलें मरे! आतां कितें करपाचें.'

दुर्योधन, दुःशासन, शकुनी, कर्ण परते येवजूंक लागले. तांणी एक नवो बेत केलो. धृतराष्ट्रा सरीं वचून विचारपाक लागले, 'कितें केलें तुवें हें. दुस्मानाक केन्ना अशे सोडटात व्हय. विखाळ सोरोप केन्ना कोणे गळ्यांत बांदून घेतला व्हय. बृहस्पतीन म्हळ्ळें: एक तर सोरपाचे तकलेर पांय दवरचोच न्हय, आनी दवल्लोच जाल्यार मागीर ताका जितो सोडचो न्हय. तुवें उरफाटें केलें. पांडव हांगासल्ल्यान कशे गेले पळेल्ले मू. अर्जुनान गांडीव कशें धरिल्लें, भिमान गदा कशी उबाल्लेली, पळेल्ली मू. तिडकीन गेल्यात ते. शस्त्रास्त्रां वावडीत, सोरपा भाशेन फों फों करीत गेल्यात. ते आतां ओगी बसतले अशें दिसता व्हय तुका. तांची आमी भर सभेंत लज काडल्या, ती ते विसरतले व्हय. द्रौपदेच्यो आमी ज्यो भयो भयो केल्यो त्यो ते कशे विसरतले. असले अपमान विसरपा इतले ते व्हड्डय न्हय, पिशेय न्हय. आमचेर ते केन्ना धुरी घालतीत, सांगू नज. ते आमकां ना करपाक

वावुल्ले बगर रावपाचेच नात.

धृतराष्ट्राक खरें दिसलें. तो विचारपाक लागलो, 'म्हणटकूच, आतां किर्ते करुंया म्हणटात तुमी.'

'परते द्युताक आपोवया तांकां', दुर्योधनान सुचयलें. 'हे खेपे एकूच दाव लावया. जो हार खाता ताणे बारा वरसांच्या वनवासाक वचचें आनी एक वर्स अज्ञातवासांत रावचें. अज्ञातवासांत कोणूय ताका वळखलो जाल्यार आनीक बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासांत वचचें. आमी जिखले जाल्यार तांणी वचचें. तें जिखले जाल्यार आमी वचचें.'

मागीर ल्हवूच म्हणूंक लागलो, 'शकुनीमामा आसतना ते जिखतले म्हणपाचो भंयूच ना. आमकां तेरा वरसांची उसरपत मेळटली. तेरा वरसांत आमकां सैन्य वाडोवंक मेळटलें, इश्ट जोडूंक येतले. मागीर केदेंय व्हडलें सैन्य घेवन येवं ते, आमकां भंय ना...'

धृतराष्ट्राक हें खरें दिसलें. ताणे म्हळें, 'चलात तर, बेगीन घेवन येयात तांकां.'

दुर्योधन खोशी जालो. ताणे बेगोबेग रथ दिवन एकल्याक धाडून दिलो.

पांडवांक परतें द्युताचें आमंत्रण गेलां म्हणपाची खबर गांधारिच्या कानार पडली तेन्ना ती काचाबूल जाली. फणफणत धृतराष्ट्रासरीं आयली आनी म्हणूंक लागली, 'हो पोर जाला त्याच दिसा विदुरान सांगिल्लें, हाका भायर उडय म्हुण. हो कुरु-कुळाचें घट्टाण करपाक जल्मा आयला म्हुण. हांव आवय जावन ताका भायर उडोवपाक तयार जाल्लीं. सभावूच ताचो पाडो. भेश्टावनूय शाणो जावपाचो ना, समजावन तर केन्नाच ना. जाणट्यांनी जाल्यार ताच्या नादाक लागुंकूच जायना. भुरग्यांनी जाणटेल्यांचे सांगणेत रावचें. जाणट्यांनी भुरग्यांचे न्हय. म्हाका दिसता, कुळाचो नाश ताका करूंक दिवचे परस आमी ताचोच नाश केल्लो बरो. पांयां पडटां, हाचे चाळे चलूंक दिवं नाका. पांडव सगळे अपमान गिळून गेल्यात. तांकां आपोवन परते तिडावप बरें न्हय. बऱ्याक पडपाचें ना आमकां हें.'

पुणून धृतराष्ट्राचें काळीज घट जाल्लें. गांधारिचे सांगणेचो ताचेर आतां कांयच परिणाम जावंक पावलो ना. ताणे म्हळें, 'कुरु-कुळाचें घट्टाणूच जातलें मू, जावं दी. जावपाचें आसा तें आडावपाची तांक तुज्यांत आसा व्हय. हांव आडावपाचो ना. जावं दी ताका जाय तशें.'

भीष्म, द्रोण, कृप हांणीय धृतराष्ट्राक समजावपाचो यत्न केलो. तांणीय सांगलें, 'द्युत जावंक दिवं नाका. तरी आसतना धृतराष्ट्र हट घेवन, हांव दुर्योधनाक आडावपाचो ना, अशेंच सांगीत रावलो.

पांडव इंद्रप्रस्थाक पावूंक नाशिल्ले. वाटेरूच तांकां दुर्योधनाचो मनीस मेळ्ळो. ताणे सांगलें, 'तुमकां परते आपयल्यात खेळपाक.'

झुजाक आनी द्युताक कोणेय आपयल्यार ना म्हणप ना हो क्षात्र-धर्म. आनी युधिष्ठिर तर, ना जातलों पुणून क्षात्रधर्माक खत लागूंक दिवंचों ना, हे जातिचो क्षत्रिय. तो म्हणूंक लागलो, द्युताचो तांचो परतो आपोवणों आयला. हाचो अर्थ दैवयोगूच तसो आसा अशें म्हणचें पडलें. दैवाक जाय तें कशें चुकयतलों हांव. द्युतान कोणाचेंच बरें जावपाचें ना, हांव जाणा. पुणून हांव ना म्हणपाचों ना. ना म्हळें जाल्यार लोक म्हणटले, हो धर्माक चुकलो.'

अशें म्हणून तो वाटे वयल्यानूच हस्तिनापुराक परतलो.

भावां सयत ताका परतो आयिल्लो पळोवन सभेंतल्या खूब जाणांक वायट दिसलें. 'आरेरे! बावडो दैवाच्या चाकांत घुसपला' अशे चुरचुरे तांकां पडले. शकुनी, दुर्योधन, कर्ण खुशाल भरीत जाले.

शकुनीन युधिष्ठिराक म्हळें, 'तुमगेलें सगळें तुमकां परतें दिलें आनी आमी तें मान्य केलें. आतां एकूच पण लावया, बारा वरसांच्या वनवासाचो आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाचो. तुमी दाव जिखले जाल्यार आमी बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाक वचपाचें. आमी जिखले जाल्यार, तुमी वचपाचें. अज्ञातवासांत कोणूय आमकां वळखलो जाल्यार परते बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाक वचपाचें. येतकूच मागीर आपापलें राज्य भोगपाचें.'

पण आयकतकूच सभेंतले कांय जाण उचांबळीत जाले. हात वयर करून सांगपाक लागले, 'बंद करात हो खेळ. हाचे परिणाम खूब वायट जातले'. पुणून दुर्योधनूच एकलो हटाक पेटिल्लो अशें न्हय. युधिष्ठिरूय पेटिल्लो. ताणे पण मान्य केलो.

शकुनीन पाशे उडयले. पयलोच दाव शकुनीन जिखलो.

पांडवांच्या नशिबांत बारा वरसांचो वनवास आनी एका वरसाचो अज्ञातवास आयलो.

## ५४. वनवासाक

पांडवांच्या वांट्याक वनवास आयिल्लो पळोवन दुःशासन खुशालभरीत जालो. तो उबो रावन नाचूंक लागलो. काळजांतलें दुस्वासाचें विख्ख तो तोंडांतल्यान ओंकूंक

लागलो. धरबांद नासतना उलोवपाक लागलो: 'वैभवान बरे मदांध जाल्ले. गर्वान फुलिल्ले. ही ही करून आमकां हांसताले. पळे, कितें गत जाली ती तुमची आतां. तुमचें राज्य, तुमचें वैभव सगळें आमी काडून घेतलें. वचात आतां वनवासाक. नरकांत धुकलून उडयले काय ना आमी तुमकां? आतां राज्य आमचें.'

द्रौपदेक सांगूंक लागलो, 'तुका कसलें सुख मेळपाचें आसा गे हांच्या सांगातांत. तांचें सगळें गेलें. आमचे भितल्ल्या कोणाकूय आतां वेंचून काड तूं. तुजें उरिल्लें आयुष्य सुखांत वतलें.'

तो एका सारको बडबडत रावलो. भिमाच्यान दुःशासनाची ही बडबड सोसूं नज जाली. ताणे घेतिल्लो सोपूत पर्थून एक फावट मोट्यान घेतलो, 'तुजें हड्डें फोडून रगत पियेतलों.' अर्जुनान ताका म्हळें, 'करपाचें तें करतलों करतलों म्हुण सांगचें न्हय रे. करून दाखोवचें. तेरा वरसां उपरांत करून दाखय तें. आयज बेश्टी तोंडाची वाफ होगडावं नाका....'

भीम आतां आपलें कांयच वांकडें करूंक पावपाचो ना हाची दुःशासनाक खातरी. भिमाची पर्वा करी नासतना ताणे 'बैला ए बैला' म्हुण ताका उलो माल्लो. इतलेंच न्हय, तर ताचे भाशेन चलून ताका चाळोवपाक लागलो. ताचीं फकाणां मारपाक लागलो. दुर्योधनाकूय कोंब फुटले. तोय मुर्वत सोडून भिमाक चाळोवन हांसूंक लागलो. दुर्योधन चाळयता म्हुण बाकिचे कौरव तेंच करपाक लागले.

कौरवांचे चाळे सोंसपा सारके नाशिल्ले. ते पळोवन अर्जुन जो भिमाक ओगी राव म्हणटालो तोच चाळवलो. ताणे सोपूत घेवन म्हळें, 'जाणे तुमची वाट लायल्या, जो तुमकां सदांच अनितीन चलपाची बुद्द दीत आयला त्या कर्णाक हांव झुजांत मारतलों. ताकाच एकल्याक न्हय, तर तुमच्या आधाराक जे जे येतले तितल्यांकूय हाणटलों. हिमालय घडये आपली सुवात सोडीत, पुणून हो अर्जुन सोपूत केन्ना मोडपाचो ना. लक्षांत दवरात, वनवासांतल्यान परतल्या उपरांत आमचें राज्य आमकां परतें मेळ्ळें, बरें आसा. ना जाल्यार पळेतले तुमी, पांडव कोण आनी कितें म्हणटात ते.'

नकुल सहदेवानूय शकुनीक आनी ताच्या नात्यांतल्यांक मारपाचो सोपूत घेतलो. भोगपाचें आसा तितलेंय आतांच ह्या तेरा वरसांत भोगून घेयात, मागीर तुमी आसचे नात. तुमच्यांतल्या एकाकूय सोडपाचे नात.' तांणी सांगलें. युधिष्ठिराच्याय मनांत तिडकिचें ल्हार उसळ्ळेलें. पुणून तें तागेल्या काळजाच्या दर्यांत विरून गेलें. ताणे जिबे वयल्यान एक लेगीत वांकडें उतर भायर सरूंक दिलें ना.

तो भीष्म, द्रोण, विदुराचे आशीर्वाद घेवपाक गेलो. खंतीन आनी लजेन सगळे

मानो सकल घालून ओगी बशिल्ले. एकल्याच्याय तोंडांतल्यान एक उतर फुटलें ना. फकत विदुर उलयलो. ताणे म्हळें, 'अन्यायान जाचो पराभव जालो तो पराभवान खंती जायना. तुमी धर्मशीळ. एकामेकांचेर उपाट मोग करपी. जिवाक जीव दिवपी. सदांच अशे रावात. सदांच तकली थंड दवरात. तुमचें कल्याण जातलें.'

आनी एक सुचोवणी केली : कुन्ती जाणटी. आयुष्यांत खूब सोंसलें तिणे. हे पिरायेर तिका वनवासाचे त्रास सोंसपाचें नात. तिका म्हगेर रावं दी. तिका कांयच उणें पडपाचें ना इतली खातरी दवरात.

आवयक विदुरागेर दवरपाक पांडव रोखडेच मान्य जाले. तिचोच तांकां चड हुस्को आशिल्लो.

आयुष्यांत तिणे जायतें सोंशिल्लें. तरी आसतना तिचो धीर सुटूंक नाशिल्लो. पांडव वनवासाक वतात हें पळोवन तिच्या काळजाक घाय जाले. आतां मेरेन ती एक दीस लेगीत तांकां सोडून रावंक नाशिल्ली. आयज तिचे दोनूय दोळे भरून आयले. तसल्याच दोळ्यांनीं तांकां धीर दिवन तिणे म्हळें, 'मनशाची कसवटणी संकश्टां वेळारूच जाता.' चड उलोवंक तिका आयलें ना. ती भळऽ भळऽ करून रडपाक लागली. ती रडटा तें पळोवन द्रौपदेक रडूंक आयलें. रडून रडून दोगांय ओलीं चिंब जालीं. विदुरान तांची समजाविशी केली तेन्नाच तीं कुशीन सल्लीं.

## ५५. प्रस्थान

जाणटेल्यांचो आशीर्वाद घेवन पांडव वनवासाक भायर सल्ले. हस्तिनापुर सोडून वतना वाटेर युधिष्ठिरान माथ्या वयलें उत्तरीय घेवन तोंड लिपयलें. ताच्या फाटल्यान भीम चलतालो. तो आपल्या बावळ्यां कडेन भौन भौन पळेत चलतालो. अर्जुनान हातांत रेंव घेतली. तिचे कण शिंपडायत तो भिमा फाटल्यान गेलो. नकुल सहदेवान तोंडाक गोबोर सारयलो. द्रौपदेन केंस कपळार सोडून तोंड लिपयलें.

सगळ्यां मुखार धौम्य मुनी चलतालो.

पांडवांक रस्त्या वयल्यान अनवाणयां गेल्ले पळोवन नगरांतले लोक खंती जाले. धृतराष्ट्राची ते पोटभर निंदा करूंक लागले. ताका हिणसावंक लागले. धृतराष्ट्राचो जीव सकल वयर जाल्लो. लोकांक वायट दिसलां, ते आपणाक हिणसायतात हें सगळें ताणे आयकल्लें. इतलेंच न्हय, तर ताच्या अंत:पुरांतल्यो बायलो लेगीत ताची आनी दुर्योधनाची निंदा करतात म्हुण ताच्या काना वयल्यान गेल्लें. ताचें चित्त खंयच लागना जालें. ताचें मन ताका एकासारकें खावंक लागलें. हुसक्यांनी

तो घुसमटूंक लागलो. ताणे विदुराक आपोवन हाडलो आनी कोण कितें उलयतात तें विचाऱ्लें. विदुरान सगळें सांगून म्हळें, 'प्राण वतकूच कुडिची जाता तशी पांडव वनवासाक गेल्ल्यान राज्याची गत जाल्या.' विदुराचें म्हणणे आयकून धृतराष्ट्र अदीक हुसक्यांत पडलो. ताका पांडवांलें धन आनी राज्य मेळिल्लें. पुणून तागेलें सुख ताका सोडून गेल्लें. ताणे दुर्योधन, शकुनी, कर्ण, आनी दुःशासनाक आपोवन तांचे कडेन उलोवणी केली.

निमाणे, सगळ्यांनी द्रोणाचार्याच्या पांयार राज्य ओंपचें आनी ताच्याच हातांत कुरुकुळाचो फुडार दिवचो अशें थारायलें.

द्रोणाचार्यान दायकी आंगार घेतली. पुणून स्पश्ट उतरांनी सांगलें, 'तुमचे राखणेची दायकी तुमी म्हजेर सोंपयल्या ती मनापसून घेतां. तुमकां सोडून हांव वचपाचो ना. पुणून लक्षांत दवरात: पांडव धर्मशीळ. झुजांत जिखूंक येवपाचे न्हय. आतां ते शस्त्रां-अस्त्रां एकठांय करतले. आशिल्ले ताच्याकूय चड घटमुट जातले. आनी एक दीस तुमचो सूड घेतले. तेन्ना, ह्या तेरा वरसांत करपाचें आसा तितलेंय करून घेयात. भोगपाचें भोगून घेयात.'

ताणे उस्वास सोडून म्हळें, 'आमी नियतिच्या हातांतलीं बावलीं जाल्यांत.'

द्रोणाचार्याचें मत्त आयकून धृतराष्ट्राक थरथरो भल्लो.

बरोबर त्याच वेळार थंय नारद पावलो. तो मेकळेपणान उलोवपी. ताणेय 'तेरा वरसां उपरांत तुमचो सगळ्यांचो निप्पात जातलो' म्हुण तांकां सांगलें.

धृतराष्ट्र थतर वितर जालो. विदुराक परतो आपोवन ताणे सांगले, 'कितेंय कर आनी तांकां परते घेवन यो. येवंक राजी जाले नात जाल्यार एक कर: वनवासांत तांकां खंयचेच कडेन कसलोच त्रास जावचो ना अशी माग्णी कर.'

व्यासाचो एकलो शिष्य संजय. तोवूय थंयच आशिल्लो. ताणे धृतराष्ट्राक म्हळें, 'तुवेंच हाडलां हें संकश्ट ओडून तुजेर. विदुरान तुका सांगिल्लें अशें जावंक दिवं नाका म्हुण. भौन भौन सांगिल्लें आसतना तूं कुड्डो जालो. देव जाका ना करूंक सोदता ताची बुद्द तो पयलीं काडून घेता. उपरांत मनीस सगळें उरफाटेंच पळोवपाक लागता. काळ केन्ना तकलेर दांडो मारून मनशाक ना करिना. तर ताची बुद्द उरफाटी करता. बुद्द उरफाटी जातकूच ताका सगळेंच उरफाटें दिसूंक लागता. द्रौपदेक ज्या दिसा तुमी सभेंत फरफरीत ओडून हाडली त्याच दिसा सावन तुमचें नाशें सुरू जालें. आतां उपाय ना.'

# ५६. अक्षयपात्र

पांडव वनवासाक वचपाक भायर सल्ले तेन्ना लोकांनी भंय-भाडो सोडून दिलो. ते मेकळेपणान उलोवपाक लागले, 'असलें कसलें राज्य हें. शकुनी सारकेल्या उणाकाची आनी कर्णा सारकेल्या दुस्वाश्याची बुद्द घेवन जंय राज्य चलता थंय न्याय, नीत, धर्म चलप कठीण. दुर्योधन मुदलचो पाडो. तांतूंत, ताका ह्या दोगां पाड्यांचो आतां आधार मेळ्ळा. जो आपणाल्याच भावांचो घात करपाक अनमनलो ना तो आमचें कितें बरें करतलो, कपळ? आपल्याच घरांतले एकले बायल मनशेची विटंबना करपाक जांकां मात लेगीत लज दिसली ना ते आमचें बरें कितें करतले. ह्या राज्यांत न्याय मेळपाची आस्त ना. असल्या राज्यांत रावचे परस आमीय पांडवां वांगडा वनवासाक गेल्ले बरे.'

तांणी पांडवांक वाटेरूच मेळून सांगलें, 'पाड्या लोकांची संगत मेळटकूच बरे मनीस लेगीत पाडे जातात. कौरवांनी तुमचेर जो अन्याय केला तो पळोवन आमचें मन उबगलां, विटलां. आमकां ह्या राज्यांत रावपाचें ना. आमीय तुमच्या वांगडा वनवासाक येवचें थारायलां. हांगा रावन आमकां आमचें नाशें करून घेवपाचें ना.'

युधिष्ठिराचें काळीज भरून आयलें. ताणे तांकां सांगलें, 'हांव बरे भाशेन व्हरीन आशिल्लों तुमकां म्हज्या वांगडा, पुणून तुमी जाणात: आमच्या मायेमोगाच्या मनशांक आमी हांगा दवरून वतात. आमची आवय हांगाच रावतली. तुमच्या धिरार आमी तिका हांगा दवल्ल्या. तुमी आमच्या वांगडा आयले जाल्यार, तिका धीर कोण दितलो. तिका आधार कोणाचो मेळटलो.'

हे लोक हट सोडपाचे नात, हें युधिष्ठिर जाणा आशिल्लो. म्हुण ताणे आदींच तांकां आपलो सोपूत घालून म्हळें, 'तुमी हांगाच रावात आनी आमचे आवयक सांबाळात. तुमचेर पातयेवन आमी हुसक्या मेकळे वनवासाक वतात.

इत्सा नासून लोकांक परतुचें पडलें. ते परतल्या उपरांत पांडवांची यात्रा सुरू जाली.

दीस पडचे पयलीं ते भागीरथिचे तडीर पावले. थंय तांकां एक म्हातारो वड दिश्टी पडलो. त्या वडा मुळांत तांणी वनवासांतली पयली रात सारली. त्या दिसा तांकां उपास घडलो.

पांडवां वांगडा कांय ऋषी मुनी आयिल्ले. कांय ब्राह्मणूय आयिल्ले. वडा मुळांत तेवूय ती रात रावले. धीर दिवपा खातीर तांणी ते रातीं धर्मराजाक कांय कथा

सांगल्यो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं ते मुखावेले यात्रेक भायर सल्ले. भायर सरचे पयलीं युधिष्ठिरान ब्राह्मणांक आपोवन सांगलें, 'तुमी जाणात, आमचें राज्य गेलां. संपत गेल्या. सगळें गेलां. तेरा वरसां आमकां राज्य संपते बगर रावचें पडटलें. कितें खातले, कितें जेवतले, कांय खबर ना. रातीं उपास घडिल्लो तुमी पळेला. रानांतलीं कंद मुळां फळां आनी मांस खावन तेरा वरसां काडचीं पडटलीं. तांतूंत तुमचें वजे तकलेर घेतलें जाल्यार तुमकांय त्रास जातले आनी आमकांय जातले. म्हुण तुमचे लागीं मागतां : तुमी हांगासून परतले जाल्यार उपकार जातले.'

ब्राह्मण म्हणपाक लागले, 'आमचो हुस्को तुका कित्याक. आमचें आमी पळोवन घेतात. तुजेर आमचें वजें पडचें ना हाची जतनाय आमी घेतकूच जाली ना?'

युधिष्ठिरान म्हळें, 'तशें उपकारता व्हय. तुमचो सांगात म्हाका नाका जाला व्हय. म्हजें म्हणणे इतलेंच : आमच्या नशिबांतले त्रास आमच्या वांगडा तुमीय कित्याक भोगचे. तुमी तुमचें पळोवन घेशात. पुणून तुमी तुमचें पळोवन घेतात तें म्हज्यान कशें पळोवंक जातलें. म्हाका सोबतलें व्हय तें. म्हाका त्रास जावचे नात व्हय.'

ह्या खिणा मेरेन युधिष्ठिराक राज्य गेल्ल्याची खंत जावंक नाशिल्ली. वांगडा आयिल्ल्या ब्राह्मणांक जेवणखाण घालपाची लेगीत तांक आपणांत आतां उरूंक ना हाची ताका जाणवीक जाली तेन्नाच तो खंती जालो. पयलेच खेपे ताका आपुण नागवल्ल्याचें दुख्ख जालें. ताणे धृतराष्ट्राच्या पुतांचो मनांतल्या मनांत धिक्कार केलो आनी एक हुस्कार सोडून म्हळें, 'हांकां लागून हे दशेक पावले आमी.' शौनक नांवाचो एकलो ब्राह्मण तांच्या वांगडा आयिल्लो. युधिष्ठिराक खंती जाल्लो पळोवन ताणे सांगलें, 'खंती जावप तुका सोबना. तूं धीट. गिन्यानी. तुवें खंतिचें मूळ सोदून काडपाचें आनी तें पयस करपाचें. केदेंय व्हडलें संकश्ट येवं, केदोय मोटो प्रसंग कोसळूं, गिन्यानी मनीस मनान हालना. थतर वितर जायना. खंतिचें मूळ ओड. ओडीक अंत आनी पार ना. तिचे परसून मनशान पयस रावंक जाय. आंगाक चिखोल लागतकूच तो धुवन काडचे बदला आंगाक चिखोल लागुंकूच दिवंक फावना.'

युधिष्ठिराक ह्या प्रसंगार असल्या उपदेसाची गरज नाशिल्ली. तरी आसतना ताणे तो आयकून घेतलो. ना म्हळ्यारूय ह्या उपदेसाक लागून ताका थोडो धीर मेळ्ळो. पुणून हुस्को ना कसो जातलो आशिल्लो. तो मनांत म्हणपाक लागलो, हे सगळे वांगडा आयले जाल्यार हांकां जेवण खाण खंयच्यान तरी हाडून घालचेंच

पडटलें. तांणी बऽरें आमचें आमी पळोवन घेवं अशें म्हळें म्हुण प्रस्न खंय सुट्टा. कितलेय जाल्यार म्हजे अतिथी ते. तांकां वाडले बगर जेवप म्हाका सोबपाचें ना. निखालूस तांकपाचें ना.

तो धौम्य मुनी सरीं गेलो. आपलें काळीज उकतें करून म्हणूंक लागलो. 'हे लोक वच म्हळ्यारूय वचपाचे नात. हांकां जेवण-खाण घालपाची तांक आयज म्हज्यांत उरूंक ना. खंयच्यान कितें हाडून घालतलों. ते आपलें आपुण पळोवन घेतले म्हणटात. म्हाका तें निखालूस सोबपाचें ना. कितें करचें, म्हाका समजना.'

'सुर्याक होराय' धौम्यान सांगलें, 'तो तुजी अडचण पयस करतलो.'

युधिष्ठिरान सुर्याक होरायलो. ताची आराधना केली. सूर्य प्रसन्न जालो. युधिष्ठिरान ताच्या फुड्यान आपणाली अडचण दवल्ली. तेन्ना सुर्यान तांब्याचें एक आयदन दिवन युधिष्ठिराक म्हळें, 'हें आयदन द्रौपदेच्या हातांत दी. तें तिच्या हातांत आसा सर तुमकां अन्न केन्नाच उणे पडपाचें ना. अक्षय पात्र हें.'

आयदनांत दोन गोटे घाल्यार पुरो जातालें, घे म्हुण अन्न शिजून येतालें. कितलोय लोक जेंवपाक आसूं, सगळ्यांक पावतालें.

हें आयदन (अक्षय पात्र) हातांत पडटकूच द्रौपदेन एक नेम केलो. ती रांदताली. रांदून जातकूच पयलीं ऋषीं मुनींक आनी ब्राह्मणांक वाडटाली. तांची पंगत उठटकूच ती चौगां पांडवांक वाडटाली. ते जेवन उठटकूच युधिष्ठिर जेवंक बसतालो. युधिष्ठिराचें जेवन जाल्या उपरांतूच आपणाक वाडून घेताली.

भांडारकर संस्करणांत 'अक्षयपात्रा' चो श्लोक प्रक्षिप्त लेखला. सुर्यान प्रसन्न जावन 'तुका अन्न केन्नाच उणे पडचें ना' इतलोच आशीर्वाद युधिष्ठिराक दिल्लो म्हळां.

## ५७. काम्यक वनांत

तिसऱ्या दिसाची खबर. मध्यान रात जाल्ली. वाटेर एक मोटो दोंगर आडवो पडचो तसो किर्मीर नांवाचो एक राक्षस अकस्मात तांचे वाटेंत उबो रावलो.

द्रौपदेक आयिल्लो पयलोच अणभव हो. तिणे भियेवन आंग काडलें आनी दोळे धांपले.

'कोण तूं', युधिष्ठिरान राक्षसाक विचाल्लें.

'हांव बकासुराचो भाव किर्मीर'. राक्षसान जाप दिली. 'तुमी कोण', ताणे विचाल्लें.

'हांव युधिष्ठिर. नांव आयकलां जातलें तुवें.' युधिष्ठिरान जाप दिली. 'हे म्हजे भाव आनी ही आमची घरकान्न. तुर्त आमी वनवासांत आसात.'

नांव कानार पडना फुडें किर्मीर म्हणूंक लागलो, 'आं, तुमी तर ते. खूब वरसां जाली, तुमचीच वाट पळेतालों हांव. अखेरेक आयज मेळ्ळे तुमी. बकासुराचो उगडास आसतलो तुमकां. तो म्हजो भाव. ह्याच तुज्या भावान-भिमान-ताका मारिल्लो. हिडींब म्हजो इश्ट. ताकाय मारून ताचे भयणीक हाणेच पळयल्ली. आयज सूड घेतलों हांव तुमचो. तुमच्या मुखारूच पळेयात, भिमाक कसो मारून उडयतां तो.'

'अशें केन्नाच जावचें ना.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

ते पयलींच भिमान एक रूख हुमटावन हाडलो आनी किर्मीर आंगार धांवन येवचे पयलींच ताचे तकलेर तो माल्लो. म्हणटासर किर्मिराक उबारून वयर गरगर घुंवडावन जमनीर आपटिलो. किर्मीर मेलो.

उपरांत पांडव अस्तमे दिकेन चलपाक लागले. सरस्वती, दृषद्वती, यमुना ह्यो न्हंयो हुपीत काम्यक नांवाच्या एका वनांत पावले. पांडव वनांत आयिल्ल्याची खबर थंयच्या ऋषीं मुनींक कळ्ळी. खुशालभरीत जावन ते पांडवां भोंवतणी एकठांय जाले.

एक दीस ऋषींमुनीं सांगातांत पांडव बशिल्ले. तांच्यो गजाली आयकताले. अवचित तांकां एक रथ येता तो दिश्टी पडलो. विदुर तांकां मेळपाक आयिल्लो. युधिष्ठिराक कच्च जालें. युधिष्ठिर इन्द्रप्रस्थांत साम्राज्यपद भोगतालो त्या वेळार विदुर असोच एक दीस आयिल्लो आनी द्युताचें आमंत्रण दिवन तांकां हस्तिनापुराक घेवन गेल्लो. युधिष्ठिराक हे गजालिची याद जाली. भीम ताच्या म्हऱ्यांत बशिल्लो. युधिष्ठिरान ल्हवूच ताका म्हळें, 'हो आनीक कित्याक येता काय, देवा. नव्यान द्युताचें आमंत्रण घेवन येवंक ना मू. त्या पाड्या शकुनीक आमचीं आयुधां जिखपाची इत्सा जावंक ना मू.'

विदुर म्हऱ्यांत पावलो तेन्ना, ताणे खबर सांगली, ती अशी—

सूड घेवपाचो सोपूत घेवनूच पांडव वनवासाक गेल्यात म्हणपाचें धृतराष्ट्राच्या कानार पडिल्लें. हस्तिनापुर सोडलें तेन्ना युधिष्ठिरान तोंड कित्याक धांपिल्लें, द्रौपदेन आपले केंस सोडोवन तोंड केसांत कित्याक लिपयल्लें, तांगेले हे विचित्र चलणुकेचो अर्थ विदुरान ताका समजावन सांगिल्लो. युधिष्ठिरान तोंड धांपिल्लें, ताच्या रागान कोण हुलपून मरचो न्हय म्हुण. भीम आपल्या बावळ्यां कडेन पळोवन सुचयतालो, ह्याच बावळ्यांनी आपुण एक एकल्याचें हड्डें फोडून रगत पियेतलों म्हुण. अर्जुन रेंवे कण शिंपडावन सुचयतालो, आपुण अशे एकार एक तीर सोडून हांकां सगळ्यांक एक दीस मारतलों म्हुण. द्रौपदी सांगताली, चौदा वरसां उपरांत

कौरवांच्यो बायलो आपल्या घोवांच्या प्रेतां कडेन पळोवन अश्योच केंस सोडोवन रडटल्यो म्हुण. धृतराष्ट्राक त्या दिसा पसून न्हीद पडना जाली. वयल्यान, लोकूय खुबला आनी आपणा संबंदान कित्याय कितें उलयता म्हणपाचेंय ताच्या कानार आयलें. ताणे विदुराक आपोवन सांगलें—

'लोक खुबला म्हुण आयकतां. ते आमच्या आड वचून कांय करचे नात मू. तांकां आमचे वाटेन कशो हाडप.'

विदुरान ताका सदचे वरीच मेकळेपणान जाप दिली. ताणे म्हळें, 'जिविताची बुन्याद धर्म. तशी राज्याचीय बुन्याद धर्म. न्यायाक, नितीक धरून चलयल्यारूच राज्य चलता. ना जाल्यार बुडटा. शकुनीन न्याय, नीत खुट्यांर माल्ल्या आनी पांडवांक अन्यायान नाडल्यात. लोक कित्याक खुबचे नात. तांकां खुबपाक कारण आसा. तांकां थंड करपाचो एकूच उपाय म्हळ्यार, पांडवांचें पांडवांक दिवन उडोवप. तें तांचें. तांणी आपल्या कर्तुत्वान जोडिल्लें. तुजें न्हय. तुका देवान दिलां तांतूंत तुवें धादोशी रावचें. जाय जाल्यार, तुज्या पुतांनी कर्तुत्व करून आनीक जोडचें. पुणून दुसऱ्यांचें नाडचें न्हय. पांडवांचें पांडवांक दिशीत जाल्यार सगळ्यो धोशी सोंपतल्यो. लोकूय मागीर तुज्या संबंदान बरें उलयतले. सगळ्यांत पयलीं तुवें शकुनीक आपल्या घरा धाडून दिवचो. तोच हांची वाट लायता. ताचे बुद्दीन सगळे चल्ले जाल्यार कौरवांचें घट्टाण जावपाक कळाव लागपाचो ना. भीम अर्जुन ओगी रावपाचे नात. ते आपलो सोपूत खरो केले बगर सस्थ बसपाचे नात. दुर्योधन जल्माक आयला तेन्नाच हांवें तुका सांगिल्लें : हो तुजो पुत घात करतलो म्हुण सगळ्यांचो. हाका मारून उडय म्हुण. तुज्या बऱ्याक सांगिल्लें हांवें हें. तुवें आयकून घेतलें ना. आयजूय म्हजें तेंच म्हणणे: दुर्योधनाक सोडून दी. ना जाल्यार पश्चात्ताप करपाचो तुजेर प्रसंग येतलो. तुजेरूच न्हय, सगळ्यांचेर येतलो.

इतलें सांगून विदुरान युधिष्ठिराक म्हळें, 'हांवें ताच्या बऱ्याचेंच सांगिल्लें. पुणून रोगी मनशाक पथ रुचना तशें म्हजें म्हणणे धृतराष्ट्राक रुचलें ना. तो तापलो. म्हणूंक लागलो; तूं तेंच तेंच सांगता सदां. केन्नाय विचार, कितेंय विचार, पांडवांच्या बऱ्याचेंच सांगतलो. पांडवांक पोटलावन आपल्या पोटच्या पुताक भायर कसो उडोवं हांव. ताका सोडून कसो दिवं. कितें उलयता तूं हें' अशें म्हणून धृतराष्ट्र तिडकीन फटक करून उठलो' आनी 'तोंड घेवन वच हांगासल्लो, म्हज्या म्हऱ्यांत नाका तूं' अशें म्हणून फणफणत भितर गेलो.

आनी बरें आसा अशें म्हणून हांव उठून हांगा आयलों.'

युधिष्ठिराक सूः जालें.

# ५८. नवो बेत

विदुर खऱ्यांनीच आपणाक सोडून गेलो हें कळटकूच धृतराष्ट्र भियेलो. ताका आपले करणेचो पच्छात्ताप जावपाक लागलो. मनांत म्हणूंक लागलो, हो आतां पांडवांच्या पंगडाक वचून मेळटलो. तो राजनीत-निपुण. ताचे बुद्दिचो लाव पांडवांक मेळटलो. तांकां तो मेळ्ळो जाल्यार कौरवांचो घात जातलो.

'अशें जावंक फावना' धृतराष्ट्रान मनांत म्हळें.

आनी उचांबळीत जावन तो विदुराक उले मारपाक लागलो. थरथरत दारांत आयलो आनी घुंवळून हुंबऱ्यारूच पडलो. शुद्धीर येतकूच रडपाक लागलो, 'विदुर भाव म्हजो. तो म्हाका सोडून गेलो हें बरें जालें ना.' हे तरेचे तो विकळाप करपाक लागलो. म्हऱ्यांत संजय आशिल्लो. धृतराष्ट्रान ताका सांगलें, 'उपकार कर पुता, बेगीन वच आनी विदुराक समजावन घेवन यो. ताचे बगर सुख लागना म्हाका.'

संजय उठून काम्यकवनांत गेलो आनी विदुराक समजावन घेवन आयलो.

विदुराक आयिल्लो पळोवन धृतराष्ट्राक सूः जालें. ताणे म्हळे, 'हांवें कित्याय कितें उलोवन तुजो अवमान केलो.'

विदुरान म्हळें, 'तूं व्हडलो भाव म्हजो. तूं कितेंय उलयलो म्हुण म्हजो अवमान जायना. तुजो राग न्हिवलो म्हुण कळटकूच हांव परतलों. हांव पांडवां वटेन लकतां खरो. पुणून ताचें कारण : तांचेर अन्याय जाता हें. हरशीं म्हाका तुजे आनी पांडुचे दोगांयचे पुत सारके. दोगांयचें कल्याण जाल्लें म्हाका जाय.'

विदुर परतो आयिल्ल्याची खबर दुर्योधनाक कळ्ळी. ताका बापायची तिडक माल्ली. ताणे शकुनी कर्ण दुःशासनाक आपोवन सांगलें, 'हो पांडवांचें बरें मागतो परतो आयला. हो आतां धृतराष्ट्राची तकली फिरोवन पांडवांक परते हाडले बगर रावपाचो ना. ताचे पयलींच कितें करपाचें तें करात. पांडव परते येवन राज्य घेवन गेले जाल्यार, सांगून दवरतां : हांव अन्न उश्टावपाचों ना. जीव दितलों.'

'कितें उलयता रे तूं हें', शकुनीन म्हळें. 'पांडव सत्यवादी. आपयल्यार लेगीत येवपाचे नात. आनी समज, आयले जाल्यार तूं भियेता कित्याक. हांव आसां हांगा. परतें कितेंय काडून खेळुंया आनी जिखुंया तांकां.'

'सारकें तुजें', दुःशासनान शकुनीक तेंको दिलो.

'म्हजेंय तेंच म्हणणें' कर्णान म्हळें. 'पांडव उतराचे मनीस. तेरा वरसां सोंपले बगर कशेच परतुपाचे नात. आनी समज, परतले जाल्यार, शकुनीमामा आसा.

भंय कसलो.'

तरी आसतना दुर्योधनाक समाधान जालें ना. ताणे तोंड धुंवडायलें. तेन्ना ताका चेव हाडपा खातीर कर्णान म्हळें, 'चल ऊठ. आमी आतांच ते आसात थंय या. आनी तांकां मारून उडोवंया. ते दुबळे. तांकां कोणाचोच अजून आधार मेळूंक ना. ते पयलींच तांकां मारून उडोवंया.'

दुर्योधनाक हो बेत मानवलो. ताणे पांडवांक वनवासांतूच मारपाचो नित्शय केलो.

## ५९. दुर्योधनाक श्राप

कर्णाचे सांगणेन दुर्योधनान पांडवांक मारपाचो बेत केला म्हणपाची खबर व्यासाच्या कानार पावली तेन्ना, व्यास हुसक्यान हस्तिनापुराक आयलो. धृतराष्ट्राक मेळून ताणे सांगलें, 'तुमी सगळे कौरव पांडव म्हाका सारके. तुमच्या बऱ्याचें तेंच सांगूंक आयलां. पांडवांचेर अन्याय जाला. तांकां द्युतांत धुसपावन तुवें तांकां वनवासाक धाडले, हें तुवें बरें केलें ना. तुमकां भुजतलें हें एक दीस. हो अवमान पांडव विसरपाचे नात. तेरा वरसां तो तांचे तकलेंत घोळत रावतलो. मागीर, परतल्या उपरांत ते किंवाट्यान सूड घेतले. शाणो आसशीत जाल्यार तांचे वयलो अन्याय आयजूच पयस कर. तांचें राज्य तांकां परतें दिवन उडय. तुका घडये खबर नासत : तुगेल्या पुतान आनी एक बेत केला, वनवासांत आसतनाच पांडवांक मारपाचो. ताचे हे चाळे आयजूच आळाबंदा हाड. ना जाल्यार तुमकां ते भुजतले. कितें करपाचें तें आतांच कर. मागीर पश्चात्ताप करून कांय लाव ना'.

धृतराष्ट्रान जाप दिली, 'तूं म्हणटा तें खरें. द्युत जाल्लें कोणाकूच नाका आशिल्लें. भीष्म, द्रोण, विदुर कोणाकूच मानूंक नाशिल्लें. गांधारीक तर निखालूस मानूंक नाशिल्लें. पुणून दैवान तें घडोवन हाडलें. दुर्योधना मुखार कोणाचेंच कांय चल्लें ना. म्हजें जाल्यार निखालूस चलना. कितलोय जाल्यार, पुत तो म्हजो. ताचे इत्से आड म्हाका वचूंक येना.'

'हांव जाणां',व्यासान म्हळें, 'सगळ्यांक आपलो पुत प्रिय. पुणून लक्षांत दवर : पुता सारको इश्ट ना, तसो दुस्मानूय ना. पांडुचे पुत तुका आपलेच कशे दिसूंक जाय आशिल्ले. दिसले नात, हेंच दुर्भाग्य तुजें. म्हाका तुमी सगळेच सारके. तुमचें सगळ्यांचें बरें जावचें म्हुण तुका सांगूंक आयलां, कितेंय कर आनी पांडवां कडेन जुळोवन घे.'

'तूं म्हणटा तें म्हाका पट्टा' धृतराष्ट्रान जाप दिली. 'भीष्म, द्रोण, विदुर सगळे म्हाका हेंच सांगतात. पुणून कितें करूं, दुर्योधनाक समजावंक म्हाका येना. तूं समजावन पळे ताका.'

व्यास समजुपाचें समजलो. ताणे मनांत म्हळें, 'हाकाच म्हजें म्हणणे रुचूंक ना. दुर्योधनाक कितें समजायतलों.' ताणे खंतीन मुखार पळेलें. ताची नदर मैत्रेय मुनिचेर पडली. मैत्रेय त्याच वेळार धृतराष्ट्राक मेळपाक आयिल्लो. व्यासान धृतराष्ट्राक म्हळें, 'हो पळे मैत्रेय मुनी येता. तोवूय तुमच्या कुळाचो एक बरें-मागतो. तोवूय कितेंय तरी सांगपाक येता. एक लक्षांत दवर, तो सांगता तशें केलें जाल्यार सुटले तुमी. ना जाल्यार तुमकां तो श्राप दितलो.'

इतलें सांगून व्यास उठून गेलो.

मैत्रेय आयलो आनी ताणे धृतराष्ट्राक सांगलें, 'तीर्थयात्रेक म्हुण भायर सरिल्लों. भोंवत भोंवत काम्यकवनांत पावलों. थंय म्हाका कांय ऋषीं-मुनीं वांगडा बशिल्लो धर्मराज दिश्टी पडलो. म्हाका अजाप जालें. हो हांगा कसो, हांवें मनांत म्हळें. वासपूस करतकूच द्युताची खबर कळ्ळी. आयकून म्हाका खूब वायट दिसलें. तेन्ना म्हळें, तुका जाप दिवन वचुंया. तूं आनी भीष्म जिते आसतना येद्या व्हडल्या नांवाजत्या ह्या कुटुंबांत अशें घडचेंच कशें. केदो अनर्थ घडला, तुका खबर ना.'

म्हऱ्यांत दुर्योधन आशिल्लो. ताचे कडेन पळोवन मैत्रेयान म्हळें, 'पांडवां कडेन जुळोवन घे. तांतुंतूच तुमचें, तांचें आनी सगळ्यांचें हित आसा. पांडव वीर, पराक्रमी आनी सत्यवादी. तांच्या बळग्याचो तुका अदमास ना काय कितें. तांच्यांतल्या एकल्या भिमान हिडींब, बक आनी किर्मिरा सारकेल्यांक कशे माल्ले, खबर ना व्हय तुका. जरासंधाक ताणे कसो लोळयलो, नकळ व्हय तूं. अर्जुन ताचे फुडलो. त्या भायर श्रीकृष्ण तांच्या पंगडांत आसा. द्रुपद आसा. द्रुपदाचो पुत धृष्टद्युम्नूय आसा. खंयचोच शाणो मनीस असल्यां कडेन दुस्मानकाय मोलावन घेवंचो ना.'

दुर्योधन मान सकल घालून पांयाच्या आंगठ्यान जमनीर रेगो काडटालो. मैत्रेयाचें म्हणणें आयकून तो फकत हांसलो. मांडी थापटिली आनी परतो आंगठ्यान जमनीर रेगो काडपाक लागलो. मैत्रेयाक तिडक माल्ली. तागेले दोळे तांबडे-गुंज जाले. तिडकीन ताणे दुर्योधनाक श्राप दिलो : 'तूं म्हजें म्हणणे हांशार व्हरता. तुका हाचें फळ भोगचें पडटलें. हीच तुजी मांडी एक दीस भीम गदेन फोडटलो. तुगेल्या दुस्वासाक लागून पुराय कुरु-कूळ काबार जातलें.'

श्राप आयकून धृतराष्ट्राक थरथरो भल्लो. ताणे मैत्रेयाक पांयां पडून म्हळें,

'नाका, असलो श्राप दिवं नाका.'

मैत्रेयान जाप दिली, 'पांडवां कडेन जुळोवन घेतलें जाल्यार श्राप बादचो ना. ना जाल्यार बादतलो.'

इतलें सांगून मैत्रेय उठून गेलो.

## ६०. कृष्णाचो सोपूत

पांडवांचें राज्य, धन सगळें नाडून धृतराष्ट्रान तांकां वनवासाक धाडून दिले ही खबर वृष्णी अंधक भोजांक कळ्ळी तेन्ना तांकां धृतराष्ट्राची तिडक माल्ली. धृतराष्ट्राक गाळी घालीत ते पांडवांक मेळपाक वनांत आयले. वांगडा कृष्णूय आयलो.

त्याच वेळार पांचाळाचो धृष्टद्युम्न चेदिराजा धृष्टकेतु आनी केकेय थंय पावले.

सगळे एकठांय बसून मुखार कितें करचें तें थारावपाक लागले.

कृष्णान म्हळें, 'दुर्योधन, कर्ण, शकुनी, दुःशासन हांच्या रगताची तान धर्तरेक लागल्या जावंक जाय. ना जाल्यार दुर्योधनाक असली पाडी बुद्द जावपाची न्हय. करपा सारकें आतां एकूच उल्लां. कौरवांच्या फाटल्यान जे कोण आसात तांकां मारून युधिष्ठिराक आमी राज्याभिषेक करुंया. जे नाडपणा आनी दुश्टपणा करपाकूच जल्मा आयल्यात तांकां जिते मारून उडोवचे असो नेम आसा.'

अर्जुनाकडेन पळोवन ताणे म्हळें, 'तूं म्हजो आनी हांव तुजो. तुजे दुस्मान ते म्हजेय दुस्मान.'

द्रौपदी सदांच कृष्णाक याद करताली. येदें व्हडलें संकश्ट कोसळ्ळें तरी तो दिश्टी पडूंक नाशिल्लो. आयज तो दिश्टी पडना फुडें इतले दीस दांबून दवल्लेलें तिगेलें सगळें दुख्ख ओगान भायर सल्लें. ती कृष्णाक विचारूंक लागली : प्रसंगार सगळ्यांक पावपी तूं, कृष्णा, सांग, म्हाका इतलें कित्याक सोंसचें पडचें. हांव पांडवांची घरकान्न, धृष्टद्युम्नाची भयण, तुजी सखी. तिका कौरवांनी सभे माझार ओडून व्हरची मू. म्हज्या केंसांक धरून ते म्हाका फरफरीत ओडून घेवन गेले. म्हाका चेडी म्हणून हिणोवंक लागले. पांडव, पांचाळ, यादव सगळे जिते आसतना अशें कशें घडचें. दासी म्हुण म्हाका भोगपाची तांकां वान्सा कशी जावची. भीष्म, धृतराष्ट्राची घडये हांव सून नासन. पुणून बळिश्ट झुजारी म्हुण जांची नामना तांची घरकान्न मू हांव. तांणी आपले घरकान्निची जाल्ली विटंबना आपल्या दोळ्यांनी कशी पळोवची. सांग रे ! ते उणाक म्हज्यो भयो भयो करताले आनी

हे म्हजे घोव ती मोन्यांनी पळेताले. हांव बायल तांची. बायलेचें रक्षण करपाक दुबळो घोव लेगीत फुडें सरता. हांकां म्हजें रक्षण करूंक कशें आयलें ना रे. हांचे पसून म्हाका पांच पूत जाल्यात. तांचे खातीर तरी हांणी म्हजें रक्षण करपाचें न्हय? हे अजुनूय आपलीं शान्ति-स्तोत्रां गायत बसल्यात. हांचें राज्य गेलें, सगळें गेलें. हांचे बायलेक भर सभेंत ओडून हाडली. तरी आसतना हे स्वस्थ बसल्यात. शिंवां सारके पराक्रमी हे अशे कशे जाले सांग रे. हे आसतना कौरव जिते कशे उल्ले, सांग रे. खंय गेलें तें भिमाचें बळ? कित्याक उपकारलें तें अर्जुनाचें गांडीव.'

ती भळऽ भळऽ करून रडपाक लागली. पदरांत तोंड लिपोवन हुंदक्यांनी रडूंक लागली, 'कृष्णा, तूं म्हजो म्हुण तुका सांगतां हें सगळें. म्हाका कोण ना. घोव ना, पुत ना, भाव ना, आनी कृष्णा, तूंय ना. देखुनूच म्हज्यो भयो भयो जाल्यो. कर्ण म्हाका त्या दिसा चेडी म्हणून हांशिल्लो. सोंसना रे, कृष्णा.'

'अशी रडूं नाका तूं. कृष्णान तिका धीर दिवन सांगलें, 'तुजो जाणी छळ केलो तांच्यो बायलो एक दीस अश्योच रडटल्यो. अर्जुनाच्या तिरांनी एक दीस ते सगळे मरतले. सोपूत घेवन सांगतां हांव तुका: हे तुजे घोव परते राजा जातले आनी तूं राणी कशीच जियेतली. मळब कोंसळून पडत. हिमालय उमथून पडत. समुद्र आटत. पुणून कृष्णाचें उतर फट जावपाचें ना.'

द्रौपदेन अर्जुनाकडेन पळेलें. तोय म्हणूंक लागलो, कृष्ण सांगता तशेंच जातलें.

द्रौपदेचो भाव धृष्टद्युम्न. तो थंयच आशिल्लो. ताणेय म्हळें, 'हांव द्रोणाक मारतलों, शिखंडी भिष्माक मारतलो. भीम दुर्योधनाक मारतलो आनी अर्जुन कर्णाक उडयतलो. तूं पळेतली.'

युधिष्ठिरा कडेन पळोवन कृष्णान म्हळें: 'हांव द्वारकेक आशिल्लों जाल्यार तुमचेर हो प्रसंग येवचो नाशिल्लो. म्हाका कळिल्लें जाल्यारूच पुरो आशिल्लें. हांव उठून येतलों आशिल्लों. आपय नासतना येतलों आशिल्लों. आनी द्युत जावंकूच दिवचों नाशिल्लों. भीष्म, द्रोण, कृप सगळ्यांक मर्दी घालून तें बंद करतलों आशिल्लो. म्हजें तांणी आयकूंक नाशिल्लें जाल्यार पाशे बिशे सगळे भायर मोखून तें बळयां बंद उडयतलों आशिल्लों. ते हटाक पेटिल्ले जाल्यार हांव सगळ्यांक मारुनूय उडयतलों आशिल्लों. पुणून हांव त्यावेळार द्वारकेंत नाशिल्लों. आनर्त देशांत गेल्लों. थंयच्यान परतलों तेन्ना सात्यकी कडल्यान म्हाका ही खबर कळ्ळी. खूब वायट दिसलें. तसोच उठून हांगा आयलों.'

# ६१. शाल्वाची हत्या

कृष्ण आनर्त देशाक गेल्लो शाल्वा आड झुजपा खातीर.

शाल्व शिशुपालाचो भाव. राजसूय यज्ञांत युधिष्ठिरान कृष्णाक अग्रपुजेचो भौमान दिल्लो पळोवन शिशुपाल खुबिल्लो. तेन्ना कृष्णान सुदर्शन सोडून शिशुपालाची गोमटी कातरून उडयली. शाल्वाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना 'कृष्णाक मारिना जाल्यार हांवूच न्हय जायन' असो सोपूत घेवन ताणे द्वारकेचेर घुरी घाली. कृष्ण त्यावेळार इन्द्रप्रस्थाक आशिल्लो. द्वारकेंत नाशिल्लो. शाल्व सैन्य घेवन आयला आनी द्वारकेक वेढो घालून बसला म्हणपाचें कळना फुडें यादवांनी 'सर्वाभिसार' झुजाची हाकावणी केली. उग्रसेन तांगेलो सेनापती. ताणे झुजाची दायकी आंगार घेतली.

'सर्वाभिसार झूज म्हळ्यार आयचे भाशेंत: एमर्जन्सी, महाभारतांत ह्या झुजाचें वर्णन आयलां तें वाचतना हें आर्विल्ल्या काळांतल्या झुजाचें वर्णन न्हय मू. असो दुबाव येता. देखीक :

शाल्वान द्वारकेक वेढो घालो (अरू-घन्) आनी चोंय वशीन सैन्य मांडून दवलें (व्यूह्य विष्ठित:) तेन्ना यादवांनी पयलीं नगरा भोंवतणची कोस भरू भूंय खणून सकल वयर केली (समन्तात्क्रोशमात्रं च कारिता विषमाच भू:). उपरांत सगळे पुल (संक्रम = सांकोव) तोडून उडयले. व्हडीं चलतालीं तीं बंद केलीं. सरकारी शिक्को आशिल्लें 'वळखपत्र' दाखयले बगर कोणाक नगरांत भितर वचूंक मेळना, नगरांतल्यान भायर वचूंक मेळना अशें केलें (न चामुद्रोभि निर्याति न चामुद्रः प्रवेश्यते). घाळ रावप कोणाक कोंता येवपाचें ना म्हुण सोऱ्याचेर बंदी घाली. सोरो कोणे गाळूंक जायना, विकूंक जायना, पियेवंक जायना, असो कायदो केलो. सैन्याक फाटलो पगार दिवन उडयलो. सगळ्यांच्या हातांत शस्त्रां-अस्त्रां दिलीं, अन्न दिलें. नगरा भितर राजमार्गाचेर सगळे कडेन घोडे, हती आयुधां घेवन सैनिक उबे केले. घरां दुरगां वाटो पळोवपी सांबाळपी शिपायक नेमले. भुयारां खणलीं. अन्नाचो एक गोटो भायर पडूंक जायना म्हुण सगळ्यांक ताकीद दिली. नाच, गाणी, नाटकां बंद दवलीं. नगरा भोंवतणी कोट आशिल्लें थंय तरांतरांचीं आयुधां घेवन सैनिक उबे केले. तोपो, गुळे, चुडी हांची वेवस्ता केली. आनी गरज पडल्यार सगळ्यांनी—बायलांनी लेगीत—झुजपाची तयारी दवरची अशें सगळ्यांक कळीत केलें.

हे भाशेन सगळी तयारी करून सांब, प्रद्युम्न, गद बी यादव शाल्वाचेर धांवन गेले. ताचेर तिरांचो पावस सोडलो. तागेल्या व्हडल्या व्हडल्या सेनापतींक मारून उडयले. सैन्याची दानाधिस्पट केली आनी ताका परतून लायलो.

शाल्वा कडेन सौभ नांवाचें एक विमान आशिल्लें. पळून वचचे पयलीं ताणे

विमानांतल्यान गुळे मोखून द्वारकेंतलीं घरां, दुर्गां, मोडून उडयलीं.

इन्द्रप्रस्था सावन कृष्ण द्वारकेक यो जाल्यार, द्वारका ताका मेल्ले वरी दिसली. घरां मोडल्यांत. वाटो मोडल्यात. कोण वेद वाचिना, कोण यज्ञ करिना, हें पळोवन कृष्ण अजापांत पडलो. 'कितें जालें', ताणे वासपूस केली तेन्ना शाल्व धुरी घालून गेलो म्हणपाचें कळ्ळें.

कृष्णान त्याच खिणाक नित्शाय केलो : 'हाचो मद जिरयना जायन जाल्यार हांवूच न्हय.' आनी तो शाल्वाक मारपाक सैन्य घेवन भायर सल्लो. शाल्व समुद्रांतल्या एका जुंव्यार वचून राविल्लो. आपणालो शंख वाजोवन कृष्णान ताका झुजाक आपयलो.

आनी झुजांत ताका लोळोवन मारून उडयलो.'

शाल्वाक असूर म्हळा. आनी झुजता आसतना तो मदीं मदी 'आसुरी माया' पातळावन झुजतालो म्हळां. शाल्वाचो भारता भायल्या खंयच्याय आसुर राज्या कडेन संबंद आशिल्लो जावंक जाय. जाणकार म्हणटात : शाल्व असुरांचे एके जातिचें नांव. पुर्विल्ल्या इराणांतली ही जात. सिंध-राजस्थानाचे वाटेन हे जातिचे लोक भारतांत आयिल्ले आनी राजस्थानच्या मदल्या आनी उत्तरे कडल्या वाटारार राविल्ले. उदेंतेक मथुरे मेरेन आनी अस्तमेक द्वारके मेरेन ते धुमशेणा कांडटाले.

कृष्णान तांची धुमशेणा आळाबंदा हाडिल्लीं.

ह्या झुजांत धुसपल्ल्यान द्युता वेळार कृष्ण हस्तिनापुराक पावंक नाशिल्लो.

कृष्णाच्या मनांत आतां खासा आपणेच धृतराष्ट्रा आड चाल करून वचचें आनी दुर्योधनाक मारून पांडवांचें राज्य पांडवांक परतें दिवचें अशें आशिल्लें. पुणून युधिष्टिर म्हणपाक लागलो; 'कितेंय करात, हांव म्हजें उतर मोडपाचों ना.'

बारा वरसांचो वनवास आनी एका वरसाचो अज्ञातवास पुरो केले बगर हो आपुणूय कांय करपाचो ना, आनी दुसऱ्यांकूय कांय करूक दिवपाचो ना, हें पळोवन कृष्णाचो निरुपाय जालो. तेरा वरसां सोंपतकूच कौरवांनी राज्य परतें केलें ना जाल्यार मागीर झुजपाचें येवजुपाचें' हें तागेलें मत्त आयकून कृष्ण द्वारकेक वचूंक भायर सल्लो. वनवासाच्या काळांत पांडवांचे तकले वयलें वजें उणे करचें म्हुण ताणे सुभद्रे सयत अभिमन्यूक द्वारकेक व्हरचें थारायलें. धृष्टद्युम्न द्रौपदेच्या पुतांक घेवन पांचाल देशाक गेलो. धृष्टकेतुची भयण रेणुमती. ती नकुलाची बायल. तिका घेवन धृष्टकेतु चेदी देशाक गेलो. केकय सहदेवाचे मेवणे. तेवूय आपले भयणीक घेवन केकय देशाक गेले.

पांडवांचो वनवास आतां खरेपणानशीं सुरू जालो.

# ६२. युधिष्ठिर द्रौपदी वाद

पांडवांनी काम्यकवन सोडून दुसरे कडेन वचचें अशें थारायलें. काम्यकवना मेरेन पांडवां वांगडा कांय ब्राह्मण आयिल्ले. तांकां दानां-बिना दिवन समजावन परतिले. तेवूय जड अंतस्कर्णान आपापल्या गांवाक गेले.

उपरांत पांडव काम्यकवन सोडून रुखावळीन कुचकुचीत द्वैतवनांत गेले आनी थंयच रावपाक लागले.

थंय एक दीस युधिष्ठिर आनी द्रौपदी एकान्तांत बशिल्ली. म्हऱ्यांत कोण नाशिल्लो. कितल्या-श्या दिसांनी तांकां एकान्त मेळिल्लो. अवचित फाटल्यो गजाली येवजून द्रौपदेक रडूंक आयलें. तिणे ओगान युधिष्ठिराक म्हळें, 'एका काळार हांवें तुका हतया-दांतांच्या शिंवासनार बशिल्लो पळेल्लो. आयज तुका एके हांतरेर बशिल्लो पळेतां. एका काळार तुजे भोंवतणी व्हडले व्हडले राजा बशिल्ले दिश्टी पडटाले. आयज आमी सोडून कोण नात. एका काळार तुज्या आंगार रेसमी वस्त्रां दिश्टी पडटालीं. आयज वल्कलां दिश्टी पडटात. एका काळार तुगेर हजारांनी ब्राह्मण भांगरा-ताटांनी मचमचीत जेवण जेवताले. आयज तुकाच हांव कंद-मुळां-फळां खातना पळेतां. हें सगळें पळोवन म्हाका कितें जाता जावंक जाय, तूंच सांग. आयज आमची जी ही गत जाल्या ती पळोवन तुका तिडक कशी मारिना, म्हाका समजना. येदो व्हडलो अन्याय आमचेर जाल्लो आसतना तूं बरफा वरी साप थंड कसो, म्हाका मात लेगीत समजना. तुजी ही थंडाय, तुजें हें सोंशीकपण पळोवन म्हाका पिशें लागिल्ले वरी जाता. तुजें रगत कशें उसळना. तुका मातूय तिडक कशी येना. तिडक येना तो क्षत्रिय न्हय. असल्या प्रसंगार लेगीत जो उसळना ताच्यो लोक बकच्छायो करतात, खबर आसा मू तुका. क्षत्रियाच्या आंगांत तेज आसूंक जाय. ना जाल्यार तो क्षत्रिय न्हय. मात्शें हय म्हण. भीम आत्तां वचून आमचेर अन्याय करतल्यांक मारून येना जाल्यार पळे. ताका तूं हय म्हणी ना. अर्जुनाक पळे, कसो हात पांय पांगरून बसला तो. पळोवं येता व्हय ताका असो. कौरवांक तूं कित्याक ओगी रावता, समजना. कसली क्षमा ही. असली क्षमा खंयच पळेली ना. जांकां क्षमा करूंक जाय तांकां करची. पुणून दुस्मानाक न्हय, हांकां तर निखालूस न्हय.'

तिणे केन्ना तरी प्रह्लादाची शिकवण आयकल्ली. तिची तिका याद जाली. तिणे म्हळें : एक खेपे बळीन खंय प्रह्लादाक विचाल्लें, क्षमा व्हड काय तेज व्हड. मोव रावप बरें, काय कडक रावप बरें. तेन्ना प्रह्लादान खंय म्हळ्ळें : सदांच कडक

रावप बरें न्हय,, तशें मोव रावपूय बरें न्हय. मोव रावन जो सगळें सोंशीत रावता ताका कोण लेखिना. ताचे चाकर-माने लेगीत ताका लेखिनात. सगळेच ताचो अवमान करतात. अवमाना परस मरण बरें. बरें, सदां कडक रावन वचत ताका ख्यास्त फर्मायत रावशीत जाल्यार तुज्या सांगाताक तुजे इश्ट लेगीत रावचे नात. इश्ट तुका सोडून वतले आनी संद मेळना फुडें तुका त्रास दिवंक लागतले. देखून प्रह्लादान म्हळ्ळें, मोव रावप बरें न्हय, तशें कडक रावपूय बरें न्हय. वेळ प्रसंग पळोवन जंय मोव रावंक जाय थंय मोव आनी जंय कडक रावंक जाय थंय कडक रावचें. असलोच मनीस बऱ्याक पावता. प्रह्लादान अशेंय सांगिलें, 'क्षमा करची पुणून कोणाक आनी केन्ना? पयलीं उपकार केल्लो ताणे आतां अन्याय केलो, जाल्यार पयलिंचो उपकार स्मरून ताका क्षमा करची. जाचे कडल्यान चुकून अन्याय घडटा ताकाय क्षमा करची. पुणून जो समजून करून अन्याय करता आनी चुकून अन्याय घडलो म्हणटा ताका करची न्हय. जाची चाल सदांच वांकडी ताका तर निखालूस क्षमा करची न्हय. एक खेपे जाका क्षमा केली ताका दुसरे खेपे तर केन्नाच करची न्हय.

कौरवांक क्षमा करप न्हय. ते पाडे, अवचिन्नाळे, दुष्ट. तांकांच लागून आमची ही अशी गत जाल्या. तांकां आपले करणेचो मात लेगीत पच्छात्ताप जावंक ना. तांचे कडेन तुवें कडकूच जावंक जाय. पराक्रम गाजोवन तुवें तुज्यांतलें तेज दाखोवंक जाय. तूं सगळें कशें सोंसून घेता, म्हाका समजना. तुजें सोंशीकपण पळोवन म्हजें काळीज खवळटा.'

'तुजो ओग म्हाका समजता,' युधिष्ठिरान जाप दिली. 'पुणून एक लक्षांत दवर : तिडक कुड्डी. तिडक येतकूच मनीस कितें करीत, सांगूं नज. इतलें खरें, तो आपले सुवादीन उरना. गाळ सांगतल्याक तो परती गाळ दितलो. त्रास दितल्याक त्रास दितलो. मारूंक येतल्याक मारूंक धांवतलो. तो अमकें करतलो, तमकें करचो ना, कांय सांगूं येना. जाणटेल्यांचो अवमान करतलो. तिडकीक दोळे नात. कितें करचें, कितें करचें न्हय; कितें उलोवचें, कितें उलोवचें न्हय, हें तिका कळना, हय मू. मागीर तूंच सांग, इतलें जाका समजता तो तिडके सुवादीन कसो जातलो. तिडक आनी तूं म्हणटा तें तेज एक न्हय. तेजिश्ट केन्ना तिडकना. तिडक आयल्यारूय तो ती दांबून दवरता. देखुनूच तर ताका तेजिश्ट म्हणटात. तेजिश्टपणाचो एक गुण म्हळ्यार शूरपण. तिडक सोडल्यारूच हो गुण आंगात येतलो. तिडक रजोगुणी. तेज सत्वशीळ. असत्या परस सत्य व्हड, तशें, तिडके परस क्षमा व्हड. धर्तरेक पळे, कितली क्षमाशीळ ती. देखुनूच ती तरांतरांच्या

जिवांक पोसूंक पावल्या.'

ताणे म्हळें, 'भीष्म,द्रोण, विदुर, अश्वत्थामा, कृप, युयुत्सु आमचो हो प्रस्न बरे भाशेन सुटचो ह्या मत्ताचे. व्यास आनी कृष्णूय ह्या मत्ताचे. ते दुर्योधनाक समजायतले आनी एक दीस आमचें राज्य आमकां परतें मेळटलें. दुर्योधन समजलो ना जाल्यार ताचें नाशें जातलें. तेन्ना, तेरा वरसां धीर धरून रावुंया. जें कितें नशिबांत आयलां तें भोगुंया. तिडकीन आमी आयज उसळ्ळे जाल्यार आमचोच घात करून घेतले. कश्यपान सांगिलें, अन्याय सोंसता तोच व्हड, ताचीच संवसारांत उदरगत जाता. ताकाच अंतीं जैत मेळटा.'

युधिष्ठिराची जाप आयकून द्रौपदी निर्शेली. तिणे देवाक नमस्कार करून म्हळें, 'देवा, खरोच रे व्हड तूं. कशी पळे तुवें हाची मत गदळावन उडयल्या ती!' मागीर धीर करून तिणे युधिष्ठिराक म्हळें: 'हांव जाणा, तूं राज्य सोडशीत, संपत सोडशीत, म्हाका लेगीत सोडशीत, पुण धर्म केन्ना सोडचो ना. जो धर्माक राखता ताकाच धर्म राखता अशें म्हणटात. पुणून हांव पळेतां: धर्म तुका राखिना. मनशा फाटल्यान सावळी तशी धर्मा फाटल्यान तुजी बुद्द. तुवें केन्ना कोणाचो अवमान करूंक ना. अख्खे धर्तरेचो तूं राजा जालो. तरूय गर्वान तुजें हड्डें फुलून आयलें ना. तुवें ब्राह्मणांक संतुष्ट दवल्ले, देवांक, पितरांक, सोयऱ्यांक, सगळ्यांक संतुष्ट दवल्ले. तुगेलो धर्म तूं वैभवांत लोळटालो तेन्नाय पळेल्लो, आतां संकश्टांत पडला तेन्नाय पळेतां. मागीर सांग, तुजी ही धर्मिश्ट बुद्द द्युतांत कशी घुसपली, कशी व्हांवन गेली. तूं तुजे सुवादीन नाशिल्लो, दैवा सुवादीन तूं जाल्लो. सगळेंच ताचे सुवादीन आसा म्हणटात, आसूंक जाय हें खरें. जल्म आमचे सुवादीन ना. मर्ण आमचे सुवादीन ना. मागीर मदलें जिवीत तरी आमचे सुवादीन कित्याक आसचें. तेंय ताच्याच सुवादीन आसूंक जाय. दैव थारायता तशेंच घडटा जावंक जाय. पातक, पुण्य दैवूच घडोवन हाडटा जावंक जाय. तें नाचयता तशें आमी नाचपाचें. खरें सांगतां: तुजे सारकेल्या उजू चलणुकेच्या सत्यवादी मनशाची ही गत्त आनी त्या पाड्या, दुश्ट दुर्योधनाची ती गत्त पळोवन म्हाका दैवाचीच न्हय, देवाची लेगीत काकूळट दिसपाक लागल्या. देव न्यायी म्हणटात तें खरें न्हय. करणे सारकें फळ म्हणटात तेंय खरें न्हय. खरें आशिल्लें जाल्यार तुका हें फळ कित्याक मेळचें आनी तांकां तें कित्याक मेळचें.'

तिणे निमाणे सांगलें, दुर्योधन ऐश्वर्य जोडूंक पावला ताच्या बळाक लागून. धर्माक लागून न्हय. मतींत दवर: अन्यायान व्हेल्लें राज्य परतें जोडपाक तुका पराक्रमूच करचो पडटलो. तुका झुजुनूच तें घेवंचें पडटलें. आमचेर जो अन्याय

जाला तो पयस करपा खातीर वावरप होच तुगेलो खरो धर्म. क्षत्रियान क्षत्रियाच्या धर्माक धरून चलूंक जाय. ब्राह्मणाच्या धर्माक धरून न्हय.'

युधिष्ठिर खीणभर घुटमळ्यांत पडलो. मनांत म्हणूंक लागलो, 'कितलें सुंदर उलयता ही! आयकतलो खीणभर ओगी पडटलो इतलें सुंदर. खीणभर ओगी रावन युधिष्ठिरान तिका म्हळें: हांव फळाचे वान्शेन करणी करतां अशें दिसता व्हय तुका. लागणुकेक पळोवन जेन्ना दिसता, दिवंक जाय म्हुण, तेन्ना दितां. करूंक जाय म्हुण दिसता तेन्ना करतां. फळ मेळूं वा ना मेळूं. उजू लोक गेल्यात तेच वाटेन हांव चलतां. फळ मेळटा जाल्यारूच धर्म करचो अशें म्हणप धर्माचो व्यापार जालो. धर्माचो व्यापार करपी मनशाक संतांनी उणाक लेखला. मार्कंडेय, व्यास, वशिष्ठ, नारद, लोमेश सगळे धर्माक पाळो दिवनूच वयर सल्ल्यात. ओगीच तिडकीन देवाक आनी धर्माक दुशण दिवं नाका. देवा धर्माक मनिना तो आनी कित्याक मानतलो. इन्द्रियांक मानवता तेंच खरें म्हणप समा न्हय. समुद्रांतल्यान पल्तडीं वचपाक व्हडें जाय, तसो स्वर्ग जोडपाक धर्म जाय. धर्म नाशिल्लो जाल्यार संवसार काळखांत बुडटलो आशिल्लो. तपाचें फळ दोळ्यांक दिश्टी पडटा. धर्माचें दिश्टी पडना. म्हुण धर्माक लेखप ना हें सारकें न्हय. हें नास्तिकपण जालें. तें मनांतलें काडून उडय. देवाक दुशण दिनासतना ताका समजून घे आनी ताका नमस्कार कर.

'हांवें खंय देवाक वा धर्माक दुशण दिलां.' द्रौपदेन जाप दिली आनी म्हळें, 'हांव दुखावल्यां. देखून बडबडटां. तुज्या फुड्यान न्हय जाल्यार कोणा फुड्यान हांव बडबडटलीं. हांव एक जाणा: यत्न कोणाक चुकूंक नात. फातराक घडये यत्न करपाची गरज नासत. पुणून हालतल्या धोलतल्या जिवाक यत्न करचेच पडटात. तान लागतकूच पाडुक लेगीत उदका कडेन वता, वोत लागतकूच तें लेगीत सांवळी सोदता. म्हजें म्हणणे: तुवें लेगीत यत्न करूंक जाय. तुका ते चुकोवंक येवपाचे नात. करपाचें सगळें केलें, आतां करपा सारकें कांय उरूंक ना अशें म्हणपी मनीस हजारांत एक लेगीत मेळचो ना. समज मेळ्ळो, जाल्यारूय ताका न्हिदून रावंक मेळपाचें ना. कांय जाण जावपाचें आसा तें जातलें म्हणटात. आर्दी थल्लां ते भाशेन घडटलें म्हणटात. दुसरे कांय जाण सगळें आपशींच घडटा, दैवूय घडयना, यत्नूय घडयना, अशें म्हणटात. ह्या दोगांय परस यत्न करपी बरे. यत्न करून मेळटा ताकाच 'पौरुष' म्हणटात. घरां, नगरां यत्ना बगर उबीं जायनात. तिळांतलें तेल आनी पान्यांतलें दूद काडले बगर येना. लाकडांतलो उजो यत्ना बगर दिश्टी पडना. यत्न करुंकूच जाय, अशें मनून सांगलां. यत्न करता

ताकाच फळ मेळटा. आळश्याक मेळना. तुर्ताक आमची दैना जाल्या, आमचें सगळें गेलां. यत्न केलो जाल्यारूच होगडायल्लें परतें मेळटलें. तुजे भाव यत्न करपी. कर्तुत्वी. ते सफळ जाले बगर रावचे नात. दुसरे सफळ जातात. मागीर आमीच कित्याक जावचीं नात. जमीन खणप, बीं रोवप इतलें काम शेतकामत्याक करचेंच पडटा. फळ मेळप पावसाचेर आधारून उरता. जमीन खणिल्ली नासली, बीं रोयिल्लें नासलें जाल्यार पावस पडुनूय फळ मेळना. धर, पावस पडलो ना जाल्यार शेतकामत्याक दुशण दिवंक येवचें ना. कित्याक, ताणे करपाचें केल्लें. जमीन खणिल्ली. बीं रोयिल्लें. तशें मनशाच्या यत्नांचें. देश, काळ, परिस्थिति कितल्या-श्याच भायल्या गजालिंचेर यत्नाचें फळ आधारून उरता. देखून यत्नाक फळ मेळूं वा ना मेळूं, मनशान यत्न करूंकच जाय. यत्नूच केलो ना जाल्यार फळ कशें मेळटलें. म्हजें म्हणणे इतलेंच : हातपांय पांगरून बसूं नाका. नशिबांत आसा तें जातलें वा आपशींच सगळें घडून येतलें अशें मानूं नाका. कामाक लांग.'

तिणे निमाणे सांगलें, 'म्हज्या भुरगेपणांत एकलो ब्राह्मण आमगेर भुरग्यांक शिकोवपाक येतालो. ताच्या तोंडांतल्यान हांवें ही बृहस्पती नीत आयकल्ली. तीच हांवें हांगा तुज्या मुखार मांडल्या.

उपनिषदां उपरांतच्या काळांत कांय मत्तां वयर सरिल्लीं. तांतूंतलें 'दैवान थारायलां तेच भशेन सगळें घडटा' अशें म्हणपी एक दैववादी वा नियतिवादी मत्त आशिल्लें. आनी दुसरें 'सगळें आपशींच घडटा, दैव ना, यत्न ना, कांय ना' अशें म्हणपी यदृच्छावादी मत्त आशिल्लें. दोनूय मत्तां खरें उलोवचें, सगळ्यांक सारके लेखचे अशें मानतालीं. पुणून वांगडाच 'कांय करपाची गरज ना. कित्याक, मनशाच्या यत्नांक कांय अर्थ ना' अशेंय म्हणटालीं.

लोकांचेर ह्या दोनूय मत्तांचो प्रभाव पडिल्लो.

ह्या मत्ता आड एक नवें मत्त उबें राविल्लें. तें म्हणूंक लागिल्लें : 'करणी केले बगर कांयच घडना. आनी करणी केन्ना फुकट वचना. बरे करणेक बरें फळ मेळटा, वायट करणेक वायट मेळटा. उसरां मेळूं. पुणून मेळटा.' श्रीकृष्ण ह्या नव्या मत्ताचो आशिल्लो. बुद्धय ह्या मत्ताचो आशिल्लो. ह्या मत्ताक कर्मवाद वा प्रज्ञावाद म्हणटाले.

ह्या प्रज्ञावादाची बारीक फोडणिशी महाभारतांत मुखार आयल्या. पांडव वनवासांतल्यान परतल्या उपरांत झुजाची तयारी करपाक लागतात. तेन्ना धृतराष्ट्र हुसक्यांत पडटा. ताका न्हीद पडना. त्या वेळार विदुर ताका कांय गजाली समजावन सांगता. तांतूंत प्रज्ञावादाच्या सगळ्या आंगांची विकसावणी आयल्या. द्रौपदेन हांगा बृहस्पतिचें नांव घेतलां आनी ताचेंच हें मत्त आपुण मांडटां, अशें म्हळां. जाणकार हो चार्वाक आसूंक जाय अशें म्हणटात. चार्वाकानूय 'कांय करपाची गरज ना' म्हणटल्या दैववादी आनी यदृच्छावादी मत्ता आड एक मत्त उबें केल्लें. 'उठूंक जाय, यत्न करूंक

जाय, कर्तुत्व करूंक जाय' अशें सांगपी तें मत्त आशिलें. ह्या मत्ताक 'लोकायत' म्हुण नांव मेळिलें. मुखार हें मत्त विकृत जालें, बदनामूय जालें. 'रीण काडून सण करचे' अशें म्हणपी मत्त म्हुण लोक ताका वळखूंक लागले. मुदलांत तें तशें नाशिलें. तें कृष्णाचे आनी बुद्धाचेच परंपरेंतलें कर्मवादी मत्त आशिलें.

# ६३. युधिष्ठिर भीम वाद

द्रौपदी आपणालो ओग युधिष्ठिरा मुखार काडटाली त्याच वेळार भीम थंय पावलो. कुशीन रावन ताणे दोगांय मजगतचो वाद आयकलो. ताका युधिष्ठिराची तिडक आशिल्ली. येद्या दैन्यांत पडिल्लो आसुनूय हो अजून धर्म धर्म करीत बसला हें पळोवन तो खुबलो. दांत-ओंठ चाबून उसळ्ळो आनी म्हणूंक लागलो, 'दुर्योधनान आमचें राज्य धर्माक धरून व्हरूंक ना. झुजांत जिखून घेवंक ना. फटींगपणा करून हातासलां, उश्टें खातल्या कोल्यान शिंवाक फटोवन ताच्या हातांतलें मांस खावचें ते भाशेन. आमचें राज्य व्हरप इन्द्राच्या लेगीत नशिबांत नाशिलें. तें तुज्या घाळपणाक लागून दुर्योधनान घेतलें. तुकाच लागून आमकां तें होगडावचें पडलें. पांगळ्याच्यो गायो रानांत शेणच्यो तशें तुजे करणेक लागून आमचें ऐश्वर्य गेलें. तरी आसतना तूं धर्म धर्म करीत बसला. तुज्या ह्या धर्माक लागुनूच आमचेर हो वनवासाचो प्रसंग आयला. तुजो आगळो वेगळो धर्म आमी आयकत रावले, म्हुण हे उतळताप आयज आमच्या वांट्याक आयल्यात. तूं न्हय जाल्यार आमी केन्ना त्या अवचिन्नाळ्या पाड्या कौरवांक ना करून उडयतले आशिल्ले. तुजी आयची आवतिकाय कित्याक लागून जाली, मात्शें येवजून पळे. कोणूच तिका बरी म्हणचो ना. धर्म-धर्म करून तूं दुबळो जाला. तुजो हो धर्म घातमारो. ताणे तुजोच न्हय, तर आमचो लेगीत घात माल्ला. तुज्या काळजांत भितर तिडक आसा. तूं ना म्हणचो ना. तुज्या बावळ्यांत बळ आसा. मागीर ओगी कित्याक बसला. झुजांत आमी मेल्ले जाल्यार म्हाका खंत भोगची नाशिल्ली. पुणून आमी अन्याय सोंशीत रावले आनी ते पाडे दुर्योधन दुःशासन आमकां दुबळे लेखीत रावले, हीच सगळ्यांत व्हडली खंत. म्हज्यान ती सोंसूं नज. जो इश्टांक आनी खासा आपणाक फोंडांत उडयता तो धर्म कसलो, अधर्म तो. व्यसन तें एके तरेचें. जो धर्मा खातीर धर्म घेवन बसता ताका शाणो म्हणूं नज. धर्मांत तांक आसूंक जाय, बळगें आसूंक जाय. ना जाल्यार तो धर्मूच न्हय. दुबळो आसुनूय जो धर्म धर्म करीत बसता ताका धर्म आनी अर्थ दोनूय सोडून वतात. जो फकत पयशां

खातीर पयशां फाटल्यान लागता ताका पयशांचें मोल समजना. तसो धर्मा खातीर जो धर्म घेवन बसता ताकाय धर्माचें म्हत्त्व समजना. शाणो मनीस धर्म आनी अर्थ दोनूय सांबाळून चलता. कुपां आनी समुद्र एकामेकांक आधार दितात तसो धर्मान अर्थाक आनी अर्थान धर्माक आधार दिवंक जाय. तुगेलो धर्म क्षत्रियांचो. ब्राह्मणाचो न्हय. भीक मागून खावप तुका सोबना. तुंवें तेजिश्टपणानूच जियेवंक जाय. क्षत्रियांचो धर्म सोडून ब्राह्मणाचो धर्म घेवन बसशीत जाल्यार लोक तुका हांसतले. तूं तुजो स्वधर्म सोडूं नाका. ऊठ. दुबळेपण सोडून दी. शौर्याचो आलाशिरो घे आनी घाल घुरी. निखटो धर्मवादी केन्ना संपत वा राज्य जोडूंक पावना. आधाराक आमी आसात तुज्या फाटल्यान. अर्जुन आसा, हांव आसां. ऊठ, दुस्मानाची दानाधिस्पट करून उडोवया. दुस्मानाक ना करप होच तुजो धर्म. सुर्याचो उजवाड, चंद्राची शितळसाण तशें तुजें शौर्य. लोक म्हणटात, युधिष्ठिराची गत्त अशी जावं येता जाल्यार कोणाचेर कसलें संकश्ट येत, सांगूं येता व्हय. लोक अजून आमचे वटेन आसात. तांच्या पंगडांत वचूंक नात. तेन्ना, वेळ होगडावं नाका. आयजूच घुरी घालुंया आनी होगडायल्लें सगळें परतें जिखून हाडुंया. अर्जुनाच्या तिरां मुखार तग धरपाची तांच्यांतल्या कोणाक तांक आसा? म्हजे गदे मुखार उबे रावपाची तरी तांक आसा व्हय. तुज्या हातांत येदी शक्ती आसतना तूं ओगी कित्याक रावला.'

भिमाचीं तीख उतरां आयकून लेगीत युधिष्ठिर हाल्लो ना तो आपल्याच मत्ताचेर थीर रावलो. तो म्हणूंक लागलो, 'तूं म्हणटा तें खरें. म्हाकाच लागून तुमचेर हें संकश्ट कोसळ्ळां. पाशांनीं हांवूच तांचें राज्य जिखतलों अशें दिशिल्लें. पुणून उरफाटें जालें. दुर्योधना वांट्याचो शकुनी खेळपाक लागलो आनी फटींगपणा करून ताणे आमचें राज्य जिखलें. तो फटींगपणा करता म्हणपाचें लक्षांत येतकूच तरी हांवें सादुर जावपाचें, हांवें म्हाका सांवरून धरपाचें. पुणून म्हाका तें जमलें ना. तिडक मनशाचो धीर लेगीत ना करता. म्हजें तशेंच जालें. म्हाका ताची तिडक माल्ली. म्हजो धीर सुटलो, हांव म्हजे सुवादीन उल्लों ना. तिडके सुवादीन जावन व्हांवत गेलों. हांव तुका दुशण दिना, कोणाकूच दिना. कित्याक, जावपाचें तेंच जालां. नशिबांतूच आशिल्लें हें, अशें म्हणचें पडटा. द्रौपदी आधाराक आयली आनी तिणे आमकां सोडयले. तितल्यान तरी हांवें सादुर जावपाचें. त्या उपरांत पर्थून तांणी म्हाका खेळपाक आपयलो आनी ही वनवासाची आनी अज्ञातवासाची अट घाली. तेन्ना हांवें ना म्हणपाचें. पुणून हांव ना म्हणूंक पावलों ना. तेन्नाय हांव म्हजे सुवादीन उल्लों ना. हांव तिडके भरशीं व्हांवलों. हांवें हय म्हळें आनी खेळून

अपेस ओडून घेतलें. हार पडली जाल्यार वनवासाक वतां म्हळें. इतल्या लोकां हुजीर दिल्लें उतर हांव आतां कशें मोडूं. म्हाका हें जमपाचें ना. सत्ये खातीर सत्य कशें सोडूं. ते परस मरण आयिल्लें बरें. हांव तुका विचारतां : तुका तुज्या शौर्याचो येदो अभिमान जाल्यार हांवें तांकां हय म्हणून उतर दिवचे पयलीं तुवें म्हाका तशें कित्याक सांगलें ना. म्हाका कित्याक जागयलो ना. हांव खेळटालों त्यावेळार तुवें शकुनिचे हात हुलपावपाचे. तुवें ते हुलपावन उडयल्ले जाल्यार तुका कोण आडायतलो आशिल्लो. ताचे हात कित्याक हुलपायले नात. वयल्यान तूं म्हजे हात हुलपावपाक भायर सल्लो! त्यावेळार तूं चुकलो. आतां म्हाका दुशण दिता. द्रौपदेचें दुःख पळोवन म्हाकाय वायट दिसता. म्हजेच म्हाका जाळ मारतात. पुणून कितें करूं. दिल्लें उतर कशें मोडूं. हांव तें मोडपाचों ना. आतां आमच्या मुखार एकूच वाट उल्ल्या : दिल्ल्या उतराक पाळो दिवपाची. तेरा वरसां उपरांत कितें कर्तुत्व गाजोवपाचें तें गाजय. आयज न्हय. शेतकामती बीं रोयल्या उपरांत पीक येसर वाट पळेता, तशी वाट पळोवंया.'

हाच्या मुखार माणसुकी ना अशें म्हणून भीम उबगलो. ताणे म्हळें, 'काळ आपल्याच हातांत आशिल्ले वरी तूं उलयता. देवान जाका सोंपून सोंपना इतलें आयुष्य दिलां ताकाच घडये वाट पळेत बसपाचो धीर जायत. आमी इतलें आयुष्य घेवन जल्माक येवंक नात. म्हाका वाट पळेत बसपाचो धीर ना. आमचें ऐन उमेदिचें आयुष्य सोंपतलें, आमी मरणा धडेक पावतले. त्या आदींच राज्य जोडपाचो यत्न जावंक जाय. येवजून येवजून म्हाका न्हीद पडना. म्हजी अशी गत जाल्यार अर्जुनाची दुसरी. तो पांजऱ्यांत घाल्ल्या शिंवा सारको दिसता. म्हज्यान ताका असो पळोवं नज. नकुल सहदेव तुज्या तोंडा कडेन पळोवन ओगी रावल्यात. म्हुण ते ओगी आसात अशें समजूं नाका. तांचींय काळजां खदखदतात. सगळ्यांच्या काळजांत जें खदखदता तेंच म्हज्या आनी द्रौपदेच्या तोंडांतल्यान भायर सल्लां. वेद-शास्त्रां वाचून वाचून तुजी बुद्द ब्राह्मणा सारकी जाल्या. तुवें ब्राह्मणागेर जल्म घेवपाचो. क्षत्रिय कुळांत कित्याक घेतलो. क्षत्रियांचो धर्म खंयचो, तूं नकळ व्हय. मागीर हात पांय पांगरून ओगी कित्याक बसला. वनवासाचो प्रस्न ना. पुणून अज्ञातवासांत आमकां वर्सभर तूं लिपोवन कसो दवरतलो. मूठभर तणांत हिमालय लिपून उरता व्हय. सुर्याक लिपोवं येत व्हय. हती केन्ना रानांत लिपून उल्ला व्हय. भुरगेपणांत सावन आमकां अख्खो संवसार वळखता. आमगेलो अज्ञातवास मेरूक लिपोवन दवरपाच्या यत्ना सारको जातलो. खंयूय लिपोवन दवर तूं, लोक आमकां वळखतले. दुर्योधनाचे इश्ट आमचेर नदर दवरून रावतले आनी तेरावें वर्स सोंपपाक आमकां सोदून काडटले. मागीर वच परतो बारा वरसांच्या

वनवासाक, आनी आनीक एका वरसाच्या अज्ञातवासाक. म्हजें आयकशीत व्हय, कांय पंडित म्हयन्याक वर्स लेखतात. वनवासांतल्या तेरा म्हयन्यांक तेरा वरसां धर आनी दिल्ल्या उतराक पाळो दिलो अशें मानून चौदाव्या म्हयन्यांत घाल घुरी दुर्योधनाचेर. तेरा वरसांचे तेरा म्हयने केले म्हुण पातक लागलें जाल्यार प्रायश्चित घेवंया. पुणून घुरी घालपाक कळाव लावया नाका. दुस्मानाक ना करपाचो तुगेलो धर्म उपकार करून आयचो फाल्यांचेर धुकलूं नाका.'

युधिष्ठिरान एक सुस्कार सोडलो. ताणे मनांत म्हळें: हाका धर्माच्यो खबरी सांगून उपकारनात. सांगल्यारूय हाका त्यो कळपाच्यो नात. हाका कळटा ते भाशेंतूच उलोवंक जाय. आनी ताणे भिमाक सांगलें, 'म्हजें मात्शें आयकून घे. दोळे धांपून धाडस केलें म्हुण कामां जायनात. धा पांच येवजून पावल उखलूंक जाय. ना जाल्यार धाडस आंगलट येंव येता. कामाक हात घालचे पयलीं सारकें खोलायेंत देंवन येवजूंक जाय, बुद्वंतांची बुद्द घेवन येवजूंक जाय. आनी पावल उखलतना वेळ काळूय पळोवंक जाय. दैवूय आपले वाटेन आसूंक जाय. तरूच कामां जातात. दुर्योधनाच्या पंगडांत कोण कोण आसात पळे. भीष्म द्रोण कृप हे आमचे आसले तरूय तांचें अन्न खातात. ते तांच्याच पंगडांत रावतले. झुजांत तांकां जिखप सोंपें न्हय. दुर्योधन आनी ताचे भाव लेचेपेचे न्हय. आमचे इतलेच अस्त्रविद्येंत पाटांगडे. त्या भायर, आमी जांकां त्रास दिले ते सगळे राजा आयज दुर्योधनाक मेळ्ळयात. दुर्योधनान तांकां आपल्या सुखांत वांटेकारी करून घेतल्यात. दुर्योधना खातीर ते प्राण दिवपाक आयज तयार आसात. कर्ण तांच्याच पंगडांतलो. तो तर तिनूय त्रिकाळ खुबिल्लोच आसता. आमचें नांव घेना फुडें उसळटा. कोडू जाता. अस्त्रविद्येंत तो सामान्यां भायलो. ताका कोण जिखतलो. म्हाका जाल्यार हें सगळें येवजून न्हीद लेगीत पडना.'

भीम खंती जालो. हाच्या मुखार उपाय ना, अशें म्हणून तो उठलो आनी कांय उलय नासतना उठून गेलो.

## ६४. प्रतिस्मृती विद्या

त्याच दिसा म्हा-मुनी व्यास थंय पावलो. पांडवांकूच मेळपाक मुजरत आयिल्लो. ताणे युधिष्ठिराक सांगलें, 'तुजे तकलेंत कितें घोळटा, हांव जाणा. तुका कोणाचो भंय दिसता तेंवूय जाणा. हांव सांगतां तशें करशीत जाल्यार तुजो भंय वतलो.'

अशें म्हणून व्यासान ताका कुशीक आपोवन व्हेलो आनी एकांतांत ताका

प्रतिस्मृती विद्या शिकयली. उपरांत सांगलें, 'फाटल्या गजालिंची याद काडून कांय मेळपाचें ना. जालें तें जावन गेलें. ताच्यो यादी तुका मुखार पावल घालूंक दिवच्यो नात. त्यो आतां विसरपाच्यो. मनांतलें दुबळेपण सोडून दिवपाचें आनी नवे उर्बेन फुडार घडोवपाक मुखार सरपाचें. कित्याक, मनशाच्या कर्तुत्वाक शीम ना.'

इतलें समजावन ताणे म्हळें, 'अर्जुनाक ही प्रतिस्मृती विद्या शिकय आनी ताका इन्द्र रुद्र वरुण कुबेर यम हांचे सरीं धाडून दी. तप आनी पराक्रम करून तांचे कडल्यान अस्त्रां घेवन यो म्हुण ताका सांग. तीं अस्त्रां मेळटकूच तुका कोणाचोच भंय उरचो ना. आयज जांचो तुका भंय दिसता तांकां तूं जिखतलो'

व्यासान मुखार म्हळें, 'आनिकूय एक गजाल सांगपाची उल्ल्या. एकेच कडेन चड दीस रावप बरें न्हय. तुमी आतां द्वैतवन सोडन दुसरे कडेन खंयूय वचात. द्वैतवनांतल्या सावदांक तुमचो त्रास जावंक जायना.'

इतलें सांगून व्यास गेलो.

तो वतकूच व्यासान शिकयल्ली विद्या युधिष्ठिरान काळजांत थीर केली आनी द्वैतवन सोडून तो काम्यक वनांत रावपाक गेलो.

काम्यक वनांत आसतना एक दीस युधिष्ठिरान अर्जुनाक सांगलें, 'झुजा विद्येंतलें आमकां जितलें येता तितलेंय कौरवांक येता. त्या भायर, आयज तांच्या आधाराक कितलेशेच राजा आयल्यात. तांचे कडेन संपतूय आसा आनी शक्तीय आसा. दुर्योधना खातीर जीव लेगीत ओंपपाची तांची तयारी आसूं येता. झुजांत तांकां आमी जिखतले जाल्यार तांचे कडेन आसा ताचेय परस चड, ताचे परस वेगळें कितेंय आमचे कडेन आसूंक जाय.'

'खरें'. अर्जुनान जाप दिली.

अर्जुनाची जाप आयकून व्यासान शिकयल्ली प्रतिस्मृती विद्या युधिष्ठिरान अर्जुनाक शिकयली. आनी म्हळें, आतां व्यासान सांगलां ते भाशेन उत्तरे दिकेन वच. इन्द्राक प्रसन्न करून घे. आनी ताचे कडेन दिव्य अस्त्रां आसात तीं घेवन यो.

अर्जुन रोखडोच भायर सल्लो. ताका भायर सरिल्लो पळोवन द्रौपदेचें काळीज भरून आयलें. आपुण ताची बायल म्हणपाचें ती विसल्ली. कुन्ती थंय आशिल्ली जाल्यार ती ताका आशीर्वाद दितली आशिल्ली अशें येवजून द्रौपदेन दुकां काडून अर्जुनाक म्हळें, 'तुज्या मनांत आसा तितलेंय तुका मेळूं. तुगेल्यो सगळ्यो इत्सा भागूं. जैतवंत जावन यो. क्षत्रिय कुळांत कोणेच जल्म घेवचो न्हय. ब्राह्मणांचें आपलें बरें. भिक्षा मागली, उपदेस केलो, आशीर्वाद दिलो, सोंपलें क्षत्रियाक

पराक्रम करचे पडटात. तरेतरेचे उतळताप सोंसचे पडटात. तुजो जल्म क्षत्रिय कुळांतलो. दुर्योधनान म्हजो जो अवमान केल्लो तो हांव विसरूंक ना. तूंय विसरूंक ना. ताचो सूड घेवंकूच जाय. देखुनूच तुका हांव आडायना. तूं वच आनी शस्त्रांअस्त्रां घेवन यो. तूं वतकूच म्हाका उकतें दिसतलें. सुख लागचें ना. न्हीद पडची ना. तरी आसतना तुका हांव वचूं नाका म्हणी ना. कित्याक, आमचें सुखदुख, आमचें राज्य, आमचें सगळें ऐश्वर्य तुजेर आधारून आसा. तूंच तें सगळें आमकां परतें मेळोवन दितलो. देखून तुका वचूंक दितां. तुजे यादीन तुज्यो खबरी करून दीस काडटलीं हांव. तुजें बरें जावं. तुज्यो सगळ्यो इत्सा भागूं. वाटेंत तुका कसलोच आनी कोणाचोच त्रास जांव नाका अशें देवा कडेन मागतां. बरे भाशेन वच आनी जैतवंत जावन यो.'

## ६५. पाशुपत-अस्त्र

अर्जुनान धौम्यमुनीक नमस्कार घालो आनी गांडीव, तिरांभाते, तरसाद बी घेवन जो भायर सल्लो तो नीट हिमालयार पावलो. थंयचो गंधमादन पर्वत चडून तो इन्द्रनीळ पर्वतार गेलो.

इन्द्रनीळ पर्वतार अवचित ताच्या कानार एक आवाज पडलो, 'राव, मुखार वचूं नाका.'

'कोणाचो काय आवाज हो.' अर्जुनान मनांत म्हळें आनी ताणे चौंय वसल्यान नदर भोंवडायली. एका रुखा मुळांत एकलो तपस्वी बशिल्लो तो ताका दिश्टी पडलो. अर्जुनाक उबो राविल्लो पळोवन तपस्व्यान म्हळें : धोणु तीर तरसाद बी घेवन खंय वता. शस्त्रांअस्त्रां घेवन येवपाचें थळ न्हय हें. हांगा ब्रह्मनिष्ठ तपस्वीच रावतात. हांगा येतना शस्त्रांअस्त्रांच न्हय, तर तिडक ओड गर्व मद सगळें सोडून येवंक जाय. मुखार वतलो जाल्यार तुजीं शस्त्रांअस्त्रां हांगा दवर आनी वच.'

अर्जुन खीणभर ओगी रावलो. मागीर 'कितें जाता तें जावं' अशें येवजून आयिल्लो तसो शस्त्रांअस्त्रां सयत नित्शयान मुखार वचपाक लागलो. अर्जुनाचो नित्शाय पळोवन तपस्वी खोशी जालो. ताणे हांसत हांसत अर्जुनाक म्हळें, 'हांव इन्द्र. तुजो नित्शाय पळोवन हांव खोशी जालां. तुका कितें जाय तें माग.'

अर्जुनान हात जोडून म्हळें, 'तुजे कडलीं अस्त्रां व्हरपाक हांगा आयिल्लों. दितलोच जाल्यार म्हाका अस्त्रां दी.'

'अस्त्रां घेवन तुका कितें करपाचें आसा. तीं सोडून दुसरें कितेंय माग' इन्द्रान

हळें.

'म्हाका दुसरें किर्तेंच नाका. पयशे नाकात, राज्य नाका. सुखां नाकात, ्वत्थूय नाका. हें सगळें म्हाका जाय जालें जाल्यार तें हांव म्हज्या बावळ्यांच्या ेटार जोडपी. म्हाका फकत तुजीं अस्त्रांच जाय.' अर्जुनान जाप दिली.

इन्द्रान म्हळें, 'पयलीं तूं म्हादेवाक प्रसन्न करून घे. मागीर तुज्यो इत्सा ागतल्यो.'

म्हादेवाक प्रसन्न करून घेवपा खातीर अर्जुन तप करपाक लागलो. ताणे इतलें तप केलें कि तें पळोवन हिमालयांतले ऋषी भियेले. ते म्हादेवा सरीं धांवन गेले. आनी म्हणूंक लागले, 'हो इतलें खर तप कित्याक करता, खबर ना. पुणून तागेलें तप पळोवन आमचो जीव हांगा सकल वयर जावपाक लागला. कसोय करून ताका फाटीं ओडून घे.'

'तो कित्या खातीर तप करता, हांव जाणा.' म्हादेवान ऋषींक जाप दिली. ताका स्वर्ग नाका, सुख नाका. तुमचें कांयच व्हरपाचो ना तो. तुमी भियेवं नाकात, सस्थ आपापल्या आश्रमांत वचात. हांव पळोवन घेतां ताका किर्तें जाय तें.'

आपुण ताचें पळोवन घेतां अशें म्हादेवान उतर दितकूच ऋषी उठून गेले. ते वतकूच म्हादेवान किराताचें रूप घेतलें, पार्वतिकूय तेंच रूप घेवंक सांगलें. आनी पार्वतीक घेवन म्हादेव अर्जुना म्हऱ्यांत आयलो. एकलो रानदुकर अर्जुनाचेर उडी घेवपाच्या बेतांत आशिल्लो म्हादेवाक थंय दिश्टी पडलो. रानदुकर उडी घेवपाच्या बेतांत आसा हें अर्जुनानूय पळेल्लें. अर्जुनान त्याच खिणाक गांडीव उबारून दुकराचेर तीर सोडलो. हे वाटेन म्हादेवानूय तीर सोडिल्लो. एकाच खिणाक दोन तीर दुकराक लागले. दुकर मेलो. अर्जुनान किराताक विचाल्लें, 'हांवें तीर जोखिल्लो आसतना, तुंवें कसो जोखलो. मृगयेच्या नेमांत तुगेली करणी बसना.'

'हांवें पयलीं तीर जोखिल्लो.' म्हादेवान जाप दिली.

अर्जुनाक भिरभिरी माल्ली. ताणे म्हळें, 'अब्बा! हांवें जोखिल्लो आसतना आपणे जोखिल्लो म्हुण कसो सांगता तूं. आनी मृगयेक बायलेक सो वांगडा घेवन भोंवता. 'कोण तूं.'

'आमी ह्या रानांत रावपी किरात. हांगासल्लीं सुकणीं सावदां आमचीं. तुजीं न्हय. तूं हांगासल्लो न्हय. पळेल्यार तूं शारांतलो-सो दिसता. आनी वयल्यान तूं कोण म्हुण म्हाका विचारता! हांव कोण तो सांगचे पयलीं तूं कोण तें सांग. तूं हांगा कित्याक आयला. तूं जो दुकराक आपणें माल्ला म्हणटा तें खरें न्हय. दुकर

म्हज्या तिरान मेला....' म्हादेवान जाप दिली.

किराताची जाप आयकून अर्जुन तिडकीन उसळ्ळो. ताणे किराताचेर तीर सोडले. किरात पर्वत कसो थीर उबो रावलो. तीर आंगार झेलून ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'मार, आनीक जाय तितले मार.'

किंवाट्यान अर्जुन तीर सोडीत रावलो. अर्जुना कडेन दोन भाते आशिल्ले. तांतले तीर केन्ना सोंपनाशिल्ले. तो तीर सोडीत रावलो. दोंगरार पावसाच्यो दडकेर दडको पडल्यो म्हुण दोंगराक कांयच जायना तशें अर्जुनाच्या तिरांनी किराताक कांयच जालें ना. अर्जुनाचे तीर सोंपपा कडेन पावले. तेन्ना ताका दुबाव आयलो : 'कोण काय हो? देव, गंधर्व काय आनी कोण.' दुबावान अर्जुन भियेलो. तरी आसतना तो तीर सोडीत रावलो. तीर सोंपले तेन्ना तो धोणु घेवन किराताच्या आंगार धांवलो. किरातान ताच्या हातांतलें धोणु झोंबून घेतलें आनी तोंडांत घालून तें गिळ्ळें. अर्जुन पेटलो. तो तरसाद घेवन धांवलो. ताणे किराताचे तकलेर तरसाद हाणली. तरसाद मोडली. तिचे दोन कुडके जाले. अर्जुन काचाबूल जालो. ताणे रूख हुमटावन हाडले, आनी किराताचेर मोखून माल्ले. म्हणटासर व्हडलीं व्हडलीं तळपां उबाल्लीं. तीं मोखून माल्लीं. किरात 'मार, आनीक मार' म्हणीत रावलो. अर्जुन मुठी मारपाक लागलो. किरातान अर्जुनाचो हात पिळ्ळो. अर्जुन ताका वेंगेंत आंवुळटलो म्हुण मुखार सल्लो. किरातानूच ताका वेंगेंत आंवुळ्ळो.

निमाणे अर्जुन धुंवळून पडलो.

थोड्या वेळान सुद्दीर आयलो. तेन्ना ताका कितें करचें, कांयच येवजना जालें. ताचो गर्व साप देंविल्लो. किरात मुखारूच उबो आशिल्लो. अर्जुनाक म्हादेवाचो उगडास जालो. ताणे रोखडीच म्हादेवाची पुजा सुरू केली. तो म्हादेवाक फुलां ओंपूंक लागलो.

फुलां किराताचे तकलेर पडपाक लागलीं.

अर्जुनाचे तकलेंत आतां लख्ख उजवाड पडलो. 'आं! अशें तर!' ताणे मनांत म्हळें, 'हो किरात न्हय, खासा म्हादेव तर!'

हो म्हादेव म्हणपाची जाणवीक जायना फुडें ताणे कळाव केलो ना. त्याच खिणाक ताणे म्हादेवाच्या पांयार घालून घेतलें.

म्हादेवान म्हळें, 'तुजें कर्तुप पळोवन हांव खोशी जालां.'

'तुकाच प्रसन्न करून घेवपा खातीर हांव तप करतालों.' अर्जुनान जाप दिली 'तुका वळखलों ना हांव. चूक जाली.' अर्जुनान पच्छात्तापान फडफडून म्हळें.

म्हादेव प्रसन्न जालो. ताणे अर्जुनाक तागेलें गांडीव परतें दिलें. तागेले भातेय

भरून दिले. आनी म्हळें, 'आनी कितें दिवं, सांग.'

'तुगेलें पाशुपत अस्त्र दी.' अर्जुनान मागलें.

'घे,' म्हादेवान म्हळें आनी सांगलें: 'हें अस्त्र कशें वापरचें तें इन्द्र यम कुबेर वरुण कोणाक सारकें खबर ना. म्हजे कडल्यान तें सारकें शिकून घे. कोणाचेरूय सोडूंक जायना तें. उणे तेज आशिल्ल्याचेर तर निखालूस सोडूंक जायना. तें अख्खो संवसार हुलपावन उडयतलें.'

अर्जुनान शुचिर्भुत जावन तें मंत्र-तंत्रा सयत शिकून घेतलें. त्याच खिणाक चोंय दिकांतल्यान शंख नगारे कांसाळीं आराबे शिंगां वाजूंक लागलीं. मळब आनी भूंय गाजोवपी त्या घणघणाटांत म्हादेव पार्वतीक घेवन कैलासार उठून गेलो.

## ६६. अमरावती

आपणाक म्हादेवाचें पाशुपत अस्त्र मेळ्ळें ताच्याकूय चड खासा म्हादेव आपणाक पळोवंक मेळ्ळो हाची अर्जुनाक खोस जाली. ताचें काळीज खोशयेन भरून ओतूंक लागलें. ताच्या आंगार कांटो फुल्लो.

हे वाटेन, जाका म्हादेवान पाशुपत अस्त्र दिलां तो कोण, हें पळोवपाक थंय वरुण कुबेर आनी यम आयिल्ले. इन्द्रय इन्द्राणीक घेवन आयिल्लो. म्हादेव वतकूच यमान अर्जुनाक म्हळें, 'आमी लोकपाल. तुका पळोवपाक मुजरत हांगा आयल्यात. तूं नर नांवाचो पुर्विल्लो देव, ब्रह्मदेवाचे इत्सेन मनीस रुपान जल्मा आयला. कृष्णाच्या आधारान तूं धर्तरेर मातिल्ल्या दैत्यांक दाळाक लायतलो. कृष्ण नारायणाचो अवतार. तुमी दोगूय देवांचें काम करपाचे आसात. म्हादेवान तुका ह्याच खातीर पाशुपत अस्त्र दिलां. आमचेय कडेन कांय दिव्य अस्त्रां आसात. म्हजे कडेन आशिल्लें हें दंड नांवाचें अस्त्र हांव तुका दितां.'

अर्जुनान यमाचें दंड अस्त्र घेतलें.

मागीर वरुण मुखार सल्लो. म्हणपाक लागलो, 'तूं क्षत्रियांत व्हड. म्हजे कडेनूय पाश नांवाचें एक अस्त्र आसा. तें सगळ्या दैत्यांक बांदून हाडटलें. तें हांव तुका दितां.'

उपरांत कुबेर उठलो. म्हणूंक लागलो: 'कृष्णाक पळोवन जाल्ली तेच तरेची खोस तुका पळोवन जाता म्हाका. म्हजे कडेनूय एक अस्त्र आसा, अंतर्धान नांवाचें. तें तुज्याच हातांत सोबपाचें. म्हादेवान त्रिपुराक मारिल्लो त्या वेळार ह्याच अस्त्रान ताणे दैत्यांक हुलपावन उडयल्लें.'

मागी नासतना इतलें मेळिल्लें पळोवन अर्जुनाचो जीव भुल्लुसून आयलो. म्हादेवूच न्हय, तर लोकपाल लेगीत आपणाक पळोवंक मेळिल्ल्याचें येवजून अर्जुनाक आपल्या जिविताचें भांगर जाल्लें वरी दिसलें. तो भक्ति-नम्र जालो.

इन्द्र ताची खुशालकाय नियाळटालो. तो धादोसभरीत जाल्लो. ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'आदल्या जल्मांतलो देव तूं. इतलींय हीं अस्त्रां जोडून तूं ह्याय ज़ल्मांत देवां सारको जाला. म्हजे कडलीं अस्त्रां व्हरपाक म्हजो सारथी मातली रथ घेवन येतलो.'

इतलें सांगून इन्द्र उठून गेलो. लोकपालूय गेले. कांय वेळान इन्द्राचो रथ आयलो. मातली सारथ्यान अर्जुनाक म्हळें, 'तुका अमरावतीक व्हरपाक आयलां. थंय इन्द्रा सयत देव ऋषी गंधर्व अप्सरा तुजी वाट पळेतात.'

अर्जुन रथांत बसलो. हिमालय सोडटना ताका खूब वायट दिसलें. ताणे हिमालयाक नमस्कार केलो, ताचे उपकार आठयले आनी मनांत ताचें तुस्त-गीत गायलें. म्हणटासर रथ उडलो आनी थोड्याच वेळांत अर्जुन अमरावतीक पावलो.

अमरावती ताची वाट पळेत राविल्ली. रथ थंय पावना फुडें इन्द्रान ताका गडगडाटाचो येवकार दिलो. अर्जुनाक ताणे वेंगांत घेतलो. आनी ताच्या हाताक धरून ताका इन्द्रासनार आपल्याच म्हऱ्यांत बसयलो. इन्द्राक हजार दोळे. हजारूय दोळ्यांनी तो अर्जुनाक अपुबयिन पळेतालो. अस्त्रां कशीं वापरचीं तें शिकोवपाक लागलो. अर्जुन मन लावन अभ्यास करतालो.

## ६७. उर्वशेचो श्राप

अर्जुनाचे सरबरायेंत इन्द्रान कितेंच उणे पडूंक दिलें ना. ताची बरी बडदास्त दवल्ली. खासा आपुण ताका वज्र अशनी बी दिव्य अस्त्रां कशीं वापरचीं तें शिकोवपाक लागलो. अर्जुन मन लावन अभ्यास करतालो. सुमार पांच वरसां ताणे अभ्यास केलो.

पांच वरसां उपरांत एक दीस इन्द्रान ताका म्हळें, 'मृत्युलोकांत ना असली आनीक एक विद्या हांगा शिकपा सारकी आसा, ती म्हळ्यार संगीत-विद्या. तिवूय तूं हांगां शिकून घे. चित्रसेन गंधर्व हांगाच आसा. तो हे विद्येचो जाणकार. तो तुका ती शिकयतलो. आनी इन्द्रान चित्रसेना कडेन अर्जुनाची वळख करून दिली.

दुसऱ्या दिसा परसून अर्जुन संगीत-विद्याय शिकपाक लागलो.

अर्जुनाक मदीं मदीं भावांची याद जाताली. मदीं मदीं द्युत सभेंतले देखाव ताच्या दोळ्यां मुखार उबे रावताले. दुर्योधन-दुःशासनाचे उगडास जावन तो

दांत-ओंठ चाबतालो.

एक दीस इन्द्रान नाच गाण्याचो एक जलसो दवल्लो. तांतूंत इन्द्रसभेंतल्यो मेनका रंभा उर्वशी धृताची सगळ्यो अप्सरा नाचल्यो. तांतले उर्वशीक अर्जुन बारीकसाणेन पळेता हें इन्द्राचे नदरेंत भल्लें. कांय दिसांनी ताणे चित्रसेनाक सांगलें, 'अर्जुनाक आतां हांगा पांच वरसां जायत आयलीं. अस्त्रविद्येंत आनी संगीतविद्येंत तो पाटांगडो जाला. कामशास्त्रांतूय ताणे आतां निपुण जावंक जाय. आयज उर्वशीक तागेर धाडून दी.'

चित्रसेन नीट उर्वशीगेर गेलो. इन्द्रान सांगिल्लें तिका सांगलें. उर्वशीचेय नदरेंत अर्जुन भरिल्लो. ती न्हावन धुवन न्हेसून शृंगारून तेच रातीं अर्जुनागेर गेली. 'उर्वशी आयल्या' म्हुण दरवानान अर्जुनाक सांगलें तेन्ना ताका अजाप जालें. 'उर्वशी येदे रातची कित्याक आयल्या' अशें म्हणीत अर्जुन उठलो आनी बेगोबेग भायर आयलो. तिगेलो शृंगार पळोवन अर्जुन समजुपाचें समजलो. ताणे बेगोबेग तिच्या पांयार तकली दवल्ली आनी विचारलें, 'कित्याक आयिल्ली.'

'चित्रसेनान वच म्हळें म्हुण आयिल्लीं.' तिणे जाप दिली. मागीर लजेत म्हणपाक लागली, 'येवपाचें म्हज्याय मनांत घोळटालें.'

'कितें काम आशिल्लें.' अर्जुनान परतें विचारलें.

'तूं हांगा आयिल्ल्यान सगळ्यांक खोशी जाल्या. तुजे सरबरायेंत कितेंच उणे पडचें न्हय म्हुण सगळींच जतनाय घेतात.' इतलें सांगून तिणे परतें लजेत म्हळें, 'तुका हांगा एक सुख मेळूंक ना. तें दिवपाक आयल्यां....

'शी शी शी', अर्जुनान कानार हात दवरून म्हळें, 'तूं म्हाका आवय सारकी.'

'तशें जाल्यार त्या दिसा हांव नाचतालीं त्या वेळार तूं म्हाका एका सारको पळेत कित्याक राविल्लो.'

'तुजी नामना आयकल्ली म्हुण.' अर्जुनान जाप दिली.

उर्वशेचो सूर तीख जालो. 'हांव अप्सरा.' तिणे म्हळें. 'अप्सरांक मृत्युलोकांतलीं तुमचीं नातीं लागू जायनात. बेश्टो म्हाका आवय बिवय लेखूं नाका.'

अर्जुनान हात जोडून तिका पर्थून सांगलें: 'खरेंच तूं म्हाका कुंती सारकी, इन्द्राणी सारकी पूज्य. म्हाका तुजो पुत लेख. हांव पांयां पडटां तुका. ...'

उर्वशी तिडकीन उचांबळीत जाली. तिणे भोंवयो चडयल्यो आनी उसळून म्हळें, 'इन्द्र तुजो बापुय. ताणे वच म्हळ्ळें म्हुण आयिल्लीं. तूं म्हजो अवमान करता देखून हांव तुका श्राप दितां: तूं केन्नाय तरी वर्सभर हिजडो जावन रावतलो आनी बायलां मजगतीं रावन तांकां नाच करून दाखयतलो.'

आनी तिडकीन ती उठून गेली.

उर्वशेचो श्राप आयकून अर्जुन भियेलो. तो चित्रसेना सरीं गेलो. ताका श्रापाची खबर सांगली. चित्रसेनान ती इन्द्राक सांगली. इन्द्रान अर्जुनाक आपोवन सांगलें, 'खरोच तूं व्हड. असलो पुत आपणाक जाल्ल्या बद्दल कुन्तीक अभिमान दिसूंक फावऽ. म्हाकाय तुजो अभिमान. श्रापाचो दुस्को करूं नाका. तुज्या बऱ्याकूच पडटलो तो. तुका एक वर्स अज्ञातवासांत रावपाचें आसा. त्या वेळार तुका तो उपकारतलो.'

भांडारकर आवृत्तीन हें प्रकरण प्रक्षिप्त मानला.

## ६८. लोमश ऋषी

श्रापाक लागून अर्जुनाक खंत जाल्ली ती ना करपा खातीर इन्द्रान तरां तरांचे उपाय केले. तो ताका नवीं नवीं अस्त्रां शिकोवपाक लागलो. अस्त्रां शिकपा खातीर अर्जुन इन्द्रलोकांत आयिल्लो. त्याच खातीर तर तो थंय राविल्लो. तो मन लावन शिकतालो.

पुणून स्वर्गांतलीं सुखां ताका जड जाल्लीं. ताका तीं रुचनाशिल्लीं. ते वाटेन भाव वनवासाचे उतळताप काडटात आनी आपुण हांगा सुखांत आसां हें येवजून ताका वायट दिसतालें. आपुण कसलीं कसलीं अस्त्रां शिकलां तें केन्ना काय वचून भावांक सांगीन-शें ताका जाल्लें. ताका भावां सरीं वचपाची उमळशीक लागिल्ली.

पुणून तागेलें शिक्षण अजून सोंपूंक नाशिल्लें.

अवचित एक दीस इन्द्राक मेळपाक लोमश ऋषी स्वर्गार पावलो. अर्जुनाक इन्द्राच्या शेजराच इन्द्रासनार बशिल्लो पळोवन ताका अजाप जालें. 'अब्बा! हो मृत्यु लोकांतलो क्षत्रिय. हाचो येदो भौमान हांगा! कसलें पुण्य केलां काय हाणे.'

ताणे इन्द्राक विचाल्लें. इन्द्राक अजाप जालें. ताणे म्हळें, 'तूं येदो व्हडलो ऋषी! आनी तूं हाका कसो वळखना. हो पुत म्हजो. कुन्तीक जाल्लो. म्हजे कडली अस्त्रविद्या शिकपाक तो हांगा आयला. हाचे हस्तुकीं धर्तरेर व्हडलीं कार्यां जावपाचीं आसात. निवातकवच असूर आमकां उपद्रव दितात. तांचो मद जिरोवपाचें काम होच करतलो. देवांनी जायतीं कामां हाचे खातीर राखून दवल्ल्यांत.'

अर्जुनाची इतली वळख दिवन इन्द्रान लोमश ऋषीक म्हळें, 'म्हजें एक काम कर. तूं सगळे कडेन पावताच न्हय? काम्यक वनांत हाचे भाव वनवासाचे उतळताप

ाडटात. तांका वचून सांग: अर्जुन हांगा येवन जायती अस्त्रविद्या शिकला. त्या भायर नाचप, गावप वाजोवंकूय शिकला. आनीक थोडे दीस तो हांगा उरतलो. ाचो हुस्को करू नाकात. तो येसर तुमी यात्रेक वचात. यात्रेक लागून तुमकां नवी स्फूर्त येतली. तुमचे अंतरस्ताप ना जातले.'

आनी इन्द्रान ऋषीक सांगलें, 'तूं भोंवला सगळे कडेन. खंय वचचें, कितें पळोवचें, तूं जाणा. तूं घेवन भोंव तांकां. दाखय तांकां पळोवपा सारकें सगळें. तुज्या सांगातान तांकां नवें नवें खूब जाणा जावंक मेळटलें.'

'बरें आसा' अशी जाप दिवन लोमश मुनी काम्यकवनांत वचपाक भायर सरलो.

## ६९. धृतराष्ट्राचो हुस्को

अर्जुनाक म्हादेवान आपलें पाशुपत अस्त्र दिलां, लोकपालांनी आपापलीं अस्त्रां दिल्यांत, तुर्ताक तो इन्द्रलोकाक पावला आनी थंय खासा इन्द्र ताका नवीं नवीं अस्त्रां वापरूंक शिकयता ही खबर धृतराष्ट्राच्या कानार पावली तेन्ना, ताचो आवरो उडलो. ताची न्हीद गेली. तो हुसक्यांत पडलो. एका सारको येवजूंक लागलो, 'कशें जातलें आतां म्हज्या पुतांचें. पांडव एका फुडलीं एक अस्त्रां एकठांय करीत आसात. दिसान दीस आपली शक्त वाडयत आसात. आनी हे म्हजे पुत हांगा फकत भोगांत गुल्ल आसात. जेवचें, खावचें, मजा मारची हाचे पेल्यान कांय करिनात. ते आपलो घातूच करून घेवपाचे आसात.' अशें ताका दिसपाक लागलें. पांडव वनवासांतल्यान परततले. परतल्या उपरांत ओगी बसपाचे नात. ते झुजाक उबे रावतले. ह्या विशीं ताच्या मनांत इल्लोय दुबाव नाशिल्लो. तशे ते उबे रावले जाल्यार तांच्या आड हांगा कोण उबो रावतलो. ह्या प्रस्नाची जाप धृतराष्ट्र मनांतल्या मनांत सोदूंक लागलो. ताका कांय नांवां येवजलीं. भीष्म द्रोण कर्ण. रावतीत घडये हे झुजाक उबे. पुणून अंतीं जैत पांडवांकूच मेळटलें. कित्याक, पांडव हांचे परस बळिश्ट. आमच्या पंगडांतल्या एकल्याय विराक ते आयकुपाचे नात. तांणी खांडववन हुलपावन उडयलें. राजसूय यज्ञांत केद्या केद्या व्हडल्या राजांक जिखिल्ले. एकलो अर्जुनूच पुरो आमकां सगळ्यांक काबार करपाक. तागेले तीर लागल्यार आमचें कोणाचें कुस्कुट लेगीत उरपाचें ना. ताच्या रथाच्या आवाजानूच कौरवांचें सगळें सैन्य गर्भगळीत जावन वतलें.

कोणा कडेन तो काळीज उकतें करतलो? ताका विदुराचो उगडास जालो. हय, हो एक आसा. हाच्या फुड्यान म्हज्यान काळीज उकतें करूं येता. पुणून तो

दुर्योधन जल्मा आयला त्या दिसा पसून 'हो पोर कुरू कुळाचें निसंतान करतलो' अशें सांगीत आयला. आयजूय तो तेंच सांगतलो, वेगळें कितें सांगतलो? धृतराष्ट्राक संजयाची याद जाली. संजय व्यासाचो शिष्य. विदुरा भाशेन धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत आसतालो. धृतराष्ट्रान ताका उलो मारून आपयलो आनी विचाल्लें, 'तुका कितें दिसता, पांडव झुजाक मुखार सल्ले जाल्यार कितें जातलें.'

'आनी कितें जातलें.' संजयान जाप दिली. 'पांडवां मुखार तुज्या पंगडांतल्या कोणाचें कांयच चलपाचें ना.'

संजयान कौरवांचे एके-एके करणेचो धृतराष्ट्राक उगडास करून दिलो, 'तुज्या पुतांनी द्रौपदेक सभेंत ओडून हाडली आनी तिची अप्रतिष्ठा केली. तिचो विसर पांडवांक पडटलो अशें तुका दिसता व्हय. म्हाका दिसना. बरें, त्या वेळार दुःशासन दुर्योधन कर्ण हांच्या तोंडांतल्यान जीं उतरां भायर सरिल्लीं तीं पांडव विसरतले व्हय. म्हाका दिसना. केन्नाच विसरपाचे नात. द्रौपदी तर कशीच विसरपाची ना. खासा तीय सस्थ बसपाची ना आनी घोवांकूय बसूंक दिवपाची ना. दुर्योधनान आपली मांडी द्रौपदेक दाखयल्ली त्यावेळार 'ही मांडी हांव गदेन फोडिना जाल्यार हांवूंच न्हय जायन' असो भिमान सोपूत घेतिल्लो. भीम हो सोपूत खरो केले बगर रावपाचो ना.'

संजयान धृतराष्ट्राक आनीक एक खबर सांगली, 'काम्यकवनांत पांडवांक मेळपाक कृष्ण गेल्लो. त्यावेळार द्रौपदेक ताणे कितें सांगिल्लें, खबर आसा व्हय तुका. गेल्लें सगळें ऐश्वर्य आपुण तुका परतें हाडून दितलों म्हुण सांगिल्लें. तुजो अवमान केल्ल्या सगळ्यांक मारून आपुण तुका परती राणी करतलों म्हुण उतर दिल्लें. कृष्ण त्याच दिसा हस्तिनापुराचेर घुरी घालपाक मुखार सरिल्लो. धृष्टद्युम्नूय ताच्या वांगडा वचपाक भायर सरिल्लो. तुजेर हात घाल्लो तांचीं प्रेतां कोले आनी गीद खातले, अशें दोगांयनीं द्रौपदेक सांगिल्लें. दोगूय खुबिल्ले, खवळ्ळेले. युधिष्ठिराक लागून ते कांय करूंक पावले नात. ताणे तांकां आडायले. तांकां ताणे स्पष्ट सांगलें, कितें करपाचें तें तेरा वरसां उपरांत करात. तेरा वरसांचें हांवें उतर दिलां. म्हाका म्हज्या उतराक पाळो दिवंक जाय. युधिष्ठिराचें उतर फट थरचें न्हय म्हुण ते ओगी रावले.'

संजयान सांगिल्ल्यो खबरी आयकून धृतराष्ट्राक थरथरो भल्लो. ताच्या फुटिल्ल्या दोळ्यां मुखार लेगीत भिमाची गदा उबी रावली. पच्छात्तापान तो फणफणलो. एक सुस्कार सोडून ताणे म्हळें, 'म्हाका दोळे नात म्हुण हो सुयोधन म्हाका लेखिना. (दुर्योधनाक तो सुयोधन म्हणटालो.) शकुनी आनी कर्णाचे सांगणेन चलता.

पांडवां मुखार हांचें कोणाचें चलपाचें ना. तांतूंत आनी कृष्ण खुबला. तो कितें करीत, सांगूं येना.'

धृतराष्ट्रान संजयाक म्हळें: तूं म्हणटा तें खरें. झूज जातलें ह्याविशीं दुबावूच ना. तें चुकोवंक येवपाचें ना. आनी झुजांत आमचे कोण उरपाचे नात. कितें करचें, समजना. म्हाका आतां न्हीद पडपाची ना. येवजितां तितलो थरथरो भरता.

## ७०. द्युतविद्येची जोड

अर्जुन अस्त्रां हाडपाक म्हुण गेल्लो ताका आतां पांच वरसां जायत आयिल्लीं. तो खंय पावला, कितें करता, कसो आसा, पांडवांक कांयच खबर नाशिल्ले. तांकां ताचो हुस्को जाल्लो.

चौगूय भाव एक दीस काम्यकवनांत एका मळार बशिल्ले. गजाली करताले. द्रौपदी म्हऱ्यांत आशिल्ली. अवचित सगळ्यांक अर्जुनाची याद आयली. राज्य गेलें म्हुण ते आदींच कश्टी आशिल्ले. तांतूंत आतां अर्जुनाच्या हुस्क्याची भर पडिल्ली. तांचे दोळे भरून आयले. भिमाची खंत तिडकेच्या रुपान ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरून ओतूंक लागली. रावं नज जावन ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'अर्जुन म्हळ्यार आमचो सगळ्यांचो प्राण. आमचो आधार. तो खंय पावला, कितें करता, कसो आसा, कांय खबर ना. कोण वासपुशेक वचूंक ना. तुवें वच म्हळें म्हुण तो गेलो. ताका धाडपाची गरज नाशिल्ली. आमकां नवीं अस्त्रां कित्याक जाय आशिल्लीं. आसात तींच पुरो आशिल्लीं. आमी सगळे बळिश्ट. तांतूंत कृष्ण आमच्या फाटल्यान उबो आसा. ताचो पालव आनी आधार आमकां आसा. ताच्या आधारान आमच्यांनी आयजूच कर्णाक बिर्णाक मारून राज्य परतें घेवं येता. आमच्यांत हें बळगें आसा. तितली तिडकूय आसा. फकत तुका लागून आमी तिडक दांबून दवल्ल्या. तूं ओगी बसात म्हणटा म्हुण आमी ओगी बसल्यात. आमकां कांयच जावंक ना. आमच्या बळग्यांत कांयच उणे पडूंक ना. फकत तुगेलो ब्राह्मणी धर्म आड येता. तुगेल्या ह्या धर्माक लागून आमी हांगा त्रासांत पडल्यात. जाल्यार, ते वाटेन ते पाडे अवचिन्नाळे कौरव मजा मारीत रावल्यात. घट जायत गेल्यात. बाबा, मात्सो उगडास कर, तूं क्षत्रिय, ब्राह्मण न्हय. क्षत्रिय केन्ना वनांत वचून राविनात. वचून राविल्ले आयकुंकूच ना. क्षत्रियांचो धर्म राज्य करप, तांगेलें राज्य कोणे व्हेलें जाल्यार तें परतें घेवप. त्या खातीर झुजाक तयार जावप. वनांत वचून रावप न्हय. शास्त्रांच्यो गजाली करीत बसप न्हय. कोणेच आपलो

स्वधर्म सोडचो न्हय. तूं तुजो स्वधर्म सोडून बसला. कित्याक, म्हाका समजना. तुजो स्वधर्म खंयचो. क्षत्रियाचो न्हय व्हय. ताचो कसो विसर पडलो तुका. अर्जुनाक सोदून हाडुंया. म्हाका वच म्हुण सांग. हांव ताका सोदून हाडटां. कृष्णाकूय आपोवन घेवंया. बारा वरसां वाट पळोवप ना. ताचे पयलींच कौरवांचेर घुरी घालुंया. तांकां मारून आमचें राज्य परतें घेवंया. तांगेलें सैन्य केदेंय व्हड आसूं. हांव एकलोंच तें मोडून उडोवपाक पुरो. हांव एकलोच शकुनी, दुर्योधन, दुःशासन, कर्ण, जे जे कोण तांगेल्या पंगडांत आसतीत तितल्यांकूय मारून उडयन. उपरांत जाय जाल्यार तूं वनवासांत येवन राव. पयलीं आमचें राज्य घेवंया. राज्य घेतिल्ल्यान पातक लागलें जाल्यार यज्ञ-बिज्ञ करून तें धुवन उडोवंया. पातकां धुवन उडोंव येतात. कपटी लोकांक कपटान लेगीत मारचे खंय. शास्त्रांतूच सांगलां अशें. तेन्ना पातकूय खंय लागना. संकश्टां येतात तेन्ना दिसाक वर्स लेखपाची चाल आसा. वर्सभर करपाचीं व्रतां एका दिसांत करून उडोवचीं अशें वेदांत सांगलां. तुंवें तें वाचलां मू. तूं वेद मानता मू. मानता जाल्यार, तेरा दीस व्रतां करून तेरा वरसां जालीं अशें मानुया. आमी तेरा वरसां सोंपले बगर येवपाचे नात अशें मानून कौरव घाळ रावल्यात. होच वेळ कौरवांचेर घुरी घालपाचो. ज्या वेळार जें करूंक जाय तें केलें ना जाल्यार मनशाचेर पच्छात्ताप करपाचो प्रसंग येतलो. आमचेर तसो येवचो न्हय. तेरा वरसां आमी बसून रावले जाल्यार दुर्योधन आपलें बळ वाडयात रावतलो आनी धर्तरेचो राजा जातलो. मागीर आमकां झूज जड वतलें. त्या आदींच तांकां ना करुंया. 'द्युताक आपयल्यार ना म्हणप ना' ह्या तुगेल्या नेमाक लागून आमचेर येदो व्हडलो प्रसंग आयला. म्हाका वनवासाचें दुःख ना. वनवास कसोय काडूं येत. पुणून अज्ञातवासाचो भंय दिसता. खंय म्हुण रावतले आमी वर्सभर लिपून. आमकां कोण वळखना असली सुवात संवसाराचे फाटीर सोदुनूय मेळपाची ना. खंयूय वचून रावूं आमी, आमकां लोक सोदून काडटले. आमी लिपून उरपाचे नात. मागीर परते बारा वरसांच्या वनवासाक वचपाचो प्रसंग येतलो. बरें, आमचो वनवास सोंपून अज्ञातवासूय बरे भाशेन सोंपलो धर. अज्ञातवास सोंपोवन आमी भायर आयले धर. जाल्यार, कौरव परते तुका द्युत खेळपाक आपोवचे नात हाचें खरेपण कोण दितलो. तुका आपयलो जाल्यार तूं वचचो ना व्हय. खेळचो ना व्हय. ना म्हणप ना हो तर तुजो धर्म. तूं ना म्हणचो ना. खेळूंक बसतलो. खेळूंक बसतकूच तुका सुद्द उरना हें तूंच सांगता. परतो हार खातलो. मागीर भोगुंया परतो बारा वरसांचो वनवास! हेच भाशेन आयुष्य होगडावप मू आमी. वेदान सांगिलें आसतना तूं

अनमनता कित्याक. फाटीं फुडें कित्याक सरता. म्हाका वच म्हुण सांग. आत्तां वचून सगळ्यांक मारून येना जाल्यार पळे.

भायर-भितर कांय दवरी नासतना मेकळेपणान भिमान ओग काडलो तो पळोवन युधिष्ठिराक ताची तोखणाय दिसली. ताणे भिमाचे फाटी वेल्यान मायेन हात भोंवडावन म्हळें, 'तूं दुर्योधनाक मारतलो ह्या विशीं म्हज्या मनांत इल्लोय दुबाव ना. आयजूच मारपाचो वेळ आयला अशें तूं म्हणटा तें मात म्हाका मान्य ना. तेरा वरसां सोपूं दी. मागीर कपट करी नासतना तूं ताका मारतलो.'

इतल्यांत बृहदश्व ऋषी थंय पावलो. पयलेच खेपे युधिष्ठिरान ताच्या फुड्यान आपलें काळीज उकतें केलें. ताणे म्हळें, 'कौरवांनी फटींगपणा करून आमचें राज्य नाडलें. म्हाका द्युत सारकें खेळूंक येना-शें पळोवन ताणी म्हाका खेळपाक आपयलो आनी झुजाक वा द्युताक आपयल्यार ना म्हणप ना ह्या नेमाक पाळो दिवन हांव खेळपाक मुखार सल्लों. द्युताक लागून लोक कावार जाल्यात म्हणपाचें जाणा आशिल्लों. द्युताच्या परिणामाच्यो जायत्यो गजाली आयकल्ल्यो. तरी आसतना खेळ्ळों आनी सगळें होगडावन बसलों. इतलेंच न्हय, तर त्या अवचिन्नाळ्यांनी द्रौपदेक सभेंत ओडून हाडली. तेंवूय पळोवपाचो प्रसंग आयलो. तुर्ताक वनवास भोगतां. फाटल्यो यादी येतात आनी केन्ना केन्ना न्हीद खळटा. सवन रात जागो रावन येवजीत बसतां. तांतूंत आनी अर्जून तुर्ताक हांगा ना. तो अस्त्रां हाडपाक म्हुण गेल्लो. खंय पावला, कसो आसा, खबर ना. संकश्टांत बी पडूंक ना मू असो दुबाव येता आनी जीव सकल वयर जाता. अर्जुन आमचो प्राण. तो हांगा नाशिल्ल्यान दुबळ्या वरी दिसता म्हाका.'

इतलें सांगून युधिष्ठिरान म्हळें, 'म्हजे सारको दुर्भागी राजा संवसारांत आनी कोण आसचो ना....'

बृददश्व ऋषी हांसलो. म्हणूंक लागलो, 'अशेंच सगळ्यांक दिसता. दुख्खांत पडिल्ल्याक आपणा सारको दुख्खी संवसारांत दुसरो कोण आसचो ना अशेंच सदां दिसत आयलां. पुणून तें खरें न्हय. दुख्खां, अरिश्टां, संकश्टां सगळ्यांच्या वांट्याक येतात. तीं कोणाक चुकनात. तुजेंच पळोवंया : राज्य गेलें, वनवास भोगचो पडलो म्हुण तूं दुख्खी. तुजे परस दुख्खी नळ नांवाचो एकलो राजा जावन गेला. धर्मिश्ट आनी तेजिश्ट. पुष्कर नांवाच्या तागेल्या पाड्या भावान द्युतांत फटींगपणा करून नळाक नाडिल्लो. ताका रानांत धांवडावन घाल्लो. रानांत नळ आपले बायलेक दमयंतीक घेवन गेल्लो. तांच्या म्हऱ्यांत आनीकोण नाशिल्लो. तांतूंत एकदीस कळीन ताची बुद्द ना केली. दमयंतीक फटोवन तिका एकलीच रानांत

सोडून नळ पळून गेलो. त्या उपरांत दोगांयचेर जीं अरिश्टां कोंसळ्ळ्यांत, सुमाराचीं न्हय.

अशें म्हणून बृहदश्व ऋषीन युधिष्ठिराक नळ-दमयंतिचें आख्यान* सांगलें.

हें आख्यान सांगून ऋषीन म्हळें, 'तुज्या म्हऱ्यांत हांगा तुजे कर्तुत्वी भाव आसात. तुगेली गुणेस्त बायल आसा. कितले-शे चाकरमाने हांगा तुजी सेवा करतात. कितले-शे ऋषीमुनी तुजे भोंवतणी हांगा एकठांय जाल्यात. तुजी बुद्धय थीर आसा. म्हजे सारकेले कांय जाण मदीं मदीं तुका येवन मेळटात. आपणा परस दुख्खी कोण ना अशें तुका दिसप समा न्हय. दुख्खां अरिश्टां कोंसळ्ळीं म्हुण तुजे सारकेल्या थीर बुद्दिच्या मनशान थतर-वितर जावंक फावना. दुख्खां अरिश्टां येतात तशीं वेतात. थीर राविनात.'

इतलें सांगून ताणे म्हळें : दुर्योधन तुका परतो द्युताक आपयत जाल्यार कितें जातलें ह्या एकाच भंयान तूं सल्लाबल्ला जाला. पुणून तूं भियेवं नाका. हाका उपाय आसा. द्युतविद्या मंत्र-तंत्रा सयत शिकून घे. म्हाका ती येता. तुका जाय जाल्यार हांव तुका ती शिकयतां.

युधिष्ठिर तयार जालो.

बृहदश्वान युधिष्ठिराक ही विद्या मंत्र-तंत्रा सयत शिकयली.

त्या दिसा पसून युधिष्ठिराचे तकलेंतलो शकुनिचो भंय गेलो. साप ना जालो. युधिष्ठिर अस्त्रविद्ये इतलोच आतां द्युत-विद्येंत पाटांगडो जाल्लो.

> जिवितांत कळी रिगत जाल्यार व्हडांतल्या व्हड आनी शाण्यांतल्या शाण्या मनशाची लेगीत गत्त कितें जाता हें दाखोवन दिवपी नळ-दमयंतिचें आख्यान संस्कृत साहित्यांतलें कवित्वान उपाट भरिल्लें एक खेरीत आख्यान. महाभारताचो आनी ताचो कांय संबंद ना. एका भाग्यवादी कवीन रचिल्लें हें आख्यान कोणेय तरी एक दीस महाभारताक हाडून दसयलें आनी महाभारताक दशिल्ल्यान तें तिगून उल्लें. महाभारत सोडून दुसरे कडेन खंयच तें मेळना. आख्यानाच्या शेवटाक ताची फलश्रुती सांगल्या. हाचे वयल्यानूय तें खेरीत म्हुण सांगूं येता.

## ७१. यात्रेचो बेत

अर्जुन गेल्लो तो परतूंक नाशिल्लो. केन्ना परततलो, खबर नाशिल्लें. तो नाशिल्ल्यान पांडवांची गत्त सूत तुटिल्ले माळेच्या मणयां भाशेन जाल्ली वा म्हणुंया, पांखां

* परिशिष्टांत दिलां.

क्रातल्लेल्या शेवण्या भाशेन जाल्ली. ते भोंवड्यो काडटाले. सावदां मारून हाडटाले. भोंवतणी ब्राह्मण आशिल्ले, तांकां खावयताले आनी दीसभर धर्माच्यो गजाली करताले. पुराणां आयकताले. वयल्या वयल्यान सगळें सुसंगीत चलिल्लें. पुणून तांच्या जिवितांतली उर्बा ना जाल्ली. ते उबगल्ले.

अर्जुनाची याद सगळ्यांत चड द्रौपदेक येवंची. एक दीस तिणे मुरवत सोडून युधिष्ठिराक म्हळें, 'अर्जुना बगर सुख लागना. सामकें उकतें दिसता. ताची भौन भौन याद येता. कितेंच करीन दिसना. हरशीं, हांगा सुंदर रूख आसात, सोबीत फुलां आसात, गोमटीं शेवणीं आसात. पुणून अर्जुन ना. हाका लागून कितेंच सुंदर दिसना. उबगण येता. आमी हांगासल्लीं दुसरे कडेन खंयूय तरी वचुंया.'

भिमाकूय वाज आयिल्लो. अर्जुन तेवटेन तप करता आनी आपुण हांगा सस्थ बसून जेवतां खातां, कांय करिना, हें ताच्या जिवाक खाताले. ताका कळमेल्ले वरी दिसूंक लागिल्लें. काम ना, उर्बा ना, कांय ना, तो उबगल्लो. द्रौपदेच्या तोंडांतलीं उतरां ताणे आयकलीं तेन्ना ताका ती आपणालीच खंत उलयता अशें दिसलें. ताणे द्रौपदेक म्हळें, तुजीं उतरां अमृता सारकीं गोड. सूर्य बुडचो आनी सगळे कडेन किण्ण जावचें तशें-शें कितें दिसता म्हाका अर्जून वचत परसून. जिवितांत काळोख पातळ्ळेले वरी जाला. म्हाकाय सामकी उबगण आयल्या. खंयूय दुसरे कडेन गेल्लीं जाल्यार मात्शें बरें दिसतलें आशिल्लें.

काम्यक वनांतले जिणेक नकुल सहदेवूय वाजेल्ले. तेवूय 'खंयूय तरी या' म्हणपाक लागले.

इतल्यांत थंय नारद पावलो. युधिष्ठिरान ताका म्हळें, 'सगळीं वाजेल्यांत हांगा. दुसरे कडेन खंय तरी वचचें अशें सगळ्यांक दिसूंक लागलां. खंय गेल्यार बरें.'

नारद म्हणूंक लागलो, 'हांव तुमकां हेंच सुचोवंक आयिल्लों. तुमी काम्यकवन सोडिल्लें बरें. सदां एकेच सुवातेर रावतकूच मनीस उबगता. संवंयेच्या जाळ्यांत घुसपल्लें मन मदीं मदीं मेकळें करूंक जाय. तुमी यात्रेक वचचें अशें म्हाकाय दिसूंक लागलां. यात्रेंत तुमकां सदां नवे देखाव पळोवंक मेळटले. नवे लोक मेळटले. नव्यो वळखी जातल्यो. व्हडल्या व्हडल्यांच्यो भेटी घेवंक मेळटल्यो. जाल्ल्या-गेल्ल्यांची म्हायती मेळटली. हाका लागून मनांत एकठांय जाल्लो कोयर ना जावन मन निवळ जातलें. मेकळें जातलें. न्हाल्ले वरी निर्मळ दिसतलें. नदर उदार जातली. काळीज खोलायेंत देंवतलें. नव्या अणभवान जिवीत गिरेस्त जातलें. यात्रेचें फळ मोटें. यज्ञाच्या फळा परसूय मोटें. सगळ्यांत व्हडलें फळ म्हळ्यार, यात्रा करपी मनीस मनान सदां नवो ताल्लु उरता. ताका एके तरेचो नवो जल्म

मेळटा. तो आदलो केन्ना उरूंक पावना, नवो जाता.'

उपरांत नारदान खंय वचचें, कितें पळोवचें, कोणाक मेळचें, तें समजावन सांगलें. कशें वचचें तेंवूय सांगलें. पोटल्यो फाटीर मारच्यो. हात पांय मेकळे दवरचे, मनूय मेकळें दवरचें. खंयूय रावपाची, उपाशीं वा अर्द्या पोटार रावपाची, त्रास कश्ट सोंसपाची तयारी दवरची. सामान चड आसचें न्हय, सांगाताकूय चड लोक आसचे न्हय. तरूच यात्रेचें फळ मेळटलें.

असलें जायतें कितें कितें समजावन नारद गेलो.

पांडवांचे तकलेंत यात्रेचे बेत घोळपाक लागले. तांणी धौम्यमुनीक विचाल्लें. धौम्य तांगेलो पुरयत. तांच्याच म्हऱ्यांत आशिल्लो. तांच्याच वांगडा वनवासांत आयिल्लो. ताणेय नारदाच्या म्हणण्याक तेंको दिलो.

पांडवांनी यात्रेक वचपाचो बेत केलो.

खंय वचचें, कशें वचचें, कितें पळोवचें हें जशें नारद सांगता, तसो धौम्यूय सांगता. ह्या निमित्त्यान यात्रेचीं दोन वर्णना हांगा आयल्यांत. तांतल्या नारदाच्या वर्णनांत निमाणे फलश्रुती सांगल्या. हाचे वयल्यान तें उपरांत, चड करून गुप्त काळांत, हांगा जोडिल्लें आसूं येता, अशें म्हणटात.

मुदलांतलें वर्णन धौम्याचेंच आसूंक जाय.

धौम्याच्या वर्णना वयल्यान महाभारताचे मुस्तींत भारतदेशाचो आवाट उदेंतेक गया आनी महेन्द्र पर्वता मेरेन, अस्तमेक पुष्करतीर्थ आनी द्वारका मेरेन, उत्तरेक बद्री-केदार आनी कैलास-मानसा मेरेन आनी दक्षिणेक कन्याकुमारी मेरेन आशिल्लो अशें दिसून येता. नारद भारत देशांत उदेंतेक कामरूप (आसामा) मेरेनचो आनी अस्तमेक सिंधा (सिंधु सागर संगमा) मेरेनचो वाटार आसपावन घेता. दोनूय वर्णना वाचतकूच, दिसून येता तें अशें: उत्तरेक कैलास-मानसा पसून दक्षिणेक कन्याकुमारी मेरेनचो, अस्तमेक सिंधा पसून उदेंतेक आसामा मेरेनचो वाटार धर्माचे आनी संस्कृतायेचे नदरेन एक अखंड भूंयप्रदेश आशिल्लो. होच त्या काळांतलो भारतवर्ष आशिल्लो. हीच 'नारायणाची, देवर्षी आनी सिद्धांची भूंय' अशें ते मुस्तींतले लोक मानताले.

धौम्याच्या वर्णनांत काम्यकवना पसून महेन्द्र पर्वता मेरेनची वाट खंयच्यान खंय वता तें बारकायेन सांगलां. आयज मैहर, कटनी, रतनपुर, विलासपुर, रायपुर सावन गंजाम मेरेन रेल्वे वता तीच वाट ही. महाभारताच्या काळासावन ती चलत आयल्या. ते मुस्तींत यात्रेची आनी व्यापाराची वाट एकूच आशिल्ली. दक्षिणेच्यान कन्याकुमारी सावन उत्तरेक येतकूच अस्तमेच्या समुद्राचे तडी वयल्या गोकर्ण तीर्थाचेंय वर्णन धौम्य करता आनी मागीर गोकर्णा सावन सौराष्ट्रांतल्या प्रभास आनी द्वारावती (द्वारका) मेरेनच्या थळांचीं नांवां घेता. महाभारताचे मुस्तींत समुद्र लेगीत लोकांचे संवकळिचो आशिल्लो. आनी कन्याकुमारी सावन द्वारके मेरेन लोक समुद्रांतल्यानूच येताले वेताले.

दोनूय वर्णनांनी न्हंयांचीं आनी दोंगरांची नांवां आयल्यांत. तांतलीं खुबशीं नांवां

अजुनूय चलतात.

महाभारताचे मुस्तींतलो भारतवर्षाचो आवाट समजून घेवपाक हीं दोनूय वर्णना खूब म्हत्त्वाचीं.

यात्रेचो बेत जातासर लोमश मुनी थंय पावलो. ताचेच कडल्यान पांडवांक अर्जुनाची खबर कळ्ळी.

लोमश मुनीन तांकां सांगलें, 'हांव इन्द्रलोकाक गेल्लों. थंय अर्जुनाक हांवें इन्द्राच्याच आसनार ताच्या म्हऱ्यांत बशिल्लो पळेलो. अर्जुनाक खासा म्हादेवान आपलें पाशुपत अस्त्र दिलां. त्या भायर यम, कुबेर, वरुण हांचे कडल्यानूय ताणे दिव्य अस्त्रां जोडल्यांत. इन्द्रान तर ताका आपलीं कितलीं-शीं अस्त्रां दिल्यांत. अस्त्रविद्येचो ताचो अभ्यास नेटान चल्ला. अस्त्रविद्ये भायर तो संगीत विद्याय शिकला.' हेय कलेंत तो हुशार जाला. ताचो अभ्यास आनीक कांय दीस चलपाचो आसा. त्या खातीर आनीक कांय काळ ताका इन्द्रलोकांत रावचें पडटले

ते मेरेन तुमी यात्रा करून येवचें अशें ताचें म्हणणे. म्हाका मुजरत हांगा येवन तुमकां हें सांग म्हुण ताणे आनी इन्द्रान सांगलां. इतलेंच न्हय तर म्हाकाय तुमचे बरोबर वच म्हळां. हांवें दोन खेपो सगळो भारतवर्ष भोंवन पळेला. आतां तूमच्या सांगातान परतें सगळें आनीक एक फावट पळोवचें अशें येवजिलां.'

अर्जुनाक मेळून आयिल्ल्या मुनीक पळोवन पांडवांक खूब बरें दिसलें. तांचे तकलेंतलो अर्जुनाचो हुस्को गेलो. तो बरो आसा म्हणपाचें कळटकूच तांकां सूःऽ जालें. लोमश मुनी यात्रेंत सांगाताक आसतलो म्हणपाचें येवजून खंय वचचें, कशें वचचें म्हुण तांकां जो हुस्को जातालो तोय ना जालो. लोमश मुनी वांगडाच यात्रा करची अशें तांणी थारायलें. आनी ते भायर सल्ले.

## ७२. प्रस्थान

काम्यक वनांत पांडवां सांगातांत कांय ब्राह्मण रावताले. तांकां सगळ्यांक घेवन हे यात्रेक गेले जाल्यार त्रासांत पडटले अशें येवजून लोमश मुनीन युधिष्ठिराक म्हळें, 'इतल्याय लोकांक घेवन यात्रेक गेले जाल्यार तुमची यात्रा सारकी जावपाची ना. तुमीय त्रासांत पडटले, तेवूय पडटले. यात्रेक वतना सांगाताक चड मनशां आसूंक फावनात. मेकळेपणान यात्रा करतले जाल्यार हांकां सगळ्यांक आपापल्या घरा धाडून दिल्ले बरें.'

युधिष्ठिरान सगळ्यांक आपोवन सांगलें, 'आमच्या मोगान तुमी हांगा आमच्या

म्हऱ्यांत रावतात खरे. पुणून तुमकां सगळ्यांक घेवन यात्रेक वचप समा जावचें ना. यात्रेंत आमकां खंय रावचें पडत, कितें मेळत, कसले त्रास सोंसचे पडत, कांय सांगूं नज. जांकां तान-भूक, उपास-तपास, शीं-वोत बी सोंसपाची तांक ना, मचमचीत गोडशा-धोडशा बगर जांकां उंडी वचना, ते आमच्या वांगडा यात्रेक आयले जाल्यार त्रासांत पडटले. तांणी हस्तिनापुराक वचचें. थंय सगळ्यांची वेवस्ता जातली. थंय वेवस्ता जाली ना जाल्यार पांचाल देशाक वचचें. थंय द्रुपद राजा तुमची बडदास्त दवरतलो. दोनूय कडेन हांव सांगून धाडटां.'

युधिष्ठिराचे इत्सेक मान दिवन खूब-शे जाण हस्तिनापुराक आनी पांचाल देशाक गेले. पुणून कांय जाण म्हणूंक लागले, 'तुमी वतात, लोमश मुनीय तुमच्या वांगडा वता. मागीर इतलो बरो सांगात आमी कित्याक होगडावचो. यात्रेची इतली बरी संद आमकां आनीक केन्ना मेळटली. इतली कठीण यात्रा तुमच्या सांगातांत केल्यारूच आमच्या पदरांत पडटली. ना जाल्यार यात्रेक वचपाचो आमकां केन्ना धीर लेगीत जावपाचो ना. आमी तुमच्या वांगडा येतात. आमकां नाका म्हणूं नाका.'

यात्रेची तांची उमळशीक पळोवन युधिष्ठिरान तांकां वांगडा घेवन वचचें अशें थारायलें.

भायर सरपाक, व्यास थंय पावलो. ताणे यात्रेक वचपाच्या पांडवांच्या बेताक तेंको दिलो आनी मनान तशो कुडीन लेगीत निर्मळ जावन वचात म्हुण सुचयलें. यात्रा सफळ जावपाक कुडिची आनी मनाची निर्मळसाण गरजेची म्हणपाचें तांकां समजावन सांगलें.

मार्गशिरांतली पुनव जावन दुसऱ्या दिसा पुष्य नक्षत्रार पांडव यात्रेक वचपाक भायर सल्ले.

वांगडा धौम्य आनी लोमश दोगूय मुनी आशिल्ले. इन्द्रसेन रांदपी, आधाराक वावुरपी कांय चाकरमाने, तशो सत्संगाक कांय ब्राह्मणूय आशिल्ले. चवदा रथ भरतले इतलें सामान घेवन ते भायर सल्ले.

तीर, भाले, तरसादी असलीं कांय आयुधांय तांणी वांगडा घेतिल्लीं.

## ७३. अगस्त्य मुनी

भायर सल्ले ते चलत चलत उदेंते कडल्या नैमिषारण्यांत पावले. थंय गोमती न्हंये तडी वयल्या तिर्थांत न्हावन कन्यातिर्थार गेले. थंयच्यान अश्वतीर्थ, गोतीर्थ,

कालकोटी, विश्वप्रस्थ, बहुदान बी कांय थळां पळेत पळेत प्रयागाक पावले. थंय गंगे-यमुनेच्या संगमार कांय दीस रावले. थंयच्यान ते यमाचें थळ म्हुण नामना पाविल्ल्या गयशीर्ष थळार गेले. चातुर्मास तांणी थंय सोंपयलो.

मर्दी मर्दी लोमश मुनिच्या म्हऱ्यांत बसून युधिष्ठिरान धर्माच्यो आनी ब्रह्मविद्येच्यो गजाली करच्यो. ताका एका प्रस्नाची जाप अजून मेळूंक नाशिल्ली. आपुण न्यायाक, नितीक, धर्माक धरून चलतां, खंयच चुकचों ना म्हुण जतनाय घेतां, तरी आसतना कोणाच्याच वांट्याक आयलीं नात तसलीं दुख्खां आपल्या वांट्याक कित्याक येतात. कौरव न्याय, नीत, धर्म कितेंच मानिनात. तरी आसतना तांच्या वांट्याक सुखांच येतात, अशें कित्याक लागून घडटा.

यात्रेच्या आरंभाकूच ताणे एकदीस लोमश मुनीक हो प्रस्न विचाल्लो.

'अधर्म करतल्यांक अधर्माक लागुनूच सुख मेळटा.' मुनीन जाप दिली. 'तें मेळ्ळें म्हणटकूच आपणाक हें सुख अधर्माक लागुनूच मेळ्ळां अशें तांकां दिसता. ते मागीर अधर्मूच करीत रावतात. पुणून निमाणे कडेन तांचें मुळा सयत नाशें जाता. सगळे अशेच ना जाल्यात. हांवें असले कितले-शे लोक पळेल्यात. आदल्या काळार दैत्य अशेच ना जाल्ले. तांणी धर्म सोडिल्लो. ते न्याय, नीत, सत कितेंच मानी नाशिल्ले. ते सुखांत लोळटाले. अधर्माक लागुनूच आपणाक हीं सुखां आनी हे भोग भोगूंक मेळ्ळ्यात अशें तांकां दिसूंक लागलें. तांकां अधर्माची रूच लागली. लज भीड मुरवत सगळें सोडून ते जें करूंक फावना तें करूंक लागले. पुणून, निमाणे ते ना जाले. न्याय, नीत, धर्म सोडिल्लो कोणूच आयजवेर बऱ्याक पावूंक ना. सगळे कांय दीस तरतरल्यात. मागीर एक दीस साप ना जावन गेल्यात. धृतराष्ट्राच्या पुतांचेंय अशेंच जावपाचें आसा. दैत्यां भाशेन तेवूय कांय दिसांनी ना नपयत जावपाचे आसात.'

लोमश ऋषीन पांडवांक मर्दी मर्दी असलो उपदेस करचो आनी तांकां धीर दिवचो. यात्रेंत म्हत्त्वाच्या थळार पावतकूच त्या त्या थळाचो इतिहास तांकां सांगचो.

चातुर्मास सोंपतकूच पांडव परते चलपाक लागले आनी जेन्ना दुर्जय नगरींत पावले तेन्ना तांकां थंय अगस्त्य मुनिचो आश्रम पळोवंक मेळ्ळो. तो दाखोवन लोमश मुनीन पांडवांक अगस्त्याची खबर सांगली—

मणिमती नगरांत इल्वल नांवाचो एक दैत्य रावतालो. ताका वातापी नांवाचो एक भाव आशिल्लो. पिरायेन ताचे परस धाकलो. इल्वलान एक खेपे आपणाक इन्द्राचे योग्यतायेचो एक पुत दी म्हुण एकल्या ब्राह्मणा कडेन मागिल्लें आनी

ब्राह्मणान ताका ना म्हळ्ळें. तेन्ना पसून तो ब्राह्मणांचेर खुबिल्लो. ब्राह्मणांची पुराय जात मारून ना करून उडयतलों ह्या किंवाट्यान तो पेटिल्लो. इल्वल मायावी. कोणूय ब्राह्मण आयलो जाल्यार ताणे भावाक आपोवचो. ताचो बकरो करचो. ताका मारचो आनी शिजोवन त्या ब्राह्मणाक खावंक घालचो. खावन जातकूच मागीर इल्वलान भावाक उलो मारचो. उलो आयकना फुडें ब्राह्मणाच्या पोटांतल्यान वातापीन ओ म्हुण जाप दिवची आनी ब्राह्मणाचें पोट फोडून ताणे भायर सरचें. ब्राह्मण मरचो.

हे भाशेन ताणे कितले-शेच ब्राह्मण मारिल्ले.

ते मुस्तींत अगस्त्य नांवाचो एकलो मुनी आशिल्लो. तो एक दीस चंक्रमणाक (भोंवंक) गेल्लो. थंय एके कडेन ताका ताचे पितर दिश्टी पडले. ते तकली सकल आनी पांय वयर करून एका फोंडांत हुमकळटाले. अगस्त्याक तांगेली ही गत्त पळोवन वायट दिसलें.

ताणे पितरांक विचाल्लें, 'कित्याक लागून तुमची अशी गत्त जाल्या.'

'तुकाच लागून.' तांणी जाप दिली. 'तूं लग्न जावंक ना. लग्न जा आनी एका बऱ्या पुताक जल्माक घाल. ना जाल्यार आमची ह्या नरकांतल्यान सुटपाची आस्त ना.'

पितरां खातीर अगस्त्यान लग्न जावचें अशें थारायलें.

पुणून कोणा कडेन लग्न जातलो? ताका फाव सारकी चली खंयच नाशिल्ली.

इतल्यांत ताका फाटली एक याद जाली. विदर्भ देशाच्या राजाक भुरगें नाशिल्लें. भुरगें जावचें म्हुण राजा तप करतालो. त्या वेळार अगस्त्यान ताका एक चली दिल्ली. बापायन तिका नांव दवल्लेलें लोपामुद्रा. 'ही चली आतां लग्नाची जाल्या जातली', अगस्त्यान मनांत म्हळें. तो उठून विदर्भ राजागेर गेलो. थंय वचून ताणे राजाक म्हळें, 'पुत जावचो म्हुण लग्न जावचें अशें येवजिलां. तुजी लोपामुद्रा म्हाका दी.'

राजा घुटमळ्यांत पडलो. कितें करचें, ताका समजना जालें. ना म्हळें, जाल्यार अगस्त्य श्राप दीत म्हुण भंय. अगस्त्याक तशी श्राप दिवपाची संवंय आशिल्ली. बरें, दितलो म्हळें तर हो वैरागी. घर-दार नाशिल्लो. चलयेक बुडोवन मारिल्ले वरी जातलें.

आपणाक लागून बापुय खंती जाला म्हणपाचें लोपामुद्रेक कळ्ळें. तेन्ना तिणे बापायक सांगलें, 'म्हाका लागून कश्टी, खंती जावं नाका. दी तूं म्हाका अगस्त्याक. करीन हांव संवसार ताच्या वांगडा.'

राजान लोपामुद्रा अगस्त्याक दिली.

लग्न जायना फुडें अगस्त्यान बायलेक सांगलें, 'तूं जाणा, म्हजें जिवीत मुनिचें. गरीबकायेंत रावतल्याचें. असल्या घरांत तुगेले दागिने, तुगेल्यो वस्ती, वस्त्रां सोबपाचीं नात. दवय तें सगळें. आनी मुनिचे बायलेक सोबत असलीं वल्कलां न्हेस.'

लोपामुद्रेन खिणाचोय कळाव लायलो ना. तिणे सगळ्यो वस्ती देंवयल्यो आनी वल्कलां न्हेसून ती खोशयेंत रावपाक लागली.

अगस्त्य गंगाद्वाराक रावतालो. गंगेचे तडीर ताची खोंप. खोंपींत लोपामुद्राय ताच्या वांगडा रावपाक लागली.

दोगांय एकामेकांचेर उपाट मोग करतालीं.

भुरगें जावचें ह्या खातीर आपुण लग्न जाल्लों, हे गजालिची एक दीस अगस्त्याक याद जाली. ताणे लोपामुद्रेक ती याद करून दिली. लोपामुद्रेन म्हळें, 'त्याच खातीर तर मनीस लग्न करतात. पुणून एक सांगतां: राजमंदिरांत जे तरेच्या हातुळणार हांव न्हिदतालीं तेच तरेचें हातुळण म्हाका हांगा जाय पडटलें. हीं वल्कलां, ह्यो बोंदऱ्यो शेंदऱ्यो, असलें उपकारा पडपाचें ना. तपस्व्याच्या भेसाचो आनी संवसारी लोकांच्या जिविताचो मेळ बसना.'

'तुका जाय तसलें हांतुळण हांव खंयच्यान हाडटलो', अगस्त्यान विचाल्लें. 'म्हजे कडेन पयशे नात.'

'पयशे नासूं. पुणून तुजे कडेन तुजें तप आसा. तपाच्या बळान तुज्यान कितेंय हाडून दिवं येता'. लोपामुद्रेन जाप दिली.

अगस्त्य म्हणूंक लागलो, 'तें खरें. पुणून तपाचो उपयोग असल्या ल्हान ल्हान कामां खातीर करपाक लागलों, जाल्यार तप खळटलें. मागीर, तें खंयच उपकारा पडपाचें ना.'

'तप खळूंक दिनासतना जें करूं येता तें कर'. तिणें म्हळें.

अगस्त्यान येवजी येवजी येवजिलें. निमाणे कोणा कडेनूय वचून कितेंय मागून घेवचें अशें थारायलें.

तो श्रुतर्व्यासिरीं गेलो. श्रुतर्वा एक राजा. 'म्हाका थोडे दुडू जाय आशिल्ले', ताणे राजाक म्हळें. 'कोणाक कितेंच उणे करी नासतना कितेंय दिवं येता जाल्यार पळे.'

राजान हिसपाची पटी उकती करून ताका दाखयली आनी म्हळें, 'ही येणावळ, हो खर्च. हांतलो खंयचो खर्च उणो करूं, तूंच थारावन सांग.'

अगस्त्यान हिशोब पळेलो. येणावळी इतलोच खर्च. खर्चांतलें कितेंय उणे केलें

जाल्यार कोणाचेंय तरी खंयूय लुसकान जाले बगर रावपाचें ना. अगस्त्य श्रुतर्व्याक घेवन ब्रहनश्व राजागेर गेलो. थंयूय तोच हिशोब. येणावळी इतलोच खर्च. श्रुतर्वा आनी ब्रहनश्व दोगांकूय घेवन अगस्त्य त्रसदस्यू राजागेर गेलो. थंयूय तोच हिशोब. खर्चा परस चड येणावळ ना. आतां कितें करप. खर्चा परस येणावळ चड कोणाची आसतली. ताका इल्वलाचो उगडास जालो. ताणे इल्वला सरीं वचचें थारायलें. तिगूय राजांक घेवन तो इल्वलागेर गेलो.

तीग राजा आनी एक मुनी आयज मारूंक मेळटले अशें येवजून इल्वल खोश्शी जालो. ताणे वैल्याचाराक तांकां बरो येवकार दिलो आनी दुसरे वाटेन तांकां मारपाचो बेत केलो. वातापीक आपोवन ताचो बकरो केलो, ताका मारून शिजयलो आनी तो हांकां खावंक घालो. राजांक सगळें कळ्ळें, ते भियेले. खंयचे ह्या मुनिच्या नादाक लागून हांगा आयले, अशें तांकां जालें, ते थतरवितर जाले. तांकां भियेल्ले पळोवन अगस्त्यान तांकां सांगलें, 'तुमी भियेवं नाकात. ह्या वातापी दैत्याक हांव पोटांत जिरयना जाल्यार पळैयात.'

जेवणाचो वेळ जालो तेन्ना सगळे जेवपाक बसले. इल्वलान तांकां वातापिचें मांस वाडलें. अगस्त्यान एकल्यानूच तें सगळें खावन सोंपयलें.

जेवण जातकूच इल्वलान सदचे भाशेन वातापीक उलो माल्लो. ते बरोबर अगस्त्यान एक धेंकर दिलो.

'वाताप्या, भायर यो.' इल्वलान म्हळें.

'कसो येतलो तो भायर. ताका हांवें जिरोवन उडयलो.' अशें म्हणून अगस्त्यान आनीक एक धेंकर दिलो.

इल्वल भियेलो. एक पुराय दैत्य गिळून उडोवपी ब्राह्मण ताणे हाचे पयलीं पळोवंक नाशिल्लो. ताणे वातापीक परतो एक उलो माल्लो. वातापी आयलो ना. ताणे भौन भौन उले माल्ले, वातापी येना. इल्वलाक थरथरो भल्लो. भियेवन ताणे अगस्त्याक विचाल्ले, 'तुमी कित्याक आयिल्ले हांगा, विचारूंक विसल्लों.'

'एक ल्हानशेंच काम आशिल्लें. थोडी दुडवांची गरज आशिल्ली म्हाका.' अगस्त्यान जाप दिली. 'तुज्या खर्चा परस चड दुडू तुजे कडेन आसा म्हुण आयकल्लें.'

इल्वलान कळाव लायलो ना. ताणे अगस्त्याक जाय तितलो दुडू दिलो. त्या भायर भांगराचो एक रथ, दोन घोडे, आनी कितल्यो-श्यो गायो दिवन ताका रवाना केलो.

इल्वलान दिल्लें सगळें घेवन अगस्त्य लोपामुद्रे सरीं आयलो. 'घे, तुका जाय

आशिल्लें ताचेय परस चड हाडलां. आतां सांग, कितले पुत दिवं तुका, हजार?' ताणे विचाल्लें.

'हजार पुतांचे योग्यतायेचो एकूच दी. विद्या आनी शील नाशिल्ले हजार पुत आसचे परस बुदवंत, शीलवंत एकूच पुत बरो.' तिणे जाप दिली.

कांय काळान तांकां पुत जालो. बुदवंत, शीलवंत म्हुण ताची नामना आशिल्ली. ताका तांणी दृढदस्यु आनी इध्मवाह अशीं दोन नांवां दवल्लेलीं.

ही कथा सांगून लोमश मुनीन युधिष्ठिराक म्हळें, 'हो 'अगस्त्याचो आश्रम. हांगासून कन्याकुमारी मेरेन ताणे कितले-शेच आश्रम उबाल्ले. वेदीक संस्कृतायेची घुडी दक्षिणे मेरेन व्हरपी पयलो आर्य हो.

## ७४. अगस्त्याचो पराक्रम

'अगस्त्याचें मुखार कितें जालें', युधिष्ठिरान विचाल्लें. तेन्ना लोमश मुनीन ताका अगस्त्याची मुखावयली कथा सांगली—

ह्या देशांत कालकेय नांवाचे दैत्य आशिल्ले. ते खूब मातिल्ले. वृत्र नांवाचो तांगेलो एक राजा आशिल्लो. तो कालकेयांक घेवन इन्द्र बी देवांचेर जुडून वतालो, घुरयो घालतालो. देवांनीं तरांतरांचे उपाय करून पळेले. तरूय तो आटापा येनाशिल्लो.

एक दीस ब्रह्मदेवान देवांक सांगलें, 'वृत्राक मारतले जाल्यार, ताचे कडेन ना असलें अस्त्र आमचे कडेन आसूंक जाय. तुमी अशें करातः दधीची नांवाचो एकलो उदार अंतस्कर्णाचो ऋषी आसा. मागता तें दिवपी. ताचे सरीं वचात. ताका प्रसन्न करून घेयात. तो प्रसन्न जालो म्हणटकूच त्रैलोक्याच्या बऱ्या खातीर तुजीं हाडां आमकां जाय, म्हुण सांगात. तो ना म्हणचो ना. हाडां दितलो. तीं व्हरून विश्वकर्म्याक दियात आनी हाचें आमकां एक अस्त्र करून दी म्हुण ताका सांगात. त्या अस्त्रान वृत्राक मारप सोपें जातलें'.

सरस्वतिचे पल्तडीं कुचकुचीत रुखावळी मदीं दधीचिचो आश्रम. देव त्या आश्रमांत गेले.

'कित्या खातीर आयिल्ले.' दधीचीन तांकां विचाल्लें.

'तुजीं हाडां मागपा खातीर', दधीचीक प्रणाम करून देवांनी म्हळें.

दधीचीन खिणाचोय कळाव लायनासतना प्राण सोडलो आनी आपलीं हाडां देवांक व्हरूंक दिलीं.

दधीचिचीं हाडां घेवन देव विश्वकर्म्यासरीं गेले. विश्वकर्म्यान तांकां वज्र नांवाचें एक अस्त्र करून दिलें.

वज्र मेळटकूच इन्द्र वृत्रासुराचेर घुरी घालूंक गेलो.

वृत्रासुर ल्हाना सामान्यांतलो नाशिल्लो. पर्वता भाशेन धिप्पाड. आयुधांनी भरिल्लो. वीर आनी किंवाट्यान दुस्मानाच्या आंगार जुडून वचपी असो. कालकेय दैत्यूय हेच भाशेचे. देवांक घेवन इन्द्र घुरी घालूंक आयला म्हणपाचें कळना फुडें सगळे कालकेय वृत्रासुरा भोंवतणी एकठांय जाले आनी समुद्रांतल्यान एक ल्हार वयर सरचें आनी ताणे सगळी भूंय बुडोवची तशे ते देवांच्या आंगार जुडून गेले. तांगेलो नेट आकांताचो. तो पळोवन देव भंयान गर्भगळित जाले आनी वाट मेळत तशे धाय दिकांनी पळपाक लागले. इन्द्र जाल्यार सामको भ्रमिश्टा सारको जालो. खंय वचचें, खंय लिपचें, ताका समजना जालें. इन्द्राच्या आधाराक विष्णु आयलो. देवगण आयले, ब्रह्मर्षी आयले. तरूय वृत्रासुरा मुखार तांगेलें कांय चलना जालें. ते खर्शेले. निमाणे इन्द्र काचाबूल जालो. ताणे वृत्रासुराचेर वज्र मोखून माल्लें. आनी भियेवन तो एके तळयेंत लिपून रावलो. वज्र आपल्या हातांतल्यान सुटलें काय ना तेंवूय ताका कळ्ळें ना. आनी वृत्र मेलो काय ना तेंवूय कळ्ळें ना.

वृत्र मेलो. तो मेला म्हणपाचें कळटकूच देवांक चेव आयलो. उपरांत ते एकएकल्या कालकेयाक धरून आपटून मारपाक लागले. कालकेयांची तांणी दानाधिस्पट करून उडयली. देवांक भियेवन कालकेय पळ्ळे. समुद्रांत लिपून रावले.

समुद्रांत तांकां देवांचो भंय नाशिल्लो. थंय देव पावनाशिल्ले. समुद्रांत बसून देवांक ना कशे करचे हाचे उपाय ते सोदूंक लागले. तांणी पयलें थारायलें, देवां भितल्ल्या बुदवंत, धर्मिश्ट, तपस्वी लोकांक सगळ्यांत पयलीं मारून उडोवया. कित्याक, तपा मुखार तांचें कांय चलना.

ते तपस्व्यांक ना करपाक वावरूंक लागले. सगळ्यांत पयलो तांच्या दोळ्यां मुखार वसिष्ठ उबो रावलो. तांणी वसिष्ठाच्या आश्रमाचेर घुरी घाली. उपरांत च्यवनाच्या आश्रमांतल्या तपस्व्यांक जिते मारून उडयले. कांय दिसांनी तांणी भारद्वाजाचो आश्रम मोडून मातये भरवण केलो. दिसाचे ते समुद्रांत लिपून रावताले, रातचे वयर सरून हीं धुमशेणा कांडटाले. तांचेर अच्छेव आयिल्लो. करतां करतां तपस्व्यांचीं प्रेतां वचत थंय दिश्टी पडपाक लागलीं. वचत थंय तांच्या हाडांच्यो राशी पडिल्ल्यो दिश्टी पडूंक लागल्यो. आश्रम मातये भरवण जाल्ले. अग्निहोत्रां जळा मळा शिंपडिल्लीं.

देवांचेर आकांत आयलो. ब्राह्मण, तपस्वी, मुनी, ऋषी सगळे धाय दिकांनीं पळून गेले. यज्ञ बंद जाले. वेदांचें शिकप ना जालें.

कितलींशींच वरसां कालकेयांचीं हीं धुमशेणां चलत राविलीं.

देवांक हुस्को. किते करचें, कांय येवजना. उपाय सोदपाक ते विष्णुगेर गेले. विष्णून म्हळें, आतां एकूच उपाय उल्लाः कोणेय एकल्यान समुद्र आटोवंक जाय.

हे वाटेन आनीक एक संकश्ट उपराशिल्लें—

सूर्य मेरू पर्वताक प्रदक्षणा घालता तसो आपणाक घालिना म्हुण विंध्याक सुर्याची तिडक. तो खुबिल्लो. ताणे सुर्याक विचाल्लें, 'तूं ताका प्रदक्षणा घालता. म्हाका कित्याक घालिना?' सुर्यान म्हळें, 'म्हजे इत्सेन हांव चलतां व्हय. संवसार जाणे निर्मिलो ताणेच हो नेम घालून दिला. ताच्याच नेमान हांव चलतां.' सुर्याची जाप आयकून विंध्याक चडूच राग माल्लो. आपुण सूर्य, चंद्र, नक्षत्रां सगळ्यांची वाट आडायतलों अशें थारावन तो रागा रागान ऊंच आनी ऊंच वचत रावलो. मळबाक तेंकपाचो आशिल्लो.

समुद्र आटोवप आनी विंध्याक वाडपाचो थांबोवप हीं दोन व्हड कामां कोण करीत, हाचेर देव येवजूंक बसले तेन्ना, तांकां अगस्त्याचो उगडास जालो. 'केल्यार हाणेच करपाचीं हीं कामां' अशें म्हणून देव अगस्त्यासरीं गेले. अगस्त्यान तांचें म्हणणे आयकून घेतलें आनी 'पावलें म्हजेर' अशें म्हणून लोपामुद्रेक घेवन तो रोखडोच भायर सल्लो. विंध्याद्री कडेन पावलो. येदो व्हडलो ऋषी आपणागेर आयिल्लो पळोवन विंध्यान ताका कमर बागोवन नमस्कार केलो. अगस्त्यान ताका म्हळें, 'हांव दक्षिणे दिकेचे यात्रेक भायर सल्लां. म्हाका वाट करून दी. आनी हांव परत येसर असोच राव. वाडूं नाका. मागीर कर तुका जाय तें.'

अगस्त्याच्या उतराक मान दिवन विंध्य वाडपाचो थांबलो. दक्षिणेक गेल्लो अगस्त्य परतो उत्तरेक आयलोच ना. हाका लागून विंध्य अदीक वाडूंक पावलो ना. विंध्यान वाट करून दितकूच अगस्त्य जो चलत गेलो तो सामको दक्षिणेच्या तोंका मेरेन पावलो. आनी थंय समुद्रा मुखार वचून उबो रावलो.

समुद्र ल्हारांनी नाचतालो, वाऱ्यान धोलतालो, फेणेरान हांसतालो, खडपांनी घुसपतालो आनी एकासारको गाजतालो. अगस्त्य ताका कसो आटयता हें पळोवपाक यक्ष गंधर्व किन्नर मनीस सोरोप सगळे भोंवतणच्या वाटारांत येवन राविल्ले.

अगस्त्य समुद्रांत देंवलो आनी घटा घटा करून ताचें उदक पियेवपाक लागलो. आरे आरे म्हणटासर ताणे समुद्राचें पुराय उदक पियेवन उडयलें. समुद्र आटलो.

यक्ष गंधर्व किन्नर सगळे खोशयेन वाद्यां वाजोवपाक लागले. नाचपाक लागले. देवांनी वयल्यान अगस्त्याचेर फुलां शिंवरायलीं.

समुद्र आट्टकूच कालकेय दैत्य खंय वतले. निरुपायान ते वयर सल्ले. ते वयर सरना फुडें देवांनीं तांचेर घुरी घाली आनी तांकां सगळ्यांक मारून ना करून उडयले. जे पळून गेल्ले ते नीट पाताळांत गेले आनी थंयच रावले.

देव खोश्शी जाले. तांणी अगस्त्या कडेन मागलें: दैत्यांचो भंय आतां सासणाचो ना जालो. आतां समुद्र परतो भरून दी.

'हें काम म्हजे कडल्यान जावपा सारकें ना. दुसऱ्या कोणाकूय सांगात.' अगस्त्यान तांकां जाप दिली.

अगस्त्याचे हे कथेंत कांय ऐतिहासीक तथ्यां भरसल्लीं आसूं येतात—

देव म्हळ्यार आर्य. इन्द्र तांगेलो राजा. वृत्र दस्युंचो राजा. ऋग्वेदांत इन्द्राच्या आनी वृत्राच्या झुजाचीं वर्णनां खूब कडेन आयल्यांत. इतलेंच न्हय, तर 'तुवें वृत्राक मारिल्लो' म्हुण इन्द्राची पावला पावलाक तुस्तय केल्या. ताचो भौमान केला. भारतांत आर्य आयले ताचे पयलीं दस्यु हांगा थीर जाल्ले. तांगेलीं हांगा व्हडलीं व्हडलीं शारां आशिल्लीं. आर्यांनी तीं फोडिल्लीं, मोडिल्लीं. सुमार सात आठ शेंकडे दस्युचीं आनी आर्यांचीं झुजां चलिल्लीं.

वज्र लोखणाचें आयुध आसूंक जाय. त्या आदीं दस्युंचीं आनी आर्यांचीं झुजां दांड्यांनी आनी धोणवांनी चलतालीं (दंडैर्धनुभिश्च). लोखणाचें आयुध मेळना फुडें दस्यूंक मारप आर्यांक सोंपें जाल्लें.

वज्राक स तोंकां आशिल्लीं अशें म्हणटात. त्रिशुळा सारकें स सुळ्यांचें हें आयुध आशिल्लें जावं येता.

सात आठ शेंकडे मेरेन झुजां चलून लेगीत आर्य संस्कृताय विंध्याद्री सकल पावूंक नाशिल्ली. विंध्याद्री सकल दस्युंचोच शेक चलतालो. दस्यू घडये समुद्रा पेले कडल्या देशांनीय पातळ्ळेले आसूं येतात वा आर्यांच्या धुमशेणांक भियेवन कांय दस्यू समुद्रा पेले कडल्या देशांनी वचून राविल्ले आसूं येतात. दक्षिणे कडेन यज्ञ संस्कृताय घेवन वचपी पयलो आर्य अगस्त्य, विंध्याद्री हुपून दक्षिणे कडेन वचपी जसो पयलो, तसो समुद्रापेले कडल्या देशांनीय वचपी पयलो आर्य. ताणे 'समुद्र आटयलो' हाचो अर्थ तो 'समुद्रापेले कडेन गेल्लो' असो करूंक जाय.

जावा, सुमात्रा, बोर्नियो बी देशांनी अगस्त्याचीं देवळां आयज लेगीत पळोवंक मेळटात.

'सूर्य फकत मेरू भोंवतणी धुंवता' हो विंध्याचो शीण आर्य भारतांत आयले ताचेय पयलिंचो ते उत्तर ध्रुवा लागसारच्या वाटारांत रावताले ते मुस्तींतलो एक उगडास आसूंक जाय. उत्तर ध्रुवाच्या वाटारांतूच सूर्य धारे वयल्या मळबांत प्रदक्षणा काडिल्लो पळोवंक मेळटा. मेरू थंयच्याच एखाद्या पर्वताचें नांव आसूं येता.

# ७५. प्रभासतिर्थार

हे भाशेन लोमश मुनीन पांडवांक मर्दी मर्दी पुर्विल्ल्यो खबरी सांगच्यो.

दुर्जय नगरींतल्यान पांडव भायर सल्ले ते नन्दा आनी अपरनन्दा न्हंयां तडीर गेले. हेमकुट पर्वत थंयच आशिल्लो. चडपाक खूब कठीण. थंय झों-झों करून वारो व्हांवतालो आनी घो-घो करून पावस झडटालो. मर्दी मर्दी वयल्यान व्हडलीं व्हडलीं तळपां गडगडून सकल येवन पडटालीं. पर्वत चडटल्यांक नाकापुरो जातालें. चडशे कोण चडनाशिल्ले. मात्शे चडून नज-नज करून परतताले. एका काळार हांगा ऋषभ नांवाचो एक ऋषी रावतालो. एक व्हडलो साक्षात्कारी म्हुण ताची नामना. ताका पळोवपाक आनी ताचे कडल्यान उपदेस घेवपाक लोकांनी हांगा येवचें. हाका लागून ऋषिच्या तपांत आडखळ येवपाक लागली. एक दीस ताणे पर्वताक सांगलें, ह्या मुखार हांगा कोणूय येत जाल्यार तांचेर वयल्यान एकार एक खडपां मोखून मार. कोणूच हांगा पावंक जायना. वाऱ्याकूय ताणे सांगून दवल्लें, हांगा कोणूय येवन उलोवपाक लागत जाल्यार तांचेर उटंगारांचो पावस झडय. कोणाचोच आवाज हांगा आयकूंक येवंक जायना. तेन्नाच्यान खंय लोक हांगा येवपाचे बंद जाल्ले. फकत देव आनी ऋषीच ह्या पर्वतार पावताले. पुणून ते कोणाक दिश्टी पडनाशिल्ले. तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लो वेदांचो उदघोषूच फकत आयकूंक येतालो.

> हें वर्णन नन्दादेवी पर्वताचें आसूंक जाय. हिमालयांतल्या ऊंच पर्वतां भितल्लो एक पर्वत नंदादेवी. २५.६५० फूट ऊंचायेचो. हो पर्वत चडप आयज लेगीत कठीण. ह्या पर्वतार तिनूय त्रिकाळ आनी बाराय म्हयने पावस झडत आसता. पर्वताचें माथें सदां पावशी कुपां भितरूच लिपिल्लें आसना. आनी मर्दी मर्दी ताचे फाटी वयल्यान तळपां अजुनूय गडगडून पडटात.
>
> ह्या पर्वता वयल्यान जी न्हंय देंवता तिचें नांव नन्दा. तिचें आर्विल्लें नांव ऋषिगंगा.

पांडव ह्या पर्वतार चडले. थंय नन्देंत न्हाले आनी थंयच्यान विश्वामित्र ऋषीन जंय तप केल्लें ते कौशिकी न्हंये तडीर गेले. थंयच लागसार विभांडक ऋषिचो आश्रम आशिल्लो. तो पळेलो आनी थंयच्यान तशेच उदेंते कडेन जंय गंगा पांचशें न्हंयांक आपल्या गोपांत घेवन समुद्राक मेळटा थंय गेले. थंयच्यान कलिंग देशांत, उपरांत महेन्द्र पर्वतार, थंयच्यान दक्षिणे कडल्या अगस्त्य तिर्थार आनी मागीर अस्तम दिकेच्या समुद्रा वेल्यान प्रभासतिर्थार पावले.

मर्दी ज्या ज्या म्हत्त्वाच्या थळार ते पावले, ताचो इतिहास लोमश मुनीन

तांकां सांगलो. देखीक, महेन्द्र पर्वतार पाविल्ले तेन्ना परशुरामाची कथा सांगली. विभांडकाच्या आश्रमांत पावले तेन्ना ऋष्यशृंगाची सांगली.*

पांडव प्रभासतिर्थार पाविल्ल्याची खबर द्वारकेक कृष्णाच्या कानार पडली. तेन्ना तो बेगोबेग उठून तांकां मेळपाक गेलो. वांगडा बलरामूय आशिल्लो. पांडव साप भागिल्ले. वोतांत भोंवन भोंवन तांची कात करपल्ली. तांच्यो जटा वाडिल्ल्यो. वल्कलां म्हेळीं जाल्लीं. ते शेंदरेर न्हिदताले. तांची आवतिकाय पळोवन कृष्णाक रडूंक आयलें. तो रडटा तो पळोवन बलरामाकूय रडूंक आयलें. दोगांय वांगडा बाकिचे यादव रडपाक लागले.

धीर खचूंक नाशिल्लो एकल्याचोच: युधिष्ठिराचो. तो यात्रेंत आपणे कितें पळेलें, अर्जुनान अस्त्रां कशीं जोडलीं, ह्यो खबरी सांगून कृष्ण बलरामाचें लक्ष दुसरे कडेन ओडून व्हरपाक लागलो.

थोड्या वेळान बलरामान कृष्णाक विचाल्लें, 'कृष्णा, जे धर्मान चलतात तांचें बरें जाता आनी अधर्मान चलतात तांचें नाशें जाता, अशें म्हणटात न्हय. तशें जाल्यार, हांची गत्त अशी कित्याक जावची. हे तर सदां धर्मानूच चलत आयल्यात. अधर्माचो पालव हांणी सपनांत लेगीत केन्ना घेवंक ना. तरी आसतना हांकां जटा वाडोवन, वल्कलां न्हेसून, रानां वनांतल्यान भोंवचें कित्याक पडटा. दुर्योधन अधर्मा बगर पावल उखलिना. तरी आसतना तो राज्य भोगता, सुखां भोगता. अशें कित्याक. हांची ही गत्त पळेतकूच कोणाचोय धर्मा वयलो भावार्थ उडून वतलो. ताका आमी दुशण कशे दितले. हांकां पळोवन फाल्यां कोणेय म्हळें, अधर्मानूच चलिल्लें बरें, जाल्यार खंयच्या तोंडान आमी ताका तशें न्हय म्हणटले. हांच्या वांट्याक आयिल्लीं दुख्खां आनी संकश्टां अरिश्टां पळोवन फाल्यां लोकांनी धर्म सोडून अधर्म घेतलो, जाल्यार तांकां आडावपाचो धीर कोणाक जातलो. सांग रे, हांच्या वांट्याक इतलीं दुख्खां कित्याक येवचीं. धर्तरी हो अन्याय अजून कसो सोंसून घेता? धृतराष्ट्र फाल्यां मरतलो. तेन्ना जाणटेल्यांक तो कितें सांगतलो. आपणे पांडवांक भिकेक लावन बरें केलें म्हुण व्हय. आदल्या जल्मांतल्या असल्याच पाड्या करण्यांक लागून आपुण ह्या जल्मांत कुड्डो जालां म्हणपाचें ताका कशें समजना रे? ह्या जल्मांतल्या पाड्या करण्यांक लागून फुडल्या जल्मांत आपणाक कसले उतळताप भोगचे पडटले, हेंय तो कशें येवजिना रे. भीम एकलोच पुरो आशिल्लो धृतराष्ट्राच्या पाड्या पुतांक ना करपाक. फाल्यां हो गदा घेवन तांचेर किंवाट्यान धांवन गेलो जाल्यार धृतराष्ट्राचो एकलो तरी पुत जितो उरत व्हय.

* काय कथा परिशिष्टांत दिल्यात.

असलो हो पराक्रमी भीम पळे, करसो सुकून बारीक किडकिडीत जाला तो. पळोवं येता व्हय ताका. ताची गत्त अशी कित्याक लागून जावची. द्रौपदेक हीं वनवासाचीं दुख्खां कित्याक भोगचीं पडचीं. तिणे कोणाचें कितें वांकडें केल्लें म्हूण तिच्या नशिबांत ही दुख्खां येवचीं, सांग रे. धर्म, नीत खंय आसा संवसारांत, दाखय मरे. धर्तरी कित्याक घेना रे सगळ्यांक पोटांत.'

बलरामाचीं निर्शेणेचीं उतरां आयकून सात्यकी खंती जालो. तो अर्जुनाचो भक्त तसोच शिष्य. तो बलरामाक म्हणूंक लागलो, 'तुज्या तोंडांतल्यान असलीं खंतिची उतरां केन्नाच आयकूंक नात हांवें. सोबतात व्हय तुका तीं. दुबळ्यांच्याच तोंडांत सोबपा सारकीं उतरां हीं. आनी तूं कांय दुबळो न्हय. तुज्यो भोंवयो मात्शयो वांकड्यो जाल्यार पुरो, कळिकाळाच्या काळजांत लेगीत घस्स जातलें. येदो वीर तूं. मागीर, तूं ओगी कित्याक रावला. ओगी रावन पळोवप सोबता व्हय तुका. युधिष्ठिर कितें म्हणटा, आमकां लागना. आमचीय म्हुण एक लागणूक आसा. ती करपाक आमकां कोण आडायता. कौरवांक ख्यास्त करपाचें बळ आमच्यांत ना व्हय. आमी पांडवांचे बरें मागते मू. मागीर, आमीच मुखार सरुंया. या घुरी घालून कौरवांचेर. आमचे सारके बरें मागते जिते आसतना पांडवांक वनवासाचे उतळताप सोंसचे पडप ही आमकांच लज. हांव म्हणटां, आयजूच चाल करून वचुंया. कोण आसा कौरवां भितर आमकां लागपा सारको. आमकां फकत वचात म्हुण सांग तूं. आमी कौरवांक दाळाक लावन येनात जाल्यार पळे. हांव अर्जुनाचो शिष्य. गुरुचेर जाल्लो अन्याय शिष्य मोन्यांनी पळेत बसलो जाल्यार ताका शिष्य तरी करसो म्हणूं येतलो. गुरुच्या रिणांतल्यान मात्सो तरी मेकळो जावपाक, ताची मात्शी तरी सेवा करपाक काय बरी संद मेळ्ळ्या म्हाका ही. ती हांवें कित्याक होगडावची. म्हाका वच म्हुण सांग आनी पळे, हांव कौरवांक कशे ना करून उडयतां तो. युधिष्ठिराक करूं दी यात्रा. आमी कौरवांक दाळाक लावंया. गादयेर अभिमन्यूक बसोवंया. पांडव वनवासांतल्यान परत येसर अभिमन्यु राज्य करतलो. इतलें खरें, हो अन्याय आमी सोंसूंक फावना....'

सात्यकिचो किंवाटो पळोवन कृष्णाक बरें दिसलें. ताणे सात्यकिची फाट थापटून म्हळें, 'तुका सोबता तशेंच उलयलो तूं. तें आयकून म्हजो जीव धादोसभरीत जालो. पुणून तूं युधिष्ठिराक म्हजे इतलोच बरो वळखता. तो न्यायान चलपी. धर्म सोडपी न्हय. आपले करणेन मेळूंक ना तें तो केन्ना घेवचो ना. ताचे खातीर आमी झुजिल्ले ताका मानचें ना. ताका हो अधर्म आनी अन्याय करसो दिसतलो. अधर्मान तो स्वर्गाचें राज्य लेगीत घेवचो ना. ताकाच न्हय, भिमाक

अर्जुनाक द्रौपदेक लेगीत आमी झुजिल्लें मानचें ना. पांडव शूर. त्रैलोक्याचे धनी जावपाच्या पांवड्याचे. तांच्या मनांत आशिल्लें जाल्यार ते केन्ना कौरवांक दाळाक लायतले आशिल्ले. आमची वाट पळोवंचे नाशिल्ले. तेन्ना, मात्सो धीर धर. तांचे वनवासाचे दीस सोंपू दी. मागीर मेळटली तुका संद पराक्रम गाजोवपाची.'

कृष्णाचें म्हणणे आयकून युधिष्ठिर खुशालभरीत जालो. ताणे सात्यकीक म्हळें, 'म्हाका राज्या परस उतर व्हड. कृष्ण हें जाणा. कृष्ण आमचें बरें मागतो. ताच्याच धिरार आनी आधारार आमी जियेतात. कृष्णान पराक्रम गाजोवपाचो वेळ अजून येवंक ना.'

## ७६. हिमालयाचे यात्रेक

कृष्ण मेळिल्ल्यान युधिष्ठिर खुशालभरीत जाल्लो. ताच्याकूय चड द्रौपदी जाल्ली. थोड्याच दिसांनी आमी परते मेळटले अशें सांगून पांडव थंयच्यान भायर सल्ले. भोंवत-भोंवत गंधमादन पर्वता म्हऱ्यांत पावले.

पांडव प्रभासतिर्थार समुद्राचे वाटेन आयिल्ले. अगस्त्य तिर्था वयल्यान ते गोकर्णाक गेले. थंयच्यान शुर्पारक देशांत गेले अशें महाभारतांत म्हळां. मुम्बयचे उत्तरेक पस्तीस छत्तीस मैलांचे वाटेर सोपारा म्हुण एक पोरणे शार आसा. कांय जाण ताकाच शुर्पारक लेखतात. पुणून शुर्पारक गोंय आसूं येता. गोंय गोकर्णाक लागीं. गोंयची एक न्हंय झुवारी. शुर्पारकी वयल्यान झुवारी उतर आयलां म्हणटात. शुर्पारकाची नामना अस्तमे दिके कडलें एक व्हड बंदर म्हुण आशिल्ली. झुवारिच्या तोंडा कडेन आशिल्ल्या मुरगांव बंदराचीय हीच नामना आसा.

उपरांत दोन न्हंयांचो उल्लेख येता, पयोष्णी आनी नर्मदा. नर्मदेक आयजूय नर्मदाच म्हणटात. पयोष्णी तापी आसूं येता. दोनां मजगतीं वैदुर्य नांवाचो एक पर्वत आशिल्लो म्हळां. जाणकारांच्या मत्तान तो सातपुडा आसूंक जाय. नर्मदेच्या लागसार कन्यासर नांवाचें एक तीर्थ आशिल्लें. थंय च्यवन नांवाचो एक ऋषी रावतालो. सुकन्या नांवाचे एके राजकन्ये कडेन तो लग्न जाल्लो. त्या निमित्त्यान सुकन्येचें आख्यान हांगा सांगलां.

उपरांत सैंधवारण्य, पुष्कर आनी आर्चीक पर्वता वयल्या तिर्थांचो उल्लेख आयला. हो आयच्या राजस्थानाचो वाटार.

हांगा पावतकूच ते कुरुक्षेत्राचे दिकेन वतात. यमुनेचे तडीर पावतकूच लोमश मुनीक मांधाताचो उगडास जाता. इक्ष्वाकु कुळयेंतलो हो एक कर्तुत्वी राजा. कृतयुगांत ताणे हजार अश्वमेध केल्ले. ह्या निमित्त्यान लोमश मुनी हांगा मांधाताची कथा सांगता.

उपरांत कुरुक्षेत्र लागता. पुर्विल्ल्या काळा परसून ह्या थळाची पवित्र म्हुण नामना. पुणून उपरांत तें यवनांच्या राज्यांत पडिल्लें. थंय सोरो, व्यभिचार सुरू जाल्लो. देखून

पवित्र आसुनूय थंय रात रावंक जायना असो नेम कोणे घालून दिल्लो. हांगाच यक्षिच्या तोंडांत घालां : 'हांगा रात रावं नाकात. रावशात जाल्यार दिसाचे पळेल्ले ताच्या उरफाटे आचार दिश्टी पडटले.' मुखार कर्णपर्वात कर्णाचें आनी शल्याचें तोंडाक तोंड लागिल्लें वाचूंक मेळटलें. थंय हाची फोडणिशी येतली. शल्य ह्या वाटारांतलो राजा.

पांडव हांगा एकूच रात रावतात. लोमश मुनीक हांगा नहुषाच्या पुताचो, शर्यातिचो उगडास जाता. हांगा यमुनेचे तडी वयल्या प्लक्षावतरण तिर्थाचो उल्लेख आयला. त्या भायर सरस्वती, ओघवती, विपाशा बी न्हंयांचोय उल्लेख आयला. सरस्वती राजस्थानांतल्या वाळवंटांत लिपिल्ल्यान लोमश मुनिची नदर सिंधु-सागर-संगमा मेरेन गेल्ली पळोवंक मेळटा.

कुरुक्षेत्राचे उत्तरेक विष्णुपदतीर्थ येता. थंयच विपाशेचो एक फांटो व्हांवतालो. विपाशा म्हळ्यार बेयास-व्यास. बेयासाचे उत्तरेक कश्मीर मंडळाचो उल्लेख येता. कश्मीर तेय मुस्तींत भारतवर्षाचे उत्तरे कडलें तोक आशिल्लें.

हांगाच्यान यात्रेची दिशा बदलता. पांडव पर्वता-वाटारांतल्यान सकल देंवतात. उपजला आनी नदीजला ह्या दोन न्हंयांचो उल्लेख हांगा आयला. थंयच शिबिचें राज्य चलतालें. हांगा लोमश मुनी शिबी राजाची कथा सांगता.

सरस्वतिचे तडीर एके कडेन श्वेतकेतुचो आश्रम आशिल्लो. श्वेतकेतु उद्दालकाचो पुत. उपनिषद काळांतलो एक ऋषी. उद्दालकान आपली धुव कहोड नांवाच्या एकल्या मुनीक दिल्ली. कहोड दीसरात वेदांच्या अध्ययनांत गुल्ल रावतालो. ताची बायल गुरवार आशिल्ली. तिच्या पोटांतल्या भुरग्याक बापायचें हें अध्ययन मानवलें ना. ताणे पोटांत आसतना 'तुगेलें हें चड जालें. इतलें अध्ययन करिनात' अशें बापायक म्हळें. बापायक तिडक माल्ली. आनी ताणे पुताक श्राप दिलो : 'तूं अश्टवांकूड जल्मा येतलो'. ह्या निमित्त्यान लोमश मुनी हांगा ह्या अश्टवांकुड—अष्टावक्र ऋषिची खबर सांगता.

भोंवत भोंवत पांडव कनखल तिर्थार पावतात. थंय रैभ्य मुनिचो आश्रम आशिल्लो. हांगा लोमश मुनीक यवक्रिताचो उगडास जाता. ताची कथा हांगा येता. हे भाशेन येदेय हे यात्रेंत कितल्याश्याच थळांचीं वर्णना आनी कितल्योश्योच कथा आयल्यात.*

कनखल हरिद्वारा लागसारचें तीर्थ. हिमालयार वचपाची वाट हांगासून सुरू जाता. उदेंत, दक्षिण आनी अस्तमे कडलीं म्हत्त्वाचीं थळां पळेल्या उपरांत पांडव हांगा पावले तेन्ना तांकां हिमालयाची ओड लागली. हरिद्वाराक तांणी गंगा पळेल्ली. ती हिमालयांतल्यो सात न्हंयो गोपांत घेवन आयिल्ली. तिचे तडी वयल्यान चलत चलत बदरी-नारायणा मेरेन वचपाची तांकां आतां उमळशीक लागली. हो पवित्र वाटार म्हुण एक, आनी दुसरें, अर्जुन हांगाच खंय मेळटलो ही तांकां आस्त आशिल्ली.

पुणून ही यात्रा सोंपी नाशिल्ली. खूब त्रासांची आनी कश्टांची आशिल्ली. एका

*कांय म्हत्त्वाच्यो कथा परिशिष्टांत दिल्यात.

फुडले एक ऊंच पर्वत चडचे पडटले. भेश्टावणे सुळे लागतले, गच्च रानांतल्यान वाटो सोदीत वचचें पडटलें, असल्यो कितल्यो-श्योच गजाली लोमश मुनीन तांकां सांगल्यो. तेन्ना, युधिष्ठिर घुटमळ्यांत पडलो. ताणे भिमाक म्हळें, ही यात्रा आतां मेरेनचे यात्रे परस आमकां सगळ्यांत कठीण वतली. द्रौपदेक तर चडूच कठीण. तेन्ना म्हाका दिसता, हांवें आनी नकुलान लोमश मुनी वांगडा वचचें. बाकिच्या सगळ्यांनी हांगा रावचें. द्रौपदेच्या सांगाताक तुवें हांगा राविल्लें बरें.

भीम म्हणूंक लागलो, 'अर्जुन खंयूय मेळटलो ही आस्त मनांत धरून द्रौपदी बावडी इतलेय त्रास काडून हांगा आयल्या. तुकाच जंय अर्जुनाची भौन भौन याद येता थंय तिका कितें जाता जातलें, हाचो अदमास करून पळे. द्रौपदेक कितलेंय सांग, ती हांगा रावपाची ना. आनी तुकाय हांव एकलो वचूंक दिवपाचों ना. हो यक्ष, गंधर्व, किन्नरांचो वाटार म्हुण लोमश मुनी सांगता. इन्द्राक लेगीत थरथरावन सोडपी हे लोक. ते केन्ना कोणाच्या आंगार जुडून येतीत सांगूं येना. मागीर, तुका एकलो कसो वचूंक दिवं हांव. आमचो जीव हांगा तुज्या हुसक्यान सकल वयर जातलो. आमीय तुज्या सांगातांत आशिल्लीं बरीं. द्रौपदेचो हुस्को तूं करूं नाका. ती चलतली. तिका पुरो जातलें तेन्ना फाटकुळेर मारून घेवपाचें काम हांव करीन. तुमकां सगळ्यांक एकाच वांगडा खांदार घेवन चलपाची तांक आसा म्हज्यांत हें तूं जाणा.'

द्रौपदेनूय हांसत हांसत म्हळें, 'म्हजो हुस्को नाका. हांव तुमच्या फाटल्यान चलत येतां. हे पिरायेर ही यात्रा केली ना जाल्यार, मुखार केन्ना करूंक पावतलीं हांव.'

दोगांयचें म्हणणे आयकून युधिष्ठिरान खुशालभरीत जावन म्हळें, 'चलात तर, आमी सगळीं सांगातानूच या.'

ते हरिद्वारच्यान भायर सल्ले. वाटेर तांकां सुबाहुचें राज्य लागलें. सुबाहु कुलिंदांचो राजा. पांडव आपल्या राज्यांत पावल्यात म्हणपाची खबर सुबाहुक कळ्ळी तेन्ना ताणे तांकां राज्याचे शिमेर येवन येवकार दिलो. पांडवांनी सुबाहुगेर आपले रथ आनी हेर सामान दवल्लें. तांच्या वांगडा रांदपी, दास दासयो आनी ब्राह्मण आशिल्ले. तांकांय थंयच दवल्ले. आनी ते मुखावेली यात्रा करपाक लागले.

अलकनन्देचे तडी वयल्यान पांयांनी चलत चलत मुखार गेले. आपल्या वांगडा तांणी धोणवां घेतिल्लीं. भाते घेतिल्ले. तरसादीय घेतिल्ल्यो. कितलेशे पर्वत ते चडले आनी देंवले. कितल्यो-श्यो न्हंयो हुपल्यो. कितलीं-शीं रानां माड्डिलीं. ते फकत कंद मुळां आनी फळां खाताले. तांणी सकाळीं उठून चलपाक सुरवात करची.

चलत रावचें, दन्पारां खंयूय थोडो विसंव घेवचो. परत चलूंक लागचें. तीनसांज मेरेन चलचें. रात तांणी केन्ना केन्ना रुखा वयर वा रुखा मुळांत सारोवची.

अशे कितले-शे दीस चलत रावले.

वाटेर एके कडेन अवचित एक दीस आकांताचो वाव सुटलो. व्हडले व्हडले रूख कुदूंक लागले. म्हणटासर हुमटून पडूंक लागले. रानांतलो सगळो सुको पालो धुल्ला सयत मळबांत उबलो. सगळे कडेन काळोख पातळ्ळो. पांडवांनी भियेवन दोळे धांपले. वावान उबून वतात काय कितें, अशें तांकां जालें. मर्दीच कितेंशें कोंसळ्ळ्याचो आवाज कानार पडलो. 'पर्वत कोंसळ्ळो दिसता', तांकां दिसलें. वाऱ्याचो झों-झों आवाज येवपाक लागलो. एकल्यान उलयल्लें दुसऱ्याक आयकूंक येना जालें. चलपाक लेगीत तांकां कठीण जालें. तेन्ना ते दिमखुऱ्यांनी वचूंक लागले. चलतना रुखांचो आधार घेवपाक लागले. एका रुखा मुळांत भीम द्रौपदेक सांगाताक घेवन बसलो. बाकिच्यांनीय तसोच एक एक रूख घट्ट धल्लो. म्हणटासर जोगलावपाक लागलें. कडक् कडक् करून विजो पडपाक लागल्यो. करतां करतां कऱ्यांचो पावस झडलो. न्हंयेक हुंवार आयलो. तिचें उदक खोदोळ जालें. ती घसघसो जाल्ले वरी पर्वतां वयल्यान कोंसळपाक लागली. आपणा वांगडा व्हडले व्हडले म्हाल-म्हातारे रूख ओडून व्हांवपाक लागली.

पांडव धाडशी. पुणून सैमाचो हो अवतार पळोवन तांकां लेगीत थरथरो भल्लो.

थोड्या वेळान सगळें थंडावलें. चक्क बरें ओत पडलें. खंयचे कडेन कांयच जावंक नाशिल्ले भाशेन सैम न्हावन धुवन शुचिर्भुत जावन हांसपाक लागलें.

पांडव मुखा वयली वाट माडयत वचूंक लागले.

कोसभर चल्ल्यात जातले. अवचित केळ हुमटून पडची तशी द्रौपदी घुंवळून वाटेर पडली. तिका चलून चलून पुरो जाल्लें. त्या भायर पावसान ती भिजिल्ली. नकुल तिच्या फाटल्यान चलतालो. द्रौपदेक घुंवळ आयल्या म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. धांवत ताणे तिका सांबाळून धल्ली. युधिष्ठिर भीम मुखार गेल्ले. ते धांवत फाटल्यान आयले. द्रौपदेची गत्त पळोवन युधिष्ठिराचें काळीज आकुळ-पिकूळ जालें. तो मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागलो, 'खंय आसपाची, खंय पावल्या ही. कसल्या सुखांत रावपाची, कसल्या त्रासांत पडल्या ही.' ताणे एक हुस्कार सोडलो. ताका आपलीच तिडक माल्ली: 'म्हाका लागून बावडेच्या नशिबांत हीं सगळीं दुख्खां आयल्यांत.' तो खंती जावन म्हणपाक लागलो. तिचे कडेन पळेत बसलो. ताका फुडलो हुसको जालो. बदरीनारायणाक पावपाक अजून कितले-शे दीस आसात. ही कशी चलूंक पावतली. बरें, परती हरिद्वाराक धाडची

म्हळें जाल्यारूय चलचेंच पडटलें. कशें जातलें.

युधिष्ठिराचें तोंड पळोवन भिमाक ताच्या हुसक्याचो अदमास आयलो. ताणे म्हळें, 'तूं भियेवं नाका. फाटकुळेर मारून व्हरतां हांव तिका.'

त्याच खिणाक भिमाक घटोत्कचाचो उगडास जालो. हिडिंबेक ताचे पसून जाल्लो पुत हो ताचो. तो अंतराळांतल्यान उडूंक जाणा आशिल्लो. 'तो हांगा आशिल्लो जाल्यार ताचो खूब आधार जातलो आशिल्लो. . .' ताणे मनांत म्हळें.

बोला-फुलाक गांठ पडिल्ले भाशेन घटोत्कच त्याच वेळार थंय पावलो. तो ह्या वाटारांत भोंवतालो. ताच्या वांगडा तागेले कांय संवगडीय आयिल्ले. घटोत्कच दिश्टी पडना फुडें भीम खुशालभरीत जालो. ताणे ताका वेंगांत घेतलो आनी द्रौपदे कडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'हिवूय तुजी आवय. तिका पुरो जालां. ही त्रासांची आनी कश्टांची यात्रा तिका जमना. तूं आतां एक काम कर, हिका अचळय उबारून बदरी-नारायणाक व्हरून पावय. आनी जमता जाल्यार बाकिच्यांकूय व्हरून पावयात म्हुण तुगेल्या ह्या संवगड्यांक सांग. हांव फाटल्यान येतां.'

थोड्या वेळान द्रौपदी सुदीर आयली. भिमान घटोत्कचाची आनी तिची वळख करून दिली. घटोत्कचाच्या आधारान द्रौपदी आनी ताच्या संवगड्यांच्या आधारान बाकिचे सगळे थोड्याच वेळान बदरी-नारायण तिर्थार पावले.

फकत भीम आपल्या आंगांतल्या आनी लोमश मुनी आपल्या तपाच्या बळार चलत चलत थंय पाविल्ले.

## ७७. मारुती

बदरी-नारायण थळ एका व्हडल्या आश्रमा सारकें आशिल्लें. नर आनी नारायण नांवांचीं दोन व्हडलीं हिमशिखरां, तांच्या मुळसांत व्हांवपी धीर–गंभीर अलकनंदा, असले सुंदर सुवातेर अलकनंदेचे तडीर हें थळ वशिल्लें. थंच कुचकुचीत खांदयांनी भरिल्ली एक आकांताची व्हडली (विशाल) बोर (बदरी) आशिल्ली तिचे चोंय वशीन कितले-शेच रूख आशिल्ले. बोरी मुळांत, रुखांचे सांवळेंत व्हडले व्हडले ब्रह्मर्षी बसून ब्रह्मविद्येच्यो गजाली करताले. पांडव थंय पाविल्ल्याचें आयकून ऋषी खुशालभरीत जाले. पांडवांनी पावना फुडें ऋषिंच्या पांयाची धूळ भक्तिभावान कपलाक लायली आनी थोडो वेळ तांचे सरीं बसून नर-नारायण हिमशिखरां पळोवपाक गेले. मैनाक पर्वत आनी बिंदु-सरोवरूय पळोवन आयले. आनी मागीर थंयच एका आश्रमांत रावपाक लागले.

थंड-शितळ वारो, निर्मळ उदक, शांत प्रसन्न वाटार आनी पवित्र ऋषिंचो सांगात, सगळ्याचे परिणाम पांडवांचेर जालो. तांकां चलून चलून पुरो जाल्लें. हांगा तांकां विसंव मेळ्ळो. द्रौपदेच्या जिवाक जाल्यार खूब बरें दिसलें. दोन चार दिसां भितर तिच्या आंगार थोडें मांस लेगीत चडलें.

बदरी-नारायणाक पावन स दीस जाल्ले. सातव्या दिसा द्रौपदी आश्रमा भायर आंगणांत बसून भोंवतणच्या सैमाची सुंदरकाय नियाळटाली. अवचित इशान्य दिकेच्यान व्हांवत आयिल्ल्या थंड शितळ वाऱ्याची एक झुळूक तिगेलें आंग सुखावन गेली. म्हणटासर एक सुंदर कमळ तिच्या पांयां कडेन येवन पडलें, तिणे तें उखल्लें. हजार पाकळ्यांचें, भांगरा रंगाचें, इतलें सुंदर परमळीत कमळ तिणे पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. तिणे भिमाक उलो मारून आपयलो आनी म्हळें, कितलें सुंदर कमळ हें. हांव हें धर्मराजाक दितलीं. असलेंच एक कमळ म्हाका हाडून दी. ताची मुंडलीय घेवन यो. काम्यक वनांत हांव ती आमच्या पोरसांत लायतलीं.

द्रौपदेन सांगल्यारूच पुरो, भीम तिचें उतर झेलून घेतालो. तिच्या मनासारकें करपाक तो खंयूंय वचूंक, किर्तेय करूंक मुखार सरतालो. मात लेगीत कळाव लाय नाशिल्लो. 'एकूच न्हय, कितलीं-शींच आनी असलींच न्हय, हाच्याकूय बरीं कमळां तुका हाडून दितलों', अशें म्हणून भीम रोखडोच भायर सल्लो. वारो जे दिकेन कमळ घेवन आयिल्लो ते दिकेक तोंड करून तो चलत गेलो. ताका केन्ना कसलोच आनी कोणाचो भंय दिसनाशिल्लो. केन्ना पुरो जायनाशिल्लें. तांतूंत द्रौपदेचें काम. तो तुरतुरीत चलूंक लागलो. वाऱ्या सारको ताचो नेट आनी हतया सारकी काया. मोड सुटलां काय किर्ते, असो कोणाकूय भास जावचो. ताच्या पावलांच्या आवाजान पर्वतांचे कडे थरथरूंक लागले. रानांतलीं सुकणी सावदां गर्भगळीत जावन वाट मेळत तशीं पळपाक लागलीं. कांय सावदां भियेवन ताच्या आंगार धांवन आयलीं. तांकां उबारून ताणे पर्वताच्या कड्या वयल्यान सकल मोखून माल्लीं.

चलत चलत तो कदली वनांत पावलो. तें केळिचें एक रान आशिल्लें. ह्या रानांत मारुती रावतालो. ताणे भिमाक पयसल्यान पळेलो. तो भिमाक रोखडोच वळखलो. 'हो सौगंधिक वनांत वचूंक भायर सल्ला जातलो' ताणे मनांत म्हळें. तो सौगंधिक वनाचे वाटेर आडवो पडलो. भिमाची वाट ताणे हे भाशेन आडायली. आडवो जातना ताणे एक जांबय दिली आनी शेंपडी वयर काडून जमनीर आपटिली. दोनूय आवाज भिमाच्या कानार पडले. ते आयकून ताची ल्हंव फुलून

आयली. 'कोणाचो आनी कसलो आवाज काय हो' सोद घेत घेत तो मारुती आडवो पडिल्लो थंय पावलो.

थंय पळे जाल्यार, एक म्हातारो माकड वाटेर आडवो पडला! भिमान ताका मोट्यान म्हळें : 'ए, वाटे वयलो ऊठ.'

न्हिदेंतल्यान उठिल्ले वरी कूस परतून मारुतीन विचाल्लें : 'कोण तूं.' ताचो पावसाच्या गडगडाटा सारको आवाज आनी उज्याच्या जिबां सारकी पिंगशी ल्हंव पळोवन भीम घुटमळ्यांत पडलो. तरी आसतना ताणे मारुतीक म्हळें, 'म्हजी वाट सोड.'

'हांव न्हिदलां तो तुका दिश्टी पडना व्हय.' मारुतीन ताका विचाल्लें. 'म्हजी न्हीद मोडपी तूं कोण. हांव म्हण एक माकड. म्हाका कांय समजना. पुणून तुका पळेल्यार तूं मनीस कसो दिसता. आपणाक लागून दुसऱ्याक त्रास जावंक जायनात इतलेंय तुका कशें समजना. तुका गिन्यानी लोकांचो सांगात मेळूंक ना जातलो. देखून तूं असो, दुसऱ्यांची न्हीद मोडटा.'

भिमान मात्शें ताणशेवन म्हळें : 'हांव कोणूय आसूं. पुणून तुका हांवें वाटे वयलो ऊठ म्हुण सांगलें न्हय, ऊठ मात्सो आतां.'

मारुतीन ताका थंडसाणेन जाप दिली, 'मनशाक उपकारा पडपा सारकें हांगा कांय ना. हांगा मनशांतले कोणूच पावनात. हो तो मुखार पर्वत दिश्टी पडटा तो मनीस जातींतलो कोणूच अजून चडूंक पावूंक ना. कोणाक चडूंक येना. देवलोकाक वचपाची वाट ती. योगसिद्धी जोडिल्लेच ते वाटेन वतात. तूं खंय वचूंक भायर सल्ला? हे वाटेन वचपाचे त्रास घेवं नाका. एक तर हांगा ह्या कदली वनांत राव वा आयला ते वाटेन परतो वच.'

भिमाक भिरभिरी माल्ली. ताणे विचाल्लें , ही वाट खंय वता, हे वाटेन कशें वचप हें विचाल्लां व्हय हांवें. तूं वाटे वयलो ऊठ म्हुण सांगलां.'

'उपकार करून हागासून परत वच. मुखार वचूं नाका. तुका त्रास जातले.' मारुतीन जाप दिली.

'त्रास जावं वा आनी कितेंय जावं. तूं वाटे वयलो ऊठ.' भिमान परत ताणशेवन म्हळें.

'कसो उठूं, हांव म्हातारो. त्या भायर जिवान बरो ना. म्हाका उठूंक येना. वतलोच जाल्यार म्हाका हुपून वच.' मारुतीन जाप दिली.

भिमान म्हळें, 'मारुतीन समुद्र हुपूंक नाशिल्लो व्हय. तसो वतलो आशिल्लों हुपून हो पर्वत. पुणून तुका हुपून वचपाचों ना हांव. तूं जीव एक. आनी जण-एका

जिवांत देव आसता. हांव देवाक हुपून वचपाचों ना. उपकार करून वाटे वयलो ऊठ.'

मारुती मात्सो हांसलो. ताणे भिमाक विचाल्लें, 'दर्यो हुपून गेल्लो तो कोण म्हळो तुवें. मारुती मू. कोण हो मारुती. दर्यो कित्याक हुपिल्लो ताणे.'

'माकड जावन तुका मारुती कोण तो खबर ना?' भिमान विचाल्लें आनी म्हळें, 'तो म्हजो भाव. ताचो आनी म्हजो बापुय एक. वायू. रामायणांतलो हो सगळ्यांत पवित्र माकड. एकूच उडी मारून तो शंबर योजना इतलो रूंद दर्यो हुपून गेल्लो. म्हजोय पराक्रम तेदो. त्याच पांवड्याचो हांव.'

इतली जाप दिवन ताणे मारुतीक पर्थून वाटे वयलो ऊठ म्हुण सांगलें.

मारुतीन मनांत म्हळें, हाका आपल्या कर्तुत्वाचो गर्व जाला. तो मात्सो निवळायल्लो बरो. आनी ताणे भिमाक सांगलें, 'हांव म्हातारो. उठपाचें लेगीत म्हाका त्राण ना. तूं वतलोच जाल्यार म्हजी शेंपडी उखलून कुशीन काड आनी वच.'

'दाखयतलों हाका' अशें येवजून भिमान शेंपडी उखलपाक दावो हात घालो. जाल्यार, शेंपडी उखलना. 'अब्बा' अशें म्हणून ताणे दोनूय हात घाले. जाल्यारूय ती उखलना. ताणे आपल्या आंगांतलें सगळें बळगें एकठांय केलें. च्चे, मातूय उखलना!

भिमान मान सकल घाली आनी दोनूय हात जोडून ताणे मारुतीक विचाल्लें, 'कोण तूं. सिद्ध, देव, गंधर्व बी न्हय मू. माकड न्हय, इतलें खरें. नमळायेन विचारतां, लागपा सारकें कितेंय आगळें उणे उतर म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें आसत जाल्यार तें विसर आनी तूं कोण तें सांग.'

मारुतीन जाप दिली, 'तुवें निकतेंच जाचें नांव घेतिल्लें तो मारुती हांव. रामा कडेन हांवें मागिल्लें, धर्तरेर तुजें चरित्र लोक गायत रावतले ते मेरेन म्हाका जितो दवर म्हुण. ताणे तथास्तु म्हणून म्हाका आशीर्वाद दिल्लो. तुर्ताक हांव हांगा आसतां. हांगासल्ल्यो गंधर्वांच्यो बायलो आनी अप्सरा म्हाका रामाचें जिवीत सदां गावन दाखयतात. हे ओडीन हांगा रावतां.'

ताणे भिमाक मुखार सांगलें, 'मुखा वयली वाट देवांची. मनीस जातींतले कोण सपसप हे वाटेन वचनात. सट्ट करून तूं वचशीत आनी श्राप घेवन वा मार खावन परतशीत ह्या भंयान हांव वाट आडावन बशिल्लों. तूं कोण तो हांव जाणां.'

भिमान मारुतिची नामना आयकल्ली. रामाच्या आशीर्वादान तो चिरंजीव जाला म्हुण्णूय तो जाणा आशिल्लो. केन्नाय तरी तो आपणाक पळोवंक मेळचो, अशें

ताका सदां दिसतालें. पुणून हें भाग्य येदे बेगीन मेळत अशें दिसूंक नाशिलें. आयज ताका तो दिश्टी पडिल्लो. भिमाक आपणालें जिवीत धन्य जाल्ले वरी दिसलें. ताची एक इत्सा भागूंक नाशिल्ली. मारुतीन लंकेचेर उडी मारिल्ली त्यावेळार ताणे महा-काय रूप घेतिल्लें. तें ताका पळोवपाचें आशिल्लें. ताणे मारुतीक म्हळें: 'तुका पळोवन म्हाका अपरंपार खोस भोगल्या. म्हजी एक इत्सा उल्ल्या. तुवें समुद्र हुपिल्लो त्यावेळार घेतिल्लें तें रूप म्हाका दाखय.'

मारुती हांसलो. म्हणूंक लागलो, 'तो काळ वेगळो आशिल्लो. त्या काळांतलें रूप आयज घेवंक येवपाचें ना. तेन्ना तुजी ही इत्सा म्हजे कडल्यान भागपा सारकी ना.'

तरूय भीम आपणाक तें रूप दाखयूच म्हुण आग्रो करूंक लागलो. हट घेवन बसलो.

मारुतीक ना म्हणपाक जड जालें. गर गर करून तो वाडत रावलो. वाडत वाडत मळबाक तेंकता-सो जालो. तागेलें तें महा-काय तेजिश्ट रूप पळोवन भिमाच्या आंगार कांटो फुल्लो. मारुतीन म्हळें, 'हाच्याकूय व्हड म्हज्यान जावं येता. कुडिची ही व्हडवीक जाल्यार, मनाची केदी आसतली, अदमास कर. मन केदेंय व्हड जावं येता. अख्ख्या संवसाराक वेंगायत येदें व्हड जावं येता.'

इतलें सांगून मारुती आशिल्लो तेदो जालो. भिमाक ताणे वेंग माल्ली. भिमाचो जीव धादोस भरीत जालो. आपणा सारको भाग्यवंत आपुणूच अशें ताका दिसपाक लागलें.

निमाणे मारुतीन ताका म्हळें, 'आमची भेट जावंक पावली तिचो उगडास सदां उरचो म्हुण म्हजे कडल्यान कितेंय मागून घे. तुका जाय आसत जाल्यार हांव आतांच हस्तिनापुराक वचून धृतराष्ट्राच्या पुतांक मारून उडयतां वा एक व्हडलो पर्वत व्हरून हस्तिनापुराचेर उडोवन पुराय शाराचो पिठो करून दाखयतां. जाय जाल्यार दुर्योधनाक धरून तुज्या मुखार हाडून उबो करतां. कितें करूं, सांग.'

भिमाचें काळीज उपकारान भरून आयलें. तें खोशयेन नाचूंक लागलें. ताणे इतलीच जाप दिली, 'तुज्या मनांत हें आयलें तेंच म्हाका खूब जालें. म्हाका सगळें मेळिल्ले वरी दिसलें. तुज्या आशीर्वादान आमी आतां आमच्याच कर्तुत्वान दुस्मानांक हारोवपा इतले शक्तिवंत जाल्यात.'

मारुतीक भिमाची जाप आयकून बरें दिसलें. ताणे मागीर आपुण जावन सांगलें, 'तुमच्या कर्तुत्वानूच तुमी सगळें जोडात. पुणून म्हजें एक काम आसा तें हांव करतलों: 'तूं जेन्ना झुजा मळार सिंहनाद करतलो, तेन्ना तुज्या आवाजांत

म्हजोय आवाज भरसून सगळ्यांचीं काळजां हांव थरथरावन सोडटलों. अर्जुनाच्या रथा वयले धुडयेर हांव बसून रावतलों आनी मर्दी मर्दी मोट्यान किळांच्यो मारून तुमकां सगळ्यांक चेव हाडटलों.'

मागीर ताणे भिमाक मुखा वयली सौगंधिक वनांत वचपाची वाट दाखयली आनी म्हळें, 'आतां वचूं येता तुज्यान हे वाटेन. वतलो जाल्यार वच.'

## ७८. सौगंधिक वनांत

कैलासाचे वाटेर कुबेराच्या राज्यांत सौगंधिक वन आशिल्लें.

मारुतीक पांयां पडून भीम भायर सल्लो तो वाऱ्याच्या वेगान खिणा भितर त्या वनांत पावलो. ह्या सुंदर वनांत एक सुंदर तळें आशिल्लें. तांतूंत भांगराच्या रंगाचीं सुंदर परमळीत कमळां फुलिल्लीं. थंय पावना फुडें भीम कळाव लायनासतना तीं खुंटपाक लागलो.

कांय राक्षस ह्या तळ्याची राखण करताले. कोणाक कांय विचारी नासतना तळ्यांत देंवन भीम कमळां खुंटूंक लागला हें पळोवन राक्षसांक अजाप जालें. तिडकीन तांणी विचाल्लें, 'सभाग्या, तळें कोणाचें आनी फुलां कोण खुंट्टा. कोण तूं. भेस पळेल्यार तूं तपस्वी-सो दिसता. पुणून खांदार धोणु फाटीर भातो, हातांत गदा, कमराक तरसाद, हें सगळें पळेतकूच तूं क्षत्रिय आसूंक जाय अशें दिसता. तूं कोण आनी कित्या खातीर हांगा येवन हीं फुलां खुंट्टा.'

'हांव धर्मराजाचो फाटलो भाव भीम', भिमान जाप दिली. 'हांगासल्लें एक कमळ घेवन एक दीस वारो आमचे थंय आयलो आनी द्रौपदेच्या पांयां कडेन कमळ उडोवन गेलो. द्रौपदेक तें खूब मानवलें. तिका तसलीं आनीक कमळां जाय जालीं. तीं व्हरपाक हांव हांगा आयलां.'

'बरो मगा न्याय तुजो. तुका कमळां जाय मू. व्हर. कोणे ना म्हळां. पुणून तीं तूं विचारी नासतना खुंट्टा म्हळ्यार कितें.'

'कोणाक विचारपाचें,' भिमान विचाल्लें.

'कुबेराक. तागेलें तळें हें.' राक्षसांनी जाप दिली. 'ताका विचाल्ले बगर यक्ष लेगीत ह्या तळ्यांत देंवपाचें धाडस करिनात. आनी तूं तळें जशें कितें आपलें जाल्ले वरी तांतूंत देंवला आनी फुलां खुंटूंक लागला. वयल्यान आपुण धर्मराजाचो भाव म्हुण सांगता! पयलीं कुबेराक विचारून यो. मागीर खूंट तुका जाय तितलीं.'

'कुबेराक विचारपाक कुबेर हांगा खंय आसा. तो हांगा खंयच दिश्टी पडना.

त्या भायर. तळें सैमान तयार केलां, कुबेरान न्हय. कुबेरा इतलोच हेरांक हक आसा तळ्यांत देंवपाचो. आनी तिसरें, हांव क्षत्रिय. क्षत्रिय केन्ना कोणा कडेन कांय मागिनात.' अशी जाप दिवन भीम फुलां खुंटीत रावलो.

राक्षस खुबले. ताणशेवंक लागले. भीम पर्वा करिनासतना कमळां खुंटीत रावलो. राक्षसांक कितें करचें, कळना जालें. धरात रे ताका अशें एका-मेकांक सांगीत ते भिमाच्या आंगार धांवून गेले. भिमान गदा उबाल्ली. एक-एकल्याचे तकलेर हाणली. हुरहुर करून कितले-शे राक्षस थंय एकठांय जाले. भीम एक-एकल्याक धरून आपटून मारूंक लागलो. कांय राक्षस मेले. उरिल्ले धांवत कुबेरा म्हऱ्यांत गेले.

'भीम मू तो. द्रौपदे खातीर कमळां व्हरूंक आयला मू', कुबेरान तांकां विचाल्लें.

'हय.'

'व्हरू दी ताका' कुबेरान सांगलें.

हे वाटेन, बदरी-नारायणाक आकांताचो वाव सुटिल्लो, तो पळोवन युधिष्ठिराक दुबाव आयलो, 'खंयूय झूज बी सुरू जावंक ना मू', ताणे मनांत म्हळें आनी भोंवतणी नदर भोंवडायली. भीम खंयच दिश्टी पडलो ना. होच गेला जातलो खंयूय. हाणेच कसलेंय धाडस केलां जातलें' अशें मनांत म्हणून ताणे द्रौपदेक विचाल्लें, 'भिमाक खंय धाडला व्हय तुवें'.

'कमळां हाडपाक धाडिल्लो', तिणे जाप दिली.

घटोत्कच सांगात्यांक घेवन बदरी-नारायणाकूच पांडवां सरीं रावतालो. युधिष्ठिरान ताका म्हळें, 'पुता, आनी-आनी कळाव लावं नाका. भीम खंय कसलीं धाडसां करीत, सांगूं नज. तो सौगंधिक वनांत गेला जावंक जाय. आत्तांच्या आत्तां आमी थंय गेल्ले बरे.'

घटोत्कचान सांगात्यांक रोखडेच आपोवन हाडले. तांणी खिणाचोय कळाव लायनासतना युधिष्ठिर नकुल सहदेव द्रौपदी लोमश धौम्य सगळ्यांक फाटकुळेर उबारून सौगंधिक वनांत व्हरून पावयले.

थंय पळे जाल्यार, भिमान कितल्या-श्या राक्षसांक जिते मारून उडयल्यात. उरिल्ल्यांतल्या कोणाचे हात मोडल्यात, कोणाचे पांय मोडून घाल्यात. अजाप म्हळ्यार, इतलेंय हें करून लेगीत कुबेरान ताका कांयच करूंक ना. ताणे भिमाक थंयच्यान धांवडावनूय घालूंक ना. ताका भौमानान येवकारूय दिवंक ना.

युधिष्ठिराक मुखार कुबेराचें घर दिश्टी पडलें. ताच्या मनांत थंय वचचें अशें आयलें. कशें वचचें, कोणाक विचारचें, तो येवजितालो, इतल्यांत आकाशवाणी

जाली: 'भितर वचपाचो बेत तकलेंतल्यान काडून उडय. आयिल्लो ते वाटेन परतो बदरी-नारायणाक वच. कुबेराचें घर पळेतलोच जाल्यार बदरी-नारायणा पावन वृषपर्व्याच्या आश्रमांत वच. थंयच्यान तुका तें दिश्टी पडटलें.'

आकाशवाणी जाली आनी रोखडीच थंड शितळ वाऱ्याची एक झुळूक फुलां घेवन आयली. फुलां पांडवांच्या माथ्यार पावसा वरी शिंवरलीं.

लोमश आनी धौम्य दोगांयचें मत्त पडलें, आकाशवाणीन सांगलां तशेंच करपाचें. मोन्यानी उठून बदरीकाश्रमांत वचपाचें.

युधिष्ठिर भिमा सयत सगळ्यांक घेवन आशिल्लो तसो बदरी-नारायणाक परतलो.

## ७९. जटासूर

बदरी-नारायणाक आसतना पांडवांचेर एक ल्हान-शें संकश्ट कोंसळ्ळें.

भीम आनी घटोत्कच रानांत भोंवडेक गेल्ले. ह्या सुयेगाचो लाव घेवन जटासूर नांवाचो एक राक्षस ब्राह्मणाचो भेस घेवन युधिष्ठिरा सरीं आयलो आनी आपणाक मंत्र-शास्त्र येता, आपणाक तुज्या आलाशिऱ्याक दवर, अशें मागूंक लागलो. युधिष्ठिर ब्राह्मणांक केन्ना ना म्हणपी न्हय. ताणे जटासुराक आलाशिरो दिलो. गोबरांतलो इंगळो दिश्टी पडना तशें युधिष्ठिराचें जाल्लें. तो राक्षसाक सारको वळखूंक पावूंक नाशिल्लो. ताका ब्राह्मणूच लेखून दवरून घेतलो.

जटासूर जिबेन लापीट. तो युधिष्ठिराची सेवाय बरी करी.

एक दीस भीम सदचे वरी सावदां मारून हाडपाक भोंवडेक गेल्लो. घटोत्कच आनी तागेले सांगातीय भिमा वांगडा गेल्ले. लोमश मुनी समाधी लावन बशिल्लो. धौम्य न्हावपाक न्हंये तडीर गेल्लो. घरांत युधिष्ठिर नकुल सहदेव आनी द्रौपदी इतलींच आशिल्लीं. हीं सोडून लागसार कोण नात-शे पळोवन जटासुरान पांडवांचीं शस्त्रां अस्त्रां उबाल्लीं आनी मातूय कळाव लागूंक दिनासतना द्रौपदे वांगडा तिगूय पांडवांक खांदार मारून तो पळून वचपाक लागलो.

युधिष्ठिराक हें पळोवन अजापांचो धसको बसलो. जाका ब्राह्मण धरून आलाशिरो दिल्लो तो निमाणे राक्षस थल्लो! युधिष्ठिराक वायट दिसलें. ताणे ताका खंतीन विचाल्लें, 'सभाग्या, तुजें आमी कांयच वांकडें करूंक ना. परतो, तुका आलाशिरो दिला, तुका जेवण घालां, सगळे तरेन तुजो भौमान केला. आनी तूं आमकां पळोवन-सो व्हरता. जाचें अन्न खालां ताचें केन्ना वांकडें चिंतचें न्हय, अशें राक्षसांच्या शास्त्रांत लेगीत सांगलां. तूं तुगेल्याच कुळ-धर्माक पाळो करसो

दिना.'

पुणून जटासूर खंय आयकता. तो काना मनार घेनासतना पळत रावलो.

'हो आयकून घेवपाचो ना', युधिष्ठिरान मनांत म्हळें. 'हाची गती मंद करची पडली.' अशें येवजून ताणे आपल्या तपान ताची गती मंद केली. जटासुराचो धांवपाचो नेट उणो जालो. फाटी वयले पांडव ताका जड दिसपाक लागले.

इतल्यांत भीम पावलो. 'आरे चोरा! म्हाका तुजो पयलींच दुबाव आयिल्लो. तूं आमचीं शस्त्रां भौन भौन पळेतालो तेन्नाच म्हाका दिशिल्लें, तूं ब्राह्मण न्हय म्हुण. राक्षसूच आसूंक जाय म्हुण. म्हजो दुबाव आयज खरो थल्लो.' अशें म्हणून भीम किंवाट्यान ताच्या आंगार धांवलो.

जटासुरान भियेवन फाटी वयल्या पांडवांक सकल देंवयले. त्याच खिणाक भिमान ताका घट्ट धल्लो, उबाल्लो आनी जमनीर आपटून मारून उडयलो.

## ८०. कैलास पर्वतार

वनवासाचीं चार वरसां सोंपिल्लीं. पांचवें लागिल्लें. अर्जुन अस्त्रां जोडपाक गेल्लो तो केन्ना काय आयल्यार पुरो अशें पांडवांक जाल्लें. चार वरसांनी आपुण येतां अशें सांगून तो गेल्लो. ताका पळोवपाक पांडव आतां आकुळ पिकूळ जावंक लागिल्ले. तांगेलो धीर सुटिल्लो.

बदरी-नारायणाक आसतना युधिष्ठिरान एक दीस भावांक म्हळें, 'आमी आतां कैलास पर्वतार वचुंया. अर्जुन आमकां घडये थंयच मेळटलो. आपुण कैलास पर्वतार वतां अशें वतना ताणे सांगिल्लें.'

कैलासाची यात्रा आतां मेरेन केल्ले यात्रे परस सगळ्यांत कठीण आशिल्ली. तरी आसतना धीर करून ते भायर सल्ले. घटोत्कच आनी ताच्या इश्टांकूय तांणी सांगाताक घेतले. जातासर पांयांनी चलचें, पुरो जालें म्हणटकूच घटोत्कच आनी तागेल्या इश्टांच्या खांदार बसून मुखार वचचें, अशें तांणी थारायलें.

ते उत्तरे दिकेन चलत रावले. वाटेर तांकां कितलीं-शीं सुंदर गच्च रानां पळोवंक मेळ्ळीं. कितल्यो-श्यो सुंदर न्हंयो तांणी पळेल्यो. आकांताचे ऊंच पर्वत चडले. परत देंवले. सोळा दीस ते एका-सारके चलत रावले. चलत चलत सतराव्या दिसा ते हिमालयाच्या माथ्यार पावले. थंय एका सुंदर वाटारांत वृषपर्वा राजाचो आश्रम आशिल्लो. पांडव आपल्या आश्रमांत पाविल्ले पळोवन वृषपर्वा खुशाल भरीत जालो. ताणे तांकां बरो येवकार दिलो. तांची बरी बडदास्त दवल्ली. पांडव सात

दीस त्या आश्रमांत रावले. आठव्या दिसा ते पर्थून चलपाक लागले. लोमश आनी धौम्य दोगांक सोडून बाकिच्या ब्राह्मणांक तांणी वृषपर्व्याच्या आश्रमांत दवरचे अशें थारायलें. तांची एक-एकल्याची वृषपर्व्या कडेन वळख करून दिली. आनी म्हळें, 'फुडली यात्रा कठीण. म्हुण हांकां हांगा दवरून वतां.' वृषपर्व्याकूय ब्रह्मविद्येच्या जाणकारांची गरज आशिल्ली. आपले आध्यात्मिक अणभव ताका तर्जून पळोवपाचे आशिल्ले. इतले पयस सपसप कोण पावनाशिल्ले. हे आयते पाविल्ले. तांकां दवरून घेवन वृषपर्व्यान पांडवांक मुखावेली वाट जाणा जाल्लो एक मनीस दिलो. त्या मनशाच्या सांगातान पांडव चलत मुखार गेले.

वाट भयांक्रूत. चलता आसतना खरस लागताली. मर्दी मर्दी ते निर्शेताले. नज नज म्हणटाले. तरी आसतना धिरान मुखार वताले. चारूच दीस तांकां चलचें पडलें. पुणून जशे कितें युगां पसून चलत आसात अशें तांकां दिसपाक लागलें. तांकां ही यात्रा इतली कठीण दिसली. असली यात्रा तांणी हाचे पयलीं केन्ना करूंक नाशिल्ली. चौथ्या दिसा ते माल्यवान पर्वतार पावले.

इतलो सुंदर वाटार तांणी आयुष्यांत केन्ना पळोवंक नाशिल्लो. धर्तरेचे फाटीर असलो वाटार खंयूय आसत म्हणपाचो अदमासूय तांकां नाशिल्लो. खंयच पळोवंक मेळनात असलीं सुकणी-सावदां, तळयो, न्हंयो, कुचकुचीत झाडां पेडां, फळांनी फुलांनी भरिल्लो असलो फकत देवांकूच सोब सारको हो वाटार पळोवन 'स्वर्ग होच आसूंक जाय' अशें युधिष्ठिराक दिसपाक लागलें. ताचें मन खोशयेच्या उमाळ्यांनी भितल्ले भितर नाचूंक लागलें.

आर्ष्टिषेणाचो आश्रम ह्याच वाटारांत आशिल्लो. युधिष्ठिरान तो सोदून काडलो. आश्रमांत वचून ताणे आपलें नांव सांगलें आनी आर्ष्टिषेणाक तो पांयां पडलो. आर्ष्टिषेण पांडवांची खबर आयकून जाणा आशिल्लो. पांडवांचेर कोंसळ्ळेल्या संकश्टांची खबर ताच्या काना वयल्यान गेल्ली. देखून पांडवांक पळेना फुडें ताणे पयलो प्रस्न विचाल्लो तो असो : 'इतले त्रास, इतलेय अवमान आनी इतलेय अन्याय सोंसून सत्या वयलो तुमचो भावार्थ उडून वचूंक ना मू. अजुनूय धर्माक धरून तुमी चलतात मू. पातकां, फटींगपणा करपाची पाडी बुद्द तुमकां जावंक ना मू. उजू चलणुकेनूच तुमी चलतात मू. जाणटेल्यांचो आनी बुदवंतांचो भौमान करतात मू.'

'देवा दयेन अजून आमकां कसलीच पाडी बुद्द जावंक ना.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

जाप आयकून आर्ष्टिषेणाक बरें दिसलें आनी ताणे युधिष्ठिराक सांगलें, 'अर्जुन

येसर तुमी हांगाच रावात. पवित्र ऋषीं-मुनिंचो वाटार हो. तांचो सांगात तुमकां हांगा मेळटलो.'

ताणे तांकां एक शिटकावणीय दिली : 'मुखार हो तो जो पर्वत दिश्टी पडटा ती देव, दानव, सिद्ध आनी कुबेराची सुवात. थंय सिद्ध येतात,. तशे किन्नरूय येतात. पुनवे-पुनवेक तशेंच उमाशे-उमाशेक थंय गंधर्व आनी अप्सरा येतात. तांचें नाच गाणे ह्या दिसांनी थंय चलता. कुबेरूय त्या दिसांनी थंय येता. पुणून थंय वचचें न्हय. परकी कोण आयिल्ले तांकां मानवना. तांकां राग येता. इतलो एक नेम सांबाळून हांगा रावपाचें.'

'बरें आसा',युधिष्ठिरान ताका जाप दिली आनी आपल्या सांगात्यां सयत तो आर्ष्टिषेणाच्या आश्रमांत रावपाक लागलो.

हरिद्वारा साकून कैलासा मेरेनच्या वाटाराक ते मुस्तींत 'कैलास खंड' म्हणटाले. आयजूय ह्या वाटाराक लोक ह्याच नांवान वळखतात. हिमालयाची यात्रा करची म्हळी म्हणटकूच भारतवर्षांतल्या लोकांक होच वाटार येवजता.

बदरीनाथ आनी केदारनाथ हांगासल्लीं दोन मोटीं थळां. अलकनन्दा आनी मंदाकिनी हांगासल्ल्यो दोन न्हंयो. अजुनूय त्यो ह्याच नांवान व्हांवतात. नर आनी नारायण नांवांचीं दोन हिमशिखरां आयजूय बदरीनाथाक पळोवंक मेळटात. महाभारतांत मैनाक नांवाच्या आनीक एका पर्वताचो उल्लेख आयला. तोवूय आयज हांगां पळोवंक मेळटा. मुखार मन्दर-गिरी नांवाच्या आनी-एका पर्वताचो उल्लेख आयला. थंय मणिमान नांवाचो राक्षस राज्य करतालो अशें म्हळां. बदरीनाथा लागसार माणा नांवाचो एक गांव आसा. थंयचो हो पर्वत आसूं येता. सौगंधिक वन बदरीनाथा लागसारची भउंडार घाटी (वॅली ऑफ फ्लावर्स) आसूंक जाय. आयजूय ती फुलांनी भरिल्ली पळोवंक मेळटा. आयज जाका बंदरपूंछ म्हणटात त्या पर्वतार मारुतिचो आश्रम आशिल्लो जावंक जाय. देहरादुना उत्तरे दिकेन जमनोत्री लागसार बंदरपूंछ पर्वत आसा. मैनाक पर्वता मेरेनच्या वाटाराक आयजूय लोक कदलीवन म्हुण वळखतात. साधूंक ओड लावपी सुवात ही.

हिमालयाच्या माथ्यार त्रिविष्टपांत (तिबेटांत) कैलास येता. थंयच मानस-सरोवर आसा.बदरीनाथ आनी कैलासा मदीं कुबेराची अलकापुरी आशिल्ली जावंक जाय. कुबेराक राक्षस म्हळा. रावणाचो तो भाव. दोगूय तिबेटी. मॉंगोलॉइड लोकांक ते मुस्तींत राक्षस म्हणटाले. यक्ष, गंधर्व, किन्नर हिमालयांतल्या हेर जातिंच्या लोकांचीं नांवां आसूंक जाय.

लक्षांत दवरपाची गजाल : कैलास मानसाचे यात्रेक आयजूय लोक पांडव गेले तेच वाटेन वतात.

# ८१. कुबेराची भेट

जेवचें-खावचें, लोमश मुनी सांगतालो त्यो कथा आयकुच्यो, व्हडले व्हडले ऋषी मेळूंक येताले तांचे लागीं ब्रह्मविद्येच्यो खबरी करच्यो, अशें करीत करीत कांय म्हयने गेले. घटोत्कच तांकां पावोवपाक हांगा आयिल्लो. आपली हांगा गरज ना अशें आतां ताका दिसपाक लागलें. 'तुमकां म्हजी गरज पडटली तेन्ना म्हजो उगडास करात, हांव रोखडो उठून येतलों.' अशें सांगून तो गेलो. पांडव तपसव्यांचें जिवीत जियेवपांत गुल्ल जाल्ले. तांकां ह्या जिविताची आतां संवंय जाल्ली. युधिष्ठिर जाल्यार, क्षत्रिय धर्म साप विसरून गेल्लो. तप, त्याग, स्वर्ग, मोक्ष असलेच प्रस्न सोडोवपांत गुल्ल उरिल्लो.

कित्याचोच विसर पडूंक नाशिल्लो तो एकले द्रौपदेक. तिणे मर्दी मर्दी पांडवांक जागोवचे, उचांबळीत करचे. तांगेल्या क्षत्रिय धर्माचो तांकां उगडास करून दिवचो. तिगेलेंय रगत क्षत्रिय. तें तिका सरस्थ बसूंक दिनाशिल्लें.

एक दीस तिणे भिमाक म्हळें, 'मुखार हो तो पर्वत दिश्टी पडटा. केन्ना केन्ना वाव सुट्टा आनी थंयच्यान कांय फुलां हांगां येवन पडटात. इतलीं सुंदर फुलां त्याच वाटारांत फुलतात जावंक जाय. येदीय ही यात्रा करून आमी हांगा आयल्यांत आनी त्या पर्वतार वचप ना म्हळ्यार कितें. दिश्टी पडटा जावनूय पळोवप ना, कानार आदळटा जावनूय आयकप ना, हें सोंसपाचें व्हय. बरें, थंय कोणूच पावनात अशें कांय न्हय. यक्ष गंधर्व किन्नर अप्सरा थंय पावल्यात. मागीर, आमीच थंय वचप ना म्हळ्यार कितें. म्हाका तो वाटार दोळ्यांनी पळोवचो-सो दिसपाक लागला. इतलेंच न्हय, तुमकांय थंय मेकळेपणान भोंविल्ले पळोवपाची इत्सा जाल्या.'

तिणे भिमाक याद करून दिली: 'खांडव वनांत अर्जुनान गंधर्व सर्प राक्षसांचीच न्हय, तर खासा इन्द्राची लेगीत दानाधिस्पट करून उडयल्ली. तांकां धांवडावन घाल्ले. तूं ताचोच भाव, ताच्याकूय उणो न्हय.'

भिमाच्या वर्मार बशिल्ले वरी जालें. अर्जुनाचो उगडास करून दिवन हिणे आपणाक हिणसायला अशें दिसलें. तो रोखडोच गदा धोणु तीर तरसाद बी आयुधां घेवन भायर सल्लो आनी नीट त्या पर्वतार गेलो. आर्ष्टिषेणान वचूं नाका म्हुण सांगिल्लें थंयच गेलो.

आनी कुबेराच्या भांगरा प्रासादा मुखार वचून उबो रावलो.

भीम हांगा प्रासाद पळोवपाक येवंक नाशिल्लो. हो वाटार मेकळो करपाक

आयिल्लो. ताणे मोट्यान शंख वाजयलो. शंखाचो आवाज कानार पडना फुडें यक्ष गंधर्व राक्षस अजापांत पडले. ते धांवत आयले. भिमाक पळोवन चवताळ्ळे. ताका दंडणावंक लागले. भीम पर्वा करी नासतना थंड उबो रावलो. ताका तसो उबो पळोवन ते ताच्या आंगार धांवून गेले. आयुधां मोखून मारूंक लागले. भिमान धोणु उबाल्लें, तिरार तीर सोडून तांचीं आयुधां पयलीं मोडून उडयलीं. उपरांत तो एक-एकल्याक धरून जमनीर आपटून मारपाक लागलो. कितले-शेच मेले. उरिल्ले भियेले. आयुधां थंयच उडोवन पळ्ळे.

मणिमान नांवाचो एकलो कुबेराचो इश्ट थंय आशिल्लो. ताणे एका काळार व्हडले व्हडले दिग्विजय करून कुबेराची इश्टागत जोडिल्ली. तो थंय उबो रावन राक्षसांचें आनी भिमाचें झूज पळेतालो. राक्षसांची दानाधिस्पट जाल्ली पळेली तेन्ना तो खंती जालो. परत, भिमाक भियेवन ते पळून वतात तें पळोवन तापलो: 'पापयांनो, हो एकलो आनी तुमी इतले. तरी आसतना जीव मुठींत धरून पळून वतात म्हळ्यार कितें लज दिसना व्हय तुमकां. खंयच्या तोंडान तुमी आतां कुबेरा मुखार वचून उबे रावतले,' ताणे तांकां विचाल्लें आनी तो भिमाच्या आंगार किंवाट्यान जुडून गेलो.

तो धांवन येता तें पळोवन भिमान एक तीर सोडून ताच्यो पयलीं बरगड्यो मोडल्यो. मणिमान खुबलो. ताणे भिमाचेर गदा मोखून माल्ली. भिमान ती मोडून उडयली. मणिमानान उजो ओंकपी एक अस्त्र शेंवटिलें. तें भिमाच्या उजव्या हाताक धश्टून जमनीर पडलें. भीम रागान तांबडो गुंज जालो. गदा उबारून तो मणिमानाच्या आंगार धांवलो आनी शिंवान रेडो मारचो तसो मणिमानाक ताणे एकाच खिणांत मारून उडयलो.

मणिमान मेलो, हें पळोवन राक्षस गर्भगळीत जाले. ते गजाल मारीत कुबेरासरीं गेले.

युधिष्ठिर आश्रमांत ऋषीं वांगडा बसून ब्रह्मविद्येच्यो गजाली करतालो. ताच्या कानार राक्षसांच्यो किळांच्यो पडल्यो. तेन्ना ताणे भोंवतणी नदर भोंवडायली. ताका भीम खंयच दिश्टी पडलो ना. होच पावला जातलो थंय, हाणेंच कितेंय तरी कर्म केलां जातलें थंय, अशें येवजून उठलो. द्रौपदेक आर्ष्टिषेणा सुवादीन केली आनी आयुधां घेवन नकुल सहदेवा सयत तो पर्वतार गेलो. थंय वचून पळे जाल्यार, वचत थंय राक्षसांचीं प्रेतां शिंपडल्यांत. भिमाच्या पांयां कडेन मणिमानाचें प्रेत पडलां. युधिष्ठिराक वायट दिसलें. 'तुगेलें हें कर्तुप तुका सोबपा सारकें न्हय', ताणे भिमाक म्हळें, 'कुबेराच्या राज्यांत येवन कुबेराच्या लोकांक मारप समा न्हय.'

भिमाच्या भंयान जे राक्षस पळून गेल्ले ते कुबेरा सरीं गेले, कुबेराक तांणी

मणिमान मेल्ल्याची खबर सांगली.

'अशें कशें जालें', कुबेरान अजापान विचाल्लें.

'एका मनशान येवन सगळ्यांची दानाधिस्पट केली.'

जाप आयकून कुबेराक जाळ माल्लें. म्हणूंक लागलो, 'जोडात रथ, पळोवया कोण आयला तो.'

रथांत बसून कुबेर गंधमादन पर्वतार आयलो. ताच्या वांगडा ताचे सैनिक आशिल्ले.

पुणून, अजाप! भिमाक आनी तागेल्या भावांक पळोवन कुबेर खुशाल भरीत जालो. जो इतलो तिडकल्लो तो हांगा पावतकूच मोव कसो पडलो, ह्या अजापांत ताचे सैनिक पडले. ते ताच्या तोंडा कडेन पळोवपाक लागले.

पांडव गुन्यांवकारी जाल्ले वरी हात जोडून उबे राविल्ले.

फकत भीम तोंड फुगोवन कुशीक उबो आशिल्लो.

कुबेरान युधिष्ठिराक म्हळें, 'हो तुगेलो भाव धीट खरो. पुणून धर्माचें गिन्यान नाशिल्लो. संकश्टांत जो गणमणना, धिरान पावल उखलता, तो जिवितांत जैत जोडटा हें खरें. पुणून देश आनी काळ हांचो विचार करून जो पराक्रम करता तोच जैतवंत जाता. भिमाक हें खबर ना. ताणे हाचे पयलीं आनी-एक फावट हांगा येवन असलींच आडांगपणा केल्लीं. आयची ही दुसरी खेप. पुणून आयच्या ताच्या गुन्यावाक लागून ताका हांव ख्यास्त करपाचों ना. कित्याक, आयज जें घडलां तें घडपाचेंच आशिल्लें. भीम फकत निमित्त्याक कारण जाला.'

आनी कुबेरान तांकां एक खबर सांगली—

'कुशवती नगरांत देवांची एक बसका भरिल्ली. हांव ते बसकेक वचूंक भायर सरिल्लों. म्हज्या वांगडा यक्ष गंधर्व किन्नर राक्षस सगळे आशिल्ले. वाटेर यमुनेचे तडीर पावले तेन्ना अगस्त्य हात वयर करून तप करतालो, तो दिश्टी पडलो. हो जो हांगा मरून पडला तो म्हगेलो इश्ट मणिमान अंतराळांतल्यान तेच सभेक वतालो. गर्वान जायत, भुरगेपणाक लागून जायत वा अगस्त्य कोण तें खबर नाशिल्ल्यान जायत, मणिमान अगस्त्याचे तकलेर वेल्यान थुकलो. अगस्त्याक तिडक माल्ली. ताणे म्हाका श्राप दिलो : ज्या अर्थान तुजे हुजीर तुगेल्या ह्या इश्टान म्हजो अवमान केला, त्या अर्थान हो पाडे बुद्धिचो तुगेलो इश्ट एक दीस एकल्या मनशाच्या हातान मरतलो आनी ताच्या वांगडा तुगेले बरे बरे सैनिकूय मरतले. तांच्या मरणान खंती जाल्लो तूं तांकां मारतल्या त्या मनशाक पळेतलो, तेन्ना म्हज्या श्रापांतल्यान मेकळो जातलो.'

ही खबर सांगून कुबेरान म्हळें, 'आयज हांव अगस्त्याच्या श्रापांतल्यान मेकळो जालां. घडपाचेंच आशिल्लें तें घडलां, देखून हांव रागार जावंक ना. भिमाचेर म्हजो राग ना. तूंय रागार जावं नाका ताचेर. पुणून ताका मात्शी बरी बुद्द दिवंक जाय तुवें. मनशान साहसां करुंकूच जाय. पुणून केन्ना कशीं खंय हाचोय विचार ताणे करूंक जाय.'

कुबेरान मुखार म्हळें : 'आतां हांगा तुमी हुसक्या मेकळे रावात. ह्या मुखार हांगा-सल्ले यक्ष गंधर्व राक्षस तुमचे सेवेक हाजीर आसतले.'

भिमान रोखडींच आयुधां कुशीन उडयलीं. मुखार सरून ताणे कुबेराच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो.

## ८२. अर्जुन परतता

अवचित एक दीस एक दिव्य रथ आश्रमाच्या दारांत येवन उबो रावलो. 'हो इन्द्राचो रथ न्हय मू.' पांडव मनांत म्हणटात थंय आसात, इतल्यांत रथांतल्यान अर्जुन देंवलो. अर्जुनाक पळेना फुडें पांडवांचें काळीज खोशयेच्या उमाळ्यांनी भरून ओतपाक लागलें. द्रौपदेक तर कितें करूं, कितें नाका, अशें जालें.

अर्जुनाक सोडून रथ गेलो. म्हणटासर आनीक-एक रथ दारांत येवन उबो रावलो. तांतूंतल्यान इन्द्र देंवलो.

इन्द्रान युधिष्ठिराक सांगलें, 'आतां थोड्याच दिसांनी तुमकां बरे दीस येतले. अर्जुन तरांतरांचीं अस्त्रां शिकला. झुजांत ताका फाटीं उडोवपी संवसारांत आतां कोण ना. ताणे देवांक जाय आशिल्लीं कामां करून तांकां आपले वाटेन ओडून घेतल्यात. ताका सगळे तरेचो आधार दिवपाक तेवूय आतां मुखार सल्ल्यात. हांव तर तुमचोच. तेन्ना, तकलेंत कसलोय दुबाव वा दुगदुग उल्ला आसत जाल्यार तो आतां काडून उडय.'

खासा इन्द्राच्या तोंडांतल्यान अर्जुनाची तुस्त आयकून युधिष्ठिर खुशाल भरीत जालो. तकले वयलें एक जड ओजें देंविल्ले वरी ताका दिसलें.

अर्जुनान केल्ल्या तपाच्यो गजाली युधिष्ठिरान लोमश मुनिच्या तोंडांतल्यान ह्या आदीं आयकल्ल्यो. ताका खासा म्हादेव प्रसन्न जाल्लो. लोकपालूय प्रसन्न जाल्ले, सगळें तो जाणा आशिल्लो. पुणून ह्यो सगळ्यो खबरी ताका खासा अर्जुनाच्या तोंडांतल्यान आयकुपाच्यो आशिल्ल्यो. इन्द्रान म्हळ्ळें, हाणे देवांक जाय आशिल्लीं कामां करून तांकां आपले वाटेन ओडून घेतल्यात. देवांक कितें जाय आशिल्लें,

अर्जुनान कसलीं कामां केल्लीं, हेंवूय जाणा जावन घेवपाचें आशिल्लें. इन्द्रा कडल्यान सगळीं शस्त्रां अस्त्रां जोडल्या उपरांतूय अर्जुन इन्द्रलोकांत कित्याक रावलो, सगळें जाणा जावपाची ताका उमळशीक लागली.

इन्द्र गेल्या उपरांत ताणे अर्जुनाक विचाल्लें.

अर्जुनान ताका सुरवात पसून जें कितें घडलें तें सगळें बारीकसाणेन सांगून म्हळें—

'सगळें शिकून जातकूच एक दीस इन्द्रान म्हाका म्हळें, 'आतां तुज्यान जाय जाल्यार वचूं येता. पुणून वचचे पयलीं गुरुदक्षिणा दिवन वचूंक जाय, अशी चाल आसा. गुरुदक्षिणा कसली दिवं म्हुण विचारतकूच ताणे म्हळें: 'निवात-कवच दानव म्हजे दुस्मान. ते समुद्रांत रावतात. तांकां ना कर.' हांवें कळाव केलो ना. निवात-कवचांच्या शारांत वचपाक हांव भायर सल्लों. देवांनी म्हाका समुद्रांतल्यान वयर सरिल्लो देवदत्त शंख दिल्लो. तो वाजोवन हांवें निवात-कवचांक जागयले आनी तांचेर घुरी घालून सगळ्यांक ना करून उडयले.

जैत जोडून परतलों तेन्ना इन्द्रान म्हाका एक मुकुट, कांय वस्त्रां, आनी वस्ती भेट दिल्यो.'

इतलें सांगून अर्जुनान म्हळें: 'पांच वरसां हांव इन्द्रलोकांत उल्लों. पुणून खरें सांगतां: द्युता वेळार जो आमचो अवमान जाल्लो ताचो एक खीण लेगीत म्हाका विसर पडूंक नाशिल्लो.'

अर्जुनाच्या तोंडांतल्यान ताच्या कर्तुत्त्वाच्यो खबरी आयकून चौगूय भाव खुशाल भरीत जाले. द्रौपदी तर ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं 'अवमान विसरूंक ना' ही उतरां आयकून सगळ्यांत चड खोशी जाली.

निवात-कवचांक असूर म्हळ्यात. तांचीं शारां आशिल्लीं अशेंय म्हळां. आर्यां आदले सिंधु संस्कृतायेचे हे लोक आसूंक जाय. इन्द्रान तांगेलीं कांय शारां जिखिल्लीं, कांय मोडिल्लीं, कांय हुलपायल्लीं आनी कांय मातये भरवण केल्लीं. तांतलीं कांय तांणी परतीं जिखून घेतिल्लीं. निवात-कवचांचो संहार करून परतता आसतना अर्जुनाक हिरण्यपुर नांवाचें आनी-एक नगर मेळिल्ल्याचोय उल्लेख आयला. हांगा कालकेय आनी पौलम नांवांच्या असुरांचें राज्य चलतालें म्हळां. तेंवूय अर्जुनान जिखून इन्द्राक दिलें.

जाणकार म्हणटात, हिरण्यपुर हडप्पा आसूं येता.

## ८३. अस्त्रांचो प्रयोग

खबरी सोंपून सोंपनाशिल्ल्यो. आयकून पुरोय जायनाशिल्लें. युधिष्ठिराक आतां दुसरी एक उमळशीक लागली: अर्जुनान जोडिल्लीं अस्त्रां प्रयोगा सयत पळोवपाची.

अर्जुन प्रयोग करून दाखोवपाक फुल्लो. दीस लेगीत थल्लो. यक्ष गंधर्व दानव सगळे प्रयोग पळोवपाक आयले. खासा म्हादेव लेगीत आयलो. आतां प्रयोगाक सुरवात जातली म्हणपाक, नारद थंय पावलो. ताणे अर्जुनाक म्हळें, 'अर्जुना, असलीं पिशेपणा करूं नाका. ह्या अस्त्रांचो मेळत तेन्ना प्रयोग करिनात. तसोच प्रसंग आयलो जाल्यारूच करूंक जाय. ना जाल्यार, दुशण लागता. हो खेळ न्हय.'

अर्जुन रोखडोच सादूर जालो.

नारदान युधिष्ठिराक म्हळें, 'तुका अस्त्रां पळोवपाची उमळशीक लागल्या खरी, पुणून थोडे दीस राव. झुजा मळार तुका तीं पळोवंक मेळटलीं.'

युधिष्ठिराक चड सांगपाची गरज नाशिल्ली. तो रोखडोच समजलो.

अद्रुश्ट लेगीत पांडवांक सांबाळपाचो यत्न करतालें.

## ८४. हाराच्या तोंडांत भीम

पांडव कुबेरागेर रावताले. थंय तांगेली बरी सरबराय जाताली. कुबेरान तांची बरी बडदास्त दवल्लेली. तांगेले दीस बरे सुखांत वताले. चार वरसां ते थंय उल्ले. चार वरसां केन्ना सोंपलीं, तांकां कळ्ळें लेगीत ना. हीं आनी ताचे आदलीं मेळून धा वरसां तांणी वनवासांत सारिल्लीं.

इकरावें वर्स लागलें. पांचूय भाव एकठांय आसतना एक दीस भिमान युधिष्ठिराक म्हळें, 'तुज्या म्हणण्याक मान दिवन धा वरसां आमी वनवासांत काडलीं. वनवासाचीं दोन आनी अज्ञातवासाचें एक मेळून आतां तीन वरसां उल्ल्यांत. तिंवूय आमच्यांनी हांगा काडूं येतात. हांगा आमी सुखांत आसात. परतुपाची इत्सा लेगीत आमकां जायना, इतलें सुख आमी हांगा भोगतात. पुणून आनीक कितले दीस आमी हांगा रावतले. आमचेर अन्याय केला तांचो सूड घेवपाचो आमकां विसर पडूंक फावना. सूड घेवपाची आम्मची लागणूक आमी विसल्ले जाल्यार आमचें नाख कातरतलें. आयज कुबेरागेर जें सुख मेळटा तें आमच्यांनी मुखारूय जाय जाल्यार मेळोवं येता. आयुष्यभर आमच्यांनी हांगा रावं येता. कुबेर आमचोच. तो कांय म्हणचो ना. परतो खोशी जातलो. पुणून हांगा रावप समा म्हणूं येत व्हय. आतां आमी फुडली तयारी करुंया. आमकां आतां कसलोच भंय उरूंक ना. अर्जुन नवीं अस्त्रां घेवन आयला. त्या भायर कृष्ण आमच्या आधाराक आसा. सात्यकीय आसा.'

युधिष्ठिराक चड सांगचें पडलें ना. तो परतुपाचे तयारेक लागलो.

ह्याच वेळार हांगा लोमश मुनी भायर पडलो. ताच्या सांगातान पांडवांनी देश भोंवन पळेल्लो. कितल्यो-श्यो कथा ताच्या तोंडांतल्यान आयकल्ल्यो. कितलो-सो उपदेस आयकल्लो. लोमश मुनिच्या धिरारूच तांणी येदी व्हडली आनी इतल्या त्रासांची ही यात्रा केल्ली. तो भायर पडटकूच पांडवांक आपलें एक आंग गळून पडिल्ले वरी दिसपाक लागलें. तांचो जीव उखल्लो.

जीव उखल्लो. पुणून, पांय जड जाले. ते कशेच उखलनात जाले. काय बरो हो वाटार सोडून कशें वचप, अशें तांकां जालें. पुणून आतां तांकां वचचें आशिल्लें. ते जड पावलांनी भायर सल्ले. कुबेराचे उपकार मानून ते आर्ष्टिषेणाक पांयां पडले आनी ताचो आशीर्वाद घेवन चलपाक लागले.

गंधमादन पर्वताक पळोवन युधिष्ठिरान म्हळें, 'एक दायकी आसा आंगार. ती पुरी करतां आनी मागीर एक दीस परतो येतां, तुज्या सांगातांत रावपाक.'

परते पर्वत चड, देंव सुरू जालें. तांणी फांतोडेर उठचें, चलपाक लागचें. दन्परां पावता थंय रांदून जेवचें. परतें चलपाक लागचें. दीस पडटकूच खंयचेय तरी एके धोलींत विसंव घेवचो. हे भाशेन तांची नव्यान यात्रा सुरू जाली. नव्यान पर्वत पळेत, न्हंयो तोखेत, चलत चलत ते वृषपर्व्याच्या आश्रमांत आयले. थंय वृषपर्व्यासरीं एक रात सारून चलत बदरीनारायणाक गेले. थंय ते म्हयनो भर उल्ले. उपरांत परते चलत सुबाहुच्या राज्यांत आयले. सुबाहुगेर तांगेले रांदपी, वावुरपी मानाय आशिल्ले. हिमालयांत वतना तांकां ते थंय दवरून गेल्ले. तांकां मेळ्ळे आनी तांच्या वांगडा थंय दवल्लेलें सामान घेवन ते चलत जमनोत्रीक पावले. यमुना जमनोत्रीकसून भायर सरता. थंय विशाखयूप नांवाचें एक वन आसा. कुबेराच्या चैत्ररथा इतलेंच सुंदर: हें थळ पांडवांक मानवलें. थंयच रावचें अशें तांणी थारायलें.

हांगा आशिल्ले तेन्नाची खबर. एक दीस भीम भोंवडेक गेल्लो. भोंवडेक वचून सावदां मारून हाडप ताचेंच काम आशिल्लें. तो सद्दां वतालो. त्या दिसा, ताका वाटेर एक हार दिश्टी पडलो. येदो आकांताचो हार पळोवन भिमाक भंय दिसलो. ताच्या आंगार कांटो फुल्लो. हाराक आतां कितें करचें, ताका मारचो काय सोडून वचचें, अशें भीम येवजितालो. इतल्यांत हारान ताचेर उडी घेतली. आपल्या आंगान पयलीं ताणे ताच्या हातां-पायांक पीळ घालो, मागीर ताका आंवळून घेतलो. भिमाच्या आंगांत शेंकड्यांनी हतयांचें बळ. पुणून ह्या हारा मुखार हें बळ उपकारा पडलें ना. ताणे आपणाक सोडोवन घेवपाचो यत्न केलो. पुणून हारा

मुखार तो दुबळो पडलो. भीम घुंवळ्ळो. ताणे हाराक म्हळें : हांव भीम. वाग, शिंव, रेडे हांवें अशेच मारून उडयल्यात. यक्ष गंधर्व राक्षसांची चेटणी केल्या. आयज पयलेच फावट म्हाका म्हज्याकूय बळिश्ट तूं मेळ्ळा. तूं सादो हार न्हय. अशें सांगून ताणे विचाल्लें, 'तूं कोण.'

भिमाचो दुबाव खरो आशिल्लो. आदल्या जल्मांतलो हो एक राजा हार जावन पडिल्लो. पांडवांचो एक म्हालगडो ययाती, तागेलो बापुय हो, नहुष. एका काळा वेलो त्रैलोक्याचो धनी. ताका सत्येचो मद मारिल्लो. आपणालें माचूल उबारपाक तो भोयां बदला ऋषीं-मुनींक लायतालो. ताणे हे भाशेन हजारांनी ऋषीं-मुनिंचो अवमान केल्लो. एक दीस ताणे अगस्त्याक माचूल उबार म्हुण सांगलें. अगस्त्याक राग आयलो, ताणे नहुषाक श्राप दिलो. श्रापान नहुष हार जावन पडिल्लो.

भिमाक हजार गजाली येवजल्यो. कौरवांक बुद्द शिकोवपाची उल्ल्या. ताचे पयलींच हो म्हाका मारून उडयता काय कितें. हांव मेलों जाल्यार युधिष्ठिराचो आवरो उडटलो. मागीर तो सत्यभास काडून वतलो. कौरवां कडल्यान राज्य घेवपाचें सोडून दितलो. ताका कुन्तिचो उगडास जालो. केन्ना तेरा वरसां सोंपतात, रानांत गेल्ले पुत केन्ना येतात, केन्ना राज्य परतें घेतात, हाची वाट पळेत बावडी बसल्या जातली.

हे वाटेन युधिष्ठिराक भालू हुयेली घालतात त्यो आयकूंक आयल्यो. कावळे काचाबूल जावन उडटात ताणे ते पळेले. इतल्यांत.एकूच पांय, एकूच पांख, एकूच दोळो आशिल्लें एक शेवणे ताका दिश्टी पडलें. तें सुर्या कडेन पळोवन रगत ओंकतालें. 'खंयूय तरी कितेंय तरी घडूंक फावना तें घडलां', ताणे मनांत म्हळें. म्हणटासर ताचो उजवो दोळो उडपाक लागलो.

ताणे द्रौपदेक विचाल्लें, 'भीम खंय गेला.'

'भोंवडेक गेल्लो.'

'केन्ना सो.'

'येन्नासर येवंक जाय आशिल्लो.'

युधिष्ठिर आनी-आनीक येवजूंक बसलो ना. द्रौपदेक अर्जुना सुवादीन करून भायर सल्लो. जमनीक भिमाचीं पावलां लागिल्लीं. तीं पळेत उदेंते कडल्या एका रानांत भितर सल्लो. कांय रूख हुमटून पडिल्ले पळेले, तेन्ना भीम हे वाटेनूच गेला जावंक जाय अशें येवजून तो तेच वाटेन चलत रावलो. थंयूय ताका ताच्या पावलांचे दाग दिश्टी पडले. तो चलत मुखार गेलो. मुखार कितें पळेतलो. एक हार भिमाचें आंग चरचरून आंवुळटा आनी भीम निश्चेष्ट पडला. युधिष्ठिराचें आंग

शिरशिरलें.

ताणे हाराक विचाल्लें, 'बाबा, तूं कोण. हांव युधिष्ठिर. हो म्हजो भाव, भीम. खरें सांग, तूं देव दैत्य दानव हांचे भितल्लो कोण. कितें दिल्यार तूं हाका सोडटलो.'

हारान आपली वळख करून दिली, आपुण तुमगेलोच म्हालगडो नहुष म्हुण सांगलें. हार जावन कित्याक पडलो तेंवूय सांगलें. आनी म्हळें, 'म्हाका दुसरें कांय नाका, म्हाका एक भूक लागल्या. ती भागयशीत जाल्यार तुज्या भावाक सोडीन.'

'कसली भूक', युधिष्ठिरान विचाल्लें.

'गिन्यानाची. हांव विचारतां त्या प्रस्नाच्यो जापो दिशीत व्हय.'

'यत्न करतां', युधिष्ठिरान म्हळें.

'ब्राह्मण कोणाक म्हणचो,' नहुषान विचाल्लें. ताचे नदरेन हो सगळ्यांत चड म्हत्त्वाचो प्रस्न आशिल्लो. हो प्रस्न ताणे हाचे पयलीं जायत्या जाणांक विचारिल्लो. ताका सारकी जाप मेळूंक नाशिल्ली. खासा आपुण ऊंच कुळयेंत जल्मा आयिल्लो आसतना अधोगतीक पाविल्लो. म्हणटकूच, ऊंच कुळांत जल्मा आयलोच म्हुण मनीस व्हड जायना. मागीर मनीस व्हड केन्ना आनी कसो जाता, ह्या प्रस्नाची जाप ताका जाय आशिल्ली.

युधिष्ठिरान खिणाचोय कळाव लायनासतना जाप दिली, 'सत्य, शील, तप, दया, क्षमा असले गुण जाच्या आंगांत आसात ताकाच ब्राह्मण म्हणटात.'

'सुदराच्या आंगांत हे गुण दिश्टी पडले जाल्यार ताकाय तूं ब्राह्मण म्हणटलो व्हय', नहुषान विचाल्लें.

'हयच. सुदराच्या आंगांत हे गुण आसत जाल्यार तो सुदीर उरचो ना आनी ब्राह्मणाच्या आंगांत ते नासत जाल्यार ताका ब्राह्मण म्हणूंक येवचें ना.' युधिष्ठिरान अन्नमन नासतना जाप दिली, 'जाच्यांत शील आसा तोच ब्राह्मण. शील ना, तो सुदीर.'

'मागीर, जाती खंय उल्ल्यो.' नहुषान विचाल्लें.

'जाती आसात पयलीं खंय.' युधिष्ठिरान परतो प्रस्न करून जाप दिली. 'सगळ्यांचीं रगतां भरसल्यांत. रगतां भरसूंक नाशिल्ली एकूय जात मेळची ना. देखून, शील, चारित्र्य पळोवनूच मनशाची जात थारावंक जाय, जल्म खंयच्या कुळांत जाला हें पळोवन न्हय.'

युधिष्ठिराच्यो जापो आयकून नहुष खोशी जालो. ताका श्राप दितना अगस्त्यान म्हळ्ळें : 'तुज्या प्रस्नांक जो सारक्यो जापो दितलो तो तुका श्रापांतल्यान सोडयतलो.' युधिष्ठिराच्यो जापो आयकून नहुष श्रापांतल्यान मेकळो जाल्लो.

आनी भीम ताच्या तोंडांतल्यान सुटलो.

हें पर्व मुदलांतलें महाभारतांतलें न्हय. भागवत-धर्म वयर सल्ला ते मुस्तींत कोणें तरी हाडून तें महाभारताक जोडलां. शक-यवनांच्यो भौन भौन आगळिको येवपाक लागल्यो तेन्ना भारतीय समाज विस्कळीत जाल्लो. ताका परतो एका सुतांत बांदून घट-मूट करपा खातीर हांगा एक नवो धर्म उदेल्लो. तो भागवत धर्म. शील आनी आचार पळोवन मनीस ब्राह्मण काय कोण तें थारावंक जाय ह्या मत्ताचो. ह्या मत्ताक धरून भागवतांनी कितल्या-श्या जातिच्या लोकांक ब्राह्मणाचे पंगतीक हाडून बसयल्ले. इतलेंच न्हय, तर किरात, हुण, आंध्र, पुलिन्द, बर्बर, यवन असल्या कितल्या-श्या भायल्या जातिंच्या लोकांक लेगीत तांणी ब्राह्मण करून घेतिल्ले.

सत्य शील तप दया क्षमा हे गुण म्हळ्यार उदरगतिचीं दारां. जाच्या आंगांत हे गुण आसात तो जल्माक खंयचेय जातींत येवं, ताका ब्राह्मण लेखूंक जाय अशें भागवत मानताले. बुद्धा उपरांतचें मत्त हें.

हाराच्या तोंडांतल्यान भीम सुट्टा त्या वेळार युधिष्ठिर नहुषाक ब्रह्मविद्येचे कांय प्रस्न विचारता. नहुष ज्यो जापो दिता तांतूंत भागवत-धर्माच्या मुळाव्या तत्त्वांची फोडणिशी आयल्या.

ह्या 'आजगर पर्वा' उपरांत रोखडेंच एकेचाळीस अध्यायांचें आनीक-एक पर्व महाभारतांत येता. ताचें नांव 'मार्कण्डेय समास्या पर्व.' पांडव हिमालयांतल्यान परतल्यात आनी परते द्वैतवनांत वचून रावल्यात. थंय एक दीस मार्कण्डेय ऋषी तांकां मेळपाक येता. पांडव ताका पूर्वजांच्यो कथा सांगपाक लायतात. मार्कण्डेय त्यो सांगता. कथा आयकुपाक द्रौपदी आनी पांडवां भायर कितलेशेच ब्राह्मण ताचे भोंवतणी बसतात. इतलेंच न्हय, तर कृष्ण आनी सत्यभामाय त्यो आयकूंक येतात. नारदूय येता. मार्कण्डेय तांकां ज्यो कथा* सांगता त्यो भागवत-धर्माच्यो कथा. तांगेल्या मत्तांची, तांगेले नदरेची, तांगेल्या देखिंची फोडणिशी करपी. हेंवूय पर्व मुदलांतलें न्हय. भागवतांनी हाडून हांगा दसयलां.

शक-कुशाण-यवन काळांत विस्कळीत जाल्लो भारतीय समाज खंयच्या क्रान्ति-तत्त्वांक धरून परतो बांदून काडपाचो यत्न जाल्लो, हें जाणा जावपाचे नदरेन म्हत्त्वाचें पर्व हें.

## ८५. पर्थून द्वैतवनांत

विशाखयूप वनांत पांडव गिमांत पाविल्ले. गीम सोंपलो, पावसाळो सुरू जालो. तोवूय सुखांत गेलो. उपरांत शियाक सुरवात जाली. जमनोत्रिच्या वाटारांतलें शीं सोंसपाचें न्हय. तें चुकोवचें अशें पांडवांक दिसपाक लागलें. पुणून खंय वचचें हें तांकां

* एक कथा परिशिष्टांत दिल्या.

सुचनाशिल्लें. ते येवजूंक बसले. सरस्वतिचे तडी वयल्या द्वैतवनाचो तांकां उगडास जालो. वनवासाचे सुर्वेक ते ह्या वनांत राविल्ले. वनवास आतां सोंपपा कडेन आयिल्लो. वनवासाचे निमाणे दीस द्वैतवनांत सारचे. अशें तांणी थारायलें.

कार्तिकांतले पुनवेक भायर सरून ते विशाखयूप वनांतल्यान द्वैतवनांत आयले.

पांडव द्वैतवनांत परतल्ल्याची खबर सगळे कडेन पातळ्ळी. कृष्णाच्याय कानार पावली. ताका केन्ना काय पांडवांक मेळन-शें जाल्लें. तो रोखडो उठून द्वैतवनांत आयलो. येतना ताणे सत्यभामेक वांगडा घेतली.

कृष्ण पांडवांक मेळटालो तेन्ना पयलीं युधिष्ठिराच्या आनी भिमाच्या पांयांक हात लावन नमस्कार करतालो. धौम्या सारकेल्या ऋषीं-मुनिंची पाद्यपुजा करतालो. नकुल-सहदेवाचे नमस्कार घेतालो आनी अर्जुनाक वेंग मारतालो. उपरांत द्रौपदेच्या तोंडा कडेन पळोवन मुमुरख्यांनी हांसतालो आनी धिराचीं दोन उतरां तिका सांगतालो.

कृष्ण येतकच पांडवूय खुशाल भरीत जाताले. आयज तर तो कितल्या-श्या वरसांनी मेळटालो. अर्जुनाक जाल्यार आपल्या जैताच्यो खबरी केन्ना काय कृष्णाक सांगीन जाल्ल्यो. कृष्णाकूय त्यो केन्ना काय आयकन-श्यो जाल्ल्यो.

सगळ्यांक मेळ्ळ्या उपरांत कृष्ण आनी अर्जुन एकठांय बसले. अर्जुनान पयलीं वासपूस घेतली, सुभद्रेची.

'सुभद्रा कशी आसा.' अर्जुनान विचाल्लें. सुभद्रा अभिमन्यूक घेवन कुळारा वचून राविल्ली.

'बरी आसा, तुजी याद काडटा', कृष्णान जाप दिली.

द्रौपदी म्हऱ्यांतूच आशिल्ली. तिच्या तोंडा कडेन पळोवन कृष्णान म्हळें: 'तुगेले पुत आतां वयार आयल्यात आनी शाणेय जाल्यात. अस्त्रविद्येंतूय पाटांगडे जाल्यात. ते मदीं मदीं द्वारकेक येवन रावतात. तेन्ना, सुभद्रा तांची खूब अपुर्बाय करता. तांकां बऱ्यो देखी दिता. प्रद्युम्नूय तांकां मन लावन शिकयता.'

मागीर युधिष्ठिरा कडेन पळोवन ताणे म्हळें, 'तुका बेश्टो धर्मराज म्हणिनात लोक. खरोच तूं धर्मराज. धर्मा खातीर थोडें सोंसूंक ना तुवें. पुणून आतां फुडले तयारेक लागिल्लें बरें. यादव, अंधक, कुक्कुर तूं सांगशीत तें करपाक तयार आसात. थोडे दीस उल्ल्यात. ते वचूं दी. मागीर शाल्व गेला ते वाटेन दुर्योधनाकूय धाडून दिवंया.'

युधिष्ठिर खोशी जालो. ताणे इतलीच जाप दिली, 'आमकां तुजोच आधार, तुजोच धीर. वनवासाचे उरिल्ले दीस आनी अज्ञातवासाचें वर्स सोंपतकूच तुवें

सांगपाचें आमकां आमी कितें करूंक जाय तें.'

तांगेल्यो गजाली चलताल्यो, इतल्यांत मार्कण्डेय ऋषी येता म्हणपाचें कोणे येवन सांगलें. पांडवां सयत कृष्ण उठलो. ताकतिकेन भायर वचून ताणे ऋषीक येवकार दिलो. कृष्णाक असलो कोणूय ऋषी ह्या दिसांनी हांगा आयिल्लो जाय आशिल्लो. वनवासाचे उरिल्ले दीस पांडवांक जड वतले अशें ताका दिशिल्लें. ते ल्हव करपाक गिन्यानाच्यो गजाली सांगपी मनशाच्या सांगाताची तांकां गरज आशिल्ली. पांडव ध्येय विसल्ल्यात, अज्ञातवासाची तयारी करपाची सोडून तत्त्वचिंतनांत गुल्ल उल्ल्यात, अशें तो कौरवांक भासोवंकूय सोदतालो.

'बरो योग जुळून आयला' ताणे मार्कण्डेयाक म्हळें. 'तूं आयतो हांगा पावला. आतां देखिर्चीं चार उतरां आनी धर्माच्यो चार कथा सांग आमकां.'

नारदूय थंय पाविल्लो. ताणेय कृष्णाचे मागणेक तेंको दिलो.

'म्हाकाय खूब सांगपाचें आसा तुमकां. त्याच खातीर तर आयलां हांव हांगा.' अशें म्हणून मार्कण्डेय तांचे सरीं रावलो.

ताणे एक नवें सत्र सुरू केलें.

भोंवतणच्या लोकांच्या कानार मार्कण्डेय आयिल्ल्याची खबर पावली. तेवूय तागेल्यो कथा आयकुपाक येवंक लागले.

मार्कण्डेयान सद्दां एक आख्यान सांगचें. ताणे खासा आपलेंच आख्यान पयलीं सांगलें; मागीर धुंधुमाराचें, धर्म व्याधाचें, अंगिरसाचें, अशीं एका फाटल्यान एक आख्यानां सांगलीं. स्कन्द-जल्माची कथा सांगली. सुख वा दुख्ख देव दिता काय मनीस आपल्या करण्यांक लागून भोगता; मनीस मरतकूच ताच्या करण्यांचें कितें जाता, एक आनी दोन न्हय, हजार प्रस्न युधिष्ठिर विचारतालो. तितल्यांच्योय तो जापो दितालो.

मार्कण्डेयाचें सत्र कितलेशे दीस चल्लें.

## ८६. द्रौपदेचो पतिव्रता धर्म

मार्कण्डेयाचीं आख्यानां आयकुपाक कृष्णा वांगडा सत्यभामाय येवन बसपाक लागली. आख्यानां चलिल्लीं आसतना पांडवांची नदर भौन भौन द्रौपदेचेर पडटाली. तें पळोवन सत्यभामेक अजाप जालें. लग्न जावन हांकां कितलीं-शीं वरसां जालीं, तरूय नवी होंकल जाल्ले वरीच हे तिच्या तोंडा कडेन भौन भौन पळेतात. अशें कितें आसा हिच्यांत. पांचूय घोवांचो सारकोच मोग ती कशी जोडूंक पावली.

तेचे तकलेंत असले कितले-शे प्रस्न उपरासले.

एक दीस सत्यभामा आनी द्रौपदी आख्यानां सोडून गजाली करपाक पयस गेल्यो. उलयतां उलयतां सत्यभामेन द्रौपदेक विचाल्लें, 'इन्द्रा सारके एका फुडले एक घोव हे तुगेले. केदो मोग तांचो तुजेर! कितें करून तुवें तांकां तुज्यांत घुसपावन दवल्ल्यात. तूं कसलें व्रत करता, कसलें तपः काय जादू-बिदू मंत्र-तंत्र बी करता. कित्याक लागून ते सामके तुजे जावंक पावल्यात.'

सत्यभामेचे प्रस्न आयकून द्रौपदी दुखावली. म्हणूंक लागली, 'कितें विचारता तूं म्हाका हें? तुज्या प्रस्ना फाटल्यान एक दुबाव आसा. आपल्या घोवाचेर जादू-मंत्राचो उपकर करतात त्यो उणाक बायलो. हांव हे वाटेन वचन अशें दिसता व्हय तुका. बायल आपणाचेर जादू-मंत्र करता म्हणपाचो सपनांत लेगीत दुबाव येत जाल्यार, खंयचोच घोव तिका पातयेवपाचो ना. सोरपाक भियेता तसो तो बायलेक भियेतलो. घोव बायलेक भियेवंक लागत जाल्यार घरांत सस्थताय नंदूक पावची ना. आनी घरांत सस्थताय नासत जाल्यार सुख खंयच्यान मेळटलें. जादू-मंत्रान खंयचोच घोव बायलेक वश जायना. हांव कशीं चलतां, सांगतां.' अशें म्हणून तिणे आपलो धर्म सत्यभामेक समजावन सांगलो.

'घरांत हांव केन्नाच हांवहांव करिना. म्हाका जाय तशेंच जावंक जाय, म्हजेंच सगळ्यांनी आयकूंक जाय, अशें म्हणिना. हट धरिना. रागार जायना, फुगार जायना. तिडकना. अमकें जाय, तमकें जाय म्हणिना. सदां धादोस भरीत रावतां. घोवांची सेवा करतां. तांचें मन राखपा खातीर करूंक जाय तितलेंय करतां. काळजांतलो मत्सरूय हांवें काडून उडयला. बसतां, उट्टां, चलतां तेन्ना तांची नदर म्हजेर आसा अशें धरून सगळें करतां. तांकां म्हजे चाल-चलणुकेंत कितेंच उणे दिसचें ना, हाची जतनाय घेतां. खंयच्याच परक्या दादल्याच्या तोंडा कडेन हांव पळेना. मागीर, तो देव गंधर्व मनीस धनवान तरणाटो कोणूय आसूं. घोव जेवले बगर जेविना. ते न्हाले बगर हांव न्हायना. ते न्हिदले बगर हांव न्हिदना. घरांत चाकर मानाय, दास दासयो आसत जाल्यार तांचीं जेवणा जाल्या उपरांतूच हांव जेवतां. एका काळार आमगेर हजारांनी लोक जेवणाक आसताले. तांचो सगळ्यांचो भौमान हांव राखतालीं. हजारांनी दास दासयो आशिल्ल्यो. सगळ्यांचीं नांवां म्हाका खबर आशिल्लीं. कोण कितें करता, कितें न्हेसता, सगळे कडेन म्हजी नदर आसताली. घोव भायल्यान येतात तेन्ना हांव उठून तांकां येवकार दितां, बसपाक आसन पातळायतां. घर हांवूच सांबाळटां. हांवूच रांदतां, हांवूच वाडटां. हांवूच सान्न मारून घर निवळ दवरतां. आळसायेंत एक खीण लेगीत वचूंक दिना.

कोणाक वायट दिसत, कोणाच्या' मनाक लागत, असलें एक लेगीत उतर तोंडांतल्यान येवंक दिना. कुटुंबाच्यो ज्यो चाली मांयन शिकयल्ल्यो तांकां मना पसून पाळो दितां. बायलेन घोवाच्याच आसऱ्यांत रावंक जाय. तोच देव, तीच गती अशें धरून चलूंक जाय, अशें मानीत आयल्यां. देखून तांकां नाका तें हांव केन्ना करिना. केन्ना चूक घडूंक दिना. रातिचो दीस करून तांची सेवा करतां. घरचो हिशेब हांवूच दवरतां. इन्द्रप्रस्थाक आसतना राज्याची येणावळ कितली, ती खंयच्यान येता, खर्चून खंय वता, सगळ्या गजालिंचेर म्हजी बारीक नदर आसताली. म्हजें व्रत तें हें. घोवांच्या एकान एक कामांत आधार दिवप, तांची सेवा करप, तांकां खोशी दवरप, ते उठचे पयलीं उठप, ते न्हिदल्या उपरांत न्हिदप, हे भाशेन चलतां. देखुनूच ते मोग करतात. घोवाची अशी सेवा करूंक जाय कि ताका हिचो मोग दिशीं-दिशीं वाडत वता अशें दिसूंक जाय.'

द्रौपदेन आपलो प्रस्न उरस्तऱ्यां व्हेलो अशें सत्यभामेक दिसलें, त्या खातीर तिका वायट दिसलें. तिणे म्हळें, 'हांवें फकाणा केल्लीं. फकाणा करपाचो हक आसता इश्टिणींक. तुका म्हज्या प्रस्नाक लागून वायट दिशिल्लें आसत जाल्यार म्हाका क्षमा कर.'

द्रौपदेन उरस्तऱ्यां कांयच व्हरूंक नाशिल्लें. तिका एक संद मेळिल्ली. तिचो लाव घेवन तिणे आपलो धर्म समजावन सांगिल्लो. सत्यभामेन कृष्णा लागीं चलतना ह्या धर्माक धरून चलचें आनी कृष्णाक सुख मेळचें म्हुण.

इतल्यांत, कृष्णाचो उलो दोगींच्या कानार पडलो. तो द्वारकेक वचूंक भायर सरिल्लो. रथ तयार आशिल्लो. रथांत चडचे पयलीं सत्यभामेन द्रौपदेक वेंगेंत घेतली आनी म्हळें, तुगेल्या भुरग्यांचो हुस्को करूं नाका. ते द्वारकेक आमचे सरीं आसात. आनी सुभद्रा तांची पोटच्या भुरग्यां भाशेन माया करता.

## ८७. घोषयात्रा

मार्कण्डेयाच्या ज्ञान-सत्राचे ओडीन भोंवतणच्या वाटारांतले ब्राह्मण द्वैतवनांत येताले आनी आख्यानां आयकताले. तांतले कांय जाण मर्दी मर्दी हस्तिनापुराक वताले आनी धृतराष्ट्राक हांगासल्ल्यो खबरी सांगताले. तांतल्या एकल्यान एक दीस धृतराष्ट्राक सांगलें :

पांडव तुर्त द्वैतवनांत आसात, खबर आसा मू. पळोवं नज तांकां. तांची गत काकूळटेणी जाल्या. वोत वारो पावस सोंसून सामके किडकिडीत सुकीं काश्टां कशी

जाल्यात. द्रौपदी तर सामकी अनाथा सारकी दिसता.

पांडवांची गत अशी जाल्ल्याची खबर आयकून धृतराष्ट्र खंती जालो. हुसक्यांत पडलो. हून उस्वास सोडपाक लागलो. आपणाक लागुनूच तांची गत अशी जाल्या, अशें मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागलो. 'तांणी अन्याय सोंसले खरे, पुणून सूड घेतले बगर ते रावपाचे नात. भितल्ले भितर ते फणफणटात जातले. अन्यायांचो उगडास काडून काडून उसळटात जातले. सारके न्हिदनात जातले. असलें जायतें कितें कितें ताका येवजपाक लागलें. युधिष्ठिर बरो म्हुण तो ओगी रावला. तो ओगी आसा म्हुण बाकिचेय ओगी रावल्यात. पुणून फाल्यां वनवास आनी अज्ञातवास सोंपोवन ते परते येतले तेन्ना ते ओगी रावतले, अशें म्हणूं नज. खुबले जाल्यार हुलपावन एक-एकल्याचो गोबोर करतले. दुर्योधन आनी तागेले सांगाती शकुनी कर्ण कुड्डे. तांकां म्होवां पोळें दिश्टी पडटा. मुखावेलो फोंड दिश्टी पडना. वाऱ्याक कोणे हालोवपाची गरज ना. तो आपशींच व्हांवता. गुरवार बायल बाळंत जाताच जाता. दीस उदेवपा वेळार रात आनी रात उदेवपा वेळार दीस सोंपताच सोंपता. असल्यो गजाली चुकयल्यो म्हुण चुकपाच्यो नात. तशें पातकांचें फळ चुकपाचें ना. तें भोगचेंच पडटलें. इतले उतळताप सोंसल्या उपरांत पांडव सूड घेतले बगर रावपाचे नात. तांतूंत अर्जुन खंय स्वर्गार गेल्लो. बेश्टो न्हय, दिव्यास्त्रां शिकपाक गेल्लो. सूड घेवपाचें मनांत नाशिल्लें जाल्यार तो थंयच्यान कित्याक परततलो आशिल्लो. स्वर्गार गेल्लो कोण केन्ना परतता व्हय.' धृतराष्ट्र मनांतल्या मनांत येवजूंक लागलो.

निमाणे ताणे आपणालो हुस्को शकुनीक सांगलो. शकुनी कर्णा सरीं गेलो. मागीर दोगूय दुर्योधना म्हऱ्यांत आयले. कर्णान दुर्योधनाक म्हळें, 'जाणटेल्याक बसूं दी हुस्के काडीत. ताका हुस्के काडपाची संवय. पांडव तुजें कांयच वांकडें करूंक पावपाचे नात. संवसारांतले सगळे राजा आयज तुजे वटेन आसात. तुका कर भरतात. लक्ष्मी पांडवांगेर उदक भरताली, ती आतां तुगेर भरता. तुजी सत्या केदी, तुका खबर ना. तूं भियेवं नाका. तूं अशें कर, द्वैतवनांत वच, पांडवांक पळोवं दी तुजें तेज, तुजें वैभव. फुट्टूं दी तांचे दोळे. संकश्टांत पडिल्ल्या दुस्मानाक पळोवन जें सुख भोगता ताची सर आनी खंयच्याच सुखाक येवपाची ना. तुगेल्या राणयांकूय वांगडा घेवन वच. तांकां पळोवन द्रौपदेच्या पोटांत दुखतलें. सभेंत जें दुख्ख जाल्लें ताच्याकूय चड हांकां पळोवन जातलें.'

'तूं सांगता तेंच म्हज्या मनांत घोळटा,' दुर्योधनान ताका जाप दिली. 'पुणून थंय वचप कशें. धृतराष्ट्र सोंपेपणान वचूंक दिवपाचो ना. ताका पांडवांची काकूळट

आनी भंयूय. आमी थंय पांडवांक नखलामी करपा खातीर वचूंक सोदतात अशें तो म्हणटलो आनी आडमेळीं हाडटलो. दैन्यांत पडिल्ल्या पांडवांक पळोवपाची म्हाका केदी उमळशीक हाचो तुका अदमास आसचो ना. तांकां दैन्यांत पळोवन म्हाका अख्खी धर्तरी मेळिल्ल्याची खोस जातली. आडखळ फकत धृतराष्ट्राची. दुसरो कसलोय उपाय सोदून काडात. कसलेंय एक निमित्त्य.'

शकुनी आनी कर्ण सवन रात येवजीत बसले.

कर्णाकि अवचित एक उपाय येवजलो. दुसऱ्या दिसा ताणे दुर्योधनाक म्हळें, 'द्वैतवना लागसार गवळ्यांचे वाडे आसात. घोषयात्रेच्या निमित्त्यान थंय वचुंया.

> ते मुस्त्रींत एक चाल आशिल्ली : आपणाल्या राज्यांत वियेल्ल्यो गायो कितल्यो, गाबण्यो कितल्यो, हाचो हिशोब वरसान वर्स राजा काडटाले. तीन वरसांचे पिरायेचीं पाडकां लेगीत मेजताले आनी ताका राज्याचें 'गोधन' लेखताले. ह्या गोधनाची जतनाय घेताले. ज्या वाटारांत गवळी पावताले ताका 'घोष' म्हणटाले. एका-एका 'घोषांत' हजारांनी गायो आसताल्यो. धा हजार गायो ज्या घोषांत आसताल्यो ताका 'व्रज' म्हणटाले.

हो उपाय आयकना फुडें शकुनीन खोशयेन उडी मारून कर्णाक म्हळें, 'शाब्बास ! बरो उपाय सोदून काडलो तुवें. धृतराष्ट्र आतां वचूं नाका म्हणपाचो ना.'

रोखडेच तिगूय उठून धृतराष्ट्रा सरीं गेले. शकुनीन पयलीं समंग नांवाच्या एका गवळ्याक थंय शिकोवन धाडलो. ताणे धृतराष्ट्राक गोरवां मेजपाच्या वावराचो उगडास करून दिलो. कर्ण आनी शकुनी त्याच वेळार थंय पाविल्ले. दोगांयनी धृतराष्ट्राक म्हळें, 'गोरवां एका सुंदर रानांत एकठांय जाल्यांत. घोषयात्रे खातीर होच म्हुर्त बरो. भोंवडी काडपाचेय दीस हे.'

धृतराष्ट्रान तांगेलो दाव वळखून म्हळें, 'जाणा हांव. गोधनाचो हिशोब लावंकूच जाय. त्या खातीर हो म्हुर्त बरो. पुणून पांडव थंयच लागसार येवन रावल्यात म्हणपाचें आयकलां. आमी फटींगपणा करून तांगेलें राज्य जिखलां. आपणाचेर जाल्लो हो अन्याय ते विसरूंक नात. तपान आतां तर तांचें बळूय वाडलां. खुबले जाल्यार कितें करतीत सांगूं नज. तुमीय गर्वान भरिल्ले. तुमी कितें करशात, तेंवूय सांगूं नज. तुमी कितेंय केलें आनी तांणी तुमकां हुलपावन उडयले जाल्यार कितें करपाचें. गोधन मेजपाक आनी-कोणाकूय धाडुंया. तुमी वचपाची गरज ना.'

शकुनीन आयुष्यांत केन्ना केलें ना, तें केलें. ताणे पांडवांची पोटभर तुस्त केली आनी म्हळें, 'युधिष्ठिर उतराचो मनीस. तेरा वरसां सोंपसर तो कितेंच करपाचो ना. तागेले भाव तागेले सांगणेन चलपी. बरें, आमचें म्हणशीत जाल्यार, घोषयात्रेक वचचें आनी ह्या निमित्त्यान थोडी भोंवडी काडची, इतलेंच आमच्या मनांत आसा. खरेंच, दुसरें कांय ना. पांडवांक तिडावपाचें निखालूस मनांत ना.

तुका जाय जाल्यार आमी उतर दितात : पांडव रावतात त्या वाटारार आमी वचचे नात.'

धृतराष्ट्रान वचात म्हळें.

दुर्योधन रोखडोच दुःशासन, शकुनी, कर्ण आनी कांय भावांक घेवन भायर सल्लो. वांगडा तांणी आपणाल्यो बायलोय घेतल्यो आनी द्वैतवना लागसार दोन कोसांचे वाटेर वचून सैन्या सयत रावले.

गोधन मेजून जातकूच दुर्योधनान सद्यस्क नांवाचो एक याग केलो. मागीर भोंवड्यो काडपाक लागलो. करतां करतां एक दीस पांडव रावताले त्या रानांत पावलो. थंय कांय दीस रावचें, अशें येवजून ताणे आपल्या चाकरमान्यांक सांगलें, 'रान मात्शें निवळ करून घेयात. हांगा कांय दीस रावपाचें मनांत आसा.'

त्या दिसांनी चित्रसेन गंधर्व रानांत येवन राविल्लो. अप्सरां वांगडा तागेलो हांगा विहार सुरू जाल्लो. दुर्योधनाचे चाकरमाने आनी सैनिक रानांत भितर सरतात तें पळोवन चित्रसेनाच्या सैनिकांनी तांकां आडावन विचाल्लें, 'हांगा तुर्ताक चित्रसेनाचो विंहार चल्ला म्हणपाचें खबर ना व्हय तुमकां.'

दुर्योधनाचे सैनिक अजापले. किर्ते करचें तें समजना जावन ते दुर्योधना सरीं गेले. दुर्योधन उसळ्ळो. 'धांवडावन घालात सगळ्यांक भायर.' ताणे हुकूम सोडलो.

सैनिक परतले. तांणी गंधर्वांक नेटान सांगलें, 'तुमीच वचात हांगासल्ले. दुर्योधन राजा येवन रावपाचो आसा हांगा.'

गंधर्व खुबले. म्हणूंक लागले, 'भितर मात सरात तुमी, पळेतले.'

गंधर्वांची पर्वा करिनासतना सैनिक भितर सल्ले. गंधर्व चवताळ्ळे. तें पळोवन कर्ण गंधर्वांचेर एक-एक अस्त्र सोडीत रावलो. रोखडोच झुजामळार चित्रसेन देंवलो. ताणे कर्णाक घाय केलो. कर्ण धीट. पुणून चित्रसेना मुखार ताची धिटाय कित्याक उपकारली ना. घायार घाय जाल्ले पळोवन तो भियेलो आनी विकर्णाच्या रथांत बसून पळ्ळो. कर्ण पळून वचना फुडें बाकिच्यांचो आवरो उडलो. तेवूय मेळत ते वाटेन पळूंक लागले. कौरवांच्या सैन्याची दानाधिस्पट जाल्ली पळोवन गंधर्वांक चेव आयलो. दुर्योधन बायलो घेवन आयिल्लो. गंधर्व एकएकलेक उबारून घेवन वचपाक लागले. चित्रसेनान दुर्योधनाक धल्लो आनी ताका बांदून घेवन गेलो.

कौरवांच्या सैन्यांतले कांय जाण युधिष्ठिरा म्हऱ्यांत धांवन गेले आनी ताच्या पांयार घालून घेवन म्हणपाक लागले, 'गंधर्वांनी भयो भयो केल्यो आमच्यो. दुर्योधनाक लेगीत ते बांदून घेवन गेले. तागेल्यो बायलोय घेवन गेले.'

म्हऱ्यांत भीम आशिल्लो. तो खोशी जालो. 'तश्शें फाव तांकां' तो म्हणपाक

लागलो, 'आमकां विपन्नावस्थेंत पडिल्ले पळोवपाक आयिल्ले दळदिरे हांगा. दुबळ्यांचो दुस्वास करतल्यांक अशेंच भोगता. एक दीस आमी करतले आशिल्ले तें भायले भायर गंधर्वांनी केलें. बरेंच जालें!'

युधिष्ठिरान म्हळें, 'भिमा, असलें उलोवपाचो वेळ न्हय हो. ते संकश्टांत पडल्यात. आमचो आधार मागपाक आयल्यात. आमच्यांतले धोशिंचो तिसऱ्याक लाव घेवंक दिवंक जायना. आमी हांगा रावतात म्हुण गंधर्व जाणात. मागीर, आमच्या कुटुंबांतल्या बायलांचेर हात घालपाचो धीर कसो जालो तांकां. वेळ होगडावं नाकात. सोडोवन हाडात सगळ्यांक.'

अर्जुन रोखडोच आयुधां घेवन धांवलो. फाटोफाट भिमूय धांवलो.

पांडव येतात तें पळोवन गंधर्व धांवपाचे थांबले.

'सोडात सगळ्यांक'. अर्जुनान गंधर्वांक सांगलें.

गंधर्व हांसून म्हणपाक लागले, 'आमी एकल्याचीच आज्ञा मानपी, इन्द्राची. आनी कोणाचीच न्हय.'

'इन्द्रान दुसऱ्यांच्यो बायलो पळोवन व्हरच्यो म्हुण सांगलां व्हय तुमकां.' अर्जुनान विचाल्लें. 'बरे भाशेन सगळ्यांक सोडात.ना जाल्यार.

'ना जाल्यार कितें.'

'पळेतले व्हय' अशें म्हणून अर्जुनान तांचेर तीर सोडले. चित्रसेनान गदा उबाल्ली. अर्जुनान तिरान तिचे सात कुडके करून उडयले. चित्रसेन धांवत अर्जुना सरीं आयलो. विचारपाक लागलो, 'अर्जुना, म्हाका वळखना व्हय तूं. हांव चित्रसेन. तुगेलो इश्ट. उगडास आसा व्हय तुका. कांय वरसां पयलीं हांवें तुका चाक्षुषी विद्या शिकयल्ली.'

'मागीर, तुवें अशें कशें केलें तर.' अर्जुनान ताका विचाल्लें.

'तें करपा खातीर खासा इन्द्रान धाडिल्लो म्हाका हांगा.'

'इन्द्रान!' अर्जुनान अजापान विचाल्लें.

'हय. ताणेच धाडिल्लो. दुर्योधन तुमकां तिडावपाक हांगा येता हें ताणे पळेल्लें. ह्या पाडे बुद्दिच्या मनशाक धरून आपणासरीं हाडात अशें ताणे आमकां सांगिल्लें.'

'सोड ताका आतां.' अर्जुनान चित्रसेनाक सांगलें.

'सोडपा सारको न्हय हो, अर्जुना. हाच्या मनांत कितें आसा, तुका खबर ना.'

'जावं. युधिष्ठिराचे इत्सेक मान दिवन सोड ताका.'

दुर्योधनाक घेवन चित्रसेन युधिष्ठिरा म्हऱ्यांत गेलो आनी 'तुजें इत्सेक मान दिवन सोडटां' अशें सांगून ताका सोडून दिलो.

युधिष्ठिरान चित्रसेनाचे उपकार मानले आनी दुर्योधनाक म्हळें, 'असलीं पिशेपणा, भावा, परतीं करूं नाका आं! आतां वच तूं घरा.'

दुर्योधनाक लज जाली. तो मान सकल घालून परतलो.

## ८८. दुर्योधनाचो उपास

कर्ण आनी शकुनी दुर्योधनाची वाट पळेत राविल्ले. दुर्योधन परतो येता तो पळोवन दोगांकूय सू जालें. 'जावं, आयलो हो बरे भाशेन' अशें म्हणून दोगूय ताच्या म्हऱ्यांत गेले. कर्णाक पच्छात्ताप जाल्लो. आपुण पळून कित्याक गेलों, हें तो समजावन सांगपाक लागलो. ताणे म्हळें, 'म्हजो उपाय नाशिल्लो. म्हाका कितले-शे घाय जाल्ले. ते पळोवन आमचे सैनिक पळपाक लागले. तांकां धीर दिवंक जाय आशिल्लो. पुणून तो म्हाका दिवंक आयलो ना. म्हजें आंग रग्तबंबाळ जाल्लें. पुणून जावं, तुवें गंधर्वांक बरी बुद्द शिकयली जातली.'

दुर्योधन रडपाक लागलो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. 'कर्णा, तुका कांयच खबर ना! तांकां हांव कसली बुद्द शिकयतलों आशिल्लों. तांणी म्हाकाच न्हय रे धरून व्हेलो. म्हजे हात-पांय चरांटून बांदले. म्हजे हुजीर म्हज्यो बायलो उबारून व्हेल्यो. म्हज्यो भयो भयो जाल्यो. आमच्या सैनिकांनी युधिष्ठिराच्या पांयार घालून घेतलें म्हुण अर्जुन आनी भीम आधाराक धांवन आयले. आनी तांणी म्हाका सोडयलो. धर्तरेन म्हाका आं करून पोटांत कित्याक घेतलो ना, सांग रे! बायलां हुजीर म्हाका बांदून व्हरप, तांचे हुजीर भिमान आनी अर्जुनान म्हाका सोडोवन हाडप, तेंवूय युधिष्ठिराचे दयेन. सोंसपाचें न्हय हें. म्हाका लज जाली. आयुष्यभर जांचो दुस्वास केलो तांणीच म्हाका सोडोवन हाडचो मरे. ते परस मेलों ना कित्याक रे हांव.'

सांगतां सांगतां ताचो गळो भरून आयलो. तो हुंदक्यांनी रडपाक लागलो. खंयच्या तोंडान आतां हस्तिनापुराक परतो वतलों; धृतराष्ट्राक तोंड कशें दाखयतलों; विदुर, भीष्म विचारतले, तांकां कितें जाप दितलों, ताचे तकलेंत असले प्रस्न उपरासपाक लागले. मागीर ताणे निर्णय घेतलो : 'ना, मानी मनीस असलो अवमान केन्ना सोंसचो ना. आतां हांव अन्न उश्टावचों ना, उपास करून प्राण सोडटलों.' अशें म्हणून तो थंयच बसलो.

दुःशासन म्हऱ्यांत आशिल्लो. ताका कितें करचें कांयच समजना जालें. दुर्योधनाची निर्शेणी काडपा खातीर ताणे म्हळें, 'चल ऊठ, तुका अभिषेक करतां.'

म्हणटासर दुःशासनाचोय गळो भरून आयलो. तोवूय रडपाक लागलो. दोगूय रडटात तें पळोवन कर्ण फणफणलो. तांकां विचारपाक लागलो, 'गांवढळां भाशेन रडटात शे तुमी. रडून केन्ना कोण सुखी जाला व्हय. तरी बरें, पांडव हांगा नात म्हुण. तुमी रडटात ते पळोवन ते खोशी जातले आशिल्ले. पांडवांनी तुमकां सोडोवन हाडले ते उपकार जाले व्हय तांचे. तांणी सोडोवन हाडपाचेच. तुज्याच राज्यांत रावतात ते. राजाक प्रसंगार पावप ही राज्यांत रावतल्या जण-एकल्याची लागणूक. उपकार करूंक नात पांडवांनी.'

कर्णान अवचित सूर बदलून म्हळें, 'तांची देख घेयात रे पापयांनो. तांगेलें वैभव तुमी काडून घेतलें. तांकां रानांत धांवडावन घाले. तांणी उपास करून प्राण सोडला व्हय. तांचो धीर खचला व्हय. उपासाची भास उलयशात जाल्यार लोक हांसतले तुमकां. उठात, धीर धरात. बेश्टे खंती जावं नाकात.'

पुणून कर्णाचो उपदेस कित्याक उपकारा पडलो ना. ताचो दोगांचेरूय परिणाम जालो ना. दुर्योधन तर रडत रावलो. तें पळोवन शकुनीक वायट दिसलें. दोगांयची ताका तिडकूय माल्ली. तो म्हणपाक लागलो, 'कसली अवदिसा येवजल्या रे दुर्योधना, तुका ह्या प्रसंगार. पांडवांचें येदें व्हडलें राज्य हाडून आमी तुका दिलें. तें भोगपाचें सोडून उपास करून प्राण सोडपाक तूं बसला. तुका कितें म्हणचें. देवान दिल्लें दैव नाडटा म्हणटात तें अशें. जाणट्यांचे सांगणेन तूं केन्नाच चल्लो ना. ताचें फळ हें. पुणून, एक मतींत धर: राजा भिजूड म्हुण प्रजेक कळत जाल्यार प्रजा ताका मानची ना. खंयचेच प्रजेन आयज़वेर भिजूड राजाक मान दिवंक ना. पांडवांनी तुका गंधर्वांच्या दावकुलांतलो सोडयलो म्हुण तूं खंती. जाल्यार सांग, तांणी तुज्यो भयोभयो केल्ल्यो जाल्यार तूं कितें करतलो आशिल्लो. तुज्यो भयो भयो करपाचो तांकां हक आशिल्लो. हय मरे. म्हजें माल्शें आयकतलो व्हय. ह्या प्रसंगाचो लाव घेवन पांडवांची तोंडभर तुस्त कर. तांकां व्हडपण दी. व्हडपण दिवन आपुण कितलो उदार तें सगळ्यांक दाखोवन दी. सगळ्यांक तुजी लक्कुबाय दिसतली. तुंजी नामना ज़ातली. दुस्मानाचेर जैत जोडपाची हिवूय एक तरा. कळ्ळें? जाय जाल्यार पांडवांचें पांडवांक दिवन उडय. पुणून उपकार कर आनी उपास करून प्राण सोडपाचो बेत तकलेंतलो काडून उडय.'

दुर्योधन हरशींय जाल्यार दुसऱ्याचें आयकून घेवपी मनीस न्हय. तांतूंत आयज तर ताणे आकांताचो धसको घेतिल्लो. कर्णान आनी शकुनीन सांगिल्लें ह्या कानांतलें त्या कानांतल्यान सोडून दिवन तो खऱ्यांनीच उपासाक बसलो.

कर्ण आनी शकुनी उबगले. येवजी येवजी येवजून अखेरेक तांणी दुर्योधनाक

म्हळें, 'बरें आसा. तूं उपास करतलो जाल्यार कर. आमी तुका आडायनात. पुणून हस्तिनापुराक वचून आमी किर्ते करतले. आमीय हांगा तुजे सरीं 'बसतात. तूं थंय आमी.'

दुर्योधनाचो उपास सुरू जालो. एकूच दीस जाल्लो. रातचें दुर्योधनाक एक सपन पडलें :

पाताळांत दैत्य आनी दानव एकठांय बसल्यात. दुर्योधन उपास करून मेलो जाल्यार तांगेलें कशें जातलें, ह्या हुसक्यांत ते पडल्यात. हें संकश्ट चुकोवपा खातीर ते एक याग करतात. यागा खातीर बृहस्पती शुक्राचार्य बी व्हडले व्हडले ऋषी मुनी आयल्यात. ते वेदांचे मंत्र मोट्या मोट्यान म्हणटात. अवचित यागाच्या कुंडांतल्यान एक अपरूप देवता वयर सरता. दैत्य तिका सांगतात : दुर्योधन उपास करपाक बसला. ताका हांगा घेवन यो. एका खिणांत देवता येता आनी दुर्योधनाक उबारून व्हरता. खंय व्हरता, दुर्योधनाक समजना. अनवळखी वाटार आनी अनवळखी तोंडां पळोवन तो काचाबूल जाता. ताका काचाबूल जाल्लो पळोवन दैत्य-दानव ताका सांगतात : जाका आपणालें हित समजना तोच उपास करून जीव दिता. जीव दितकूच फाटल्यान लोक ताका शी थू करतात. तूं जीव दिशीत जाल्यार तुज्या कर्तुत्वाचें नाशें जातलें. तांतूंत तुज्या दुस्मानांक तर खूब खोस जातली. उपरांत ते सांगतात, दुर्योधना, तूं भियेवं नाका. आमी म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतला. म्हादेवान तुजी कूड वज्रा भाशेन घट केल्या. तुजे कुडिचो बोंबले पसूनचो वयलो वांटो म्हादेवान, तर सकयलो पार्वतिन घडयला. तुजे कुडीक खंयचेंच अस्त्र लागपाचें ना. अस्त्र कोणेंय माल्लें जाल्यार अस्त्र मोडटलें. तुजे कुडीक कांयच जावपाचें ना. तूं किरकोळ मनीस न्हय. तूं दिव्य मनीस. आमी सगळे दैत्य-दानव तुज्या फाटल्यान आसात. अर्जुनाक तूं निखालूस भियेवं नाका. कृष्णान नरकासुराक मारिल्लो. तेन्ना नरकासुराचो आत्मो कर्णाचे कुडींत वचून रावलो. तो अजून थंयच रावला. तो अर्जुनाक माल्ले बगर सरस्थ बसपाचो ना. त्या भायर, संशप्तक नांवाचे सगळे राक्षस अर्जुनाक मारपाक मुखार सल्ल्यात. तुमचें आनी पांडवांचें झूज पेट्टलें त्या वेळार ते भीष्म द्रोण कृप अश्वत्थामो सगळ्यांच्या आंगांत रिगतले. ते तुजे खातीर झुजतले. ते तुज्या दुस्माना भितल्ल्या एकल्याक लेगीत जिवो सोडपाचे नात. तेन्ना, उपकार कर आनी हीं उपासाचीं पिशेपणा सोड.

दुर्योधन हें सगळें आयकून खोशी जाता. इतल्यांत जी देवता ताका हांगा घेवन आयिल्ली तीच ताका उबारून परतो आशिल्लो थंय व्हरून दवरता.

आनी सद्द करून दुर्योधन जागो जाता.

सपनाचो परिणाम दुर्योधनाचेर जाले बगर राविना. जाग येतकूच तो येवजूंक लागता, कितें काय अर्थ ह्या सपनाचो. कितें सुचयता काय तें म्हाका. ताका मागीर खोलायेन दिसता : पांडवांक जिखपा खातिरूच आपणे जल्म घेतला. उपास करून जीव होगडावप पिशेपणा सामकीं. तो उपास सोडपाचो मनांतल्या मनांत बेत करता. पुणून कित्या खातीर उपास सोडटां तें कोणाक सांगप ना, अशें थारायता. तें मनांत भितरूच दवरता.

सकाळ जाली. कर्ण न्हावन आयिल्लो. दुर्योधन जागो जाल्लो पळोवन तो ताच्या म्हऱ्यांत आयलो आनी ताका सांगपाक लागलो, 'कितें घेवन बसला तूं हें. असलीं पिशेपणा करून तुका कितें मेळटलें. ऊठ आतां. अर्जुनाचो पराक्रम पळोवन भियेला व्हय तर तूं. तशें जाल्यार, हो घे हांव हांगाच सोपूत घेतां : झुजांत अर्जुनाक मारून ताचें राज्य तुका दिलें ना जाल्यार हांवूच न्हय जायन.'

दुर्योधनान उपास सोडपाचो पयलींच बेत केल्लो. कोण सोड म्हणटा काय म्हुण तो वाट पळेतालो. तांतूंत कर्णान हो सोपूत घेतलो. सोपूत आयकून तो खोशी जालो. तो रोखडोच उठलो आनी म्हणपाक लागलो, 'चलात तर, या आमी हस्तिनापुराक. उपास सोडलो हांवें.'

## ८९. विष्णुयाग

दुर्योधनान उपास सोडिना फुडें कर्ण आनी शकुनी दोगांयचे तकले वयलें ओजें देंविल्ले वरी जालें. मना वयलीं खंतिचीं कुपां उबून गेलीं. कर्णान खुशाल भरीत जावन दुर्योधनाक वेंग माल्ली. रोखडेच ते हस्तिनापुराक येवपाक भायर सल्ले. खंयचे कडेन कांयच जावंक नाशिल्ले वरी ते परतले.

पुणून चित्रसेनाच्या हातान दुर्योधनाच्यो भयो भयो जाल्ल्याची खबर ते आडावंक पावूंक नाशिल्ले. ही खबर हस्तिनापुराक पयलींच पाविल्ली. सगळे एकामेकांक ती फुतफुतून सांगपाक लागिल्ले.

दुर्योधनाक वेळार सादूर करप आपली लागणूक अशें भिष्माक दिसलें. दुर्योधन हस्तिनापुराक पावना फुडें भिष्मान ताका आपोवन हाडलो आनी सांगलें : 'कांय गजाली कितल्योय लिपय तूं, लिपून उरनात. पांखां आशिल्ले वरी त्यो सगळे कडेन उडत वतात. सगळे कडेन पातळटात. घोषयात्रेक तूं कित्या खातीर गेल्लो आनी थंय तुज्यो कश्यो भयो भयो जाल्यो हें हांगा सगळ्यांक कळ्ळां. तूं वचूंक फुरफुरिल्लो त्या वेळार तूं कित्या खातीर थंय वता, हें हांव जाणा आशिल्लों. तुजें

किर्ते जातलें हाचोय म्हाका अदमास आशिल्लो. देखून तुवें वचचें न्हय अशें म्हजें मत्त जाल्लें. आनी हांवें तें तुका मेकळेपणान सांगिल्लें. तरी आसतना तूं गेलो. करूंक फावनाशिल्लें तें थंय वचून केलें आनी मार खावन परतलो. हो तुगेलो इश्ट कर्ण व्हडलो पराक्रमी अशें म्हणटालो न्हय तूं. तागेलो पराक्रम तुवें आतां पळेलो मू. तुका संकश्टांत धुकलून आपुण पळून आयलो मू. तागेल्या पराक्रमाचो बोमाडो अखेरेक फुटलो मू. तुका सांगल्यार खरें दिसना. तो गर्विश्ट. तोंडाच्यो लातबडायो सोडून कांयच ना ताचे कडेन. पांडवांच्या चवथ्या वांट्या येदें लेगीत बळ नाशिल्लो मनीस हो. ताचेर आधारून तूं फुडले बेत करशीत जाल्यार फस्तीक पडटलो. म्हजें आयकशीत व्हय. तुज्याच बऱ्याचें सांगतां. हांची संगत सोड. पांडव आतां थोड्या दिसांनी परततले. ते परतले म्हणटकूच तांचो वांटो तांकां बरे भाशेन दिवन उडय. कुरु-कुळाच्या कल्याणा खातीर सांगतां हांव तुका हें. तांचे कडेन दुस्मानकाय करप म्हळ्यार आपलोच घात करून घेवप.'

भिष्माचो उपदेस आयकून दुर्योधनाक जाळ माल्लें. पुणून तो कांय उलयलो ना. ओगी रावन ताणे तो आयकून घेतलो. ताका परती जाप केली ना. मोन्यांनी उठून गेलो. दुर्योधन उठून वतकूच ताच्या फाटोफाट कर्ण आनी शकुनीय उठून गेले. तांकांय भिष्माची तिडक मारिल्ली.

आपुण सांगतां तें दुर्योधन काना-मनार लेगीत घेना, हें पळोवन भिष्माक वायट दिसलें. थोडी भोव लज जाल्ले वरी लेगीत दिसलें. हो कुरुकुळाचो घातूच करपाचो आसा, अशें ताका खोलायेन दिसपाक लागलें. आनी तो खंती जालो.

भायर वतकूच कर्ण फणफणूंक लागलो. भिष्माचीं उतरां सगळ्यांत चड ताकाच लागिल्लीं. काळजाक सामकीं तोपिल्लीं. 'हो सदां पांडवांचीच तुस्त गायता आनी म्हजीं उणी काडटा. हांव कोण किर्ते तो दाखोवन दितलों हाका एक दीस,' अशें ताणे मनांत थारायलें. कर्ण मुदलचो मानी. परत, तागेलो आत्मविश्वास आकांताचो. तांतूंत भर म्हळ्यार, कुरुकुळांतले हे जाणटेले ताका भौन भौन दुखयताले. ताणे दुर्योधनाक म्हळें, 'भीष्म सदां म्हजो दुस्वास करीत आयला आनी हांव तुगेलो इश्ट जाल्ल्यान तो तुजोय दुस्वास करूंक लागला. आमचीं उणी दाखोवपाची एक लेगीत संद तो होगडायना. आमी कांयच न्हय. आमकां मोलूच ना अशें एकासारकें तो सगळ्यांक सांगीत रावता. आमी कुरुकुळाचो घात करतले अशें तो म्हणटा. ताचे दोळे दिपकायन तरूच खरो हांव. राजसूय यज्ञांत चौग पांडवांनी मेळून जें केलें तें हांव एकलो करून दाखयतलों. दिग्विजयाक वचून अख्खी धर्तरी जिखून तुज्या पांयां कडेन हाडून दवरतलों. तूं म्हज्या कर्तुत्वाचो

दुबाव घेवं नाका. कर्तुत्व पराक्रम म्हळ्यार कितें तें हांकां दाखयन तरूच खरों.'

'तुज्या कर्तुत्वाचो हांवें केन्ना दुबाव घेतला व्हय रे कर्णा', दुर्योधनान खुशाल भरीत जावन ताका म्हळें. 'तुजेरूच पातयेवन तर हांव रावलां. वच तूं दिग्‌विजयाक. तुका कितें जाय तें सांग, कसलो आधार जाय तुका.'

दुर्योधनान ताका सैन्य दिलें. तें घेवन कर्ण दिग्‌विजयाक भायर सल्लो.

सगळ्यांत पयलीं ताणे द्रुपदाचेर घुरी घाली. द्रुपदान ताका मात लेगीत आडायलो ना. तो मागता तें दिवन उडयलें. द्रुपदाचेर जैत जोडून तो मुखार गेलो द्रुपदाच्या हाता खालच्या राज्यांचेर ताणे घुरयो घाल्यो. ही राज्यां जिखून तो भगदत्ताचेर चाल करून गेलो. आनी भगदत्ताची इश्टागत जोडली. उपरांत नेपाळ आनी हिमालयांतलीं दुसरीं राज्यां जिखून उदेंते कडेन गेलो. अंग, बंग, कलिंग, मिथिला, मगध हीं राज्यां जिखून वत्सभुंये कडेन आयलो. थंयचीं राज्यां जिखून दक्षिणे दिकेक गेलो. थंय रुक्मी आड झुजलो. ताची इश्टागत जोडली. थंयचीं पांड्य, शैल, चेदी हीं राज्यां जिखून तो अस्तमेक गेलो. थंयचीं यवन आनी बर्बर राज्यां जिखलीं.

हे भाशेन चारूय दिको जिखून तो परतलो. येतना वांगडा तो आकांताची संपत घेवन आयिल्लो.

कर्णाचो हो दिग्‌विजय पळोवन दुर्योधनाक खूब खोस जाली. 'द्रोणाचार्याक, कृपाचार्याक, भिष्माक जें सादलें ना तें तुवें सादोवन दाखयलें', ताणे कर्णाक वेंग मारून भौमानान म्हळें. 'खरेंच, तुज्या रिणांतल्यान हांव केन्ना मेकळो जावपाचो ना. येदो भौमान तुवें केला म्हजो.'

कर्णाच्या भौमानान दुर्योधनान हस्तिनापुरांत उत्सव मनयलो.

कर्णान ताका म्हळें, 'आतां कोणाची पर्वा करपाची गरज ना. अख्खे धर्तरेचें राज्य तुज्या पांयांकडेन हाडून ओतलां हांवें. भोग तूं तें आतां मात लेगीत अनमन नासतना. तुज्या दुस्मानांचे दोळे फुट्टले तुगेलें हें वैभव पळोवन.'

दुर्योधनाच्या मनांत आतां आपणेय राजसूय यज्ञ करचो, अशें घोळपाक लागलें. कर्णाक ताणे विचारलें. ताचो तेंको मेळना फुडें ताणे पुरयतांक आपोवन तांकां आपलो बेत सांगलो. पुरयत म्हणपाक लागले, 'राजसूय करपाची योग्यताय तुज्यांत आसा, हांतूंत दुबावूच ना. पुणून तूं युधिष्ठिराच्याच घरांतलो. युधिष्ठिरान हो याग हाचे पयलीं केला. देखून शास्त्रा प्रमाण तो आसासर तुका हो याग करूंक मेळपाचो ना. त्या भायर धृतराष्ट्रय आसा. तो आसतना तूं राजसूय कसो करतलो. पुणून एक उपाय आसा: राजसूय तुका करूंक मेळ्ळो ना तरूय तुज्यान

विष्णुयाग करूं येता. राजसुयाच्याच पांवड्याचो याग हो. राजसूय यागांत मर्दी विघ्नां येवं येतात. ह्या यागांत ती भिरांत ना. आमच्या मत्तान तुवें विष्णुयाग केल्लो बरो.'

पुरयतांचें म्हणणे आयकून दुर्योधनान विष्णुयाग करचो अशें थारायलें. कराच्या रुपान कर्णान जें भांगर जोडून हाडिल्लें तें शेटी कडेन दिवन ताणे ताचो एक नांगर करून घेतलो. ह्या भांगराच्या नांगरान यागाची भूंय खणून काडली. उपरांत थंय मंटप उबो केलो. मागीर दुर्योधनान यागाची दीक्षा घेतली. ती पळोवन धृतराष्ट्र भीष्म विदुर द्रोण कृप गांधारी सगळीं खोशी जालीं. दुःशासनान वेगळ्या वेगळ्या राजांक आनी ऋषी-मुनींक आमंत्रणा धाडून दिलीं. पांडवांक तो विसरूंक नाशिल्लो.

तांकां आमंत्रण दिवपाक ताणे एक मनीस द्वैतवनांतूय धाडून दिलो.

आमंत्रण घेवन आयिल्ल्या मनशा कडल्यानूच युधिष्ठिरान सांगून धाडलें: 'विष्णुयागाची खबर आयकून म्हाका खूब बरें दिसलें. हांव येतलों आशिल्लों. पुणून आमचो वनवास अजून सोंपूंक ना. देखून आमी कोण यागाक पावचे नात.'

आमंत्रण पळोवन भिमाक भिरभिरी माल्ली. तें घेवन आयिल्ल्या मनशाकूच खावं काय गिळूं, अशें ताका जाल्लें. ताणे ताचेच कडल्यान दुःशासनाक सांगून धाडलें, चित्रसेन गंधर्वान जाच्यो भयो-भयो केल्ल्यो ताच्या आंगांत विष्णुयाग करपाचें कर्तुत्व पळोवन म्हाकाय खोशी जाल्या. आमचो वनवास सोंपल्या उपरांत युधिष्ठिर एक व्हडलो याग करपाचो आसा: झुजाचो. तांतूंत तुमची सगळ्यांची आहुती पडटली, तेन्नाच हस्तिनापुरांत आमी पावल दवरतले.

आमंत्रण घेवन गेल्लो दुःशासनाचो मनीस द्वैतवनांतल्यान परतलो. हस्तिनापुराक पावतकूच ताणे युधिष्ठिरान कितें सांगून धाडलां तें कौरवांक सांगलें. भिमान कितें म्हळ्ळें तेंवूय सांगलें. तें आयकून पांडवांनी दुदांत मीठ खिरयलें अशें कौरवांक दिसलें. तांकां वायट दिसलें. पांडवांची तांकां तिडकूय माल्ली.

पुणून तांगेलो विष्णुयाग बरे तरेन, कसलेंच विघ्न येनासतना जालो. कितले-शे राजा आयिल्ले. ते खूब भेटो दिवन गेले. दुर्योधनाच्या कोशांत खूब मोलाची भर पडली. ऋषी-मुनी आयिल्ले. ते पोटभर आशीर्वाद दिवन गेले. 'ययाती नहुष भरत हांणी केल्ल्या यागा सारकोच तुगेलो याग जालो' अशी तुस्तूय कांय जाणांनी मेकळ्या ताळ्यान केली.

पुणून खंय खंय दुसरोय एक सूर आयकूंक येवपाक लागलो: युधिष्ठिराच्या यागाची सर ह्या यागाक येना, अशेंय कांय जाण म्हणटाले, तें दुर्योधनाच्या कानार येवन आदळ्ळें. हाका लागून दुर्योधनाचे खोशयेंत थोडें उणे उरिल्लें. तें कर्णाक

कळिल्लें. हें उणे पयस करचें आनी दुर्योधनाची उर्बा वाडोवची ह्या हावेसान ताणें दुर्योधनाक म्हळें, 'याग बरे भाशेन जालो. पांडव मरतले त्या उपरांत तूं राजसूय करतलो, तेन्नाच हांव धादोस भरीत जातलों. त्या वेळारूच तुका खरो हुनहुनीत दिनवास दितलों.'

दुर्योधन खोशी जालो. ताका आनिकूय बरें दिसचें हे इत्सेन कर्णान ताका म्हळें, 'सोपूत घेवन सांगतां हांव, जे मेरेन अर्जुन म्हज्या शस्त्रान मरचो ना, ते मेरेन हांव कोणाच कडल्यान पांय धुवन घेवचों ना, मांस सोरो उश्टावचों ना आनी कोणूय कितेंय मागीत जाल्यार ताका ना म्हणचों ना.'

कर्णाचो हो सोपूत आयकून सगळ्या कौरवांचीं काळजां खोशयेच्या उमाळ्यांनीं भरून आयलीं.

## ९० काम्यक वनांत

कर्णान अर्जुनाक मारपाचो सोपूत घेतला म्हणपाची खबर उडत उडत पांडवांच्या कानार वचून आदळ्ळी. बाकिच्यांक कांय दिसलें ना, पुणून युधिष्ठिराक खूब वायट दिसलें. अर्जुनाक कोणा कडल्यान कसलोच भंय ना हाची ताका खातरी. तरी आसतना ताका हुस्को जावपाक लागलो. वनवासाचे दीस सोंपपा कडेन पाविल्ले. थोडेच उरिल्ले. थोडेच जाल्ल्यान जावंये, ते सोंपून सोंपनात येदे व्हडले जाल्ले. युधिष्ठिराक केन्ना केन्ना ते खावंक येताले. ताका आतां फाटल्यो गजाली येवजूंक लागल्यो. फुडाराचोय हुस्को जावपाक लागलो. दुर्योधनाक कर्णाचो आधार मेळ्ळा. त्या भायर विष्णुयाग करून ताणे आतां कितल्या-श्या राजांची इश्टागत जोडल्या. आमच्या पंगडांत कोण आसात काय? येवजून येवजून तो न्हिदो खळोवपाक लागलो. मर्दी मर्दी ताका कौरवांची तिडक मारची. तांच्यो फाटल्यो करण्यो ताच्या दोळ्यां मुखार उब्यो रावच्यो. मर्दी मर्दी ताका खासा आपलीच तिडक मारची. द्वैतवनांत रावप ताका आतां रुचना जालें. दुसरे कडेन खंय उठून वचचें, अशें दिसपाक लागलें. तो साप उबगलो.

तेच रातीं ताका एक सपन पडलें.

सपनांत ताका कांय चितळां दिश्टी पडलीं. तांच्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवतालीं. तांचो गळो भरून आयिल्लो. थरथरत थरथरत तीं युधिष्ठिरा लागीं आयलीं आनी ताच्या मुखार हात जोडून उबीं रावलीं.

'कोण तुमी, कित्याक आयल्यांत', युधिष्ठिरान तांकां विचाल्लें.

'ह्या द्वैतवनांतलीं चितळां आमी.' तांणी जाप दिली. 'तुमी हांगा येवन रावत पसून आमचे पुराय कुळयेचेर हावळ आयल्या. सगळीं चितळां तुमी मारून खालीं. आतां थोडीं उल्ल्यांत आमी, बियाक म्हणटात तशीं. उपकार करून तुमी आतां दुसरे कडेन खंयूय वचात. ना जाल्यार आमची पुराय जात ना जावन वतली.'

सपनांतूच युधिष्ठिराचें काळीज कळवळून आयलें. ताणे सपनांतूच तांकां उतर दिलें. 'भियेवं नाकात. ह्या मुखार तुमकां कोण कांय करपाचो ना. आमी दुसरे कडेन वतात.'

कळवळून युधिष्ठिराक रडूंक आयलें. आनी सट्ट करून तो जागो जालो.

ताणे भावां उठोवन तांकां सपनांतली खबर सांगली.

भाव म्हणपाक लागले, काकूळट बावड्यांची. एक वर्स आठ म्हयने जाले. आमी तांच्याच मांसान पोट भरतात. आतां उल्ल्यांत तांकां सोडून दुसरे कडेन खंयूय गेल्ले बरे.

'खंय या?'

'काम्यक वनांत तृणबिंदु नांवाचें एक तळें आसा थंय.' भावांनी जाप दिली.

पांडव त्याच दिसा द्वैतवन सोडून गेले.

## ९१. दुर्वास

पांडवांक कशे-कशे पिडचे हाचे बेत दुर्योधन आनी तागेले सांगाती सदां करीत आयिल्ले. वनवासांत लेगीत पांडव बरे जेवतात खातात. इतलेंच न्हय, तर आयिल्ल्या गेल्ल्यांकूय पोटभर जेवयतात खावयतात अशें तांणी आयकल्लें. द्रौपदेक सुर्यान एक आयदन दिलां, ह्या आयदनाक लागून तांकां अन्न केन्ना उणे पडना, हेंवूय आयकल्लें. तांकां कितें करचें, येवजनाशिल्लें. पुणून पांडवांचें हें सुख तांकां सोसनाशिल्लें.

एक दीस दुर्वास मुनी हस्तिनापुराक पावलो.

दुर्वास म्हळ्यार उजो. तप करून ऋषी जाल्लो खरो, पुणून तिडक जिखूंक पावूं नाशिल्लो. परती, तपा वांगडा ताची तिडकूय वाडिल्ली. केन्ना कुर्रर जायत, सांगूंक येनाशिल्लें. कोणाक केन्ना कसलो श्राप दीत, सांगूं नज आशिल्लें. सगळेच ताका थर्त भियेताले. ताका आपणागेर आयिल्लो पळोवन दुर्योधनाक पयलीं खप्प जालें. पुणून 'हाका हांव खोशी दवरतलों' असो ताणे निश्चय केलो आनी दासा भाशेन

ताची सेवा करपाक लागलो. दुर्वासाक ताणे कितेंच उणे पडूंक दिलें ना.

दुर्वास आयिल्लो दुर्योधनाची परीक्षा घेवपा खातीर. दुर्योधनान मना सारकी सेवा केल्ली. ती पळोवन दुर्वास ताचेर खोशी जालो. वतना ताणे दुर्योधनाक म्हळें, 'तुजी सेवा पळोवन हांव धादोस भरीत जालां, तुका कितें जाय तें आतां माग तूं म्हजे कडेन.'

दुर्योधनान म्हळें, 'म्हजी सेवा तुंवें गोड मानून घेतली हें हांव भाग्य लेखतां म्हजें. पुण्यवंताकूच असलें भाग्य मेळटा. म्हजेर सदां अशीच कृपा आसची.'

आनी कसलोच दुबाव येवंक दिनासतना सुचयलें: 'युधिष्ठिर आमच्यांत जाणटो. गुणेस्त म्हुण ताची नामना. तुर्ताक तो वनवासांत आसा. म्हजी सेवा घेतली तशी ताचीय घेवची आनी ताकाय हें भाग्य मेळचें.'

'बरें आसा' अशें म्हणून दुर्वास गेलो.

कर्ण खुशाल भरीत जावन दुर्योधनाक म्हणपाक लागलो, 'तुजी खरीच तोखणाय दिसता म्हाका. पांडवांचो कांटो तुंवें भायले भायर काडून उडयलो. आतां पांडव हुलपून मेलेच अशें धर तूं.'

दुर्वास थंयच्यान काम्यक वनांत गेलो.

धा हजार शिष्यांक घेवन दुर्वास आपणाक मेळपाक आयला, ही खबर कळना फुडें युधिष्ठिरान आकांतून 'देवा पाव' म्हळें. आनी ताकतिकेन मुखार वचून ताका साष्टांग नमस्कार घालून बरो येवकार दिलो. दुर्वास जेवपाक आयला हें कळटकूच ताणे म्हळें, 'तुमी न्हावन-धुवन येयात, ते मेरेन जेवण तयार आसतलें.'

दुर्वास शिष्यांक घेवन न्हंये तडीर न्हावपाक गेलो.

दुर्वास जेवपाक आयिल्ल्याचें आनी युधिष्ठिरान ताका राव म्हळां म्हणपाचें कळना फुडें द्रौपदेचेर आकांत आयलो. खंयच्यान हाडचें जेवण. तिच्या आयदनांत कितल्याय लोकांक पावता इतलें जेवण जातालें खरें. पुणून तें दिसांतल्यान एकूच खेपे जातालें. मागीर दुसऱ्या दिसा मेरेन आयदन बंद उरतालें. सगळ्यांक वाडून जाल्लें. द्रौपदीय जेवन उठिल्ली. द्रौपदी भियेली. हो परीक्षा घेवपाक आयला. परिक्षेक उतल्ली ना जाल्यार, तो श्राप दितलो. कसलो दीत, सांगूं येता व्हय. दुर्वास तो! हुलपावन लेगीत उडयत सगळ्यांक. तिका कितें करचें, कांयच येवजना जालें. ती घुटमळ्यांत पडली.

असल्या प्रसंगार तिका एकूच उपाय येवजतालो. ती कृष्णाक उलो मारताली. आनी तो तिका सदां पावतालो. तिणे कृष्णाक उलो माल्लो, 'कृष्णा, धांव. सत्वपरीक्षा घेवपाक दुर्वास आयला. ह्या प्रसंगार तुजे बगर म्हाका कोण पावतलो.'

आनी तिचो उलो कानार पडना फुडें खिणाचोय कळाव लाय नासतना कृष्ण पावलो !

येना फुडें ताणे द्रौपदेक म्हळें : 'म्हाका चरचरून भूक लागल्या.'

'कितें वाडटलीं. जेवण सोंपलें सगळें.'

'फकाणा मारूं नाका, खऱ्यानीच म्हाका भूक लागल्या.'

'खरेंच सांगतां, तपल्यांत कांयच ना.'

'हाडून दाखय. . .'

द्रौपदेन आयदन हाडून ताका दाखयलें. द्रौपदेन त्या दिसा भाजी केल्ली. तिचें फकत एकूच पान आयदनांत उरिल्लें. आनी कांय नाशिल्लें. कृष्णान तें पान काडून तोंडांत घालें आनी एक धेंकर दिवन सहदेवाक म्हळें, 'वच आनी दुर्वासाक आपय जेवपाक. जेवण तयार आसा म्हुण सांग.'

न्हंयचे तडीर दुर्वास आपणाल्या शिष्यांक घेवन न्हावंक गेल्लो. तांगेलें न्हाण सोंपिल्लें. वयर सरून ते संध्या करताले. अघमर्षण सूक्त म्हणटाले. अवचित तांकां धेंकर येवपाक लागले.

'हें कितें. आमचें पोट कशें भर्लें.'

कृष्ण पाविल्ल्याचें दुर्वासाक समजलें. तो मनांत म्हणपाक लागलो, 'आमी जेवपाक आयल्यात म्हुण बेश्टें सांगलें हांकां. श्रीकृष्णाच्या आलाशिऱ्या खाला हे रावतात म्हणपाची चत्राय उल्ली ना म्हाका.' आनी ताणे शिष्यांक सांगलें, 'कळाव लावं नाकात. पळात हांगासल्ले.' सगळे मेळत ते वाटेन पळत रावले.

सहदेव येवन पळे जाल्यार, सगळे पळून गेल्ले.

ही कथा मुदलांतली महाभारतांतली न्हय. पंचरात्र भागवतांनी कृष्णाक देव केलो त्या उपरांत महाभारतांत जी भर पडली, त्यावेळार ही कथा हांगा येवन दसल्या. म्हळ्यार प्रक्षिप्त. भांडारकर आवृत्तीन तिका हांगासल्ली काडून परिशिष्टांत घाल्या.

## ९२. एक संकश्ट

काम्यक वनांत आसतना द्रौपदेचेर ध्याना-मनांत नाशिल्लें एक संकश्ट कोंसळ्ळें.

पांडव भोंवडेक गेल्ले. द्रौपदी एकलीच आश्रमांत आशिल्ली.

अवचित जयद्रथ थंय पावलो. तो सिंधु देशाचो राजकुंवर. कौरवांचो भावोजी. दुश्शिलेचो घोव. तो शाल्व देशाक वतालो. ताच्या वांगडा दुसऱ्या कांय देशांचे राजकुंवर आशिल्ले. वाटेर तांकां काम्यक वन लागलें. थंय आश्रमाच्या दारांत

द्रौपदी उबी आशिल्ली. निळ्या-काळ्या पावशी कुपांत विद्युल्लता सोबची तशी द्रौपदी हांगा दिसताली. तिका पळोवन जयद्रथाक प्रस्न पडलो, कोण काय देवा ही. अप्सरा काय देवकन्या. तो तिका वळखूंक नाशिल्लो. ताच्या वांगडा आयिल्ल्यांत कोटिकास्य नांवाचो एकलो राजकुंवर आशिल्लो. ताका जयद्रथान म्हळें, 'ही बायल-मनीस हेर बायलां सारकी न्हय. ही कोणूय तरी सामान्यां भायली आसूंक जाय. ती कोण, कोणाली, हांगा कितें करता, सगळें विचारून यो. म्हाका ती भोगूंक मेळ्ळी जाल्यार, हांव म्हाका भाग्यवंत लेखीन.'

कोटिकास्य रथांतल्यान देंवलो. नीट द्रौपदे सरीं गेलो आनी तिका विचारपाक लागलो, 'बाय गे, तूं कोण, कोणाली आनी हांगा रानांत कशी. हांव सुरथ राजाचो पुत, कोटिकास्य. हो तो जो रथांत बसला तो त्रिगर्त देसाचो राजा, क्षेमंकर. ताच्या मुखार आसा तो कुलिंद देसाचो राजकुंवर. हो तो सुभद्र आनी हो तो सौवीर देसाचो राजकुंवर जयद्रथ. तूं कोण, तुजें लग्न जालां व्हय. जाल्लें आसत जाल्यार तुजो घोव कोण...'

एका रुखाचे खांदयेक धरून द्रौपदी उबी आशिल्ली. तिणे पदर नीट करून म्हळें, 'अशें परकी दादल्या लागीं उलोवप समा न्हय, हें हांव जाणा. तरी आसतना, हांगा दुसरो कोण ना, म्हुण जाप दितां. हांव द्रुपद राजाली धुव कृष्णा. पांडवांली घरकान्न. पांडव भोंवडेक गेल्यात. आतां थोड्या वेळान येतले. तुमी घोडे सोडयात आनी थोडो वेळ हांगा विसंव घेयात. तुमकां पळोवन तांकां खोशी जातली.'

इतली जाप दिवन ती भितर गेली.

कोटिकास्य परतलो, जयद्रथा सरीं आयलो. लागीं येतकूच जयद्रथ म्हणपाक लागलो, 'सामको मरे तूं. सभाग्या, ती थंय तुजे कडेन उलयताली तेन्ना म्हजें मन तिका वचून दशिल्लें. आनी तूं तिका सोडून आयलो म्हळ्यार कितें काय म्हणटां. शी तुजे अकलेक. थू. खरें सांगतां, हिणे म्हजें काळीज चोल्लां. बायल आसची जाल्यार असली आसची. हिच्या मुखार संवसारांतल्यो सगळ्यो सुंदर बायलो म्हाका आतां खेंतीं कश्यो दिसपाक लागल्यात.'

कोटिकास्यान म्हळें, 'ती कोण, जाणा व्हय तूं. द्रौपदी ती. पांडवांची घरकान्न.'

जयद्रथ आपले सुवादीन उरूंक नाशिल्लो. कुड्डो जाल्लो. द्रौपदी जांव वा आनी कोणूय जावं, म्हाका जाय म्हळ्यार जाय, अशें मनांत म्हणून तो नीट आश्रमांत गेलो. द्रौपदी भितर गेल्ली. जयद्रथाक पळोवन ती भायर आयली. ती भायर येतकूच जयद्रथान विचाल्लें, 'बरी आसा मू तूं. पांडव कशे आसात?'

'आसात बरे. तुमचें बरें चल्लां मू.' अशी जाप दिवन द्रौपदेन ताका म्हळें, 'पावल्यातूच तुमी हांगा, तेन्ना जेवन वचात. थोड्या वेळान पांडव येतले.'

द्रौपदेन ताका बसपाक आसन पातळायलें.

जयद्रथाचो धीर सुटिल्लो. तो म्हणपाक लागलो, 'हांव बसूंक येवंक ना हांगा. तुका व्हरपाक आयलां. तूं यो आतां म्हज्या वांगडा. जांचें वैभव गेलां तांचे सरीं रावन तुका कितें मेळपाचें आसा. घोवाचें वैभव ना जातकूच खंयचीच बायल घोवा सरीं रावी ना. ताका सोडून वता. तूंय पांडवांक सोड आतां. म्हजी राणी जा. तुका खूब सुख मेळटलें.'

जयद्रथ ह्या पांवड्यार देंवत म्हणपाचें द्रौपदेन सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. ती तिडकीन उसळ्ळी. तिच्यो भोंवयो वांकड्यो जाल्यो. दोळे तांबडे-गुंज जाले. ती ताका विचारपाक लागली, 'तूं कोणा कडेन कितें उलयता, खबर आसा मू तुका. सुद्दीर आसा मू तूं. पांडवांक वळखना व्हय तूं. तूं इतलो उणाक कसो जालो, इतलो सकल कसो पडलो. तुका हात दिवन वयर काडपी तुज्या ह्या इश्टां भितर कोणूच ना काय कितें. तूं कित्या खातीर हांगा आयला, हें पांडवांक कळत जाल्यार ते तुका हुलपावन उडयतले. जाणा मू तूं हें.'

'तूं भंय कोणाक घालता?' जयद्रथान तिका विचाल्लें, 'पांडव आसतीत व्हड. आमीय ऊंच कुळांतले. शौर्यान तेजान वैभवान पांडवां परस व्हड. तूं येता काय ना म्हज्या वांगडा. काय, तुका उबारून व्हरूं.'

जयद्रथाक खावं काय गिळूं, अशें द्रौपदेक जालें. ती उसळ्ळी: 'उणाका, तूं उज्या वांगडा खेळटा, खबर आसा मू तुका. पांडव तुज्यो तिसत्यो वादऱ्यो करतले, लक्षांत दवर.'

जयद्रथ तिचें आयकुपाक रावलो ना. तिच्या पदराक ताणे हात घालो आनी तिका ओडपाक लागलो.

'सोड म्हाका, तुका पचपाची ना ही आगळीक. सोड म्हाका.' अशी तिणे किळांच माल्ली आनी ताका धुकल्लो. जयद्रथ घसांयच करून पडलो. ताका पडिल्लो पळोवन ताच्या वांगडा आयिल्ले राजकुंवर धांवन आयले.

'उबारून व्हरात तिका'. जयद्रथान तांकां सांगलें. ते तिका ओडपाक लागले.

आकांतून द्रौपदी किळांच्यो मारपाक लागली. त्यो धौम्य मुनिच्या कानार पडल्यो. तो लागसारूच ध्यानाक बशिल्लो. द्रौपदेच्यो किळांच्यो आयकून तो धांवन आयलो. जयद्रथ तिका ओडून व्हरता तें पळोवन ताका अजापांचो धसको बसलो. 'जयद्रथा, तूं रे? तूं इतलो उणाक कसो जालो रे. आरे, ती द्रौपदी मरे. सोड

तिका. तुका सोबना ही करणी. इतलो कुड्डो जावं नाका. तुज्या क्षत्रिय धर्माचो तरी उगडास कर, आनी सोड.'

धौम्य उलयत रावलो. पुणून तागेलें आयकतलो कोण. जयद्रथाचेर सांवार आयिल्लो. वेळ होगडाय नासतना ताणे द्रौपदेक उबाल्ली आनी तिका बळयां रथांत घालून ताणे रथ सोडलो.

'शी: शी: शी: उणाक कर्म हें, सामकें उणाक.' अशें म्हणून धौम्य मुनी 'सोड तिका, सोड तिका' करीत रथा फाटल्यान धांवपाक लागलो.

रथ धांवन मुखार गेलो. धौम्य रथा फाटल्यान धांवत रावलो. एका सारको धांवत राविल्लो.

## ९३. जयद्रथाच्यो भयोभयो

पांडव भोंवडेक गेल्ले. चितळां, दुकरां मारून ते घरा परतताले. येतना वाटेर युधिष्ठिराची नदर शेवण्यांचेर गेली. तीं काचाबूल जावन उडटालीं. हे वाटेन ते वाटेन पळटालीं, भियेल्लीं. 'खंयूय जाल्यार कितेंय तरी घडलां जावंक जाय,' युधिष्ठिरान मनांत म्हळें. रानांत तांचो कोणूय तरी दुस्मान आयला आसूंक जाय अशें ताका दिसलें. म्हणटासर एक कोलो आडवो गेलो आनी झिलींत लिपून तो मोट्यान आड्डूंक लागलो. युधिष्ठिराक हें दुश्चिन्न-शें दिसलें. ताणे भावांक म्हळें, 'आमी बेगीन आश्रमांत गेल्ले बरे.'

ते बेगी-बेगीन चलपाक लागले. आश्रमा लागीं पावपाक द्रौपदेची दासी दारांतूच जमनीर लोळून रडटाली ती दिश्टी पडली. युधिष्ठिरान काचाबूल जावन तिका विचाल्लें, 'कितें जालां, अशी कित्याक रडटा तूं.' तिणे द्रौपदेक जयद्रथान उबारून पळोवन व्हेल्ल्याची खबर सांगली.

'केन्ना ?'

'निकतीच. पयस पावूंक ना जातलो. कळाव जावचे पयलींच धांवात बेगीन'. तिणे म्हळें.

पांडवांनी रथ भायर काडलो आनी ते जयद्रथा फाटल्यान धांवन गेले. मुखार तांकां धुल्ल उबिल्लो दिश्टी पडलो. जयद्रथ हेच वाटेन गेला जातलो अशें येवजून तांणी तेच वाटेन रथ धांवडायलो. थोड्या वेळान तांकां धौम्य दिश्टी पडलो. तो 'सोडयात रे तिका' करीत जयद्रथा फाटल्यान धांवतालो. पांडवांनी धौम्याक उबारून रथांत घालो. आनी रथ वेगान सोडलो. थोड्या वेळान जयद्रथ आनी

द्रौपदी तांकां रथांत दिश्टी पडली.

'राव, धांवता खंय,' म्हुण भिमान जयद्रथाक मोट्यान विचारलें. भिमाचो आवाज द्रौपदेच्या कानार पडलो. तिका धीर आयलो. ती पयलीं भियेल्ली. आतां ती भंय सोडून जयद्रथाक सांगपाक लागली, 'आतां एकलोय जितो उरपाचो ना तुमच्यांतलो. हे पळे, पांडव आयले. भल्ले तुमचे दीस आतां.'

इतल्यांत पांडव जयद्रथा लागसार पावले. तांकां लागीं पाविल्ले पळेनाफुडें जयद्रथाचे संवगडी तांच्या आंगार धांवन गेले. 'धरात, मारात' करीत जयद्रथ तांकां चेव हाडपाचो यत्न करूंक लागलो. पुणून पांडव वाग कशे तांचेर उडी घालून गेल्ले. तांणी जयद्रथाच्या संवगड्यां भितल्ल्या एक एकल्याक धरून मारपाक सुरवात केली. जयद्रथ आनी तागेले सांगाती भियेले. इतलेंच न्हय, तर 'जीव आसल्यार भीक मागून खावं' ह्या नेमाक धरून ते मेळत ते वाटेन पळपाक लागले. सगळ्यांत चड जयद्रथ भियेल्लो. ताणे बेगोबेग द्रौपदेक रथांतल्यान सकल देंवयली आनी जीव मुठींत घेवन तो पळ्ळो.

युधिष्ठिराक सूः जालें. ताणे द्रौपदेक सहदेवा सुवादीन केली आनी आतां जयद्रथाची फाट धरची काय परत वचचें, हें येवजुपाक लागलो.

भीम तापिल्लो. ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'तूं आनी हांगा रावं नाका. द्रौपदेक धौम्याक आनी सहदेवाक घेवन तूं आश्रमांत वच. हांव जयद्रथाक धरून हाडटां. तो पाताळांत गेलो जाल्यारूय म्हज्या हातांतलो सुटपाचो ना आतां.'

युधिष्ठिरान म्हळें, 'ताका जितो मात मारूं नाका. दुश्शिलेचो घोव तो आनी दुश्शिला आमची बापोल-भयण. तिच्या आनी गांधारिच्या तोंडा कडेन पळोवन ताका सोड.'

'सोड कित्याक.' द्रौपदी उसळ्ळी. 'जितो दवरपा सारको न्हय तो. उणाक खंयचे कडलो. ताका जितोच मारून उडोवंक जाय.'

युधिष्ठिरान पळेलें, आतां आनी वाद घालपांत अर्थ ना. तो द्रौपदेक घेवन आश्रमांत परतलो. तो वतकूच भीम जयद्रथाक धरपाक गेलो. वाटेर मेळत ताका मारीत सुटलो. तो न्हय जाल्ल्यांक मारता हें पळोवन अर्जुनान ताका म्हळें, 'हांकां कित्याक मारता, तांणी कांयच वांकडें करूंक ना आमचें. ते फकत जयद्रथा वांगडा आयिल्ले. येद्याश्या ह्या गुन्यावा खातीर तांकां मारप सोबना. जाका धरूंक जाय तो पळे, पळून वता. चल यो म्हज्या वांगडा. जयद्रथाक धरून हाडुंया.'

भीम आनी अर्जुन दोगूय जयद्रथा फाटल्यान धांवले.

जयद्रथ कोसभर मुखार पाविल्लो. अर्जुनान कोसभराचे वाटे वयल्यानूच ताच्या रथाचे घोडे मारून उडयले. घोडे मेल्ले पळोवन जयद्रथ भियेलो. ताणे रथांतल्यान उडी माल्ली आनी रानांत पळून वचपाचो तो यत्न करपाक लागलो. धांवन गेलो. अर्जुनान ताका विचाल्लें, 'तूं इतलो धीट जाल्यार दुसऱ्याचे बायलेक उबारून व्हरपाचो धीर कसो केलो रे तुवें. संवगड्यांक सोडून कसो पळटा तूं. तुका लज कशी दिसना.'

जयद्रथाच्या तोंडांतल्यान जाप भायर सरचे पयलींच भीम ताच्या म्हऱ्यांत पावलो. ताच्या केश्ट्यांक धरून ताणे ताका फरफरीत ओडून हाडलो. ताका जमनीर आपटिलो. आडवो घालून ताचेर खोंटो मारपाक लागलो. 'तुका हांव सोडिना. तूं आतां कसोच जितो उरपाचो ना. खा.' अशें म्हणून किंवाट्यान ताका खोंटायत रावलो.

जयद्रथाची गत्त पळोवन अर्जुनाक ताची काकूळट दिसली. ताणे भिमाक म्हळें, 'जितो मारूं नाका ताका. दुश्शिलेचो घोव तो. ताका मार घालो तितलो पुरो.'

भीम ताका खोंटांनी मारतालो. अर्जुनान पुरो म्हणिना फुडें तो थांबलो. दांत ओंठ चाबून म्हणपाक लागलो, 'कितें करूं, जितोच मारतलों आशिल्लों. पुणून अर्जुन नाका म्हणटा म्हुण वोगी रावचें पडटा.' मागीर ताच्या केश्ट्यांक धरून ताका म्हळें, 'जमनीर नाक घांसून म्हण आतां, हांव तुमचो दास.'

'हांव तुमचो दास.' जयद्रथान नाक घांसून म्हळें.

'हांगा न्हय, चार चौगां मुखार म्हणूंक जाय. म्हणटलो काय ना.'

'म्हणटां बाबा म्हणटां. उपकार कर आनी मारूं नाका.'

भिमान ताका फरफरीत ओडून रथांत घालो आनी आश्रमांत हाडून द्रौपदे मुखार उबो केलो. तिच्या पांयां कडेन ताका नाक घांसूंक लावन म्हळें, 'म्हण आतां, हांव तुजो दास.'

जयद्रथान तिच्या पांया कडेन नाक घांसून म्हळें : 'हांव तुजो दास.'

युधिष्ठिराक ताची काकूळट दिसली. 'सोड आतां ताका.' ताणे भिमाक सांगलें.

युधिष्ठिराच्या तोंडा कडेन पळोवन द्रौपदेनूय म्हळें : 'सोड आतां ताका.'

'उणाक खंयचे कडलो' अशें म्हणून भिमान ताका सोडलो. जयद्रथान युधिष्ठिराच्या पांयार तकली दवरून म्हळें, 'चूक जाली म्हजी.'

'ह्या मुखार असलीं पिशेपणा केन्ना करूं नाका.' युधिष्ठिरान म्हळें, 'बुद्द सदांच धर्मांत थीर दवरची, कळ्ळें मू. वच तूं आतां घरा.'

जयद्रथ मान सकल घालून मोन्यांनी उठून गेलो.

पुणून खंय. घरा न्हय. बद्द हरिद्वाराक गेलो. थंय बसून ताणे तप सुरू केलें आनी एक दीस म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतलो. म्हादेवान म्हळें, 'माग'.

'म्हज्या हातान अर्जुनाचो पराभव जावं.' जयद्रथान मागलें.

'अशें केन्नाच जावपाचें ना.' म्हादेवान म्हळें. 'ताचो पराजयूय जावपाचो ना, ताका मारुंकूय तूं पावचो ना. ताका इन्द्र लोकपाल सगळ्यांनी आपापलीं अस्त्रां दिल्यांत. हांवें लेगीत ताका एक दिव्य अस्त्र दिलां. कृष्ण ताच्या फाटल्यान आसा. तुज्याच न्हय, कोणाच्याच हातान ताचो पराभव जावपाचो ना.' इतलें सांगून म्हादेवान म्हळें: 'पुणून एक गजाल म्हज्यान करूं येता. अर्जुन सोडून बाकिच्या सगळ्यांक झुजांत एका दिसा पुरते तूं गोंदळावन उडयतलो अशें करूं येता.'

'जावं, तितलें जाल्यार तितलें.' अशें म्हणून जयद्रथ गेलो.

वनवासाच्या आरंभाक ब्रहदश्व मुनीक युधिष्ठिर विचारता, 'द्युतांत हांवें सगळें होगडायलें तशें हाचे पयलीं आनी कोणे होगडायलें व्हय.' तेन्ना ब्रहदश्व मुनी ताका नल-दमयंतिचें आख्यान सांगता. आतां वनवास सोंपपा वेळार द्रौपदेचेर कोसळ्ळेल्या ह्या संकश्टाच्या दुख्खान खंती जाल्लो युधिष्ठिर मार्कण्डेय मुनीक विचारता, 'म्हजे सारको कपल फुटको संवसारांत दुसरो कोण आसा वा जावन गेला व्हय.' तेन्ना मार्कण्डेय ताका राम-सितेचें आख्यान सांगता.

महाभारतांतलें हें 'रामोपाख्यान' वाल्मिकिच्या रामायणा आदलें काय ताचेंच आटयलें रूप, ह्या संबंदान सारकें कांय सांगूंक येना. इतलें खरें : रामोपाख्यान महाभारतांत घेतलां ते मुस्तींत वाल्मिकिचें रामायण आशिल्लें जाल्यारूय तें आयज जालां तशें लोकांचे संवकळिचें जावंक पावूंक नाशिल्लें. पाविल्लें जाल्यार तें हांगा आख्यानाच्या रुपान येवन दसचें नाशिल्लें. खेरीतपणान चलतलें आशिल्लें. महाभारतांतल्या रामोपाख्यानांत आनी वाल्मिकिच्या रामायणांत कांय फरक आसात. देखीक, महाभारतांतल्या रामोपाख्यानांत पुत्रेष्टि यागाचो उल्लेख येना. सितेक 'अयोनिजा' मानूंक ना. कैकयेक घोवान एकूच वर दिलो म्हळां. तीन म्हणूंक ना. मंथरेक दुंदुभी नांवाचे गंधर्विचो अवतार म्हळां. वाल्मिकिच्या रामायणांत हें ना. हाचे वयल्यान कांय जाणकार रामोपाख्यान रामायणा आदलें आसूंक जाय अशें म्हणटात. बाकिची कथा वाल्मिकिच्या रामायणा सारकीच. पुणून आटोवन सांगिल्ली.

युधिष्ठिराक धीर दिवपा खातीर मार्कण्डेयान हें रामोपाख्यान सांगलें. पुणून द्रौपदेक ताच्याकूय चड धिराची गरज आशिल्ली. युधिष्ठिर विचारता. 'हिचे सारकी पतिव्रता दुसरी कोण जावन गेल्या व्हय.' तेन्ना मार्कण्डेय सत्यवान-सावित्रिचें आख्यान सांगता.*

* परिशिष्टांत दिलां.

## ९४. कर्णाचीं कवच-कुंडलां

वनवासाचीं बारा वरसां सोंपपा कडेन पाविल्लीं. इन्द्राच्या मनांत एक दीस आयलें, कर्णा कडेन वचचें आनी तागेलीं कवच-कुंडलां मागून घेवचीं. इन्द्राच्या मनांत हें घोळटा म्हणपाचें सुर्याक कळ्ळें. सूर्य कर्णाचो बापुय. ब्राह्मणाचें रूप घेवन तो कर्णाच्या सपनांत आयलो आनी सपनांतूच ताणे कर्णाक सांगलें : 'तुजे विशीं म्हाका ओड आनी आपलेपण. देखून तुज्या बऱ्या-भल्याचें सांगपाक आयलां. सारकें आयकून घे. कोणेय कितेंय मागल्यार, तूं ना म्हणिना आनी कोणा कडेन तूं कांय मागिना म्हणपाची तुजी नामना. इन्द्र तिचो लाव घेवंक सोदता. तो ब्राह्मणाचें रूप घेवन तुजे सरीं येतलो आनी तुजीं कवच-कुंडलां मागतलो. तूं तीं ताका दिशीत जाल्यार तुजो घात जातलो. आयलो जाल्यार ताचो समज घाल. ताका भूंय रत्नां गायो बायलो कितेंय दी. पुणून कवच-कुंडलां दिवं नाका. कवच-कुंडलांक लागुनूच झुजांत कोण तुका जिखूक पावना. तेन्ना, तांची जतनाय घे.'

'म्हजेर इतलो मोग करपी तूं कोण.' कर्णान सपनांतूच ताका विचाल्लें.

'हांव सूर्य.'

'सुर्याची सांगणी म्हज्या बऱ्या-भल्याचीच. पुणून म्हजें व्रत हांव सोडपाचों ना. कोणेय कितेंय मागूं, हांव ना म्हणपाचों ना. ब्राह्मणाक जाल्यार प्राण लेगीत दीन. व्रत म्हळ्यार व्रत. थंय वांटपणा उपकारनात. इन्द्र ब्राह्मणाचो भेस घेवन येवं वा आनी कसोय येवं, कवच-कुंडलां ताणे मागलीं जाल्यार हांव ताका तीं काडून दितलों. ताका लागून म्हजें नुकसान जाता जाल्यार जावं. पुणून म्हजी कीर्त वाडटली. ती उणी जावपाची ना. जीव वाटावपा खातीर कीर्तीक बादा येत असली कसलीच करणी म्हजे हस्तुकीं घडपाची ना. कीर्ती खातीर मनशान प्राण लेगीत दिवचो खंय. कीर्त मनशाक स्वर्ग जोडून दिता. अपकीर्त ताचें नाशें करता. कीर्त आवय सारकी. ब्रह्मदेवानूच म्हळां अशें. कीर्त म्हळ्यार मनशाचें आयुष्य. तागेलें जिवीत. ब्राह्मणाक दान दिवन, झुजांत प्राण दिवन, कोणाक जमना तसलें कर्तुत्व करून हांव कीर्त जोडपी. शरण आयिल्ल्याक भियेवं नाका म्हुण धीर दिवन, जाणट्यांक, भुरग्यांक संकश्टांतल्यान वाटावन हांव कीर्त जोडपी. म्हजें व्रत हें. ह्या व्रता पसून म्हाका कुशीन काडूं नाका. तें सोड वा मोड म्हुण सांगूं नाका.' कर्णान सुर्याक सपनांत सांगलें.

कर्णाचो नित्शाय पळोवन सूर्य घुटमळ्यांत पडलो. तरी आसतना ताचो समज

घालपाक आनीक एक यत्न करून पळोवचो अशें येवजून सुर्यान म्हळें, 'जीव होगडावन जोडिल्ली कीर्त कित्याक उपकारता, पुता. कीर्त जोडची, पुणून जीव होगडाय नासतना. जिवो उरशीत जाल्यार, दुसऱ्यांक तूं उपकारा पडटलो. दुसऱ्यांक सुख दिवंक पावतलो. इश्टांक जैत जोडून दितलो. इन्द्राक तूं जाय तें काडून दी. सगळें दी. पुणून कवच-कुंडलां दिवं नाका. फाल्यां झुजाचो प्रसंग आयलो जाल्यार कवच-कुंडलां आसा सर तुका अर्जुन कांयच करूंक पावचो ना. इन्द्र लेगीत ताच्या आधाराक आयलो, जाल्यारूय तो कांयच करूंक पावचो ना. झुजांत अर्जुनाक उडोवप होच मरे हावेस तुजो. तशें जाल्यार कवच-कुंडलां होगडावप पिशेपणाचें जातलें. गोड गोड उलोवन तूं इन्द्राचो समज घाल. ताका दुसरें कितेंय दी. पुणून कवच-कुंडलां दिवं नाका. तूं म्हजो म्हुण तुज्या बऱ्याचें सांगतां. म्हजें आयक.'

सुर्यान ताका हे भाशेन तरे तरेन समजावन सांगलें. कळवळ्यान सांगलें. पोटतिडकेन सांगलें. पुणून कर्ण आपलेंच म्हणणे घेवन बसलो. ताणे सुर्याक सांगलें, 'रागार जावं नाका, उतराचो मनीस म्हुण लोक म्हाका वळखतात. म्हजे हे नामनेक हांव बादा येवंक दिवपाचो ना. हांव असत्याक भियेतां तितलो मरणाक भियेना. कवच-कुंडलां गेलीं जाल्यारूय अर्जुनाक हांव झुजांत उडयतलों, ह्या विशीं दुबाव धरूं नाका.'

कितें करचें, सुर्याक समजना आलें. कशें समजावन सांगचें, कळना जालें. येवजी येवजी येवजून अखेरेक ताणे कर्णाक म्हळें. 'एक कर. कवच-कुंडलां दिवचीं पडलीं जाल्यार तीं फुकट तरी दिवं नाका. इन्द्रा कडेन वासवी नांवाची एक शक्ती आसा. दुस्मानाची दानाधिस्पट करून उडोवपी शक्ती ही. ती इन्द्र सोडून आनी कोणाच कडेन ना. अर्जुना कडेन लेगीत ना. अर्जुनाक ताणे सगळीं दिव्यास्त्रां दिलीं. ही शक्ती दिली ना. ती ताचे कडल्यान मागून घे आनी उपरांतूच कवच-कुंडलां दी.'

सपन हांगा सोंपलें. आनी कर्ण जागो जालो.

सकाळ जाली. न्हावपाक कर्ण न्हंये धडेर वतालो. न्हाल्या उपरांत सुर्याची उपासना करतालो. तसो आयजूय न्हंये धडेर गेल्लो. न्हालो. उपासने वेळार सपनांत पळेल्लें आयकल्लें तें ताणे सुर्याक सांगलें. आनी विचाल्लें, 'खरें व्हय हें.'

'खरें.' सुर्यान ताका जाप दिली.

कर्ण इन्द्राची वाट पळोवंक लागलो. आयज येतलो, फाल्यां येतलो, करीत करीत कितले-शे दीस गेले. कर्ण सपन विसरून लेगीत गेलो. एक दीस कर्ण

सदचे भाशेन न्हावंक गेल्लो. न्हावन सुर्याची उपासना करतालो. अवचित ताका आपले फाटले वटेन एक ब्राह्मण दिश्टी पडलो. तो रोखडोच ताका वळखलो. 'ब्राह्मणाच्या भेसांतलो इन्द्र हो.' ताणे मनांत म्हळें आनी ताणे कितेंय मागचे पयलीं कर्णान ताका विचाल्लें, 'कितें दिवं तुका. भूंय गायो बायलो, कितें दिवं, सांग.'

'असलें कितेंच नाका म्हाका', ब्राह्मणान जाप दिली. 'तूं उतराचो मनीस. कोणेय कितेंय मागल्यार ना म्हणचो ना हें तुजें व्रत. हांव तुजीं कवच-कुंडलां मागपाक आयलां, तीं काडून दी.'

'कवच-कुंडलां मात मागूं नाका. तीं म्हाका जल्मा सावन मेळ्ळ्यांत. तांकांच लागून तर म्हाका कोण मारूंक पावूंक ना. तीं तुका काडून दिलीं जाल्यार आयतोच दुस्मानाच्या हातांत पडटलों.' कर्णान जाप दिली.

'दितलो जाल्यार कवच-कुंडलांच दी.' ब्राह्मणान म्हळें.

कर्ण हांसलो. म्हणूंक लागलो, 'हांव जाणा तूं कोण तो. ब्राह्मणाच्या भेसांत आयला म्हुण हांव तुका वळखूंक ना अशें समजूं नाका. तूं इन्द्र. तुका कवच कुंडलां अशीं काडून दिवपाक, हांव पिसो न्हय. कवच-कुंडलां बदला तुजे कडल्यान म्हाका दुसरें कितेंय मागून घेवचें पडटलें. ना जाल्यार लोक म्हाका हांसतले.'

'म्हजें वज्र सोडून माग तुका जाय तें.' इन्द्रान म्हळें.

'तुजे कडेन वासवी नांवाची एक शक्ती आसा, ती दी.' कर्णान मागलें.

इन्द्र खीणभर घुटमळ्यांत पडलो. कर्ण वासवी शक्ती मागतलो अशें ताका दिसूंक नाशिल्लें. ताका अदमास लेगीत नाशिल्लो. इन्द्रान ही शक्ती अर्जुनाक लेगीत दिवंक नाशिल्ली. आपणाच कडेन राखून दवल्लेली. मात्शें येवजून ताणे म्हळें, 'शक्ती दितां, पुणून लक्षांत दवर : एकूच खेपे एकल्याचेरूच तुका ती वापरूंक मेळटली. उपरांत ती परती म्हज्या हातांत येतली.'

'एकूच खेपे हांव वापरपी ती आनी एकल्याचेरूच.' कर्णान जाप दिली.

'पुणून जाच्या आड तूं ती वापरूंक सोदता ताच्या फाटल्यान श्रीकृष्ण आसा.'

'आसूं.' कर्णान जाप दिली.

इन्द्रान पर्थून सांगलें, 'दुसरीं अस्त्रां हातांत आसतना, जैता विशीं दुबाव मनांत नासतना ती वापरूंक जायना, तशी घाळपणान वापरूंक फावना. वापल्ली जाल्यार ती परती तुज्या आंगार येतली.'

'जाणा हांव.' कर्णान जाप दिली.

रोखडीच इन्द्रान ताका वासवी शक्ती दिली. ती घेवन कर्णान ताका कवच-कुंडलां काडून दिलीं. तीं काडटा आसतना ताका आपली कात सोलून काडची पडिल्ली. तरी आसतना ताच्या तोंडार खंतिची एक मिरी लेगीत पडूंक नाशिल्ली. इन्द्राक ताणे इतलेंच विचाल्लें: 'कवच-कुंडलां काडून दिल्ल्यान हांव विद्रूप जावचों ना मू.'

इन्द्रान म्हळें, 'ना, तूं सत्यवादी. तूं विद्रूप जावचो ना. इतलेंच न्हय, तर तुका माव लेगीत उरची ना. तूं सुर्या भाशेनूच सदां तेजिश्ट दिसतलो.'

कर्ण आंगावेलीं कवच-कुंडलां सोलून काडपाक लागलो तेन्ना देव दानव लेगीत पळोवपाक आयिल्ले. कवच-कुंडलां काडून कर्णान तीं इन्द्राक दिलीं त्यावेळार कर्णाचेर देव-दानवांनी वयल्यान फुलां शिंवरायलीं. धाय दिकांतल्यान शंख नगारे, कांसाळीं वाजूंक लागलीं.

कवच-कुंडलां काडून दिल्ल्याची खबर आयकून कौरव खंती जाले. तर पांडव खुशालभरीत जाले.

# ९५. यक्षान घाल्ली कुवाडीं

अज्ञातवासांत वचपाचे दीस लागीं पाविल्ले. पांडव आतां जतनायेन पावलां घालूंक लागिल्ले. खंयच्यान खंय वतात हाची सुलूस लेगीत ते कोणाक लागूंक दिनाशिल्ले. ते लिपून भोंवताले. तांकां भंय आशिल्लो: अज्ञातवासांत कौरवांनी सत्र करून तांकां सोदून काडले जाल्यार, परतो बारा वरसांचो वनवास सोंसचो पडटलो. देखून अज्ञातवासांत वचचे पयलींच ते सुवातो बदलूंक लागिल्ले. द्वैत वनांतल्यान ते काम्यक वनांत आयिल्ले. पुणून काम्यक वनांत अवचित जयद्रथ पाविल्लो. ताणे द्रौपदेचेर आगळीक केल्ली. पांडव काम्यक वनांत आसात म्हणपाचें तो कौरवांक सांगतलो हाची तांकां खातरी आशिल्ली. ताचे पयलींच पांडवांनी काम्यक वन सोडलें आनी ते परते द्वैत वनांत गेले. अज्ञातवासा आदलें एक वर्स लिपून काडचें अशें ताणी थारायल्लें.

द्वैत वनांत वतना तांणी एक नेम केलो: हे खेपे सावदां मारून खावप ना. फकत फळां आनी कंद-मुळां खावप.

पुणून द्वैत वनांत ध्याना मनांत नाशिल्ली एक गजाल घडली.

तांचे वळखिचो एक ब्राह्मण हांगा तांच्या म्हऱ्यांत रावतालो. अग्निहोत्राचो उजो पेटोवपाची अरणी आनी मंथा तो खोंपी भायर एका रुखाचे खांदयेर हुमकळावन

दवरतालो. ताची खोंप पांडवांच्या बिराडा लागींच आशिल्ली. एक दीस थंय एक सांबर आयलें. आपलीं शिंगां तें त्या रुखाक घांसपाक लागलें. घांसतां घांसतां खांदयेक हुमकळायल्ली अरणी ताच्या शिंगांत घुसपली. सांबर भियेलें आनी जीव घेवन पळ्ळें.

ब्राह्मणाची गजाल पडली. तो आधार मागपाक धांवत पांडवां म्हऱ्यांत आयलो. पांडवांनी म्हळें, 'आंवंय, येदे-शे गजालीक इतलें भियेवंक कित्याक जाय. हे पळे आमी चल्ले' अशें म्हणून पांचूय भाव आयुधां घेवन सांबरा फाटल्यान धांवले.

ते वाऱ्याच्या वेगान धांवले. पुण सांबर कांय तांकां मेळ्ळें ना. तें खंय लिपलें, खंय गेलें, कळ्ळें ना. धांवन धांवन तांकां पुरो जालें. तानेन तांचो जीव व्हळपेलो. तेन्ना तांकां थंय एक वड दिश्टी पडलो. त्या वडाचे सावळेक ते बसले.

आयुष्यांत पयलेच खेपे तांकां अपेस आयिल्लें. अपेसान ते खंती जाल्ले. 'कित्याक अपेस येवचें आमकां', तांकां प्रस्न पडलो. नकुलान म्हळें, 'अशें केन्ना घडूंक ना. आधाराक आयिल्ल्याक आमी केन्ना ना म्हणूंक ना. ताका केन्ना हात हालयत आमी धाडूंक ना. आयजूच अशें कित्याक घडचें, समजना.'

'प्रारब्ध. दुसरें कितें.' युधिष्ठिरान ताका जाप दिली.

'दुर्योधनान द्रौपदेक ओडून सभेंत हाडली त्याच खिणाक हांवें ताका मारपाचो. ताका माल्लो ना, देखून भोगचें पडटा जावंक जाय हें अपेस आमकां.' भीम फणफणून म्हणूंक लागलो.

'कर्ण जीं तीख उतरां उलयता तीं हांव मोन्यांनी सोंसून घेतां. ताका परती जाप करिना. देखुनूय अपेस आयिल्लें आसूं येता.' अर्जुनान म्हळें.

सहदेव म्हणपाक लागलो, 'शकुनी फटींगपणा करून खेळटालो. तें पळोवन लेगीत हांव ओगी रावलों. ताका कांय केलें ना. देखुनूच भोगचें पडलां हें आमकां, अशें म्हाका दिसता.'

युधिष्ठिर कांय उलयलो ना. तो ओगी रावलो. थोड्या वेळान ताणे नकुलाक म्हळें, 'सगळ्यांचो जीव तानेन व्हळपेला. ह्या मुखावेल्या रुखार चडून मात्सो पळे रे बाबा, खंयूय उदक दिश्टी पडटा जाल्यार.'

नकुल रुखार चडलो. ताका पयस एके कडेन कांय रूख दिश्टी पडले. ताणे म्हळें, 'कांय रूख दिश्टी पडटात, उदकाच्या आधारान वाडपी.'

'तर थंयच खंय तरी उदक आसतलें.' युधिष्ठिरान म्हळें. 'मात्सो थंय वचशीत व्हय आनी घेवन येशीत व्हय थोडें उदक हांगा.'

नकुल उदक हाडपाक रोखडोच उठून गेलो. रुखां म्हऱ्यांत पावतकूच ताका

थंय एक तळें दिश्टी पडलें. तो उदक काडपाक तळ्या म्हर्‍यांत गेल्लो. इतल्यांत–

'तळ्यांत देंव नाका' एक आवाज ताच्या कानार पडलो. 'तळें म्हजें. हांव विचारतां त्या प्रस्नांच्यो जापो पयलीं दी. मागीर देंव.'

'कोणाचो आवाज काय हो' अशें मनांत म्हणून नकुलान भोंवतणी एक नदर मारून पळेलें. ताका खंयचेच कडेन कोण दिश्टी पडलो ना. 'अँ, कोण जाणा, कोण म्हुण' अशें म्हणून तो तळ्यांत देंवलो. तागेलोय जीव तानेन व्हळपेल्लो. तळ्यांत देंवन तो घोंटभर उदक पियेलो. त्याच खिणाक ताची सुद्द गेली. तो थंय मरून पडलो.

उदक हाडपाक नकुल गेल्लो. केदो वेळ जालो, येवंक ना. खंय घुसपलो काय देवा, अशें येवजून युधिष्ठिरान सहदेवाक म्हळें, 'मात्सो पळोवन येता व्हय बाबा, कित्याक कळाव जालो तो ताका.'

सहदेव रोखडोच उठून गेलो. तळ्या म्हर्‍यांत वचून पळे जाल्यार, नकुल मरून पडला. ताका कच्च जालें. उदक काडपाक तो तळ्यांत देंवलो. जाल्यार—

'पिशेपणा करूं नाका. हांव विचारतां त्या प्रस्नांचो·जापो पयलीं दी. मागीर देंव' ताच्या कानार एक आवाज पडलो.

सहदेव घुटमळ्यांत पडलो. 'कोणाचो आवाज काय देवा' अशें मनांत म्हणून ताणे भोंवतणी नदर मारून पळेलें. कोण दिश्टी पडलो ना. 'अँ, भास जाला जातलो' अशें म्हणून तो तळ्यांत देंवलो. घोंटभर उदक पियेलो. तोवूय रोखडोच मरून पडलो.

नकुलाक येवपाक कळाव जाल्लो म्हुण सहदेवाक धाडिल्लो. तोवूय केदो वेळ जालो येना, हें पळोवन युधिष्ठिराक हुस्को जालो. ताणे अर्जुनाक धाडून दिलो. अर्जुन गेलो. थंय वचून पळे जाल्यार ताका नकुल आनी सहदेव दोगूय मरून पडिल्ले दिश्टी पडले. 'कितें जालें काय, देवा' अशें येवजीत ताणे भोंवतणी नदर भोंवडावन पळेलें. खंयच, कोण नाशिल्लो. तो तळ्यांत देंवलो.

'धाडस करूं नाका. म्हज्या प्रस्नाच्यो जापो पयलीं दी. मागीर देंव तळ्यांत. ना जाल्यार तुजीय गत हांचे सारकी जातली.' ताकाय एक आवाज आयकूंक आयलो.

अर्जुन देंवपाचो थांबलो. भोंवतणी नदर मारून पळेलें. आवाज येतालो, पुणून खंयचेच कडेन कोण दिश्टी पडनाशिल्लो. ताणे खीणभर येवजिलें. मागीर तळ्यांत देंवपाक पावल उखलें.

'सांगतां तें आयकूंक येना व्हय तुका.' अर्जुनाक तोच आवाज पर्थून आयकूंक

आयलो.

'कोण तूं', अर्जुनान विचाल्लें. 'आनी लिपून कित्याक रावला. मुखार यो आनी आडावन पळे म्हाका.' ताणे म्हळें.

कोणूच मुखार आयलो ना तेन्ना अर्जुनान चोंय दिकांनी तीर सोडले.

'तिरांनी कांय जावपाचें ना. म्हज्या प्रस्नांच्यो जापो पयलीं दी, मागीर देंव. ना जाल्यार तुजी गत हांचे सारकी जातली.'

आवाजाची पर्वा करी नासतना अर्जुन तळ्यांत देंवलो आनी उदकाचो घोंट घेना फुडें मरून पडलो.

अर्जुनूय परतो आयलो ना. तेन्ना युधिष्ठिरान भिमाक धाडलो. तळ्यासरीं येवन पळे जाल्यार भिमाक तिगूय भाव मेल्ले दिश्टी पडले. कोणूय तरी हांगा लिपून रावला जावंक जाय. ताणेंच हांकां माल्ल्यात जावंक जाय. ताच्या आड आतां झूज करचें पडटलें. अशें ताका दिसलें. त्या आदीं घोंटभर उदक पियेवंचें म्हुण तो तळ्यांत देंवलो.

'म्हज्या प्रस्नांच्यो पयलीं जापो दी, मागीर पिये उदक.' ताच्याय कानार आवाज पडलो.

भीम पर्वा करी नासतना तळ्यांत देंवलो आनी खिणांत मरून पडलो.

गेल्लो गेल्लो भाव परतो येना, हें पळोवन युधिष्ठिराक अजाप जालें. तो हुसक्यांत पडलो. 'कितें जालें काय, देवा ! कोणे मारून बी उडयले नात मू तांकां. काय, उदक मेळ्ळें ना म्हुण तें सोदीत ते मुखार गेल्यात. कळाव कित्याक जालो काय,' अशें येवजीत आतां तोच तळ्या कडेन वचूंक भायर सल्लो.

'आयचो दिसूच नश्टो. सकाळीं उठून कोणाचें तोंड पळेल्लें, कोणाक खबर.' अशें ताका जालें.

तो तळ्या सरीं पावलो. थंय पळे जाल्यार युग सोंपचें आनी संवसाराक आधार दिवपी लोकपाल मरचे, तशे तागेले चौगूय भाव मरून पडिल्ले. चौगांयचीं आयुधां हे वाटेन ते वाटेन पडिल्लीं. चौगूय लाकूड जावन पडिल्ले. युधिष्ठिराचेर आकांत आयलो. ताचे दोळे भरून आयले. तो विकळाप करपाक लागलो, 'भिमा, दुर्योधनाची मांडी गदेन फोडटलों असो सोपूत घेतिल्लो मरे तुवें. मागीर अशें कशें जालें रे. मदींच उठून तूं कसो गेलो रे. अर्जुना, तूं कुरु-कुळाची कीर्त वाडयतलो अशीं भविष्यां केल्लीं मरे सगळ्यांनी. आमचें गेल्लें वैभव तूं परतें हाडटलो अशें सांगताले मरे सगळे. तुका कोण जिखूंक पावचो ना अशें म्हणटाले मरे सगळे. मागीर, अशें कशें जालें. कोणे तुका कितें केलें. सगळीं सपनां मातये भरवण

जावप मरे आमचीं.'

ताणे चौगांय कडेन बारीकसाणेन पळेलें. ताका दुबाव आयलो, 'हे झुजून मेल्ले दिसनात. हांच्या आंगार घाय नात. मागीर, मेले कशे? हांगा कोणाच्या पावलांच्यो खुणोय दिश्टी पडनात. हांच्या भायर दुसरो कोण हांगा पाविल्लो दिसना. तळ्यांतलें उदक पियेवन मेले काय.' ताका शकुनिचो दुबाव आयलो. 'शकुनिचें कांय सांगूं नज. ताणे तळ्यांत विख्ख घाल्लें आसूं येता. ताची बुद्धूच पाडी. पुणून, हांची कळाय बदल्लेली दिसना. विखाळ उदक पियेवन मेल्ले जाल्यार हांचो रंग बदलूंक जाय आशिल्लो. निळो वा काळो पडूंक जाय आशिल्लो. तो बदलूंक ना. मागीर, कितें जालें काय देवा. . .'

तो तळ्या कडेन गेलो. अवचित ताच्या कानार आवाज पडलो, 'हें पळे, पिशेपणा करूं नाका. हें तळें म्हजें. हांवें तुगेल्या भावांक सांगिल्लें, देवूं नाकात म्हुण तळ्यांत. तरी आसतना ते देंवले आनी मेले. तूं देंवशीत जाल्यार तुजीय तांचे सारकी गत जातली. हांव विचारतां त्या प्रस्नांच्यो जापो पयलीं दी. मागीर, देंव.'

'तूं कोण', युधिष्ठिरान विचाल्लें.

'हांव शेळो आनी नुस्तें खावन जियेवपी बकें.'

'बकें न्हय तूं. तूं रुद्र वसू मरुत हांचे भितल्लो कोणूय आसूंक जाय. ही करणी बक्याची न्हय. तूं कोण तें पयलीं सांग.' युधिष्ठिरान जाप दिली. 'म्हज्या भावांक देव गंधर्व असूर राक्षस कोणूच मारूंक पावूंक नाशिल्ले. तुंवें तांकां कित्या खातीर माल्ले तें सांग. तुका कितें जाय आशिल्लें.'

'हांव यक्ष.'

जाप आयकना फुडें तळ्यांत देंविल्लो युधिष्ठिर वयर सल्लो आनी मात्सो पयस वचून उबो रावलो. रोखडोच ताच्या मुखार माडा परस ऊंच, बिटबिटीत दोळ्यांचो, आंकांताचो महाकाय यक्ष उबो रावलो. कुपांचो गडगडाट जावंचो तसल्या आवाजान यक्षान म्हळें, 'हांवें नाका म्हळ्ळें आसतना तुगेले हे भाव तळ्यांत देंवले आनी उदक पियेले. म्हुण हांवें तांकां मारून उडयले. तूंय देंवशीत जाल्यार तुजीय गत्त तांचे सारकी जातली. हें तळें म्हजें. हांव विचारतां त्या प्रस्नांच्यो जापो पयलीं दी. मागीर देंव तळ्यांत आनी पिये उदक.'

'उदक तुजें आसत जाल्यार हांव तें उश्टावचों ना' युधिष्ठिरान जाप दिली आनी म्हळें, 'तुज्या प्रस्नांक जापो दिवपाचो यत्न करतां. विचार.'

यक्षान एकार एक प्रस्न विचाल्ले आनी युधिष्ठिरान सडसडीत जापो दिल्यो.

दिसाक वयर कोण काडटा. ब्रह्म. ताचे भोंवतणचीं किरणां कोण, देव. ताका धारे सकल कोण व्हरता. धर्म. तो कित्याचेर थिरावला. सत्याचेर. श्रोत्रिय करसो जाता, वेद शिकून. व्हडपण कशें मेळटा, तपान. सांगात बरो कोणाचो, धिटायेचो. मनीस बुदवंत करसो जाता. जाणटेल्यांची सेवा करून. ब्राह्मणाचें देवत्व कित्यांत. स्वाध्यायांत. तांच्यांतलो सत्पुरूष कोण. तप करता तो. दुष्ट ब्राह्मण कोणाक म्हणचो. दुसऱ्यांची निंदा करता ताका. क्षत्रियांचें देवत्व कित्यांत. अस्त्रविद्येंत. तांचो धर्म खंयचो. यज्ञ. दुष्ट क्षत्रिय कोणाक म्हणचो. शरण आयिल्ल्याक आलाशिरो दिना ताका. शेतकाराक व्हड कितें. पावस. लुंवतल्याक व्हड कितें. बीं. तांच्यांतलो व्हड कोण. जागेर गोरवां आसात तो. सगळ्यांत व्हड फळ खंयचें. पुत्रफळ. जितो आसून मेल्लो कोण. देवाक निवेद्य दाखयना, आयिल्ल्या गेल्ल्यांक वाडिना, चाकरांक पोशिना, पितरांक श्राद्ध घालिना, आपली उदरगत करून घेना तो. धर्तरे परस व्हड कोण. आवय. मळबा परस व्हड कोण. बापुय. वाऱ्या परस वेगवान कोण. मन. तणा परस चड मातता कितें. हुस्को. न्हिदता पुण दोळे धांपिना, कोण. नुस्तें. जल्मा येता पुणून हालना, धोलना, कोण. तांतीं. काळीज कोणाक नासता. फातराक. यात्रेक वतल्याचो इश्ट कोण. विद्या. घरांत बरो इश्ट कोण. घरकान्न.हांतुळणार पडिल्ल्याचो इश्ट कोण. वैज. मरतल्याचो इश्ट कोण. दान. एकलोच भोंवता कोण. सूर्य. भौन भौन जल्मा येता, कोण. चंद्रीम. शिंयांचें वखद खंयचें. उजो. सगळ्यांत व्हडलें शेत खयचें. धर्तरी. धर्म म्हळ्यार कितें. जागरूकपण. येस कित्यान मेळटा. दानान. स्वर्गाचो तंळखांबो खंयचो. सत्य. सुखाचो खंयचो, शील. मनशाचो जीव कोणाचेर. पुताचेर. ताची सगळ्यांत व्हडली जोड खंयची. विद्या. सगळ्यांत व्हडलो लाव खंयचो. आरोग्य. कितें आळाबंदा हाडल्यार पच्छाताप करचो पडना. मन. कोणाची इश्टागत तुटना. बऱ्या मनशाची. कितें सोडटकूच मनीस सगळ्यांक प्रिय जाता. अहंकार. कितें सुटल्यार मनशाक पश्चात्ताप जायना. तिडक. कितें सोडटकूच मनीस सुखी जाता. व्हसव्हस. कित्याक लागून इश्ट पयसावतात. लोभाक लागून. मनीस सोंपलो केन्ना म्हणचो. दळदिरो जालो म्हणटकूच. राष्ट्र सोंपलें केन्ना म्हणचें. अराजक मात्तकूच. लज कित्याची धरची. वायट करण्यांची. जिखूंक कठीण कितें. राग. ब्राह्मण कोणाक म्हणचो. जाच्यांत शील, चारित्र्य आसा ताका. संवसारांतलें सगळ्यांत व्हडलें अजाप खंयचें. भोंवतणी दीस रात मरणाचो नाच चलिल्लो आसतना मनीस आपुण केन्ना मरचो ना, अशें धरून जियेता हेंच सगळ्यांत व्हडलें अजाप म्हणूंक जाय.

युधिष्ठिराच्यो जापो आयकून यक्ष खोशी जालो. म्हणूंक लागलो, 'तुज्यो जापो आयकून हांव खोशी जालां. आतां ह्या चौगां भितल्ल्या एकल्याकूच जिवो करतां. कोणाक करूं, सांग.'

युधिष्ठिरान अनमन नासतना नकुला कडेन बोट दाखोवन म्हळें: 'हाका कर.'

यक्षाक अजापांचो धसको बसलो. ताणे म्हळें, 'तुजो भीम सगळ्यांत अपुर्बायेचो भाव म्हुण आयकल्लें. अर्जुनाचेरूय तुजो जीव म्हुण आयकल्लें. दोगांयचो तुका आधार. तांच्या आधारान तूं गेल्लें सगळें परतें जोडूंक आंवडेता. मागीर, तांकां सोडून नकुलाक जिवो कर म्हुण तुवें कित्याक सांगलें.'

युधिष्ठिरान जाप दिली: 'जो धर्म सोडटा ताका धर्म सोडटा. जो धर्म राखता ताका धर्म राखता. हांव धर्म सोडूंक तयार ना. म्हज्या हातान धर्म बुडत असलें कितेंच हांव करचों ना. म्हज्या बापायक दोन बायलो: कुन्ती आनी माद्री. दोगी पुत्रवती उरच्यो ही इत्सा. कुन्तिचो हांव आसां. माद्रिचो नकुल जिवो जावं.'

यक्ष खोशी जालो. ताणे म्हळें, 'तुजे चौगूय भाव जिवे जावं.'

न्हिदेंतल्यान उठचे तशे त्याच खिणाक चौगूय भाव उठले.

युधिष्ठिरान यक्षाक विचाल्लें: तूं कोण तें तुवें म्हाका सांगूंक ना. तूं यक्ष न्हय इतलें खरें. वसू रुद्र मरुत हांचे भितल्लो कोणूय आसूंक जाय. कित्याक, म्हगेले भाव यक्षगंधर्वांक बागडपी न्हय. तांकां तुवें माल्ले आनी आतां जिवे केले. तूं आमचो बरें मागतो कोणूय आसूंक जाय. वा आमकां जल्मा घालतल्यां भितल्लो कोणूय आसूंक जाय. आमची परीक्षा घेवपा खातीर तुवें हांकां मारिल्ले आसूंक जाय.

यक्ष हांसलो. म्हणूंक लागलो, तूं म्हणटा तें खरें. तुजी परीक्षा घेवपा खातीर हांव आयिल्लों. हांव यम. तुका जल्म दिवपी, तुजो बापुय. तुजें बरें जावं. हांव तुजेर खोशी जालां. आतां, माग तुका जाय तें.'

'आमच्या शेजारच्या एका ब्राह्मणाची अरणी एक सांबर घेवन गेल्लें. ती दी.' युधिष्ठिरान मागलें.

'हांवूच आयिल्लों सांबराच्या रुपान'. अशें म्हणून यमान हांसून अरणी युधिष्ठिराक दिली.

'आनीक कितेंय माग' यमान म्हळें.

'आतां आमचो अज्ञातवास सुरू जावपाचो आसा. आमकां अज्ञातवासांत कोण वळखूंक पावचो न्हय अशें कर.' युधिष्ठिरान मागलें.

'तुमकां कोण वळखूंक पावचो ना.' यमान म्हळें.

'आनीक माग.'

'म्हजें मन तिडक, व्हसव्हस आनी गदळ हांचेर जैत जोडूंक पावूं आनी दान तप सत्य हांचेर सदां थीर उरूं' युधिष्ठिरान मागलें.

यमान खुशाल भरीत जावन म्हळें : 'तुज्यांत हे गुण मुदलांतूच आसात. तूंच खासा धर्म. तूं उलयलो तशेंच घडटलें.'

ह्या आख्यानाचें नांव : यक्ष-प्रश्न. आख्याना अंतीं 'हें आख्यान जे वाचतीत ते मनाचेर जैत जोडून नातरां-पण्टुरां सयत शंबर वरसां जियेतले.' हे तरेची फलश्रुती सांगल्या. ज्या आख्यानां अंतीं फलश्रुती येता तीं मुदलांतलीं महाभारतांतलीं न्हय. हेंवूय तांतलेंच एक. वैदीक साहित्य आनी लोक साहित्य एकामेकांत भरसलीं तेन्नाचें हें आख्यान.

वेदांचे मुर्स्तींत प्रस्न विचारप आनी तांच्यो जापो दिवप हे तरेची एक साहित्यिक शैली वयर सरिल्ली. तिका 'ब्रह्मोद्य शैली' म्हणटाले. लोकसाहित्यांतूय असलीच एक शैली आशिल्ली. उमाण्यांच्या रुपाची. 'न्हिदता पुणून दोळे धांपिना, कोण: नुस्तें.' ही लोकसाहित्याची शैली. दोनूय शैली महाभारतांतल्या ह्या यक्ष-प्रश्नांत भरसल्यात.

वेदां आदल्या काळार भारतीय समाजांत यक्षपुजा खूब चलताली. उपरांत जेन्ना वैदीक साहित्य आनी लोकसाहित्य भरसुपाक लागलीं तेन्ना ब्रह्माकूच यक्ष म्हणपाची चाल सुरू जाली. केनोपनिषदांत ब्रह्म यक्षाच्या रुपान उक्तें जाता.

महाभारतांतल्या ह्या यक्ष-प्रश्नाचो आनी लोकसाहित्यांतल्या यक्ष प्रश्नामदलो फरक इतलोच : लोकसाहित्यांत लोक यक्षाक प्रस्न विचारतात आनी तो जापो दिता. तर हांगा यक्ष प्रस्न विचारता आनी युधिष्ठिर जापो दिता.

## ९६. धौम्याचो उपदेस

वनवासाचे पांडवांक खूब त्रास जाल्ले. पुणून वनवास तांकां जड वचूंक नाशिल्लो. तांणी वनवासाच्या बारा वरसांत कितलें-शें पळेल्लें, तितलेंच आयकल्लें. कितलें-शें अणभविल्लें. तांगेलें जिवीत भितल्ल्यान गिरेस्त जाल्लें. ते काळजान घटमूट जाल्ले. तांगेलें बळूय वाडिल्लें. अज्ञातवासांत वचपाचो दीस उदेलो तेन्ना मात तांकां प्रस्न पडलो. खंय वचचें, कशें रावचें, कितें करचें. मुदलचे ते नांवाजते. तांतूंत आतां तांकां वनवास घडिल्लो. ताका लागून तांची नामना आनिकूय वाडिल्ली. तांचें भोंवप-चलप, हालप-धोलप, सगळ्या गजालिंचेर लोकांची बारीक नदर आशिल्ली. लिपून रावप तांकां कठीण जाल्लें.

अज्ञातवासाचें एक वर्स तांकां बारा वरसांच्या वनवासा परसूय भेश्टावणे दिसपाक लागलें.

तांणी तयारी केली.

युधिष्ठिरान सगळ्यांत पयलीं आपल्या सांगांतांत राविल्ल्या ब्राह्मणांक आपोवन सांगलें : तुमी जाणात, धृतराष्ट्राच्या पुतांनी आमचें राज्य नाडून कशें व्हेलें तें. आमची हीं आवतिकाय कित्याक लागून जाल्या, तुमकां खबर आसा. वनवासाचीं बारा वरसां कशींय तरी काडलीं आमी. ह्या बारा वरसांत तुमचो सांगात आधार आनी धीर मेळ्ळो. तुमचे उपकार विसरपाचे नात आमी. आतां अंदुच्या वरसा आमकां लिपून रावपाचें आसा. आमकां कोण वळखना, असले सुवातेर वचून रावपाचो आमचो बेत चल्ला. आमी लिपून रावप कितलें कठीण, तुमी जाणात. त्या भायर, शकुनी कर्ण आमचेर नदर दवरून आसात. ते आमकां सोदीत रावतले. वचत थंय आपले मनीस धाडटले. आमकां सोदून काडपाचो ते आकांताचो यत्न करतले. तांगेले यत्न फळाक आयले आनी आमी तांकां मेळ्ळे जाल्यार, परतो बारा वरसांचो वनवास आनी एका वरसाचो अज्ञातवास आमकां भोगचो पडटलो. अशें घडचें न्हय म्हुण खूब जतनाय घेवंक जाय. म्हणटकूच, तुमीच सांगात, तुमकां सगळ्यांक घेवन आमी लिपून कशे रावतले. आतां एका वरसा खातीर तुमी पांचाल देशांत द्रुपदागेर वचून रावात. तुमी येतले म्हुण हांव थंय सांगून धाडटां. वर्स सोंपतकूच मागीर मेळुंया. आमच्या अज्ञातवासांत तुमी वांगडा येवप आमच्या बऱ्याक पडपाचें ना.'

हें सांगता आसतना युधिष्ठिराचो गळो भरून आयलो. ब्राह्मणूय सद्गदीत जाले.

धौम्य मुनीन म्हळें, 'तुमची अडचण आमकां समजता. आमचो हुस्को तुमी करूं नाकात. तुमी वचपाचें येवजिलां थंय बरे भाशेन वचात. धीर मात सोडूं नाकात. असलीं संकश्टां तुमचेरूच कोंसळ्ळ्यांत अशें न्हय, देवांचेर लेगीत कोंसळ्ळ्यांत. संकश्टांक धिरानूच तोंड दिवंक येवंक जाय.'

धौम्याचें म्हणणे आयकून युधिष्ठिराचो हुस्को ना जालो. ताणे ब्राह्मणांक द्रुपदागेर धाडून दिले आनी रांदपी चाकरमाने बी जे कोण वांगडा आशिल्ले तांकां द्वारकेक धाडून दिले.

कोणूय तुमकां पांडव खंय गेल्यात काय म्हुण विचारीत जाल्यार 'आमकां खबर ना' म्हुण सांगात, असो धौम्यान ब्राह्मणांक उपदेस केलो.

पांडव खंयूय वचून रावले जाल्यार, खंयच्याय तरी राजागेरूच रावतले हें धौम्य जाणा आशिल्लो. देखून पांडवांक सोडून वचचे पयलीं ताणे तांकां उपदेसाचीं चार उतरां सांगचीं अशें येवजिलें आनी म्हळें—

'तुमी शाणे. तुमकां कितेंच सांगपाची गरज ना. तरी आसतना सांगीन दिसता म्हुण सांगतां : राजागेर रावप हरशींय जाल्यार कोणाकूय कठीण. तांतूंत शाण्या

बुदवंतांक तर चड कठीण. थंय कोणाचो केन्ना कसो अवमान जायत, सांगूं येना. देखून पयलो नित्शाय तुमी करूंक जाय: मान-अवमाना कडेन आमी लक्ष दिवचे नात म्हणपाचो. कोणूच वळखना अशे तरेन रावप हें म्हत्त्वाचें. तें विसरूं नाकात. आनी अवमान जालो जाल्यार तो मोन्यानी गिळात. दुसरें, राजाचे भेटेक वतना विचारून, सांगून, कळोवन वचचें. वचपाची मेकळीक आसा अशें धरून सांगी नासतना वचूंक जायना. राजा भोंवतणी सदांच जायते जाण आसतात. ताची सायबाजात्रा ते करतात. तांकां कोणाक पातयेवप ना. राजाक जो चड लागिंचो ताका तर निखालूस पातयेवप ना. असल्यां लागीं उलयता चलता आसतना जतनाय घेवची. जंयचो कोण 'ऊठ' म्हणचो ना, असलीच सुवात बसपा खातीर वेंचून काडची. राजाची आपणाचेर मर्जी आसा अशें धरून खंयूय बसप ना. राजाचे पालखेंत, बाज्जेर, ताच्या आसनार, रथांत वा हतयार निखालूस बसूंक फावना. राजान विचाल्ले बगर ताका कांय सांगप ना. जाता ते मेरेन ओगी रावप. कांय उलोवप ना. गरज पडली जाल्यार ताची तुस्त करपाक अनमनप ना. पुणून तुस्त करतना अतिताय करप ना. राजाच्या राणयां कडेन, तागेल्या अंत:पुरांतल्या बायलां कडेन आनी राजाक जांचो अबको वा दुस्वास असल्यां कडेन कसलोच संबंद दवरप ना. इश्टागत तर निखालूस करप ना. राजाक लिपोवन कितेंच करप ना. ताची सदांच मुरवत राखची. मुरवत सोडटा तो पुत, नातू वा भाव आसलो जाल्यारूय राजाक तो मानवना. राजाक सदां उज्यावरी वा देवावरी लेखचो. उजो हुलपावन उडयता आनी देव नाडटा. ताचे लागीं चड संवकळ बरी न्हय. राजा सांगता तशें करचें. तो ऊठ म्हणटा तेन्ना उठचें. बस म्हणटा तेन्ना बसचें. ताका बरें दिसता तेंच उलोवचें. सदां ताच्या बऱ्या खातीर वावुरचें. ताका गर्व अभिमान दाखोवचो न्हय. राजाच्या हातान चूक घडली जाल्यार ती वाऱ्यार केन्ना घालची न्हय. 'ही चूक' म्हुण्णूय ताका सांगचें न्हय. ताका सदां सांबाळून घेवचो. ताच्या बऱ्याक पडटलें तेंच करचें. ताचे हुजीर केन्ना फुतफुतचें न्हय. दांत ओंठ चाबचे न्हय. हाता-पायांचे चाळे करचे न्हय. कोणाचीं फकाणा मारचीं न्हय. मोट्यान हांसचें न्हय. ताच्या दुडवांक हात लावचो न्हय. सावळी जाल्ले वरी राजा फाटल्यान जो चलता, मुरवतीन चलता, राजा दिता तातुंतूच धादोसकाय मानता, न्यायान चलता, तोच राजागेर सुखान दीस काडूंक पावता.'

धौम्याचो उपदेस आयकून युधिष्ठिराक विदुराचो आनी कुन्तिचो उगडास जालो. तीं सोडून आनी-कोणा कडल्यान तांकां असलो उपदेस आयकूंक मेळूं नाशिल्लो.

# ९७. विराट नगरींत

अज्ञातवासांत वचचे पयलीं युधिष्ठिरान अर्जुनाक विचाल्लें, 'बारा वरसां आमी वनवासांत काडलीं. हें तेरावें वर्स आतां आमकां लिपून काडूंक जाय. खंय वचून रावुंया.'

अर्जुना मुखार कांय राज्यां आशिल्लीं. तांतलीं पांचाल चेदी मत्स्य शूरसेन पटच्चर दशार्ण आनी सुराष्ट्र अज्ञातवासा खातीर बरीं अशें ताका दिसतालें. तांची नांवां घेवन ताणे म्हळें, 'हांचे भितल्ल्या खंयच्याय एका राज्यांत वचून रावप बऱ्याक पडटलें.'

पांचूय भावांनी एक एक राज्य तर्जून पळेलें. निमाणे विराटाच्या मत्स्य देसांत वचून रावचें अशें एका-मत्तान तांणी थारायलें.

विराट तांगेलो बरें मागतो, बळिश्ट आनी जाणटो.

थंय रावचें अशें थरलें. पुणून लिपून कशें रावचें, कोणे कोण म्हुण रावचें, हो प्रस्न सोडोवपाचो उरिल्लो. युधिष्ठिरान ब्राह्मणाचें रूप घेवचें आनी कंक म्हुण नांव घेवन राजागेर वचचें, अशें येवजिल्लें. अक्षविद्येंत युधिष्ठिर आतां पाटांगडो जाल्लो. वैदुर्य रत्नाचे, भांगराचे आनी हतया-दांताचे पाशे ताचे कडेन आशिंल्ले. ते घेवन वचचें आनी राजा वांगडा खेळून ताका संतुष्ट दवरचो अशें ताणे येवजिल्लें. कोणेय विचाल्ल्यार आपुण युधिष्ठिराचो इश्ट म्हुण सांगतलों, अशेंय थारायलें.

कंक म्हळ्यार यमाचो पुत आनी युधिष्ठिर यमाचोच पुत.

भिमान म्हळें; 'हांवें पौरोगव बल्लव हें नांव घेवचें अशें येवजिलां. (पौरोगव म्हळ्यार वायुचो पुत आनी भीम वायुचोच पुत.) हांव रांदूंक जाणां. राजान रांदची कूड म्हज्या हातांत दिवची, हांव राजाक तरे तरेचीं पक्वान्नां रांदून वाडटलों, त्या भायर, लाकडां फोडटलों. गरज पडल्यार मस्त्या हतयांक जाग्यार हाडटलों. राज्यांत कोणूय मल्ल आयलो जाल्यार ताच्या वांगडा कुस्तीय खेळटलों.'

युधिष्ठिराक हुसक्यांत पडिल्लो पळोवन भिमान म्हळें: 'हय, पुणून हांव मल्लाक जितो मारचों ना. तूं हुस्को करूं नाका. कोणेय विचाल्ल्यार हांव युधिष्ठिरागेर मल्ल म्हुण काम करतालों अशें सांगतलों'.

युधिष्ठिराची नदर अर्जुनाचेर थिरावली. 'हो सदांच जैतवंत. खांडव वनांत खासा इन्द्राक हाणे नाका-पुरो करून उडयल्लो. हाचेर दुसऱ्यागेर चाकरी करपाचो प्रसंग येवचो मू. तेजिश्टांत सूर्य, मनशांत ब्राह्मण, आयुधांत वज्र, तसो हो बारावो रुद्र, तेरावो आदित्य. विराटागेर वचून कितें करतलो.' असो प्रस्न ताका पडलो, ताचे

पयलींच अर्जुनान ताका म्हळें, 'म्हजो हुस्को करूं नाका. इन्द्रलोकांत आसतना उर्वशेन म्हाका 'वर्सभर तूं हिजडो जातलो' म्हुण श्राप दिल्लो. तिगेलो हो श्राप म्हाका ह्या प्रसंगार उपकारतलो. हांव हिजडो जावन बृहन्नडा नांव घेतलों आनी विराटाच्या अंत:पुरांत बायलांक नाच गाणे शिकयतलों. विचाल्ल्यार 'युधिष्ठिरागेर हांव द्रौपदेची दासी म्हुण काम करतालीं' अशें सांगतलों.

बृहन्नडा उतराचो अर्थ कृष्णाचो इश्ट आनी अर्जुन कृष्णाचो खरोच इश्ट.

'तुज्या आंगार धोणवाचीं खिणा आनी अस्त्रांच्यो मावो आसात. त्यो कश्यो लिपयतलो.' म्हुण ताका विचाल्लें तेन्ना आपुण त्यो फुलांनी लिपयतलों अशें अर्जुनान सांगलें.

नकुलान सांगलें, 'हांव ग्रंथिक नांव घेवन विराटाचे घोडे राखतलों.' घोड्यांक शिकोवप, तांकां वखद-विरसद करप हीं कामां नकुलाक बरीं येतालीं.

ग्रंथिक म्हळ्यार वैज. नकुल आनी सहदेव अश्विनी-कुमारां पसून जाल्ले. आनी अश्विनी कुमार वैज.

सहदेवान आपुण तंतिपाल नांव घेवन विराटाचीं गोरवां राखतलों म्हुण सांगलें. सहदेव हे विद्येंतलो पाटांगडो.

निमाणे युधिष्ठिराची नदर द्रौपदेचेर पडली. 'ही नाजूक बायल दुसऱ्यांगेर कशे दीस काडटली काय देवा !' युधिष्ठिरान मनांत म्हळें.

'म्हजो हुस्को करूं नाकात तुमी कोण', द्रौपदेन म्हळें, 'विराटागेर हांव सैरंध्री—अंत:पुरांतली दासी—म्हुण रावतलीं आनी तागेले राणयेची सेवा करतलीं. विचाल्ल्यार हांव युधिष्ठिरागेर द्रौपदेची सेवा करतालीं म्हुण सांगतलीं.'

कोणे कसलें रूप घेवन वचचें, कोण म्हुण रावचें हें थारायल्या उपरांत पांडव यमुनेचे धडे वयल्यान चलत दक्षिणे दिकेवेल्या अरण्यांत भितर सल्ले. थंयच्यान पांचाल देशाचे दक्षिणे दिकेवेल्या शूरसेन वाटारांतल्यान विराटाच्या मत्स्य देशाचे शिमेर पावले. द्रौपदेक पुरो जाल्लें. कितले-शे दीस ती शेतांतल्यान आनी रानांतल्यान चलत आयिल्ली. अजून राजमार्ग मेळूंक नाशिल्लो. पांय-वाटेनूच चलिल्ली. शिमेर पावतकूच तिणे म्हळें, 'अर्जुना, आमकां सारको मार्ग मेळूंक ना. राज्याचे शिमेर आमी पावूं, विराट नगरी अजून पयस आसा. म्हज्यान आतां चलूं नज. म्हाका सामकें पुरो जालां.'

युधिष्ठिरान अर्जुनाच्या तोंडा कडेन पळेलें. अर्जुन समजलो. ताणे रोखडी द्रौपदेक उबारून खांदार घेतली. जेन्ना पयसल्यान विराट नगरी दिश्टी पडली तेन्नाच ताणे तिका खांदा वयली देंवयली.

एक प्रस्न अजून सोडोवपाचो उरिल्लो. तो म्हळ्यार आयुधांचो. तांचें कितें करचें, तीं खंय दवरचीं. तीं घेवन भितर सल्ले जाल्यार लोक भियेतले, बोवाळ जातलो. एकाद्रे वळखतले. आनी-कितेंय लिपोवं येतालें, गांडीव लिपोवंक येवपा सारकें नाशिल्लें. आयुधां खंयूय जाल्यांर लिपोवन दवरूंक जाय आशिल्लीं. खंय दवरचीं.

एके मसंडी लागसार बसून ते ह्या प्रस्नाचेर येवजूंक लागले. अर्जुनाची नदर म्हऱ्यांतल्याच एका रुखाचेर गेली. खांदयांनी कुचकुचीत आनी चडपाक कठीण असो एक म्हाल-म्हातारो शमिचो रूख ताका दिश्टी पडलो. 'रुखा म्हऱ्यांत कोण पावनात जावंक जाय. कित्याक, हांगा जिवाणी खूब दिश्टी पडटात. ह्या रुखार आयुधां दवरुंया. रुखाच्यो खांदयो कुचकुचीत. हांगा कोणूय पावलो जाल्यारूय ताका लिपोवन दवल्लेलीं आयुधां दिश्टी पडपाचीं नात.' ताका दिसलें.

नकुलान वयर चडून पळेलें. रुखाच्या पोटांत एक धोली सारकी पोकळ सुवात ताका दिश्टी पडली. हे धोलींत तांगेलीं सगळीं आयुधां ताणे सोडोवन दवल्लीं. धोलिचें तोंड खांदयांनीं बांदलें. मसंडींत ताका एक प्रेत दिश्टी पडलें. तेंवूय हाडून ताणे वयले एके खांदयेक हुमकळायलें. आनी म्हळें, 'आतां भिरांत ना. आतां हांगा कोण येवपाचो ना.'

इतलें करून जातकूच ते शारांत भितर सरपाचें येवजूंक लागले.

कशें जातलें, कितें जातलें हो दुगदुग युधिष्ठिराक आशिल्लो. 'देवते पाव', अशें म्हणून ताणे दुर्गेचें स्तवन केलें* आनी चित्त शान्त जातकूच सगळ्यांत पयलो तो शारांत भितर सल्लो.

विराट आपले सभेंत बशिल्लो. अवचित ताका एक तेजःपुंज ब्राह्मण राजवाड्यांत भितर सरता तो दिश्टी पडलो. कोण काय हो, ताका प्रस्न पडलो. भेस ब्राह्मणाचो. पुणून कान्त राजाची. पुणून राजा जाल्लो जाल्यार तो पांयांनी चलून कित्याक येतलो आशिल्लो. रथांत बसून येतलो आशिल्लो.

विराट अशें येवजितालो. इतल्यांत युधिष्ठिर म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'हांव एक ब्राह्मण. नागवलां. म्हजें सगळें गेलां. देखून तुजे सरीं आलासऱ्याक आयलां. म्हाका फाव सारकें कितेंय काम दिशीत व्हय.'

विराटान ताका विचाल्लें, 'तूं कोण, खंयच्यान आयला. तुका कितें येता.'

'म्हजें नांव कंक. हांव एक ब्राह्मण. म्हाका द्युतविद्या बरी येता.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

* भांडारकर आवृत्तीन हें स्तवन प्रक्षिप्त लेखलां.

विराटान म्हळें, 'तुजी कान्त देवा सारकी. तांतूंत तुका द्युतविद्या बरी येता अशें तूं म्हणटा. द्युत खेळपी म्हाका आवडटात. म्हाका असलो कोणूय संवगडी जाय आशिल्लो. तूं राव हांगा. चलयन दिसलो जाल्यार, मत्स्य देशाचो राजकारभारूय चलय.'

'द्युताचें एक आसा', युधिष्ठिरान म्हळें, 'हार खाता तो केन्ना केन्ना झगडीं करपाक लागता. देखून पयलींच सांगतां, हांव जिखतां तें धन म्हजें. थंय मागीर झगडीं उपकारा पडपाचीं नात.'

विराटान हांसून म्हळें, 'तें हांव जाणा. ताचो हुस्को करूं नाका.'

उपरांत सगळ्यांक आपोवन सांगलें: 'हो म्हज्याच म्हऱ्यांत बसतलो. म्हजी चलता तशी हाचीय सत्या हांगा चलतली.'

ताणे युधिष्ठिराकूय म्हळें, 'तूं हांगा कित्याचोच हुस्को करूं नाका. राज्यांत वा राजवाड्यांत खंयूय वचपाक तुका मेकळीक आसा.'

थोड्या वेळान हातांत दाय घेवन भीम आयलो. ताची चाल पळोवन विराटाक प्रस्न पडलो: 'हो आनी कोण नवो आयला.' भीम विराटा मुखार येवन म्हणपाक लागलो, 'हांव एक रांदपी. पयलीं युधिष्ठिरागेर हांव रांदूक आसतालों. म्हजें नांव बल्लव. तुगेर म्हाका रांदपी म्हुण दवरून घेशीत व्हय.'

'तुजें रूप रांदप्याचें-शें दिसना', विराटान म्हळें.

'खरेंच रांदपी हांव. त्या भायर, मल्लविद्याय जाणा हांव. हत्तींक आनी शिंवांक लेगीत हांवें लोळयल्यात.'

विराटान ताकाय दवरून घेतलो. इतलेंच न्हय तर रांदप्यां भितर ताकाच मुखेली केलो. पयलिंचे सगळे रांदपी ताच्या हाताखाल वावरूंक लागले.

सुदेष्णा राणी एका जनेला म्हऱ्यांत बसून वाटे वयल्यान येतल्या वेतल्या लोकांक नियाळटाली. अवचित् तिचे नदरेक वाटे वेल्यान येतली एक सुंदर बायल मनीस पडली. तिगेलें अपुरुपांचें रूप पळोवन ती तिचेर भाळ्ळी. पुणून ती न्हेशिल्ली तें कापड म्हेलें आशिल्लें. सुदेष्णेक अजाप. तिणें आपणाले एकले दासयेक धाडून तिका राजवाड्यांत आपोवन घेतली. आनी तिका विचाल्लें 'बाय गे, कोण तूं.'

'हांव सैरंध्री.' द्रौपदेन जाप दिली. 'हांगा काम मेळटा जाल्यार पळोवंक आयिल्लीं. म्हाका तुगेल्या अंतःपुरांत दवरून घेशीत जाल्यार खुशाल भरीत जातलीं.'

राणयेन म्हळें, 'तूं सैरंध्री आसशीत अशें म्हाका दिसना. तुजे सारकी सुंदर

बायल मनीस कोणायली दासी कशी जातली? म्हाका खरें दिसना. तूं अप्सरा, गंधर्वी वा देवता आसूंक जाय. खरें सांग, कोण तूं.'

द्रौपदेन म्हळें, ' हांव देवता अप्सरा गंधर्वी कोण न्हय. हांव खरीच एक सैरंध्री. पयलीं श्रीकृष्णागेर कामाक आशिल्लीं. सत्यभामेची दासी म्हुण राविल्लीं. द्रौपदेगेरूय हांवें काम केलां. द्रौपदी म्हाका मालती म्हुण उलो मारताली. म्हाका तरां तरांचे आंबाडे घालूंक येतात, तरां तरांच्यो फांतयो गुथूंक येतात. सैरंध्री म्हुण तुज्या अंत:पुरांत दवरून घेशीत जाल्यार म्हजेर खूब उपकार जातले.'

दवरून घेवची अशें सुदेष्णेक दिशिल्लें. पुणून तिचे तकलेंत नाका जाल्लोच एक दुबाव आयलो. हिका दवरून घेतली जाल्यार, चूड दाखोवन घरांत म्हारू हाडिल्ल्या सारकें जावचें ना मू. सट्ट करून राजाची नदर हिचेर पडली जाल्यार तो हिचेर भाळचो ना कित्या वयल्यान. बायल मनीस जावन लेगीत हांवूंच जंय हिच्या रुपाक भाळ्ळीं थंय दादल्यांचें खरेंपण कोण दितलो. ही वाटेवेल्यान येताली तेन्ना हिका पळोवपाक रुखांनी लेगीत बाग घेतिल्ली. मागीर, दादले पिशे जाले बगर रावतीत व्हय. तिणे मात्शें येवजिलें. मागीर, आपणालो दुबाव तिणे द्रौपदे मुखार उकतावनूय दाखयलो आनी म्हळें, 'तुका बरे भाशेन दवरून घेन आशिल्लीं, पुणून दवरून मागीर म्हजो घात जायत म्हणपाचो भंय दिसता.'

द्रौपदेन म्हळें : 'हो दुबाव तकलेंतलो काडून उडय. कित्याक, म्हाका पांच घोव. हांव जरूय गंधर्वी नासलीं तरूय म्हजे पांचूय घोव गंधर्व. ते सदां म्हजे भोंवतणी आसतात. तुमकां कोणाक ते दिश्टी पडपाचे नात. कित्याक, ते गुपीत रुपान रावतात आनी म्हाका राखतात. म्हजेर कोणाचीय वांकडी नदर पडली जाल्यार, मेलोच म्हुण समजुचो तो. म्हजे घोव ताका जितो दवरपाचे नात. हरशीं ते कोणाचे वाटेक वचनात आनी हांव कोणाक भाळोवंक वचपाचीं ना. कोणाक मेळपाचींय ना.'

द्रौपदेक सुदेष्णेन दवरून घेतली.

थोड्या वेळान सहदेव भितर सल्लो. ताणे गवळ्याचो भेस केल्लो. तो गोरवां नियाळपाक लागलो. तेन्ना विराटान ताका 'तूं कोण, खंयचो, हांगा कित्याक आयला' काय म्हुण विचाल्लें.

'हांव एक गवळी.' सहदेवान जाप दिली. 'पांडवांगेर गोरवां राखतालों. म्हाका ते तंतिपाल ह्या नांवान उलो मारताले. तांच्या पाड्या नशिबान तांकां वनवासाक वचचें पडलें. वनवासाक वचत पसून तांचें फुडें कितें जालें, कांय खबर ना. तुर्ताक म्हाका काम ना. हांगा काम मेळटलें हे आशेन आयलां. गोरवां विशीं हांव

खूब-शें जाणा.'

विराटागेर गोरवां खूब. लाखांनी. आशिल्ले ते राखणे ताका पावनाशिल्ले. सहदेवाक विराटान राखणो म्हुण दवरून घेतलो. आपलीं सगळीं गोरवां ताचे सुवादीन केलीं.

अवचित आनी-एकलो आयलो. चाल दादल्याची.रूप दादल्याचें. पुणून भेस बायल-मनशेचो. कानांत वेडी, हातांत घुलांचीं कांकणा. ताणे आपणाले लांब केंस मानेर सोडिल्ले. भितर आयलो तोच राजा मुखार वचून उबो रावलो. आनी म्हणपाक लागलो, 'म्हजें हिजड्याचें रूप पळोवन हें अशें कित्याक लागून जालें हें विचारूं नाका. विचारपांत लाव ना. सांगुंकूय म्हाका येवपाचें ना. सांगता आसतना वायट दिसतलें. आवय-बापुय नाशिल्ली हांव एक चली अशें धर. बृहन्नडा धर. इतलेंच सांगतां: म्हाका नाच गाणे बरें येता. तुजे धुवेक नाच गाणे शिकोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी जाल्यार हांव म्हाका भाग्यवंत लेखीन.'

राजान मंत्र्यांची बुद्द घेतली. परीक्षा घेवन हो खरोच हिजडो म्हणपाचें खरेपण करून घेतलें, आनी राजवाड्यांतल्या तरण्या धाकट्या चलयांक नाच गाणे शिकोवपा खातीर ताका दवरून घेतलो.

नाच गाणे शिकपाक अर्जुनासरीं सगळ्यांत पयली राजाली धुव उत्तरा येवपाक लागली. तिच्या वांगडा तिगेल्यो इश्टिणी आनी राजवाड्यांतल्यो हेर तरण्यो चलयोय येवपाक लागल्यो.

इतल्यांत नकुल आयलो. 'धर्मराजागेर हांव अश्ववेत्तो म्हुण आशिल्लों. म्हाका थंय ग्रंथिक ह्या नांवान वळखताले. घोड्यांक शिकोवप, तांच्यो खोडी आळाबंदा हाडप, तांच्यो पिडा वळखप, वखद करप, असलें सगळें म्हाका येता.' ताणे सांगलें.

हे भाशेन, द्रौपदे सयत पांचूय पांडवांक विराटागेर आलाशिरो मेळ्ळो. ते थंय रावपाक लागले. हे पांडव आसतीत म्हणपाचो दुबाव लेगीत कोणाक आयलो ना.

युधिष्ठिरान खेळचें. जोडिल्लें कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना भावां सुवादीन करचें. भिमान रांदचें, वाडचें. सहदेव मर्दी मर्दी धंय दूद तूप हाडून दितालो. नकुल आपुण जोडटा तें वांटून उडयतालो. सगळ्यांची एकामेकांचेर नदर आशिल्ली. द्रौपदी तांचेर आनी ते द्रौपदेचेर नदर दवरून रावपाक लागले.

# ९८. जीमूत मल्ल

एक दीस ब्रह्मोत्सव नांवाचो एक उत्सव आयलो. विराटाच्या राज्यांत हो उत्सव लोक मोठ्या दबाज्यान मनयताले. चोंय वसल्या राज्यांतल्यान लोक येताले. ह्या वरसा दैत्य कशे कांय मल्लूय आयिल्ले.

तांच्यांत जीमूत नांवाचो एक मल्ल आशिल्लो. ताणे मत्स्यदेशांतल्या मल्लांक कुस्ती खेळपाक आपयले. हरशीं ह्या उत्सवाक कुस्ती जाताली. खेळपाकूय लोक येताले, पळोवपाकूय येताले. पुणून जीमूत मस्तो. ताच्या वांगडा खेळपाचो एकल्याकूय धीर जालो ना.

विराटाक अजाप जालें. 'अब्बा! एकलोय मुखार कसो सरना' ताणे विचाल्लें आनी म्हळें, 'आपयात रे बल्लवाक.' ताणे भिमाक आपोवंक धाडलो. आखाड्यांत देंवपाचें भिमाच्या मनांत नाशिल्लें. कोणूय सट्ट करून वळखत म्हुण ताका भंय दिसतालो. तो मन मारून ओगी बशिल्लो. पुणून राजान आपयतकूच कासाटो मारून तो आखाड्यांत देंवलो.

म्हणटासर लोकांक मुठिंचो आवाज आयकूंक आयलो. दोगूय पेटले. एकलो मारता तर दुसरो चुकयता. दोगूय तरे तरेचे पेंच घालपाक लागले.

कुस्ती रंगार आयली. पळोवपी लोकांत कांय जाण हे वाटेन, तर कांय जाण ते वाटेन जाले आनी 'शाब्बास!' करून तांकां चेव हाडपाक लागले. अवचित भिमान जिमुताक उबाल्लो, गरगर करून वयर घुंवडायलो आनी म्हणटासर जमनीर आपटिलो.

कुस्ती सोंपली. विराट खोशी जालो.

त्या दिसा सावन विराटान एक नवो खेळ सुरू केलो. शींव, वाग, हतयां लागीं ताणे भिमाक झुजोवचो आनी हें झूज अंतःपुरांतल्या राणयांक दाखोवचें. विराटाक भीम खूब आवडूंक लागिल्लो.

भिमा भाशेन युधिष्ठिर अर्जुन नकुल सहदेव हांणीय विराटाचो मोग जोडिल्लो. फकत द्रौपदी त्रासांत पडिल्ली. ही खबर अशी—

## १९. कीचक-व

अज्ञातवास सोंपपाक थोडे दीस उरिल्ले. द्रौपदेन आपले चालीन आनी चलणुके सगळ्यांचीं काळजां जिखिल्लीं. तांतूंत एक दीस अकस्मात किचकाची नदर तिचे पडली.

कीचक विराटाचो मेवणो. त्या भायर सेनापती. सभावान मदांध. विराटा लेगीत ताणे आपले मुठींत धरिल्लो. ताचे नदरेक द्रौपदी पडना फुडें तो तिचे भाळ्ळो. ताणे आपणाले भयणीक विचाल्लें, 'राजवाड्यांत इतली सुंदर एक बायल-मनीस आसा हाची सुलूस लेगीत म्हाका कशी लागूंक दिली ना तुवें? ती कोण, खंयची आनी हांगा केन्ना सावन आसा. तिका पळेत पसून म्हजें मन जाग्यार ना. तिका म्हजी केले बगर म्हाका आतां सुख लागपाचें ना. असली बायल-मनीस दासी म्हुण सोबना. तिणे म्हजी जावन म्हजें घर सोबोवपाचें.'

सुदेष्णेन ताका जाप दिली ना.

कीचक द्रौपदे सरीं गेलो आनी तिकाच सांगपाक लागलो, 'तुजें रूप, तुजें कान्त, तुजो आंगलोट, सगळें पळेतकूच तुजे असली बायल-मनीस धर्तरेचे फाटीर खंयच ना अशें म्हणचें पडटा. हांवें जायत्यो बायलो पळेल्यात, पुणून तुजे असली एकलीय पळोवंक ना. तूं कोण. मदनाच्या आंगार खेळपी रती न्हय मू. तुवें कोणाचीच दासी जावन रावप समा न्हय. तुज्या रुपाचो अवमान तो. म्हजी राणी जा. राणयेच्याच पांवड्याची तूं. म्हाका कितल्यो-श्यो बायलो. एके फुडल्यो एक सुंदर. त्यो सगळ्यो तुज्यो दासयो जातल्यो. हांव लेगीत तुजो दास जावन रावतलों.'

तिका फुसलावपाक तो तिच्या एकाएका आंगाची तुस्त करपाक लागलो.

द्रौपदेक तागेली तिडक माल्ली. तरी आसतना, तिणे आपणाक सांवरून धरून म्हळें : 'जातीन हांव उणाक, एक सैरंध्री. तुका फावपा सारकी न्हय. त्या भायर म्हजें लग्न जालां. बरे मनीस दुसऱ्यांच्या बायलांचेर नदर दवरिनात. म्हजे वाटेक वचूं नाका तूं.'

पुणून कीचक कित्याक आयकतलो. ताका दुसऱ्याचें आयकून घेवपाची संवय नाशिल्ली आनी आतां तर तो आपले सुवादीन लेगीत उरूंक नाशिल्लो. तो द्रौपदेक तरांतरांनी मनोवपाचो यत्न करपाक लागलो, 'हांगासल्लो खरो राजा हांव. विराट फकत नांवाचो राजा. सत्या म्हज्या हातांत. तूं म्हजी जा, म्हणटकूच तूं राज्याची धनीण जातली. राणयांक मेळटात तीं सगळीं सुखां तुका भोगूंक मेळटलीं.' ताणे

सांगलें.

द्रौपदेन म्हळें, 'भुरगें आपणाक चंद्र जाय म्हुण हट घेवन बसता, तशें तुजें जालां अशें म्हणचें पडटा. म्हाका पांच घोव. पांचूय गंधर्व. ते हांगाच म्हजे भोंवतणी लिपून रावतात. म्हाका हात लायशीत जाल्यार, तांकां तिडक मारतली. मागीर ते तुका सोडपाचे नात. तूं पाताळांत वचून राव, अंतराळांत उडून वच, वा दर्या पेल्यान लिपून राव, तुका ते सोदून काडटले आनी जितो मारून उडयतले. बेश्टो आपलो घात करून घेवं नाका.'

द्रौपदी मात लेगीत आयकना हें पळोवन कीचक थोडो वेळ निर्शेलो. मागीर सुदेष्णेसरीं गेलो. सुदेष्णेक ताणे सांगलें, 'कितेंय करून म्हाका ही मेळोवन दी.'

सुदेष्णेक भावाची काकूळट दिसली. तिणे ताका पयलीं समजावन पळेलो. मागीर तो आयकना हें पळोवन तिणे म्हळें, 'पळोवंया, म्हज्यान जाता तें करतां. आयज परब. त्या निमतान हांव तिका सोरो हाडपाक तुगेर धाडून दितां. त्या वेळार तिगेलें मन वळोवपाचो आनीक एक यत्न करून पळे.'

कीचक खुशालभरीत जालो. त्या दिसा ताणे रांदप्याक बरीं बरीं पक्वान्नां करूंक सांगलीं. बऱ्यांतलो बरो — फकत राजा पियेतात तसलो — सोरोय हाडून दवल्लो. आनी तो द्रौपदेची वाट पळेत बसलो.

हांगा सुदेष्णेन द्रौपदेक म्हळें, 'म्हजें एक काम आशिल्लें. कीचक हेथंय रावता. थंय वचून इल्लो सोरो घेवन यो. तागेर बऱ्यांतलो बरो सोरो आसा. हांवें मागला म्हुण सांग.'

द्रौपदेक सट्ट जालें, 'तो कितलो निल्लज्ज तो तूं नकळ व्हय.' तिणे सुदेष्णेक विचाल्लें. 'हांव तागेर वचपाची ना. हांव घोवांक फटोवपी न्हय. तुगेर पांय दवल्ला त्याच दिसा हांवें तुका सांगिल्लें, हांव म्हजेर कोणाची वांकडी नदर पडूंक दिवपाची ना म्हुण. तुजे कडेन दुसऱ्यो दासयो आसात. तांतले एकलेक कोणाकूय धाडून दी. म्हाका थंय वच म्हणूं नाका.'

'तूं भियेवं नाका. तो कसोय आसूं, हांवें धाडल्या म्हुण सांग, म्हणटकूच तो तुजे ल्हंवेक लेगीत हात लावपाचो ना.' सुदेष्णेन जाप दिली. मागीर राणयेच्या अधिकारान म्हळें : 'तुकाच वचचें पडटलें. असलीं कामां हांव दुसऱ्यां कडल्यान करून घेना. वच आनी घेवन यो सोरो.'

द्रौपदेच्यान ना म्हणूं नज जालें. ती भियेत भियेत गेली. 'घोव सोडून हांव आनी-कोणाक वळखना, हेच एके पुण्यायेच्या म्हालबजार वतां' अशें मनांत म्हणून गेली.

कीचक तिची वाट पळेत बशिल्लो. तिका आयिल्ली पळोवन तो खुशाल भरीत जालो. उठून उबो रावलो. येवकाराक मुखार गेलो आनी म्हणूंक लागलो, 'बरें केलें येवन तुवें. तुजीच वाट पळेतालों. हांव सांगतां तें आयक. तूं धनीण जातली म्हज्या घराची. हें पळे कितें कितें हाडून दवल्लां तें हांवें तुजे खातीर. असलें तुका आनीक खंयच मेळपाचें ना. बाज्जूय तुजी. तुजेर खातीर मुजरत तयार करून दवल्ल्या. अशी लागीं यो' अशें म्हणून ताणे पियेवपाक तिका इल्लो सोरो दिलो.

द्रौपदेन भोंवयो तिरश्यो केल्यो आनी म्हळें, 'हांव जावन येवंक ना हांगां. सुदेष्णेन सोरो घेवन यो म्हळें म्हुण आयल्यां.'

'सोरो मू, तो आनी कोणाय कडल्यान धाडून दिवं येता. जायत्यो आसात हांगां दासयो व्हरून दिवपी' अशें म्हणून ताणे द्रौपदेच्या उजव्या हाताक धरून तिका ओडली. द्रौपदेक तिडक माल्ली. ताका धुकलून तिणे आपलो हात सोडोवन घेतलो. कीचक खुबलो. 'अब्बा ! इतले घट्ट काशिची तूं ? पळोवंया तरी' अशें म्हणून ताणे किंवाट्यान तिगेल्या पदराक हात घालो. द्रौपदेन ताका परतो धुकल्लो. कीचक धब्ब करून सकल पडलो. तो उठचे पयलींच द्रौपदी जी धांवली ती बद्द विराटा मुखार वचून उबी रावली. विराटाक ती किचकाली कागाळी सांगूंक वताली. इतल्यांत कीचक फाटल्यान धांवत आयलो. विराटा मुखारूच ताणे तिगेल्या केंसांक धरून तिका ओडली आनी तिचेर खोंट मारून तिका सकल उडयली.

युधिष्ठिर आनी भीम विराटा म्हज्यांत बशिल्ले. तांच्यांनी द्रौपदेची ही अप्रतिश्टा पळोवं नज जाली. भीम दांत ओंठ चाबून तिडकीन उठलो. 'आ, घात जालो.' युधिष्ठिरान मनांत म्हळें. 'हो आतां किचकाक मारतलो आनी लोक आमकां वळखतले.' युधिष्ठिर काचाबूल जालो. कोणाक दिश्टी पडचें ना अशी जतनाय घेवन ताणे पांयांच्या आंगठ्यान भिमाचो आंगठो दांबलो. भीम उठपाचें येवजितालो. तो बसून रावलो. एका रुखा कडेन पळोवपाक लागलो. 'तो हुमटावन हाडटलों आनी किचकाक हांगांच सगळ्यां हुजीर मारतलों' अशें येवजितालो. युधिष्ठिरान तागेले दोळे भौन भौन रुखा कडेन वतात ते पळेले आनी ताका शिटकायलो, 'लाकडां जाय मरे ? मागीर, हो रूख मारूं नाका. हो रूख हांगा बरो दिसता. भायर दुसरे जायते आसात. तांतले जाय तितले मार आनी हाड लाकडां.'

भीम समजलो : आपणाक कितेंच करूंक मेळपाचें ना. तो तसोच बसून रावलो. मागीर सोंसूं नज जावन उठलो आनी तुरतुरीत भितर गेलो.

द्रौपदेक रडूंक आयलें. युधिष्ठिराच्या तोंडा कडेन पळेत तिणे विराटाक म्हळें, 'ब्रह्मनिष्ठ, सत्यवादी असली नामना आशिल्ल्या घोवांची बायल हांव. तिका ह्या

उणाकान चार चौगां मुखार खोंटावची मू. म्हजे घोव किरकोळांतले न्हय. तेजिश्टांत तेजिश्ट, बळिश्टांत बळिश्ट म्हुण लोक तांकां वळखतात. मागीर, ते आपणाले बायलेचो अवमान कसो सोंसतात काय. तिची चल्ल्या ती अप्रतिश्टा खंयच्या दोळ्यांनी ते पळेतात काय. खंय गेलें काय तांगेलें तें तेज. तांगेली ती तिडक. तांगेलें तें कर्तुत्व. राजा, तुकाय हो अन्याय दिश्टी पडना व्हय. तुजे हुजीर ताणे म्हाका खोंट मारची मू. आनी तुंवें मोन्यानी पळोवचें मू. कसलो गुन्याव केला हांवें, म्हुण म्हाका हो अवमान सोंसचो पडटा?'

तिणे भोंवतणी पळेलें. जायते जाण सभेंत बशिल्ले. द्रौपदेन तांकां विचाल्लें, 'राजाक कळना तें कळना, तुमकांय धर्म कितें अधर्म कितें, समजना व्हय. तुमी ओगी कशे?'

विराट किचकाक भियेतालो. कीचक तागेलो सेनापती जरूय आसलो तरूय सत्या सगळी किचकान आपल्या हातांत घेतिल्ली. ताच्या मना आड वचपाचो धीर विराटाक जाय नाशिल्लो. द्रौपदेचो प्रस्न आयकून तो गोंदळ्ळो. तिका कितें जाप दिवची, ताका येवजना जालें. खांकत खांकत तो म्हणूंक लागलो, 'बाये गे, तुमचें झगडें कित्याक लागून जालां, म्हाका खबर ना. म्हज्या मुखार कांय तें जावंक ना. हांव कितें सांगूं तुका? कोणे कोणाचेर अन्याय केला, म्हाका कशें कळटलें?'

सभेंतल्या लोकांक राजाची ही जाप आयकून वायट दिसलें. ते द्रौपदेच्या आधाराक आयले. तांणी तिका विचाल्लें, 'कितें जालां तुजें, सगळें आमकां सांग. आमी सांगतात कोणाचो गुन्याव तो.' तिणे सगळें मेकळेपणान सांगलें.

'हिचें म्हणणे खरें. किचकान हिचेर आगळीक केल्या,' तांणी आपणालें मत्त दिलें.

युधिष्ठिराच्या कपला वयल्यान हुमेच्यो पांवळ्यो गळ्ळ्यो. ताका झगडे मुखार चलूंक दिवपाचें नाशिल्लें. ताका तें पालोवपाचें आशिल्लें. ताणे द्रौपदेक म्हळें, 'तूं राणये सरीं वच. तिच्याच म्हऱ्यांत राव. हांगा रावं नाका. विरांच्या बायलांक अशेंच सोंसचें पडटा. तांचेर असलींच अरिश्टां कोंसळटात. तुजे घोव तेजिश्ट म्हळें तुंवें. इतलेंय आसून तुज्या आधाराक ते धांवन येवंक नात. जाल्यार, ताचो अर्थ तुंवें हो अवमान मोन्यानी सोंसचो अशें तांकां दिसता, असोच करूंक जाय. ना जाल्यार ते धांवन येतले आशिल्ले. काळ वेळ पळोवन धा-पांच येवजून सगळो हिशोब लावन पावलां उखलचीं पडटात. तुजेर आगळीक करतल्यांक केन्नाय जाल्यार ते पानवळ भोगयतले. तुजे घोव तुजें दुख्ख पयस करतले.'

द्रौपदी फणफणत उठून सुदेष्णे सरीं गेली. द्रौपदेचे रडून रडून सुजिल्ले आनी

रागान तांबडे गुंज जाल्ले दोळे पळोवन सुदेष्णेन तिका आकांतून विचाल्लें, 'कितें जालें, तूं रडटा कित्याक. तुका कोणे कितें म्हळें.'

'कपळ म्हजें' द्रौपदेन जाप दिली, 'हांवें वचना म्हळ्ळें आसतना तुवें म्हाका किचकागेर बळयां धाडली. ताणे म्हजो अवमान केलो. राजा हुजीर म्हजेर खोंट माल्ली.' अशी जाप दिवन ती मोट्या मोट्यान रडपाक लागली.

'आरे रे! अशें जालें न्हय? शी शी शी. अशें जावंक जायनाशिल्लें. हांव विचारतां ताका. ख्यास्तूय करूंक लायतां.'

'तुवें ख्यास्त करपाची आतां गरज ना.' द्रौपदेन जाप दिली. 'म्हजे घोव ताका ख्यास्त करतले. म्हजेर खोंट मारिल्ली तांणी पळेल्या. ते आतां सोडपाचे नात ताका. ते ताका जितो मारून उडयतले.' अशी जाप दिवन ती उठून आपले कुडींत गेली.

कुडींत वतकूच ती पयलीं न्हाली. मागीर थोडो वेळ आड पडली. आनी आड पडिल्ले कडेन खंय वचूं, कितें करूं, येवजीत रावली. असल्या प्रसंगार आनी कोणाय परस चड तिका भिमाचो उगडास जातालो. तोच तिका असल्या प्रसंगार पावतालो. ती उठली. लिपत ल्हवू भिमाचे कुडींत गेली.

भीम सुस्त न्हिदिल्लो! घोरेतालो. तिका धसको बसलो. 'अब्बा! म्हजो येदो अवमान जाल्लो आपल्या दोळ्यांनी पळेला हाणे. तरी आसतना हाका अशी सुस्त न्हीद पडची मू. पातकी घातमारो कीचक जितो आसतना हाका दोळो तरी कसो लागलो?'

तिणे रागान भिमाक हालयलो. भीम जागो जालो.

'कित्याक आयिल्ली', भिमान विचाल्लें. भिमाचो प्रस्न आयकून तिका परती भिरभिरी माल्ली. 'तुका सगळें खबर आसा. आपल्या दोळ्यांनी पळेलां तुवें सगळें. आनी वयल्यान कित्याक आयिल्ली काय म्हुण विचारता? तुमचे सारकेले देव देव करपी घोव मेळटकूच दुसरें कितें जातलें म्हजें. तुमचे सारके घोव मेळ्ळे म्हुण दुःशासनान म्हाका दासी म्हुण हिणोवन भर सभेंत ओडून हाडली. कर्णान म्हाका चेडी म्हळी. आयज हांगा किचकान म्हजेर तुमचे हुजीर खोंट माल्ली. हांव अजून कित्याक मरूंक ना, हेंच म्हाका समजना. धिरा खातीर तुमचे कडेन मोटे आशेन पळेतां. तुमी कांय करिनात. सगळें सोंस म्हणटात. ओगी बसून पळेतात. तो तुगेलो व्हडलो भाव तर द्युतांत सगळें होगडावन बसलो. इतलेंय आसून आयज विराटा म्हऱ्यांत बसून द्युत खेळटालो. द्युत ताका सोडिना, तो द्युताक सोडिना. तुवें हातांत दाय घेतल्या. रांदपी जाला. तो तिसरो ताता थै ताता थै करून चलयां

वांगडा नाचता. म्हज्यान पळोवं नज तुमची ही गत. किर्ते दुर्दशा ही ! येदे व्हडले बळिश्ट तेजिश्ट तुमी. सोबता व्हय तुमकां हें सगळें. म्हजे हात पळे, तांकां खिणां पडल्यांत, दुसऱ्यांगेर कामां करून. केन्ना करून आयिल्ले व्हय असलीं कामां हे हात.'

ती खोळशांनी रडपाक लागली. तिचो आवाज घोगरो जालो. 'असले अवमान सोंसचे परस मेल्ली बरी आशिल्लीं. पयल्या जल्मांत कसलींय तरी पातकां केल्यांत जावंक जाय हांवें. गुन्याव केल्लो जावंक जाय हांवें देवाचो. न्हय जाल्यार, असले अवमान म्हज्या वांट्याक येवचे नाशिल्ले.'

द्रौपदेचे विकळाप आयकून भिमाच्या काळजाक घाय पडिल्ले वरी जाले. तिगेलें एकान एक उतर ताका लागलें, तोपलें, दुखलें. ताणे खंती सुरान तिका म्हळें : 'तुज्या हाताक पडिल्लीं हीं खिणां पळोवन म्हाका म्हजीच कितली तिडक मारता, तुका खबर ना. सांगल्यारूय तुका कळपाचें ना. विराटा मुखार तुजेर खोंट घालून किचकान तुका लोळयली त्याच खिणाक हांवें ताका जितो मारून उडोवंक जाय आशिल्लो. पुणून, उलोवन किर्ते लाव. युधिष्ठिराच्या तत्त्वां मुखार म्हजें कांय चलना. आमचें कोणाचेंच चलना. न्हय जाल्यार तूंच सांग, कौरवांनी आमकां राज्या भायर घाले त्याच दिसा तांच्यो तकल्यो चेंचायले बगर हांव रावीन आशिल्लों ? पुणून सोड. आतां थोडेच दीस उल्ल्यात. फकत पंदरा. मागीर तुगेले हे सगळे उतळताप सोंपतले. तूं आशिल्ली तशी राणी जातली. इतलें सोंसलां थंय आनीक थोडें सोंस. मागीर तुका केन्नाच कसलेच त्रास जावपाचे नात. तुका भोगलां तशें हाचे पयलीं दुसऱ्या बायलांकूय भोगलां. तूंच एकली आडवाद न्हय. रामाचे सितेन किर्ते थोडें सोंशिल्लें ? युधिष्ठिराक दुशण दिवं नाका. तो धा-पांच सगळें येवजुपी, खूब पयसलें पळोवपी. तूं अशें उलयता म्हुण कळत जाल्यार ताका खूब वायट दिसतलें. जीव लेगीत दीत तो. इतलें सोंसलां तुवें तातूंत आनीक इल्लेंशें. मागीर पळे तूं.'

इतलें सांगून ताणे म्हळें, 'किचकाचें म्हजेर पावलें. ताचें हांव पळोवन घेतां. ताका फाल्यांच धाडून दितां यमागेर. तूं एक काम कर. आपलो अवमान जाला अशें ताका दाखोवं नाका. ताचेर रागार फुगारूय जावं नाका. परती गालांतल्या गालांत हांस. तूं ताच्या गोपांत वतली अशें ताका भासय आनी ताका फाल्यांच नृत्यशाळेंत धाडून दी. आपुण रातची तुका थंय मेळटां म्हुण सांग. फुडलें हांव पळोवन घेतां. तो थंय येतलो. नृत्यशाळेंत रातचो कोण नासता. थंय एक बाज्ज आसा. तिचेर हांव ताची वाट पळेत पडून रावतां. फुडलें सगळें तुका तुजे कुडींत

कळटलें. तूं तुजेच कुडींत राव.'

द्रौपदी खुशालभरीत जाली आनी आशिल्ली तशी आपले कुडींत आयली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कीचक उठलो.कोणाक विचारी नासतना नीट द्रौपदेसरीं गेलो आनी तिका विचारपाक लागलो, 'कळ्ळें मू तुका, कोण खरो राजा हांगासल्लो तो? विराटा मुखार हांवें तुजेर खोंट माल्ली. आयलो व्हय कोण तुज्या आधाराक. केलें व्हय कितें विराटान. म्हज्या भायर कोणाचीच सत्या चलना हांगा. विराट फकत नांवाचो राजा. आतां म्हजें आयक. खोंट माल्ली म्हुण भियेवं नाका आनी रागारूय जावं नाका. तूं म्हजी जा. मागीर पळे, हांव तुजो दास जायना जाल्यार.'

'पुणून कोणाक कांय कळूंक जायना', द्रौपदेन जाप दिवन म्हळें, 'तुज्या जिवाभावाच्या इश्टांक लेगीत कळूंक जायना. म्हजे घोव म्हजे भोंवतणी आसतात. तांकां लेगीत कळूंक जायना. तांकां कळत जाल्यार घात जातलो. ते तुकाय दवरपाचे नात, म्हाकाय सोडपाचे नात. सगळे वेव्हार लिपचोरयां जावंक जाय.'

द्रौपदी हे तरेची जाप दीत अशें किचकाक दिसूंक नाशिल्लें. तिची ही जाप आयकून ताका अजापांचो धसको बसलो. तो भुल्लुसलो. 'कोणाक कांय कळचें ना. फकत तुजे म्हजे भितर उरतलें. दिलें उतर. केन्ना येवं?' ताणे विचाल्लें.

'हांगा म्हजे कुडींत नाका. हांगा सट्ट करून कोणूय पावता.'

'मागीर, खंय? म्हगेर?'

'थंयूंय नाका. थंय जायते जाण आसतात. ते मागीर फुतफुतून उलोवपाक लागतले. नृत्यशाळेंत रातचो कोण नासता. थंय यो. हांव थंय येवन रावतां.'

'केन्ना.'

'आयचेच रातीं.'

किचकाक कितें करूं, कितें नाका अशें जालें. तो सामको भुल्लुसलो. ताका केन्ना काय रात पडल्यार पुरो जालें.

तो उठून वतकूच द्रौपदेन भिमाक वचून सांगलें, 'आयज रातचो कीचक नृत्यशाळेंत येतलो.'

रात जाली. सगळ्यांचीं जेवणा जालीं. सगळे न्हिदपाक गेले. भीम ल्हवूच उठलो. लिपचोरयांनी वचून नृत्यशाळेंत बाज्जेर आड पडलो.

सगळे कडेन किण्ण जातकूच कीचक नृत्यशाळेंत आयलो. थंय काळोख पातळ्ळेलो. सांसपीत सांसपीत तो बाज्जे सरीं पावलो. बाज्जेर न्हिदिल्ली द्रौपदी धरून तिका ताणे हात लायलो.

त्याच खिणाक 'आरे घातमाऱ्या' अशें म्हणून भिमान ताच्या केस्त्यांक धरून

ओडलो. कीचक एका खिणांत सगळें समजलो. 'हिणे घात माल्हो' अशें मनांत म्हणून ताणे आपणाक सोडोवन घेतलो आनी रोखडोच तो भिमाच्या आंगार धांवन गेलो. दोगूय मस्ते हती कशे एकामेकांक ओडपाक लागले. एकामेकांक आपट्रपाक लागले. दोगूय एकामेकांक लोळोवपाक लागले. निमाणे, किचकाक पुरो जालें. तो धापेवंक लागलो. तो धापेता तो पळोवन भिमान ताका सट्ट करून उबाल्हो. वयर गरगर करून घुंवडायलो आनी जमनीर आपटून माल्हो.

कीचक मेलो. तरूय भिमाचो किंवाटो न्हिवूंक नाशिल्हो. ताणे ताची गची अंदिली. हात-पांय मोडले. मान मुड्डिली. ताचीं सगळीं आंगां ताच्या पोटांत घालून ताची पातोळी केली.

## १००. फकत तेरा दीस

भीम थंयचो उठून वतकूच द्रौपदेन बोवाळ केलो. सगळ्यांक जागयले : 'पळेलें मू, कितें जालें तें. हांवें हाका सांगिल्लें, म्हजे वाटेक वचूं नाका म्हुण. पुणून हो कुड्डो जाल्हो. म्हजेर आगळीक करपाक आयिल्हो. पळेयात आतां ताची कितें गत जाली ती.' ती लोकांक मोट्या मोट्यान सांगीत रावली.

लोक भियेले. 'हिचेर कोणाचीय वांकडी नदर पडल्यार अशें जाता जाल्यार घात जालो.' अशें मनांतल्या मनांत ते म्हणपाक लागले. 'ही दिसता तर सुंदर. कोणाचेय नदरेंत भरपा सारकी. हिचेर कोणाची नदर पडत आनी देशाचेर कसली हावळ येत, कोण सांगतलो. ते परस हिका हें शार सोडून वच म्हुण सांगिल्लें बरें.'

लोकांनीं वचून राजाक सांगलें : 'हिका भायर घाल्ली बरी.'

राजान मनांत म्हळें, 'खरें हांचें.'

तो सुदेष्णेसरीं गेलो. लोक कितें म्हणटात तें ताणे सुदेष्णेक सांगलें.

'हांव तिका सांगून पळेतां', सुदेष्णेन राजाक म्हळें.

सुदेष्णेन द्रौपदेक आपोवन सांगलें, 'तुवें आमची जी सेवा केल्या तसली आयजवेर कोणेच करूंक नाशिल्ली. तुजी चाल चलणूक, तुजी सेवा, सगळें तोखणाय करपा सारकें. तूं आयुष्यभर हांगाच राविल्ली जाल्यार, आमकां सगळ्यांक बरें दिसतलें आशिल्लें. पुणून तुगेल्या घोवांचो लोकांक आतां भंय दिसपाक लागला. तांकां लागून केन्ना कोणाचेर कसलो प्रसंग येत, सांगूं नज, अशें ते म्हणपाक लागल्यात. काल ते राजासरीं आयिल्ले. 'सैरंध्रेक दुसरे कडेन खंयूय धाडून दियात' अशें सांगून गेले. म्हाका सांगपाक वायट दिसता पुणून सांगचें पडटा. तूं दुसरे

कडेन खंयूय गेल्ली बरी.'

'फकत तेरा दीस दवरून घे.' द्रौपदेन सुदेष्णे कडेन मागलें. 'फकत तेरा दीस. उपरांत म्हगेले घोव म्हाका घेवन वतले. तेरा दिसां खातीर म्हाका दुसरे कडेन वच म्हणूं नाका. तुजे उपकार केन्ना विसरचीं ना हांव.'

सुदेष्णेन येवजिलें, 'नाका म्हळें जाल्यार हिका वायट दिसतलें. हिका वायट दिसलां म्हणपाचें घोवांक कळ्ळें जाल्यार, ते कितें करतीत, कोण सांगतलो. तेराच दिसांचो प्रस्न. रावूं दी तेरा दीस तिका' अशें येवजून तिणे द्रौपदेक म्हळें, 'बरें आसा. तेरा दीस राव तूं बरे भाशेन हांगा.'

## १०१. गायो पळयल्ल्याची कथा

पांडवांक सोदून काडपा खातीर दुर्योधनान सगळे कडेन मनीस धाडून दिले. ते कितल्याश्या राज्यांनी भोंवले. कितलीं-शीं रानां माड्डून आयले. पांडव खंय गेले, तांचें कितें जालें, तांकां कितेंच कळ्ळें ना. ते हात हालयत परतले. येवन ताणी दुर्योधनाक सांगलें, 'आमी सगळीं अरण्यां उमथीं घालीं. सगळे पर्वत चडून पळेले. एक शार सोडलें ना, एक गांव सोडलो ना. पांडव आमकां खंयच मेळ्ळे नात. ते खंय गेले, कोणाक खबर ना. तांगेले रांदपी सारथी द्वारकेक वचून रावल्यात. तर तांच्या सांगातांत आशिल्ले ब्राह्मण आनी पुरयत द्रुपदागेर आसात. पांडव मात खंयच दिश्टी पडनात. ते मेले जावंक जाय, अशें आमकां दिसता.'

तांणी हेर खबरां वांगडा दुर्योधनाक कीचक मेल्ल्याचीय खबर सांगली.

'कसो मेलो?'

'गंधर्वांनी माल्लो अशें म्हणटात.' तांणी जाप दिली.

दुर्योधन येवजी येवजी येवजूंक लागलो. 'तेरावें वर्स सोंपपाक थोडेच दीस उल्ल्यात. ह्या दिसांत पांडवांक सोदून काडुंकूच जाय. ना जाल्यार ते जे येतले ते मस्त्या हतयां भाशेन आंगार धांवन येतले. कोणाक आटापा येवपाचें नात.' ताणे कर्णाक म्हळें. 'कशें कितें करपाचें? तांकां परते वनवासाक धाडून दिले बगर आमकां सरस्थतायेन राज्य भोगूंक मेळपाचें ना.'

'तूं म्हणटा तें खरें.' कर्ण म्हणपाक लागलो. 'तांकां कशेय भाशेन सोदून काडुंकूच जाय. तांकां सोदपाक तुवें जांका धाडिल्ले तांच्याकूय हुशार दुसऱ्या लोकांक आतां धाडून दी. विद्वानांच्यो सभा, सिद्धसंन्याशांचे आश्रम, तीर्थक्षेत्रां, सगळे कडेन वचून येयात म्हुण सांग तांकां.'

'दर्या पेल्यान लेगीत वच्चें पडल्यार पडूं', दुःशासनान कर्णाक तेंको दिवन म्हळें, 'कितलोय खर्च करचो पडूं, तांकां सोदून काडुंकूच जाय. ते मेले काय किर्ते, हाचेंय खरेंपण करून घेवंक जाय. ओगीच, मेले जातले असलो अदमास करून उपकारा पडपाचें ना. आमी मात लेगीत घाळ रावंक जायना.'

दुर्योधनान जाणट्यांची बुद्द घेवंची अशें येवजिलें. 'पांडव खंयच मेळनात. तांकां कशे सोदून काडपाचे.' ताणे तांकां विचार्लें.

द्रोण म्हणपाक लागलो, 'ते मेले म्हणटात तें खरें न्हय. ते शूर, बुदवंत, नीतवंत. असले लोक अशे वाऱ्यार पडून केन्ना मरनात. ते खंयूय जाल्यार लिपून आसात. म्हाका ह्या विशीं इल्लोय दुबाव ना.'

भिष्मान द्रोणाचार्याच्याच म्हणपाक तेंको दिलो. 'पांडव उजु चलणुकेचे. ते अशे मरपाचे नात. ते खंयूय जाल्यार आसात. जंय आसतले थंयच्या लोकांचेर तांच्या चारित्र्याचो परिणाम जाले बगर रावचो ना. तांचे देखीन लोकूय उदार, दानी, सत्यवादी जातले. त्या राज्यांत पीक बरें येतलें. गायो दूद बरें दितल्यो. लोक सुखांत आसतले. तांकां सोदतले जाल्यार असल्या राज्यांनी सोदात.'

दोगांयचें म्हणणे आयकून कृपाचार्यान दुर्योधनाक म्हळें, 'म्हाकाय दिसता, ते खंयूय जाल्यार आसात. आतां एक तर तूं तांकां सोदून काड वा फुडले तयारेक लाग. ते येतले हांतूंत दुबाव ना. येतले आनी राज्य मागतले. मागीर तुमकां राज्य दिवचें पडटलें. ना जाल्यार ते तुमकां जड वतले. म्हाका दिसता, तुवें फुडले तयारेक लागिल्लें बरें. तुका झूज करचेंच पडटलें. कोण तुज्या पंगडांत आसात, कोण नात, कोणाचो कसलो आधार मेळूं येता, सगळ्याचो येन्नादर हिशेब लायिल्लो बरो.'

सुशर्मा थंयच आशिल्लो. तो त्रिगर्त देशाचो राजा. ताका किचकान एका काळार पिडापीड भोगयल्ली. मोट्या संकश्टांत घाल्लो. कीचक मेल्ल्याची खबर आयकून तो खुशाल भरीत जाल्लो. ताका एक दुबाव आयलो. देखून ताणे तिसरोच एक उपाय सुचयलो. तो म्हणूंक लागलो: 'किचकाक गंधर्वांनी माल्ला अशें म्हणटात तें म्हाका खरें दिसना. घडये भिमाची करणी आसूं येता ती. पांडव विराटागेर आसूंक जाय. विराटा कडेन आतां व्हडलो झुजारी कोण ना. कीचक आशिल्लो, तो मेलो. विराट खंती आसतलो. आमी ताचेर घुरी घालुंया. होच वेळ ताचेर घुरी घालपाचो. ताचे कडेन गायो लाखांनी. त्यो लुटून हाडुंया.त्रिगर्त आनी कौरव मेळून दोगूय चाल करून या. म्हणटकूच विराट झुजपाक येतलो. पांडव तागेर आसले जाल्यार आमी घुरी घालतकूच तेवूय झुजपाक येतले. आनी आयते

मेळटले.'

कर्णाक हो उपाय रोखडोच पटलो. तो म्हणूंक लागलो, 'होच उपाय बरो. विराटाचेर आमी घुरी घालुंयाच. घुरी घालपाक होच म्हुर्त बरो. ह्या निमित्त्यान पांडव मेळ्ळे, बरेंच जालें. ना जाल्यारूय, विराट कांय आमचो न्हय. ताका जिखलो म्हणटकूच आमचो एक दुस्मान उणो जातलो.'

सगळे एका मत्तार आयले.

दुर्योधनान रोखडेंच दुःशासनाक सैन्य तयार करूंक सांगलें. पयलीं उत्तरे दिकेन सुशर्म्यान विराटाचेर घुरी घालची आनी दुसऱ्या दिसा कौरवांनी दक्षिणे दिकेन घालची, अशें थर्ले.

सुशर्म्यान रोखडीच तयारी केली. विराटाक सुलूस लागूंक दिनासतना ताणे मत्स्य देशाचेर घुरी घाली आनी ताच्यो गायो धरून तो परतलो. विराटाक अजापांचो धसको बसलो. कीचक मेल्ल्यान कंकाक (युधिष्ठिराक) सेनापतीपद दिवचें अशें विराटाच्या मनांत घोळटालें. पुणून कंकाक तो विचारूंक पावूंक नाशिल्लो. ताचे पयलींच सुशर्म्यान घुरी घालून तागेल्यो गायो व्हेल्ल्यो. आतां खिणाचोय कळाव लावप ना अशें ताणे येवजिलें. तागेलो एक भाव शतानीक. ताका विराटान सांगलें, 'सैन्य घेवन वच आनी पयलीं गायो सोडोवन हाड.'

शतानिकान आठ हजार रथ, एक हजार हती, साठ हजार घोडे, अशें सैन्य तयार केलें. दुसऱ्या भावांकूय मुखार काडले. आनी तो भायर सल्लो.

विराटान ताका म्हळें, 'कंक आनी बल्लव आमचे कडेन आसात. तांकांय घे. तेवूय उपकारतले.'

शतानिकान तांकांय मुखार काडले. आंगार लोखणी कवचां घालून सगळे भायर सल्ले. विराटूय भायर सल्लो. सुशर्मा गायो घेवन वतालो. वाटेर ताका विराटाचें सैन्य येता तें दिश्टी पडलें. तें पळोवन सुशर्म्याचें सैन्य विराटाच्या सैन्याचेर धांवलें. दोनांय मजगतीं झूज पेटलें. खासा विराट सुशर्म्याच्या आंगार धांवन गेलो. कोण आपलो, कोण दुस्मान, हें लेगीत दोनूय सैन्यांक कळना जावचें इतलें आकांताचें झूज पेटलें.

सुशर्म्यान विराटाचो रथ मोडलो. विराटाक धल्लो आनी ताका घेवन तो वचपाक लागलो.

अर्जुन सोडून बाकिचे चौगूय पांडव आयिल्ले. पुणून ते ह्या खिणा मेरेन झुजांत पडूंक नाशिल्ले. विराटाक धरून सुशर्मा वचपाक लागलो तेन्ना युधिष्ठिराच्यान तें पळोवं नज जालें. ताणे भिमाक म्हळें, 'आमी आसतना विराटाची दैना जावप

आमकां सोबना. आमी ताचें मीठ खालां. आमी ताच्या रिणांत आसात. ताका सोडोवन हाडप लागणूक आमची.'

भिमाक इतली शिटकावणी पुरो आशिल्ली. 'हो पळे ताका सोडोवन हाडटां.' अशें म्हणून तो उठलो. लागसार ताका एक रूख दिश्टी पडलो. तो हुमटायतलो आनी तो एक-एकल्याचेर मारून सगळ्यांक दाळाक लायतलों अशें तो येवजितालो. इतल्यांत —

'च्ये, च्ये, च्ये .... रूख नाका' युधिष्ठिराचो आवाज ताच्या कानार पडलो. 'तुका लोक वळखतले. रूख मारून दुस्मानाक दाळाक लावपी तूंच आसा एकलो संवसारांत. तूं कोण तो कोणाक कळूंक जायना. धोणवां, तीर, तरसादी असलींच आयुधां घेवन वच. आधाराक नकुल सहदेवाकूय व्हर. हांव तुज्या फाटल्यान दुसऱ्या रथांत येतां.'

भीम रथ घेवन धांवलो.

विराटाक घेवन सुशर्मा बरोच मुखार पाविल्लो. ताका भिमान उलो माल्लो, 'राव, म्हाका जिखले बगर तुका मुखार वचूंक मेळपाचें ना.'

सुशर्म्यान फाटल्यान मान घुवंडावन पळेलें. काळ कसो एकलो धांवत येतालो तो ताका दिश्टी पडलो. ताणे रथ परतिलो.

भिमान सगळ्यांत पयलीं सुशर्म्याच्या रथाचे घोडे मारून उडयले. मागीर तिरार तीर मोखून ताणे सुशर्म्याक तिरांच्या जाळ्यांत घुसपावन उडयलो. ताच्या सैन्यांतल्या घोड्यांक, हतयांक, शिपायकांक कचाकच मारपाक सुरवात केली. थोड्याच वेळांत ताणे त्रिगर्ताचें सैन्य बरेंच मारून उडयलें. सुशर्मा भियेलो, कितें करचें, येवजुपाक लागलो. इतल्यांत युधिष्ठिरान ताचेर दुसरे वसल्यान घुरी घाली. विराटान युधिष्ठिराच्या रथांत उडी माल्ली. सुशर्म्याचीच गदा उबारून तो सुशर्म्याच्या आंगार धांवन गेलो. सुशर्मा पळपाचो यत्न करतालो. ताचे पयलींच भिमान ताका धल्लो. ताच्या केंसांक धरून ताका ओडलो आनी जमनीर आपटिलो.

सुशर्मा घुंवळून पडलो. तो घुंवळून पडना फुडें ताच्या सैन्याचो आवरो उडलो. तें वाट मेळत तशें पळपाक लागलें.

सुशर्म्याक भीम जितोच मारतलो आशिल्लो. पुणून युधिष्ठिरान म्हळें, 'ना, ताका मारप ना. ताची दानाधिस्पट केली तितली पुरो. आतां सोड ताका.'

भिमान ताका सोडून दिलो. पुणून ताका उबो करून म्हळें, 'नाक घांसून म्हण आतां, हांव दास तुमचो.'

युधिष्ठिराक सुशर्म्याची काकूळट दिसली. ताणे भिमाक म्हळें, 'पुरो आतां. चड

जाता. सोडून दी ताका.'

भिमान ताका सोडून दिलो. युधिष्ठिरान सुशर्म्याक इतलेंच म्हळें, 'असलें धाडस परतें केन्ना करूं नाका आं, वच तूं आतां.'

सुशर्म्याक लज जाली. मान सकल घालून ताणे विराटाक नमस्कार केलो आनी तो उठून गेलो.

विराटाचें सैन्य गायो घेवन परतलें.

## १०२. उत्तर

झुजांत मेळिल्ल्या जैतान विराट खुशाल भरीत जालो. 'तुमकांच लागून हांव जैत जोडूंक पावलों' अशें मेकळ्या ताळ्यान मान्य करून ताणे कंकाची आनी बल्लवाची पोटभर तुस्त केली. कांय जाणांक विराटनगरींत धाडून ताणे सगळ्यांक जैताची खबर कळयली.

लोक जैतवंतांक येवकार दिवपाची तयारी करपाक लागले.

इतल्यांत दुसरे वाटेन दुर्योधनान विराटाच्या दुसऱ्या गौळी वाड्याचेर धुरी घाली. धुरी घालपाक दुर्योधन एकलोच येवंक नाशिल्लो. तो वांगडा भीष्म, द्रोण, कर्ण, कृप, अश्वत्थामा इतल्यांकूय घेवन आयिल्लो. सगळ्यांनी गौळी वाड्याची दानाधिस्पट केली. इतलेंच न्हय तर तांणी कांय गोपांक मारपेटूय दिलो. विराटाच्यो सुमार साठ हजार गायो घेवन ते गेले.

गवळ्यांची गजाल पडली. तांच्यांतलो एकलो राजवाड्यार धांवन आयलो. झुजाक गेल्लो विराट अजून परतूंक नाशिल्लो. राजवाड्यार विराटाचो पुत उत्तर आशिल्लो. ताका गौळीवाड्यार कितें घडलें तें गवळ्यान सांगलें. आनी म्हळें, 'आनी-आनी वेळ होगडावं नाका. राजाची वाट पळेत बसूं नाका. बेगीन भायर सर. कौरवांनी गायो पळोवन व्हेल्यात. राज्याचे शिमेर पावचे पयलीं तांकां आडावंक जाय. तूं शूर म्हुण राजाच्या तोंडांतल्यान खूब फावटीं आयकलां. इतलेंच न्हय, तर राजघराण्याचें नांव तूंच वयर काडटलो अशेंय आयकलां. चल, ऊठ, कळाव लावं नाका.'

उत्तर बायलां मजगतीं बसून बडायो मारतालो. बडायो मारपाची ताका संवंय. आतां ताका बडायो मारपाक आनीक एक संद मेळिल्ली. तो म्हणपाक लागलो, 'एक बरो सारथी मेळूंक जाय आशिल्लो. एकान एक गाय परती हाडटलों आशिल्लों. सगळ्यांची खोड मोडटलों आशिल्लों. 'अब्बा! अर्जुना परस मोटो मरे'

अशीं उतरां सगळ्यांच्या तोंडांतल्यान काडूंक लायतलों आशिल्लों. पुणून कितें करूं म्हजो सारथी फाटल्या झुजांत मेलो. दुसरो बरो सारथी अजून कोण मेळूंक ना.'

द्रौपदी अंत:पुरांत आशिल्ली. तिच्या कानार उत्तराचीं हीं उतरां पडलीं. 'हाचें फकत सारथ्याक लागून अडून उल्लां जाल्यार, हाका सारथी हांव दितलीं.' अशें येवजून ती उत्तरे सरीं गेली.

'भावाक वचून सांग, तुमगेर जी बृहन्नडा आसा ती पयलीं अर्जुनागेर आशिल्ली.' तिणे उत्तरेक म्हळें 'अर्जुनालो रथ तीच चलयताली. अर्जुनान खांडव वन हुलपायल्लें तेन्ना हिणेच तागेलो रथ चलयल्लो. अर्जुनान तिका धनुर्विद्याय शिकयल्ली. तिका सारथी म्हुण घेवन वच म्हुण सांग.'

उत्तरेन भावाक वचून हें सांगलें. भावान म्हळें, 'विचारून पळे. तूं बृहन्नडेची शिष्या. तुका ती ना म्हणपाची ना. तयार आसत जाल्यार घेवन यो.'

उत्तरा बृहन्नडे सरीं गेली. 'राज्याचेर एक व्हडलें संकश्ट कोंसळ्ळां.' तिणे म्हळें. 'कौरवांनी आमच्या गौळी वाड्याचेर घुरी घालून हजारांनी गायो पळोवन व्हेल्यात. त्यो परत्यो हाडूंक जाय. त्यो हाडपाक उत्तर वचूंक सोदी. पुणून तागेलो रथ चलोवपाक कोण सारथी ना. एक आशिल्लो तो फाटल्या एका झुजांत मेलो. दुसरो अजून मेळूंक ना. देखून तो अडचणींत पडला. तूं पयली अर्जुनागेर आशिल्ली आनी तागेलो रथ चलयताली अशें सैरंध्री सांगता.'

अर्जुन थोडो वेळ हय न्हय करीत रावलो. 'म्हाका नाच गाणे सोडून कितेंच येना' अशी पयलीं जाप दिली. मागीर वचपाक रोखडोच तयार जालो. अर्जुनान हिशोब करून पळेलें. अज्ञातवासाचे दीस सोंपत आयल्यात. आतां उकतेपणान भोंवपाक व्हडलि-शी आडखळ येवंक जायना. अज्ञातवासांत विराटान आमकां आलाशिरो दिल्लो. ताच्या रिणांतल्यान मेकळे जावपाची एक संद आयती चलून आयल्या ती कित्याक होगडाय, अशें येवजून तो घोडवळींत गेलो. कांय बरे घोडे वेंचून काडले. ते रथाक बांदले आनी रथ तयार करून ताणे उत्तराक विचाल्लें, 'खंय व्हरूं सांग.'

'कौरवांच्या सैन्या मुखार' उत्तरान जाप दिली.

अत:पुरांतल्यो बायलो तांकां पावपाक भायर आयिल्ल्यो. रथ सोडचे पयलीं अर्जुनान तांकां सांगलें, 'राजकुंवर झूज जिखतलो. मागीर, दुस्मानाचीं आंगावेलीं उत्तरियां काडून हांव हाडटलों. तुमच्या बावल्यांक न्हेसोवपाक उपकारा पडटलीं.'

धड-धड धड-धड करून रथ सुटलो. म्हणटासर कौरवांच्या सैन्या कडेन पावलो. कौरव आपलें सगळें सैन्य घेवन आयिल्ले. पयसल्यान धुल्लाच्या पड्ड्या

फाटल्यान तें एका विशाल म्हालसमुद्रा वरी दिसतालें. येदें आकांताचें सैन्य पळोवन उत्तर भियेलो. ताचो जीव थरथरलो. अर्जुनाक म्हणपाक लागलो, 'येद्या व्हडल्या सैन्या आड हांव एकलो करसो झुजतलों. भीष्म, द्रोण, कर्ण, कृप, दुर्योधन, अश्वत्थामा, व्हडले व्हडले वीर तांतूंत आसात. तांकां जिखप देवांक लेगीत जमपाचें ना, तें म्हाका कशें जमतलें.'

अशें म्हणून ताणे अर्जुनाक सांगलें, 'बृहन्नडे, रथ परतो व्हर. म्हाका झुजपाचें ना.'

'इतलो भिजूड तूं?' अर्जुनान ताका विचाल्लें. 'झूज सुरू जावचे पयलींच भियेवन तूं पळ्ळो जाल्यार तुकाच न्हय, म्हाकाय लज जातली. तुवें पयलींच सारकें येवजुपाचें. बायलां मुखार बसून बऱ्यो लातबडायो मारतालो मरे तूं. आतां पळशीत जाल्यार त्यो लेगीत तुका हांसतल्यो. तुजीं फकाणा मारतल्यो. तूं कितेंय कर, हांव रथ परतो व्हरपाचों ना. तुका झुजचेंच पडटलें.'

अशें सांगून अर्जुनान रथ वेगान मुखार व्हेलो.

उत्तराची भियेवन गुळी जाल्ली. ताणे 'रथ थांबय, थांबय' अशें कितलेशेच खेपो सांगलें. पुणून अर्जुन खंय आयकता. तो रथ घेवन सामको सैन्या म्हऱ्यांत पावलो.

उत्तरान धांवत्या रथांतल्यान उडी माल्ली आनी तो पळून वचपाक लागलो. ताणे उडी घेतकूच अर्जुनान रथ थांबयलो. आपणेय उडी घेतली आनी 'पळून वचप क्षत्रियाक सोबना. ते परस मेल्लो बरो' अशें म्हणून उत्तराक ताणे धरून परतो रथांत हाडून बसयलो.

'म्हाका सोड. हांव तुका भांगर दितां, रत्नां दितां, मागशीत तें आनी तितलेंय दितां. पुणून म्हाका ह्या सैन्या आड झूज म्हणूं नाका. हें सैन्य म्हाका खातलें. हांव एकलोच पुत म्हजे आवयचो. म्हजें बरें वायट कितेंय जालें जाल्यार तिची कितें गत जातली, मात्शें येवजून पळे.' उत्तर रडपाक लागलो.

ताका धीर दिवन अर्जुनान म्हळें, 'आतां फाटीं सरप ना. तुज्यान नज जाल्यार हांव झुजतां. रथ तूं चलय. तांची हांव दानाधिस्पट करून उडयना जाल्यार पळे.' अशें म्हणून ताणे आपले सुवातेर उत्तराक बसयलो आनी ताच्या हातांत लगाम दिवन म्हळें,. 'हो तो शमिचो रूख दिश्टी पडटा न्हय, थंय व्हरून रथ उबो कर.'

उत्तराक धरून हाडपा खातीर अर्जुनान उडी घेतिल्ली तेन्ना कौरवांनी ताका पळेल्लो. तो न्हेशिल्लो तें कापड आनी तागेल्या केंसांची विणी पळोवन तांकां हांसो आयिल्लो. द्रोणाक मात सद्द जाल्लें. ताका खोलायेन दिशिल्लें, 'दिसता हिजड्या वरी खरो. पुणून चाल बद्द अर्जुनावरी. अर्जुनूच न्हय मू हो.'

रुखासरीं रथ व्हरून उबो करतकूच अर्जुनान उत्तराक सांगलें, 'आतां एक काम कर. वयर चड आनी ती हुमकळटा ती पोटली घेवन यो.'

उत्तर अजापांत पडलो. रुखार हुमकळटा तें प्रेत म्हुण ताणे आयकल्लें. ताणे अर्जुनाक विचाल्लें, 'तें प्रेत घेवन यो म्हणटा व्हय!'

'तें प्रेत न्हय, पांडवांचीं अस्त्रां तीं. तुगेलीं हीं अस्त्रां म्हाका उपकारा पडपाचीं नात. म्हाका पांडवांचीं जाय. देखून ती पोटली दें्वय म्हणटां.' अर्जुनान म्हळें.

जाप आयकून उत्तर घुटमळ्यांत पडलो. तो मोन्यांनी रुखार चडलो. पोटली दें्वयली. ती दें्वयंतकूच अर्जुनान ताका म्हळें, 'आतां ते धोलींत हात घाल. थंय अर्जुनाचें गांडीव आसा. तें काडून दी.'

उत्तरान धोलींत हात घालून गांडीव काडून ताच्या हातांत दिलें.

उत्तर उचांबळीत जालो. ताणे अर्जुनाक विचाल्लें, 'बृहन्नडे, पांडवांचीं अस्त्रां हांगा आसात म्हुण तुका कोणे सांगलें. पांडव वनवासाक गेल्ले. उपरांत ते ना जाले म्हुण आयकल्लें. ते अस्त्रां हांगा दवरून गेले, हें तुका कशें कळ्ळें, ते तुर्ताक खंय आसात.'

अर्जुनान वळख करून दिली आनी म्हळें, 'आतां सांगपाक आडखळ ना. पांडव हांगा तुमगेरूच लिपून राविल्ले. तुमगेर जो कंक नांवाचो मनीस रावता तो युधिष्ठिर, रांदपी म्हुण बल्लव रावता तो भीम. जिचेर हात घालपाचो यत्न केल्ल्यान किचकाक जीव होगडावचो पडिल्लो ती द्रौपदी. सैरंध्री म्हुण ती तुमगेर राविल्ली. घोडवळ पळेता तो नकुल. गोरवां राखता तो सहदेव आनी जिका तूं बृहन्नडा म्हणटा तो हांव अर्जुन. पांडवांचो अज्ञातवास आयज सोंपता. आतां तूं भियेवं नाका. भीष्म, द्रोण, कर्ण सगळ्यांची पळे कशी दानाधिस्पट करून उडयतां ती.'

उत्तर चकासूर जालो. मुखार आसा तो अर्जुन हें ताका खरेंच दिसना जालें. खऱ्यांनीच हांव अर्जुनाक पळेतां, काय सपनांत बी 'आसां.' ताणे आपणाकूच विचाल्लें. अर्जुनाच्या सांगातान ताच्या आंगांत फुरण आयलें. कौरवांचो ताका भंय दिशिल्लो तो आतां गेलो. ताणे हात जोडून अर्जुनाक म्हळें, 'म्हजी चूक जाली. तूं कोण तो हांव नकळ आशिल्लों.'

शस्त्रां हातांत घेवचे पयलीं अर्जुनान हातांतलीं कांकणां आनी कानांतल्यो वेडी काडून दवल्ल्यो. धव्या वाल्यान केंस बांदले. शमिच्या रुखाक एक प्रदक्षणा घाली. देवाचें नांव घेतलें आनी गांडीव उखलून ताणे ताचो दोर ओडलो. म्हणटासर देवदत्त शंख फुंकलो. त्या आवाजान धाय दिको गाजल्यो. ताणे उत्तराक सांगलें 'आतां रथ व्हरून कौरवांच्या सैन्या मुखार उबो कर.'

धड-धड धड-धड करून रथ धांवपाक लागलो तेन्ना पुराय धर्तरी थरथरूंक लागिल्ले वरी दिसली.

'हो अर्जुन म्हुण हांवें सांगूंक नाशिल्लें?' द्रोणाच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं. 'आतां मेले तुमी सगळे अशें समजात.'

हो अर्जुन म्हणपाचें कौरवांकूय आतां पटिल्लें. तांच्या काळजांत खप्प जालें. 'आयले, पांडव आयले' सगळ्यांनी एका ताळ्यान म्हळें आनी सगळ्यांक थरथरो भल्लो.

## १०३. कौरवां मर्दी धोशी

कर्ण द्रोणाचार्याचेर उसळ्ळो, 'आसूं दी पांडव ना जाल्यार आनी कोणूय. परशुराम लेगीत आयल्यार हांव आनी दुर्योधन दोगूच पुरो ताका लोळोवपाक. वचत थंय, मेळत थंय पांडवांची तुस्त आयकून उबगण आयली सामकी.'

दुर्योधनान मर्दीच तोंड घालें, 'हो अर्जुन आसत जाल्यार बरेंच जालें. आमचें काम जालें.'

ताणे भीष्म, द्रोण, कृप सगळ्यांक सांगलें, ' हांवें हाचे पयलीं सांगलां. आतांय पर्थून सांगतां: पांडवांनी बारा वरसां वनवासांत आनी एक वर्स अज्ञातवासांत रावचें, अशें आमचे मर्दी थरिल्लें. अज्ञातवासाचें तेरावें वर्स सोंपूंक ना. तें सोंपचे पयलीं अर्जुन आयलो जाल्यार ताका आनी तागेल्या भावांक परतून बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाक वचचें पडटलें. राज्याच्या लोभान ते कुड्डे जाले जाल्यार, आमचो गुन्याव न्हय. आमकां कोणे दुशण दिवचें न्हय. म्हज्या हिसपान तेरावें वर्स अजून सोंपूंक ना. म्हजो हिशोब चुकता जाल्यार भिष्माचार्यान सांगचें. आमी विराटाच्यो गायो व्हरपाक आयिल्ले. अर्जुनाक सोदूंक येवंक नाशिल्ले. झगडें आमचें आनी विराटाचें. तांतूंत अर्जुनान कित्याक पडूंक जाय आशिल्लें. त्रिगर्ताच्या राजाक विराटान पयलीं पिडापीड भोगयल्ली. तिचो सूड ताका घेवपाचो आशिल्लो. ताका आधार दिवपाक आमी आयिल्ले. आमी ताका उतर दिल्लें. गायो व्हरपाची येवजण तागेली. सप्तमेक ताणे आनी अष्टमेक आमी धुरी घालची अशें थरिल्लें. त्रिगर्तान येवन कितें केलें, म्हाका खबर ना. घडये थळां ते भाशेन तो आयला जातलो. गायो घेवन गेलाय जातलो. घडये येवन विराटा कडेन जुळोवन गेला जातलो. कशेंय आसूं, आमकां झुजचेंच पडटलें. अर्जुन येवं, विराट येंव वा आनी कोणूय येवं. भीष्म, द्रोण, कृप, कर्ण, विकर्ण, अश्वत्थामा येदे येदे व्हडले

शूरवीर आमचे कडेन आसतना आमी काचाबूल कित्याक जावचें. भियेवचें कित्याक. झूज चुकोवंक येतलें व्हय. कशेंच ना. सगळे धिरान मुखार सरात. मागीर तुमी पळेतले, तुमच्या मुखार कोणूच तिगून उरपाचो ना. मागीर तो अर्जुन जावं वा खासा इन्द्र जावं.'

कर्णाची तिडक न्हिवूंक नाशिल्ली. तो म्हणपाक लागलो, 'हांवें तुका पयलींच सांगिलें, द्रोणाचार्या सारकेल्या गिन्यानी मनशाक आश्रम काडून दिवचो. देवळांनी व्हरून बसोवचो. थंय बसून यज्ञयाग कर, प्रवचनां कर, आख्यानां सांग, म्हुण सांगचें. जाय जाल्यार ताची पुजा करची. ताका झुजपाक हाडप न्हय. ऐन वेळार गिन्यानी लोक घात मारतात. आनी द्रोणाचार्यांचें मन तूं जाणा. अर्जुनाचो मनीस तो. आमचो ऐन वेळार घात मारपाक ताणेंच दवल्ला जावंक जाय ताका आमचे मर्दी. तो अर्जुनाची सदां तुस्तूच गायत आयला आनी आमचीं बिंगांच काडीत रावला. आमकां दुशणूच दीत आयला. तें कशेंय आसूं, सैन्याची उमेद ह्या वेळार थंड जावंक दिवंक जायना. हांव वतां झुजपाक, अर्जुन आसत व्हडलो. हांव उणो न्हय. हांव दाखयतां ताका झूज कित्याक म्हणटात तें.'

द्रोणाचार्याचो कर्णान अवमानूच केल्लो. कृपाचार्याक तो सोंसलो ना. ताणे कर्णाक म्हळें, 'तूं सदां खुनशी मनशा भाशेन उलयता. फाटलें फुडलें कांय येवजी नासतना. मात्शें आयक : शास्त्रांत जायते उपाय सांगल्यात. तांतूंत झुजाचोय एक उपाय सांगला. पुणून त्या उपायाक सगळ्यांत उणाक लेखला. तो जाता तोंवर करचो न्हय, चुकोवचो, फुडें धुकलचो, अशेंय म्हळां. झूज करपाची आंगांत खुमखुमी आसली म्हुण भागना. फाटलें फुडलें जायतें चिंतचें पडटा, अशेंय म्हळां. केन्नाय उठून झुजां करिनात, परिस्थितिचो अदमास घेवन लाव लुस्कानाचो हिशोब लावचो पडटा. कोणा आड झुजचें तेंवूय थारावचें पडटा. ना जाल्यार झूज आंगलट येता. तुजेर पातयेवन आमी झुजाक फुरफुरले जाल्यार नाक आपटून घेतले. तूं मान वा ना मान, अर्जुन ल्हाना समानांतलो झुजारी न्हय. इन्द्र लेगीत ताच्या आड उबो रावपाक भियेतलो. ताणे एकल्यानूच खांडव वन हुलपायलें. एकल्यानूच सुभद्रेक पळोवन व्हेल्ली. किराताच्या रुपान म्हादेव आयिल्लो ताच्या आड तो एकलोच झुजिल्लो. जयद्रथान द्रौपदेक उबारून व्हेल्ली तेन्ना तो एकलोच वचून तिका घेवन आयिल्लो. ह्यो सगळ्यो गजाली तूं जाणा. चित्रसेनान आमची कितें दानाधिस्पट केल्ली तिची याद ना व्हय तर तुका. तेन्ना आमकां कोणे सोडयल्लें. ताणे एकल्यानूच मू. निवातकवच दानवांक ताणे एकल्यानूच दाळाक लायिल्लें. इन्द्राक लेगीत जें जमूंक नाशिल्लें, तें ताणे करून दाखयल्लें. एकल्याचेच पराक्रम हे

सगळे. बाकिचे चौगूय पांडव ताचे सारकेच पराक्रमी. तुंवें कितले पराक्रम केल्यात रे असले. दाखयशीत व्हय एक तरी पतीक. हांव अशें करून दाखयतलों तशें करून दाखयतलों, असल्यो लातबडायो कित्याक उपकारतात. अर्जुना आड झुजपाक जो फुरफुरता ताची तकली जाग्यार ना अशेंच हांव म्हणपी. ताका दुसरीं वखदां करूंक जाय. सोरपाच्या तोंडांत बोट घालून ताची दाड काडपा सारके पिशेपणाचे उपाय, तूं सुचयता ते. गळ्यांत फातर बांदून केन्ना कोण पेंवंक देंवता व्हय समुद्रांत. तूं करूंक सोदता तें हें. अर्जुन तेरा वरसांचे उतळताप सोंसून येता. तो किंवाट्यान उडी घेतलो. तेन्ना हांव एकलो वतां, हांव ताका दाखयतां, असली भास उपकारा पडपाची ना. ती सोड. कितें करपाचें तें सगळ्यांनी मेळून करपाचें. एका मत्तान थारावन करपाचें.'

अश्वत्थामो केदो वेळ घुसमट्टालो. द्रोणाचार्य तागेलो बापुय. कर्णान केल्लो बापायचो अवमान ताका उस्तऱ्यां गेल्लो. ताच्यान तो सोंसूं नज जालो. तो कर्णाचेर तापलो : 'कितें केलां रे तुंवें बडायो मारपा सारकें आयुष्यांत. व्हडले मनीस व्हडलीं व्हडलीं झुजां जिखतात. पुणून केन्ना बडायो मारिनात. तांकां बडायो मारपाची गरजूय ना. उजो बडायो मारिनासतना हुलपायता. सूर्य बडायो मारिनासतना काळोख ना करता. धर्तरेन केन्ना आपुण सगळ्यांक पोसतां म्हुण बडायो माल्ल्यात व्हय. जण एकल्याक आपली शीम खबर आसूंक जाय. ते शिमेंत रावन वावरूंक येवंक जाय. ओगीच कोणेय कोणाचीं कामां करप न्हय. तुंवें आनी दुर्योधनान कसले पराक्रम केल्यात आयुष्यांत, सांगशीत व्हय. पांडवांचें राज्य तुमी जिखलें. तें पराक्रमान जिखलें काय, फटींगपणान. खंयचें झूज जिखून तुमी द्रौपदेक राज्यसभेंत ओडून हाडिल्ली. हें द्युत तुमकां ना करतले. अशें विदुरान तुमकां सांगिल्लें. याद आसा मू. अती जातकूच किडी-मुयो लेगीत उसळटात. आनी तुमी तर पांडवांक दुखयल्यात. पांडव पराक्रमी. द्रौपदेची तुमी केल्ली विटंबना ते विसरतले अशें तुमकां दिसता व्हय. अर्जुन आयला तो तुमकां ना करपा खातीर आयला, हें विसरूं नाकात. तो तुमकां सगळ्यांक लोळयतलो, लक्षांत दवरात. द्रोणाचार्याक अर्जुनाची ओड म्हुण शिणपांत अर्थ ना. अर्जुनाची ओड ताका आसपाचीच. पुता फाटोफाट शिष्य, अशी म्हणणीच आसा. मार नेटान भायर सल्ल्यात झूज करपाक. कोणाच्या नाड्यार. आपय त्या तुगेल्या मामाक शकुनीक. व्हडलो पंडित खंय तो क्षात्रधरमाचो. यो म्हुण सांग आतां ताका अर्जुना आड झुजपाक. अर्जुन पाशो घेवन येवंक ना. गांडीव घेवन आयला गांडीव.'

अशें तिडकीन उलोवन अश्वत्थाम्यान निमाणे सांगलें, 'अर्जुना आड तुमी

झुजतले जाल्यार झुजात. हांव झुजपाचो ना. हांव अर्जुना आड झुजपाक हांगा येवंक ना. विराटा आड झुजपाक आयलां.'

भिष्मान पळेलें: ऐन त्या वेळार हे तूंतूं-तूंतूं करून एकामेकांचे पांय ओडपाक लागल्यात. तांकां सगळ्यांक जाग्यार हाडप खातीर ताणे म्हळें, 'एकामेकांचीं उणी काडपाचो, एकामेकांक दुशण दिवपाचो वेळ न्हय हो. कृपाचार्यान म्हळां तें खरें. अश्वत्थामो म्हणटा तेंवूय खरें. शाणो मनीस काडली जीब लायली ताळ्याक अशें केन्ना करिना. तसो तो ओगीच झुजाक फुरफुरना. पुणून कर्णाक हांव दुशण दिना. व्हडले व्हडले मनीस असल्या प्रसंगार गोंदळटात. तसो द्रोणाचार्यूय गोंदळ्ळा जातलो अशें धरून ताका स्फुरण हाडपा खातीर कर्णान तशें म्हळां जातलें. द्रोणाचार्यान तरी तें मनाक लावन घेवचें न्हय. अश्वत्थामो खुबला तेंवूय सभावीक अशें हांव मानतां. कित्याक, बापायचो कोणेय अवमान केलो जाल्यार पुत खुबताच. अश्वत्थाम्यानूय मनाक लावन घेवचें न्हय. ज्या कामा खातीर आमी आयल्यात तें म्हत्त्वाचें. तें तडीक कशें वतलें हाचेरूच येवजुपाचें. तुमी बुदवंत आनी शाणे. ब्राह्मतेज आनी क्षात्रतेज एकेकडेन सपसप खंयच पळोवंक मेळना. तें द्रोणाचार्यांत आमकां पळोवंक मेळटा. ताच्या पुतांतूय तें पळोवंक मेळटा. हांकां लागपी परशुराम सोडून संवसारांत दुसरो कोण ना. तुमी एकेकडेन बसून आतां झूज जिखपाचे नदरेन कितें करप गरजेचें तें येवजात.'

अश्वत्थामो विचारपाक लागलो, 'द्रोणाचार्यान अर्जुनाच्या गुणाची तुस्त केली जाल्यार कसली चूक जाली, दुस्मानाच्या लेगीत गुणाची तुस्त करची, अशें शास्त्रांत म्हळां.'

दुर्योधनाक आनी कर्णाक आपली चूक जाली म्हणपाचें आतां कळ्ळें. दोगांयनी मेकळ्या मनान द्रोणाचार्याची क्षमा मागली.

'भीष्म उलयलो तेन्ना तागेलें पयलेंच वाक्य आयकून म्हजो राग न्हिवल्लो', द्रोणाचार्यान तांकां सांगलें, 'आतां सगळें विसरून झुजा मांड रचुंया. ताचे पयलीं पांडवांच्या अज्ञातवासाचो काळ सोंपलो काय ना ह्या प्रस्नाक भिष्माचार्यान जाप दिवची. म्हजें म्हणणे इतलेंच: आयज तरी दुर्योधनाक आनी अर्जुनाक आमी झुजूंक दिवप ना. अर्जुन ताचेर चाल करून येवचो ना अशी जतनाय घेवंया.'

भिष्मान म्हळें, 'पांच पांच वरसांनी दोन अदीक म्हयने येतात. ह्या हिसपान पांडवांच्या वनवासाचीं तेरा वरसां सोंपून पांच म्हयने बारा दीस अदीक जातात. अर्जुन असोच उठून येवंक ना. सारको हिशोब करून आयला. असले हिशोब पांडव केन्ना चुकपाचे नात. तांतूंत युधिष्ठिर उतराचो मनीस. आपुण फटींगपणा

केन्ना करचो ना, दुसऱ्यांकूय करूंक दिवचो ना. तेरा वरसांचो काळ सोंपले बगर तो केन्ना कोणाक भायर येवंक दिवचो ना. बरें, येतकूच तो सोमतो झुजाकूय उबो रावचो ना. बाकिचे उपाय पयलीं करतलो. उपायूच नासलो जाल्यार निमाणे झुजाक उबो रावतलो. ताका झुजाची खुमखुमी आशिल्ली जाल्यार तो वनवासांत आनी अज्ञातवासांत इतलीं वरसां रावचो नाशिल्लो. तो धर्मान बांदिल्लो मनीस. मरतलो पुणून फटींगपणा करचो ना. बरें, हातपांय पांगरून ओगीय बसचो ना. ताका जें येणे आसा तें तो घेतले बगर रावपाचो ना. तें इन्द्रान व्हेल्लें आसल्यारूय ओगी रावचो ना. देखून, म्हाका दिसतालें, आयज आमी चिंतूंक जाय तें आतांच्या खिणाचें. आयचे लागणुके विशीं चिंतपाचें. आयच्या झुजांत कोणाक जैत मेळटलें, कोण सांगतलो? झुजाचें केन्ना कांय सांगूं येना. एकलो जिखतलो, एकलो हारतलो. कोण जिखतलो, कोण पडटलो, ते आमच्यांनी थारावं नज. तेन्ना वेळ होगडावं नाकात. जें थारावपाचें तें रोखडें थारायात. तो पळे, अर्जुन लागीं पावलो.'

दुर्योधनान इतलेंच सांगलें, 'हांव तांकां राज्य परतें दिवपाचों ना. मागीर म्हजें कितेंय जावं.'

भिष्मान हाचेर कांय म्हळें ना. आतांच्या खिणाक कितें करचें तेंच ताणे सांगलें : 'दुर्योधनान चौथो वांटो सैन्य घेवन हस्तिनापुराक वचचें. दुसऱ्या चौथ्या वांट्याक गायो घेवन वचपाक सांगचें. उरिल्लें अर्दें सैन्य हांगा आमचे सुवादीन उरचें. हांव, द्रोण, कृप, कर्ण, आनी अश्वत्थामो, पांच जाण पुरो अर्जुना आड झुजपाक.'

सगळ्यांनी हें मान्य केलें.

## १०४. दानाधिस्पट

चौथो वांटो सैन्य घेवन दुर्योधन हस्तिनापुराक गेलो. ताणे आयज झुजप ना अशें थरिल्लें आनी तें ताणे मोन्यानी मान्य केल्लें. आनी-एक चौथो वांटो सैन्य विराटाच्यो गायो घेवन गेलें. भिष्मान उरिल्ल्या सैन्याचो मांड रचलो. द्रोणाचार्याक मर्दी दवल्लो. उजवे वाटेन अश्वत्थाम्याक आनी दावे कडेन कृपाचार्याक उबो करून कर्णाक सगळ्यां मुखार दवल्लो. आनी आपुण सगळ्यां फाटल्यान रावलो.

सारको ह्याच खिणाक धड-धड धड-धड करून अर्जुनाचो रथ म्हऱ्यांत पावलो. मोट्या मोट्यान शंख वाजयत आनी धोणवाचो दोर ओडीत अर्जुन आयिल्लो. ताच्या रथाचे घुडयेर मारुती आशिल्लो. तोवूय मोट्या मोट्यान आडूंक

लागिल्लो. इतल्यांत सूं करीत दोन तीर आयले आनी ते द्रोणाचार्याच्या पायांकडेन पडले. दुसरे दोन आयले आनी द्रोणाचार्याच्या कानाक आफडून गेलें. पयले दोन गुरूक नमस्काराचे आशिल्ले तर दुसरे दोन 'हांव झुजाक उबो रावलां, गुरून आज्ञा दिवची' अशें सांगपी आशिल्ले.

उत्तर रथ चलयतालो. ताका अर्जुनान म्हळें, 'रथ मात्सो थांबय. कोण खंय आनी कशे उबे रावल्यात तें पयलीं पळेत्तां.' उत्तरान रथ थांबयलो. कौरवांच्या मांडांत अर्जुनाक द्रोण, भीष्म, अश्वत्थामो, कर्ण आनी कृप दिश्टी पडले. दुर्योधन दिश्टी पडनाशिल्लो. 'दुर्योधन गायो घेवन गेला जातलो' अर्जुनान मनांत म्हळें आनी 'हांकां हांगाच आसूं दी, आमी दुर्योधनाची फाट धरुंया' अशें सांगून ताणे उत्तराक दक्षिणे दिकेन रथ व्हरपाक सांगलो.

उत्तरान रथ दक्षिणे दिकेन घुंवडायलो आनी वेगान सोडलो.

अर्जुनान अशें कित्याक केलें तें कृपाचार्याक सारकें कळ्ळें. 'हो दुर्योधनाक सोदूंक गेला', ताणे सगळ्यांक सांगलें, 'हांगा रावन आतां उपकारना, आमी ताच्या फाटल्यान धांवन गेल्ले बरे.'

दुर्योधन अर्जुनाच्या हाताक लागत ह्या भंयान सगळे अर्जुना फाटल्यान धांवले. पुणून ते पावचे पयलींच अर्जुन दुर्योधना म्हऱ्यांत पावलो. 'हांव अर्जुन आयलां' अशें दुर्योधनाक सांगून ताणे ताचेर तिरांचो पावस शिंवरायलो. कौरवांचें सैन्य पावलें तेन्ना ताका तीर नाशिल्ली सुवातूच दिश्टी पडली ना. तें झुजपाचें विसल्लें. 'केदे बेगीन हाणे इतले तीर सोडले' अशें म्हणून तें अर्जुनाची तोखणाय करपाक लागलें.

रथांच्या चाकांचो धडधड, शंखांचो आनी धोणवांच्या दोरयांचो घणघणाट आयकून, पळोवन व्हेल्ल्यो विराटाच्यो गायो भुजल्यो. त्यो शेंपड्यो वयर करून पळपाक लागल्यो. फाटल्यान परतल्यो.

फाटल्यान आयिल्लें कौरवांचें सैन्य अर्जुनाचेर धांवन गेलें. तें पळोवन अर्जुनान उत्तराक सांगलें, 'आतां रथ हांच्या सैन्या मुखार हाडून उबो कर.' उत्तरान वाऱ्याच्या वेगान रथ घुंवडायलो आनी सैन्या मुखार हाडून उबो केलो. सगळ्यांत मुखार कर्ण आशिल्लो. अर्जुनाचो रथ मुखार येवन उबो राविल्लो पळोवन कर्णालि सांगाती म्हारथी आडवे आयले. अर्जुनान तांचेर तिरांचो पावस ओतलो. तांतूंत कितलेशे जाण मेले, कितल्याश्या जाणांक घाय जाले. कौरवांचें सैन्य भियेलें आनी मेळत ते वाटेन पळपाक लागलें.

सैन्याची जाल्ली ही दैना पळोवन विकर्ण धांवन आयलो. अर्जुनान तागेलें धोणु

मोडून उडयलें. मोड येवचें आनी व्हडले व्हडले रूख मुळासावन हुमटून पडचे तशी कौरवांच्या सैन्यांतल्या व्हडल्या व्हडल्या म्हारथिंची गत जाली. कर्णाचो भाव संग्रामजित. तो अर्जुनाचेर धांवन गेल्लो. अर्जुनान एकाच तिरान ताची गोमटी उडयली. हें पळोवन कर्ण चवताळ्ळो. वागान रेड्याचेर उडी घेवची तशी ताणे अर्जुनाचेर घेतली. बळान दोगूय सारके. दोगांय मजगतीं आकांताचें झूज पेटलें. मर्दीच अर्जुन पडटा काय-सो दिशिल्लो. कौरव खुशालभरीत जाल्ले. ते ताळयो मारून कर्णाक चेव हाडपाचो यत्न करपाक लागिल्ले. इतल्यांत सूं करून अर्जुनाचे तीर आयले आनी ते कर्णाच्या भुजांक आनी मांडयांक तोपले. कर्णाच्यान सोंसूं नज जालें. तो पळ्ळो.

कर्ण सेनापती. तोच झुजामळा वयलो पळून वतकूच उरिल्ल्या सैन्याचें कितें जातलें. ताचो आवरो उडलो.

अर्जुनान द्रोणाचेर त्र्यास्तर, दुःसहाचेर धा, अश्वत्थाम्याचेर आठ, कृपाचार्याचेर तीन, भिष्माचेर साठ आनी दुर्योधनाचेर शंबर तीर मोखून तांकां नाकापुरो करून उडयले. तांगेल्या सैन्याचो मांड मोडलो.

उत्तर उमेदीर आशिल्लो. ताकाय चेव आयिल्लो. अर्जुनान ताका म्हळें, 'कर्ण पळून वचूं. पुणून द्रोणाचार्य, कृपाचार्य, अश्वत्थामो आनी भीष्म अजून झुजामळार आसात. रथान पयलीं द्रोणाचार्याची आनी कृपाचार्याची प्रदक्षणा काड. म्हगेले गुरू ते. तांच्या आड झुजचे पयलीं तांची प्रदक्षणा काडून तांका भौमान दिवंक जाय. अश्वत्थामाय व्हड मनीस. आनी भीष्म तर आमगेलो म्हालगडो.'

उत्तराच्या रथान कृपाचार्याक प्रदक्षणा घाली. हो असो वाटकुळो कित्याक घुंवन वता, हें कौरवांच्या लक्षांत येता सर अर्जुनाचो रथ कृपाचार्याच्या रथा मुखार येवन उबो रावलो. ते बरोबर अर्जुनान आपलो शंख वाजयलो. कृपाचार्यान आपलो वाजोवन ताका जाप दिली. पयलो तीर कृपाचार्यान सोडूंक जाय, ते बगर आपणे सोडप ना, अशें अर्जुनान थारायल्लें. कृपाचार्यान तिरार ,तीर सोडले. अर्जुनान ते अंतराळांतूच मोडून उडयले. कृपाचार्याचे तीर सोंपले. तेन्ना ताणे आपली गदा अर्जुनाचेर मोखून माल्ली. अर्जुनान ती वाटेरूच मोडून उडयली. हें पळोवन कृपाचार्याच्या आधाराक द्रोणाचार्य धांवन आयलो. द्रोणाचार्यान पयलीं तीर सोडले बगर आपुण सोडचों ना, हो अर्जुनाचो नेम. अर्जुनाक. पळोवन द्रोणाचार्य खुशालभरीत जाल्लो. ताणे पयलीं अर्जुनाक वेंगेंत घेतलो. मागीर झुजाक फुडें सल्लो. गुरूक धनुर्विद्येंतलें आपलें कसब दाखोवपाची हीच बरी संद अशें येवजून अर्जुनान यत्नांची पराकाष्टा केली.

द्रोणाक झुजून झुजून पुरो जालें. तेन्ना तो फाटीं सल्लो. तें पळोवन अश्वत्थामो धांवन आयलो. कुशीन सरपाक अर्जुनान द्रोणाचार्याक पयली संद दिली. मागीर अश्वत्थाम्याक जाप दिवपाक तो मुखार सल्लो. अश्वत्थाम्यान पयलीं अर्जुनाच्या धोणवाचो दोर तोडलो. अर्जुन नवो दोर बांदतासर ताणे ताचेर तिरार तीर सोडले. तागेले तीर सोंपले. ते सोंपतकूच अर्जुनान ताचेर तिरांचो पावस शिंवरायलो. अर्जुनाच्या खांदाक जो भातो आशिल्लो तांतले तीर सोंपनाशिल्ले. अश्वत्थामो खर्शेलो. तो कुशीक सरतालो, इतल्यांत कर्ण परतो आयलो. अर्जुनान पयलीं ताची तोखणाय केली: म्हळें, 'जावं परतो आयलो. आसा तुज्यांत सत्व.' तोखणाय आयकून कर्ण तापलो: 'तुजे तोखणायेची गरज ना म्हाका.' अशें म्हणून तो अर्जुनाच्या आंगार धांवन गेलो. अर्जुनान म्हळें, 'अशें व्हय? बरें आसा'. आनी ताणे त्याच खिणाक ताचेर एक तीर मोखलो. तीर कर्णाच्या हड्ड्यावेलें कवच फोडून हड्ड्याक तोपलो. आनी कर्ण रक्तबंबाळ जावन घुंवळून पडलो.

उपरांत अर्जुन भिष्माचेर चाल करून गेलो.

उत्तरान असलें झूज हाचे पयलीं केन्ना पळोवंक नाशिल्लें. ताणे अर्जुनाक विचाल्लें, 'भिष्माचेर चाल करून वचुंकूच जाय अशें आसा व्हय. आमचें काम गायो परतोवपाचें आशिल्लें. गायो परतिल्यो. आतां हांच्या आड कित्याक झुजूंक जाय.' अर्जुन उत्तराक जाप दिवंक वतालो, ताचे पयलींच दुःशासन आनी तागेले कांय भाव धांवन आयले. अर्जुनान तीर सोडून तांकां सगळ्यांक घाय केले. ह्या बोवाळांत एक तीर भिष्माच्याय हड्ड्याक लागलो आनी भीष्म घुंवळून पडलो.

भीष्म घुंवळून पडल्या उपरांत उरिल्ले सगळे पळून गेले. तेन्ना अर्जुनान उत्तराक म्हळें, 'आतां आमी घरा या. वचचे पयलीं हांच्या आंगा वयलीं उत्तरियां पुंजाय. तुगेले भयणीक तीं हाडटां म्हुण हावें उतर दिल्लें.'

उत्तरान कांय जाणाचीं उत्तरियां पुंजायलीं आनी रथ विराट-नगरिचे दिकेन धांवडायलो.

थोड्या वेळान दुर्योधन सुद्दीर आयलो. ताणे भोंवतणी पळेलें. अर्जुन नाशिल्लो. ताणे भिष्माक विचाल्लें, 'अर्जुनाक तुवें कसो वचूंक दिलो. ताका धरून दवरूंक जाय आशिल्लो.'

भीष्म हांसून म्हणूंक लागलो, 'सभाग्या, तूं जितो उल्ला तोच व्हड म्हण. तूं घुंवळून पडिल्लो तेन्ना तुका ताच्यान मारून उडोवं येतालो. पुणून अर्जुन वांकडे वाटेन वचपी मनीस न्हय, म्हुण तूं सुटलो. तुमचे सगळ्यांचे प्राण ताच्या हातांत आशिल्ले. ताणे तुमकां मारून उडयले नात हे ताचे उपकार मान आनी आतां

मोन्यानी हस्तिनापुराची वाट धर. जाली ती सोबा खूब जाली.'

झुजाची खुमखुमी आतां कोणांत उरूंक नाशिल्ली. कर्णाचोय मद जिरिल्लो. भिष्माची सांगणी आयकून सगळे मोन्यानी घरा परतले.

## १०५. अभिमन्युचें लग्न

त्रिगर्ताच्या राजाक लोळोवन विराट गायो घेवन परतलो तेन्ना लोकांनी ताका व्हडलो येवकार दिलो. ताका व्हरपाक लोक शिमेर आयिल्ले. येवकाराक फकत उत्तर येवंक नाशिल्लो.

'उत्तर खंय', राजान लोकांक विचाल्लें.

'गौळीवाड्यार कौरवांनी दुसरे दिकेन धुरी घालून गायो व्हेल्ल्यो, त्यो परत्यो हाडपाक गेला.' ताका जाप मेळ्ळी.

'एकलोच गेला काय आनी कोणाक घेवन गेला,' राजान हुसक्यान विचाल्लें.

'बृहन्नडेक घेवन गेला.' राजाक परती जाप मेळ्ळी.

राजा हुसक्यांत पडलो. 'गायो पळोवन व्हरपाक फकत त्रिगर्ताचो सुशर्माच येवंक नाशिल्लो तर, कौरवूय आयिल्ले', ताणे मनांत म्हळें. 'कौरवांचें सैन्य आकांताचें व्हड, तितलेंय ते घेवन आयिल्ले काय. आनी येद्याय व्हडल्या ह्या सैन्या आड उत्तर एकलोच झुजलो काय.' ताणे आपणाकूच प्रस्न केलो. आनी हुसक्यान ताणे आपल्या रथी-महारथींक आपयले आनी 'वचात ताच्या आधाराक बेगीन' अशें म्हणून तांकां धाडून दिले.

विराटाक धीर दिवन युधिष्ठिरान म्हळें, 'बृहन्नडा सांगाताक आसत जाल्यार हुसको करपाची गरज ना. बृहन्नडेन हाचे पयलीं देव असूर सिद्ध य़क्ष सगळ्यांचो मद जिरयला. कौरव केदेंय व्हडलें सैन्य घेवन येवं, बृहन्नडेच्या आधारान तुगेलो पुत तांची दानाधिस्पट करून परततलो. पळेशीत तूं.'

विराटाचे रथी अजून भायर सरूंक नाशिल्ले. इतल्यांत गायो घेवन राजकुंवर परतल्ल्याची खबर आयली : 'कौरवांची दानाधिस्पट जाली. ते सगळे जीव आसल्यार भीक मागून खावं, अशें म्हणीत पळून गेले.'

युधिष्ठिरान म्हळें, 'तांतूंत अजाप कसलें. राजकुंवरा सांगाताक बृहन्नडा आशिल्ली.'

कौरवांचेर जैत जोडून राजकुंवर परतलो हें आयकून विराट भुल्लुसलो. ताची खोस काळजांतल्यान भायर ओतपाक लागली. 'पुराय वाटेर घुडयो तोरणां लायात,

रस्त्यार फुलां शिंपडायात, झालरांतल्यान सगळ्यांक येवकाराक भायर येयात म्हुण सांगात' अशें ताणे मंत्र्यांक सांगलें. उत्तरेकूय सांगलें, 'तूंय राजमंदिरांतल्या सवायशिणींक घेवन येवकाराच्यो आरती दाखोवपाक शिमेर वच.'

थोड्याच वेळांत मत्स्यनगरी पुराय शृंगारून उबी रावली.

विराटाची खोस तरीकूय काळीज भरून ओतताली. कितें करचें, ताका समजना जालें. तो भुल्लुसून आयिल्लो. द्रौपदेक ताणे सांगलें, 'पाशे घेवन यो'.

आनी युधिष्ठिराक म्हळें, 'ऊठ, खेळूंक यो, ते मेरेन एक दाव खेळुंया.'

युधिष्ठिरान ताका म्हळें, 'खोस काळीज भरून ओतता तेन्ना पाशांनी खेळनात.' आनी रोखडेंच जोडलें, 'सोड, खेळून तुजी खोस वाडटा जाल्यार खेळुंया.'

दोगूय खेळपाक बसले. पुणून विराटाचें मन खेळांत नाशिल्लें. तें उत्तरा भोंवतणी घुंवतालें. ताणे युधिष्ठिराक म्हळें, 'म्हज्या पुताचें कर्तुत्व पळेलें मू. भीष्म द्रोण कृप अश्वत्थामा कर्ण येद्या व्हडल्या रथी-महारथींक झुजांत लोळोवन आयलो.'

'तांतूंत अजाप कसलें. ताच्या सांगाताक बृहन्नडा आशिल्ली.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

विराटाक युधिष्ठिराची तिडक माल्ली: 'येदोळ पसून बृहन्नडेचीच तुस्त आयकतां. म्हाका तिडावपा खातीर तूं ती करता, काय खंयच्या प्रसंगार कितें उलोवचें वा उलोवचें न्हय हें समजना म्हुण करता?' ताणे विचाल्लें.

युधिष्ठिरान जाप दिली, 'भीष्म द्रोण कृप कर्ण अश्वत्थामा हांच्या आड उबो रावपाचें इन्द्राक लेगीत केन्ना काळीज जावचें ना. येदे म्हारथी ते. तांकां बृहन्नडाच वस्ताद. तिणे हाचे पयलीं देव दैत्य राक्षस कितल्याश्यांक झुजांत लोळयल्यात.'

विराट युधिष्ठिराचेर ताणशेलो: 'तुका सांगतां: त्या हिजड्याची तुस्त भौन भौन म्हज्या मुखार नाका. म्हाका आयकुपाची ना ती. परत ताची तुस्त करशीत जाल्यार खबरदार', अशें म्हणून विराटान तिडकीन हातांतले पाशे युधिष्ठिराचेर मोखून माल्ले. युधिष्ठिराच्या नाकांतल्यान रोखडेंच भळभळ करून रगत व्हांवपाक लागलें. द्रौपदी म्हऱ्यांत आशिल्ली. तिणे फर्र करून आपलो पदर पिंदलो आनी तांतूंत रगत धल्लें. पुणून रगत एका सारकें व्हांवत रावलें. द्रौपदेन म्हऱ्यांत पळेलें. उदक पियेवपाचो एक भांगराचो पेलो तिका दिश्टी पडलो. तो तिणे युधिष्ठिराच्या नाका कडेन धल्लो.

विराटान अजापान विचाल्लें, 'हें कितें करता तूं.

द्रौपदेन जाप दिली, 'हाच्या रगताचे जितले थेंब जमनीर पडटले तितलीं वरसां

राज्यांत पावस पडचो ना. म्हुण रगत जमनीर पडूंक दिना.'

विराट उलोवंक वतालो. इतल्यांत, भायर बोवाळ आयकूंक आयलो. 'राजकुंवर येता', कोणे येवन रोखडीच खबर दिली. राजा उचांबळीत जालो. 'घेवन यो बेगीन ताका'. ताणे हुकूम सोडलो.

हुकूम घेवन वतल्याक युधिष्ठिरान ल्हवूच सांगलें, 'राजकुंवराकूच घेवन यो. बृहन्नडेक नाका.' आपल्या नाकांतल्यान व्हांवता तें रगत अर्जुनाक दिश्टी पडत जाल्यार ताका तिडक मारतली. तें कशें आयलें काय म्हुण तो विचारतलो. विराटान पाशो मारिल्ल्यान आयलें म्हुण कळत जाल्यार तो विराटाच्या आंगार धांवन वतलो, हें युधिष्ठिर जाणा आशिल्लो. म्हुण अर्जुनाक ताणे भायरूच दवल्लो

उत्तर भितर आयलो. ताणे बापायक प्रणाम केलो, तसो युधिष्ठिराकूय केलो. इतल्यांत ताची नदर युधिष्ठिराच्या नाका कडेन गेली. ताणे अजापून विचाल्लें, 'नाकांतल्यान रगत कशें आयलें.'

बापायन जाप दिली, 'तुज्या पराक्रमाची खबर आयकून हांव खोश्शी जाल्लों आनी तुजी तुस्त करपाक लागिल्लों. तें हाका मानवलें ना. हाच्या पोटांत दुखलें. हो बृहन्नडेची तुस्त गावपाक लागलो. म्हाका तिडक माल्ली. तिडकीन हांवें पाशो मोखून माल्ले. ते लागले.'

उत्तर काचाबूल जालो. बापायन ताका विचाल्लें, 'कितें जालें, तूं काचाबूल-सो कित्याक जालो.'

'जालें तें बरें जालें ना. आमकां भुजतलें हें. क्षमा मागूंक जाय हाची.' पुतान सांगलें. 'ह्या ब्राह्मणाचें व्हडपण हांगा कोणाक खबर ना.'

विराटाक अजाप जालें. पुणून ताणे मनांत म्हळें, 'म्हज्या हातान एका ब्राह्मणाचो अवमान जालो म्हुण हो खंती जाला. कौरवांक नाकापुरो करून हाणे निकतेंच आपलें क्षात्रतेज दाखोवन दिल्लें. आतां धर्मनिष्ठाय दिसून आयली.' पुतांत आशिल्ले दोनूय गुण पळोवन विराट खोशी जालो. ताणे रोखडेंच युधिष्ठिराक म्हळें, 'चूक घडली. चत्राय उल्ली ना. विसरून वचपाचें.'

'हांव केन्ना विसरून गेलां. अजाणपणान केल्ल्यो चुको हांव मनाक लावन घेना.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

नाकांतल्यान व्हांवतालें तें रगत तेमेरेन बंद जाल्लें. तेन्ना उत्तरान बृहन्नडेक आपोवपाक धाडली. बृहन्नडा येतकूच राजान पुताक म्हळें, 'कितें घडलें, सगळें सांग. सुरवाते पसून सांग. कर्ण द्रोण भीष्म कृप अश्वत्थामा येद्या व्हड रथी-म्हारथीं आड तूं कसो झुजलो, गायो खंय पाविल्ल्यो, त्यो कश्यो परतिल्यो, बारीकसाणेन

सगळें सांग.'

येदे बेगीन आमची वळख करून दिवं नाका, अशें अर्जुनान उत्तराक पयलींच सांगून दवल्लेलें. म्हुण उत्तरान जाप दिली: 'हांवें कसलोच पराक्रम करूंक ना. गायो हांवें परतोवन हाडूंक नात. हांव झुजुंकूय ना. उरफाटो, कौरवांचें आकांताचें सैन्य पळोवन म्हजो आवरो उडिल्लो. जीव मुठींत घेवन हांव पळून गेल्लों. म्हाका एका देव-कुंवरान धरून हाडलो आनी बळयां रथांत बसयलो. ताणेच गायो परतिल्यो. ताणेच कौरवांची दानाधिस्पट केली. सगळें कर्तुत्व ताचें. ताणेच उत्तरेक दिवपा खातीर कौरवांचीं हीं उत्तरियां दिल्यांत. येदोय व्हडलो हो पराक्रम करून तो लिपलो. पुणून एक दोन दिसांनी आपुण येतलों अशें उतर दिवन लिपला. तो येतकूच ताचो आमी सत्कार करुंया. ताचे उपकार स्मरुंकूच जाय.'

दोन दिसां उपरांत भायर सरचें, पांडव म्हुण उकते जावचें, अशें पांडवांनी थारायल्लें. उत्तराक अर्जुनान हें सांगिल्लें. उत्तरान जैताचें निमित्त करून दोन दिसांनी एक व्हडली सभा आपयली. हजारांनी लोक सभेक आयलो. त्या दिसा पांडव सकाळीं न्हावन-धुवन शुचिर्भुत जाले. अज्ञातवासांतलो भेस तांणी देंवयलो आनी राजघराण्यांतल्या लोकांक सोबत असलो भेस करून ते सभेक गेले. लोक पयलीं येवन बशिल्लो. राजाच्या शिंवासना म्हऱ्यांतूच पांडवां खातीर उत्तरान एक खेरीत शिंवासन घाल्लें. पांडव त्या शिंवासनाचेर येवन बसले.

विराट सभेंत आयलो. आपल्या शिंवासना म्हऱ्यांत बशिल्ल्या राजकुंवरांक पळोवन अजापलो. म्हऱ्यांत पावतकूच तो वळखलो: 'अब्बा! तुमी हांगा कशें', ताणे अजापून विचाल्लें.

'हांव सांगतां', अर्जुनान उठून वळख करून दिली: 'इन्द्राच्या अर्द्या आसनार बसपाची योग्यताय आशिल्लो हो युधिष्ठिर' अशें म्हणून ताणे कंका कडेन बोट दाखयलें. 'आमी चौग ताचे भाव: भीम अर्जुन नकुल आनी सहदेव. आनी ही द्रौपदी. एक वर्स आमी हांगा तुगेर अज्ञातवासांत आशिल्लीं. आयज प्रगट जातात.'

लोक अजापान आनी आनंदान उचांबळीत जावन उबो रावलो. मोट्या मोट्यान ताळयो मारपाक लागलो. विराटूय आनंदान उचांबळीत जालो. 'आरेरे! हांकां हांवें म्हगेर सेवेक दवल्लेले.' असो पश्चात्तापूय ताका जालो.

उपरांत उत्तर उठून उबो रावलो. 'ज्या देवकुंवरान पयर कौरवांची दानाधिस्पट केल्ली तो हो' अशें सांगून ताणे अर्जुना कडेन बोट दाखयलें.

विराटाक कितें करूं, कितें नाका, अशें जालें. ताणे उचांबळीत जावन म्हळें, 'येदे व्हडले मनीस तुमी. म्हगेर सेवक म्हुण वावुर्ले. म्हजें गोधन म्हाका परतें

हाडून दिलें. म्हजो भौमान वाडयलो. आनी हांवें कितल्यो चुको केल्यो! पाशे लेगीत नाकार मोखून माल्हे! शी, म्हाका तोंड दाखोवपाक लेगीत लज दिसता.'

मागीर ताणे 'हें राज्य आतां तुमीच चलयात' अशें युधिष्ठिराक म्हळें.

'तुगेलें राज्य तुजेच कडेन आसूं दी. आमकां प्रसंगार तुवें आलासरो दिलो तो असल्या लाख राज्यां परस मोलाचो.' युधिष्ठिरान जाप दिली.

विराट बुचकळ्यांत पडिल्लो. पांडवांक कितेंय तरी दिवंक जाय, तांचे खातीर कितेंय तरी करूंक जाय, अशें ताका खोलायेन दिशिल्लें. कितें करचें, कितें दिवचें, ताका येवजनाशिल्लें. तो उठलो. ताणे म्हळें, 'आमचें आनी तुमचें नातें घट जावचें अशें म्हाका मनापसून दिसता. त्या खातीर म्हगेली धुव उत्तरा अर्जुनाक दिवची अशें मनांत आयलां. ताणे तिका आपली मानून घेवची.'

युधिष्ठिरान अर्जुनाच्या तोंडाकडेन पळेलें. अर्जुन उठलो. 'मत्स्य आनी भरत दोनूय घराणीं रगताच्या नात्यान एक जाल्लीं म्हाकाय जाय', ताणे जाप दिली. 'पुणून उत्तरेची हांवें धुवे वरी अपुर्बाय केल्या. तिवूय म्हजेकडेन धुवे वरी वागल्या. तुमची मान्यताय आसत जाल्यार तिका हांव मोटे खोशयेन म्हजी सून करून घेतां. म्हजो पुत अभिमन्यु श्रीकृष्णाचो भाचो. ताची घरकान्न म्हुण उत्तरा आमच्या घरांत येवची.'

सगळ्यांक हें नातें मानवलें. रोखडीच लग्नाची तयारी सुरू जाली. म्हुर्त थारायलो. सगळ्यांक आमंत्रणा गेलीं. विराटान आपल्याच राज्यांतल्या उपप्लव्य शारांत पांडवांची रावपाची वेवस्ता केली.

लग्नाक कृष्ण आयलो. द्रुपद आयलो. काशिराज, शैल्य आयलो. कितलेशेच राजा आयले. लग्न मोट्या दबाज्यान जालें.

पांडवांच्या इश्टांत आतां आनी एकल्याची भर पडिल्ली : विराटाची.

## १०६. मुखार कितें

उत्तरा-अभिमन्युच्या लग्नाच्या निमतान पांडवांचे सोयरे आनी बरें-मागते उपप्लव्य नगरींत जमिल्ले. लग्न जातकूच कृष्णान तांची सगळ्यांची एक बसका घेतली. तीन पिळग्यांचे प्रतिनिधी हे बसकेंत जमिल्ले. विराट आनी द्रुपद जाणटे पिळगेंतले, पांडव कृष्ण बलराम सात्यकी दृष्टद्युम्न मदले आनी सांब प्रद्युम्न अभिमन्यु हे उदेते पिळगेंतले. सगळे आपापल्या आसनार येवन बसतकूच कृष्ण उठलो. ताणे एक ल्हानशें उलोवप केलें.

'तुमी जाणात, कौरवांनी फटींगपणा करून पांडवांचें राज्य कशें घेतलें तें. तांकां वनवासाक कित्याक वचचें पडलें, हेंवूय तुमी जाणात. पांडवांच्या आंगांत सगळी धर्तरी जिखपाची तांक आशिल्ली. पुणून युधिष्ठिर उतराचो मनीस जाल्ल्यान तेरा वरसांचे दगदग सोंसपाक तो तयार जालो. कितले त्रास उपाद्रे तांणी काडले, हेंवूय तुमी जाणात. तांणी इतलेय हे त्रास सोंसले ते कित्या खातीर. तांगेलें राज्य तांकां परतें मेळचें, ह्या खातीर मू. तें तांकां कशें मेळटलें ह्या प्रस्नाचेर आयज आमी हांगा बसून येवजूंक जाय. पांडवांक आनी कौरवांक दोगांकूय बऱ्याक पडत असलोच उपाय सोदून काडूंक जाय आमी. तुमी युधिष्ठिराक सारको बरो वळखतात. अधर्मान मेळिल्लें देवांलें लेगीत राज्य घेवपी मनीस न्हय तो. अन्यायान मेळिल्ल्या कित्याकूच तो आफुडपी न्हय. न्यायान मेळत जाल्यार एक ल्हान-सो गांव लेगीत घेवन धादोशी जावपी मनीस तो. दुर्योधनान ताका झुजांत हारोवंक ना. द्युतांत घुसपावन फटयला. ताका तरांतरांची पिडापीड भोगयल्या. तरी आसतना तो दुर्योधनाचें मात लेगीत वायट चिंतिना. उरफाटें, दुर्योधनाचें बरें जावचें अशेंच चिंतीत आयला. असलो आनी इतलो बरो मनीस तुमकां खंयच मेळचो ना. पांडव चड कांय मागिनात. आपल्या कर्तुत्वान तांणी जें जोडिल्लें, जें आयज दुर्योधनान घेतलां, तेंच तांकां परतें मेळूंक जाय. आपलोच वांटो ते मागतात. न्यायान तो तांचोच. तो तांकां कसो मेळटलो हाचेर उपाय सोदून काडुंया. दुर्योधनाचो व्हसव्हस आनी पाडो सभाव, तशीच युधिष्ठिराची न्यायनिष्ठा, धर्मनिष्ठा आनी दोगांयचें रगताचें नातें. सगळें सारकें मतींत धरून उपाय सोदून काडुंया. म्हजी सुचोवणी इतलीच : पांडव सदांच सत्याक धरून चल्ल्यात. न्यायान चल्ल्यात. तांकां झगडीं झुजां करपाची खुमखुमी ना. पुणून कौरव अन्यायूच करतले जाल्यार सगळ्यांनी लक्षांत दवल्लेंलें बरें : पांडव तें ओगी रावन सोंसून घेवपाचे नात. पांडव कितें करतले, अशें येवजून कोणूय तांचेर अन्याय करीत जाल्यार लक्षांत दवरात, पांडवांचे आप्त-इष्ट, तांगेले बरें-मागते पांडवांचोच पाखो घेतले आनी कौरवां आड झुजपाक मुखार सरतले. पुणून, म्हाका शिता फुडें मीठ खावपाचें ना. दुर्योधनाच्या मनांत कितें घोळटा, आमकां खबर ना. तें सारकें बरें कळ्ळे बगर सारको उपाय सोदून काडूंक येवपाचो ना. म्हुण म्हजें म्हणणे अशें : कोणूय एकलो शाणो, शिटुक, धर्मशीळ मनीस आमी आतां हस्तिनापुराक धाडून दिवंया. आनी पांडवांचो वांटो पांडवांक दियात म्हुण कौरवां कडेन मागुंया.'

कृष्ण उलोवन बसतकूच बलराम उठून उबो रावलो. ताणे म्हळें :

'कृष्णाचें म्हणणे तुमी आयकलें. ताका पांडवांचें आनी कौरवांचें दोगांयचें बरें

जाल्लें जाय. दोगांयचें बरें जायत हेच तरेचो उपाय आमी सोदूंक जाय, अशें तो म्हणटा. म्हजेंय म्हणणे तेंच. पांडव आपलोच वांटो मागतात. तांच्या हकाचोच वांटो दियात म्हणटात. तांचो वांटो तांकां दुर्योधनान दिवचो हें सांगपा खातीर आमी कोणाकूय तरी हस्तिनापुराक धाडून दिवंक जाय, अशें म्हाकाय दिसता. जाका आमी थंय धाडटले ताणे एक करचें: भीष्म धृतराष्ट्र द्रोण कृप अश्वत्थामो विदुर शकुनी कर्ण दुर्योधन आनी तागेले सगळे भाव, तशेच हस्तिनापुरांतले बुदवंत जाणटे, हांकां सगळ्यांक पयलीं एकठांय करचे. सगळ्यांक समजता ते भाशेंत, पुणून खुबूच नमळायेन ताणे पांडवांचें म्हणणे तांच्या मुखार दवरचें. ताणे एक जतनाय घेवची. कौरवांक ताणे तिडावचें न्हय. दुखोवचें न्हय. कित्याक, कौरवांचें व्हडलें-शें चुकूंक ना. तांणी युक्तीन पांडवांचें राज्य घेतलां. धर्मराजाक द्युताची ओड. तो खेळूंक येना आसतनाय खेळ्ळो. बरें मागत्यांनी ताका नाका म्हळ्ळें आसतनाय खेळ्ळो. थंय दुसरे जायते खेळपी आशिल्ले. तांकां सोडून तो शकुनी कडेनूच खेळपाक बसलो. पाशे उरफाटे पडटात हें पळोवनूय हटाक पेटून खेळत रावलो. आनी सगळें होगडावन बसलो. हें सगळें पळेल्यार आमच्यांनी शकुनीक दुशण दिवं नज. कौरवांकूय दिवं नज. म्हुण दुखय वा तिडाय नासतना पांडवांचें म्हणणे मांडचें. कौरव-पांडवां मजगतीं झूज जावंक फावना. झुजान कोणाचेंच कल्याण जावपाचें ना. सगळ्यांचेंच नाशें जातलें, हें आमी विसरूंक फावना.'

बलरामाचें म्हणणे आयकून सात्यकीक तिडक माल्ली. तो तापू-तापून उलोवपाक लागलो. ताच्या काळजांतलेंच ताचे जिबेर आयलें. बलरामाक दुर्योधनाची ओड देखून तो झूज चुकोवंक सोदता हें तो जाणा आशिल्लो. ताणे म्हळें :

'बलरामाक कितें जाय तें म्हाका खबर आसा. रुखाची एक खांदी फळांनी भरिल्ली आमी पळेतात. तर त्याच रुखाची दुसरी खांदी वांझकुटीय आसता. तशें एकाच घरांत एक भाव शूर, तर दुसरो भिजूड पळोवंक मेळटा. हांव बलरामाक दुशण दिना. दुशण दितां, ताचें म्हणणे मोन्यानी जांणी आयकून घेतलें तांकां. धर्मराजाक दुशण दिवपी मनशाचें म्हणणे तुमी मोन्यानी आयकून कशें घेतात तें म्हाका समजना. शकुनी फटींग म्हणपाचें बलरामान मान्य केलां. मागीर. खेळूंक नकळ आशिल्ल्याक खेळूंक यो म्हणप, ताका फटोवन तागेलें सगळें नागोवन व्हरप, हें न्यायान जालें अशें तो कशें म्हणटा. आमकां फटिंगांचें बरेपण जाय कित्याक. फटींग ते फटींग. युधिष्ठिर उतराचो मनीस म्हुण ताणे सगळे अन्याय मोन्यांनी सोसून घेतले. म्हुण ताणे दुर्योधना मुखार आतांय मान बागोवंक जाय

व्हय. न्यायान ताका पुराय राज्य मेळूंक जाय आशिल्लें. राज्य तागेलेंच आशिल्लें. कित्याक, राज्य मुदलांत पांडुचें. पांडु फाटल्यान तें पांडवांचें जावपाचें. हस्तिनापुराचें राज्य त्या कुड्ड्याच्या पुतांचें केन्नाच नाशिल्लें. पांडवांनी सगळेंच राज्य मागपाचें. कित्याक, तें हकान तांगेलें. सगळें राज्य मागता आसतना लेगीत कोणाक नमपाची गरज ना. भीष्म द्रोण विदुर सारकेल्या सगळ्यांनी समजावन सांगिल्लें आसतनाय जे समजले नात, तांचे कडेन सन्मथाचे भाशेंत न्हय, तिरांचेच भाशेंत उलोवपाचें. हांव कौरवां कडेन झुजाचेच भाशेंत उलयतलों. तुमगेली ती गुळमुळीत भास म्हाका उपकारपाची ना. आमी येदे येदे व्हडले वीर पांडवांच्या पगडांत आसतना तांणी भियेवंचें कित्याक आनी कोणाक. आगळिको करतल्यांक माल्ले म्हुण अधर्म जायना. खरेपणानशीं तांच्या मुखार पदर पातळावन भीक मागप होच अधर्म. म्हाका चड सांगपाचें ना. म्हजें म्हणणे इतलेंच: पांडवांचें राज्य पांडवांक मेळुंकूच जाय. ना जाल्यार कौरवांनी मरपाक तयार रावंक जाय. दों भितल्ली एक, तिसरी वाट ना.'

तेरावें वर्स सोंपचे पयलींच अर्जुन भायर आयलो. आमकां मेळ्ळो. आतां परते बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाक तुमकां वचचें पडटलें अशें दुर्योधनान पांडवांक सांगून धाडिल्लें. सात्यकीक तें खबर आशिल्लें. हाचे वयल्यान कौरव बरे भाशेन कितेंच दिवपाचे नात अशें ताचें मत्त जाल्लें.

सात्यकिच्या उलोवण्याक लागून वातावरण हून जालें. थंय सगळ्यांत जाणटो आशिल्लो तो द्रुपद.ताणे सात्यकिच्या म्हणण्याक तेंको दिलो. ताणे म्हळें, 'दुर्योधन मोन्यानी राज्य दिवपाचो ना अशें म्हाकाय दिसता. धृतराष्ट्र फकत दोळ्यांनीच न्हय, तर मनान लेगीत कुड्डो. तो तुमचें म्हणणे खरें म्हणटलो. पुणून निमाणे कौरव थारायतात तेंच करतलो. कर्ण आनी शकुनी पाडे. हाचो अर्थ: दुर्योधनाक जाय तशेंच सगळे करपाचे आसात. दुर्योधना कडेन नमळायेची भास उलोवपांत अर्थ ना. तो कोणाकूच बदपाचो ना. आमची नमळायेची भास पळोवन आमकां दुबळे लेखतलो. ताचेकडेन शक्तिचेच भाशेंत उलोवंक जाय, हें सात्यकिचें म्हणणेच खरें. म्हाका अशें दिसता: आमी झुजाचे तयारेक लागूंक जाय. आमच्या बरें-मागत्यां कडेन आमचे मनीस आतांच धाडून दिवंया. तुमचो आमकां आधार जाय, तुमचें सैन्य तयार दवरात म्हुण सांगून धाडुंया. शल्य धृष्टकेतु जयत्सेन केकय सगळ्यांक पयलींच बांदून घेवंया. जो पयलीं येता ताका उतर दिवप ही आमची क्षत्रियांची रीत. दुर्योधनाचे मनीस पावचे पयलीं आमचे मनीस सगळे कडेन धाडून दिवंया. मागीर दुर्योधन धृतराष्ट्र भीष्म कितें म्हणटात तें पळोवंया.

म्हजो पुरयत जाणटो, बुदवंत आनी शिट्टुक. शुक्र बृहस्पती सारको. ताका हस्तिनापुराक धाडून दिवंया आनी तांचें म्हणणे कितें तें समजून घेवंया.'

निमाणे कृष्ण परतो उठलो. ताणे म्हळें, 'द्रुपद ताचे पिरायेक आनी ताच्या पांवड्याक सोबपा सारकें उलयलो. ताणे सांगलां तशेंच करपाचें. पयलीं आमचे मनीस सगळे कडेन धाडपाचे आनी सगळ्यांक बांदून घेवपाचे. ना जाल्यार दुर्योधन हें काम आमचे पयलीं करतलो आनी आमचेर मागीर पश्चात्ताप करपाचो प्रसंग येतलो. यादवां संबंदान इतलेंच सांगतां, आमकां कौरव आनी पांडव दोगूय सारके. दोगूय आमच्या नात्यांतले. झुजा बगर प्रस्न सुटलो जाल्यार आमकां जितली खोशी जातली तितली आनी कोणाक जावपाची ना. आमी हांगा जे जमल्यात तांच्यांत पिरायेन तसोच गिन्यानान सगळ्यांत जाणटो द्रुपद. धृतराष्ट्र ताका मानता. द्रोण आनी कृप तागेले भुरगेपणा पसूनचे संवगडी. पांडवां खातीर जें कितें करूंक जाय तें आमी ताच्या हातांत दिवया. आनी तुजे फाटल्यान आमी आसात, अशें ताका सांगुंया. आमी कितें करचें तें ताणे सांगचें. खंय कोणाक धाडचे हें ताणेच थारावचें. दुर्योधन बरे भाशेन समजूंक पावलो जाल्यार बरेंच जालें. ना जाल्यार मुखार कितें करचें तें थारावपाक द्रुपदान आमकां परते आपोवन घेवचे.'

कृष्णान निमाणे म्हळें, 'आमी आयिल्ले लग्नाक. लग्न जालें. आतां द्रुपदाच्या हातांत सगळीं सुतां दिवन आमी आपापल्या घरा गेल्ले बरें.'

सभा सोंपली. सगळे आपापल्या घरा वचपाक गेले. कृष्णूय बलराम आनी सात्यकीक घेवन द्वारकेक गेलो.

सोयरे वतकूच द्रुपद विराट आनी पांडव कितें करचें तें थारावपाक बसले. कोणाक खंय धाडचो तें थारावन दुसऱ्याच दिसा त्या त्या मनशाक ते ते कडेन धाडून दिले.

मागीर द्रुपदान पुरयताक आपयलो आनी ताका सांगलें, 'तुजें काम सगळ्यांत म्हत्वाचें आनी सगळ्यांत चड नाजूक. तूं गिन्यानी, बऱ्या कुळांतलो, अणभवान आनी पिरायेन जाणटो. पांडवांचो सगळो इतिहास तूं जाणा. सत आनी न्याय पांडवांचे वाटेन आसा. दुर्योधन मनीस पाडो. तो कोणाचेंच आयकुपाचो ना. पांडव मागतात तें दिवपाचो ना. तरी आसतना, यत्न करपाचो. तुवें हस्तिनापुराक वचचें. पांडवांचें म्हणणे थंय सगळ्यां मुखार दवरचें. थंय आसात तांतलो विदुर आमचो. भीष्म आनी द्रोण मनान आमचे. पुणून दोगूय कौरवां वांगडा रावतले. सगळ्यांक आमचें म्हणणे समजावन सांग. तांच्यांत मतभेद आसात. ते वाडूंक जाय, हें

मर्तीत धर. एकठांय येवपाक आनी एका मत्तार येवपाक तांकां वेळ लागूंक जाय. म्हणटकूच तयारी करपाक आमकां तितलो वेळ मेळटलो. बेगीन येवपाची गरज ना. ताकतीक करूं नाका. जाता तितले चड दीस राव. उलोवणी मुखार चलयत दवर.'

पुरयत सगळें समजलो. पुष्य नक्षत्रांतल्या विजय म्हुर्तार तो हस्तिनापुराक वचपाक भायर सल्लो.

## १०७. कृष्ण अर्जुनाच्या पंगडांत

पांडव कोणाक मेळटात, कितें करतात, कितें येवजितात, ह्या सगळ्या गजालिंचेर दुर्योधनाची बारीक नदर आशिल्ली. पांडव उपप्लव्य नगरींत रावल्यात, द्रुपद विराटा सारकेल्यांची बुद्द घेवन ते झुजाची तयारी करपाक लागल्यात, आधारा खातीर सगळे कडेन आपणाले दूत तांणी धाडून दिल्यात, म्हणपाचें ताका तागेल्या लोकांनी येवन सांगलें. लग्ना खातीर आयिल्लो कृष्ण द्वारकेक परतो गेलो म्हणपाचेंय ताका कळ्ळें. आतां आपणेय कामाक लागचें पडलें अशें येवजून तो कोणाक खंय धाडचे हें येवजूंक लागलो. कृष्णाचो आधार मेळटा जाल्यार पळोवपाक द्वारकेक उठून स्वतः गेलो.

हे वाटेन अर्जुनूय कृष्णाचो आधार मागपाक द्वारकेक गेलो.

दुर्योधन द्वारकेक पावलो तो नीट कृष्णाचे कुडींत गेलो. कृष्ण न्हिदिल्लो. ताच्या उशा लागसार एक ऊंच आसन आशिल्लें. ताचेर बसलो. फाटोफाट अर्जुन पावलो. दुर्योधन येवन भितर गेला म्हणपाचें ताका भायरूच कळ्ळें, तेन्ना तोवूय कृष्णाचे कुडींत भितर गेलो आनी कृष्णाच्या पांयां कडेन नमळायेन उबो रावलो.

कृष्णाक जाग आयली. दोळे उकते करिना फुडें ताची नदर पयलीं अर्जुनाचेर पडली. इतल्यांत उशा कडेन वयर दुर्योधन ताका दिश्टी पडलो.

'कित्याक आयिल्लो,' कृष्णान हांसून दुर्योधनाक विचाल्लें.

दुर्योधनाक ताकतीक जाल्ली, 'तुजो आधार मागपाक आयिल्लों.' ताणे जाप दिली. 'पांडवां आड घडये आमकां झुजचें पडटलें. ह्या झुजांत तुजो आधार म्हाका मेळचो, अशें सांगपाक आयिल्लों. आमी दोगूय तुजे सोयरे. तुज्या नात्यांतले. दोगूय तुजे इश्ट आनी दोगूय वांगडाच हांगा पावल्यात. तांतूंत हांव मात्सो पयलीं पावलां आनी जाणटेल्यांनी म्हळां : जो पयलीं पावता ताचें काम पयलीं करचें.'

'तूं पयलीं पावला जातलो'. कृष्णान जाप दिली. 'पुणून म्हजी नदर अर्जुनाचेर

पयलीं पडल्या. आतां तूं पयलीं पावला म्हुण तुका आनी तो पयलीं दिश्टी पडला म्हुण ताका, दोगांकूय सारकोच आधार दिवचो अशें हांवें थारायलां. एके वाटेन म्हजें सैन्य उरतलें. दुसरे वाटेन हांव आसतलों. हांव खंयच्याय पंगडांत आसलों तरूय हातांत शस्त्र घेवपाचों ना. झुजपाचों ना. दों भितल्लें एक वेंचून काडात. पिरायेन जो ल्हान ताका पयलो मान. हे चालीक धरून अर्जुनाक पयलीं विचारतां, दों भितल्लें तुका कितें जाय.'

'तूं'. अर्जुनान अनमन नासतना जाप दिली.

कृष्णाचें सैन्य आपशींच आपणाक मेळ्ळें म्हुण दुर्योधन खोश्शी जालो. तो थंयच्यान उठून बलरामासरीं गेलो.

'तुजो आधार मागपाक आयिल्लों', दुर्योधनान बलरामाक सांगलें.

बलरामान म्हळें, 'अभिमन्युच्या लग्ना वेळार हांव उलयल्लों तें तुज्या कानार पावलां जातलें. कृष्णाक हांवें थंय सांगिल्लें: आमकां पांडव आनी कौरव दोगूय सारके. दोगूय आमच्या नात्यांतले. तांतल्या खंयच्याय एका पंगडाचो पाखो घेवपाची आमकां गरज ना. पुणून कृष्णाक म्हजें म्हणणे रुचलें ना. तो पांडवांच्या पंगडांत गेलो. कृष्णा आड हांव वचपाचों ना आनी ज्या पंगडांत कृष्ण ना थंय आपणे वचप ना, हो म्हजो नेम. देखून हांवें थारायलां, हांव तुज्याय पंगडांत वचचों ना, अर्जुनाच्याय वचचों ना. तुका एकूच सांगतां: तूं क्षत्रिय. क्षत्रियांच्या धर्माक धरून करूंक जाय तें कर.'

बलराम आपल्या पंगडांत नाका येवं, पुणून तो पांडवांच्या पंगडांत वचचो ना, हाची खातरी पडटकूच दुर्योधन खोशी जालो. तो कृतवर्म्यासरीं गेलो. तो यादवांचो सेनापती. ताणे आपलें एक अक्षौहिणी सैन्य तुका मेळटलें, अशें सांगलें. तेन्ना 'जैत आतां म्हजेंच' अशें मनांत म्हणत दुर्योधन हस्तिनापुराक परतलो.

आपुण मागूंक वचूंक नाशिल्लों जाल्यार, जें एक अक्षौहिणी सैन्य पांडवांक मेळटलें आशिल्लें तें आपणाक मेळिल्लें पळोवन दुर्योधनाचें काळीज खोशयेच्या उमाळ्यांनी नाचपाक लागलें.

दुर्योधन उठून वतकूच कृष्णान अर्जुनाक विचाल्लें, 'हांव हातांत शस्त्र घेवचों ना, झुजचों ना, अशें सांगिल्लें आसतना तुवें म्हाकाच कित्याक वेंचून काडलो.'

'सांगूं, तूं सदांच जैतवंत देखून.' अर्जुनान जाप दिली. आनी म्हळें, 'म्हजी एक इत्सा आसा: झुजा वेळार म्हजो रथ तुवें चलोवचो.'

कृष्ण मुमुर्‍यांनी हांसलो.

अर्जुन त्याच दिसा कृष्णाक घेवन उपप्लव्य नगरींत परतलो.

# १०८. शल्य

शल्य माद्रिचो भाव. नकुल सहदेवाचो खास्सा मामा. मद्र देशाचो राजा. पांडवांनी आधार मागपा खातीर सगळे कडेन लोक धाडून दिल्यात, म्हणपाचें ताका कळ्ळें तेन्ना, तो आपुण जावन तांकां मेळपाक आयलो. येतना वांगडा आपलें सैन्यूय घेवन आयलो. सैन्य आकांताचें. वाटेर तळ दितालें तेन्ना देड योजन मेरेनची वाट आडायतालें.

शल्य सैन्य घेवन पांडवां कडेन वता ही खबर दुर्योधनाच्या कानार पावली. कृष्णाचें सैन्य आपले वाटेन हाडलें तशें हेंवूय कशेय भाशेन हाडूंक जाय, अशें येवजून दुर्योधन मांडण्यो रचपाक लागलो. ताणे वाटेरूच शल्याची बडदास्त दवरपाक सुरवात केली. सैन्याक वाटेर कितेंच उणे पडचें ना, हाची जतनाय घेतली. शल्य येतालो, वाटेर तळ दितालो तेन्ना, दुर्योधनाचे मनीस ताका देव कसो लेखून ताचो भौमान करताले. इतलीय सरबराय युधिष्ठिर करता असो शल्याचो समज जाल्लो. दुर्योधन ती करता जातलो हाचो ताका दुबाव लेगीत येवंक नाशिल्लो. तो प्रसन्न जालो. एक दीस ताणे सेवा करतल्या सगळ्यांक आपोवन घेतले आनी तांकां सांगलें, 'तुमी म्हजी इतली बडदास्त दवल्ली ती पळोवन म्हाका बरें दिसलें. तुमकां कितेंय तरी दिवचें अशें मनांत आयलां.'

सेवक धांवत दुर्योधनासरीं गेले. ताका तांणी ही खबर सांगली. खबर आयकून दुर्योधन रोखडोच शल्या मुखार येवन उबो रावलो. ताका पळोवन शल्य घुटमळ्यांत पडलो. आपुण पांडवांच्या पंगडांतलो. तरी आसतना हो आपली इतली बडदास्त दवरता, हाची ताका तोखणायूय दिसली.

ताणे विचारलें, 'ह्या रिणांतल्यान कसो मेकळो जावं.'

'म्हज्या पंगडांत येवन म्हाका आधार दिवन.' दुर्योधनान जाप दिली.

शल्याक घुटमळ्यांत पडिल्लो पळोवन दुर्योधनान म्हळें, 'पांडव तुजे तशे आमीय तुजे. आमच्या पंगडांत येवपाक तुका कसली आडखळ आसा?

'आडखळ कितें आसतली.'

'हय मू. तशें जाल्यार तुजो आधार आमकां मेळटलो, अशें धरून चलतां. जो पयलीं येता ताका हय म्हणप हो नेम क्षत्रियांचो', दुर्योधनान सांगलें.

शल्य उतराक सांपडलेलो. 'बरें आसा. तूं म्हणटा तशें जातलें.' ताणे दुर्योधनाक उतर दिलें. आनी म्हळें, 'तुजें काम जालें. तुज्यान आतां वचूं येता. हांव आतां युधिष्ठिराक मात्सो मेळून येतां.'

'थंय वचून बदलचो ना मू.' दुर्योधनान विचाल्लें.

'एक फावट उतर दिलें. आतां तांतूंत बदल जावपाचो ना', शल्यान जाप दिली.

दुर्योधनाक उतर दिवन शल्य पांडवांसरीं गेलो. मामा आयिल्ल्याची खबर कळना फुडें पांडव खुशाल भरीत जाले. वनवासांत तांणी कितें कितें भोगिल्लें, सोंशिल्लें तें सगळें ताका सांगपाचें आशिल्लें. पांडवांनी तें ताका बारीकसाणेन सांगलें.

'खूब सोंसलें तुमी.' सगळें आयकून शल्यान म्हळें. 'इतले दगदग, इतले त्रास सोंसून तुमी बरे भाशेन परतले, हें व्हडलें भाग्यूच लेखूंक जाय. उज्यांत तापतकूच भांगराचो कस वाडटा. तशें तुमचें जालां. तुमकां आतां बरे दीस येतले, ह्या विशीं म्हाका दुबाव ना.'

इतलें उलोवन दुर्योधनान आपणाक वाटेर कसो फटयलो आनी उतराक कसो बांदून घेतलो, हेंवूय सांगून तो मेकळो जालो. युधिष्ठिराक धसको बसलो. तो खीणभर ओगी रावलो. मनांत म्हळें, 'हो लागिंचो सोयरो अशें धरून हांव घाळ रावलों. हागेर पयलींच मनीस धाडपाचो तो धाडलो ना, हाचो परिणाम हो.' पुणून ताणे शल्याक कांय म्हळें ना. एक हुस्कार सोडून इतलेंच सांगलें, 'उतर दिलें म्हणटकूच ताका पाळो दिवचोच पडलो. पुणून कांय नज. आमकां आधार दिवपाचें मनांत आसत जाल्यार, दुर्योधनाच्या पंगडांत रावनूय खूब करूं येता.'

'कितें करूं येता', शल्यान विचाल्लें.

'कौरवांच्या पंगडांत रावन आमकां कसो आधार दिवं येता तो सांगतां' अशी जाप दिवन युधिष्ठिरान शल्याक सांगलें: 'रथ चलोवप्यांत म्हालगडो अशी तुजी नामना. एक कृष्ण सोडीत जाल्यार तुका लागपी संवसारांत दुसरो कोण ना, अशें सगळेच म्हणटात. झुजा मळार अर्जुनाचें आनी कर्णाचें पेट्टलें त्या वेळार कर्णाचो रथ चलोवपाचें काम तुवें करचें. कर्णाची तुवें उमेद मोडली, ताचो उत्साह ना केलो, तो निर्शेता अशें कितेंय तूं करूंक पावलो जाल्यार आमकां मोटो आधार दिल्लें वरी जातलें.'

शल्याक ही सुचोवणी मान्य जाली. कौरवांच्या पंगडांत रावनूय पांडवांक आधार दिवं येतलो हें चिंतून तो खोशी जालो. फटवल्ल्याची खंत ताचें काळीज कोंरातताली. ती ही सुचोवणी आयकून ना जाली.

ताणे युधिष्ठिराक सांगलें, 'तूं सांगता तशेंच करतलों. कर्णान तुमकां जे त्रास दिल्यात ते केन्ना विसरचों ना. द्रौपदेच्या काळजाक ताणे घाय केल्यात ताचो सूड घेतलों. तूं हुस्को करूं नाका. झुजा मळार कर्ण ऐन रंगार येवलो तेन्ना ताका दुखपा सारकें कितेंय उलयतलों. ताचे उमेदिचेर उदक ओततलों. तो निर्शेता अशें

करतलों. पुता, दुख्खां सोंसचीं पडलीं म्हुण खंती जावं नाका. व्हड लोकांकूच सदां दुख्खां सोंसचीं पडटात. इन्द्राक लेगीत सोंसचीं पडल्यांत. तुमी आतां दुख्खांतल्यान मेकळे जावन राज्य-सुख भोगतले.'

## १०९. द्रुपदाचो पुरयत हस्तिनापुराक

कोण कोण आपले वाटेन आसात हें पळोवपा खातीर पांडवांनी सगळे कडेन आपले मनीस धाडल्यात म्हणपाचें कळना फुडें दुर्योधनूय ताकतिकेन ह्या कामाक लागिल्लो. थोड्याच दिसां भितर ताणे इकरा अक्षौहिणी* सैन्य एकठांय केलें.

कामरुपाचो राजा भगदत्त चिनी आनी किरातांचें एक अक्षौहिणी सैन्य घेवन सगळ्यांत पयलो येवन ताका मेळ्ळो. मद्र देशाच्या शल्याचें एक अक्षौहिणी सैन्य दुर्योधनान पयलींच आपलें करून घेतिल्लें. उपरांत भूरिश्रव्याचेंय एक अक्षौहिणी सैन्य ताका मेळ्ळें. भोज अंधकांचो सेनापती कृतवर्मा एक अक्षौहिणी घेवन त्याच वेळार आयलो. तसो सिंधु देशाचो जयद्रथ, काम्बोज देशाचो सुदक्षिण, महिष्मतिचो नील, अवन्तिचे विन्द आनी अनुविन्द दोगूय भाव एक-एक अक्षौहिणी सैन्य घेवन आयले. ह्या भायर खासा दुर्योधनाचें सैन्य आशिल्लें. सगळें इकरा अक्षौहिणी सैन्य तागेलें जाल्लें.

हस्तिनापुरांत ह्या सैन्यांच्या सेनापतींक लेगीत रावपाक सुवात नाशिल्ली. ते पंचनद, करूजांगल, रोहितकारण्य, वाटधान, कालकूट, गंगाकूळ आनी यामुन पर्वत येद्याय व्हडल्या वाटारांत पातळ्ळेंलें.

पांडवांच्या आधाराक सगळ्यांत पयलो आयलो सात्वत यादवांचो वीर सात्यकी. पांडव वनवासाक वचपाक भायर सरिल्ले त्या वेळारूच ताका कौरवांची तिडक मारिल्ली. 'पांडवांक वचूं दी वनवासाक. आमी कौरवांक पानवळ भोगोवंया' अशें ताणे तेन्नाच म्हळ्ळें. ताका कृष्णान थातारून धरिल्लो. म्हुण तो तेरा वरसां ओगी राविल्लो. आतां ताका कौरवांचो सूड घेवपाची संद मेळिल्ली. तो एक अक्षौहिणी सैन्य घेवन आयलो.

चेदिचो राजा धृष्टकेतु (शिशुपालाचो पुत) तसोच प्राग्ज्योतिषाचो जयत्सेन (जरासंधाचो पुत), सागर-तटा वयलो पांड्य हांचें एक एक अक्षौहिणी सैन्य पयलींच पांडवांचें जालें. ह्या भायर हे वाटेनचें ते वाटेनचें मेळून आनीक एक

* एक अक्षौहिणी सैन्य म्हळ्यार, एकवीस हजार आठ-शें सत्तर रथ, तितलेच हती, पांसष्ट हजार स-शीं धा घोडे, आनी एक लाख णव हजार तीनशें पन्नास शिपायक.

अक्षौहिणी— कुर्ळी सात अक्षौहिणी सैन्य पांडवांक मेळ्ळें. ल्हान न्हंयो व्हडले न्हंयेक येवन मेळ्ळ्यो म्हणटकूच त्यो जश्यो आपलें नांव आनी रूप सोडून दितात तशें पांडवांक येवन मेळिल्लें हें सैन्य सगळें एकामेकांत भरसून एक जाल्लें.

एके वाटेन ही तयारी चलिल्ली आसतना दुसरे वाटेन द्रुपदाचो पुरयत हस्तिनापुराक पावलो. धृतराष्ट्र भीष्म विदुर सगळ्यांनी ताचो सत्कार केलो. सुर्वेक 'पांडवांनी तुमकां सगळ्यांक विचाल्लां' अशें सांगून मागीर ताणे आपलें म्हणणे तांच्या मुखार मांडपाक सुरवात केली. ताणे म्हळें :

'हांव कित्याक आयलां, तुमकां खबर आसा. तुमी सगळे गिन्यानी. तुमकां राजधर्म हांवें शिकोवपाची गरज ना. धृतराष्ट्र आनी पांडु एकाच बापायचे पुत. बापायचे संपत्तिचेर दोगांयचो सारको हक आसपाचो. अशें आसतना धृतराष्ट्र एकलोच सगळी संपत हातासून बसलो. इतलें करून ओगी रावलो ना. पांडुले पुत घडये धोशीत रावतले ह्या भंयान तांकां ताणे ना करपाचे उपाय केले. पांडवांची पुण्याय व्हडली देखून ते जिवे उल्ले. धृतराष्ट्रान तांकां तांचो वांटो दिलो ना तो दिलो ना; परतें, तांणी आपल्या कर्तुत्वान जें जोडिल्लें तेंवूय तो खावन बसलो. धृतराष्ट्राच्या पुतांक शकुनिचो आधार मेळ्ळो. त्या उणाकाच्या आधारान तांणी फटींगपणा करून पांडवांक नागयले आनी तांकां वनवासाक धाडले. वनवासांत आनी अज्ञातवासांत तांणी कितले त्रास काडले, कितले दगदग सोंसले, तुमी आयकून जाणात आसतले. इतलेंय आसून पांडव सगळें विसरून इश्टागतिचो हात घेवन मुखार आयल्यात. तांकां झूज जाल्लें नाका. झुजान कोणाचेंच बरें जावपाचें ना, अशें तांचें म्हणणे. ते चड मागिनात. तांकां फकत तांगेलो वांटो जाय. पांडवांनी तो झुजून घेवचो अशें दुर्योधनाक दिसता जायत जाल्यार लक्षांत दवरात : पांडव झुजुंकूय तयार आसात. तांचे कडेन आयज सात अक्षौहिणी सैन्य आसा. त्या भायर श्रीकृष्ण तांगेल्या पंगडांत आयला. पांडवांक तुमी वळखतात. तुमच्या इकरा अक्षौहिणी सैन्याची दानाधिस्पट करपाक तांच्यांतलो एकलो अर्जुनूच पुरो. म्हजें म्हणणे इतलेंच : दुर्योधनाक समजायात, ताका बरी बुद्द दियात आनी वेळ होगडाय नासतना पांडवांचो वांटो पांडवांक दिवन उडयात...'

भिष्मान हें आयकून मनांत म्हळें, 'कसलो मनीस धाडलो रे हांणी. हो निखटो पंडित. शांतिदूत न्हय.'

भिष्माक द्रुपदाच्या ह्या पुरयताची तिडक मारिल्ली. पुणून तकली थंड दवरून ताणे म्हळें :

'पांडव बरे आसात हें आयकून बरें दिसलें. तांच्या फाटल्यान खूब जाण

आसात हेंवूय आयकून बरें दिसलें. तांकां झूज नाका हें आयकून तर चडूच बरें दिसलें. तुवें जें सांगलां तें खरें. पुणून तुगेलें हें सांगप सारकें जालें ना. मात्शें तीख जालें. तूं ब्राह्मण. कशें उलोवचें तें तुका खबर ना जावये. पांडवांचो वांटो पांडवांक मेळूंक जाय हांतूंत दुबाव ना.'

भिष्माचें उलोवणे सोपूंक नाशिल्लें. ते पयलींच कर्ण दांत-ओंठ चाबून उसळ्ळो. ताणे मदींच तोंड घाल्लें, 'भौन भौन त्योच त्योच खबरी सांगून तुमकां कितें मेळपाचें आसा, म्हाका समजना. खूब फावटीं आयकल्यो आमी तुमगेल्यो ह्यो खबरी. आयकून आयकून उबगण आयली. आमी अन्याय केलो, आमी आगळीक केली, आमी फटींगपणा केलीं— कसलीं फटींगपणा केलीं आमी, सांगशात व्हय. शकुनीन युधिष्ठिराक खेळूंक आपयलो, उकतेपणान. लिपोवन न्हय. शकुनी खेळ जिखलो, उकतेपणान. हांतूंत फटींगपणा खंय आयलीं. युधिष्ठिरान राज्य कशें होगडायलें. ताणे तें पणाक लायिल्लें म्हुण्णूच मू. उपरांत ताका वनवासाक वचें पडलें. वनवासाची अट आशिल्ली म्हुण्णूच मू. अट ताणे मान्य केल्ली. हातूंत फटींगपणा खंय आयलीं. खंय आगळीक जाली. खंय अन्याय जालो. सगळें उकतेपणान जालां. युधिष्ठिराचे मान्यतायेन जालां. मागीर, भौन भौन फटींगपणा केलीं, अन्याय केलो, आगळीक केली, हो जप कित्याक. पांडवांक सांग: मत्स्य पांचाळांच्या नाड्यार आमकां दबकायशात जाल्यार असले दबकावणेक दुर्योधन भीक घालपाचो ना. तो आपलें पुराय राज्य धर्मबुद्दीन काडून दीत. दबकावण्यांक भियेवन न्हय. भेश्टायशात जाल्यार तो अर्दो खंयचो, चौथो वांटो लेगीत दिवपाचो ना. दुसरी एक गजाल आसा, तिवूय तांकां सांग: अज्ञातवास सोंपचे पयलींच पांडव भायर आयल्यात. पयलीं थरिल्लें ते भाशेन तांणी आतां परतून बारा वरसांच्या वनवासाक आनी एका वरसाच्या अज्ञातवासाक वचूंक जाय. उपरांतूच तांचें राज्य तांकां मेळटलें. उपरांत तांचे ल्हंवेक लेगीत कोण हात लावचो ना. पुणून तांकां झुजाचीच खुमखुमी आसत जाल्यार तांकां सांग: झुजा मळार मेळुंया अशें हांवें सांगून धाडलां म्हुण.'

कर्णान मदींच तोंड घाल्लें भिष्माक मात लेगीत मानवलें ना. कर्ण पाडो. कुरु-कुळाचो घात करपाक भायर सरिल्लो, अशें भिष्माचें मत्त आशिल्लें. देखून भीष्म ताचेर तापलो: 'तुगेली ही बडबड मदींच कित्याक रे. तुका कोणे उलोवंक सांगिल्लें रे. तूं कितलो शूर तें खबर ना व्हय आमकां. पळोवंक नात व्हय तुजे पराक्रम आमी. पयरूच अर्जुनाक भियेवन तूं पळून आयिल्लो, हय मरे. अर्जुना कडेन आपली सर बेश्टी करूं नाका. अर्जुनान कितलेशेच खेपो नाक घांसूंक

लायलां तुका. हो पुरयत सांगता तें खरें. पांडवांचो वांटो पांडवांक मेळूंक जाय. झुजान ना जातले सगळे.'

भिष्माचेर कर्ण परतो उसळत ह्या भंयान धृतराष्ट्रान म्हळें, 'भिष्माचार्य म्हणटा तें आमच्या बऱ्याचें. तें पांडवांच्याय बऱ्याचें. आतां आमी सगळे एकठांय बसून थंडसाणेन येवजुंया आनी फाल्यां परां केन्नाय संजयाक धाडून आमचें म्हणणे पांडवांक कळोवंया. वेळ होगडावंक जायना आतां.'

उपरांत धृतराष्ट्रान द्रुपदाच्या पुरयताचो परतो सत्कार केलो आनी ताका म्हळें, 'संजया कडल्यान आमचें म्हणणे कळयतां, अशें पांडवांक हांवें सांगलां म्हुण सांग.'

पुरयत ही सांगणी घेवन परतलो.

## ११०. संजयाची मध्यस्थी

द्रुपदाचो पुरयत वतकूच धृतराष्ट्रान रोखडोच संजयाक आपोवंक धाडलो. संजय येना फुडें ताका सांगलें, 'पांडव उपप्लव्य नगरींत येवन रावल्यात. थंय वचून तांकां मेळून यो. हांवें तांकां सगळ्यांक विचाल्लां म्हुण सांग. ते उतराक पाळो दिवन वनवासाक गेले आनी वनवास सोंपोवन बरे भाशेन परतले, हें आयकून आमकां खूब बरें दिसलें म्हुण सांग. म्हज्याच दोळ्यां मुखार ते ल्हानाचे व्हड जाल्यात. तांणी केन्ना कोणाक फटयल्ल्याचें हांवें आयकूंक, पळोवंक ना. सदां उजू चलणुकेन ते चलत आयले. तांचे सारके मनीस खंयच पळोवंक मेळपाचे नात. तांच्यांत म्हाका कसलोच अवगुण सोदुनूय मेळूंक ना. दुर्योधनान तांकां त्रास दगदग दिले, पिडापीड भोगयली. तरी आसतना तांणी इश्टागतिचो हात फुडें काडला. हें तांगेलें व्हडपण. पांचूय भाव कर्तुत्वी. आतां तर तांकां बिराटाचो आनी द्रुपदाचो आधार मेळ्ळा. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, श्रीकृष्ण तांच्या फाटल्यान आसा. कुरुकुळाचो घात करपी झूज जावचें न्हय, अशें म्हाकाय दिसता म्हुण तांकां सांग. सात्यकी विराट द्रुपद तांच्या म्हऱ्यांत आसतले. तांकां म्हजे नमस्कार सांग. आमचे मजगतीं इश्टागत नंदची म्हुण म्हजे यत्न चल्ल्यात म्हुण तांकां सांग. तांचो आधार म्हाका मेळटलो अशी हांव उमेद बाळगितां हेंवूय सांग. झूज जावचें न्हय अशे तूंय यत्न कर.'

झूज जालें जाल्यार जे भयांक्रूत परिणाम जातले तांचें चित्र संजयान युधिष्ठिराच्या दोळ्यां मुखार उबें करचें, तांचे कडेन उलयता आसतना कोण

दुखावचो ना, कोणाक वायट दिसचें ना, हाची जतनाय घेवन उलोवचें आनी पांडवांक झुजाच्या बेता परसून फाटीं काडचे. असल्यो सुचोवण्यो दिवन धृतराष्ट्रान संजयाक पांडवां सरीं धाडून दिलो.

संजय त्याच दिसा उपप्लव्य नगरींत गेलो. संजयाक पळोवन युधिष्ठिराक कितल्यो-श्यो पोरण्यो यादी आयल्यो आनी ताचें काळीज उचांबळीत जालें. संजय सदां धृतराष्ट्रा म्हऱ्यांत रावपी, तागेलो सांगाती. देखून ताका मेळटना धृतराष्ट्राक मेळिल्ले वरीच युधिष्ठिराक दिसलें. युधिष्ठिरान वावराड्यो चाकर रांदपी, एक एकल्याचें नांव घेवनें सगळ्यांची वासपूस घेतली.

उपरांत संजयान आपुण कित्या खातीर आयलां तें सांगलें: 'दुर्योधनाच्या दरबारांत कांय पाडे लोक आसात तशे बरेय कांय जाण आसात' ताणे म्हळें. 'दुर्योधनान तुमकां त्रास दिले हाची तांकां खंत आसा. खासा धृतराष्ट्राक आसा. धृतराष्ट्र मनांतल्या मनांत जायते फावत्या फणफणटा तो हांवें पळेला. तुमचो सगळ्यांचो तो मर्दी मर्दी उगडास काडीत आसता.'

संजय उलयतालो त्या वेळार युधिष्ठिरासरीं तागेले चौगूय भाव आनी द्रौपदी कृष्ण सात्यकी विराट द्रुपद धृष्टद्युम्न हेवूय बशिल्ले. सगळ्यां कडेन पळोवन संजयान म्हळें, 'धृतराष्ट्राक झूज जाल्लें नाका. देखून ताणे म्हाका हांगा धाडला. तुमी सगळे बुदवंत. तुमकां कोणाक कितेंच सांगपाची गरज ना. झुजान कोणाक जैत मेळटलें, सांगूं येना. कोणाकूय मेळ्ळें तरूय लावा परस तांतूंत लुस्कानूच चड. जे करणेन कुळाचो घात जातलो ती तुमी करची न्हय, अशें म्हाका दिसता. तुमच्या पंगडांत व्हडले व्हडले शूर वीर आसात तशे तांच्याय पंगडांत आसात. तुमी झुजाक पेटले जाल्यार कोणाचेंच बरें भलें जावपाचें ना. ह्या खातीर दोनूय पंगडां मजगतीं इश्टागत नंदची. आपल्याच सोयऱ्यां धायऱ्यांक मारून जियेवप मरणा परस पास्ट, अशें धृतराष्ट्रय म्हणटा. पांडव इतले सकल देंवचे नात अशी ताका उमेद आसा.'

संजयाचें उलोवणे आयकून युधिष्ठिराक अजाप जालें. झुजाची खुमखुमी जशी कितें पांडवांकूच आसा असो सूर संजयाच्या उलोवण्यांतल्यान आयिल्लो. युधिष्ठिराच्या काळजाक तो भालो जाल्ले वरी तोपलो. ताणे संजयाक विचाल्लें, 'झुजाची खुमखुमी आमकांच आसा अशें म्हज्या खंयच्या उलोवण्यांतल्यान तुका दिसलें. म्हाका झूज नाका. आमच्यांतल्या कोणाकूच नाका. झुजा बगर प्रस्न सुट्टा जायत जाल्यार झुजाक कोण मुखार सरतलो. झुजाचो प्रसंग कौरवांनी हाडला. उज्यांत तेल घालतकूच उजो न्हिवपा बदला अदीक पेट्टा, तशें तांचें जालां. ताणी

दुसऱ्यांचीं राज्यां गिळ्ळ्यांत. तितल्यान ते धादोशी जायनात. तांकां आनीक जाय. विदुरान थोडें समजावंक ना तांकां. पुणून ते किर्तेंच काना मनार घेनात. आड वाटेन वतात. सगळो इतिहास तूं जाणा. बेश्टो उलोवंक कित्याक लायता म्हाका. धृतराष्ट्राक इतलेंच वचून सांग, हांव जाल्लें गेल्लें सगळें विसरूंक तयार आसां. फकत म्हजें इन्द्रप्रस्थाचें राज्य म्हाका दिवन उडय. हांव आनी किर्तेंच मागिना.'

युधिष्ठिराक धर्माची ओड हें संजय जाणा आशिल्लो. झुजाचो बेत धर्मा आड वता अशें ताका समजावन सांगलें जाल्यार घडये तो बेत सोडून दीत अशें येवजून संजयान म्हळें, 'तूं धर्माक धरून चलपी असो तुजो लौकीक. तुजी आतां मेरेनची चाल चलणूक ही तुज्या लौकिकाक सोब सारकीच जाल्या. ह्या तुज्या लौकिकाक बादा येवंक दिवं नाका. तुजें राज्य तांणी तुका दिलें ना, जाल्यारूय म्हजें म्हणणे : तुवें झुजाक मुखार सरचें न्हय. तुवें तुजो धर्म सोडचो न्हय. राज्य मेळ्ळें ना जाल्यार भिक्षा मागून राव. पुणून कुळाचो घात करपी झूज करून राज्य जोडूं नाका. तूं बुदवंत गिन्यानी आनी पुण्यकर्मा करपी. एकाच रगताच्या सोयऱ्यां-धायऱ्यांक मारून तुका कसलें सुख मेळटलें. तुका राज्यूच जाय आशिल्लें जाल्यार हांव तुका विचारतां : तूं वनवासाक कित्याक गेल्लो. वनवासाक वचचों ना अशें सांगून तूं त्याच वेळार झुजाक उबो राविल्लो जाल्यार तुका कोण दुशणूय दिवचो नाशिल्लो. त्या वेळार तुजें सैन्य तुज्या हातांत आशिल्लें. श्रीकृष्ण सात्यकी विराट द्रुपद त्याय वेळार तुज्या फाटल्यान आशिल्ले. तुवें तेरा वरसां फुकट कित्याक होगडायलीं. कित्याक त्रास सोसले. त्याच वेळार तुवें तुजें राज्य मागपाचें. मागून मेळ्ळें ना जाल्यार झगडून घेवपाचें. आयजवेर तुवें केन्नाच कसलीच करणी रागान करूंक ना. आतां राग येता जाल्यार हांव म्हणटां, तो तुवें गिळचो. पुणून झुजाक मुखार सरचें न्हय. झुजांत किर्ते किर्ते जातलें, कोण कोण मरतले, मात्शें येवजून पळे. भीष्म द्रोण कृप सगळ्यांचो जीव घेवन तूं जें सुख जोडटलो तें कसलें आसतलें तें मात्शें चिंतून पळें.'

युधिष्ठिर घुटमळ्यांत पडलो. पुणून ताणे जाप दिली :

'हांवें धर्म सोडला काय किर्ते, तें सारकें तर्जून पळे. आनी मागीर म्हाका दुशण दी. अधर्मान देवांलें आनी असुरांलें धन मेळ्ळें जाल्यारूय तें घेवपी न्हय हांव. अधर्मान स्वर्ग आनी ब्रह्मलोक लेगीत मेळ्ळ्यार घेवपी न्हय. म्हजें म्हणणे इतलेंच : हांव इश्टागतिकूय तयार आसां आनी प्रसंग आयलो जाल्यार झुजाकूय तयार आसां.'

पुणून तो मर्दीच उलोवपाचो थांबलो. ताणे कृष्णाच्या तोंडाकडेन पळेलें आनी

म्हळें, 'असल्या गजालींत हांव म्हजे बुद्दीन चलना, श्रीकृष्ण सांगता तें करपी. तो दोनूय पंगडांचें बरें चिंतपी. ताका सांगूं दी.'

युधिष्ठिराक संजय धर्म शिकयता, हें पळोवन कृष्णाक संजयाची भिरभिरी मारिल्ली. पुणून तो ओगी राविल्लो. ताका उलोवंक सांगलें तेन्ना ताणे संजयाक म्हळें, 'हांव दोनूय पंगडांचें बरें जावचें अशें म्हणपी. पुणून पांडवांचें लुसकान जाल्लें म्हाका नाका, हें पयलींच सांगून उडयतां. पांडवांक कौरवांची इश्टागतूच जाय. धृतराष्ट्रय इश्टागतिचे नदरेन येवजिता हें आयकून म्हाका बरें दिसलें. दोनूय पंगड इश्टागतिचो हात मुखार करून आयले जाल्यार झुजाचो प्रसंगूच उपरासपाचो ना. धर्मराजान धर्म केन्ना सोडिल्लो हांवें पळोवंक ना. ताका धर्माच्यो कर्माच्यो गजाली कोणेच सांगपाची गरज ना. पुणून तूं कांय गजाली नकळ. त्यो तुका हांव सांगूंक सोदतां. जेन्ना कोणूय पाडे बुद्दीन दुसऱ्यांची संपत नाडूंक मुखार सरता तेन्ना ताका आडावंकूच जाय. ताचो प्रतिकार जावंकूच जाय. अन्यायाचो प्रतिकार कर अशें सांगिना तो म्हज्या मत्तान धर्मूच न्हय. प्रजेक जे पिडटात तांकां दाळाक लावपा खातीर धोणवां शस्त्रां अस्त्रां तयार जाल्यांत. आतां तूंच सांग : दुर्योधन पाडो अशें तुजें म्हणणे न्हय व्हय. दुर्योधनाचेच सांगणेन धृतराष्ट्रान पांडवांक नाडले. तांगेलें राज्य गिळ्ळें. हें फट व्हय. दुसऱ्याचें धन जो लिपून व्हरता तो चोर. आगळिको करून व्हरता तोवूय चोर. आतां दुर्योधनांत आनी चोरांत कितें फरक आसा, तूंच सांग. पांडव वनवासांतल्यान परतल्या उपरांत तांगेलें राज्य तांकां मोन्यानी काडून ताणे दिवपाचें. हय काय न्हय. तें सोडून दुर्योधन तरेतरेचीं निमित्त्यां काडून तें गिळूंक पळेता. हांव तुका विचारतां : संजया, उपदेस करपाक थंय ह्स्तिनापुरांत तुका कोणूच मेळ्ळो ना काय कितें रे. थंय कोणूच नाशिल्लो काय कितें. हांगा येवन धर्मराजाक-सो उपदेस करपाक लागला! राजधर्म कितें तें पयलीं कौरवांक शिकय. राज्यसभेंत कौरवांनी जें केल्लें तें राजधर्माक धरून केल्लें व्हय. दुःशासनान द्रौपदेक फरफरीत ओडून सभेंत हाडली, तें राजधर्माक धरून केल्लें काय कितें ताणे. भिष्मा सारकेलो लेगीत त्या वेळार दोळे धांपून बशिल्लो. कित्याक, धर्माक धरून काय कितें. तूं जो आयज हांगा येवन धर्मराजाक उपदेस करता तो त्या दिसा खंय आशिल्लो. जंय सगळेच धर्म माडूंक लागिल्ले तेच सभेंत बशिल्लो मू तूं. त्या वेळार तुवें तांकां धर्माच्यो खबरी सांगपाच्यो त्यो कित्याक सांगल्यो नात. तूं ओगी कित्याक बसून रावलो. तुमकां धर्म सारको कळिल्लो जाल्यार ज्या वेळार दुःशासनान द्रौपदेक सभेंत ओडून हाडिल्ली त्याच खिणाक तुमी ताची गोमटी कातरून उडयतले आशिल्ले. कर्णान त्या वेळार द्रौपदेक जें म्हळ्ळें तें तुवें

आयकूंक नाशिल्लें व्हय. मागीर, ताची जीब कशी ओडून काडली ना तुवें. कर्णाचीं तीं उतरां अर्जुनाच्या काळजाक भाल्या वरी तोपिल्लीं. ताचो घाय अजून पेखूंक ना. पुणून सोड, फाटलो इतिहास विसरूं येता. मोडिल्लें परतें जोडूं येता जायत जाल्यार तें जोडपाचो यत्न करचोच. त्या खातीर खासा हांव कौरवां कडेन येवंक सोदतां. पांडवांच्या हिताक बादा येवंक दिनासतना म्हाका झूज चुकोवंक आयलें जाल्यार, एक व्हडलें पुण्यकर्म केल्ल्याची खोस म्हाका भोगतली. कौरवांक सांग: पांडव तुमचे सेवेकूय तयार आसात आनी प्रसंग पडल्यार झुजाकूय तयार आसात. ज्या रानांत वाग रावतात तें रान मारूं नाकात. रान नासत जाल्यार वाग मरतले. वाग नासत जाल्यार रान ना जातलें. रानान वागांक राखचे. वागांनी रान राखचें. हें सगळें वचून तांकां सांग आनी हांवें सांगलां तशेंच सांग.'

संजयाचें काम सोंपिल्लें. तो वचपाक उठलो. 'आगळें उणें कितेंय तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें आसत जाल्यार तें विसरचें.' अशें सांगून तो उठलो.

'तुका वायट दिसपा सारकें आमचे कडल्यान कांय घडूंक ना मू', धर्मराजान ताका विचाल्लें आनी म्हळें, 'तूं मनान निर्मळ. सभावान गोड. देखून आमी तुका मानतात. मध्यस्थ म्हुण तुवेंच येवपाचें वा विदुरान येवपाचें. आतां हस्तिनापुराक पावतकूच सगळ्यांक हांवें विचाल्लां म्हुण सांग. धर्मान चल्ल्यार फळ मेळटाच मेळटा. शौर्याचें कांय सांगू येना. फळ मेळटाच अशें ना. धृतराष्ट्राक सांग: 'तुजेच कृपेन आमकां राज्याचो वांटो मेळिल्लो. आतांय तसोच आमचो वांटो आमकां परतो मेळचो.' भिष्माचार्याक सांग: 'शंतनुचो वंश बुडचो न्हय असो तुका हुसको आशिल्लो. आतां नातू एकचारान नंदचे म्हुण कितेंय उपाय सोदून काड.' 'झूज जावंक दिवं नाकात', अशें कौरवांक समजावन सांग म्हुण हांवें विदुराक सागलां म्हुण सांग. दुर्योधनाक सांग: दुसऱ्याचें धन हातासपाचो हावेस सोडून दिल्लो बरो. भावां भावां भितर वितुष्ट येवचें न्हय म्हुण आमचो वांटो आमकां दी. कांयच न्हय जाल्यार, वृकस्थळ, माकन्दी, अविस्थळ आनी वारणावत हे चार आनी पांचवो तुका जाय तो, अशे पांच गांव आमकां पांच भावांक दी. आमी तितल्यान धादोस भरीत जावन रावतले. हांव एकचाराकूय तयार आसां आनी झुजाकूय तयार आसा हेंवूय सांग.'

# १११. धृतराष्ट्राक उपदेस

कृष्णाचें आनी धर्मराजाचें म्हणणे कळटकूच संजयान अर्जुना सरीं वचून ताचें म्हणणे आयकून घेतलें. ताचेंय म्हणणे धर्मराज आनी कृष्ण हांचे सारकेंच आशिल्लें. तें आयकून संजय उठून हस्तिनापुराक आयलो.

हस्तिनापुराक पावतासर ताका रात जाली. धृतराष्ट्र न्हिदिल्लो. संजयान ताका उठयलो आनी सांगलें, 'तुवें सांगिल्ल्या प्रमाण हांव पांडवां सरीं वचून आयलों. ते बरे आसात. तांणी हांगासल्ल्या सगळ्यांक विचाल्लां म्हुण सांगलां. तांचें जें कितें तुजे कडेन आसा तें तांकां मेळचें, इतलेंच तांचें म्हणणे. हाचे भायर ते कांय,च मागिनात. ते न्याया आड, धर्मा आड वचूंक तयार नात. ते म्हणटात, भीष्म-विदुरा सारकेले गिन्यानी तुज्या म्हऱ्यांत आसतना तूं शकुनी-कर्णाचे सांगणेन चलता. हाका लागून धोशी उपरासतात. कौरव कुळाच्या घाताचें बीं हे धोशींत आसा. म्हाकाय तें खरें दिसता. तांगेलें आनी तुगेलें म्हणणे आयकून म्हाका दिसलें तें अशें : दैवा मुखार मनशाच्या कर्तुत्वाक कांय मोल ना. इतलेंय आसून म्हजें म्हणणे : तुवें पांडवांचें पांडवांक दिवन उडयल्लें बरें. तुज्याच बऱ्याक सांगता हांव हें.'

संजयान मुखार म्हळें, 'तांणी जें कितें सांगून धाडलां तें फाल्यां सगळ्यां हुजीर राज्यसभेंत सांगतां. आतां म्हाका पुरो जालां. रथ वेगान चलोवन हाडिल्ल्यान म्हजीं हाडां खिळखिळीं जाल्यांत. आतां मात्सो न्हिदतां. फाल्यां सभेक सगळ्यांक आपोवन घे.'

इतलें सांगून संजय गेलो. 'अखेरेक हो म्हाकाच दुशण दिवन गेलो.' धृतराष्ट्रान मनांत म्हळें. 'पांडवांनी कितें सांगून धाडलां तें सांगी नासतना गेलो. कितें सांगलां जातलें काय देवा तांणी!' येवजून येवजून धृतराष्ट्र हुसक्यांत पडलो. ताची न्हीद खळ्ळी. खूब येवजून ताणे निमाणे विदुराक आपोवंक धाडलो. विदुर रोखडोच उठून आयलो. ताका पळोवन धृतराष्ट्रान म्हळें, 'संजय पांडवांसरीं वचून आयलो आनी हांगा येवन म्हाकाच दुशण दिवन गेलो. पांडवांनी कितें सांगून धाडलां तें तो फाल्यां सभेंत सांगतलो. हुसक्यान म्हजें चित्त आतां खंयच लागना. दोळो लागपाची तर आतां आस्तूच ना. तूं आमच्यांतलो शाणो. म्हाका थाकाय मेळत अशें कितेंय सांग.'

विदुरान म्हळें, 'ज्या दुबळ्या राजाचेर दुसऱ्या खंयच्याय बळिश्ट राजान घुरी घाल्या ताका न्हीद पडना. जाचें धन चोरांनी व्हेलां, जो नागवला, फटवला, ताकाय पडना. लंपट मनशाक एक पडना आनी चोराक पडना. तुका हांतलेच

खंयचेय पिडेची बादा जावंक ना मू. पांडवांचें धन, तांगेलें राज्य तुवें तुजे कडेन दवल्लां. देखून तुका न्हीद सोडून वचूंक ना मू. तूं कितेंय कर, कितेंय म्हण, धर्मराज राजलक्षणा घेवन जल्माक आयला, हें विसरूं नाका. तो त्रैलोक्याचो राजा जाले बगर रावपाचो ना. तूं न्यायी आशिल्लो जाल्यार राज्य ताकाच दितलो आशिल्लो. पुणून तुवें ताका रानांत धांवडावन घालो आनी आतां हुसके काडटा! तुका कितें म्हणचें. तुका सुस्त न्हीद पडटलीच कशी. सुस्त न्हीद पडपाक मन शान्त आसूंक जाय, हुसक्या मेकळें आसूंक जाय, निर्मळ आसूंक जाय. युधिष्ठिर अजुनूय तुका आपलो जाणटो लेखता. तुका मानता. हें खरेपणानशीं व्हडपण ताचें. तीन तरांचे लोक संवसारांत आसतात. ऊंच पांवड्याचे, मदले आनी उणाक. त्या त्या पांवड्याचीं कामां त्या त्या मनशाक दिवपाचीं. तुवें वयल्या पांवड्याचीं कामां कर्णा सारकेल्या पाड्या मनशा सुवादीन केल्यांत. कोणाक कितें दिवचें हें खासा तुवें थारावपाचें. तें तुवें दुर्योधना सारकेल्या दुस्वासी मनशा सुवादीन केलां. म्हजें म्हणणें : पांडवांक तुवेंच ल्हानाचे व्हड केल्यात. तांकांय तुज्या पुतां भाशेन मान. ते केन्नाच तुज्या उतरा भायर वचपाचे नात. तांकां तांचो वांटो दिवन उडय. तांकां संकश्टांतल्यान वयर काड. लोक तुका बरो मानतले.'

विदुरान ताका कितलो-सो उपदेस केलो.

विदुराचो उपदेस महाभारतान प्रजागर-पर्व नांवाच्या एका खेरीत पर्वांत दिला. प्रजागर म्हळ्यार जागरण. न्हीद ना जावप. पुणून हांगा ताचो अर्थ : जागरूक रावप. आठ अध्यायांत वांटिल्ल्या पांचशें तीस श्लोकांच्या ह्या उपदेसाक लोक 'विदुर-नीति' ह्या नांवान वळखतात. वयल्या वयल्यान पळेल्यार हें नितिचेंच पुस्तक कशें दिसता. पुणून मात्शें खोलायेंत देवंक जाय. म्हणटकूच तें सादें नितिचें पुस्तक न्हय म्हणपाचें लक्षांत येतलें.

त्या काळांत लोकांचें जिवीत घडोवपी तीन मत्तां घोळटालीं. पयलें आस्तिक मत्त. तें वेदांची परंपरा मानतालें. दुसरें, नास्तिक. तें वेदांची परंपरा सोडून भायर गेलें. तिसरें दैववादी, भाग्यवादी वा नियतिवादी मत्त. ह्या नियतिवादी मत्ताचें म्हणणें अशें आशिल्लें : मनशाच्या जिवितांत जें कितें घडटा तें दैवान वा भाग्यान थारायलां त्या प्रमाण घडटा. मनशाच्या कर्तुत्वान कितेंच घडना. भाग्या मुखार मनशाचे करणेक वा कर्तुत्वाक कांयच म्हत्व ना. मनीस भाग्याच्या हातांतलें एक बावलें. भाग्य खेळयता त्या प्रमाण ताणे खेळपाचें. ह्या भाग्यवादी मत्ताचो प्रभाव समाजाचेर आकांताचो पडिल्लो. ताका लागून समाज कर्तुत्व-हीण जावन गेल्लो. धृतराष्ट्र ह्या मत्ताचो आशिल्लो. युधिष्ठिरूय थोडो भोव

ह्याच मत्ताकडेन लकतालो.

ह्या मत्ता आड एक नवें मत्त त्याच वेळार वयर सरिल्लें. तें म्हणटालें : मनशांत प्रज्ञा नांवाची एक शक्ती आसा. बुद्दी परस वेल्या पांवड्याची. तिका बरें कितें, वायट कितें, तें पारखूंक येता आनी बरें वा वायट दों भितल्लें एक वेंचुनूय काडूंक येता. बरें तें वेंचून मनीस ते भाशेन करण्यो करूंक लागलो जाल्यार तागेलें भाग्य लेगीत बदलूं येता.

विदुर ह्या मत्ताचो आशिल्लो. श्रीकृष्णूय ह्याच मत्ताचो आशिल्लो.

प्रजागर पर्वांत विदुरान जो उपदेस केला ताका प्रज्ञावादी मत्ताचो जाहीरनामो म्हणूंक जाय. युरोपांतल्या बुद्धिवादी(रेशनॅलिझम्)मत्ता परसूय वयल्या पांवड्याचें. दोन पावलां मुखार गेल्लें मत्त हें.*

संस्कृत, पाली, अर्धमागधी, पुविल्लि खंयचेंच भाशेंत हे तरेचें दुसरें पुस्तक पळोवंक मेळना. हे नदरेनूय तें खूब म्हत्त्वाचें.

प्रजागर पर्वा उपरांत रोखडेंच सनत-सुजात नांवाचें आनीक-एक पर्व येता.

प्रज्ञावादी नदरेन कशें चलचें तें विदुरान धृतराष्ट्राक समजावन सांगलें. पुणून तें सगळें उमथ्या कळशार उदक कशें व्हांवन गेलें. धृतराष्ट्र म्हणपाक लागलो, 'तूं सांगता तें आयकतकूच तशेंच चलचें-शें दिसता. तुजें म्हणणे खरें-शें दिसता. पुणून दुर्योधन मुखार दिश्टी पडना फुडें म्हजी बुद्द बदलता. तात्पर्य : मनशाच्या हातांत कांय ना. नशिबांतलें कोणाक कांय चुकोवंक येना. मनशाच्या यत्नांक कांयच मोल ना.'

आरंभाक धृतराष्ट्रान 'तूं सांग, हांव आयकतां' अशें विदुराक सांगिल्लें. आनी मागीर विदुरान सांगिल्लें एका कानान आयकून दुसऱ्या कानांतल्यान सोडून दिलें. विदुरान येवजिलें . 'हांव सदचो आनी घरचो जाल्ल्यान, म्हज्या मत्ताचो परिणाम हाचेर जायना दुसऱ्याक कोणाक तरी आपोवन ताका समजावचो पडलो.'

अशें येवजून विदुरान सनत-सुजाताक आपयलो. सनत-सुजात उपनिषदांचे परंपरेंतलो.

ब्रह्म्याचे 'मानस-पुत्र' कशे दोन तरांचे सारर्षी जावन गेले. मरीचि, अंगिरा, अत्रि, पुलत्स्य, पुलह, क्रतु आनी वसिष्ठ हे 'प्रवृत्तिधर्मी'. आनी सन, सनत-सुजात, सनक, सनंदन, सनत्कुमार, सनातन आनी कपिल 'निवृत्तिधर्मी, अध्यात्माच्या मळावयल्यो ह्यो दोनूय वाटो एकिमेकींत भरसल्यो तेन्ना भागवत-धर्म नांवाचो एक नवो समन्वयी धर्म वयर सल्लो. सनत-सुजात निवृत्तिधर्मी, पुणून वेदीक परंपरा सोडून पयस वचूंक नाशिल्लो आनी स्वतंत्र तरेन चिंतन करपी आशिल्लो.

प्रज्ञावादाक धरून मनशान जिवीत घडोवचें. पुणून, जे मेरेन प्रज्ञावादाचो ब्रह्मवादा कडेन मेळ जुळून येना ते मेरेन दोनूय मत्तां अर्दकुटीं उरतलीं अशें चिंतून महाभारतान हीं दोनूय मत्तां हांगा एकेच कडेन हाडून दवल्ल्यांत.

सनत्-सुजाताच्या उपदेसाक म्हत्त्व मेळपाक आनीक-एक कारण जालें. तें म्हळ्यार, शंकराचार्यान ताचेर भाष्य बरयलां.

* परिशिष्टांत ह्या मत्ताचो आपरोस दिला

## ११२. धुसपूस

पांडवांनी कितें सांगून धाडलां तें आयकुपा खातीर भीष्म द्रोण कृप विदुर दुर्योधन शकुनी कर्ण उलूक, सगळे दुसऱ्या दिसा सभेंत एकठांय जाले. सगळे येवन बसतकूच संजय उठून उबो रावलो आनी सांगपाक लागलो, 'हांव पांडवांक मेळून आयलों. तांणी तुमकां सगळ्यांक नमस्कार सांगल्यात....'

'अर्जुनान कितें म्हळें तें पयलीं सांग', धृतराष्ट्रान मर्दींच विचाल्लें. संजयान जाप दिली :

'अर्जुनान जें सांगलें तें ताच्याच उतरांनी सांगतां. ताणे म्हळें : तो पाडो कर्ण उठ्ठा बसता तेन्ना 'हांव अर्जुनाक मारतलों' अशें म्हणीत आसता. ताका सांग : 'तुजे दीस आतां भल्ल्यात. तेन्ना, भोगपा सारकें कितेंय उल्लां जाल्यार तें भोगून घे.' बाकिच्यांक ताणे सांगून धाडलां, 'भरत-कुळांतूच जल्मा आयिल्ल्या युधिष्ठिराक राज्य दिवपाचें मनांत नासत जाल्यार लक्षांत दवरात : झुजा मळार तुमकां पांचूय पांडवां मुखार उबे रावचें पडटलें आनी तुमकां आमचो वांटोच न्हय, तर तुमचेंय पुराय राज्य आमकां दिवचें पडटलें.' अर्जुनान दुर्योधनाक सांग म्हळां : 'अर्दें राज्य दिवपाचे उपकार करूं नाका. झुजाकूच येवन उबो राव. धर्मराज क्षमाशीळ आनी पवित्र मनीस. म्हुण आयज मेरेन तुमी दिल्ले त्रास तो सोंशीत आयलो. पुणून आतां मेरेन दांबून दवल्लेली तागेली तिडक फाल्यां जेन्ना पेट घेतली तेन्ना तुमी पळेतले : कौरवांलें पुराय सैन्य हुलपून मरतलें. भीम इतले दीस ओगी राविल्लो. फाल्यां गदा हातांत घेवन तो झुजा-मळार उबो रावतलो तेन्ना 'खंयचो झुजाचे भरीक पडलों' असो पश्चात्ताप दुर्योधनाक जातलो. नकुल सहदेव विराट द्रुपद सात्यकी, तें कित्याक, अभिमन्यु आनी द्रौपदेचे पुत, हे भुरगे लेगीत जेन्ना तिरांचो पावस तुमचेर झडयतले तेन्ना दुर्योधनाचे पांय लटलटूंक लागतले आनी ताका त्रिभुवन येवजतलें.' अर्जुनान दुर्योधनाक सांग म्हळां : 'कितेंय भोगपाचें करपाचें उल्लां आसत जाल्यार तें आतांच भोगून घे. सगळ्यो इत्सा आतांच भागोवन घे. फाल्यां तुका कृष्णाचो आधार जोडिल्ल्या पंगडा आड उबो रावचें पडटलें. कृष्ण सदांच जैतवंत. ताका आयज वेर झुजांत कोणूच जिखूंक पावूंक ना. झुजा बगर प्रश्न सुटलो जाल्यार, बरें जालें. कौरव वाटावतले. ना जाल्यार तांच्यांतलो एकलो लेगीत बिंयाक उरपाचो ना. म्हजें हें गांडीव पळेलां मू. तें एकासारकें फुरफुरत रावलां. भात्यांतले तीर दिश्टी पडटात मू. ते सारके उसळून वयर येतात. 'केन्ना...अर्जुना, केन्ना झुजाक उबो रावतलो तूं' म्हुण ते म्हाकां विचारतात'.'

अर्जुनाचें उतरान उतर भिष्माक खरें दिसलें. ताच्या म्हणण्यांत खंयच अतिताय ना, अशें ताका दिसलें. ताणे धृतराष्ट्राक म्हळें, 'हांवें तुका पयलींच सांगिल्लें: कृष्ण अवतारी पुरूस. तो दुश्टांक दाळाक घालपा खातिरूच जल्माक आयला. तो नारायण आनी अर्जुन नर. दोगूय झुजा मळार दिश्टी पडटले तेन्ना दुर्योधनाक हांव कितें म्हणटां ताचो उगडास जातलो.' ताणे दुर्योधनाक सांगलें, 'बाबा रे, आयक : ह्या उणाक कर्णाचे सांगणेन चलूं नाका. पांडवां लागीं येन्नादर एकचार घडोवन हाड. ना जाल्यार कुरु-कुळाचो घात जाले बगर रावपाचो ना. तुमच्यांतलो एकलो लेगीत जितो उरपाचो ना.'

कर्ण फटक् करून उसळ्ळो : 'म्हाका बेश्टें दुशण कित्याक दिता. हांवें कोणाचें कितें खालां. हांव एकूच गजाल सांगीत आयलां : आयज वेर जे दुस्मान म्हुण चल्ले ते केन्नाच इश्ट जावपाचे नात. तांचे कडेन एकचाराची भास उलोवपांत अर्थ ना. तें पिशेपण जातलें. झूज तुमकां चुकोवंक येवपाचेंच ना. हांव विचारतां, झुजाक कित्याक भियेवंक जाय. हांव एकलोच पुरो पांचूय पांडवांक आड घालपाक.'

भिष्माची तिडक पायांतली मस्तकांत गेली. ताणे धृतराष्ट्राक म्हळें, 'हो मेळत तेन्ना, मेळत थंय हांव पांडवांक मारतलों, हांव अशें करतलों, तशें करतलों, असल्यो बडायो मारीत आयला. हाका पांडवांच्या नाखटाची लेगीत सर ना. आयज तुज्या पुतांचेर जें अरिश्ट कोंसळ्ळां तें हाकाच लागून. हो दुर्योधनाक फुलयत रावता आनी दुर्योधन पांडवांचो अवमान करीत वेता. पांडवां भितल्ल्या एक एकल्यान आयज वेर जे पराक्रम केल्यात तसलो एक तरी हाणे आपल्या आयुश्यांत करून दाखयला व्हय. पयर, विराट नगरींत हाणे कसलो पराक्रम केल्लो तो तुका खबर ना व्हय. घोषयात्रे वेळार गंधर्वांनी दुर्योधनाक उबारून व्हेलो तेन्ना हो खंय गेल्लो. हो पोक्यो बडायो मारून सगळ्यांक फटयत आयला. हाचेर पातयेवन चलशीत जाल्यार तूं फस्तीक पडटलो.'

द्रोणानूय भिष्माच्या सुरांत सूर मेळोवन म्हळें, 'कर्णाचेर पातयेवन चलूं नाकात. फस्तीक पडटले. भीष्म सांगता तशेंच करात. पांडवां लागीं आतांच एकचार घडोवन हाडात. अजून कळाव जावंक ना. अर्जुनान सांगून धाडलां तांतलें उतरान उतर तो खरें करून दाखयतलो, हें विसरूं नाकात. हांव तांकां सारको बरो वळखतां.'

भीष्म-द्रोणाचें म्हणणे आयकून घेवपाक धृतराष्ट्राचें मन तयार नाशिल्लें. ताणे दोगांकूय जाप दिली ना. उरफाटें, संजयाक विचाल्लें :

'आमचे कडेन इकरा अक्षोहिणी सैन्य एकठांय जालां, हें युधिष्ठिराक तुवें सांगलें ना व्हय. तो कितें म्हणटालो. कोणाच्या नाड्यार तो झुजाक फुरफुरला. ताका झूज नाका अशें सांगपी कोणूच ना व्हय.'

धृतराष्ट्रांचो प्रस्न आयकून संजयान हुस्कार सोडलो. ताच्या दोळ्यां मुखार पांडवांच्या पंगडांतले रथी-म्हारथी उबे रावले. आनी ताणे पांडवांची आनी तांच्या आधाराक आयिल्ल्यांची एकएकल्याची तुस्त सुरू केली. युधिष्ठिर भीम अर्जुन नकुल सहदेव हे केदे व्हडले झुजारी तें सांगलें आनी कृष्णाच्या पराक्रमाच्यो गजाली सांगून म्हळें, 'हे सगळे जिवार उदार जावन उबे रावल्यात. हांच्या मुखार तुमगेलें इकरा अक्षौहिणी सैन्य कितें करतलें. कौरवांचें निसंतान जाल्लें पळोवपाचोच तुजेर प्रसंग येतलो.'

धृतराष्ट्र भियेलो. ताणे दुर्योधनाक म्हळें, 'पांडवां कडेन कशेय भाशेन एकचार घडोवन हाडूंक जाय, अशें म्हाकाय आतां दिसपाक लागलां. ना जाल्यार ते आमकां ना करून उडयतले. हांव एकचाराक मुखार सल्लों जाल्यार ते ना म्हणपाचे नात.'

संजयान म्हळें, 'साकर पडूं तुज्या तोंडांत अशें म्हणटलों आशिल्लों. कित्याक, तूं जें म्हणटा तें सामकें खरें. झुजान कुरु-कुळाचो घात सोडून दुसरें कितेंच पदरांत पडपाचें ना. पुणून.....'

तो खीणभर ओगी रावलो. मागीर म्हणपाक लागलो, 'तूं ही जी भास आतां उलयता ती फाल्यांय उलयतलो म्हणपाचें खरेपण खंय आसा. तूं बदलचो ना कित्या वयल्यान. तुजें कांय सांगूं येना. तूं आयज एक, फाल्यां दुसरें करपी. पांडवांचो तूं बापोलयो. तांकां बापाय सारको. ते तुका तसोच मानीत आयल्यात. तांकां तुवें आपल्याच भुरग्यां वरी ल़ेखपाचे. पुणून तुका तांचेर अन्याय करपाची संवंय जाल्या. आयज मेरेन तांकां जें सोंसचें पडलां तें सगळें तुका लागून न्हय व्हय. तुवेंच तांकां तें भोगोवंक ना व्हय. द्युतांत युधिष्ठिर हार खातालो त्यावेळार तुका खातखुतल्यो जाल्ले वरी खोस भोगताली ती हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेल्या.'

दुर्योधन ह्या खिणा मेरेन कांयच उलोवंक नाशिल्लो. तो आतां उठलो. म्हणपाक लागलो :

'कौरवांचें निसंतान जातलें, तांचें घट्टाण जातलें, ते ना नपश्चात जातले. हें आयकून आयकून जीव सामको उबगलो. आमचें कितें जावपाचें आसा तें जावं दी. आमची कोणे काकूळट करपाची गरज ना. हांव तुमकां विचारतां : समजुंया, आमी तांकां तांगेलो वांटो दिलो, जाल्यार ते तितल्यान धादोशी जातले व्हय. ते

धादोशी जातले अशें तुमकां दिसता जायत जाल्यार लक्षांत दवरात : तुमी तुमकांच फटयतात. ते आमकां ना करपाकूच उठल्यात. तांच्या आधाराक जे कोण आयल्यात तांकां पळेयात. ते आमकां ना करपाच्या नित्शयानूच तांकां वचून मेळ्ळ्यात. कृष्ण तांकां कित्याक मेळ्ळा. आमकां ना करपाक न्हय जाल्यार आनी कित्याक. हे अवस्थेंत आमच्या मुखार तीन वाटो उरतात. एक, तांच्यां पांयार घालून घेवपाची. दुसरी, पळून वचपाची. दोनूय वाटो क्षत्रियांक सोबपाच्यो न्हय. मागीर, उरता ती एकूच वाट. जिवार उदार जावन मारपाची वा मरपाची. चौथी वाट ना. तुमी कोणाक भियेतात आनी कित्याक भियेतात, म्हाका समजना.'

अशें म्हणून ताणे भीष्म द्रोण कृप अश्वत्थामो हांच्या आतां मेरेनच्या पराक्रमांची तुस्त करपाक सुरवात केली. ताच्या आधाराक आयिल्ल्या एक-एकल्या राजान आयज वेर कितें कितें केलें, तें सांगलें. आनी म्हळें, 'येदे शूर वीर आमच्या पंगडांत आसतना आमकां जिखप इन्द्राच्या लेगीत नशिबांत ना. तुमी अर्जुनाच्यो कसल्यो व्हडविको गायतात. हेंच पळेयात, जे अर्दें राज्य मागताले ते आतां पांचूच गांव दिल्यार पुरो अशें म्हणपाक लागल्यात. हें कितें दाखोवन दिता. ते आमकां थर्त भियेल्यात म्हणपाचेंच मू. तांणी भियेवपाचेंच. कित्याक, इकरा अक्षौहिणी सैन्य आमचे कडेन आयिलें तांकां कळ्ळां. हांव तुमकां म्हजो नित्शाय सांगतां : हांव पांडवांक मारून पुराय धर्तरेचें राज्य भोगतलों वा आमकां मारून ते भोगतले. राज्याचे वांटे जावपाचे नात. राज्य एक तर तांणी भोगपाचें वा आमी भोगपाचें. हांव म्हजें जिवीत धन राज्य सगळें काडून तांकां दीन. पुणून तांच्या वांगडा एक खीण लेगीत रावपाचों ना. केन्नाच ना. ना म्हणजे ना.'

धृतराष्ट्र कातरींत पडलो. एके वाटेन झूज नाका म्हुण आयकूंक मेळटा, तर दुसरे वाटेन झुजा बगर वाट उरूंक ना म्हणपाचें कानार पडटा. कितें करपाचें. कशी वाट काडपाची. तो मनांतल्या मनांत दोनूय पंगडांच्या बळाचो हिशोब लावपाक लागलो. तें तर्जून पळोवपाक लागलो. घोषयात्रे वेळा वेले आनी पयरचेच मत्स्य-देशांतले अणभव ताका येवजले. झुजाचे देखाव ताच्या दोळ्यां मुखार उबे रावले. निमाणे ताणे दुर्योधनाक म्हळें, 'धा पांच सगळें येवजून म्हाका दिसता. झूज चुकोवं येता जायत जाल्यार, तें चुकोवपाचो यत्न करून पळेल्लो बरो. हे जे सगळे झूज नाका म्हुण सांगतात ते आमचे दुस्मान न्हय. आमचे बरें-मागतेच. झुजांत आमच्या पदरांत कांयच पडपाचें ना, अशें तांकां दिसता, देखुनूच ते झूज नाका म्हणटात. तांचें म्हणणे मानून घेवंया. पयर एकल्या अर्जुनान तुमची सगळ्यांची कशी दानाधिस्पट केल्ली ती तुवें पळेल्या मरे. तो एकलोच आशिल्लो

त्या वेळार. आतां पांचूय भाव एकठांय येतले. कृष्ण तांच्या फाटल्यान आसतलो. तुमचें कितें जातलें तें येवजून पळे. पुता, ते पांच गांव मागतात जाल्यार दिवन उडय तांकां पांच गांव. पुणून झूज चुकय. पांच गांव दिले म्हुण तुजें कितेंच उणें जावपाचें ना.'

दुर्योधन फटक करून उसळ्ळो. म्हणपाक लागलो : 'पांच गांव खंयचे, सुये तोंकार आसपावत इतली लेगीत भूंय तांकां दिवपाचों ना हांव.'

ताणे आनिकूय एक गजाल मेकळ्या मनान सांगून उडयली, 'हांवें हो यज्ञ मांडला तो भीष्म द्रोण कृप हांच्या नाड्यार न्हय. म्हाका एकलो कर्ण पुरो.'

भीष्म संतापलो, 'कर्णाच्या नाड्यार तूं मुखार सल्ला जाल्यार आयक : तो पांडवांक कांयच करूंक पावचो ना. तुमकां सगळ्यांक ना करून उडयतलो. वांकडे बुद्दिचो पाडो मनीस तो, दुसरो कसलो उजवाड घालतलो?'

कर्णाच्या वर्मार घाय बसलो. तो वळवळ्ळो. कितें करचें, ताका येवजलें ना. ताणे हातांतलें शस्त्र काडून जमनीर दवल्लें आनी थंयच ताणे सोपूत घेतलो : 'भीष्म जिवो आसासर हांव ताचें तोंड पळोवपाचों ना. तो आसासर हांव शस्त्रूय हातांत घेवपाचों ना. ताचो अवतार सोंपू दी. त्या उपरांतूच कर्ण कितें म्हणटात तो तुमकां कळटलो.'

कर्ण तिडकीन थंयचो उठून गेलो. ताच्या फाटल्यान दुर्योधनूय फणफणत गेलो. ऐन ते दोगूय उठून गेल्यान दुर्योधनाचे भावूय उठून गेले. सभेंत गोंदळ जालो. कोण कोणाचें आयकना जालो. कितेंच थाराय नासतना सभा भंगली.

## ११३. निमाणो एक यत्न

संजय उठून गेल्या उपरांत युधिष्ठिरान कृष्णाक म्हळें, 'असल्या नाजूक प्रसंगांतल्यान वाट कशी काडची हें तूं न्हय जाल्यार कोण सांगतलो आमकां. तुजेरूच सगळी भिस्त दवरून आमी चलतात.'

'तुका कितें सांगपाचें आसा तें अनमन नासतना सांग.' कृष्णान म्हळें.

'सांगपाचें आनी कितें. संजयान जें सांगलें तें तुवें आयकलां. ताणे आपले पदरचें कितेंच सांगूंक ना. धृतराष्ट्राच्या मनांत जें घोळटा तेंच सांगलां. ताचे वयल्यान इतलेंच दिसून येता : ते आमकां आमचो वांटो दिवपाचे नात. कितेंच दिवपाचे नात. आमी कितेंच मागचें न्हय, अशेंच तांचें म्हणणे. धृतराष्ट्र उतराक पाळो दिवचो ना, अशें म्हाका दिसूंक नाशिलें. आमी वनवासांतल्यान येतकूच तो

आमचें आमकां दितलो अशें मानिल्लें. म्हुण्णूच तर वनवासाचे आनी अज्ञातवासाचे दगदग आमी मोन्यानी सोंसले. पळेल्यार, तो आतां आमच्या तोंडाक पाना पुसूंक सोदता अशें दिसता. तो दुसऱ्याचे भाकरे वयलें लोणी आपले भाकरेर ओडपी मनीस आसत, अशें मानूंक नाशिल्लें. खरें म्हळ्यार, हांवें म्हजें सगळेंच राज्य मागपाचें. पुणून, म्हळें, झूज चुकोवं येता जाल्यार चुकोवचें आनी हांवें पांचूच गांव मागले. पांच गांव, पांच नगरां न्हय. पांच गांवूय तो दिवपाचो ना. म्हाका झूज नाका. भरत-कुळाचें नाशें जाल्लें म्हाका नाका. पुणून दुर्योधन आयकुपाचो ना. कोणाचेंच आयकुपाचो ना. भीष्म द्रोणा सारकेल्यांचें लेगीत तो आयकना. हटाक पेट्रून झुजाक मुखार सरतलो. झुजांत कितें जातलें, कोणाक कितें मेळटलें, कोण सांगतलो. झुजांत वांचप-मरप लेगीत आमच्या हातांत उरना. जैत मेळटलें वा मेळचें ना, हेंवूय सांगूंक येना. मेळ्ळेंय जाल्यार जें लुकसान जातलें तें सुमाराचें न्हय. ताचो अदमास लेगीत करूंक येवपाचो ना. तात्पर्य: राज्य तर जाय आनी कुळक्षयूय चुकोवंक जाय. अनर्थ चुकोवचे खातीर उणेपणा घेवपाची म्हजी तयारी आसा. कसोय जाल्यार धृतराष्ट्र आमचो म्हालगडो. ताच्या पांयार घालून घेवपाक म्हाका लज दिसपाची ना. पुणून हाचोय उपेग जातलो अशें म्हाका दिसना. हातूंतल्यान वाट कशी काडची. तुका न्हय जाल्यार कोणाक विचारूं हें.'

कृष्णान जाप दिली, 'वाट एकूच आसा: हांवें हस्तिनापुराक वचूंक जाय. दोनूय पंगडांक हांव वळखतां. दोगांयचें कल्याण जावचें म्हुण आंवडेतां. तुमचें लुकसान जावंक दिनासतना झूज चुकोवंक आयलें जाल्यार सगळ्यांक मरणाच्या तोंडांतल्यान वांचयल्ल्याची खोस म्हाका भोगतली आनी म्हाका हांव भाग्यवंत करसो दिसतलों.'

युधिष्ठिर म्हणपाक लागलो, 'तुंवें हस्तिनापुराक वचचें, अशें म्हाका दिसना. वचून आदाव कांय ना. ते तुगेलेंय आयकुपाचे नात. तुज्या उतराक जंय मान ना थंय तुका धाडपाक म्हाका धीर जायना. तुजो अवमान जावंक दिवन आमकां आमचें खंयचें, देवांलें राज्यूय नाका. तुजी फावट फुकट वतली.'

'फावट फुकट गेली जाल्यार वचूं. कृष्णान जाप दिली. 'आमी झूज चुकोवपाचो यत्नूच केलो ना, अशें दुशण कोणे आमकां दिवचें न्हय, म्हुण वचूंक सोदतां. दुर्योधन हटी. हांव जाणा, तो म्हजें आयकुपाचो ना, तरी आसतना यत्न केल्लो बरो. म्हाका थंय कोणूय कितेंय करीत ही भिरांत मनांत आसत जाल्यार ती काडून उडयली बरी. धर, सगळे म्हज्या आंगार धांवन आयले जाल्यार, सगळ्यांची थंयचे थंय चेटणी करून उडयन हांव. सगळ्यांचो हुलपावन गोबोर

करीन. तूं म्हजो हुस्को करूं नाका. म्हाका वचूं दी. घडये झूज चुकोवंक येतूय बी. आयलें ना जाल्यारूय लुसकान कांय ना मू. आमी झूज चुकोवपाचो यत्नूच केलो ना, अशें तरी कोण म्हणचो ना.'

युधिष्ठिरान म्हळें, 'असल्यो गजाली म्हजे परस तुका बऱ्यो समजतात. तुवें थंय गेल्ल्यान लाव जातलो अशें तुका दिसता जायत जाल्यार वचून यो. अशें कितेंय तरी कर कि जाका लागून दोनूय पंगड खोशी जातले. कितें उलोवचें, कितें न्हय, तूंच बरें जाणा.'

कृष्णान आपलें म्हणणे परतून एक फावट युधिष्ठिराक समजावन सांगलें. ताणे म्हळें, 'झूज चुकोवंक येता जायत जाल्यार तें चुकोवपाक हांव वतां. पुणून एक गजाल लक्षांत दवर : ते झुजा बगर तुका कितेंच दिवपाचे नात. आयज मेरेन तांणी कितें केलें तें पळे आनी ताचे वयल्यान ते मुखार कितें करतले हाचो अदमास लाय. चड पयस वचूं नाका, द्युतांत तांणी तुका फटयलो. तांकां ताची लज दिसली ना, वायटूय दिसूंक ना. असले हे लोक तुका कितें दितले. आमी शांतताये खातीर सगळे यत्न करुंया. पुणून झूज तुका चुकतलें अशें मात म्हाका निखालूस दिसना. देखून थंय वचचे पयलीं तुका सांगून वतां : तुवें झुजाची तयारी मनांत दवल्लेली बरी. ना जाल्यार, तुका आयुष्यभर भिकूच मागची पडटली. तूं भीक मागशीत. पुणून तूं क्षत्रिय. भीक मागप तुका सोबपाचें ना. क्षत्रिय म्हळो म्हणटकूच ताणे अन्याय परतून लावंकूच जाय. मागीर, जैत मेळूं वा ना मेळूं. 'हाका कसो मारूं' असलें घोंकीत बसल्यार घातूच जातलो. घे हातांत तरसाद आनी सगळेंच राज्य घे, अशें तुका थारावचें पडटलें. एक एकल्याक कातरून उडोवपाक मुखार सरचें पडटलें. हांव झूज चुकोवपाचे सगळे यत्न करतां. पुणून हे यत्न सफळ जातले ही आस्त मात धरूं नाका. झुजाचेच तयारेन राव.'

इतलें सांगून कृष्णान ताका विचाल्लें, 'पांच गांव घेवन झूज चुकोवंक येता जाल्यार चुकोवं मू. पांच गांव लेगीत दिवपाक ते तयार जाले नात जाल्यार तूं झुजाक तयार जातलो मू. काय, उपरांतूय झूज वा एकचार असो वाद घालीत बसतलो.'

धर्मराजान निक्षून जाप दिली : 'तुजे यत्न फुकट गेले जाल्यार हांव झुजाची तयारी करूंक लायतलों.'

हे भाशेन, कृष्णान पयलीं युधिष्ठिराक उतरान बांदून घेतलो. मागीर ताणे बाकिच्यांचेंय म्हणणे आयकून घेवचें अशें थारायलें. भिमाक विचाल्लें. भिमान जाप दिली, 'झूज चुकोवपाचे जाता तितले यत्न कर. झुजान कोणाचेंच बरें जावपाचें

ना. झुजाचो भंय घालून तांकां तिडावं नाका. आमी नाक लेगीत घांसपाक तयार आसात, म्हुण सांग तांकां. पुणून कुळक्षय नाका. फाल्यां कुळक्षय आमी केलो हे बोल आमचेर नाकात.'

भिमाची ही जाप आयकून कृष्णाक अजापांचो धसको बसलो. पर्वत समजून उबारचो आनी हातांत रोयण येवची वा, इंगळो म्हुण घेवचो आनी हातांत बरफाचो कुडको येवचो, अशें-शें किर्ते कृष्णाक जालें. ताणे भिमाक म्हळें, 'भिमा, तुज्या तोंडांतल्यान हांवें असलीं उतरां केन्नाच आयकूंक नाशिल्लीं. आरे, तेरा वरसां सारको 'हांव हांकां मारतलों, हांकां चेंचायतलों' असो जप करीत आयिल्लो मरे तूं. दांत ओंठ चाब्रून तूं सदांच तांकां दाळाक लावपाक फुरफुरतालो मरे. तुका रे असली बुद्द कशी जाली. तूंच हात पांय गळोवन बसलो जाल्यार कशें ज::लें रे. तूं तांकां भियेलो काय किर्ते रे.'

भिमान जाप दिली, 'हांव भियेवंक ना कोणाक. म्हजें रगत अजून सळसळटा. तांकां खावं काय गिळूं, असो किंवाटो म्हाका अजुनूय येता. आपणेच आपली तुस्त गावची न्हय; पुणून मुरवत कुशीक दवरून तुका सांगतां: हांव एकलोच पुरो तांगेल्या त्या इकरा अक्षौहिणी सैन्याचो पिठो करून उडोवपाक. पुणून 'आमकां झूज नाका आशिल्लें, भिमाक लागून आमकां तें करचें पडलें' हे तरेचे बोल म्हाका आयकुपाचे नात. म्हाका दुशण नाका. म्हुण सांगतां: वचून यो तूं. कर सगळे यत्न. पळोवंया तरी कशी शांतताय घडोवन हाडटा ती तूं.'

कृष्णाक सू जालें. मुमुर्ख्यांनी हांसून ताणे म्हळें, 'हांव जाणा आशिल्लों. तूं तुका जितलो वळखता ताच्याकूय चड हांव तुका वळखतां. तूं जाणा ताच्याकूय हजार वांट्यांनी चड गुण तुज्या आंगांत आसात. झूज आंगार येवन पडलें जाल्यार ताचें पुराय वजें तुका तुज्याच आंगार घेवचें पडटलें. तुजेर पातयेवन चलतात सगळे. जिवितांत दैवाक आनी यत्नांक सारकीच सुवात आसा. दैव आड गेलें आसलें जाल्यार यत्नांक फळ मेळना हें खरें. पुणून यत्न केले बगर रावंक येना. यत्नान दैवूय बदलूं येता. देखून सगळे तरेचे यत्न करपाचे. पोटतिडकीन करपाचे.'

अर्जुन आनी नकुलान झूज चुकोवंक येता जाल्यार चुकय म्हळें. सहदेवान आनी सात्यकीन मात, तूं झुजाचेंच थारावन यो, म्हळें. कौरवांनी केल्ल्या करण्यांचें पानवळ तांकां भोगोवंकूच जाय, म्हुण तांचे हात शिंवशिंवताले.

निमाणे कृष्णान द्रौपदेक विचाल्लें. फाटलें सगळें येवजून तिगेले दोळे भरून आयिल्ले. तिणे आपले काळे मुदयाळे लांब-सडक केंस मानेर सोडिल्ले. ते दाव्या हातांत घेवन तिणे कृष्णाक म्हळें, 'तूं थंय वचून जाय तें सांग. पुणून एक गजाल

लक्षांत दवर: तें सांगता आसतना ह्या केसांक मात विसरूं नाका. त्या दुष्टांनीं म्हजी जितली अप्रतिष्ठा केल्या तितली संवसारांतले दुसरे खंयचेच बायल-मनशेची कोणेच करूंक ना, हाचो विसर पडूंक दिवं नाका. जे पातकी हात म्हज्या केंसांक आफुडलेले ते तांचे कुडी पसून वेगळे जावन मातये भरवण जाल्ले हांव पळोवंचीं ना, ते मेरेन म्हज्या काळजाक थाकाय मेळपाची ना. म्हजेर जाल्ल्या अन्यायाचो सूड म्हजे हे घोव एक दीस केन्नाय तरी घेतले, हे आशेर तेरा वरसां हांव सगळीं दुख्खां सोंशीत आयल्यां. हांव द्रुपद राजाची धुव, धृष्टद्युम्नाली भयण, पांडवांची राणी आनी तुगेली सखी. म्हजे विटंबनेचो तुमकां सगळ्यांक विसर पडलो जाल्यार पडूं. हांव भियेना. देवान म्हाका पांच पराक्रमी पुत दिल्यात. अभिमन्यूक मुखार काडून ते त्या दुश्टांचो सूड घेतले बगर रावपाचे नात. तुमी करात एकचाराचीं आनी शांततायेचीं उलोवणीं. म्हजे पुत ओगी बसपाचे नात, निखालूस ओगी रावचे नात, इतलें लक्षांत दवर.'

तिगेलो गळो भरून आयलो. तिका उतरूच फुटना जालें. कृष्णाचें काळीज कळवळून आयलें. तिका धीर दीत ताणे म्हळें, 'तुवें खूब सोंसलां. कोणेच सोंसूंक ना इतलें सोंसलां. तूं म्हणटा तें सगळें खरें. तुजी जाल्या तितली अप्रतिष्ठा कोणाचीच जावंक ना. हे अप्रतिष्ठेचो सूड अजून कोण घेवंक पावूंक ना, हेंवूय खरें. पुणून एक लक्षांत दवर: तुज्या दोळ्यांतल्यान व्हांविल्ल्या ह्या दुकांचो एकूय थेंब फुकट वचपाचो ना. जांणी तुजेर हात घाल्लो तांच्यो बायलो एक दीस अश्योच रडिल्ल्यो तुका पळोवंक मेळटल्यो. हिमालय घडये हे वाटेनचो ते वाटेन जायत, धर्तरेचोय घडये पिठो जायत, नक्षत्रां सयत मळब एकाद्रें मातये भरवण जायत. पुणून म्हजीं हीं उतरां फट जावपाचीं नात. तुजे घोव परते राज्यपदार बशिल्ले तूं थोड्याच दिसांनी पळेतली.'

आनी कृष्णान फाल्यांच हस्तिनापुराक वचचें अशें थारायलें.

परिशिष्ट १

# कांय आख्यानां

१. ययातिचें आख्यान
२. दुष्यंत शकुंतलेचें आख्यान
३. नळ दमयंतिचें आख्यान
४. सत्यवान सावित्रिचें आख्यान

# १. ययातिचें आख्यान

## १. कच आनी देवयानी

त्रैलोक्याची सत्या आपणाक मेळची म्हुण देवां आनी दानवां मजगतीं झुजां उपरासलीं. जैताच्या हावेसान देवांनी बृहस्पतीक तर दानवांनी शुक्राचार्याक गुरू केलो. हाका लागून बृहस्पती आनी शुक्राचार्य एकामेकांचे दुस्मान जाले. दोगूय एकाच गुरुचे शिष्य.

शुक्राचार्याक मेल्ल्यांक जिते करपाची संजीवनी विद्या येताली. बृहस्पतीक ती येनाशिल्ली. हाका लागून झुजांत जे देव मरताले ते मरून वताले आनी दानव मरताले ते जिते जाताले. देव खंती जाले. ते शुक्राचार्याक थर्त भियेवपाक लागले. कितें करचें, तांकां समजना जालें. निमाणे, तांणी एक उपाय येवजून काडलो—

बृहस्पतिचो व्हडलो पुत कच. ताचे सरीं वचून ते म्हणपाक लागले: 'बाबा रे, आमचेर अरिश्ट आयलां तें पयस करप तुज्या हातांत आसा. तूं शुक्राचार्याचो शिष्य जा. आनी ताचे कडल्यान संजीवनी विद्या शिकून यो. शुक्राचार्य दानवराजा वृषपर्व्यगिर आसता.'

कच भायर सल्लो. तडक वृषपर्व्याच्या राजवाड्यार गेलो आनी शुक्राचार्याच्या पांयार मस्तक दवरून म्हणपाक लागलो: 'अंगिरसाचो पुत बृहस्पती म्हजो बापुय. म्हजें नांव कच. विद्येखातीर आयलां. म्हाका शिष्य मानून घेवचो.'

हो आपल्या दुस्मानाचो पुत खरो. पुणून विद्ये खातीर आयिल्ल्याक ना म्हणप ना हो नेम आपलो. त्या भायर हो सत्यवादी. हाका शिष्य करप ना जाल्यार कोणाक करप, अशें शुक्राचार्यान मनांत म्हळें आनी ताणे कचाक सांगलें: 'तुका हांव शिष्य मानून घेतां. म्हजे हे करणेन बृहस्पती तुश्ट जावं.'

आनी शुक्राचार्यान कचाक ब्रह्मचर्याची दीक्षा दिली.

शुक्राचार्याक एक धुव आशिल्ली, देवयानी नांवाची. जुवानपणांत निकतेंच पावल घाल्लें तिणे. गुरुची सेवा करता आसतना कच देवयानिकूय संतुश्ट दवरूंक लागलो. तिका फुलां फळां हाडून दी, गावन वाजोवन दाखय, अशें करून ताणे तिचेंय मन ओडून घेतलें. तिवूय केन्ना केन्ना ताका नाचून-गावन दाखोवपाक लागली.

हे भाशेन कांय वरसां गेलीं.

कच बृहस्पतिचो पुत म्हणपाची खबर एक दीस दानवांक कळ्ळी. दानव शिटकावले. देवांनी कपट करून ताका हांगा धाडला अशें तांकां दिसपाक लागलें.

हो संजीवनी विद्या घेवन गेलो जाल्यार घात जातलो, अशें येवजून तांणी कचाक जितो मारपाचो बेत केलो.

कच एक दीस गोरवां घेवन रानांत गेल्लो. दानव तागेली वाट पळेत थंय बशिल्ले. कच थंय पावना फुडें ताका दानवांनी धल्लो. ताका मारून ताचे कुडके केले आनी ते कोलसुण्यांक खावंक घाले.

दिवे लावणे वेळ. गोरवां परतल्लीं. पुणून वांगडा कच येवपाचो तो येवंक नाशिल्लो. देवयानीक दुबाव आयलो. ती बापाय म्हऱ्यांत गेली आनी म्हणपाक लागली : 'तीनसांज जाल्या. गोरवां परतल्यांत. पुणून कच अजून येवंक ना. ताका ह्या घातमाऱ्यांनी मारून बी उडोवंक ना मू.'

शुक्राचार्यान म्हळें : 'तूं भियेता कित्याक. हांव मेल्ल्यांक जिते करतां हें तूं नकळ व्हय.' शुक्राचार्यान रोखडोच संजीवनी मंत्र म्हळो आनी कचाक उलो माल्लो. 'कचा....' ते बरोबर कोलसुण्यांचीं पोटां फुटलीं आनी कच 'ओ' म्हणून हांसत दोगांय मुखार येवन उबो रावलो.

'आयज तुका येवपाक कळाव कित्याक जालो', देवयानीन ताका विचाल्लें.

'हांव रानांत एका वडा सांवळेक बसून गोरवां राखतालों.' कचान जाप दिली. 'अवचित दानव आयले आनी तूं कोण म्हुण विचारपाक लागले. हांवें तांकां म्हजें नांव सांगलें. त्याच खिणाक तांणी म्हाका मारून म्हजे कुडके केले आनी ते कोलसुण्यांक घाले.'

देवयानी समजुपाचें समजली आनी त्या दिसा सावन ती कच आनी दानव हांचेर दोळो दवरून रावली.

देवयानीक फुलां खूब आवडटालीं. एक दीस तिणे कचाक फुलां हाडपाक रानांत धाडलो. थंय दानवांनी ताका पळेलो. 'आरेच्या! हाका जितो केलो?' ते परते ताच्या आंगार धांवन गेले. हे खेपे तांणी कचाक मारून ताचे कुडके करून ते दर्यांत उडयले.

कच फुलां हाडपाक गेल्लो, बरोच वेळ जालो तरूय परतूंक ना, हें पळोवन देवयानी काचाबूल जाली. ती बापाय सरीं वचून रडपाक लागली. शुक्राचार्याची देवयानिचेर खूब्ब माया. तिका खोशी दवरपाक ताणे परतो संजीवनी मंत्र म्हळो आनी परतो कचाक जितो करून हाडलो.

कांय दिसांनी कच परतो दानवांक दिश्टी पडलो तेन्ना दानवांक शुक्राचार्याचोच राग माल्लो. आमी हाका मारतात आनी हो भौन भौन हाका जितो करता! तांणी तिडकीन म्हळें आनी कचाक ना करपाचो एक वेगळोच उपाय तांणी सोदून

काडलो. तांणी कचाचो लासून गोबोर केलो आनी तो सुरींत भरसून शुक्राचार्याक सूर पियेवपाक दिली. शुक्राचार्य सूर पियेलो.

भायर गेल्लो कच घरा येवंक ना हें पळोवन देवयानी परतीय बापाय सरीं वचून रडपाक लागली. बापायन म्हळें, 'बाय गो, म्हाका आतां पुरो जालां. ताका जितो केल्यार ताका हे परतो मारतले. तेन्ना तूं आतां ताची आस्त सोड.'

'ताची आस्त कशी सोडूं हांव.' देवयानी रडत रडत विचारपाक लागली. 'गुणी भुरगो. शिलान बरो. तपान मोटो, कामांत तत्पर. ताका परतो हाड. ना जाल्यार म्हाका उंडी लेगीत वचपाची ना. हांव अन्न उदक कितेंच ताळ्यार घेवपाचें ना....'

शुक्राचार्य विरगळ्ळो. ताणे तिडकीन दानवांक आपोवन विचाल्लें: 'विद्ये खातीर आयिल्ल्या म्हगेल्या शिष्याक परतो परतो मारून तुमी म्हजो राग तुमचेर ओडून घेतात. तुमचीं पातकां आतां भल्लीं, समजात.'

आनी संजीवनी मंत्र म्हणून पुता यो म्हुण ताणे कचाक उलो माल्लो.

कच शुक्राचार्याच्या पोटांत आशिल्लो. कचा मुखार प्रस्न पडलो: 'ओ म्हणून जाप दिली जाल्यार गुरुचें पोट फुट्टलें. गुरुहत्येचें पातक लागतलें. ते परस गुरुच्या पोटांतूच राविल्लें बरें.' अशें येवजून तो ओगी रावलो. उलो केल्यारूय कच येना हें पळोवन शुक्राचार्य घुटमळ्यांत पडलो. कचाच्या लक्षांत हें येना फुडें थोड्या वेळान ताणे आपुण पोटांत आशिल्ल्याची सुलूस गुरूक दिली.

कच आपल्या पोटांत आसा तो पळोवन शुक्राचार्याक अजाप जालें. ताणे विचाल्लें, 'कचा, म्हज्या पोटांत रे तूं कसो पावलो.'

'दानवांनीं म्हाका मारून, लासून गोबोर केलो आनी तो सुरींत घालून तुका ती पियेवपाक दिली.' कचान पोटांतल्यानूच जाप दिली.

शुक्राचार्यान देवयानीक विचाल्लें: 'आतां कितें करूं. तुका कच जाय आसत जाल्यार हांव मेळपाचों ना, हांव जाय आसत जाल्यार कच मेळपाचो ना.'

देवयानीन रडून आकांत केलो. म्हणूंक लागली: 'म्हाका दोगूय जाय. कच ना जालो जाल्यार म्हज्या जलमाचें सुख ना जातलें. तूं गेलो जाल्यार म्हजो प्राण वतलो.'

कचा वेलो देवयानिचो मोग पळोवन पोटांत आशिल्ल्या कचाक शुक्राचार्यान सांगलें, 'बाबा रे, आतां एकूच वाट उल्ल्या: तुका पोटांतूच संजीवनी विद्या शिकयतां. ती सारकी बरी शीक. मागीर हांव तुका उलो मारतां. तूं भायर यो. भायर येतकूच हो मंत्र म्हण आनी म्हाका जिवो कर.'

कच गुरुच्या पोटांत रावन संजीवनी विद्या शिकलो. उपरांत शुक्राचार्यान

'कचा, यो' म्हणिना फुडें तो गुरुचें पोट फोडून भायर आयलो आनी भायर येवन ताणे शुक्राचार्याक जिवो केलो.

कचाक संजीवनी विद्या मेळिल्ली. ती फळाकूय आयिल्ली. कच आनंदीत जालो. ताणे शुक्राचार्याच्या पांयार मस्तक दवल्लें आनी भक्तिभावान म्हळें, 'म्हाका संजीवनिचें अमृत मेळ्ळें. हांव हे उपकार केन्ना विसरपाचों ना.' आपुण शुक्राचार्याक सदांच आवय-बापाय वरी पूज्य लेखतलों अशेंय ताणे सद्‌गदीत जावन सांगलें.

सुरीन मनशाची बुद्द कशी होगडावता, आपुण येदो बुदवंत खरो, पुणून कचाची रक्षा घाल्ली सूर पियेलों, आपणाक सुद्द उल्ली ना, हें पळोवन शुक्राचार्याक खासा आपलीच तिडक माल्ली. आपलें व्यसन सुटचें, दुसऱ्यांकूय तें लागचें न्हय म्हुण ताणे त्याच दिसा एक नेम केलो—'ह्या मुखार जो आपखोशयेन, पिशेपणान वा दुसऱ्यांचे भिडेन वा आग्र्‌ान सूर वा सुरी सारकीं सुद्द ना करपी पेयां पियेतलो तो धर्म-भश्टो जातलो. ताका ब्रह्म-हत्येचें पातक लागतलें. ताची सगळे कडेन अप्रतिष्ठा जातली.'

आपलें काम जाल्लें. संजीवनी विद्या पदरांत पडिल्ली. आतां हांगां रावपाची गरज उरूंक ना अशें कचाक दिसपाक लागलें. तो देवलोकांत परतुपाक भायर सल्लो. सगळ्यांक मेळ्ळो. देवयानी म्हऱ्यांत गेलो. तेन्ना तिणे मनांत जें इतले दीस घोळटालें तें ताच्या मुखार उक्तें केलें. तिणे म्हळें, 'तुजें ब्रह्मचर्याचें व्रत आयज सोंपता. शिलान कुळान विद्येन तपान तूं सोबता. आतां म्हाका आपली घरकान्न करून घे आनी वांगडा घेवन वच.'

कचाक अजापांचो धसको बसलो. ताणे म्हळें, 'तुज्या बापाय इतलीच तूं म्हाका पूज्य. तुजें म्हजें नातें भावा-भयणिचें. आनी आतां तर तुज्याच बापायच्या पोटांतल्यान म्हाका नवो जल्म मेळ्ळा. आतां तें नातें अदीक दाट जालां. तुका हांवें सदां म्हजी भयणूच लेखल्या.'

देवयानी तिडकीन उसळ्ळी. म्हणूंक लागली, 'हांवें तुका भाव लेखूंक ना. तूं भाव न्हय. म्हाका तूं दुखोवन वता हें लक्षांत दवर'. आनी तिडके भरशीं तिणे कचाक श्राप दिलो, 'तूं जी विद्या घेवन वता ती तुका केन्नाच फळची ना.'

कचाक वायट दिसलें. ताणे थंडसाणेन तिका सांगलें, 'तुज्यांत अवगुण कसलेच नात. तूं म्हज्या गुरुची धुव देखून भयण. भावा भयणीं भितर लग्न जायनात, म्हुण हांवें तुका ना म्हळ्ळें. पुणून तूं तिडकीन कुड्डी जाली आनी कुड्डेपणान तुवें म्हजेर अन्याय केलो. म्हाका तुवें श्राप दिलो. जावं, तुजो श्राप खरो

जावं. म्हजी विद्या म्हाका नाका फळूं. पुणून जांकां हांव ती शिकयतलों तांकां ती फळटली मू, पुरो. पुणून तूं लक्षांत दवर, तुवें म्हाका अन्यायाविणें श्राप दिला. हांव्रय तुका श्राप दितां, तुजे कडेन खंयचोच ब्राह्मण लग्न जावपाचो ना.'

आनी जड अंतरस्कर्णान कच देवलोकांत परतलो.

## २. देवयानी आनी शर्मिष्ठा

संजीवनी विद्या शिकून कच परतलो म्हणपाची खबर देवांक कळ्ळी. तेन्ना ते रोखडेंच ताचे भोंवतणी एकठांय जाले. ताची तुस्त गावपाक लागले. 'सूर्य चंद्र आसासर तुज्या कर्तुत्वाची याद संवसार दवरतलो' अशें म्हणून ते ताका माथ्यार घेवन नाचपाक लागले.

कचाच्या कर्तुत्वाची खबर सांगपाक ते इन्द्रा सरीं गेले. ताका सांगूंक लागले, 'पराक्रम करून दाखोवपाचो वेळ हो. कच संजीवनी-विद्या शिकून आयला. आतां कळाव नाका. दुस्मानांक ना-नपश्चात करून उडोवया.'

इन्द्र खोश्शी जालो. दुस्मानांक ना करपाक तो भायर सल्लो.

पुणून त्या आदीं करपा सारकें एक काम उरिल्लें. वृषपर्वा आनी शुक्राचार्य हांचे मदीं धोशी लावपाचें.

इन्द्र धर्तरेर एका रानांत पाविल्लो. थंय एके तळयेंत कांय वया वयल्यो चलयो न्हावपाक देंविल्ल्यो ताणे पळेल्यो. तांतले देवयानीक तो वळखलो. दुसरी वृषपर्वा राजाली धुव शर्मिष्ठा, तिकाय वळखलो. बाकिच्यो अनवळखी आशिल्ल्यो. दोगीय आपापलीं कापडां तळयेर वयर दवरून उदकांत देंविल्ल्यो. इन्द्र वारो जालो आनी नेटान व्हांवपाक लागलो. तळये वयलीं कापडां एकामेकांत भरसलीं.

चलयो न्हावन वयर आयल्यो. जाल्यार, तांगेलीं कापडां भरसल्लीं. लजेन त्यो बेगी-बेगीन हाताक लागता तें कापड घेवन न्हेसपाक लागल्यो. ह्या बोवाळांत शर्मिष्ठिन न्हेसपाक देवयानिचें कापड काडलें. ती देवयानी आदीं वयर आयिल्ली.

आपणालें कापड शर्मिष्ठिच्या आंगार पळोवन देवयानी तिचेर ताणशेली. आनी देवयानी ताणशेली म्हुण शर्मिष्ठा तिडकली. दोगिंच्या तोंडाक तोंड लागलें.

देवयानीन विचाल्लें, 'तूं म्हजी शिष्या ? तूं म्हजें कापड कशी न्हेसली.'

शर्मिष्ठा उसळ्ळी, 'हांव तुगेली शिष्या? काय तर! वृषपर्व्याली धुव हांव. म्हज्या बापाय मुखार तुगेलो बापुय हात जोडून उबो रावता. हातार थोडें कितें पडचें म्हुण ताची तोंडभर तुस्त गायता. समजलें ? बेश्ट्यो व्हडविको सांगू नाका.'

देवयानिच्यान सोंसूं नज जालें. ती शर्मिष्ठिक मारूंक धांवली आनी तिच्या

आंगा वयलें कापड ओडपाक लागली, 'दी म्हजें कापड म्हाका. दी पयलीं.'

'ना दिना. तुका जाय तें कर. हड्डे बडय वा तकली आपटी.' अशें म्हणून शर्मिष्ठेन तिच्यो केंशाट्यो ओडल्यो.

बगलेक एक सुकी पडंग बांय आशिल्ली. शर्मिष्ठेन देवयानीक हे बांयंत धुकलून उडयली. शर्मिष्ठा तिडकीन चाळवल्ली. बांयंत पडिल्ली देवयानी जिती आसा काय मेली, हें लेगीत पळेनासतना ती घरा परतली.

हे वेटेन, नहुषाचो पुत ययाती भोंवडेक भायर सरिल्लो. तो एका चितळा फाटल्यान धांवत धांवत हांगा पावलो. ताका पुरो जाल्लें, तान लागिल्ली. बांय दिश्टी पडना फुडें तो थांबलो. भितर उदक आसा काय ना, हें पळोवपाक ताणे बांयंत नदर घाली. जाल्यार, बांयंत ताका एक सुंदर वयावयली चली दिश्टी पडली.

'बाय गे, कोण तूं, कोणाची आनी बांयंत कशी.' ताणे अजापान विचाल्लें.

'हांव शुक्राचार्यालि धुव देवयानी. हांव बांयंत पडल्यां हें म्हज्या बापायक खबर ना.' अशें सांगून तिणे आपलो उजवो हात वयर केलो. ययातीन तो हात हातांत् घेतलो आनी तिका वयर काडली.

ययाती उठून गेलो. देवयानी थंयच फणफणत बांयचे धडेक वणखून बसली.

थोड्या वेळान 'देवयानी खंय, अजून कशी येवंक ना' ह्या हुसक्यान तिगेली वावराडी धूर्णिका तिका सोदीत थंय पावली.

'तूं हांगा कशी' तिणे विचाल्लें. 'चल, यो घरा', तिणे म्हळें.

'ना येना. वृषपर्व्याच्या राज्यांत हांव पावल दवरी सारकीं ना.' देवयानीन जाप दिली.

'कितें जालें.'

'म्हाका शर्मिष्ठेन बांयंत धुकलून उडयली.'

शुक्राचार्याक ही खबर सांगपाक धूर्णिका ताकतिकेन राजवाड्यार गेली. शुक्राचार्य वृषपर्व्या म्हऱ्यांत बसून गजाली करतालो. धूर्णिकेक पळोवन ताणे विचाल्लें, 'कित्याक आयिल्ली.'

'देवयानीन सांगलां, आपुण ह्या राज्यांत पांय दवरी सारकी ना.'

'कित्याक.'

धूर्णिकेन ताका सगळी खबर सांगली.

शुक्राचार्य खंती जावन उठलो. ताकतिकेन देवयानी सरीं आयलो. तिका वेंगेंत घेवन ताणे म्हळें :

'दुसऱ्या कडल्यान आमकां पिडापीड भोगता तेन्ना धरून चलूंक जाय, आदल्या

जल्मांतलें पातक उल्लां, ताचें प्रायश्चित्त भोगचें पडलां.'

'हांव नकळं.' देवयानी रडत सांगपाक लागली, 'शर्मिष्ठा जें उलयल्या तें सोंसपाचें न्हय. तुजो बापुय म्हज्या बापाय मुखार हात जोडून उबो आसता, हातार कितेंय पडटा काय म्हुण पळोवपाक ताची तुस्त गायत आसता, अशें कितें-कितें म्हणी. हांव आयकून घेवपाचें ना असलें.'

शुक्राचार्य तिका समजावंक लागलो : हांव कोणाचीय तुस्त गायन? तुका खरें दिसता? परती, म्हजीच सगळे तुस्त गायतात हें तूं पळेता. हांव कोण तें वृषपर्वा इन्द्र ययाती सगळे जाणात. कोणेय कितेंय म्हळें म्हणून आपणे तिडकूंक जायना. तिडायल्यारूय जो तिडकना तोच जैतवंत. ताणे संवसार जिखलो, समज. खुबिल्ल्या घोड्याक आळाबंदा हाडटल्या सारथ्या भाशेन मनशान आपणाली तिडक आळाबंदा हाडूंक जाय. शर्मिष्ठा भुरगी. भुरगीं अशींच झगडटात. तांचें मनाक लावन घेवंक जायना.'

देवयानी खूब दुखावल्ली. देखून बापायच्या उपदेसानूय तिगेलो राग न्हिवूंक पावलो ना. ती वयल्यान बापायक सांगपाक लागली, 'आमी भुरगीं खरीं. पुणून बरें कितें, वायट कितें, म्हाका तरी समजता. तिडकी परस सोंशीकपण बरें, हांव जाणां. पुणून स्वाभिमानी मनशान रीत-देख नाशिल्ल्यांचीं उणी उतरां सोंसप बरें न्हय. जांचे रीत-देखीक ताळतंत्र उरूंक ना, तांच्या सांगातांत रावंक हांव खोशी ना. शर्मिष्ठिन म्हजो अवमान केला. म्हज्या काळजाक घाय घाल्यात. म्हज्या आंगाक उजो पेटला. तिच्या राज्यांत रावचे परस हांव जीव दीन.'

शुक्राचार्याक धुव म्हळ्यार सगळें. तिका जाय तेंच जावंक जाय हो नेम ताचो. तो तडक वृषपर्व्या सरीं गेलो आनी म्हणपाक लागलो, 'राजा, पातकाचें प्रायश्चित्त रोखडें मेळ्ळें ना म्हुण तें मेळचेंच ना अशें समजूं नाका. आयज न्हय जाल्यार फाल्यां, तें मेळ्ळे बगर रावना. तुवें भोगलें ना जाल्यार तुज्या पुताक तें भोगचें पडटलें. ताणे भोगलें ना जाल्यार नातवाक भोगचें पडटलें. पुणून कोणाकूय जाल्यार तें भोगचेंच पडटलें. तें चुकूंक येवपाचें ना. राजा, तुवें तुज्या लोकांक सांगून पयलीं म्हज्या शिष्याक, कचाक, ताचो गुन्याव नासतना मारूंक लायलो. आतां म्हजे धुवेक तुजे धुवेन धुकलून बांयंत उडयली. हें सगळें सोंसचे परस तुका सोडून गेल्लों बरो अशें म्हाका दिसपाक लागलां.'

वृषपर्व्याक अजापांचो धसको बसलो. ताणे शुक्राचार्याक हे भाशेन तिडकल्लो केन्ना पळोवंक नाशिल्लो. कचाक मारपाचे यत्न जाल्ल्याची ताका खबर लेगीत नाशिल्ली. देवयानीक बांयंत धुकलून उडयल्ल्याचीय नाशिल्ली. तो खंती जावन

म्हणपाक लागलो, 'तुमच्या तोंडांतल्यान हे तरेचीं उतरां हांवें केन्नाच आयकूंक नात. तुमी आमकां सोडून गेले जाल्यार आमचेर दर्यांत वचून जीव दिवपाचो प्रसंग येतलो.'

'जीव दियात, ना जाल्यार तोंड घेवन वचात. म्हाका कांय लागना. बृहस्पती इन्द्राचें आशिल्लें सांबाळटालो आनी नाशिल्लें जोडून दितालो तशें हांवें तुमचें करचें अशें तुमकां दिसता जायत जाल्यार देवयानिचो राग न्हिवयात.'

राजान म्हळें, 'जें जें कितें म्हजें तें सगळें तुमच्या पायार ओंपतां. गायो घोडे हती राज्य संपत सगळें. पुणून आमकां सोडून तुमी वचूं नाकात.'

शुक्राचार्यान हें सगळें धुवेक सांगलें. ती हटाक पेटिल्ली. म्हणपाक लागली, 'खासा राजान हांगा येवन आपल्या तोंडान म्हाका तशें सांगूंक जाय.'

निरुपाय जावन राजा आयलो. 'ही घे म्हजी सगळी संपत. आनी कितेंय जाय जाल्यार सांग'. ताणे देवयानीक म्हळें.

'शर्मिष्ठेन हजार दासयां सयत म्हजी दासी जावन रावचें. हांव लग्न जावन जंय वतलीं थंयूय तिणे म्हज्या फाटल्यान येवचें'. देवयानीन सांगलें.

राजान शर्मिष्ठेक विचाल्लें. शर्मिष्ठेन म्हळें, 'शुक्राचार्याक दवरून घेवपा खातीर ह्या खिणा परसून हांव देवयानिची दासी जातां.'

शर्मिष्ठा आपणाल्या हजार दासयांक घेवन आयली. देवयानी मुखार येवन उबी रावली. आनी म्हणूंक लागली, 'घे. हांव आयच्यान ह्या दासयां सयत तुजी दासी. गांवभावांचें कल्याण जाता जायत जाल्यार, आयुष्यभर तुजी दासीच म्हणून रावीन हांव.'

आपल्या मना सारकें जाल्लें पळोवन देवयानिचो राग न्हिवलो. शुक्राचार्य आनी दानव हांचे मजगतीं धोस घालपाचें इन्द्राचें काम जावंक पावलें ना.

## ३. ययाती आनी देवयानी

कांय दीस गेले. उपरांत देवयानी आनी शर्मिष्ठा एक दीस दासयां सयत त्याच रानांत गेल्ल्यो. नाचप गावप खूब केल्लें. खोशयेच्या उमाळ्यांनीं रान भरून आयिल्लें. बरोबर ह्याच वेळार ययाती राजा थंय पावलो. तो भोंवडेक भायर सरिल्लो. एक गोमटी चली मर्दी बसल्या. तितलीच सुंदर दुसरी तिचे पांय वळटा आनी कितल्योश्योच दुसऱ्यो चलयो तांचे भोंवतणी नाचतात. हो देखाव पळोवन ययाती थंयच उबो रावलो. चलयांक पळेत रावलो. मागीर, धीर करून मुखार सल्लो आनी मर्दी बशिल्ल्या दोगी चलयांक ताणे विचाल्लें, 'कोण तुमी.'

'हांव शुक्राचार्याली धुव देवयानी. आनी ही म्हगेली दासी वृषपर्वा राजाली धुव शर्मिष्ठा.' देवयानीन जाप दिली.

ययातीक अजाप जालें. 'राजाली धुव तुजी दासी! अशें कशें.' ताणे विचाल्लें.

'दैवाचो खेळ.' देवयानीन जाप दिली.

देवयानी ययातीक वळखल्ली. तरी आसतना तिणे विचाल्लें, 'तुमी अजून तुमची वळख करून दिवंक ना. तुमी कोण. पळेल्यार राजकुळयेंतले-शे दिसतात.'

'हांव नहुषाचो पुत ययाती. भोंवडेक आयिल्लों.' राजान जाप दिली: 'पुरो जावन तान लागली म्हुण उदक सोदीत हे वाटेन सरिल्लों.'

'राजा, उगडास आसा? एक खेपे तूं असोच उदक सोदीत हे वाटेन पाविल्लो. हांव हे बांयंत पडिल्लीं. म्हजो हात हातांत घेवन तुंवें म्हाका बांयंतली भायर काडिल्ली. याद जाता? त्या आर्दी खंयच्याच दादल्यान म्हजो हात आपल्या हातांत घेवंक नाशिल्लो. तुंवेंच तो घेतला. तुजो आनी म्हजो संबंद जुळून येवचो म्हुण्णूच हें घडून आयिल्लें आसूं येता. आयज हांव शर्मिष्ठा आनी ह्या हजार दासयां सयत म्हजें तन-मन तुज्या पांयां कडेन ओंपतां.'

देवयानिचें रूप पळोवन ययाती आर्दीच भाळिल्लो. देवयानिचो हात हातांत घेतिल्ल्याचो उगडांसूय ताका जालो. खांकडत खांकडत ताणे म्हळें: 'तूं ब्राह्मणाली धुव. ब्राह्मण आपणाल्यो धुवो क्षत्रियांक दिनात.'

'कोण सांगता.' देवयानीन विचाल्लें: 'लोपामुद्रा सारक्यो क्षत्रिय चलयो अगस्ती सारकेल्या ब्राह्मणा कडेन लग्न जावंक नाशिल्ल्यो व्हय. मागीर, ब्राह्मणांच्या चलयांनीं क्षत्रिय चले वेंचून काडल्यार किते जाता. ब्राह्मण आनी क्षत्रिय दोगांयचें रगत भरसलां.'

ययातीन जाप दिली: 'रगत भरसलां जायत. पुणून दोगांयचे आचार वेगळे. विचार वेगळे. त्या भायर तुज्या बापायचो भंय म्हाका. विखाळ सोरपा परस वा भगभगीत उज्या परस ब्राह्मणाचे तिडकिचो चड भंय. सोरोप एकूच खेपे एकल्याक चाबतलो. तरसाद एकूच खेपे एकल्याची गोमटी कातरतली. उजो एकूच घर वा एकूच गांव लासतलो. पुणून तिडकीन पेटिल्लो ब्राह्मण किते करीत, सांगूं नज. तो शारांचीं शारां हुलपावन तांचो गोबोर करीत. राष्ट्रांचीं राष्ट्रां मोडकळीक हाडीत. खरें सांगतां: ब्राह्मणांक हांव थर्त भियेतां. शुक्राचार्यान हय म्हळे बगर आनी ताणेच तुका घे म्हुण म्हाका सांगले बगर तुका हय म्हणपाचो म्हाका धीर जावपाचो ना.'

देवयानीन विचाल्लें: 'बाबान सांगल्यार तूं ना म्हणचो ना मू.'

ययातीन मान हालोवन हय म्हळें. देवयानीन रोखडीच एकले दासयेक शुक्राचार्या सरीं धाडून दिली. शुक्राचार्य खबर आयकून खुशालभरीत जालो. ताणे ययातीक विचाल्लें : 'हिका तुजी पाटांराणी करतलो मू.'

'वर्णसंकराचें पातक म्हाका लागचें ना मू.' ययातीन परतें विचाल्लें.

'ना. आनी धर लागलें, जाल्यार तें हांव म्हज्या माथ्यार घेन.' शुक्राचार्यान जाप दिली.

एक दीस ययाती आनी देवयानी लग्न जालीं.

होंकल-पावणे वेळार शुक्राचार्यान ययातीक सांगलें : 'हिका सारकी सांबाळ. हिच्या वांगडा वृषपर्व्याली धुव शर्मिष्ठाय वता. ती राजघराण्यांतली चली. तिचे कडेन पूज्यभावान पळे. तिचेर तुजी वांकडी नदर पडची ना, अशी आस्त धरतां'.

## ४. शर्मिष्ठा ययाती

देवयानिचे सांगणेन ययातीन शर्मिष्ठे खातीर एक घर बांदून दिलें. तिका कांयच उणे पडचें ना अशी तजवीजय करून दिली.

कांय काळान देवयानीक चलो जालो. शर्मिष्ठेक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ती खंती जाली. देवयानिचें तरणेपण वाली भाशेन घसघशीत वाडूंक लागलां आनी आपलें थंयचे थंयच सुकत वचूंक लागलां ही खंत तिका आशिल्लीच. ती आतां अदीक खोल जाली. आपणाक ययाती एकलो केन्ना मेळटा, आनी आपलें काळीज ताच्या मुखार आपुण केन्ना उकतें करतां, अशें तिका जालें.

अशोकवनांत तिगेलें घर. एक दीस ययाती एकलोच अशोकवनांत भोवंक आयिल्लो. तो दिश्टी पडना फुडें शर्मिष्ठा ताच्या म्हऱ्यांत वचून म्हणपाक लागली, 'म्हजें कुळ, शीळ तुका खबर आसा. रुपानूय हांव किरकोळ न्हय. मागीर, हांवें कसलो अन्याय केला, म्हुण म्हाका पयस दवल्ल्या.'

ययातीन म्हळें, 'तुजें कुळ शीळ रूप सगळें बरें. पुणून शुक्राचार्याक हांवें उतर दिल्लें, तुजे कडेन पवित्र नदरेन पळेतलों म्हुण.'

'शुक्राचार्यान देवयानीक आनी म्हाका, दोगींकूय वांगडाच तुज्या पदरांत ओंपिल्लीं न्हय. मागीर, देवयानी घरकान्न आनी हांव कोणूच न्हय? देवयानी तुजी जाल्या त्याच दिसा हांवूय तुजी जाल्यां.' शर्मिष्ठेन जाप दिली.

ययाती म्हणपाक लागलो, 'राजाच लोकांक वायट देख घालून दिवपाक लागलो जाल्यार कशें जातलें.'

'वायट देख घालून दिवपाचो प्रस्न खंय आयलो', शर्मिष्ठेन विचाल्लें. 'देवयानीन

जाच्या गळ्यांत माळ घाल्या त्याच दिसा हांवूय तुजी जाल्यां. हांव देवयानिची दासी. म्हळ्यार, पुराय देवयानिची. देवयानी पुराय तुजी. म्हणटकूच, हांवूय तुजी जाली ना? देवयानिचो घोव तो म्हजो घोव. शास्त्राकूच धरून सांगतां हांव.'

जो जें मागता तें ताका दिवप हो ययातिचो नेम. शर्मिष्ठा मोग मागताली, तिका मोग दिवप ताच्या नेमांत बसतालें. ययाती शर्मिष्ठि कडेन गांधर्व रितीन लग्न जालो. एकूच जतनाय घेतली. देवयानीक मात सुलूस लागूंक दिली ना.

कांय काळान शर्मिष्ठिक चलो जालो. ही खबर कळना फुडें देवयानी तडक शर्मिष्ठि सरीं येवन विचारपाक लागली, 'खरें सांग : चलो कोणा पसून जालो तुका.'

'एक धर्मात्मो पाविल्लो. ताणेच म्हाका ही भीक घाल्या.' शर्मिष्ठिन फट माल्ली.

'कोण तो. नांव कितें ताचें. कुळ आनी गोत्र कितें ताचें.'

'सुर्या सारके ताचे कांतीन हांव इतलें दिपकून गेलें कि हे प्रस्न विचारपाची म्हाका सुद्धूच उल्ली ना.' तिणे आनीक एक फट माल्ली.

देवयानीन एक उस्कार सोडलो आनी म्हळें: 'तशें जाल्यार, म्हजें कांय म्हणणें ना.'

कांय काळान देवयानीक दुसरो चलो जालो. आनी हे वाटेन शर्मिष्ठिक आनीक दोग जाले. देवयानीन पयल्या चल्याक यदु, आनी दुसऱ्याक तुर्वसु नांव दवल्लें. शर्मिष्ठिन पयल्याक द्रह्यु ज़ाल्यार दुसऱ्यांक अनु आनी पुरू नांव दवल्लें.

ययातिचो आनी शर्मिष्ठिचो वेव्हार देवयानीक लिपोवन चलतालो.

एक दीस ययाती वांगडा देवयानीय भोंवंक गेल्ली. भोंवत भोंवत दोगांय शर्मिष्ठिच्या घरा वाटेन पावलीं. थंय देवयानीक अपुर्बायेचेच-शे तीन भुरगे दिश्टी पडले. ते खेळटाले. तांकांच तिणे विचाल्लें, 'भुरग्यांनो, तुमी कोणाचे?' भुरग्यांनीं ययाती कडेन बोट दाखयलें.

'तुमची आवय कोण.'

'शर्मिष्ठा.' भुरग्यांनी जाप दिली.

ययातिचें बींग फुटलें. देवयानीक फटवल्ले वरी दिसपाक लागलें. तिडकीन ती शर्मिष्ठि सरीं गेली. तिचेर उसळ्ळी, 'चांडाळणी तूं अखेरेक जातीर गेली. घात केलो तुवें म्हजो.'

शर्मिष्ठिन थंडसाणेन जाप दिली, 'हांवें कोणाचोच घात करूंक ना. इश्टिणिचो घोव आपलो घोव ह्या नेमाक धरून तुवें जाका आपलो मानलो ताकाच हांवें म्हजो लेखलो. हांवें चाली भायलें कांयच करूंक ना.'

देवयानी चाळवली. ती ययातिचेर उसळ्ळी. 'हांव आतां खीणभर लेगीत हांगा

रावपाची ना.' अशें म्हणून फणफणत ती बापायगेर गेली.

ययातीक फुडल्या अरिश्टांचो अदमास आयलो. देवयानिचो राग न्हिवोवपाक तो तिच्या फाटल्यान धांवलो. देवयानी बापाय म्हऱ्यांत वचून हुंदक्यांनीं रडूंक लागली. तिणे बापायक आपल्या नशिबाची काणी सांगली. शुक्राचार्यान जांवयाचें तोंड पळेलें. तें पडिल्लें. देवयानी सांगता तें खरें हाची ताका खातरी पटली. ताणे ययातीक श्राप दिलो, 'बरें कितें, वायट कितें, सारकें बरें खबर आसून लेगीत तुवें हें पातक केलें, देखून हांव तुका श्राप दितां. आत्तां ह्या खिणाक तुज्यांतलें तरणेपण गळून तूं म्हातारो जातलो.'

ययातीन म्हळें, 'हांवें धर्माची शीम हुपूंक ना. धर्मानूच नेम घालून दिला 'रुतुमती बायल-मनशेन भुरगें मागीत जाल्यार तें तिका दिवचें, ना जाल्यार तुका भ्रुणहत्येचें पातक लागतलें.'

'म्हाका कित्याक विचाल्लें ना. चोरयां कर्म कित्याक केलें.'

ययाती कडेन जाप नाशिल्ली. तो ओगी रावलो. त्याच खिणाक ययातिचें तरणेपण बावलें. म्हणटासर गळ्ळें आनी तो म्हातारो जालो.

ययातीन काकुळटेक येवन म्हळें, 'अजून जायतें भोगपाचें उरिल्लें. येदे बेगीन म्हातारपण नाका आशिल्लें.'

शुक्राचार्याचो राग न्हिविल्लो. बांयंत पडिल्ले चलयेक ह्याच ययातीन एका काळार वांचयल्ली. ह्या ताच्या उपकाराचीय ताका याद जाली. ताणे ययातीक म्हळें, 'ऋशिंच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं उतरां फट जायनात. म्हज्यान आतां एक करूं येता. तुजें म्हातारपण घेवपी तुका कोणूय मेळ्ळो जाल्यार तुज्यान ताका तें दिवं येता.'

ययातीन विचाल्लें, 'म्हज्या पुतां भितल्लो जो म्हजें म्हातारपण घेवन आपलें तरणेपण म्हाका दितलो ताकाच म्हजें राज्य दिवंक येतलें मू. तें दिवपाचो म्हाका हक आसतलो मू.'

'हय.' शुक्राचार्यान जाप दिली, 'तुका हो अधिकार आसतलो. जो पुत आपलें तरणेपण तुका दिवन तुजें म्हातारपण घेतलो तो व्हडलो आसूं वा धाकटो आसूं, ताकाच गादयेर बसपाचो हक उरतलो. म्हजें नांव घेवन राज्य ताचे सुवादीन कर तूं. तुका कोण कांयच विचारचो ना.'

## ५. ययाती

काती कवळ्ळ्यो, केंस पिकले, दांत पडले, कमर बागवलें—हे तरेचो म्हातारो जावन ययाती घरा परतलो. परतना फुडें ताणे आपल्या पांचूय पुतांक आपोवन सांगलें, 'म्हज्याच कर्मान म्हजी ही अशी गत्त जाल्या. जाणटो जावचे पयलींच म्हाका म्हातारपण आयलां. तरणेपणाचे भोग भोगपाचे उरिल्ले. अजून जायतें पळोवपाचें आशिल्लें. तें सगळें आतां ना जावन गेलां. एकूच उपाय उल्ला. तुमचे भितल्ल्या कोणेय एकल्यान म्हजें म्हातारपण घेवचें आनी आपलें तरणेपण म्हाका उश्णें दिवंचें. जाल्यार, ताका हांव राज्य दितलों. तरणेपण कांय वरसां भोगतां. मागीर तुमचें तुमकां तें परतें दितां. आसा व्हय कोण तयार.'

ताणे यदुच्या तोंडा कडेन पळेलें. देवयानिचो तो व्हडलो पुत. यदून म्हळें, 'आनी कितेंय दिवं येत. पुणून तरणेपण दिवन म्हातारपण घेवप म्हाका जमपाचें ना. हें पचना, तें पचना, हें जायना, तें चलना, घरांत भायर कोणूच विचारिना, कोणूच लेखिना, असलें म्हातारपण कोणाक जाय. सपनांत लेगीत म्हाका नाका तें.'

ययातीक यदुची तिडक माल्ली: 'म्हजोच पुत मरे तूं. बरें आसा. पुणून लक्षांत दवर. तुका आनी तुज्या पुतांक राज्याचो वांटो मेळपाचो ना.'

उपरांत ताणे तुर्वसूक उलो माल्लो. तो देवयानिचो दुसरो पुत. तुर्वसून कानार हात दवरून म्हळें: 'भोग भोगूंक मेळना असलें रूप ना करतलें म्हातारपण म्हाका नाका.'

ययातीन तुर्वसूक श्राप दिलो, 'तुजें निसंतान जातलें. तूं रीतभात नाशिल्ल्या उणाक लोकांचो राजा जातलो.' श्राप दिवन तो उसळ्ळो, 'लाग चलूंक हांगासल्लो.'

मागीर द्रह्यूक विचाल्लें. तो शर्मिष्ठिचो व्हडलो पुत. 'तूं रे पुता, तूं करशीत व्हय हें काम.'

द्रह्यून जाप दिली, 'दांतां कवळी पडल्या, उतरां सारकीं भायर सरनात. तरूय बडबड करूंक लावपी म्हातारपण कोणाक जाय.'

'कपल फुटक्या, तूं कसलेच भोग भोगूंक पावचो ना.' ययाती ताणशेलो.

अनूक विचाल्लें. तो शर्मिष्ठिचो दुसरो. 'तूं रे ?'

ताणे 'म्हाका नाका तें' म्हणून खांके वयर-शे केले.

'तुका नाका? तुका नाका आशिल्लें म्हातारपण आतांच तुजे गोमटेर बसतलें. तुजीं भुरगीं वयार येवचे पयलींच मरतलीं.' ययातीन अनूक किंवाट्यान श्राप दिलो.

शर्मिष्ठिचो सगळ्यांत धाकलो पुरू. ताका विचाल्लें.

बापायची दशा पळोवन पुरूक पयलींच कळवळून आयिलें. तांतूंत, एकलोय पुत ताका आपलें जुवानपण दिवंक तयार ना, हें पळोवन ताका वायट दिशिलें. तो विरगळ्ळो. आनी ताणे म्हळें, 'हांव म्हजें तरणेपण दितां तुका. तुजें म्हातारपण दी म्हाका. तुजेच कडल्यान मेळिल्लें हें तरणेपण व्हर तुका.'

पुरू अशी जाप दीत अशें ययातीक दिसूंक नाशिल्लें. बाकिच्यां सारकोच तोवूय आसतलो अशें दिशिल्लें. ताच्या तोंडांतल्यान 'घे तुका म्हजें तरणेपण' हीं उतरां भायर सरिल्लीं आयकना फुडें ययाती खुशालभरीत जालो. ताणे पुरूक वेंग माल्ली आनी म्हळें, 'तूंच म्हजो खरो पुत. तुजी कीर्त त्रैलोक्यांत पातळटली. तुजें कल्याण जातलें.'

शुक्राचार्याचो उगडास करून ययातीन आपलें म्हातारपण पुरूक दिलें आनी आपणे पुरुचें तरणेपण घेतलें.

भोगूंक पावूंक नाशिल्ले सगळे भोग आतां ययाती भोगपाक लागलो. तो विलासांत जियेवपाक लागलो. तो दुसरो इन्द्रूच करसो दिसतालो. कितलींशींच वरसां हे भाशेन जियेल्या उपरांत एक दीस ताणे आपणाकूच विचाल्लें— 'कितलीं वरसां जालीं म्हाका, हे तरेचें विलासी जिवीत जियेत रावल्यार' आनी ताका अजाप जालें. मागीर तो म्हणपाक लागलो : 'भोग कितलेय भोग, धादोसकाय केन्ना जावची ना. 'पुरो आतां' अशें केन्ना दिसपाचें ना. परतें, जितलो अदीक भोग तितली अदीक ताची ओड. उज्यांत तेल घाल. उजो पालवना, ते भाशेन. भोगाची खळी खोल. हे खळयेंत धर्तरे वयली पुराय संपत भर, खळी केन्नाच भरून येवपाची ना. खावंक घालता तितली उपाशीं, हे तरेची पिडा ही. खरें म्हळ्यार, भोगाक उपाशीं उडोवंक जाय. तरूच तो न्हिवता. इतलीं वरसां विलासांत लोळटां जावनूय म्हजी वान्सा भागना. आनिकूय जाय, आनिकूय जाय अशें दिसता. हाचो अर्थ, हांव तेल ओततां. खरें म्हळ्यार, उदक ओतूंक जाय.'

ययाती भोगांक उबगलो. 'आतां हे सोडून दिवप' अशें म्हणून तो पुरू सरीं आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'हें घे तुगेलें तरणेपण तुका परतें. म्हगेलें म्हातारपण म्हाका दी आतां. राज्यूय आतां तुज्या हातांत घे. आनी धनीपणान·तें चलय.'

ताणे पुरूक तरणेपण दिलें आनी आपणालें म्हातारपण परतें घेतलें.

ययातिचो व्हडलो पुत यदु. युवराजपदाचो अधिकार ताचो. ताका कुशीन उडोवन ययाती धाकल्या पुताक युवराजपदार बसोवंक पळेता म्हणपाची खबर राज्यांतल्या ब्राह्मणांक आनी पुरयतांक कळ्ळी. ते ययाती सरीं आयले,

विचारपाक लागले : व्हडल्याक सोडून धाकल्याक राज्याभिषेक करपाचो तुजो बेत आसा म्हणपाचें आयकलां. खरें आसत जाल्यार ही रीत धर्मांतूय बसना आनी वेव्हारांतूय बसना.

ययातीन सांगलें, 'आवय बापायक जो नरकांतल्यान सोडयता ताकाच पुत म्हणटात. ऋषिंनीच सांगलां हें. आवय-बापायन सांगिल्लें आयकुपी, तांकां उपकारा पडपी, तांकां पावपी असोच आसूंक जाय पुत. यदु व्हडलो खरो, पुणून तो प्रसंगार बापायक पावलो ना. ताचे दुसरे भावूय तशेच आपल्या वांदडाचे थल्ले. प्रसंगार पावलो एकलोच पुरू. ताणेंच म्हज्यो इत्सा भागयल्यो. देखून, तो धाकलो आसलो तरूय तो म्हजो खरो वारस. शुक्राचार्यालें लेगीत हेंच मत्त. तेन्ना, तुमी सगळ्यांनीं एकामत्तान पुरूक राज्याभिषेक करचो.'

राजा म्हणटा तें खरें, अशें तांकां दिसलें. त्या भायर, शुक्राचार्यालेंय हेंच मत्त म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. ते एकामत्तान पुरूक राज्याभिषेक करपाक तयार जाले.

हे भाशेन लोकांक आपले करून तांचे मान्यतायेन ययातीन पुरूक राजगादयेर बसयलो. पुरुच्या हातांत पुराय राजकारभार दिवन ययातीन वानप्रस्थाश्रमाची दीक्षा घेतली.

यदु पसून यादव, तुर्वसु पसून यवन, द्रह्यु पसून भोज आनी अनु पसून म्लेच्छ अश्यो चार कुळयो जाल्यो. पुरू पसून पौरव कुळ सुरू जालें.

पांडव-कौरव ह्या कुळांतले.

ययातिच्या आख्यानाचो आनीक एक वांटो महाभारतांत आयला. ताका 'उत्तर यायात' म्हुण नांव दिलां.

वानप्रस्थाश्रमांत ययाती बरींच वरसां रावता. मागीर एक दीस स्वर्गार पावता. थंय इन्द्र ताका विचारता : 'राजा, वानप्रस्थाश्रमांत तुवें जें तप केलें तें कोणा सारकें आशिल्लें? आनी ययाती जाप दिता, 'तपांत म्हाका लागपी देव मनीस गंधर्व महर्षींत कोणूच ना. म्हजें तप सगळ्यां परस वेगळें.' इन्द्र म्हणटा : 'राजा, तुका गर्वाची पिडा जाल्या. तुवें ल्हान व्हड सगळ्यांचो अवमान केलो. तुजें पुण्य खळ्ळें. आतां स्वर्गांत रावपाचो हक तुका उरूंक ना.' अशें म्हणून इन्द्र ताका सकल धुकलून उडयता.

ययातीक पश्चात्ताप जाता. तो म्हणटा 'देवेन्द्रा, म्हाका सकल उडयताच जाल्यार जंय उजू चलणुकेचे लोक रावतात असलेच सुवातेर उडय.' इन्द्र ताचे इत्सेक मान दिता आनी ताका अष्टक ऋषिच्या साधुलोकांत धाडून दिता.

स्वर्गांत इन्द्रान आनी साधुलोकांत अष्टक आनी बाकिच्या ऋषिंनीं विचाल्ल्या प्रस्नांक ययातीन ज्यो जापो दिल्यात त्यो अश्यो. तो म्हणटा : 'तापपी मनशा परस तापना तो व्हड. सोंसूंक नकळ ताचे परस सोंशीक व्हड. जिवांत व्हड मनीस. मनशांत व्हड विद्वान. दुसरो तापूं. आपणे सगळें सोंसून घेवचें. जो सोंसून घेता ताचें तेज वाडटा.

तें तेजूच ताचेर तापतल्या, ताका उणे उतर दितल्या मनशाक हुलपावन उडयता. जाची जीब तीख ताच्या तोंडांत अवदिसा रावता, अशें समजुपाचें. दुसऱ्याक लागता असलें उतर तोंडांतल्यान भायरूच सरचें न्हय. कोणाच्याच वर्मार बोट दवरचें न्हय. फाटल्यान लेगीत लोकांनी तुस्त करची, असलीच जण एकल्याची चलणूक आसची. सगळ्यांची माया करची, सगळ्यांक इश्ट लेखचे. दुसऱ्यांक दिवं येता तितलें दिवचें. सदांच गोड उलोवचें. हें जाका आयलें ताणे संवसार जिखलो.'

अष्टकाच्या एका प्रस्नाक जाप : 'सुख वा दुख दैवा सुवादीन. आमच्या हातांत ना. जिविताचेर सत्या दैवाची, आमची न्हय. देखून सुखान आमी भुल्लुसून वचूंक जायना. दुखान निर्शेवंक फावना. दोंकूय सारकें लेखून चलूंक जाय. सुख आनी दुख केन्नाच कोणाक चुकूंक ना. मागीर, ताचें बरें वायट कित्याक दिसूंक जाय. आपणे करणी अशे तरेन करची कि उपरांत तिचो पच्छात्ताप करपाचो प्रसंग येवचो न्हय.'

आनी एका प्रस्नाक जाप : 'गर्वान मनीस फुल्लो म्हणटकूच तागेलें सगळें पुण्य फुकट वता. विद्वानाची विद्वत्ता गर्वाक लागुनूच फुकट वता.'

'करण्यो जश्यो करूंक जाय तश्यो त्यो केल्यो म्हणटकूच कोणाकूच आनी कित्याकूच भियेवपाची गरज उरना.'

'हांव केन्ना भंयान गोंदळूंक ना.'

साधुलोकांतले अष्टक, शिबी आनी दुसरे ऋषी धादोशी जातात. ताका आपापल्या पुण्यांतलो वांटो दिवपाक मुखार सरतात. तेन्ना, ययाती तांकां सांगता :

'अहं तु नाभि घृष्णोमि, यकृतं न मया पुरा'

—जें मेळचें ह्या खातीर हांव वावरूंक ना तें फुकट मेळ्ळें म्हुण हांव घेना.

ययातिच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां भायर सरना फुडें स्वर्गांतल्यान भांगराचे पांच रथ येतात. अष्टक विचारता : 'हे रथ कोणा खातीर आयल्यात.' ययाती जाप दिता, 'आमकां पांचांकूय व्हरपा खातीर इन्द्रान धाडल्यात.'

'तूं मुखार वच, आमी फाटल्यान येतात.' अशें अष्टक म्हणटा तेन्ना ययाती 'ना, आमी पांचूय वांगडाच या.' अशी जाप दिता.

पांचूय जाण स्वर्गार वचपाक भायर सरतात. वाटेर शिबिचो रथ मुखार वता. अष्टक ययातीक विचारता : 'आमी सगळे योग्यतायेन एकाच पांवड्याचे आसतना शिबिचोच रथ मुखार कसो गेलो.'

'आमच्या सगळ्यां परस ताच्यांत नमळाय चड देखून.' ययाती जाप दिता.

ययातिचें आख्यान एक खेरीत आख्यान म्हुण आर्दी चलतालें. कित्याक, आख्याना अंतीं फलश्रुती सांगल्या. ज्या आख्यानां अंती फलश्रुती आयल्या तीं मुदल महाभारतांतलीं न्हय.

## २. दुष्यंत शकुंतलेचें आख्यान

पौरव कुळयेंत दुष्यंत नांवाचो आनी एकलो व्हड राजा जावन गेलो.

उदेंत अस्तम उत्तर दक्षिण चारूय दिकांनीं तागेलें साम्राज्य पातळ्ळेलें. तें कित्याक, दर्या पेले कडेन म्लेच्छांच्या देशांतूय तागेलोच शेक चलतालो. तो वज्रा सारको घट. विष्णु सारको बळिश्ट, सुर्या वरी तेजिश्ट, दर्या वरी गंभीर आनी धर्तरेवरी सोंशीक आशिल्लो. तागेल्या राज्यांत सगळे सुखी आशिल्ले. सगळे कश्ट करून जियेताले. चोर पाडे फटींग नागवणे वा खणी उस्तून भूंय लुटपी कोणूच नाशिल्ले. पावस वेळार पडटालो आनी पिकांय बरीं येतालीं.

कित्याक, दुष्यंत धर्मनितीन चलतालो.

एक खेपे तो भोंवडेक गेल्लो. वांगडा सैन्यूय घेवन गेल्लो. एका रानांतलीं सावदां मारून जातकूच तो दुसऱ्या रानांत गेलो. चलत चलत मालिनी न्हंये तडीर पावलो. थंयच कण्व मुनिचो आश्रम आशिल्लो. तो दिश्टी पडना फुडें दुष्यंताक दिसलें, हांगा मेरेन पावलांच, म्हणटकूच कण्वाची भेट घेवन गेल्लों बरो. ताणे सैन्य राना भायर दवल्लें. चाली प्रमाण आंगा वयल्यो वस्ती देंवयल्यो आनी ऋषिचे भेटेक वतना गरजेची नमळाय पांगरून साद्या भेसांत तो आश्रमांत भितर सल्लो.

आश्रम सामवेदाच्या म्होंवाळ आनी गंभीर सुरांनीं गाजतालो.

'कोण आसा हांगां?' ताणे दरवट्यार उबो रावन मोट्यान उलो मारून विचाल्लें. थोड्या वेळान एक गोरी गोमटी चली मुखार येवन उबी रावली. 'कोण जाय आशिल्लो, कितें काम आशिल्लें', तिणे विचाल्लें.

'हांव दुष्यंत. कण्व मुनिचे भेटेक आयिल्लों'. दुष्यंतान जाप दिली.

'बाबा रानांत फळां हाडूंक गेल्यात. थोड्या वेळान येतले. बसात तुमी ते मेरेन.' अशें म्हणून चलयेन राजाक बसपाक आसन दिलें.

तिगेलो गोड ताळो, मुमुरखें हांशें आनी अपरूप आंगलोट पळोवन दुष्यंत पयलेच नदरेक तिचेर भाळ्ळो. आनी ल्हवूच ताणे तिका विचाल्लें, 'तूं कोण, कोणाली, इतली सुंदर चली तपस्व्यांच्या आश्रमांत कशी पावली.'

'हांव मुनिली धुव. शकुंतला नांव म्हजें.' तिणे आपली वळख सांगली.

'कण्व मुनिंली! कण्व मुनी ब्रह्मचारी म्हुण आयकल्लें. खासा धर्म आपणाली वाट चुकत, पुणून कण्व मुनी आपले वाटे वयल्यान केन्ना निसरचेच नात, ही नामना तांगेली. मागीर, हें कितें, तांकां धुव कशी आनी खंय जाली.' दुष्यंतान अजापान विचाल्लें.

दुष्यंताचो प्रस्न आयकून शकुंतलेन ताका आपल्या जल्माची काणी सांगली.

एक खेपे एकल्या ऋषीक 'तुमचे वरीच दुबाव आयलो आनी ताणे बाबाक विचाल्लें, ही धुव तुमची कशी. तेन्ना बाबान दिल्ली जाप हांवें आयकल्ली. ती अशी :

विश्वामित्रान तप सुरू केलें. तें इतलें खर जालें कि तें पळोवन इन्द्र भियेलो. 'हाचें तप वाडत गेलें जाल्यार एक दीस हो म्हाका म्हजे सुवाते वयलो निखळायतलो.' अशें इन्द्राक दिसपाक लागलें. इन्द्रागेर अप्सरा जायत्यो. तांतले मेनकेक आपोवन ताणे सांगलें, 'म्हजें एक काम कर. वच आनी रुपान हांशान गोड उलोवण्यान विश्वामित्राक भाळय. तागेल्या तपाक बादा हाड.'

म्हारागीट म्हुण विश्वामित्राची नामना. ती मेनकेन आयकल्ली. ती म्हणपाक लागली : देवेन्द्रा, कोणाक वचून भाळय म्हणटा तूं म्हाका. जाणे वसिष्ठा सारकेल्या एका ऋषीक पिडलो ताका? तो जातीन क्षत्रिय, तरूय तपाच्या बळार जो ब्राह्मण जालो ताका? आपणाक न्हावंक मेळचें म्हुण एक नवीच कौशिकी न्हंय जाणे जल्मा घाली ताका? त्रिशंकू खातीर जाणे तिडकीन नव्याच नक्षत्रलोकाची एक नवीच सृष्ट निर्मिली ताका? तिडक येत जाल्यार तो कितें करीत, सांगूं नज. त्रैलोक्याचो लासून गोबोर करीत. धाय दिको एक करीत. असल्या ह्या उज्याक आफुडपाचो म्हाका, एके बायलमनशेक धीर कसो जातलो. तरी आसतना हांव वतां. पुणून एकटी न्हय. म्हज्या आधाराक दोगांक धाड, तपस्व्यांच्या लेगीत आंगांत बायलां विशीं ओड निर्मुपाची तांक आशिल्ल्या कामदेवाक आनी वसंत रुतुच्या वासाळ वाऱ्याक. ह्या दोगांचो म्हाका आधार मेळत जाल्यार, थोडो भोव धीर करीन हांव.'

इन्द्रान अां म्हळें. ताणे दोगांकूय आपोवन हाडले आनी दोगांकूय मेनकेच्या आधाराक धाडून दिले.

इन्द्राचें काम जालें. तपाक बशिल्लो विश्वामित्र मेनकेच्या रुपाक भुल्लो. तप विसल्लो आनी तिच्या सांगातांत विलासान रावंक लागलो. कांय काळान मेनकेक विश्वामित्रा पसून एक चली जाली. ती जल्मा येतकूच मेनकेचें काम सोंपिलें. चलयेक मालिनी न्हंयेचे धडेर उडोवन ती नीट इन्द्रलोकाक परतली.

विश्वामित्र परतो तपाक बसलो.

रानांतल्या सावदांची, वागांची, शिंवांची नदर हे चलयेचेर पडची न्हय म्हुण कांय दीस शेवण्यांनी तिका राखली. एक दीस कण्व मुनी न्हंयचेर न्हावंक गेल्ले थंय तांकां ती दिश्टी पडली. 'आवय बगर ही कशी जियेतली' अशें येवजून मुनी तिका काकूळटेन आश्रमांत घेवन आयले. सुकण्यांनी (शकुन पक्ष्यांनी) तिका

राखिल्ली म्हुण तिका शकुंतला नांव दवल्लें. तीच हांव. म्हगेले खरे आवय-बापुय हांवें पळोवंक नात. कण्व मुनिंकूच हांव आवय-बापुय लेखीत आयल्यां.

इतलें सांगून शकुंतला मुमुरख्यांनी हांसली. दुष्यंत पयलींच तिचेर भाळिल्लो. आतां तिगेलो मुमुरखो हांसो पळेलो. दुष्यंताचें काळीज विरगळ्ळें.

ताणे म्हळें, 'तुवें जी खबर सांगली तिचे वयल्यान तूं क्षत्रिय कुळांतली दिसता. तुका राजकन्याच म्हणूंक जाय.'

शकुंतला लजेली.

दुष्यंतान तिका सांगलें, 'म्हजे कडेन लग्न जाशीत जाल्यार म्हजें पुराय राज्य तुज्या पांयां सरीं हाडून उडयन.'

शकुंतलेक कितें जाप दिवची, येवजलें ना. तिणे लजेत लजेत म्हळें, 'बाबा येवपा जाले. दवरपाचे आसत जाल्यार तेच म्हाका तुमच्या पांयार दवरतले.'

दुष्यंताक तितलो धीर नाशिल्लो. शकुंतलेच्या गालां वयलो लजे रंग पळोवन ताणे म्हळें, शास्त्रान लग्नाच्यो आठ तरा सांगल्यात.

१. आंगार वस्ती घालून चली दिवप ही 'ब्राह्म' तरा.

२. यज्ञाचे अखेरेक ऋषींक दानांत चली दिवप ही 'दैव' तरा.

३. 'तुमी दोगांय एकामेकांक सांबाळात' अशें सांगून चल्याक चली दिवप ही 'प्राजापत्य' तरा.

४. चल्या कडल्यान गाय, बैल असलें मोल घेवन बदलाक ताका चली दिवप ही 'आर्ष' तरा.

५. चल्या कडल्यान खूबसो पयसो घेवन चली दिवप ही 'आसुर' तरा.

६. चलयेच्या आवय-बापांयक मार पेट ब्री घालून चली उबारून व्हरप ही 'राक्षसी' तरा.

७. चली न्हिदिल्ली आसतना वा पियेवन सुद्द होगडावन पडिल्ली आसतना तिका उबारून व्हरप ही 'पिशाच्च' तरा.

८. चल्या-चलयेन एकामेकांचेर भाळून एकामेकांचे इत्सेन लग्न जावप ही 'गांधर्व' तरा.

दुष्यंत म्हणूंक लागलो, आठूय तरांत सगळ्यांत बरी तरा ही निमाणी. आमचें दोगांयचें एकामेकांचेर मन बसलां. कोणाकूच विचारपाची आमकां गरज ना. आमीच आमचीं धनी. आमीच आमचो फुडार थारावपाचो. अनमन नासतना म्हजे लागीं गांधर्व रितीन लग्न जावपाक तयार जा.'

शकुंतलेक कितें करचें, कळ्ळें ना. तिवूय अधीर जाल्ली. तिणे इतलेंच म्हळें, 'तुमी म्हणटात तें शास्त्राक आनी चालीक धरून आसा जायत जाल्यार तुमच्या पांयार म्हाका ओंपपाक हांव अनमनचें ना. पुणून त्या आदीं तुमचे कडल्यान

म्हाका एक उतर जाय : तुमचे पसून म्हाका पुत जातलो तोच तुमच्या फाटल्यान राजगादयेर बसतलो मू.'

दुष्यंतान रोखडेंच मेकळ्या मनान हय म्हुण उतर दिलें. आनी 'कांय दिसांनीं तुका व्हरपा खातीर हांव म्हजें सैन्य धाडून दितलों.' अशेंय सांगलें.

त्याच खिणाक दोगांय एकामेकांचे वेंगेंत रिगलीं.

थोड्या वेळान दुष्यंत गेलो आनी फाटोफाट कण्व आश्रमांत परतलो. आपणाली खबर कण्वाक कळत जाल्यार ताका कितें दिसत ह्या दुगदुगांत शकुंतला आशिल्ली. त्या भायर थोड्या वेळा आदीं तिच्या जिवितांत जें घडिल्लें ताची सभावीक लजूय तिच्या मुखामळार उदेल्ली. हाका लागून कण्व येना फुडें ती सदां धांवत मुखार वताली तशी आयज गेली ना. कण्व समजलो. आपल्या फाटल्यान कितें घडलां जातलें, हाचो अदमास ताका लागलो. ताणे शकुंतलेक उलो मारून आपयली आनी अपुबयिन सांगलें, 'कळ्ळें म्हाका सगळें. तुवें वायट कांयच करुंक ना. क्षत्रिय कुळांतलीं वया वयलीं भुरगीं एकामेकांचेर मन बसतकूच जें करतात तेंच तुवें केलां. मंत्राचो आधार घेनासतना आनी उज्याक गवाय दवरिनासतना एकांतांत लग्न करपाची चाल क्षत्रियांत आसा. तुवें जें कितें केलां तें हे चालीक धरून केलां.'

शकुंतलेक सू:ऽ जालें. ती खुशालभरीत जाली. मुखार आयली. सदचे भाशेन पांय ध्रुवपाक उदक दवरून तिणे लजेत लजेत म्हळें : 'हांवें वेंचून काडला तो दुष्यंत राजा.'

शकुंतलेन दुष्यंत वेंचून काडला म्हुण कळटकूच कण्व मुनीक चडूच बरें दिसलें. 'तो कर्तुत्वी, उदार मनाचो. तुवें बरो घोव वेंचून काडलो.' ताणे म्हळें. 'दुष्यंता पसून तुका पुत जातलो तो बापाय वरीच कर्तुत्वी जातलो. ताचो पुराय धर्तरेर शेक चलतलो.' आनी विचाल्लें, 'तुका आनी कितें जाय, सांग.'

'पौरव कुळांतले सगळे राजा धर्म-नितीन चलूं इतलोच आशीर्वाद दी' शकुंतलेन मागलें.

कांय काळान शकुंतला बाळांत जाली. तिका चलो जालो. देखणो गुणेस्त त्या भायर मस्तो. स वरसांचो जाता सर तो अचाट कर्तुत्वां करपाक लागलो. ताणे वाग-शिंवां सारकीं भयांक्रूत सावदां धरून हाडचीं आनी आश्रमांत झाडांक बांदून दवरचीं. केन्ना तांचे फाटीर बसून तांकां नाका-पुरो करून सोडचीं. केन्ना तांकां आपली फाट धरूंक लावचीं आनी तांकां खशेंवंक लावचीं. केदेंय भिरांकूळ सावद आसूं, तो ताका दांबी. देखून आश्रमांतले सगळे ताका 'सर्वदमन' म्हणपाक

लागले. ह्याच नांवान उलो मारपाक लागले.

तागेल्यो सामान्या भायल्यो करण्यो पळोवन हो आतां युवराजपदाचो अभिषेक करून घेवपाचे पिरायेचो जालो, अशें कण्व मुनीक दिसपाक लागलें. देखून शकुंतलेक घोवागेर धाडपाचो बेत तो आंखपाक लागलो. 'कुळारा चड रावचें न्हय. रावल्यार बायलांची कीर्त, चारित्र्य आनी शीळ होगडावता' असो शकुंतलेचो समज घालून दिलो. शकुंतला वचपाक तयार जाली तेन्ना कण्व मुनीन तिका पावोवपाक आश्रमांतले कांय गडे सांगाताक दिले.

राजवाड्या मेरेन शकुंतलेक पावोवन गडे परतले. शकुंतला भितर गेली. सुर्या सारके कांतिच्या पुताक राजा मुखार धरून तिणे म्हळें : 'राजा तुका उगडास आसतलो, तुवें म्हाका उतर दिलें ताचो. हो तुगेलो पुत. युवराजपदाचो अभिषेक करून घेवपाचे पिरायेचो जाला.'

राजाक बेस बरो उगडास आशिल्लो. तरी आसतना खांके वयरशे करून ताणे म्हळें. 'म्हाका कसलोच उगडास जायना. तुका हांव वळखऽ लेगीत ना.'

दुष्यंत निष्ठुर आसत अशें शकुंतलेक दिसूंक नाशिल्लें. तागेलीं उतरां कानार मात पडल्यांत, ती खांब्या भाशेन निश्चेष्ट उबी उल्ली. तिका खीणभर कांयच येवजलें ना. म्हणटासर तिका राजाची खावं काय गिळूं हे भाशेची तिडक माल्ली. तिगेले दोळे तांबडे गुंज जाले. ओंठ थरथरूंक लागले. दुष्यंताक आतां ती हुलपावन उडयता काय कितें अशें दिसपाक लागलें. तिणे राग दांबून धल्लो. मागीर, राजाचेर एक नदर मारून ती उलोवपाक लागली—

'राजा, तुका सगळी बेस बरी याद आसा. तरी आसतना तूं खांके वयरशे करून आपणाक कांय खबर ना म्हणटा. हांव सांगतां तें खरें काय फट, हें अंतस्कर्णाक विचारून पळे. खासा आपणाक फटोवं नाका. आपणाक फटोवंक येना. पातकाक गवाय कोण ना, असो तुजो समज आसत जाल्यार, तो खरो न्हय. तुज्या म्हज्या जण एकल्याच्या अंतस्कर्णांत एकलो दोळे उकते करून बशिल्लो आसा. तो सगळें पळेता. ताका सगळें खबर आसा. तूं ताका फटोवं नाका. आपुण तुका व्हरतलों म्हुण तुवें म्हाका सांगिल्लें. व्हरपाक कोण आयलो ना म्हुण हांवूच उठून आयलें. आपय नासतना हांव आयलें म्हुण तूं म्हजो अवमान करूं नाका. ही जी तुज्या दारांत चलत आयल्या ती लक्ष्मी. कळ्ळें मू. तिची पुजा करून तिका येवकार दिवपा बदला तिका तूं धांवडावन घालशीत जाल्यार तुजें बरें जावचें ना. दिल्ल्या उतराक तूं जागपाचो नासशीत जाल्यार, लक्षांत दवर, हांगाच्या हांगा तुजें मस्तक फुटून ताचे कुडके जातले. पुताच्या रुपान घोवूच जल्मा येता

बायलेच्या पोटांत. देखून बायलेक 'जाया' म्हणटात. जिका भुरगीं जातात आनी जिका घोव म्हळ्यार प्राण तिका 'भार्या' म्हणटात. दादल्याचें अर्दें आंग बायलमनीस. तीच तागेली खरेली मैत्रीण. तिच्याच आधारान तो सगळे पुरुषार्थ करूंक पावता. तिच्याच आधारान तो देव, पितर आनी ऋषिंच्या रिणांतल्यान मेकळो जावंक पावता. जाका बायल आसा ताचोच संवसार बरो चलता. जिणेंत खुशालकाय आनी संवसारांत गिरेस्तकाय तीच मनशाक जोडून दिता. एकांतांत ती तागेली मैत्रीण. संकश्टां वेळार आवय आनी धर्मकार्यां वेळार बापुय. सांगाताक बायल आसत जाल्यार रानांत लेगीत मनशाक घरा आशिल्ले वरी दिसतलें. जिविताचे यात्रेंत तीच तागेल्या सांगातान कठीण वाटो चलता. राजा, लक्षांत दवर, आपले पसून जाल्लो पुत खासा आपुणूच आसता. देखून पुताचे आवयक आपले आवय इतलोच भौमान फावता. हुसक्यांनी मन आनी पिडेन कूड खासावीस जाता तेन्ना बायलूच ताका सुखायता. देखून रागान लेगीत ताणे केन्ना बायलेक उणें उतर दिवंचें न्हय. रती, प्रीती आनी रिती तिचेच सुवादीन उरतात.

राजा, मातयेंत लोळिल्लो लेगीत पुत बापायक वेंग मारता तेन्ना बापायक जी खोस भोगता तिका सर ना. पुताचे वेंगेंत भोगता तें सुख रस्मी लुगटांत ना. बायलेचे वेंगेंतूय ना, उदकांतूय ना. पुताचे वेंगे सारकें दुसरें सुखूच ना. हो तुगेलो पुत किरकोळांतलो न्हय. तो जल्मा आयला तेन्नाच, हो शंबर अश्वमेध यज्ञ करतलो, अशी आकाशवाणी जाल्ली. राजा, किरकोळ मनीस लेगीत पयसल्यान येतकूच पुताक वेंगेंत घेवन खुशालभरीत जाता. आनी तूं येदो व्हडलो राजा जावन सस्त बसला. इतलेंच न्हय, तर परतो ताचो अवमान करता! राजा, तळयेंत पळेता तशें हाच्यांत तुगेलें रूप पळे.

'राजा, उगडास जाता व्हय तुका, एक खेपे तूं भोंवडेक गेल्लो. भोंवत भोंवत कण्व मुनिच्या आश्रमांत पाविल्लो. हांवें तुका येवकार दिल्लो. हांव तेन्ना आंकवार. म्हजी खबर हांवें तुका सांगली. तपाक बशिल्ल्या विश्वामित्राक भाळोवपाक मेनका कशी आयली, कोणाचे सांगणेन आयली, तिका पळोवन विश्वामित्र कसो भाळ्ळो, तिगेल्या पोटांत भुरगें कशें उल्लें, उपरांत तें भुरगें सोडून ती कशी गेली....सगळी कथा हांवें तुका सांगिल्ली. देवा रे! आदल्या जल्मांत हांवें कसलें पातक केल्लें, तूंच जाणा! भुरगेपणांत म्हाका आवयन सोडली. तरणेपणांत आतां घोव सोडटा!!'

मात्सो उस्वास सोडून तिणे म्हळें : 'राजा, भियेवं नाका. हांव तुका नाका आसन जाल्यार बाबाचो आश्रम आसा म्हाका. थंय वचून हांव रावीन. पुणून तुगेल्या पुताक भायर घालूं नाका. हो पुत तुजोच.'

दुष्यंत उसळ्ळो. 'तुमी बायलो चांटे पावलाक फटी मारपी. कोण खरें खातलो तुमी सांगतात तें. तूंच सांगता मेनका आपणाली आवय म्हुण. तीच मू ती, धा जाणांची बायल? तिगेली ध्रुव तूं. दयामाया नाशिल्ली पोटच्या पोराक वाऱ्यार उडोवन वचपी आवय तुगेली. आनी बापुय? क्षत्रिय जावन ब्राह्मण जावपाक आंवडेवपी. तरी आसतना पडलोच मू एके बायल-मनशेच्या जाळांत. जावं, असल्या आवय बापायची ध्रुव कसली आसतली. पुणून सोड. म्हाका हें लागना. अप्सरेंत मेनका तसो ऋषींत विश्वामित्र व्हड. पुणून तूं तांगेली ध्रुव म्हुण कोण सांगता. तूं सांगता तें खरें कित्या वयल्यान. तूं उलयता तें शिंदळकेक सोबपा सारकें. मातूय लज दिसना तुका फटी मारपाक. त्योय म्हज्या मुखार. लाग चलूंक हांगासल्ली. म्हाका उलोवंक लावं नाका.' दुष्यंतान पुता कडेन पळोवन म्हळें: 'एक सांग गे, हो स वरसांचो भुरगो गे? स वरसांचो भुरगो मानाय कसो धिप्पाड आसता व्हय गे. कोणाक फटयता गे तूं. तुगेलो भेस, तुगेली भास आनी तुगेल्या ह्या दिवट्याचें रूप पळेल्यार तूं उणाक म्हुण कोणूय सांगीत. मेनकेचो धंदो परकी दादल्यांक भुलोवपाचो. खंयच्या उणाकाक भुलयलो तिणे, तिकाच खबर! तसल्याच कोणा पसून जाली जातली तूं. तूं कितें उलयता, हांव नकळं. तुका हांव वळखऽ लेगीन ना. लाग चलूंक हांगासल्ली तोंड घेवन.'

आपणाक हे तरेचो येवकार मेळत अशें शकुंतलेक दिसूंक नाशिल्लें. तिच्यान सोंसूं नज जालो हो अवमान. तिच्यो नाका पुडयो फुल्ल्यो. तिडकीन ती उसळ्ळी, 'राजा, तुका दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें कुसळ दिश्टी पडटा खरें. पुणून आपणाल्या दोळ्यांतलें मुसळ मात दिश्टी पडना. हांव मेनकेची ध्रुव. मेनका देव लोकांतली. देवूच तिच्या फाटल्यान आसतात. म्हजी जात वयर काडूं नाका, कळ्ळें? तुजे जाती परस म्हजी जात कितलिशीच ऊंच. तुजी जात जमनीर चलपी लोकांची. म्हजी स्वर्गांत उडपी लोकांची. कळ्ळो मूं फरक, तुजे म्हजे जातीं मदलो. राजा, तुका दुखोवपाक सांगिना. पुणून आयक: हारशांत तोंड पळेना ते मेरेन कुरूप आपणाक सरूप लेखतलो. हारशांत ताका आपणालें खरेलें रूप दिसतलें. बरो मनीस दुसऱ्यांक उणे उतर दिना. उणे उतर दितल्याक निंदक म्हणटात आनी निंदक दुश्टूच आसता. बरो मनीस कोणाची निंदा करिना आनी निंदा आयक लेगीत ना. चुकून कानार पडली जाल्यार तो खंतीन फणफणटा. हाच्या उरफाटें, दुश्टाक सदां निंदा आवडटा. निंदा करीन दिसता. निंदा करुनूच तो सुख भोगता. आयुश्यभर निंदेच्या कोणांत दुकरा वरी लोळून सुख भोगता. असल्याक हांसचें काय रडचें, समजना. राजा, तुका सत्याची मात पसून पर्वा ना. सत सोडटल्याक

सोरपा सारको विखाळ म्हणटात. लोक ताका भियेतात. आपल्या पुताक जो आपलो मानिना ताचें देवूच पळोवन घेतलो. पुत घराचो दिवो. घराची कीर्त तोच वाडयता. तोच आवय-बापायक तारता. तुंवें सत सामकेंच सोडलां काय कितें. एक खेपे खंय देवांनीं हजार अश्वमेध यज्ञ तागडेच्या एका दाल्यांत घाले आनी सत दुसऱ्या दाल्यांत. तेन्ना, सत्याचें दालें जड जालें. सत्या परस व्हड संवसारांत दुसरें कांयच ना. राजा, तुका सत्याची पर्वा नासत जाल्यार, आयक : तुजी सावळी लेगीत हांव म्हज्या आंगार पडूंक दिवचीं ना. तुजें तोंड लेगीत पळोवचीं ना. पुणून सांगून दवरतां : हो म्हगेलो पुत राजाच जावपा खातीर जल्मा आयला. तुज्या आधारा बगर, तुजे आड लेगीत वचून तो पुराय धर्तरेचेर राज्य करतलो. कळ्ळें ?'

अशें म्हणून शकुंतलेन राजाक फाट केली आनी पुताक घेवन ती भायर सल्ली.

इतल्यांत आकाशवाणी जाली : 'राजा, शकुंतला सांगता तें खरें. एक खेपे न्हय, तीन खेपो खरें. तुगेलोच पुत हो, राजा, आपल्या खाशेल्या पुताक आपलो न्हय म्हणप हाचे सारकें दुर्भाग्य दुसरें ना. शकुंतलेक आडाय. वचूंक दिवं नाका.''

आकाशवाणी राजान आयकली. मंत्र्यांनीं, पुरयतांनीं आनी पुराय राजसभेन आयकली. तेन्ना दुष्यंत शिंवासना वयलो उठलो आनी म्हणूंक लागलो : 'देवदुतांनीं जें सांगलां तें तुमी सगळ्यांनीं आयकलां. शकुंतला सांगता तें खरें. हो पुत म्हजो , हांव हें जाणां आशिल्लों. पुणून शकुंतला सांगता म्हुण हांवें तें खरें मानिल्लें जाल्यार तुमी तें खरें मानचे नाशिल्ले. देखून इतलो वेळ हांवें हें नाटक केल्लें. आतां देवदुतांनीं खरें कितें तें सांगलें, आतां दुबावाक सुवात उरूंक ना.'

पुराय राजसभेन खोशयेन ताळयो माल्ल्यो. खोशयेच्या ह्या गजरांत दुष्यंतान पुताक लागीं ओडलो. ताका घट वेंगेंत घेतलो. शकुंतलेच्या खांदार हात दवरून तिका प्रासादांत व्हेली. भितर सरतना ताणे शकुंतलेच्या तोंडा कडेन पळेलें आनी म्हळें, 'तुका वायट दिसलां जातलें. पुणून म्हाका हें नाटक करचें पडलें. लोकांचे नदरेन तुका शुद्ध केले बगर हांवें तुका घरांत घेतिल्ली जाल्यार हाका युवराजपद मेळपाक कठीण वतलें आशिल्लें. आतां सगळें विसरून वचंपाचें.'

शकुंतला ताच्या तोंडा कडेन पळोवन मुमुर्ख्यांनी हांसली. कांय दिसांनीं दुष्यंतान पुताक भरत नांव दवल्लें आनी ताका युवराजपदाचो अभिषेक केलो.

उपरांत भरतान कितलेशेच यज्ञ केले. उत्तरे कडल्या उत्तुंग हिमालया पसून दक्षिणेकडल्या विशाल सागरा मेरेनची आनी उदेंते पसून अस्तमे मेरनचीं सगळीं ल्हान व्हड राज्यां जिखून ताणे पुराय देस एक केलो. न्याय-नितीक धरून

कितलीशींच वरसां ताणे राज्य चलयलें. पौरव कुळांतल्या ह्या भरता पसून भरतकुळ सुरू जालें. पांडव आनी कौरव ह्याच कुळांतले.

कालिदासान आपणाल्या शाकुंतल नाटका खातीर महाभारतांतल्याच ह्या आख्यानाचो आधार घेतला. दोना मजगतीं खंय खंय सारकेपण आनी खंय खंय वेगळेपण दिसून येता तें ह्याका लागून.

# ३. नळ दमयंतिचें आख्यान

काम्यकवनांत एक दीस पांडवांक मेळपाक बृहदश्व ऋषी आयिल्लो. युधिष्ठिरान चालीक धरून ताची पुजा केली आनी म्हळें, 'कपट विद्येंत पाटांगड्या लोकांनी म्हज राज्य व्हेलें. संपत व्हेली. म्हाका नाडलो. म्हज घरकान्निची लेगीत लज काडली आनी द्युतांत आमकां जिखून आमकां वनवासाक धाडून दिले. खूब जाणांनी म्हाका दुशण दिलें. कितें कितें म्हळें. तें सगळें येवजता तेन्ना न्हीद पडना. म्हजे इतलो दुख्खी हे धर्तरेचेर कोणूच जावंक ना जातलो.'

'तूं एकलोच दुख्खी हो तुजो समज खरो न्हय', ऋषीन जाप दिली. 'निषध देशांतल्या वीरसेन राजाचो पुत नळ तुजेच वरी धर्मात्मो आशिल्लो. तोवूय द्युतांत नागवल्लो. दुख्ख सोंशीत तोवूय रानांत वचून राविल्लो. तुज्या सांगाताक तुजे हे चार वीर भाव आसात. तुजी घरकान्नूय तुज्या म्हऱ्यांत आसा. व्हडले व्हडले बुदवंत ब्राह्मण तुज्या सांगाताक रावतात. नळाच्या म्हऱ्यांत कोणूच नाशिल्लो.'

अशें म्हणून बृहदश्वऋषीन युधिष्ठिराक नळ-दमयंतिची कथा सांगली— ]

वीरसेन राजाचो पुत नळ रुपेस्त गुणेस्त आनी बळिश्ट आशिल्लो. अश्वविद्येंत पाटांगडो. निषध देशाचो तो राजा. भोंवतणचो सगळो लोक ताका मानतालो. कित्याक, तो सगळ्या आंगांनी सगळ्यां परस व्हड आशिल्लो.

ताका एकूच छंद : पाशांनी खेळपाचो.

ते वाटेन विदर्भ देशाचो राजा भीम शूर आनी कर्तुत्वी म्हुण लोकिकाक पाविल्लो. ताका भुरगीं नाशिल्लीं. भुरगीं जावचीं म्हुण ताणे यज्ञ याग केले. ते फळाक आयले नात तेन्ना तो निर्शेलो. एक दीस तागेर दमन नांवाचो एक ब्रह्मर्षी पावलो. राजा राणयेन ताची खूब सरबराय केली. ऋषीन वतना राणयेक आशीर्वाद दिलो : तुका तीग पुत आनी एक धुव जातली.

कांय काळान तांकां तीग पुत आनी एक धुव जाली. पुतांक तांणी नांवां दवल्लीं : दम, दान्त आनी दमन, आनी धुवेक दवल्लें दमयंती.

दमयंती रुपान सुंदर. देव मनीस यक्ष कोणागेरूच ह्या आदीं इतली सुंदर चली जावंक नाशिल्ली. खंयच कोणे इतली गोमटी चली पळोवंक नाशिल्ली. शंबर दासयो तिचे सेवेक आसताल्यो. ह्या दासयां मजगतीं ती बसताली तेन्ना ती पावशी कुपां मजगतीं वीज कशी सोबताली.

नळाचीय देखणो म्हुण नामना जाली.

दमयंतिच्या भोंवतणच्या लोकांनी तिका नळाच्या रुपाच्यो खबरी सांगच्यो आनी नळा भोंवतणच्या लोकांनी ताका दमयंतिच्या रुपाच्यो सांगच्यो. एकामेकांची तुस्त आयकून दोगांकूय ऐकामेकांची ओड लागली. ही ओड दिशीं

माझीं वाडत गेली.

नळाच्या अंतःपुरा मुखार एक सुंदर पोरसूं आशिल्लें. एक दीस नळ त्या पोरसांत एकलोच बशिल्लो. अवचित थंय भांगरा पांखांचीं कांय हांयसां उडत उडत आयलीं. नळान तांतल्या एकाक धर्ले. हो आतां आपणाक मारतलो अशें हांयसाक दिसलें. हांयस भियेलें. काकुळटेक येवन तें नळाक म्हणपाक लागलें, 'कितेंय कर' पुणून उपकार करून म्हाका मारूं नाका. तूं सांगशीत तें काम हांव करतां. तुका जाय जाल्यार दमयंती सरीं वतां आनी तिच्या मुखार तुजी तुस्त गायतां. तिची दुसऱ्या खंयच्याच दादल्याचेर नदर पडची ना अशें करतां.'

'बरें तर. हेंच काम कर' अशें म्हणून नळान हांयसाक सोडून दिलें. हांयस उडत उडत विदर्भ देशांत गेलें. ताच्या सांगातान बाकिचींय हांयसां गेलीं. दमयंतिच्या राजमंदिरांत वचून तीं मुखावयल्या आंगणांत बसलीं. दमयंतीन असलीं हांयसां पयलीं पळोवंक नाशिल्लीं. तांकां पळोवन ती अजापांत पडली. भुलुसली. तांकां धरपाचो यत्न करपाक लागली. अवचित तांतलें एक हांयस मनशांचे भाशेंत उलोवपाक लागलें, 'जाणा व्हय तूं दमयंती, निषध देशांत नळ नांवाचो एक राजकुंवर आसा. रुपान बद्द मदन. अश्विनीकुमारां सारको. तूं ताची राणी जाशीत जाल्यार तुज्या जल्माचें सार्थक जातलें. देव मनीस गंधर्व नागांत आमी एका फुडले एक देंखणे पळेल्यात. पुणून हाचे सारको कोणूच पळोवंक मेळूंक ना. तुंवूंय बायलांत रत्न. तुमी एकामेकांचीं जावचीं.'

'हेंच तूं नळ राजाक वचून सांग.' दमयंतीन म्हळें.

हांयसां निषद देशांत परतलीं. घडिल्लें सगळें तांणी नळ राजाक सांगलें.

दमयंती दीस रात नळाचो ध्यास घेवन बसली. नळ आपणाक करसो मेळटलो ह्या हुसक्यांत तिची न्हीद खळ्ळी. तिका उंडी वचना जाली. कितेंच रुचना जालें. येवजून येवजून ती सुकली. तिच्या तोंडा वयली कान्त गेली. तिची ही गत्त पळोवन तिगेल्यो इश्टिणी भियेल्यो. त्यो तिच्या बापाय सरीं गेल्यो. ताका विचाल्लें, 'दमयंतिची गत्त कितें जाल्या, खबर आसा व्हय तुका?'

'कितें जाल्या?'

'ती साप्प भागल्या.'

'ही आतां लग्नाची जाली.' बापायन मनांत म्हळें आनी ताणे तिचें स्वयंवर करचें थारायलें. सगळ्यांक आमंत्रणा धाडून दिलीं.

नारद आनी पर्वत नांवांचे दोग ऋषी आशिल्ले. ते ह्याच दिसांनी इन्द्रलोकाक पावले. इन्द्रान तांचे कडेन धर्तरेवयल्या राजांची खबर घेतली. आनी विचाल्लें:

'कशे आसात ते? तुर्ताक खंय आसात?'

'ते सगळे दमयंतिच्या स्वयंवराक गेल्यात'. नारदान ताका जाप दिली. दमयंतिच्या रुपाची तुस्तूय नाणे केली.

तिची तुस्त आयकून इन्द्रा सयत हेर देव भुल्लुसले. 'आमीय स्वयंवराक गेल्ले बरे' अशें येवजून तेवूय भायर सल्ले.

ते विमानांत बसून वताले. वाटेर तांकां नळ दिश्टी पडलो. तोवूय स्वयंवराक वतालो. नळाचें तेज आनी रूप पळोवन देव निर्शेले. मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागले, 'हो थंय पावलो जाल्यार, आमकां कोण विचारचो ना. दमयंती आमचेर नदर लेगीत घालची ना. ती हाच्याच गळ्यांत माळ घालतली.'

देव कपटी. ते विमानांतल्यान देंवले आनी नळाक वाटेरूच आडावन तांणी म्हळें, 'तुजे सारको सत्यनिष्ठ आनी कोण ना. तूं आमचें एक काम करशीत व्हय.'

'बरे भाशेन', नळान जाप दिली आनी विचाल्लें, 'तुमी कोण. हांव तुमकां वळखूंक ना.'

इन्द्रान जाप दिली, 'आमी देव. हांव इन्द्र. हो अग्नी, हो वरुण आनी हो यम. दमयंती खातीर आमी धर्तेर आयल्यात. आमी आयिल्ल्याची खबर दमयंतीक वचून सांग आनी आमचे भितल्ल्या कोणाय एकल्याच्या गळ्यांत माळ घाल म्हुण सांग.'

नळ घुटमळ्यांत पडलो. ताणे म्हळें, 'हांवूय त्याच स्वयंवराक वतां, तिणे म्हज्या गळ्यांत माळ घालची म्हुण. अंतरस्कर्णाक जिची ओड लागल्या तिका दुसऱ्याच्या गळ्यांत माळ घाल म्हुण कोण सांगीत. रागार जावं नाकात. म्हज्यान तुमगेलें हें काम जावपाचें ना.'

देवांनी ताका उतराक धरिल्लो. तांणी म्हळें, 'आमचें काम करशीत काय म्हुण आमी तुका विचाल्लें त्या वेळारूच तुवें कसलें काम काय म्हुण विचारपाचें. त्या बदला तुवें काम करतां म्हळें. आतां फाटीं सरतलो व्हय तर. तूं उतराचो मनीस म्हुण तुजी नामना. चल, वेळ होगडावं नाका. दिल्ल्या उतराक पाळो दी. वचून सांग तिका आमी सांगलां तें.'

नळान एक अडचण उकतावन दाखयली. ताणे म्हळें, 'राजमंदिरांत भितर कोणाक वचूंक मेळना म्हुण आयकलां. हांव कसो पावतलों.'

'पावतलो, वचून पळे तूं.' इन्द्रान जाप दिली.

नळ गेलो आनी कसलीच आडखळ नासतना सोमतो भितर पावलो.

भितर दमयंती आपणाल्या इश्टिणी मर्दी बशिल्ली. तिगेलो आंगलोट, तिगेले दोळे, चान्न्याक लेगीत फाटीं घालीत असली तिगेली कान्त पळोवन नळ दिपकावलो. हे वाटेन नळाक पळोवन दमयंती आनी तिगेल्यो इश्टिणी दिपकावल्यो. त्यो घुटमळ्यांत पडल्यो. कितें तेज हाचें, कितें कान्त, कोण काय हो. सगळ्यो मनांतल्या मनांत आपणाक विचारपाक लागल्यो. त्यो लजेल्यो आनी भितर पळून गेल्यो. एकली दमयंतीच थंय बसून रावली. तिका पळोवन नळ मुमुरख्यांनी हांसलो. दमयंतीन ताका विचाल्लें, 'देवां सारको देखणो तूं, हांगा कसो पावलो. हांगा पावप सोपें नाशिल्लें. तुका कोणेच वाटेर कसो आडायलो ना. कोण तूं.'

'हांव नळ,' नळान जाप दिली. 'देवांनी म्हाका हांगा धाडला. तांच्याच प्रभावान हांव हांगा पावलां. इन्द्र वरुण अग्नी यम बी देव तुका जोडपाच्या हावेसान स्वयंवराक आयल्यात. तांचे भितल्ल्या एकल्याच्या गळ्यांत तुवें माळ घालची अशें तांणी तुका सांगून धाडलां. तें सांगपाक हांव हांगा आयलां. येतना म्हाका कोणे आडावंक ना, कोणे पळोवंक लेगीत ना.'

'कितें करचें तुका, समजना.' दमयंतीन खंती जावन म्हळें, 'हांयसांनी तुजी खबर सांगीत पसून हांव हांगा तुका जोडपाचे इत्सेन तळमळटां. तूं येवचो म्हुण स्वयंवराचें निमित्त करून सगळ्या राजांक हांवें हांगा एकठांय केल्यात. आनी तूं दुसऱ्याच्या गळ्यांत माळ घाल म्हुण म्हाका सांगता? हांवें म्हाका तुज्या पांयां कडेन ओंपल्या. म्हाका तूं आपली राणी करून घे, ना जाल्यार हांव विख्ख खावन जीव दितलीं वा हुलपावन घेतलीं, उदकांत उडी घेवन बुडून मरतलीं वा गोळाक लावन घेतलीं.'

कितें जाप दिवची, नळाक समजलें ना. तो विचारपाक लागलो, 'तुका जोडपाच्या हावेसान येदे व्हडले देव हांगा आयिल्ले आसतना तांकां सोडून म्हाका सो तुवें वेंचून काडला? तांच्या पांयां पोंदच्या धुल्लाची लेगीत सर म्हाका येवपाची ना. त्या भायर, तूं जाणा जा, देवांचे इत्से आड जो वता ताका रोखडेंच मर्ण येता. म्हुण हांव तुजे कडेन मागतां, तूं तांचे भितल्ल्या एकल्याक वेंचून काड आनी म्हाका मरणांतलो वाटाय. देवांच्या सांगातान तुका खूब मेळटलें. म्हजे कडल्यान मेळटलें आशिल्लें ताच्याकूय लाख वाट्यांनी अदीक मेळटलें.'

दमयंतिचे दोळे भरून आयले. तिणे देवांक मनांतल्या मनांत नमस्कार केलो आनी नळाक सांगलें, 'म्हजो घोव म्हुण हांव तुकाच एकल्याक मानपी.'

नळाच्या आंगाक थरथरो भल्लो. ताणे म्हळें, 'हांवें तांकां तुमचें काम करतां म्हुण उतर दिल्लें. तांचेंच काम करपा खातीर हांव हांगा आयिल्लों.'

दमयंती हांसली. तिणे म्हळें, 'तुवें तुजें काम केलें. फुडलें काम म्हजें. तूं देवां बरोबरूच स्वयंवराक यो. देवां हुजीर हांव तुज्या गळ्यांत माळ घालतलीं. तुका दुशण लागपाचें ना.'

नळ परतलो. आपुण भितर कसो पावलों, भितर दमयंती कडेन आपलीं कसलीं उलोवणी जालीं आनी निमाणे दमयंतीन कितें सांगलें तें सगळें ताणे एक उतर हे वाटेनचें ते वाटेन करी नासतना देवांक सांगलें. आनी म्हळें, 'मुखार कितें करपाचें तें आतां तुमी थारायात.'

देव म्हणूंक लागले, 'बरें आसा.'

स्वयंवराचो दीस उदेलो. देशविदेशांतले कितलेशेच राजकुंवर स्वयंवराक आयिल्लें. सगळे आपापल्या आसनार बशिल्ले. दमयंती मंटपांत भितर सल्ली. तिगेलें रूप पळोवन सगळे दोळ्यांनी तिचीं आंगां सांसपूंक लागले. एक एकल्याचें नांव आयकत आयकत ती मुखार येवपाक लागली. अवचित एके कडेन तिका एकाच रुपाचे पांच जाण दिश्टी पडले. पांचूय जाण नळा सारके दिसताले. पांचां भितल्लो खरेलो नळ खंयचो, तिका वळखूंक येना जालो. 'देवा', तिणे मनांत म्हळें, 'हांतलो नळ खंयचो, कसो कळटलो' तिणे पांचांकूय बारकायेन नियाळ्ळे. तिका उगडास जालो, एका एका देवाची एक एक कुरू आसता. तिणे हें जाणटेल्यां कडल्यान आयकलें. पुणून हांगा एकल्याचीय कुरू नदरेंत पडना. ती घुटमळ्यांत पडली निमाणे, तिणे देवांकूच शरण वचचें अशें थारायलें.

तिणे मनापसून देवांक नमस्कार केलो आनी म्हळें—

'हांयसांच्या तोंडांतल्यान तुस्त आयकत पसून हांवें नळाकूच म्हजो घोव म्हुण मानला. हें खरें आसत जाल्यार देवांनीच म्हाका नळ घोव म्हुण दिवचो. मनान आनी सपनांत लेगीत नळ सोडून हांवें कोणाचेर मोग करूंक ना. हें खरें आसत जाल्यार देवांनी म्हाका तो जोडून दिवचो. नळ मेळचो म्हुण स्वयंवर घडोवन हाडिल्लें. हें खरें आसत जाल्यार नळ खंयचो तें दाखोवपाक देवांनीच म्हाका आधार दिवचो.'

दमयंतिचें नितळ काळीज, तिचो नित्शय, नळा वयलो तिचो मोग पळोवन देव खुशाल भरीत जाले. रोखड्योच तांणी आपापल्यो कुरवो आपापल्या आंगार घेतल्यो.

दमयंतीन तांकां पर्थून नियाळून पळेले. चौगांचे पांय जमनीक तेंकूंक नाशिल्ले. चौगूय दोळ्यांची पाती हालय नासतना थीर पळेताले. चौगांकूय हूम येवंक नाशिल्ली. तांच्या गळ्यांतले माळेंतलीं फुलां बावूंक नाशिल्लीं. फकत एकल्याचे माळेंतलीं फुलां बाविल्लीं. तो हुमेन चिप्प जाल्लो. ताच्या दोळ्यांच्यो पातयो

हालताल्यो. ताचे पांय जमनीक तेंकिल्ले आनी जमनीर ताची सावळी पडिल्ली.

ती वळखली, 'हो नळ'. आनी कळाव लायनासतना तिणे ताच्या गळ्यांत माळ घाली.

बाकिचे राजा ओरेरेरे करून निर्शेले. देव आनी ऋषी खुशालभरीत जाले. सगळ्यांत चड खुशालभरीत नळ जाल्लो. ताणे दमयंतीक म्हळें, 'देवांक सोडून तुवें म्हाका वेंचून काडलो. जिवांत जीव आसासर हांव तुजोच उरतलों.'

सगळे आपापल्या राज्यांत परतले. देवांनी नळ आनी दमयंतीक आशीर्वाद दिले. कांय दिसांनी विदर्भाच्या राजान दोगांयचें लग्न लावन दिलें.

उपरांत नळ दमयंतीक घेवन आपल्या राज्यांत गेलो. आनी तिच्या सांगातान सुखान रावपाक लागलो.

स्वयंवर सोंपल्या उपरांत देव स्वर्गार वचपाक भायर सल्ले. वाटेरूच तांकां कळी दिश्टी पडलो. तो द्वापरा सयत आयिल्लो.

'खंय चल्लो गा', इन्द्रान कळीक विचाल्लें.

'दमयंतिच्या स्वयंवराक', कळीन जाप दिली.

इन्द्राक हांसो आयलो. 'दमयंतिच्या स्वयंवराक वचपाक येदो कळाव कसो लायलो तुवें. स्वयंवर जालें. उलगलें. दमयंतीन नळ राजाच्या गळ्यांत माळ घाली. आमीय स्वयंवराक गेल्ले. थंयच्यानूच आमी येतात.'

कळीक भिरभिरी माल्ली. ताणे तिडकीन विचाल्लें, 'अब्बा! तुमचे सारकेले देव थंय गेल्ले आसतना तुमकां सोडून तिणे एका मनशाक वेंचून काडलो? तिका ख्यास्त करचीच पडली.'

'तिणे आमचेच मान्यतायेन नळाच्या गळ्यांत माळ घाल्या.' इन्द्रान सांगलें. 'तिका ख्यास्त करप पिशेपणाचें. ख्यास्त करपी आपलोच घात करून घेतलो.'

कळिची तिडक वचूंक नाशिल्ली. तो द्वापराक म्हणपाक लागलो, 'द्वापरा, तिडक गळाबंदा येना रे! नळाक कितेंय तरी ख्यास्त करुंकूच जाय. अशें करतां, हांव नळाचे कुडींत (आंगांत) भितर वचून रावतां. ताका राज्या वयलो हालोवन रानांत धाडले बगर म्हाका सुख लागपाचें ना. ताका दमयंती सांगातान सुखान रावंक दिवचों ना. तूं म्हाका आधार दितलो मरे, तूं पाशांनी वचून राव.'

कळी सोमतो उठून निषध देशांत गेलो आनी नळाच्या राजमंदिरा भोंवतणीच भोंवपाक लागलो. केन्ना संद मेळटा आनी केन्ना आपुण ताचे कुडींत भितर सरतां अशें ताका जाल्लें. बारा वर्सां तो वाट पळेत रावलो. ताका ह्या बारा वरसांत संदूच मेळूंक पावली ना.

एक दीस नळ पांय धूय नासतना संध्येक बसलो. खिणाचोय कळाव लाय नासतना कळीन हे संदेचो लाव घेतलो आनी तो ताचे कुडींत भितर सल्लो.

इतलेंच न्हय, तर तो पुष्कर राजागेर लेगीत गेलो आनी ताका नळा वांगडा द्यूत खेळ म्हुण फुलोवपाक लागलो : 'हांव येतां तुज्या आधाराक. तूं खेळ आनी ताचें राज्य सगळें जिखून घे.'

कळिचे सांगणेन पुष्कर नळा सरीं आयलो आनी दमयंती हुजीरच 'चल, यो खेळपाक' म्हुण ताका आपोवपाक लागलो.

दमयंती हुजीर हो आपणाक खेळपाक आपयता, तेंवूय आह्वानाच्या रुपान आपयता, हें नळाक सोंसलें ना. ताणे ल्हिडकीन पुष्कराक जाप दिली, 'चल यो, खेळुंया.'

दोगूय खेळपाक बसले.

लायिल्लो दाव पुष्कर जिखता हें पळोवन नळ दावार दाव लावपाक लागलो. ताणे भांगर लायलें, रत्नां लायलीं. घोडे रथ दास दासयो सगळें लायलें आनी सगळें होगडायलें.

खेळांतलो ताका उठोवचो म्हुण तागेले मंत्री आयले. तो उटना तें पळोवन मंत्री दमयंती सरीं गेले. दमयंती आयली. नळ तिकाय आयकना जालो. ती काकूळटेक आयली : 'भायर पळे कोण कोण तुका मेळपाक आयल्यात ते', तिणे पांयां पडून ताका सांगलें. तो जापूच दिना जालो. नळाक सुद्धूच उरूंक नाशिल्ली. ताका मस्ती चडिल्ली. तो एका सारको खेळत रावलो.

आनी सगळें होगडावन मेकळो जालो.

दमयंती भियेली. ह्या वेळार आपणाली लागणूक कितें, आपणे कितें करूंक जाय, ती येवजूंक लागली. कांयच केलें ना जाल्यार अनिष्ट चुकपाचें ना, ह्या हुसक्यांत पडली. बृहत्सेना नांवाची तिगेली एक दासी आशिल्ली. तिचें बरें मागपी. तिचो मोग करपी. गोड उलोवपी. तिका तिणे आपोवंक धाडली आनी तिका सांगलें, 'परती मंत्र्यां कडेन वच. नळान तांकां आपयल्यात म्हुण सांग आनी कितें होगडावलें, कितें उल्लां तें तांकां विचारून म्हाका येवन सांग.'

बृहत्सेना मंत्र्यांक घेवन दमयंती सरींच आयली. तांकां घेवन दमयंती परती नळा म्हऱ्यांत गेली. 'हे पळे, तुगेले मंत्री तुका मेळपाक आयल्यात.' तिणे नळाक म्हळें.

नळान लक्षूच दिलें ना.

सगळे निर्शेले. दमयंतीय निर्शेवन भितर गेली.

नळाचे पाशे उरफाटेच पडपाक लागिल्ले.

दमयंती उचांबळीत जाली. तिणे आपणाल्या सारथ्याक आपोवंक धाडलो. ताका सांगले, 'राजा आपले सुवादीन उरूंक ना. पाशे उरफाटे पडटात तितलो तितलो नो पेटून उठ्ठा. कोणाचेंच आयकना. म्हजेंय आयकना. एक कर, रथाक घोडे जोड आनी ह्या म्हज्या दोगांय भुरग्यांक व्हरून पयलीं आजोळा पावतीं कर. तूंय थंयच राव वा तुका जाय थंय वचून राव. आमच्या नशिबांत कितें आसा, खबर ना.

इन्द्रसेन आनी इन्द्रसेना ह्या दोगांय भुरग्यांक घेवन सारथी विदर्भ देशांत गेलो. भुरग्यांक आज्या सुवादीन केलीं आनी आपुण अयोध्येक ऋतूपर्ण राजाच्या आलाशिऱ्याक वचून रावलो.

द्युतांत पुष्करान नळाचें राज्य जिखलें.

'कितें उल्लां आतां तुजे कडेन', ताणे नळाक विचाल्लें आनी म्हळें, 'एक दमयंती उल्ल्या. तिवूय लायता जाल्यार लाय.'

नळाक तिडक माल्ली. पुणून ती ताणे गिळ्ळी. ताणे आंगा वयल्यो सगळ्यो वस्ती दैंवयल्यो. सगळीं वस्त्रां काडलीं. सगळें पुष्कराक दिलें आनी फकत एका वस्त्रान तो उठून गेलो.

बद्द रानांत गेलो.

ताच्या फाटल्यान दमयंतीय गेली. पतिव्रतेच्या धर्माक पाळो दिवन तिवूय एकाच वस्त्रान गेल्ली.

पुष्कर आतां निषध देशाचो नवो राजा जाल्लो. ताणे हुकूम सोडलो : नळाची सेवा सरबराय कोणेच करूंक जायना. ताचे कडेन उलयतल्या बसतल्याक लेगीत ख्यारस्त जातली.

लोक भियेलो. नळाचे खबरेक लेगीत कोण गेलो ना.

नळ तीन दीस उपाशीं उल्लो. ताच्या वांगडा दमयंतीय उपाशीं उल्ली.

चवथ्या दिसा अवचित ताका कांय शेवणी दिश्टी पडलीं. 'हांकां मारून खावंया', अशें ताणे येवजिलें. पुणून तांकां धरतलो कसो. ताचे कडेन कितेंच नाशिल्लें. ताणे आपणालें न्हेसण सोडोवन तांचेर उडयलें. न्हेसण घेवन शेवणी उडून गेलीं. नळ तोंड आं करून तांचे कडेन पळेत रावलो. इतल्यांत ताच्या कानार एक आवाज पडलो : 'जाणा व्हय तूं, आमी कोण ते. आमी पाशे, शेवणीं जावन आयिल्ले. तुज्या आंगार एक वस्त्र उल्लां तें लेगीत आमकां सोंसूंक नाशिल्लें. आमी तें वस्त्र व्हरपाक आयिल्ले.'

नळान मान सकल घाली. ताणे दमयंती कडेन पळेलें. ताका तिची काकूळट दिसली. आपणाक आतां कशे दीस काडचे पडटले, कोणाक खबर. तांतूंन हिचें कितें जातलें. ताणे दमयंतीक म्हळें, 'म्हजी गत्त कितें जाल्या ती पळेता तू. म्हाका लागून तूं कित्याक बेश्टी त्रासांत पडटा. तुज्या बऱ्या खातीर सांगतां, ह्यो पळे, हांगासून ह्यो तीन वाटो फुट्टात. हांतले खंयचेय एके वाटेन तूं वच. तूं वाटावतली,

'ह्यो पळे तीन वाटो' अशें सांगता तेन्ना नळ खंयची वाट खंयच्यान खंय वता तेंय सांगता. तो म्हणटा, 'ही विदर्भ देशाक वचपी वाट. ही अवन्तिपुरी, विंध्याचल आनी पयोष्णी (तापी) वेल्यान विदर्भाक वता. ही दुसरी, दक्षिण कोशलाक वचपी वाट आनी ही तिसरी पयस दक्षिणेक दक्षिणापथाक वचपी वाट.'

ह्यो तिनूय वाटो आयज लेगीत चलतात. आयज ह्या वाटां वयल्यान रेल्वे चलता. काली सिंध आनी सिंध हांचे मदीं पुर्विल्लो निषध देश आशिल्लो. ह्या देशाच्या राजपाटणाचें नांव नलपुर आशिल्लें. (आयचें नरवर शार.) हांगा रावन नळ दमयंतीक वाटो दाखयता. पयली वाट आयज रतलामच्यान उज्जैन, मागीर विंध्य, नर्मदा करीत खांडव्याक वता आनी थंयच्यान देंवन तापी वयल्यान विदर्भांत अमरावतीक वता. दुसरी, उदेंते कडल्यान बेतवा न्हंये वयल्यान बीना सागर कटनी विलासपूर करीत दक्षिण कोशल देशाक वता. तिसरी ग्वाल्हेर, झांसी, बीना करीत जबलपुरा वयल्यान नागपूर आनी नागपूरच्यान नीट दक्षिणेक वता.

महाभारताचे मुस्तींत लेगीत ह्योच तीन वाटो ह्या देशांत यातायातिच्यो म्हत्त्वाच्यो वाटो आशिल्ल्यो.

नळान 'ह्यो तीन वाटो' म्हुण दाखयना फुडें दमयंतिच्या काळजांत खप्प जालें. तिणे नळाक विचारलें, 'म्हाका खंय वच म्हणटा तूं. तुजें राज्य गेलां, संपत गेल्या. तुवें सगळें होगडायलां. खातलो कितें खबर ना. आंगार न्हेसपाक लेगीत वस्त्र ना. तुका हे आवतिकायेंत सोडून हांव उठून खंय वचूं. म्हऱ्यांत रावलीं जाल्यार तुका धीर मेळटलो. आधार मेळटलो. दुख्खा वेळार, संकश्टा वेळार बायले सारकें वखद ना म्हणटात.'

'जाणा हांव', नळान तिका जाप दिली. 'बायले सारको इश्ट ना आनी बायले सारकें वखद ना. देखून तुका हांव सोडिना. हांव प्राण सोडीन, पुणून तुका सोडपाचों ना.'

'मागीर, विदर्भाची वाट ही म्हुण म्हाका कित्याक दाखयता.'

'वनवास तुका सोंसपाचो ना म्हुण', नळान जाप दिली.

'तशें जाल्यार, आमी दोगांय उठून विदर्भाक या.' दमयंतीन ताका सांगलें. 'थंय तुका कितेंच उणे पडपाचें ना. म्हाका वनवास सोंसचो ना म्हुण तूं म्हाका थंय वच म्हणटा जाशीत, जाल्यार आयक : तुका सोडून हांव खंयच वचपाचीं ना. जंय

तूं थंय हांव. विदर्भ देशाक वचचें आसल्यार सांगातान या. ना जाल्यार सांगातान रानांत भोंवया.'

नळान जाप दिली, 'तुज्या बापायचें घर तें म्हजेंय घर. पुणून तुर्ताक हांव विपत्तेंत पडलां. एका काळार वैभवांत आसतना हांव थंय गेल्लों. आतां विपत्तेंत आसतना कसो वचूं.'

दोगांयनी विदर्भ देशाक वचप ना अशें थारायलें.

नळाच्या आंगार लुगट नाशिल्लें. दमयंतीन आपणाल्या अर्द पातळान ताका आंग धांपूंक सांगलें. दोगांय हे भाशेन रानांत भोंवपाक लागलीं. भोंवतां भोंवतां तानेन आनी भुकेन दोगांय व्हळपेलीं. तांकां पुरो जालें. चलत चलत एक दीस तीं एका गांवांत पावलीं. थंय, गांवा भायर वेशीर तांकां एक रिकामें घर दिश्टी पडलें. दोगांय त्या घरांत भितर सल्लीं. दोगांकूय पुरो जाल्लें. थंयच जमनीर न्हिदलीं. दमयंतीक सुस्त न्हीद पडली. नळाक न्हीद पडच नाशिल्ली. तो कूस परतीत राविल्लो. तो येवजूंक लागलो, 'कितें करूं, जीव दिवं, काय हिका हांगाच सोडून पळून वचूं. म्हजे ओडीन ही बेश्टी त्रास काडटा. हिका हे त्रास सोंसनात. तरी आसतना म्हजो सांगात सोडूंक तयार ना. कुळारा वच म्हळ्यारूय वचना. समज, हांव तिका हांगाच सोडून गेलों जाल्यार, ती कितें करतली. कुळाराच वतली. थंय बरे भाशेन रावतली.'

दमयंतीक हांगाच सोडून.पळून वचचें अशें ताणे थारायलें. 'तेजिश्ट बायल ती. तिचेर कोण हात घालचो ना,' हाची ताका खातरी आशिल्ली.

तो तिका सोडून वचपाक तयार जालो.

म्हणटासर ताका उगडास जालो, आपणाल्या आंगार लुगट ना. असोच नागडो उगडो कितें वतलो. ताणे दमयंतेच्या पातळाचो एक कुडको कातरचो अशें येवजिलें. हे वाटेन ते वाटेन पळेलें. भितल्ले कुडींत ताका एक उकती तरसाद दिश्टी पडली. ती घेवन तो आयलो. पातळ कातरता आसतना दमयंतीक जाग येवची ना मू, ह्या दुगदुगान ताणे एक कुडको कातल्लो आनी तो कमराक गुटलावन पळ्ळो.

भायर वतकच तो घुटमळ्यांत पडलो, 'हांव हिका सोडून वतां खरों. पुणून म्हज्या फाटल्यान हिचें कितें जातलें. ही रस्त्यार पडची ना व्हय,' तो परतलो. दमयंती सुस्त न्हिदिल्ली. अनाथा सारकी तिची गत्त पळोवन नळाक तिची काकूळट दिसली. 'हिका सोडून गेलों जाल्यार म्हज्या फाटल्यान ही पिशी जावची ना मू', ताका एक नवो दुबाव आयलो आनी तो थंयच रावलो.

पुणून, कळी ताचे कुडींत रिगिल्लो. तो ताका थंय रावंक दिना जालो. नळ परतो पळ्ळो.

हे भाशेन तो कितले-शेच खेपो भायर गेलो, भितर आयलो. अखेरेक तो तिका सोडून पळून गेलो.

फांतोडेर दमयंतीक जाग आयली. तिणे भोंवतणी पळेलें. जाल्यार, घोव ना. तिंका कच्च जालें. तिणे ताका उलो माल्लो. तिका जाप मेळ्ळी ना. ती भियेली. धांवत भायर गेली. परतो उलो माल्लो. तरूय जाप ना.

नळ आपणाक सोडून गेलो हाची तिका आतां खातरी पटली. ती रडपाक लागली. 'तूं कित्याक म्हाका सोडून गेलो. हांवें कसलो गुन्याव केल्लो. तूं सत्यवादी. आपल्या सांगातांत म्हाका सदां दवरतलो अशें म्हणटालो. मागीर, म्हाका न्हिदिल्ले कडेन सोडून कसो गेलो.'

भ्रमिश्टा सारकी तिची गत्त जाली.

अवचित तिका तो झोंपांनी लिपिल्ले वरी दिसलो. ती उलो मारून धांवत गेली. 'अशें कितें करता तूं. लिपून कित्याक रावता. जाप कित्याक दिना. हांवें कितें केल्लें म्हुण तूं म्हाका ही ख्यास्त करता. म्हाका म्हजो हुसको ना. तुजोच हुसको. म्हजे बगर तुजें कशें जातलें. तूं भोंव भोंव भोंवतलो. भुकेन तानेन व्हळपेतलो. मागीर खंयच्याय रुखा सावळेक येवन बसतलो. तेन्ना हांव थंय नासतलीं. तुजें कशें जातलें.'

तिका कितें करचें, कांयच समजना जालें. ती रडपाक लागली. तिणे कपल आपटून घेतलें. मागीर सोंसूं नज जावन धांवत रानांत भितर सल्ली. अवचित तिका तिडक माल्ली आनी 'जाणे नळाची गत्त अशी करून उडयली ताचेर आमचे परस अदीक संकश्टां कोसळूं' असो तिणे श्राप दिलो.

ती आतां एका रानांतल्यान दुसऱ्या रानांत भोंवपाक लागली. पेशें लागिल्ले वरी भोंवताली. अकस्मात एके कडेन एका हारान तिचेर उडी घेतली आनी म्हणटासर तो तिका गिळपाक लागलो. ह्या संकश्टा वेळार लेगीत ती नळाचोच हुसको करपाक लागली, 'हो हार आतां म्हाका गिळटलो. तुका हांव ना जातलीं. फाल्यां केन्नाय संकश्टांतल्यान तूं सुट्टलो, तुजें राज्य तुका परतें मेळटलें. परतो वैभवांत रावंक लागतलो. त्या वेळार तुज्या म्हऱ्यांत हांव आसचीं ना. तुका म्हजी याद येतली तेन्ना तुका कोण धीर दितलो.'

ती मोट्या मोट्यान रडपाक लागली.

रानांत त्या वेळार एक व्याध भोंवतालो. ताच्या कानार दमयंतिचो आक्रोश

पडलो. तो धांवत आयलो. खिणाचोय कळाव लाय नासतना ताणे हाराचें तोंड तरसादीन पिंदलें आनी दमयंतीक ताच्या तोंडातली सोडयली.

हार मेलो. दमयंती घुंवळ येवन पडिल्ली. तिका सुद्द नाशिल्ली. व्याधान बेगीबेगीन उदक हाडलें. तें तिच्या तोंडार माल्लें. तिका जाग आयली तेन्ना तिका खावंक कितें दिलें आनी तिका धीर दिवन विचाल्लें, 'बाय, कोण तूं. हांगा कशी पावली.'

दमयंतीन व्याधाक आपली सगळी खबर सांगली. हिका कोण ना हाची खातरी पडटकूच व्याधाची नदर तिच्या आंगलोटाचेर पडली. ती आपणाक मेळची म्हुण तो तिचे कडेन गोड गोड उलोवपाक लागलो. तिका भुलोवपाक लागलो. तिका व्याधाच्या मनांत कितें आसा तें कळ्ळें. ती उसळ्ळी. व्याध तिचेर हात घालपाक वतालो. तिणे तिडकीन ताका श्राप दिलो: 'नळ सोडून दुसऱ्या खंयच्याच दादल्याक हांवें मनांत सुवात दिवंक ना. हें खरें आसत जाल्यार हो हलकट हांगाच मरतलो.'

व्याध त्याच खिणाक थंय मरून पडलो.

उपरांत, दमयंती नळाक सोदीत दाट अरण्यांत भितर सल्ली. थंय तरांतरांचे रूख वाडिल्ले. दन्पारच्या कडार लेगीत रात जाल्ले वरी भास जातालो. इतलें दाट अरण्य तें. तांतूंत तरांतरांचीं सावदां आशिल्लीं. दमयंती भियेली. म्हणटासर ती झाडां पेडांक सुकण्या सावदांक 'तुमी म्हज्या घोवाक पळेला व्हय' अशें विचारपाक लागली. तिची पिशांतूर आवतिकाय पळोवन सुकण्या सावदांक लेगीत तिची काकूळट दिसली.

> महाभारतकारान ह्या रानाक 'महारण्य' म्हळां. जाणकारांच्या मत्तान झांसिचे दक्षिणे सावन बीना-सागर मेरेन पातळ्ळेल्या विंध्याचलाचें हें वर्णन. भारतीय इतिहासांत पुर्विल्ले मुरन्नींत ह्या वाटाराक आटविक राज्य म्हणटाले. हांगा एक व्हड पर्वत आसा (गिरिराज महाशैल) अशें म्हळां. तो विंध्याद्री.

तीन दीस ती ह्या रानांत भोंव भोंव भोंवली.

एके कडेन तिका एक सुंदर उपवन दिश्टी पडलें. म्हणटासर एक आश्रम दिश्टी पडलो. ती आश्रमांत गेली. थंय जाणटे नेणटे ऋषी मुनी बशिल्ले. दमयंती तांच्या मुखार वचून उबी रावली. 'कोण तूं', ऋषीं मुनिंनी तिका विचाल्लें.

'हांव विदर्भ राजाची धुव. निषध राजाची राणी. कांय पाड्या अर्वाचिन्नाळ्या लोकांनी म्हज्या घोवाक भुलयलो. ताका द्युताक आपयलो आनी ताचें राज्य धन सगळें नागोवन व्हेलें. तो काडून गेला. ताका सोदीत हांगा आयल्यां. तुमी पळेला व्हय ताका.' दमयंतीन आपली वळख दिवन विचाल्लें.

मुनिंनी तिका धीर दिलो आनी म्हळें, 'तुका बरे दीस येवपाचे आसात. ह्या विशीं तूं कसलोच दुबाव मनांत धरूं नाका. तुजो घोव परतो येतलो. ताचे वयलीं सगळीं अरिश्टां पयस वतलीं. तो परतो राज्य करतलो...'

दमयंतीक हें आयकून धीर दिसलो.

अवचित आश्रम तपोवन ऋषीमुनी सगळें ना जालें. दमयंती अजापांत पडली. 'कितें जालें. जागी आसतनाच सपन बी पडलें काय कितें, खंय गेले ते तपस्वी.'

ती अदीक खंती जाली. सामकी पिसावल्ले वरी जाली. ती मुखार गेली. थंय तिका अशोकाचें एक झाड दिश्टी पडलें. ताका विचारपाक लागली, 'तूं अशोक मरे. मागीर म्हाका सांग : म्हजो घोव खंय आसा. सांग रे.'

अशोक जाप दिना, हें पळोवन रडत रडत मुखार गेली. मुखार तिका लांब रूंद अशी एक वाट मेळ्ळी. चलत चलत मुखार वतकूच तिका व्यापाऱ्यांचो एक तांडो मेळ्ळो. हती घोडे रथ दिश्टी पडले. व्यापारी म्हाल घेवन खंय तरी वताले. दमयंती तांच्यांत भितर सल्ली. कांय जाणाक ती पिशी कशी दिसली. कांय जाण तिचीं फकाणां मारपाक लागले. कांय जाणाक तिची काकूळट दिसली. तांच्यांतलो म्हालगडो कोण तो तिणे सोदून काडलो. ताका विचाल्लें, 'तुमी म्हज्या घोवाक पळेला व्हय.'

व्यापाऱ्यान जाप दिली, 'आमकां वाग शिंव हती सोडून वाटेर कोण मेळूंक नात.'

'तुमी खंय वतात.'

'चेदी देशाक.'

'म्हाका व्हरशात व्हय तुमच्या वांगडा चेदी देशाक.' तिणे विचाल्लें. व्यापाऱ्यांनी 'बरे भाशेन' म्हुण सांगतकूच ती तांच्या वांगडा चलपाक लागली.

तीनसांज जाली. व्यापाऱ्यांचो तांडो एका तळ्यासरीं पावलो. रात थंयच सारोवची अशें सगळ्यांनी थारायलें. सगळे जेवले खाले आनी न्हिदले. मध्यान रात जाली. चोंय वसल्यान किण्ण जाल्लें. सगळे न्हिदिल्ले. अकस्मात् रानांतले हती तळ्यासरीं आयले. तांकां उदक पियेवपाचें आशिल्लें. तळ्या भोंवतणी मनशाळ्ळेले हती पळोवन ते खुबले. तांच्या आंगार धांवले. खिणा भितर पुराय वाटार झुजा-मळ कसो जालो. सगळ्यांची गजाल पडली. लोक हे वाटेन ते वाटेन धांवपाक लागले. कितले-शेच जाण हतयांच्या पांयां पोंदा पडून मेले. व्यापाऱ्यांच्या तांड्याची दानाधिस्पट जाली. वांचून उरिल्ले येवजुपाक लागले, 'अशें कित्याक लागून जालें. आमी कसलें पातक केल्लें. कुबेराची पुजा करपाक विसल्ले

काय कितें; काय विघ्नां हाडटल्या देवांची पुजा करपाक विसल्ले. कित्याक लागून हें संकश्ट कोंसळ्ळें.'

तांकां याद जाली. 'आं.. हय, आमच्या सांगाताक एकली बायल मनीस आसा. तिकाच लागून जालां जावंक जाय हें. पिशी कशी दिसताली. पिशी न्हय ती. ती राक्षशीण आसूंक जाय वा यक्षीण आसूंक जाय. तिणेच ही माया पातळायली ना मू.'

ते दमयंतीक जिती मारपाक भायर सल्ले.

दमयंतीक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ती भियेली आनी पळून गेली. 'अशें कित्याक घडचें', ती आपणाकूच विचारपाक लागली. 'हांवें कोणाचेंच वांकडें करूंक ना. कोणाचेंच वायट चिंतूंक ना. मागीर, म्हजी गत्त अशी कित्याक जावची. राज्य वता, घोव काडून वता. भुरगीं पयस उरतात! कित्याक? कित्याचोच अर्थ लागना. कितले दीस रानांत भोंवलीं. थोडो-सो धीर ह्या व्यापाऱ्यांचो मेळिल्लो. म्हणटासर हांगाय म्हजें दैव आडवें आयलें. रानांतले हती आयले आनी हांगेल्या हतयांच्या आंगार धांवले. हाका लागून हांच्यांतले कितलेशेच जाण मेले. हांव कित्याक वांचून उल्लीं.' ती असल्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाक लागली. आनी 'दैव' सोडून तिका दुसरी जाप मेळना जाली. 'म्हजें दैव. दुसरें कितें. दैवूच फिल्लां जावंक जाय. ना जाल्यार कित्याचोच कसोच अर्थ लागना.'

तिका आपणाल्या स्वयंवराचो उगडास जालो, 'स्वयंवराक देव आयिल्ले. तांकां सोडून नळाच्या गळ्यांत हांवें माळ घाली म्हुण म्हाका भोगता काय हें सगळें. काय, आदल्या जल्माचें पातक भोगपाचें उल्लां.'

व्यापाऱ्यां वांगडा कांय ब्राह्मण आशिल्ले. दमयंतीन तांचो आलाशिरो घेतलो. आनी तांच्या सांगातान ती चेदी देशांत पावली.

मानेर केंस सुटल्यात, आंगार अर्दें पातळ न्हेसल्या, तिचो असलो हो अवतार पळोवन चेदी देशांतल्या भुरग्यांक ती पिशी कशी दिसली. तिका कोलायत तीं तिच्या फाटल्यान धांवपाक लागलीं. दमयंती चलत चलत राजमंदिरा मुखार पावली.

राजमंदिराचे माळये वेल्या जनेलांत राजमाता बशिल्ली. तिणे दमयंतीक पळेली. तिका तिची काकूळट दिसली. 'पिशी जरूय आसली तरूय लक्षुमी कशी दिसता.' तिणे दासयेक सांगून दमयंतीक राजमंदिरांत आपोवन हाडली आनी विचाल्लें, 'बाय, तूं कोण, कोणाची, हांव नकळ. पुणून तुजो आंगलोट सांगता, तूं बऱ्या कुटुंबांतली

आसूंक जाय. तू हांगा कित्याक आयल्या.'

दमयंतीन सांगलें, 'हांव सैरंध्री. म्हजो घोव दुर्दैवाच्या चाकांत घुसपला. द्युत खेळूंक बसलो आनी नागवलो. सगळें होगडावन बसलो. आतां भ्रमिश्टा सारको रानांत भोंवता. ताका सोदीत हांव हांगा पावल्यां.' उलयतां उलयतां तिगेले दोळे भरून आयले. तिका अदीक कितेंच सांगूंक येना जालें.

राजमातेन म्हळें, 'तुज्या घोवाचो हुसको तूं करूं नाका. ताका सोदपाक म्हज्या शिपायकांक धाडटां. तूं हांगा राव. तुजो घोव तुका हांगाच मेळटलो.'

दमयंतीक सू:ऽ जालें. पुणून तिणे कांय अटी घाल्यो : हांव कोणाच्या उश्ट्याचें खावचीं ना. कोणाचे पांय धुवपाचीं ना. खंयच्याच दादल्या कडेन उलोवपाचीं ना. कोणाचीय म्हजेर वांकडी नदर पडली जाल्यार ताका ख्यास्त करतली मू.'

राजमाता हांसली. म्हणूंक लागली, 'तुका जाय तशेंच जातलें.'

राजमातेची धुव सुनंदा. तिका राजमातेन आपोवंक धाडली आनी दमयंतीक तिचे सुवादीन करून म्हळें, 'ही देवां सारकी बायल. तुजेच पिरायेची. हिका कितेंच उणे पडूंक दिवं नाका.'

दमयंतीक सोडून नळ जो उठून गेल्लो तो चलत चलत एका रानांत पावलो. थंय एके कडेन ताका उजो पेटिल्लो दिश्टी पडलो. आनी उज्यांतल्यान कोण एकलो 'मेलों मेलों, नळा धांव' हे भाशेन मोट्या मोट्यान उलो मारतालो तो ताका आयकूंक आयलो. नळ आपलें दुख्ख विसल्लो. आनी तो उज्यांत भितर सल्लो. भितर पळे जाल्यार एक व्हडलो नाग थरथरत ताका सांगता—

'हांव कर्कोटक. नागांचो राजा. हांवें नारदाक एक खेपे फटयल्लो. म्हुण नारदान म्हाका तिडकीन श्राप दिल्लो : नळ राजा येवन तुका हांगासल्लो घेवन वचसर तूं फातर कसो हांगाच पडून उरतलो. नळान सोडयतकूच तूं सुट्टलो. तेन्ना सावन हांव हांगाच आसां. हालना, धोलना. नळ येतलो आनी म्हाका घेवन वतलो म्हुण ताची वाट पळेत बसलां. म्हुण मर्दी मर्दी नळाक उलो मारीत आसतां. तूं नळ आसशीत जाल्यार म्हाका हांगासल्लो घेवन वच. हांव तुजे उपकार केन्ना विसरपाचों ना. तुजो इश्ट म्हुण सदां रावतलों आनी सदां तुजें बरें करतलों.'

नळान आपुण नळ म्हुण सांगिना फुडें कर्कोटक आंगठ्या येदो इल्लोसो जालो. नळान ताका उबाल्लो आनी ताका उज्या भायर हाडलो. उजो नाशिल्ले सुवातेर ताका आतां तो सोडटलो अशें म्हणपाक कर्कोटकान म्हळें—

'मात्सो राव. म्हजें एक काम कर. धा पावलां मुखार वच.'

ताचे सांगणेन नळान णव पावलां घालीं. धावें घालपाक नाग ताका कुच्च

करून चाबलो. ते बरोबर नळ काळो किट्ट जालो. ताचें रूप बदलें. तो साप विद्रूप दिसपाक लागलो.

नळ अजापांत पडलो. 'अशें कित्याक केलें काय हाणे?' ताणे मनांत आपणाकूच विचाल्लें.

नाग म्हणपाक लागलो, 'आतां तुका कोण वळखुपाचो ना. तुगेलें मुदल रूप हांवें लिपयलें. तूं आतां आदलो नळ राजा दिसना. तुका आतां कोणाचो भंयूय ना. कोण तुजे वाटेक वचचो ना. वाग शींव लेगीत आतां तुका कांय करपाचे नात. इतलेंच न्हय, तर जाणे तुका इतलो दुख्खी-कश्टी केला तो कळीय आतां तुजे कुडींत रावपाचो ना. म्हज्या विख्खाक लागून तो भितर घुसमट्टलो. आनी मागीर तुका सोडून वतलो. तुजे सारकेल्या देव-मनशाक ताणे बेश्टे कश्ट भोगयले. म्हुण ताका हांवें ही ख्यास्त केल्या. आतां अशें कर : लागसारूच अयोध्या नगरी आसा. थंय ऋतुपर्ण नांवाचो राजा राज्य करता. तागेर वच. आपुण बाहुक नांवाचो सारथी म्हुण ताका सांग. आनी तागेर राव. तो अक्षविद्येंतलो म्हालगडो. तूं अश्वविद्येंत निष्णात. तुमी दोगूय एकामेकांक आपापली विद्या शिकयात. तो तुका द्युतांतलीं सगळीं गुपितां शिकयतलो. तूं ताका अश्वविद्येंतलीं सगळीं गुपितां शिकय. अश्वविद्येंत तुका लागपी कोण ना. दोगूय एकामेकांक आपापल्यो विद्या दियात आनी दोगूय एकामेकांचे इश्ट जायात. कांय काळान तुका तुगेलें राज्य परतें मेळटलें. तुजी बायलूय तुका मेळटली. तुजीं भुरगींय मेळटलीं.'

इतलें सांगून नागराजान ताका एक वस्त्र दिलें आनी सांगलें, 'हें सांबाळून दवर. तुका तुजें मुदल रूप जेन्ना घेवचें-शें दिसतलें तेन्ना म्हजो उगडास कर आनी हें वस्त्र न्हेस. तुजें मुदल रूप तुका मेळटलें.'

आनी नाग उठून गेलो.

नळ नव्या रुपान अयोध्येक गेलो. सोमतो ऋतुपर्ण राजा मुखार वचून उबो रावलो आनी राजाक ताणे म्हळें, 'हांव बाहुक. घोड्यांची विद्या जाणा हांव. अश्वविद्येंत म्हाका लागपी कोण ना अशी म्हजी नामना. म्हाका रांदुंकूय येता. तुगेर कांय दीस रावपाची इत्सा आसा. म्हाका दवरून घेशीत व्हय.'

'बरे भाशेन' अशें म्हणून राजान ताका दवरून घेतलो. ताचो पगार थारायलो. दोग जाण ताच्या हाता खाल वावुरपी दिले. जीवल नांवाचो एकलो. दुसरो नळागेरूच वावुरतालो तो वार्ष्णेय. नळ त्या दिसा थावन राजागेर रावपाक लागलो.

महाभारतकारान अश्वाध्यक्षाचो पगार म्हयन्याक शबर शतमान (शत शत:) (पावण चार हजार पोवना) म्हळा. कौटिल्यानूय अश्वाध्यक्षा खातीर होच पगार आपल्या अर्थशास्त्रांत सांगला.

नळ सगळीं कामां करतालो. रांदतालो आनी घोड्यांची जतनाय घेतालो. पुणून दमयंतिची ताका भौन भौन याद येताली. 'किर्ते करता काय बावडी. भुकेन तानेन व्हळपेता बी काय. खंय न्हिदता काय. त्या पिश्याची याद काडटा काय,'—सद्दां तीनसांज जातकूच ताणे ह्या अर्थाचें एक कवन म्हणचें. एक दीस ताका जीवलान विचाल्लें, 'सद्दां हें जें तूं कवन म्हणटा तें कोणाच्या उगडासान म्हणटा. कोणा खातीर तुजो जीव इतलो सकल वयर जाता.'

नळान ताका एक काणी सांगून जाप दिली—

'एक आशिल्लो पिसो. ताची बायल ताका खूब आवडटाली. मदीं किर्ते जालें, दोगांय एकामेकां पसून पयसावलीं. तिका खबर ना तो खंय आसा तो, ताका खबर ना ती खंय आसा ती. पिसो भ्रमिश्टा सारको रानांनी भोंवलो. तिचो उगडास काडीत रावलो. तीनसांज जातकूच ताका तिचो चडूच उगडास येतालो तेन्ना तो हें कवन म्हणटालो. आयजूय तो आसा. काम करता. जेवता खाता, पुणून मदीं मदीं ताका आदल्या दुख्खांची याद जाता. तो काडून गेल्लो त्यावेळार ताची बायल ताच्या सांगाताक आशिल्ली. पुणून एक दीस तो तिका न्हिदिल्ले कडेन सोडून पळून गेलो. त्या उपरांत तिचें किर्ते जालें, ताका खबर ना. ती जिती आसा काय ना, हेंवूय खबर ना. आसलीय जाल्यार, कशी दीस काडटा जातली, देव जाणा. एकली आसतली. उपाशीं रावता जातली.'

द्युतांत नळान राज्य होगडायलें आनी तो दमयंतीक घेवन काडून गेलो ही खबर दमयंतिच्या बापायक भीमराजाक कळ्ळी तेन्ना ताणे दोगांयचे सोदीक लोक धाडले. तांकां खूब पैशे दिवन सांगलें, 'दोगांकूय सोदून हाडशात जाल्यार हाडटल्याक एक हजार गायो, एक गांव आनी एक अग्रहार दानांत दितलों.'

धाय दिकांनी लोक पातळ्ळे.

तांतलो सुदेव नांवाचो एकलो ब्राह्मण चेदी नगरांत पावलो. थंय राजमंदिरांत पुण्याहवाचन चलिल्लें. थंय सुनंदे वांगडा उबी आशिल्ली दमयंती ताका दिश्टी पडली. ती सुकून सुकून बारीक जाल्ली. पुणून तिगेली मुदलची कान्त पयलीं सारकीच आशिल्ली. 'ही दमयंती आसूंक जाय' अशें ताका दिसलें. तिच्या म्हन्यांत वचून ताणे म्हळें, 'हांव सुदेव, तुज्या बापायचे सांगणेन तुका सोदीत हांगा पावलां.'

दमयंती ताका वळखली आनी रडपाक लागली. ती रडटा ती सुनंदेन पळेली. इतलेंच न्हय तर रडटा आसतनाच ती कोणाकोणाची वासपूस घेता हेंवूय पळेलें. तिणे वचून आवयक सांगलें. आवय आयली. सुदेवाक तिणे विचाल्लें, 'ही कोणाची कोण, आपलीं मनशां सोडून हांगा कशी पावली. आनी तूं कोण.'

सुदेवान आपुण कोण हाची वळख दिली आनी दमयंतिचो सगळो इतिहास सांगलो.

'आं...म्हणटकूच, म्हजे भयणिची धुव तर तूं. दशार्ण देशाच्या राजाच्यो सुदाम्याच्यो धुवो आमी. तुका तुज्या भुरगेपणांत पळेल्ली हांवें. अशें म्हणून दमयंतीक तिणे वेंगेंत घेतली.'

दोगीय रडपाक लागल्यो.

दमयंतीक आतां भुरग्यांची याद येवपाक लागली. तीं विदर्भांत आजोळा आशिल्लीं. तांचे यादीन तिका केन्ना काय विदर्भ देशांत पावन-शें जालें. मावशेन तिका धाडपाक माचूल केलें. वाटेर खावपा जेवपाक खाण दिलें. तिका राखपा खातीर सांगाताक भोय आनी शिपायक दिले आनी तिका धाडून दिली.

दमयंतीक पळोवन बापुय खुशाल भरीत जालो. ताणे सुदेवाक एक हजार गायो, कांय शेतां-भाटां आनी एक गांव दानांत दिलो.

दमयंतीक नळाचो हुसको आशिल्लो. तिणे आवयक सांगलें. आवयन राजाक सांगलें आनी दुसऱ्या दिसा नळाचे सोदीक कितले-शेच ब्राह्मण भायर सल्ले. दमयंतीन तांकां सगळ्यांक सांगलें, 'धाय दिकांनी वचात. जंय पावतात थंय अशें म्हणात : तुजेर प्राणा परस अदीक मोग करपी तुजी एक बायल आशिल्ली. तिका रानांत न्हिदिल्ले कडेन सोडून तूं गेलो. तिचें अर्दें कापडूय तूं कातरून घेवन गेलो. तूं खंय आसा. तुजी बायल अर्दें कापड न्हेसून तुजी वाट पळेता. जंय जंय कोण दिश्टी पडटा थंय थंय अशें म्हणात. एक खेपे न्हय, हजार खेपो म्हणात. ताका कळवळो येसर म्हणात. वारो लागलो म्हणटकूच उजो पेट घेता. तसो कोणाच्याय काळजान पेट घेतलो जाल्यार तो जी जाप दिता ती घेवन हांगा येयात.'

सगळे तशें करपाक लागले. ते गांवां-गांवांनी भोंवले. नगरां नगरांनी गेले. राज्यांचीं राज्यां भोंवले.

तांतलो पर्णाद नांवाचो एकलो ब्राह्मण अयोध्येक पावलो. ऋतुपर्ण राजागेरूच वचून रावलो. थंय बाहुक नांवाचो एक सेवक ताका मेळ्ळो. तो घोडे राखतालो आनी रांदतालो. काळो किट्ट बेरड कसो दिसतालो. ताणे पर्णादाक सांगलें, 'ज्यो बायल्यो संकश्टांत पडिल्ल्यो आसतनाय आपलें रक्षण करतात त्यो स्वर्ग तर जोडटातूच; पुणून त्या भायर घोवाकूय वाटायतात. जो संकश्टांत पडिल्लो आसतना बायलेक सोडून गेलो ताचेर असले बायलेन रागार जावंक जायना. तो अडचणींत पडिल्लो. ताचें न्हेसणूय कांय शेवणी घेवन गेल्लीं. जेवतलो खातलो कितें हेंय तो नकळ आशिल्लो. तो भ्रमिश्ट जाल्लो. ताचेर रागार जावंक जायना. ताणे भौमान दिवं

वा अवमान करूं, तो विपत्तेंत पडला हें पळोवन ताका गुन्यांव भोगसूंक जाय.'

पर्णाद ही जाप घेवन परतलो. दमयंतीक वचून ताणे ही खबर सांगली. जाप दिवपी नळूच आसूंक जाय अशें दमयंतीक दिसलें.

तिणे पर्णादाचे उपकार मानले. ताका कितें दिवचें केल्लें तें दिवंक लायलें. आनी आवयक सांगून सुदेवाक आपयलो आनी ताका सांगलें, 'आत्तांच्या आतां ऋतुपर्ण राजागेर वच आनी ताका सांग: दमयंतिचें दुसरें स्वयंवर थल्लां. देश विदेशांतले कितले-शेच राजा थंय जमल्यात. फाल्यां स्वयंवर.'

सुदेवान तशें केलें. ऋतुपर्णागेर वचून ताणे सगळ्यांक दमयंतिचें दुसरें स्वयंवर थल्लां म्हणपाचें सांगलें.

ऋतुपर्णान बाहुकाक आपोवन विचाल्लें, 'आयच्या आज म्हाका विदर्भ देशांत पावयशीत व्हय. दमयंतिच्या स्वयंवराक वचूंक सोदतां.'

नळाच्या काळजाक भालो तोपिल्ले वरी जालें, 'दमयंती अशें केन्ना करीत व्हय. दुसरें स्वयंवर ती करीत व्हय. इतली उणाक न्हय ती. काय, बायलो सभावान अश्योच आसतात. तिचो गुन्याव ना. गुन्याव म्हजोच. तीन वर्सां जालीं हांव पयस आसां. हांव आसां काय ना हें लेगीत बावडेक खबर ना. बावडी कितें करतली. बायलांक कोणाचोय तरी आधार जायच आसता. काय म्हजे वेलो तिचो मोग आटलो. च्ये...ती अशें करचीच ना.'

ताणे राजाक जाप दिली, 'पावयतां आयजूच.'

तो अश्वशाळेंत गेलो. ताणे थंयचे सिंधदेशांतले कांय किडकिडीत घोडे वेंचून काडले.

राजा ताका विचारपाक लागलो, 'सगळे सोडून असले दुबळे-शे घोडे सोदून काडले.'

'हांकां बारा भोंवरे आसात. एक कपलार. एक मस्तकार, एक हड्ड्यार, एक फाटीर, बाकिचे बरगड्यांचेर'. ताणे जाप दिली आनी म्हळें, 'दुसरे जाय आसतीत जाल्यार खंयचे ते दाखोवचे, ते रथाक जोडीन.'

राजान म्हळें, 'अश्वविद्येचो तूंच जाणकार. तुका जाय तेच जोड. पुणून विदर्भ देशांत आयचे आयज पावतां अशें कर.'

ताणे सिंधी घोडे रथाक जोडले आनी रथ सोडलो.

मात्शो मुखार वतासर घोड्यांनी दिमयो मोडल्यो. नळ रोखडोच रथांतलो देंवलो. ताणे घोड्यांची फाट थापटिली आनी परतो रथ चलोवपाक लागलो. घोडे जशे कितें उडिल्ले वरी धांवपाक लागले.

राजान सांगाताक वार्ष्णेयाकूय घेतिल्लो. तो अजापांत पडलो. 'हो बाहुक, काय इन्द्राचो सारथी मातली'. ताका दुबाव आयलो. 'काय, खासा नळ राजा. बद्द नळा भाशेन चलयता. नळूच न्हय मू हो, लिपून राविल्लो.' ताका तो नळूच कसो दिसपाक लागलो.

रथ वेगान धांवपाक लागलो. पर्वत राना न्हंयो तळीं फाटीं घालीत मुखार गेलो. त्या वेगांत ऋतुपर्णाचें उत्तरीय उबून गेलें. 'राव, रथ मात्सो थांबय' म्हणटासर रथ कितलोसोच मुखार पाविल्लो.

वाटेर ऋतुपर्णाक एक रूख दिश्टी पडलो. ऋतुपर्ण अक्षविद्येचो जाणकार. गणितांत म्हालगडो. ताका आपणाली विद्या बाहुकाक दाखोवची-शी दिसली. ताणे म्हळें, 'ह्या रुखाक जीं फळां हुमकळटात तीं सकल पडिल्ल्या फळां परस एकशें एक संख्येन चड आनी ह्या त्या दोन खांद्यांक जीं पानां आसात तीं पांच कोटी.'

बाहुकान रथ उबो केलो आनी म्हळें, 'मजून पळेतां.'

राजा भियेलो. ताणे म्हळें, 'वेळ होगडावतलो.'

'होगडावं दी. फळां पानां मेजले बगर हांव मुखार वचपाचों ना. ताकतीक आसा जायत जाल्यार वार्ष्णेयाक घेवन वचचें.'

राजान म्हळें, 'हांव अक्षविद्येचो जाणकार. गणिताचीं सगळीं गुपितां हांव जाणा.'

बाहुकान म्हळें, 'हांव जाणां. म्हाका ही विद्या शिकय. मागीर हांव तुका अश्वविद्या शिकयतां.'

दोगांयनी एकामेकांक एकामेकांच्यो विद्या शिकयल्यो.

नळाक अक्षविद्या आयली त्याच खिणाक ताच्या आंगांतलो कळी भायर सल्लो. कळीक पळोवन नळाक तिडक माल्ली. 'ह्या चांडाळान म्हाका इतलेंय हें भोगयलें.' अशें म्हणून तो कळीक श्राप दिवंक वतालो. पुणून त्या आदींच कळी ताका शरण आयिल्लो. तो थरथरत मुखार उबो रावन सांगपाक लागलो. म्हाका दमयंतीन ह्या आदीं श्राप दिला. त्या भायर कर्कोटकाच्या विख्खान म्हाका नाका पुरो करून सोडला. तूं श्राप दिवं नाका. तुजी तुस्त गायत आतां हांव संवसारभर भोंवतलों. इतलेंच न्हय, तर तुजी तुस्त गायतल्यांक कोणाक हांव ह्या मुखार बादचों ना.'

नळाचो राग न्हिवलो. पुणून ताका ताचें आदलें रूप अजून मेळूंक नाशिल्लें. तें कर्कोटकान दिल्लें वस्त्र न्हेसुनूच मेळोवपाचें आशिल्लें.

तें केन्ना मेळोवचें इतलोच प्रस्न उरिल्लो.

तीन सांज जावचे पयलींच रथ विदर्भ देशांत पावलो.

आपुण आयिल्ल्याची खबर ऋतुपर्णान विदर्भ राजाक कळयली आनी नेटान तो

नगरांत भितर सल्लो. कुपांच्या घडघडा सारको रथाचो आवाज आयकून नगरांतल्या मोरांनी आनी हतयांनी जापो दिल्यो. दमयंती उचांबळीत जाली. 'हेभाशेन दुसरो कोणूच रथ चलयना, नळूच आसूंक जाय हो.' तिणे मनांत म्हळें. ती माळये वयल्या जनेलांतल्यान पळोवपाक लागली. रथांतल्यान राजा देंविल्लो तिणे पळेलो. राजा वांगडा आयिल्ले बाहुक आनी वार्ष्णेय सारथीय तिका दिश्टी पडले.

नळ दिश्टी पडलो ना.

भीमराजान ऋतुपर्णाक बरो येवकार दिलो आनी विचाल्लें, 'अकस्मात-शें येवप जालें.'

'नमस्काराक येवचें-शें दिसलें.' ऋतुपर्णान जाप दिली.

ऋतुपर्ण आयिल्लो स्वयंवरा खातीर. पुणून हांगा स्वयंवराची कसलीच तयारी नाशिल्ली. स्वयंवराक कोण येवंक नाशिल्ले. स्वयंवराचो मंटपूय उबारूंक नाशिल्लो. आपुण फटवल्ल्याची खंत ताका भोगिल्ली. पुणून ती तो कशी उकतावन दाखयतलो आशिल्लो. ताणे आपणाक नमस्काराक येवचें-शें दिसलें म्हळें खरें, पुणून विदर्भ राजाक तें खरें दिसलें ना. कशेंय जायना, राजा आपय नासतना आयला, ताचे सरबरायेंत कितेंच उणे पडूंक जायना, हाची ताणे जतनाय घेतली.

दमयंतीक नळ दिश्टी पडूंक नाशिल्लो. पुणून नळ आयला जावंक जाय, असो भास तिका जावंक लागिल्लो, 'नळा बगर हे भाशेन दुसरो कोण रथ चलयतलो', तिणे मनांत म्हळें. 'काय, वार्ष्णेय नळा कडसून ही विद्या शिकून तयार जाला. ऋतुपर्णय ते योग्यतायेचो आसूं येता.' तरातरांचे दुबाव तिका येवपाक लागले. तिगेली केशिनी नांवाची एकली सखी आशिल्ली. तिका आपोवन तिणे म्हळें : 'एक काम कर. हो तो कुरूप मनीस कोण तो सारको पळे. तो नळ काय कितें, पळे.'

ती गेली आनी वासपूस घेवपाक लागली. तिणे बाहुकाक विचाल्लें, 'केन्ना-शे भायर सल्ले तुमी. आनी हांगा कशे पावले.'

'दमयंतिचें दुसरें स्वयंवर थल्लां म्हणपाचें एकल्यान येवन सांगलें तेन्ना राजाक स्वयंवराक येवचें-शें दिसलें. म्हुण आयले.' बाहुकान जाप दिली.

'हो तो तिसरो तुमच्या वांगडा आयला तो कोण.'

'तो वार्ष्णेय. पयलीं नळराजागेर आसतालो. नळ राजा काडून गेलो तेन्ना परसून तो ऋतुपर्णागेर कामाक रावला.'

'नळ राजा खंय आसा हें वार्ष्णेयाक खबर आसत व्हय.'

'म्हाका दिसना. नळ राजा खंय आसा हें नळ सोडून आनीक कोणाक खबर ना. आसल्यार घडये ताचे राणयेक आसत. त्या भायर ताचें रूप आदलें उरूंक

ना. तो कुरूप जाला. वळखूंक येना....'नळान जाप दिली.

केशिनीन म्हळें, 'कांय दिसां पयलीं हांगासल्लो एकलो अयोध्येक गेल्लो. ताणे एक कवन म्हळ्ळें. कुवाड्या सारकें आनी ताका तुवें जाप दिल्ली म्हुण आयकल्लें. म्हाका ही जाप आयकूंक मेळत व्हय.'

नळाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं.

केशिनीन ही खबर दमयंतीक येवन सांगली. 'नळूच आसूंक जाय हो'. दमयंतिची खातरी जाली. तरी आसतना आनीक कांय परीक्षा घेवच्यो अशें तिणे थारायलें. केशिनीक ताचेर बारीक नदर दवर म्हुण सांगलें. ताणे रांदिल्लें जेवण चाखून पळेलें आनी मागीर भुरग्यांक ताचे सरीं धाडून दिलीं.

भुरगीं दिश्टी पडना फुडें नळाच्या काळजांतल्या वात्सल्याक ओतो आयलो. ताणे बेगीबेगीन तांकां वेंगेंत घेतलीं. आनी तो रडपाक लागलो. केशिनी म्हऱ्यांतूच आशिल्ली. आपणा कडेन ती पळेता हें नळान पळेलें. ती आतां ही खबर वचून भितर सांगतली ह्या भंयान ताणे तिका म्हळें, 'म्हजीं भुरगीं बद्द अशींच दिसतात. तांची याद येवन दुकां आयलीं.'

आनी केशिनीक ताणे म्हळें, 'तूं भौन भौन हांगा येता हें बरें न्हय. लोक नाका जाल्लो दुबाव घेतले, तुजो आनी म्हजो. उपकार कर आनी हांगा येवं नाका.'

केशिनीन सगळी खबर दमयंतीक सांगली. 'हो नळ' ह्या विशीं तिच्या मनांत आतां दुबाव उल्लो ना. आवय-बापायक सांगून ती नळा सरीं गेली. ताच्या मुखार उबी रावली. तिच्या आंगावेलें भगवें वस्त्र आनी केसांच्यो जटा पळोवन नळाक रडूंक आयलें. तिणे विचाल्लें, 'बायलेक न्हिदिल्ले कडेन सोडून काडून गेल्लो घोव पळेला व्हय तुवें. बायलेन कसलोच गुन्याव करूंक नाशिल्लो. तिच्या स्वयंवराक देव आयिल्ले. तांकां सोडून तिणे ताच्या गळ्यांत माळ घाल्ली. इतली एकनिश्ट बायल ती. ताणेय लग्ना वेळार सोपूत घेतिल्लो, 'जिवांत जीव आसासर आपुण तुजोच उरतलों', म्हुण. मागीर, तो तिका सोडून कसो गेलो. ताका भुरगींय आशिल्लीं. दोन, अपुर्बायेचीं.'

अशें म्हणून दमयंती हुंदक्यां हुंदक्यांनी रडपाक लागली.

नळान म्हळें, 'हांवें राज्य सोडूंक नाशिल्लें. हांवें बायलेकूय सोडूंक नाशिल्ली. म्हज्यांत कळी रिगिल्लो. ताणेच ह्यो करण्यो केल्ल्यो. कळीक लागून सगळें घडून आयिल्लें. आतां तो गेलो. तुज्या श्रापान तो हुलपलो. पुणून एक सांग : 'तुवें दुसरें स्वयंवर करचें अशें कशें येवजिलें, तूं नवो घोव करता अशें आयकल्लें. ऋतुपर्ण त्याच खातीर हांगा आयला.'

'तुका हांगा हाडपा खातीर हो उपाय केल्लो.' दमयंतीन जाप दिली. तुवें पर्णादाक जी जाप दिल्ली ती आयकून तो तूंच आसूंक जाय हाची म्हाका खातरी जाल्ली. हांव सोपूत घेवन सांगतां, तुका सोडून म्हज्या जिवितांत दुसऱ्या खंयच्याच दादल्याक हांवें सुवात दिवंक ना. मनांत लेगीत हांवें कोणाक येवंक दिवंक ना. हांव जें सांगतां तें खरें नासत जाल्यार हो वारो, हो सूर्य, हो चंद्र म्हजो प्राण घेतलो.'

त्याच खिणाक आकाशवाणी जाली: 'ही सांगता तें खरें. तीन वर्सां जालीं, आमी हिका पळेतात. हिणे कसलेंच पातक करूंक ना. ही तुजीच.'

आनी मळबांतल्यान फुलां शिंवल्लीं.

दमयंती विशिंचो नळाच्या मनांतलो दुबाव ना जालो. ताका कर्कोटकान दिल्ल्या वस्त्राचो उगडास जालो. तो तें घेवन आयिल्लो. तें न्हेसलो. त्याच खिणाक तागेलें आदलें रूप ताका परतें मेळ्ळें.

दमयंतीन ताका वेंग माल्ली. भुरगीं ताचे वेंगेंत रिगलीं. पावसाचो शिंवर पडटकूच शेत लसलसून येता तशी दमयंती लसलसून आयली.

सगळ्याक खबर पातळ्ळी. सगळ्यांनी उत्सव मनयलो.

ऋतुपर्णान विचाल्लें, 'म्हगेर तुजो अवमान बी जावंक ना मू.'

'तुगेर रावलां तितल्या मेकळेपणान हांव खासा म्हगेर लेगीत रावंक ना.' नळान जाप दिली.

एका म्हयन्यान नळ आपल्या निषध राज्यांत परतो आयलो. पुष्कर थंय राज्य करतालो. ताच्या मुखार वचून उबो रावलो आनी ताका आह्वान दिलें: खूब जोडून हाडलां हांवें. एक तर परतो द्युत खेळपाक यो वा झुजाक तयार जा.'

पुष्करान मदांधकायेन जाप दिली. 'हे खेपे दमयंते सयत तुजें सगळें धन जिखतलों.'

नळान म्हळें, 'बेश्टी बडबड नाका. जिखून दाखय.'

पयलोच दाव नळान जिखलो. तागेलें राज्य ताका परतें मेळ्ळें. उपरांत प्राणाचो दुसरो दाव लायलो. तोवूय नळान जिखलो.

'आतां कितें', ताणे पुष्कराक विचाल्लें. 'म्हजें राज्य म्हाका मेळ्ळें. म्हजी संपत मेळ्ळी. दमयंती आतां तुका दिश्टी लेगीत पडपाची ना. तूं आतां दास जाला आमचो.'

मागीर म्हणपाक लागलो, 'फाटले खेपे तुवें दाव जिखिल्लो. तें तुजें कर्तुत्व नाशिल्लें. कलिचें आशिल्लें, तुका खबर ना. तुजो गुन्याव ना. गुन्याव कलिचो,

ताची ख्यास्त तुका करचों ना हांव. तुका मेकळो करतां. खूब वर्सां जिये. इतलेंच कर : जें कितें घडलें तें तुका लागून घडलें ना, म्हाकाय लागून घडलें ना. कळीक लागून घडलें हें लक्षांत धर आनी आमचे इश्टागतींत अंतर येवंक दिवं नाका.'

आनी ताका सोडून दिलो.

आख्याना अंतीं 'जो कोण हें आख्यान आयकतलो वा वाचतलो ताका कळिची बादा जावची ना' अशी फलश्रुती सांगल्या.

हाचो अर्थ, हें एक खेरीत आख्यान. महाभारतांत येवन थिरावलां.

## ४. सत्यवान सावित्रिचें आख्यान

मद्र देशांत अश्वपती नांवाचो एक राजा जावन गेलो. ताका भुरगें नाशिल्लें. भुरगें जावचें म्हुण ताणे एक लाख हवनां केलीं. सावित्री मंत्राचो जप करप, तीन दिसांनी एकूच खेपे जेवप, अशें अठरा वरसां तप केलें. ताका अठरा वर्सांनी सावित्री प्रसन्न जाली.

'कित्या खातीर तप केल्लें', तिणे विचाल्लें.

'भुरगें जावचें म्हुण.' अश्वपतीन जाप दिली.

'जाणा आशिल्लीं हांव. म्हुण आदींच हांवें ब्रह्मदेवा कडेन उतर घाल्लें. तुका एक चली जातली.' सावित्रीन ताका वर दिलो.

कांय काळान अश्वपतीक एक चली जाली. सावित्रीन दिल्ली चली म्हुण तिका ताणे सावित्रीच नांव दवल्लें.

सावित्री तरणे पिरायेची जाली. लक्ष्मी कशी सोबूंक लागली. तरूय तिका मागणी घालपाक कोणूच आयलो ना तेन्ना अश्वपतीक हुस्को जावपाक लागलो. एक दीस ताणे धुवेक म्हळें: 'तुजी लग्नाची पिराय जाल्या. अजून कोणे तुका मागणी घालूंक ना. तेन्ना आतां तूंच तुका सोबता तसलो चलो सोदून काड आनी म्हाका सांग.'

सावित्री देश-विदेशांत भोंवली आनी एक दीस परतली. त्याच दिसा नारद अश्वपतीक मेळूंक आयिल्लो. दोगूय उलयत बशिल्ले. इतल्यांत सावित्री भितर सल्ली. नारदान तिका नियाळून पळेली आनी म्हळें, 'ही भायल्यान खंयच्यान तरी येता. खंय गेल्ली ती. लग्नाचीय जाल्या.'

'त्याच खातीर तर ती गेल्ली', अश्वपतीन नारदाक जाप दिली आनी धुवेक विचाल्लें, 'मेळ्ळो मू तुका जाय तसलो भुरगो.

'हय. शाल्व देशांत द्युमत्सेन नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताचे दोळे फुटले. हे संदिचो लाव घेवन तागेल्या एका आदल्या दुस्मानान ताच्या राज्याचेर धुरी घाली आनी ताका राज्यांतलो भायर घालो. द्युमत्सेनाक त्या वेळार एक ल्हान चलो आशिल्लो. त्या चल्याक आनी बायलेक घेवन तो रानांत गेलो. तुर्ताक थंयच आश्रम काडून तप करता. तागेलो चलो सत्यवान हांवें मनान वेंचून काडला.'

नारदाक चुरचुरे पडले. ताणे म्हळें, 'आरेरे, ताका वेंचून काडलो हें तुवें बरें केलें ना. तागेली आवय-बापुय सत्यवादी म्हुण ताका सत्यवान नांव दवल्लेलें. भुरगेपणांत ताका घोडे खूब आवडटाले. घोड्यांक पळोवन तो पिसो जातालो. खेळटा आसतना लेगीत मातयेचे घोडे करतालो, घोड्यांचीं चित्रां काडटालो. म्हुण

ताका चित्राश्व म्हणटाले. भुरगो गुणी हांतूंत दुबावूच ना. उदार सोंशीक उजू चलणुकेचो, बुदवंत क्षमाशील आनी दानी. इतलेय हें गुण एके कडेन खंयच पळोवंक मेळनात, ते ताच्यांत पळोवंक मेळटात. पुणून...'

'पुणून कितें', अश्वपतीन विचाल्लें.

'ताचें आयुष्य सोंपत आयलां. फकत एक वर्स उल्लां.'

अश्वपतीक कच्च जालें. खूब वायट दिसलें. ताणे धुवेक म्हळें, 'तूं आतां हाचे बदला दुसरो भुरगो सोदून काड.'

सावित्रीन जाप दिली, 'बेंसां-भाटांची वांटणी एकूच खेपे जाता. कन्यादानूय एकूच खेपे जाता. आनी दान करतना 'दितां' अशें एकूच खेपे म्हणटात. सत्यवान दीर्घायू आसूं, अल्पायू आसूं, हांवें ताका एक फावट मनान घोव म्हुण मानलो. आतां दुसऱ्याक थंय सुवात मेळपाची ना.'

तिगेलो नित्शाय पळोवन नारदाक तिची तोखणाय दिसली. ताणे अश्वपतीक सांगलें, 'हिका आतां ना म्हणूं नाका.'

अश्वपतीन लग्नाचें सगळें साइत्य एकठांय केलें आनी तो धुवेक घेवन सोयऱ्यां-धायऱ्यां सयत द्युमत्सेनाच्या आश्रमांत गेलो. 'हांव अश्वपती. सावित्री म्हजी धुव. तिका सून करून घेवची अशें मागपाक आयलां', ताणे द्युमत्सेनाक नमळायेन सांगलें.

द्युमत्सेन म्हणूंक लागलो, 'म्हाका हांतूंत म्हजो भौमानूच जाल्ले वरी दिसता. पुणून तूं जाणा : म्हजें राज्य गेलां. हांव आतां राजा उरूंक ना. रानांत आश्रम काडून रावतां. आश्रमी जिवीत सावित्रीक सोंसूंक येतलें मू.'

'सुख आनी दुख्ख येता तशें वता, तांचेर आधारून कितेंच थारावचें न्हय अशें मानपी म्हजी धुव. धा पांच सगळें येवजून आमी हांगा आयल्यांत. तुर्त तुजें राज्य गेल्लें आसलें जाल्यारूय हांव तुका म्हज्याच पांवड्याचो लेखतां.' अश्वपतीन द्युमत्सेनाक सांगलें.

द्युमत्सेनान आश्रमांतल्या सगळ्या लोकांक आपयले आनी सत्यवान सावित्रिचें त्याच दिसा लग्न लावन दिलें.

बापुय कन्यादान करून गेल्या उपरांत सावित्रीन आंगा वयल्यो सगळ्यो वस्ती देंवयल्यो आनी आश्रमी जिविताक सोब सारक्या सादेपणान ती रावपाक लागली आपले सादे सरळ चाल-चलणुकेन आनी गोड स्वभावान तिणे मांय मांवाचीं काळजां जिखलीं. आपणाक बरी बायल मेळ्ळी म्हुण घोवूय धादोशी जालो. पुणून सावित्रिच्या मनांत नारदान जो दुबाव घाल्लो तो ती कसोच विसरूंक पावूंक

नाशिल्ली. भायल्यान ती आनंदित दिसताली. पुणून भितल्ल्यान खंगताली. एक एक दीस मेजीत राविल्ली. नारदान सांगिल्लें त्या हिसपान सत्यवानाच्या आयुष्याचे फकत चार दीस उरिल्ले. तिणे त्रिरात्र व्रत सुरू केलें. तीन दीस जेवप ना, खावप ना, न्हिदप ना, बसप ना, फकत उबी रावन काडप अशें थारायलें. मांवाक ह्या व्रताची खबर कळ्ळी तेन्ना ताका हुस्को जालो. 'खूब कठीण व्रत हें. तुका जमपाचें ना', ताणे सावित्रीक सांगलें.

'जमतलें'. तिणे जाप दिली. 'नित्शायान हांव उबी रावल्यां. हो नित्शयूच म्हजो बेत तडीक व्हरतलो.'

मांवान म्हळें, 'व्रत सोड अशें हांव म्हणिना. तडीक व्हर. पुणून तें बरेंच कठीण इतलें लक्षांत दवर.'

सावित्री तीन दीस नित्शायान उबी रावली. सुकें काश्ट कशी दिसपाक लागली. चवथो दीस सत्यवानाच्या मरणाचो दीस आशिल्लो. सूर्य धारे वयर सरचे पयलींच तिणे सगळीं कामां करून सोंपयलीं. सूर्य चार हात वयर येतकूच तिणे होम केलो आनी जाणट्यांक पांयां पडून 'तुका अखंड सौभाग्य मेळूं' म्हुण तांचे कडल्यान आशीर्वाद घेतलो. मांवान आशीर्वाद दिवन म्हळें: 'आतां जेव तूं. तीन दीस उपाशीं आसा.'

'दीस पडल्या उपरांत जेवतलीं', तिणे जाप दिली.

सारको त्याच खिणाक सत्यवान खांदार कुराड घेवन भायंर सरिल्लो तिणे पळेलो. रानांत वचून फळां पुंजावन आनी लाकडां कापून हाडप हें ताचें काम आशिल्लें. ह्या कामाक तो भायर सरिल्लो. 'हांवूय येतां वांगडा', तिणे सत्यवानाक म्हळें. सत्यवानाक अजाप जालें. 'केन्नाच वांगडा येवंक नाशिल्ली. आयजूच-शी येता? तीन दीस तूं उपाशीं आसा.' ताणे म्हळें.

सावित्री म्हणपाक लागली, 'म्हाका आडावं नाका. म्हाका आ[illegible]ज येन दिसता.'

'हांव तुका आडायना. पुणून तीन दीस उपाशीं आशिल्ली कशी चलतली, म्हाका समजना.'

'ताचो हुस्को करूं नाका.' सावित्रीन जाप दिली.

'तशें जाल्यार जाणटेल्यांक सांगून यो. म्हाका मागीर दुशण नाका.'

सावित्रीन मांय मांवाक वचून सांगलें, 'वर्स जायत आयलें, हांव आश्रमांतल्यान भायर सरूंक ना. आयज वचपाचें मनांत आयलां. हांवूय फळां लाकडां हाडपाक वतां.'

मांवान मनांत म्हळें, 'हिणे केन्नाच कितेंच मागूंक ना. आनी वर्स जायत

आयलें, आश्रमांतली ही भायर वचूंक ना. मात्शें भोंवन येवं दी तिका.' अशें म्हणून ताणे तिका वच म्हळें.

ती खुशालभरीत जावन गेली. सत्यवानाकूय खूब बरें दिसलें. तो सावित्रीक न्हंयो, झाडां पेडां, सुकणीं शेवणीं दाखयत दाखयत घेवन गेलो. तिवूय सगळें पळेत गेली.

मनांत मात ती चिंतेस्त आशिल्ली.

सत्यवानान फळां काडलीं आनी तीं पाटल्यांत घालीं. मागीर, कुराड घेवन तो लाकडां कातरपाक लागलो. अवचित ताचे तकलेंत कळ आयली. काळजांत भाले तोपिल्ले वरी दिसपाक लागलें. आपणाक किर्ते तरी जाता अशें ताणे बायलेक सांगलें. सावित्री शिटकावली. बेगीबेगीन आयली. ताची तकली तिणे आपले मांडयेर घेतली आनी ती थंयच बसली. सारको नारदान सांगिल्लो तो दीस आनी तो खीण आशिल्लो. म्हणटासर तिका काळी कुळकुळीत आनी भयांक्रूत एक आकृती दिश्टी पडली. ती आकृती सत्यवानाक नियाळटाली. सावित्रीक घस्स जालें. तिणे सत्यवानाची तकली ल्हवू सकल दवल्ली आनी उठून ती उबी रावली. हात जोडून तिणे म्हळें, 'कूड पळेल्यार देवाची-शी दिसता.'

'हय, यम हांव.' तिका जाप मेळ्ळी. 'सत्यवानाचें आयुष्य सोंपलां. ताका व्हरपाक आयलां.'

'व्हरपाक तुजे दूत येतात म्हुण आयकल्लें.'

'हय, पुणून सत्यवान धर्मिश्ट आनी गुणेस्त. ताका व्हरपाक दुतांक धाडप बरें जावचें ना अशें दिसलें. म्हुण खासा हांव आयलों.' अशें म्हणून यमान सत्यवानाच्या गळ्यांत पास घालो. आंगठ्या येदो ताचो प्राण ताणे ओडून काडलो आनी दक्षिणे दिकेक फुडो करून यम चलपाक लागलो.

सावित्रीय ताच्या फाटल्यान गेली.

मात्सो मुखार वतकूच यमान फाटल्यान पळेलें. सावित्री फाटल्यान येताली. तो थांबलो आनी तिका म्हणपाक लागलो, 'पुरो आतां, हांगासून परती वच.'

'घोव जंय वता थंय बायलेन वचूंक जाय.' तिणे जाप दिवन यमाचें स्तवन सुरू केलें. यम खोशी जालो. म्हणूंक लागलो, 'तुजें स्तवन आयकून हांव खोशी जालां. सत्यवानाचो प्राण सोडून जाय तें माग.'

तिणे मागलें, 'म्हज्या मांवाचे दोळे गेल्यात, ते ताका परते मेळचे.'

'मेळटले,' यमान जाप दिली आनी म्हळें, 'आतां वच तूं. चड स्रम घेवं नाका.'

'घोवा फाटल्यान वचपाक स्रम करसले. घोव थंय हांव.' अशें म्हणून तिणे परती यमाची तुस्त केली.

यमान खोश्शी जावन म्हळें, 'सत्यवानाचो जीव सोडून आनीक एक वर माग.'

तिणे मागलें, 'मांवाचें राज्य दुसऱ्यान हातासलां. तें ताका परतें मेळचें.'

'मेळटलें' अशें म्हणून यमान म्हळें, 'आतां वच तूं.'

तिणे यमाची आनीक एक फावट तुस्त केली आनी म्हळें, 'तुवें सगळें नेमान बांदून दवल्लां. म्हुण तुका यम म्हणटात.'

यम संतुश्ट जालो. ताणे म्हळें, 'सत्यवानाचो जीव सोडून जाय तें माग.'

'म्हजो बापुय राजा. पुणून ताका भुरगीं नात. ताका शंबर पुत जावचे'. तिणे मागलें.

'ताच्या कुळाचें नांव वयर काडपी ताका शंबर पुत जातले' असो आशीर्वाद दिवन यमान म्हळें, 'खूब पयस आयली तूं. आतां तूं वच.'

'घोव म्हऱ्यांत आसतकूच कितलेंय पयस गेल्यार म्हाका पयस गेल्ले वरी दिसचें ना. मन ताच्याकूय पयस धांवता.' अशें म्हणून सावित्रीन परत आनीक इल्ली यमाची तुस्त केली.

यमान म्हळें, 'सत्यवानाचो प्राण सोडून जाय तें माग.'

तिणे मागलें, 'म्हजे पसून सत्यवानाक शंबर पुत जावचे.'

यमान म्हळें, 'तुज्या कुटुंबाचें नांव वयर काडपी शंबर पुत तुका जातले.'

सावित्री यमाक उतरान बांदून घेता हें यमाच्या लक्षांत आयलें ना. सावित्रीन ताचें परत स्तवन केलें तेन्ना यमान म्हळें—

'आनीक माग.'

सावित्रीन म्हळें, 'हाचे पयलीं माग म्हणटा आसतना सत्यवानाचो प्राण सोडून जाय तें माग अशें तूं सांगतालो. हे खेपे सत्यवानाच्या प्राणा संबंदान तुवें कांय म्हणूंक ना. देखून 'सत्यवान जितो जावचो' अशें मागतां. सत्यवान नासत जाल्यार सुख स्वर्ग संपत म्हाका नाका. म्हाका जिवितूय नाका. आनी तुवें तर म्हाका शंबर पुत जातले असो आशीर्वाद दिला. सत्यवानाक जितो कर.'

सावित्रिचो घोवा वयलो मोग पळोवन यम खोश्शी जालो. ताणे सत्यवानाच्या गळ्यांतलो पास सोडलो आनी म्हळें, 'घे, तुजो घोव तुका परतो दितां. तो आतां दीर्घायु जातलो. तुका ताचे पसून शंबर पुत जातले. आनी तुमी दोगांय एकामेकांच्या आधारान व्हडलें हित जोडटलीं.'

सावित्री थंयच्यान परतली. सत्यवानाचें जंय प्रेत आशिल्लें त्या रुखा मुळांत

येवन बसली. सत्यवानाचें माथें तिणे आशिल्लें तशें आपले मांडयेर घेतलें. बरोबर त्याच खिणाक सत्यवानाक जाग आयली. सुस्त न्हिदेंतलो उठचो तसो तो उठलो. सावित्रिच्या तोंडा कडेन पळोवन म्हणपाक लागलो: 'शी: खूब न्हिदलों. तुवें उठोवपाचो म्हाका मर्दी. कितलो कळाव जालो पळे. घरा कडेन सगळीं हुसकेतात जातलीं.'

तो फळांची बुटी माथ्यार घेवपाक मुखार सल्लो.

सावित्रीन म्हळें, 'फळां लाकडां हांगाच आसूं दी. फाल्यां घेवन वचचीं. आतां खूब उशीर जाला. आतां या आमी घरा कडेन जाता तितले बेगीन. वाट पळेतात जातलीं सगळीं.'

सावित्री केसांचो आंबाडो बांदून उठली. सत्यवानान कुराड खांदार माल्ली आनी दोगांय घरा परतलीं.

हे वाटेन आश्रमांत द्युमत्सेनाक दिश्टी पडूंक लागिल्लें. सगळीं आनंदान नाचपाक लागिल्लीं. पुणून सत्यवान आनी सावित्री दोगांच ह्या आनंदांत वांटो घेवपाक नाशिल्लीं. 'इतलो कळाव कित्याक जालो, खंय घुसपून उल्लीं.' द्युमत्सेनान हुसक्यान विचाल्लें. तांकां सोदपाक तो स्वता भायर सरपाक करतालो.

त्याच वेळार दोगांय भितर सल्लीं.

'रात कित्याक केली. कितें जालें.' द्युमत्सेनान विचाल्लें.

सावित्री खीणभर फाटीं फुडें सल्ली. सांगचें काय सांगचें न्हय, अनमनूंक लागली. निमाणे सगळें सांगून उडयलें.

द्युमत्सेनाक ताचें राज्यूय परतें मेळ्ळें.

सत्यवान सावित्रिचें हें आख्यान नळ-दमयंतिच्या आख्याना भाशेन मुदलांतलें महाभारतांतलें न्हय. पुणून महाभारत सोडून आनीक खंयच तें मेळना.

सावित्रीक यमान 'तुका शंबर पुत' जातले म्हुण आशीर्वाद दिल्लो. तसोच, सावित्रिचे आवयकूय शंबर पुतांचो आशीर्वाद दिल्लो. आवयचें नांव मालवी. देखून तिगेल्या पुतांक नांव पडलें 'मालव'. सावित्रिच्या पुतांक 'सावित्रीपुत्रक'. सावित्री पुत्रकांनी पंजाबांत कांय गणराज्यां चलयल्लीं असो पाणिनिचे अष्टध्यायींत उल्लेख आयला. कांय काळान 'पुत्रक' उतराक 'जात' हो अर्थ मेळ्ळो. पंजाबांत कांय क्षत्रिय आपुण केहर जातिचे म्हणटना 'केहरपोत्रे' म्हणटात. केहरपोत्रे, चननपोत्रे असल्यो कांय जाती पंजाबांत आसात. जाणकार म्हणटात पंजाबांतल्या सावित्रीपुत्रकां भितर सत्यवान सावित्रिचें हें आख्यान पोवाड्याच्या रुपान चलतालें. थंयच्यानूच तें महाभारतांत आयलां.

सत्यवान सावित्री मुदलांत दैत्य. आदर्श पतिव्रता म्हुण जी हिन्दु बायलां मुखार महाभारतान दवल्ल्या ती 'दैत्य' आशिल्ली! भक्तांत शिरोमणी जो पह्लाद तोवूय दैत्य. कितलेशेच दैत्य आदर्श आर्यांनी आपले केल्ले.

परिशिष्ट २

# लोमश मुनीन सांगिल्ल्यो कथा

१. गंगा स्वर्गांतल्यान धर्तरर
२. ऋष्यशृंग
३. अष्टावक्र मुनी
४. यवक्रीत

# १. गंगा स्वर्गांतल्यान धर्तरर

इक्ष्वाकू कुळयेंत सगर नांवाचो एक राजा जावन गेलो. धीरवान आनी कर्तुत्वी. ताका दोन बायलो. एकले पसून ताका साठ हजार पुत जाले. दुसरे पसून एकलोच.

साठ हजार सगर-पुत्र संख्याबळाच्या नेटार देवांक लेगीत आयकनाशिल्ले. देव गंधर्व राक्षस सगळ्यांक पिडापीड भोगयताले. तांकां कोणाचोच भंय दिसनाशिल्लो.

एक दीस सगर राजान अश्वमेधाची दीक्षा घेतली. अश्वमेधाचो घोडो भोंवत भोंवत समुद्रा कडेन पावलो आनी अवचित ना जालो. सगर-पुत्रांनी ताका सगळे कडेन सोदलो. तो मेळ्ळो ना तेन्ना तांणी येवन बापायक सांगलें. बापुय तापलो, 'ना जालो म्हुण तोंड घेवन सांगूंक आयल्यात? वचात, हाडात सोदून.' पुत धाय दिकांनी पातळ्ळे. तरी आसतना घोडो मेळ्ळो ना म्हळ्यार मेळ्ळोच ना. ते हात हालयत परतले. बापुय अदीक तापलो, 'घोडो घेवन आयले बगर तोंड दाखोवचे नात.' अशें म्हणून ताणे तांकां परते घोड्याचे सोदीक धाडले.

सगर-पुत्र घोडो सोदीत समुद्रा कडेन पावले. थंय तांकां समुद्राक पडिल्ली एक फुटाळ दिश्टी पडली. खोरीं कुदळी घेवन ते समुद्र खणपाक लागले आनी खणीत खणीत पाताळा मेरेन गेले. तांगेलो हो अच्छेव पळोवन दैत्य राक्षस सगळे भियेवन पळून गेले. पाताळांत कपिल मुनिचो आश्रम आशिल्लो. आनी त्या आश्रमांत घोडो आशिल्लो. घोडो दिश्टी पडना फुडें सगर-पुत्र खुशालभरीत जाले आनी ताका धरून ते ओडीत व्हरपाक लागले. कपिल मुनिचो तांणी अवमानूय केलो. कपिल मुनीक राग आयलो आनी त्या रागा भरशीं ताणे तांकां सगळ्यांक हुलपावन माल्ले.

ही खबर नारदान येवन सगर राजाक सांगली.

सगर राजाक वायट दिसलें. ताणे आपणाल्या नातवाक अंशुमानाक आपयलो आनी म्हळें, 'तुगेलो बापुय असमंजस लोकांचेर आगळिको करतालो. दीन-दुबळ्या लोकांक पिडापीड भोगयतालो. इतलेंच न्हय तर, ल्हान ल्हान भुरग्यांक तीं रडटात म्हुण तांची गची अंदून न्हंयेंत व्हरून बुडोवन मारतालो. म्हुण, ताका हांवें राज्यांतलो धांवडावन भायर घाल्लो. आतां हे म्हगेले सगळे कर्तुत्वी भुरगे कपिलाच्या तेजान हुलपून मेले. म्हजो यज्ञ अर्दकुटो उल्ला. तो पूर्ण जालो ना जाल्यार म्हाका नरकांत वचचें पडटलें. आतां तुजेर सगळो भार. व्रच आनी घोडो घेवन यो.'

अंशुमान रोखडोच भायर सल्लो. समुद्रा मेरेन गेलो. जंय भूंय खणिल्ली थंयच्यान

भितर सल्लो आनी नीट कपिल मुनी मुखार वचून उबो रावलो. कपिलाच्या पांयार मस्तक दवरून नमळायेन म्हणपाक लागलो, 'घोडो व्हरपाक आयिल्लों. यज्ञा खातीर जाय आशिल्लो.'

अंशुमानान नमळायेन जैत जोडलें. कपिल मुनीन घोडो तर दिलोच. पुणून त्या भायर अंशुमानाक ताणे आशीर्वादूय दिलो, 'तुका लागून सगर कुळयेची उदरगत जातली. तुजेच कुळयेंतलो तुगेलो एक नातू स्वर्गातल्यान गंगा घेवन येतलो आनी सगळ्या सगर-पुत्रांचो उद्धार करतलो.'

अंशुमान घोडो घेवन आयिल्लो पळोवन सगर-राजा खुशालभरीत जालो. ताचे पुत हुलपून मेल्ल्याचें दुख्ख लेगीत तो विसल्लो.

अंशुमानाचो पुत दिलीप. ताणे स्वर्गातले गंगेक सकल हाडपाचे यत्न सुरू केले आनी ते मरसर चलयले.

दिलिपालो पुत भगीरथ. धर्मनिष्ठ आनी सत्यवादी म्हुण ताची नामना. तो हिमालयांत गेलो.

हिमालय कुपांनी सदांच लिपिल्लो उरतालो. त्या भायर थंय वचप सोंपें नाशिल्लें. कुचकुचीत रानांतल्यान वाट काडून वचचें पडटालें. वाग शिंवा सारकीं सावदां, हार नागां सारकीं जिवाणीं—तरां तरांचो भंय आशिल्लो. हिमालयांत बसून भगीरथान स्वर्गातल्यान गंगेक सकल धर्तरेर हाडपा खातीर खूब आकांताचे यत्न केले. अखेरेक गंगा प्रसन्न जाली. विचारपाक लागली, 'येदेय व्हडले हे यत्न तुवें कित्या खातीर केले.'

भगीरथान जाप दिली, 'म्हगेले म्हालगडे हुलपून मेल्यात. जे मेरेन तुज्या थंड शितळ उदकाचो अभिषेक तांचे तकलेर पडना ते मेरेन तांकां सद्गती मेळपाची ना. तुवें स्वर्गातल्यान सकल देवूंक जाय.'

गंगेन म्हळें, 'हांव देंवीन आशिल्लीं. पुणून म्हजो वेग झेलपाची तांक म्हादेव सोडून आनी कोणांत ना. तेन्ना पयलीं ताका प्रसन्न करून घे. हांव सकल देंवना फुडें ताणे आपल्या मस्तकार म्हाका घेवची.'

भगीरथान म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतलो. गंगा तीन वाटांनी खळखळत, फसफसत सकल देंवली तेन्ना म्हादेवान तिका आपल्या मस्तकार घेतली.

हो देखाव पळोवपाक देव गंधर्व यक्ष सगळे आयिल्ले.

गंगा स्वर्गातल्यान सकल देंवना फुडें भगीरथ तिका वाट दाखयत दाखयन समुद्रा मेरेन घेवन गेलो. समुद्र जो आटून गेल्लो ताका वाटे वयल्या पांचशें न्हंयांच्या आधारान गंगेन भरून काडलो.

भारतीय आख्यान रचतल्या कविंची प्रतिभा हे कथेंत दिश्टी पड्टा तसो इतिहासा आदल्या काळांतल्या एका मोट्या पुरुषार्थाचोय अदमास हांगां पळोवंक मेळटा. गंगेक हिमालयांतल्यान सकल देंवोवपाचो यत्न जावंक नाशिल्लो जाल्यार पुराय आर्यावर्ताची गत्त वाळवंटा सारकी जावन पडटली आशिल्ली. सगर कुळयेंतल्यो दोन पिळग्यो हो यत्न करपाक वावुल्ल्यो, म्हुण भारत भूंय 'सुजलाम् सुफलाम्' जावंक पावली.

गंगेक हांगा त्रिपथागामी म्हळ्या—ती तीन वाटो घेवन देंवता म्हळ्या. यामुन पर्वता पसून नन्दादेवी मेरेनचो जो वाटार तो गंगेचो. ह्या वाटाराचे उदेंत आनी अस्तम अशे दोन वांटे आसात. उदेंतेक बद्रीनाथा लागसारच्यान विष्णुगंगा नांवाची एक न्हंय व्हांवता. आनी द्रोणगिरिच्यान धौलीगंगा नांवाची आनीक एक न्हंय येता. दोनूय जोशीमठा लागसार एकिमेकींत भरसतात. ह्या संगमाक विष्णुप्रयाग म्हणटात. विष्णुप्रयागा उपरांत हे न्हंयेक अलकनन्दा म्हणटात. अलकनन्दा मुखार नन्दाकना पर्वता वयल्यान आयिल्ले नन्दाकिनीक मेळटा, ह्या संगमाक नन्दप्रयाग म्हणटात. नन्दप्रयागा उपरांत त्रिशुल शिखरा वयल्यान आयिल्ली पिण्डारगंगा अलकनन्देक मेळटा. त्या संगमाक कर्णप्रयाग म्हणटात. केदारनाथा सावन आनीक एक न्हंय येता: मन्दाकिनी. ती रुद्रप्रयागाक अलकनन्देक मेळटा. अस्तमेक गंगोत्रीच्यान भागीरथी आनी जाह्नवी ह्यो दोन न्हंयो एकिमेकींत भरसून देव-प्रयागाक अलकनन्देक मेळटात. देवप्रयागा उपरांत गंगेक गंगा नांव मेळ्ळां. ती थंयच्यान हृषिकेशाक आनी हृषिकेशा सावन हरिद्वाराक येता. सपाट मळार ती पयली हांगाच व्हांवक लागता.

हाचे आदले गंगेचे सगळे प्रवाह घसघशां सारके फकत कोंसळटात. हिमालयाच्या पर्वतांनी (म्हादेवाच्या जटांनी) ते झेलूंक नाशिल्ले जाल्यार भारतभूंय फुडली आशिल्ली, बुडटली आशिल्ली. कथेंतलो म्हादेव हिमालय. हिमालयाचें हें दुसरें नांव. म्हादेवान गंगा मस्तकार धरिल्ल्यान ती भारतभुंयेक सारकी शिंपूंक पावल्या. हेच कथेच्या आधारान काकासाहेब कालेलकरांनी irrigation विद्येक एक नवें उतर घडोवन दिलां—भगीरथ विद्या.

## २. ऋष्यशृंग

विभांडकान खूब वर्सा तप केलें आनी ब्रह्मर्षी म्हुण नामना जोडली. व्हडले व्हडले ऋषी ताका मानताले.

ताका उर्वशे पसून एक पुत जालो. ताका ताणे नांव दवल्लें ऋष्यशृंग.

ऋष्यशृंग विभांडकाच्या आश्रमांतूच ल्हानाचो व्हड जालो. तरणे पिरायेचो जायसर ताणे बायल-मनीस पळोवंक नाशिल्ली. तें कित्याक, बापुय सोडून दुसरो मनीस पळोवंक नाशिल्लो.

एक खेपे अंगदेशांत सुकी धाड पडली. पावस ना, पीक ना अशें जालें. हाका लागून लोक अंग देश सोडून भायर वचपाक लागले. 'पावस कसो पडटलो' ह्या हुसक्यांत राजा पडलो. ताणे आयिल्ल्या गेल्ल्याक उपाय विचाल्लो. एकल्यान उपाय सांगलो, 'तूं ऋष्यशृंगाक घेवन यो. ताचो पांय लागना फुडें पावस पडटलो.'

पुणून ऋष्यशृंगाक हाडप कसो, हो मोटो प्रस्न जावन पडिल्लो. विभांडक धाडचो ना आनी ऋष्यशृंग आपयल्यार येवचो ना, ताका भुलोवन हाडूंक जाय. हें काम कोण करतलो, समजनाशिल्लें.

राजान कांय कलवंतांक आपोवन आपलो प्रस्न तांच्या मुखार मांडलो. एकले जाणटेलेन ऋष्यशृंगाक हाडपाची जापसालदारकी आंगार घेतली. तिणे एका तारवार एक सुंदर आश्रम उबो केलो. तारवांत फळां फुलां पेयां घालीं आनी धुवेक घेवन ती भायर सल्ली. विभांडकाच्या आश्रमा लागसार हाडून तार बांदली. आश्रमांत विभांडक आसा काय ना, हाची वासपूस घेतली. तो ना-सो पळोवन तिणे धुवेक आश्रमांत धाडून दिली.

धुव शिंगारून गेली.

ऋष्यशृंग आश्रमांत आशिल्लो. ताच्या मुखार उबी रावन ती विचारपाक लागली, 'तुमचें तप बरें चल्लां मू. जेवपा खावपाक कंदमुळां बी हांगा मेळटात मू.'

ऋष्यशृंगान बायल मनशेचें रूप पळोवंक नाशिल्लें. बायल मनशेचो आवाजूय आयकूंक नाशिल्लो. हाका लागून देव लोकांतल्यान कोणूय तरी ब्रह्मचारी आयला अशें ताका दिसलें. ताका येवकार दिवन ताणे म्हळें, 'यो, बस. तूं खंयच्यान येता, तुजो आश्रम खंय.'

'म्हजो आश्रम हांगाच्यान तीन योजन पयस त्या पर्वता कडेन आसा.' तिणे जाप दिली.

ऋष्यशृंग पांय धुवपाक उदक घेवन आयलो. तेन्ना तिणे म्हळें, 'आमी दुसऱ्या

कडल्यान पांय बी धुवन घेनात.'

ऋष्यशृंगान फळां हाडून दिलीं. तींय तिणे घेतलीं नात. परतें, आपणे हाडिल्लें खाण तिणे ताका खावपाक दिलें. आपणे हाडिल्लीं फुलां दिलीं. एक पेय हाडिल्लें. तें पियेवपाक दिलें आनी ताका ती भौन भौन तेंकपाक लागली. मर्दी मर्दी वेंग मारपाक लागली. ह्या स्पर्शाक लागून ऋष्यशृंगाचे विकार जागे जाले आनी तो पेटलो. तो पेटलासो पळोवन, आमचो आतां अग्निहोत्राचो वेळ जालो, अशें म्हणून ती थंयच्यान पळ्ळी.

ऋष्यशृंगाक हे तरेचो अणभव ह्या आदीं केन्ना येवंक नाशिल्लो. ताका कितें तरी जाय जायशें दिसपाक लागिल्लें आनी तें ताका सारकें मेळूंक नाशिल्लें. तो अतृप्तच उल्लो.

थोड्या वेळान विभांडक आयलो. पळे जाल्यार, पुत एकलोच बसला. हुस्कार सोडटा.

'कितें जालां रे', ताणे पुताक विचाल्लें. 'तुवें समिधा हाडूंक नात. अग्निहोत्र कित्याक ना? कोण आयिल्लो काय कितें हांगा.'

'हय, एक ब्रह्मचारी आयिल्लो.' ऋष्यशृंगान जाप दिली. 'गोरी कात, लांब केंस, काळे दोळे, बद्द देवां सारको. ताच्या हड्ड्याक ल्हंव नाशिल्ली. तिचे बदला दोन गुळे आशिल्ले. ताणे म्हाका भौन भौन वेंगेंत घेतलो. म्हज्या ओंठांक ओंठ तेंकयले. तांगेली ती तरा खंय. म्हाका त्या स्पर्शान खूब बरें दिसलें. ताचो आवाज इतलो गोड कि बद्द साळोरी उलयल्ले भाशेन उलयतालो. ताणे म्हाका खावंक दिलें. पियेवंक दिलें. तेन्ना म्हाका हवेंत उडिल्ले वरी दिसपाक लागलें. तेन्ना पसून म्हजी कूड पेटल्या. तो परतो मेळचो-शें दिसपाक लागलां.'

विभांडक समजलो. 'हांगा कोणूय तरी बायल मनीस आयिल्ली आसूंक जाय', ताणे मनांत म्हळें आनी पुताक शिटकायलो : 'तुका खबर ना. ह्या वाटारांत राक्षस रावतात. आमी तपां करतात तीं पळोवन ते भियेनात. तपांत विघ्नां हाडपा खातीर तरां तरांच्यो माण्ण्यो करतात. तांचे पसून जतनाय घेवंक जाय, पुता. तांचेर नदर पसून घालूंक जायना. ते दितात तें पियेवंक जायना. उश्टावंक लेगीत जायना.'

बापायचे हे सांगणेन ऋष्यशृंग परतो आपल्या तपांत गुल्ल जालो.

पुणून विभांडक हुसक्यांत पडलो, 'कोण आयिल्ली काय देवा.' तीन दीस मेरेन तो तिका सोदीत रावलो. सोदुनूय ती ताका मेळ्ळी ना.

कांय दिसांनी ती परती आयली. त्या वेळारूय विभांडक आश्रमांत नाशिल्लो. तिका पळेना फुडें ऋष्यशृंग भुल्लुसलो. धांवत मुखार गेलो आनी तिका वेंगेंत घेवन

म्हणपाक लागलो, 'बाबा येवचे पयलींच चल, तुज्या आश्रमांत वचून येवंया.' ती ताका घेवन तारवार गेली आनी तो तारवार चडना फुडें तारूं सोडलें. ताची खूब सरबराय केली आनी भुलयत भुलयत ताका चंपा नगरींत व्हेलो.

ऋष्यशृंगाचे पांय हे भुंयेक लागना फुडें पावस पडपाक लागलो. घोग्यांनी पडलो. लोमपाद राजा खोशी जालो आनी ऋष्यशृंगाक आपणाली धुव शान्ता दिवन ताका जांवय करून घेतलो.

हे वाटेन, विभांडक आश्रमांत येवन पळेता जाल्यार, पुत ना. 'राजानूच व्हेला जावंक जाय' हाची ताका खातरी जाली. राजाक आनी तागेले चंपानगरीक हुलपावन उडयतलों हे तिडकीन तो उठून अंगदेशाक वचपाक भायर सल्लो. लोमपादाक ताचो भंय आशिल्लो. त्या खातीर ताणे आदींच वाटेर लोकांक दवल्लेले. कोण गायो घेवन, कोण आनी-कितें घेवन वाटेर राविल्ले. सगळ्यांक ताणे सांगिल्लें, 'विभांडक येत जाल्यार ताची बरी सरबराय करात. हें कोणाचें म्हुण विचाल्लें जाल्यार तुज्याच पुताचें म्हुण सांगात.'

विभांडक दांत-ओंठ चाबीत येतालो. वाटेर ताका तान लागली. थंयच गवळीवाडो आशिल्लो. थंय गेलो. गवळ्यांनी ताका धारोष्ण दूद पियेवपाक दिलें. ताची खूब बरी सरबराय केली.

'हो गवळीवाडो कोणाचो', ताणे विचाल्लें.

'तुज्याच पुताचो' ताका जाप मेळ्ळी.

एके कडेन ताणे रात साल्ली. थंयूय ताची बेस बरी सरबराय जाली. 'हो वाडो कोणाचो', ताणे वासपूस घेतली.

'तुज्याच पुताचो', ताका जाप मेळ्ळी.

चंपा नगरींत पावतासर विभांडकाचो राग न्हिवलो.

राजवाड्यार पावलो तेन्ना लोमपाद राजान ताका येवकार दिलो आनी भितर व्हरून ताका ताचो पुत दाखयलो. ऋष्यशृंग शान्ताक घेवन आसनार बशिल्लो. बद्द इन्द्र कसो सोबतालो.

विभांडक जो तिडकीन आयिल्लो तो धादोसभरीत जावन परतलो. वतना ताणे पुताक सांगलें, 'सुखांत राव. तुका पुत जातकूच परतो आश्रमांत यो.'

चंद्राची रोहिणी, वसिष्टाची अरूंधती, नळाची दमयंती तशी ऋष्यशृंगाची शान्ता—अशी दोगांयची नामना जाली.

लोकवेदांतली ही कथा महाभारतांत आयल्या तशी रामायणांत आनी बौद्धांच्या 'जातका' तूय म्हत्त्वाची सुवात घेवन बसल्या. हे वाटेनच्या ते वाटेनच्या कांय अदल-बदलां सयत ती खूब कडेन आयिल्ली वाचूंक मेळटा.

भागलपुरचे अरन्तमे दिकेक अठ्ठावीस मैलांचे वाटेर ऋषिकुंड नांवाची एक सुवात आसा. थंय ऋष्यशृंगाचो आश्रम आशिल्लो म्हणटात. तीन तीन वर्सांनी आयजूय थंय ऋष्यशृंगाच्या नांवान जात्रा भरता.

विभांडक ऋषीक ऋष्यशृंग उर्वशी परसून जाल्लो म्हळा. मुदलांत सांगलां—'उर्वशीक पळोवन ऋषिचें स्खलन जालें. ताचें वीर्य तळयेंत पडलें. थंय एक हरिणी उदक पियेवपाक आयिल्ली. ऋषिचें वीर्य तिच्या पोटांत गेलें आनी तिका मनीस-रुपाचें एक भुरगें जालें. भुरग्याच्या माथ्याक एक शींग आशिल्लें. म्हुण ताका ऋष्यशृंग नांव पडलें.

ऋषिंचे आश्रम रानांत आसताले. थंय तांचो केन्ना केन्ना रानांतले एकाद दुकले सुंदरे कडेन संबंद येतालो. हो संबंद ते अप्सरेचेर धुकलताले. लोककथेची ही एक मान्य तरा आशिल्ली.

## ३. अष्टावक्र मुनी

उपनिषदांच्या काळांत उद्दालक नांवाचो एक व्हड ऋषी जावन गेलो. ताका कहोड नांवाचो एक शिष्य आशिल्लो.

चाल-चलणुकेन कहोड उजवो. सगळ्या नेमांक पाळो दितालो. फकत शिकपाक मात्सो फाटीं आशिल्लो. पुणून उद्दालकाक तो आवडटालो. तागेली चाल-चलणूक पळोवन उद्दालकान ताका आपणाली धुव सुजाता दिल्ली आनी ताका जांवय करून घेतिल्लो.

आपुण शिक्षणांत फाटीं हें उणे कहोडाक भरून काडपाचें आशिल्लें. तो दीस रात शिकपाक लागलो. मोट्या मोट्यान वेदांच्यो ऋचा म्हणपाक लागलो. सुजाता गुरवार आशिल्ली. तिच्या पोटांतलो भुरगो पोटांतूच बापायच्या तोंडांतल्यो ऋचा आयकून आयकून वेद शिकलो. जल्मा येवचे पयलींच तो विद्वान जालो. बापायक वेदांचे उच्चार सारके जमनाशिल्ले. भुरग्यान पोटांत आसतनाच बापायक म्हळें, 'तूं दीस रात ऋचा पाठ करता. पुणून तांचो उच्चार सारको करिना.'

बापायक तिडक माल्ली. ताणे तिडकीन म्हळें, 'जल्मा येवचे पयलींच जाणवायो उलोवंक लागलो? तूं अष्टवांकूड जल्मा येतलो.'

बाळंत जावपा वेळार सुजातान घोवाक म्हळें, 'म्हाका णव म्हयने भर जाले. तूं दीस रात वेद घेवन बसता. घरांत पयसो ना, कांय ना. कशें जातलें, म्हाका समजना.'

कहोड म्हणूंक लागलो, 'तूं हुस्को करूं नाका. हांव पयशे घेवन येतां.'

कहोड उठून नीट जनक राजागेर गेलो. विद्वानाचें व्हडपण वळखुपी आनी प्रसंगार तांकां पावपी राजा म्हुण जनकाची नामना आशिल्ली. तागेर एकलो बुदवंत आशिल्लो. तो आयिल्ल्यां गेल्ल्यां कडेन वाद घालतालो आनी वादांत जो हार खाता ताका समुद्रांत बुडोवन मारतालो. ताणे कहोडा कडेनूय वाद घालो. कहोड वादांत पडलो. परिणाम: ताणे कहोडाक समुद्रांत बुडोवन माल्लो.

उद्दालकाक ही खबर कळ्ळी. तांका वायट दिसलें. त्याच अदमासाक सुजाता बाळंत जाली आनी तिका एक अश्टवांकूड चलो जालो. देखून ताका अष्टावक्र नांव पडलें.

अष्टावक्र ल्हानाचो व्हड जावपाक लागलो.

उद्दालकाचो पूत श्वेतकेतू. अष्टावक्राचेच पिरायेचो. अष्टावक्रा भाशेनूच विद्वान. खासा सरस्वतीच ताची विद्वत्ता पळोवन खुशालभरीत जाल्ली आनी ताका क्रिनेंय

तरी दिवंक सोदताली. श्वेतकेतून तिचे कडेन 'म्हाका फकत गिन्यानूच दी' म्हुण मागिलें. तो गिन्यानाचोच ध्यासं घेवन बशिल्लो.

एक दीस अष्टावक्र उद्दालकाचे मांडयेर तकली दवरून न्हिदिल्लो. श्वेतकेतून ताका हाताक धरून उठयलो आनी म्हळें, 'ही तुज्या बापायची मांडी न्हय.' अष्टावक्राक धसको बसलो. तो उद्दालकाकूच आपलो बापुय लेखीत आयिल्लो. उद्दालक बापुय न्हय तर आपलो बापुय कोण? ताका प्रस्न पडलो. ताणे आवयक विचाल्लें. आवय भियेली. खरें सांगलें ना जाल्यार सद्र करून श्राप-बीप दीत ह्या भंयान तिणे बापायची सगळी कथा अष्टावक्राक सांगली.

अष्टावक्राक त्या दिसा सावन न्हीद पडना जाली. केन्ना काय जनकागेर वतलों आनी तागेर आशिल्ल्या त्या घातमाऱ्या विद्वानाक वादांत उडोवन समुद्रांत बुडोवन मारतलों, अशें ताका जाल्लें. एक दीस जनक राजान एक व्हडलो यज्ञ करचो थारायला म्हणपाची एक खबर ताच्या कानार आयली. ताणे श्वेतकेतूक म्हळें, 'आमीय या रे थंय.' श्वेतकेतू ताचो मामा, तसो संवगडीय. दोगूय जनक राजागेर वचपाक भायर सल्ले.

वाटेरूच तांकां जनक मेळ्ळो. तो रथांत बसून यज्ञशाळेंत वतालो आनी तागेले शिपायक 'पयस...पयस' करून वाटे वयल्या लोकांक कडेक काडटाले.

अष्टावक्रान शिपायकांक म्हळें, 'भेड्डे कुड्डे बायलो भुरगीं आनी तकलेर वजें घेवन वतल्यांक राजान लेगीत वाट करून दिवची म्हुण एक नेम आसा. तसो गिन्यानी बुदवंत ब्राह्मणाकूय वाट करून दिवची म्हुण आसा. तांकां 'पयस पयस' करून कडेक काडिनात.'

जनकाच्या कानार अष्टावक्राचें म्हणणे पडलें. ताणे रोखडेंच ताका म्हळें, 'खरें तुजें. उज्याचे किटीक कीट म्हुण उवेखूंक जायना. वचात तुमी मुखार.'

अष्टावक्र आनी श्वेतकेतू दोगूय चलत चलत यज्ञमंटपा कडेन पावले. ते भितर वचूंक सोदताले. तांकां दारा वयल्या शिपायकान आडायले.

'आमी यज्ञ पळोवपाक आयल्यात'. अष्टावक्रान म्हळें.

'पुणून भुरग्यांक भितर सोडूं नाका म्हुण सांगणी आसा.' शिपायकान जाप दिली.

'आमी भुरगे न्हय. आमी वेद वेदांगां शिकिल्ले. सगळ्या यम-नेमांक पाळो दिवपी. पिरायेन ल्हान दिसतात, म्हुण आमकां ल्हान लेखूं नाका आनी आमचो अवमान करूं नाका.' अष्टावक्रान ताचे जापेक जाप दिली.

'ओगीच फुशारक्यो कित्याक मारता', शिपायकान परती जाप केली. 'येदे

पिरायेर कोण गिन्यानी जायनात. बरें शिकचें पडटा, कितलींशींच वर्सां तप करचें पडटा, तेन्ना मनीस गिन्यानी जाता.'

'धेंगांनी वाडलो म्हुण मनीस व्हड जायना', अष्टावक्रान परती जाप केली. 'गिन्यानान व्हड तोच व्हड. मागीर, तो कुडीन आनी पिरायेन केदोय आसूं.'

'ब्रेश्टो जाणट्यां भाशेन उलोवं नाका.' शिपायकान म्हळें.

अष्टावक्रान परती जाप केली, 'केंस पिकले म्हुण मनीस जाणटो जायना. व्हडपण वा जाणटेपण पिकिल्ल्या केंसांचेर पिरायेचेर पयशांचेर आधारून ना. सावरे बोंड व्हडलें दिसलें म्हुण तें व्हडलें थरना. तांतूंत भितर कापुसूच आसता. तूं भितर सोड आमकां. जनकाच्या दरबारांत एक व्हड बुदवंत आसा. ताका पळोवपाचो आसा आमकां. तूं राजाक वचून सांग, आमी आयल्यात म्हुण.'

शिपायक भितर गेलो. ताणे जनकाक हांची खबर सांगली. जनक भायर आयलो. अष्टावक्राक वळखलो : 'आरेच्या! हो वाटेर मेळिल्लो.' ताणे ताका पळेना फुडें मनांत म्हळें.

अष्टावक्रान राजाक म्हळें, 'तुगेर एक कोण बुदवंत आसा म्हुण आयकलां. तो वाद घालता आनी वादांत जो पडटा ताका खंय बुडोवन मारता. ताचे कडेन वाद करपाक आयलां हांव.'

जनकान म्हळें, 'तूं ताका वळखना. ताणे व्हडल्या व्हडल्यांक लोळयल्यात.'

'ताणे अजून म्हजे कडेन वाद करूंक ना', अष्टावक्रान जाप दिली. 'गिन्यानाचो ताचो मद म्हाका जिरोवपाचो आसा.'

अष्टावक्राचो आत्मविश्वास पळोवन जनक अजापांत पडलो. ताणे अष्टावक्राची पयलीं परीक्षा घेतली. कितले-शेच प्रस्न विचाल्ले. अष्टावक्रान सडसडीत जापो दिल्यो. 'हो ल्हान न्हय' हाची जनकाक खातरी जाली. तो अष्टावक्राक आनी श्वेतकेतूक भितर घेवन गेलो.

जनकाच्या दरबारांतलो बुदवंत एका आसनार बशिल्लो. अष्टावक्रान ताका म्हळें, 'तूं आपणाक व्हड लेखता म्हुण आयकलां. हांव तुजे कडेन वाद करपाक आयलां. हांव विचारतां ताच्यो जापो दी वा तूं विचार, हांव जापो दितां.'

विद्वानान एकार एक प्रस्न विचाल्ले. अष्टावक्रान सडसडीत जापो दिल्यो. बारा कुवाडीं घालून जातकूच तेराव्या कुवाड्या कडेन पावपाक विद्वान आडखळूंक लागलो. अष्टावक्र ताचेय प्रस्न पुरे करपाक लागलो. विद्वानान मान सकल घाली. ताका फुडले प्रस्न विचारूंक येनात आनी अष्टावक्र विचारता तांच्यो जापो दिवंक येनात, अशें जालें. यज्ञाक आयिल्ले ऋषी-मुनी अष्टावक्राचे विद्वत्तेचेर खोशी जाले.

अष्टावक्रान म्हळें, 'हाणे हाचे पयलीं वादांत पडिल्ल्यांक बुडोवन माल्ल्यात. हाकाय तेंच फाव जावंक जाय.'

विद्वानान आपणाक सांवरून धरपाक म्हळें, 'हांव वरुणाचो पुत. वरुणागेर एक यज्ञ चलिल्लो. बारा वर्सां मेरेन तो चलपाचो आशिल्लो. ताका ब्राह्मण जाय आशिल्ले. म्हुण हांगासल्ल्यान हांवें ब्राह्मण धाडून दिल्ले. ते पळे सगळे येवपाचे जाले.'

अष्टावक्रान म्हळें, 'तूंय थंयच वच.'

ताणे राजाच्या तोंडा कडेन पळेलें. राजा ओग्गी आशिल्लो.

अष्टावक्रान जाप दिली, 'हाका जितो दवरूंक जायना. बुडोवन मार.'

त्याच खिणाक बुडोवन मारिल्ले सगळे वयर आयले.तांच्यांत भितर अष्टावक्राचो बापुय कहोडूय आशिल्लो.

कहोडान म्हळें, 'लोक आपणाक पुत जावचो, पुत जावचो म्हणटात ते ह्या खातीर. कोणागेर कसलो पुत जल्मा येत, सांगूं येना. दुबळ्यागेर बळिश्ट जल्मा येवं येता. नेणारागेर बुदवंत येवं येता. हेंच पळेयात, म्हाका जमलें ना तें हाका जमलें.'

अष्टावक्र आनी श्वेतकेतु कहोडाक घेवन उद्दालकाच्या आश्रमांत परतले. सगळीं खुशालभरीत जालीं. सुजाता सगळ्यांत चड.

कांय दिसांनी कहोडान अष्टावक्राक म्हळें, 'म्हाका लागून तूं अश्टवांकूड जाला. ही ती समंगा न्हंय व्हांवता. ते न्हंयेंत देवं. तूं सारको जातलो.'

अष्टावक्र न्हंयेंत देंवलो. ताचीं सगळीं आंगां सारकीं जालीं. पुणून ताका अष्टावक्र नांव पडिल्लें तें मात ताका तशेंच दसून उल्लें.

## ४. यवक्रीत

भरद्वाज आनी रैभ्य नांवांचे दोग ऋषी एकामेकांचे इश्ट आशिल्ले. दोगूय एकामेकां लागसार आपापलो आश्रम घेवन रावल्ले.

भरद्वाजाक एकूच पुत, ताचें नांव यवक्रीत. रैभ्याक दोग : अर्वावसु आनी परावसु.

भरद्वाज तपस्वी जाल्यार, रैभ्य विद्वान.

आपलो बापुय तपस्वी आसुनूय लोक मानतात रैभ्याक हें पळोवन यवक्रिताक खंत भोगची. जाळ पडचे आनी तिडकूय मारची. 'गिन्यानाक इतलें म्हत्त्व जाल्यार हांवूय गिन्यान जोडून दाखयतलों.' अशें येवजून यवक्रीत तपाक बसलो. ताणे आकांताचें खर तप केलें.

एक दीस इन्द्रान ताका विचाल्लें, 'तुगेलें हें तप कित्या खातीर चल्लां.'

'गिन्यान जोडचें म्हुण', यवक्रितान ताका जाप दिली.

'गिन्यान तपान जोडूंक येना. तें गुरुमुखांतल्यान घेवंक जाय.' इन्द्रान ताका समजावन सांगपाचो यत्न केलो.

'हांव तपानूच तें जोडटलों. गुरुमुखांतल्यान जोडपाक खूब वेळ लागता', यवक्रितान जाप दिली.

'पुणून गिन्यान जोडपाची दुसरी वाट ना.' इन्द्रान परतें ताका रामजावन सांगलें.

यवक्रिताचेर इन्द्राचे सांगणेचो कसलोच परिणाम जालो ना. तो परतो तपाक बसलो. ताणे आदले परसूय अदीक खर तप केलें. इन्द्र परतो आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'सभाग्या, तुजी वाट चुकल्या. तूं फकत हटान तप करता. गिन्यान अशें मेळना. तें शिकून मेळटा.'

यवक्रितान परती तीच जाप दिली. 'हांव हेच वाटेन गिन्यान जोडटलों. खंयच्याच गुरुच्या पांयांकडेन बसपाचों ना. तूं म्हजी इत्सा भागयना जाशीत जाल्यार हांव हाच्याकूय खर तप करतलों : म्हजें एक एक आंग कातरून उज्याक ओंपतलों.'

'हो असो आयकुपाचो ना, हाका दुसरे वाटेन समजावचो पडटलो', अशें मनांत म्हणून इन्द्र गेलो.

कांय दिसां उपरांत इन्द्र एका म्हाताऱ्या ब्राह्मणाचें रूप घेवन आयलो आनी गंगेच्या ज्या घाटार यवक्रीत न्हातालो धुयतालो थंय वचून मूठ मूठ रेंव जमोवन

गंगेचेर सांकव बांदपाचो यत्न करपाक लागलो.

यवक्रीत न्हावंक आयिल्लो.. ताका थंय एक म्हातारो ब्राह्मण मूट मूट रेंव हाडून गंगेंत ओतता तो दिश्टी पडलो. यवक्रितान विचाल्लें, 'हें कितें करता तूं. कितें मनांत आसा तुज्या.'

'लोकांक येवपा वचपाक सोंपें जावचें म्हुण गंगेचेर एक सांकव बांदूंक सोदतां.' म्हाताऱ्यान जाप दिली.

यवक्रीत हांसलो, 'मूठ मूठ रेंव घालून सांकोव कसो बांदून जातलो. तूं नाका जाल्लो उद्योग घेवन बसला.'

म्हाताऱ्यान ताका विचाल्लें, 'मागीर, तप करून तूं गिन्यान कशें जोडूंक सोदता तर. तुगेलो उद्योग नाका जाल्लो न्हय व्हय.'

'हो इन्द्र तर.' यवक्रीत ताका वळखलो. ताणे इन्द्राक म्हळें, 'म्हजो उद्योग अर्थ नाशिल्लो जाल्यार अर्थ आशिल्लें कितें तें तूंच जोडून दी. म्हाका गिन्यान मेळूंक जाय. गिन्यानांत दुसऱ्या कोणाय परस म्हजो पांवडो वयलो आसूंक जाय.'

इन्द्र उबगलो आनी म्हणपाक लागलो: 'चल, घरा वच आनी तुजे तूंच वेद शिकपाक लाग. तुका गिन्यान मेळटलें.'

यवक्रीत घरा आयलो. वेद घेवन बसलो. आपले आपुण शिकपाक लागलो. विद्वान जालो. आपणे तप केलें, तपाक लागून आपणाक इन्द्र मेळ्ळो आनी आतां आपुण एक व्हड गिन्यानी जालां म्हुण तो हड्डे मुखार काडून चलपाक लागलो.

'हो गर्वान फुगत चल्ला,' बापायन मनांत म्हळें. 'असोच फुगत गेलो जाल्यार रैभ्याचो हो अवमान करतलो' अशें येवजून ताका साबुदीर हाडपा खातीर बापायन ताका एक कथा सांगली—

वालधी नांवाचो एकलो ऋषी आशिल्लो. ताका एकूच पुत. तो एक दीस मेलो. बापायक खूब वायट दिसलें. आपणाक एक अज्रंवर पुत जावचो म्हुण ताणे तप सुरू केलें. आकांताचें खर तप केलें.

एक दीस देव ताका प्रसन्न जालो. आनी विचारपाक लागलो, 'कितें दिवं तुका.'

'एक अज्रंवर पुत दी.'

'मनीस अज्रंवर जायना. ताचें आयुष्य केन्नाय तरी सोंपूंक जाय. तूं अमकींच वरसां ताका दी म्हुण माग. कितलींय माग...'

ऋषीन भोंवतणी पळेलें. ताका मुखार एक पर्वत दिश्टी पडलो. ताचे कडेन पळोवन ताणे देवा लागीं मागलें, 'ह्या पर्वताक जितलीं वरसां तुवें दिल्यांत तितलीं पुताक दी.'

'तथास्तु.' देवान म्हळें आनी देव गेलो.

कांय काळान ताका एक पुत जालो. ताका ताणे मेधावी नांव दवर्ले. सभावान रागीट. मात कितेंय वांकडें जाल्यार ताका कुर्रर जातालें. तो भूंय मळब एक करून उडयतालो. तांतूंत ताका आपणाक बेगीन मरण ना हें कळिल्लें. गर्वान वचत ताचो तो अवमान करतालो. सगळ्यांक पिडापीड भोगयतालो.

एक दीस ताणे धनुषाक्ष मुनिचो अवमान केलो. मुनीक तिडक माल्ली. ते तिडकी भरशीं ताणे मेधावीक श्राप दिलो, 'तुजो लासून गोबोर जावं.'

पुणून ताचो गोबोर जालो ना. 'अब्बा! धनुषाक्षाक अजाप जालें. आपलो श्राप फुकट कित्याक गेलो, ताणे अंतर्ज्ञानान सोदून काडलें. मागीर कळाव केलो ना. रेड्याचें रूप घेतलें आनी शिंगांनी पर्वत आडवो घालो.

मेधाविचो प्राण त्याच खिणाक गेलो.

ही कथा सांगून भरद्वाजान यवक्रिताक म्हळें, 'गर्वान अशी गत्त जाता मनशाची. तुजी जावची न्हय म्हुण सांगतां: तूं कितलेंय गिन्यान जोड. पुणून गिन्यानाचो गर्व तकलेंत चडूंक दिवं नाका.'

आनी शिटकायलो, 'रैभ्य मुनिचो अवमान करूं नाका. ताका तिडावं नाका. तिडकीन तुका हुलपावन गोबोर करपाची तांक ताच्या आंगांत आसा.'

'तूं हुस्को करूं नाका. हांव कोणाचोच अवमान करपाचों ना. रैभ्याचो तर नाच ना.' यवक्रितान जाप दिली.

कांय दीस गेले. यवक्रीत लज-भीड सोडून मेकळो भोंवतालो. भोंवत भोंवत एक दीस रैभ्याच्या आश्रमा लागसार पावलो. थंय ताका रैभ्याची सून दिश्टी पडली. किन्नरिचें कशें तिगेलें रूप पळोवन यवक्रीत विकारां सुवादीन जालो. 'आगे...हांगा यो' करून तिका आपोवपाक लागलो. ती भियेली. तेन्ना यवक्रितान तिका बळयां उबारून एकांतांत व्हेली आनी तिचेर आगळीक केली.

ती घरा येवन रडपाक लागली.

रैभ्यान विचाल्लें, 'कितें जालें.'

तिणे घडिल्ली सगळी खबर दाखय लिपय करी नासतना सांगली.

रैभ्याच्या आंगाक जाळ पडले. यवक्रिताक खावं काय गिळूं, अशें ताका जालें. रागान ताणे आपले जटेंतलो एक केंस हुमटून काडलो आनी तो मंत्रून होमांत घालो. होमांतल्यान त्याच खिणाक एक अप्सरा भायर सल्ली. ताणे आनीक एक केंस काडलो, तोवूय मंत्रून होमांत घालो. खिणा भितर होमा उज्यांतल्यान एक दैत्य भायर सल्लो.

दोगांकूय रैभ्यान सांगलें : 'वचात आनी यवक्रिताक जितो मारून उडयात.'

यवक्रीत एका रुखा मुळांत बशिल्लो. जेवतालो. होमांतली अप्सरा ताच्या मुखार येवन उबी रावली. तिका पळोवन यवक्रीत भुल्लुसलो. ती मात्शी म्हऱ्यांत आयली आनी ताचो कमंडलू घेवन पळ्ळी. यवक्रीत उश्ट्याचोच हात घेवन उठलो त्याच खिणाक दैत्य सुळो घेवन आयलो. ताणे यवक्रिताचेर सुळो उबाल्लो. श्राप दिवपाक यवक्रितान कमंडलू सोदलो. कमंडलू नाशिल्लो. तो तसोच उश्ट्या हातान तळयेर धांवलो. तळी आटिल्ली. न्हंयेर गेलो. तिवूय सुकिल्ली. आश्रमांत येवपाक धांवलो. फाटल्यान सुळो उबारून दैत्य धांवतालो. यवक्रीत बापायचे यज्ञशाळेंत भितर वचपाक करतालो. दारार एक कुड्डो दरवान बशिल्लो. तो वळखलो ना. ताणे आडायलो.

जिस्त त्या खिणाक फाटल्यान सावन सूं ऽ करून एक सुळो आयलो आनी तो यवक्रिताचे फाटीक तोपून ताच्या हड्ड्यांतल्यान भायर सल्लो.

यवक्रीत घो करून जमनीर पडलो. आनी त्याच खिणाक मेलो.

भरद्वाज समिधा घेवन आश्रमांत परतलो तेन्ना यज्ञशाळेच्या दारांतूच ताका यवक्रिताचें प्रेत दिश्टी पडलें. ताचो आवरो उडलो. 'कितें केलें पुता तुवें हें', तो विकळाप करपाक लागलो. 'कोणेच केलें ना असलें तप तुवें केलें. त्या तपानूच तुजी वाट लायली. पयलीं काय बरो भुरगो आशिल्लो तूं. तपा उपरांत निगरघट्ट जालो. हांवें तुका सांगिल्लें, रैभ्याच्या आश्रमा लागसार वचूं नाका म्हुण. ताच्यांत तुका हुलपावन उडोवपाची तांक आसा म्हुण.'

ताका रैभ्याची तिडक माल्ली. 'म्हजी उतार पिराय. हे पिरायेर तुवें म्हाका पुत्र-शोकाचें दुख्ख भोगयलें. तुका तें पचपाचें ना.' अशें म्हणून ताणे रैभ्याक श्राप दिलो : 'तूं तुज्या पुताच्या हातान मरतलो.'

श्राप दिल्या उपरांत रोखडोच ताका पच्छात्ताप जालो. 'शीःशीःशीः हांवें म्हज्या इश्टाकूच श्राप दिवचो? असलें जिणे जियेवपांत कितें अर्थ उल्ला आतां. भुरगीं नात तेच भाग्यवंत म्हणूंक जाय.'

अशें म्हणून, पुताच्यो निमाण्यो क्रिया करतां करतां ताणेय प्राण सोडलो.

कांय दीस गेले. बृहद्युम्न राजाच्या मनांत एक यज्ञ करचो अशें घोळपाक लागलें. ताणे रैभ्याच्या दोनूय पुतांक यज्ञ चलोवपाक आपयले. यज्ञ बरेच दीस चलपाचो आशिल्लो.

एक दीस परासुवाक बायलेचो उगडास जालो. भावा सुवादीन यज्ञ करून तो घरा येवपाक भायर सल्लो. तीनसांजचो भायर सरिल्लो. सवन रात चलत रावलो.

न्हीद येताली. तरूय चलतालो. आश्रमा लागसार अवचित ताका झोंपांनी एक सावद-शें किर्ते दिश्टी पडलें. काळोख आशिल्लो. हाचे दोळेय पेंगताले. सावदान आपणाचेर उडी घेवचे पयलींच आपणे ताका मारून उडोवचें, अशें येवजून ताणे ताचे तकलेर दांडो घालो. तें सावद नाशिल्लें. खासा ताचो बापुय आशिल्लो. दांडो तकलेक लागून बापुय मेलो.

बापायच्यो निमाण्यो क्रिया करून तो आशिल्लो तसो ब्रह्द्युम्नाच्या यज्ञमंटपांत आयलो. भावाक खबर सांगली आनी म्हळें : 'ब्रह्महत्येचें पातक लागलें म्हाका. आतां प्रायश्चित्त घेवंक जाय. हत्या जरूय म्हज्या हातान जाल्ली आसली तरूय पातक तुकाय लागता. प्रायश्चित्त एकल्यान कोणेय घेतकूच जालें. तूं घे. यज्ञाचें काम हांव पळेतां. तुज्यान एकल्याच्यान यज्ञाचें काम जावचें ना.'

अर्वावसु प्रायश्चित्त घेवपाक गेलो.

प्रायश्चित्त घेवन कांय दिसांनी परतलो. तेन्ना तेज:पूंज दिसपाक लागलो. ताच्या तोंडा वयलें तेज पळोवन भावाक मत्सर जालो. ताणे राजाक म्हळें, 'हो ब्रह्मघातकी हांगा कित्याक येता. हाणे बापायची हत्या केल्या. प्रायश्चित्त घेवपाक गेल्लो. ताका भितर येवंक दिवं नाका.' राजान ताका दारांतूच आडायलो.

'हांवें करूंक ना हत्या. ताणे केल्या. प्रायश्चित्त मात हांवें घेतलां.' ताणे तरेतरेन सांगून पळेलें. पुणून तो सांगता तें कोणाकूच खरें दिसलें ना. रगळ्यांनी ताका धांवडावन घालो.

ताका वायट दिसलें. ताणे तप सुरू केलें. ताका सूर्य प्रसन्न जालो. तेन्ना ताणे मागलें, 'म्हज्या बापायक जिवो कर. भावाक ब्रह्महत्येच्या पातकांतल्यान मेकळो कर. भरद्वाज आनी यवक्रीत दोगांकूय परते दी.'

'तथास्तु.' सुर्यान म्हळें. तेन्ना मेल्ले सगळे जिवे जाले. सगळे देव तांकां आशीर्वाद दिवपाक आयिल्ले. यवक्रितान अग्नीक विचाल्लें, 'हांव वेद शिकलां. सगळ्या व्रतांक हांव पाळो दितां. तरी आसतना रैभ्य म्हाका हुलपावंक पावता. हांव खंय उणो पडटां ?

'तुवें गुरू बगर गिन्यान जोडलां. ताणे गुरुची सेवा केल्या. आनी कश्टान गिन्यान जोडलां.' अग्नीन जाप दिली.

मुदलांतलें हें एक वैदिक आख्यान. महाभारतांत येवन तें थिरावलें त्या आदींच तांतूंत कितलीशीच भर पडली. पातंजलीन आपणाल्या महाभाष्यांत हें आख्यान सांगतल्यांक यावक्रितिक म्हणटाले अशें म्हळां. हाचे वयल्यान तें शुंगकाळांत महाभारतांत येवन थिरावलां जातलें अशें जाणकारांचे मत्त. त्या आदीं तें एक खेरीत उपाख्यान म्हुण चलतालें

## १. धर्मव्याध

कौशिक नावाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो. तो वेद उपनिषदां शिकिल्लो. आनी तांतुंतूच गुल्ल राविल्लो.

गांवा भायल्या एका रुखा मुळांत बसून तो एक दीस मोट्या मोट्यान वेदांच्यो ऋचा म्हणटालो. अवचित ताचे तकलेर किते तरी पडलें. 'कोणे चिरपिलें' अशें म्हणून ताणे रागान वयर पळेलें. जाल्यार रुखाचे एके ताळयेर एक बकें बशिल्लें ताका दिश्टी पडलें. कौशिकाची रागान भरिल्ली नदर ताचेर पडना फुडें तें हुलपलें आनी मरून सकल पडलें.

कौशिकाक वायट दिसलें. 'म्हजे तिडकीक लागून बावडें मेलें,' ताणे मनांत म्हळें. ताका हाचो पच्छत्ताप जालो.

इतल्यांत भिक्षा मागूंक वचपाचो वेळ जालो. तो भिक्षा मागपा खातीर गांवांत भितर गेलो. एका घरा मुखार उबो रावन ताणे 'म्हाका भिक्षा घालात' म्हुण मागलें. दारांतूच एकली बायल-मनीस बशिल्ली. 'राव आं, घेवन येतां भितल्ल्यान' अशें म्हणून ती भितर गेली.

इतल्यांत तिगेलो घोव भितर सल्लो, 'म्हाका वाड. भूक लागल्या' अशें म्हणून तो हात-पांय धुवपाक गेलो. ही बायल एक पतिव्रता. घोवाक दैवत लेखपी. सगळ्यांत पयलीं घोवाची सेवा करपी. ती ताका वाडूंक बसली. घोव जेवन उठसर ती भितरूच उल्ली. कौशिक भायर उबो आशिल्लो. ताका केदो वेळ तिश्टत रावचें पडलें. घोवाचें जेवण जायना फुडें ती बायल भिक्षा घेवन भायर आयली.

'म्हाका राव आं म्हुण सांगून गेल्ली, इतलो वेळ किते करताली', कौशिकान तिडकीन तिका विचाल्लें.

'घोवाक वाडटालीं', तिणे जाप दिली. 'पुरो जावन आयिल्लो. ताका भूक लागिल्ली.'

'तुका ब्राह्मणा परस घोव व्हड काय किते. दारांत आयिल्ल्या ब्राह्मणाक पयलीं वाडूंक जाय. जाणटेल्यांनी शिकयलें ना काय किते तुका हें.' कौशिकान तिका विचाल्लें.

तिणे थंडसाणेन जाप दिली, 'तकली मात्शी शान्त दवरून उलयात. हांव ब्राह्मणाक व्हडूच लेखतां. पुणून घोवाक ताच्याकूय व्हड लेखतां. घोव म्हाका देवा समान.'

आनी सद्द करून तिणे म्हळें, 'हांव बकें न्हय आं.'

कौशिकाक अजाप जालें. 'अब्बा! हिका बक्याची खबर कशी कळ्ळी. ही कांय थंय नाशिल्ली.'

कौशिकाचो राग रोखडोच न्हिवलो.

बायल-मनीस उलयत रावली. 'तिडक मनशाची दुस्मान. ब्राह्मणाच्या आंगांत ती आसूंक जायना. जो तिडक आनी ओड सोडटा तोच खरेलो ब्राह्मण. ब्राह्मणान सदां सत्य उलोवंक जाय. धर्माक धरून चलूंक जाय. कोणे वायट केलें जाल्यार ताचें लेगीत बरेंच करूंक जाय, बरेंच चिंतूंक जाय. जो सगळ्यांक सारके लेखता तोच ब्राह्मण. तुका कोणेच ब्राह्मण असो आसता हें सांगलें ना काय कितें. जाल्यार तुका धर्माचें खरें गिन्यान जावंकूच ना अशें म्हणचें पडटलें. धर्मान कशें चलचें हें खबर नासत जाल्यार मिथिला नगरींत वच. थंय एक व्याध रावता. धर्मव्याध म्हुण ताका लोक वळखतात. तो सांगतलो.'

आनी म्हळें, 'म्हज्या तोंडांतल्यान आगळें उणे कितेंय भायर सरिल्लें आसत जाल्यार म्हाका क्षमा करची.'

'हांव बकें न्हय' म्हुण तिणे म्हळ्ळें तेन्नाच कौशिक अजापांत पडिल्लो. आतां तिगेलो उपदेस आयकून अदीक अजापलो. ही जाका मेळ म्हुण सांगता त्या धर्मव्याधाक वचून मेळचेंच पडलें अशें येवजून तो मिथिला नगरींत गेलो. 'धर्मव्याध खंय रावता' विचारीत विचारीत तो एके पाळणींत पावलो. 'हो तो बसला तो धर्मव्याध' एकल्यान ताका सांगलें.

पळे जाल्यार, एक ल्हान सो पसरो. पसऱ्या मुखार कितलिंशींच गिरायकां उबीं आसात आनी एक मनीस थंय बसून तांकां मांस विकता. 'च्ये, हो धर्मव्याध'; करसो आसतलो.' कौशिकान मनांत, म्हळें. 'धर्माचें मर्म जाणा जाल्लो मनीस असलो उणाक धंदो केन्ना करचो ना. तो खंयच्याय तरी आश्रमांत वचून रावतलो. थंय शिष्यांक उपदेस करतलो. प्रवचनां करतलो.'

इतल्यांत धर्मव्याधाची नदर कौशिकाचेर पडली. तो बेगीबेगीन उठून भायर आयलो. 'ते पतिव्रतेन धाडल्यात काय कितें तुमकां हांगां,' ताणे कौशिकाक विचाल्लें. आनी 'रावात आं, आमी घरा या, हांगा उलोवंक मेळचें ना', अशें म्हणून तो परतो पसऱ्यार गेलो. मांस विकपाचें काम आनीएकल्या कडेन दिलें आनी तो बेगीबेगीन भायर आयलो.

'चलात तर, या' अशें म्हणून ताणे कौशिकाक मुखार घालो आनी आपुण पावल भर फाटल्यान रावन तो ताका घेवन घरा गेलो.

'मांस विकपाचो धंदो तुवें करपाचो न्हय.' कौशिकान घरांत भितर सरना फुडें

ताका म्हळें.

'वाड वडलां पसून चलत आयिल्लो धंदो हो. कित्याक सोडचो हांवें.' व्याधान जाप दिली आनी म्हळें, 'म्हाका हो धंदो करपाक लज दिसना. हांव फट उलयल्लों जाल्यार लज दिसतली आशिल्ली. कोणाचो मत्सर केल्लो जाल्यार दिसतली आशिल्ली. हांव फट उलयना. कोणाचो मत्सर करिना. दारांत आयिल्ल्या कोणाक रिकाम्या हातांनी परतो धाडिना. कोणाचें वायट चिंतिना. कोणाची निंदा करिना. उजू चलणुकेच्या नेमांक धरून चलतां. पोटा खातीर जण एकल्याक कसलेंय तरी काम करचेंच पडटा. हांव हें करतां. म्हाका हें काम जाणटेल्यां कडल्यान मेळ्ळां. समाज चलता तोंवेर कोणाकूय तरी शेतकाम करचें पडटलें. कोणाकूय तरी गोरवां राखचीं पडटलीं, कोणाकूय तरी पसरे घालून बसचें पडटलें. सगळेच ब्राह्मण जाले जाल्यार कशें जातलें. सगळीं कामां सारकीं. कामां भितर उणाक आनी ऊंच कामां नात. क्षत्रियांचें काम ब्राह्मणांच्या कामा परस ऊंच न्हय, आनी ब्राह्मणांचें काम वैश्यांच्या कामा परस ऊंच न्हय. जण एकल्यान आपापलें काम बाकिच्यांच्या कामा इतलेंच ऊच धरून करचें. दुसऱ्यांचें काम आपणे करचें न्हय.'

व्याधाची जाप आयकून कौशिक अजापांत पडलो. ताणे मेकळ्या मनान व्याधाक म्हळें : 'ऋषीच तूं एक मोटो.'

व्याध ताका घरांत भितर घेवन गेलो. भितर सगळें चक्क आशिल्लें. भितर व्याधाची आवय आशिल्ली. बापुय आशिल्लो. व्याधान वळख करून दिवन म्हळें, 'हीं म्हजीं दैवतां. हांकां हांव कितेंच उणे पडूंक दिना. हांच्या मना आड कितेंच करिना.'

आनी म्हळें, 'तूं अशें करिना. तूं घर सोडून आयला. आवय-बापायक सोडून आयला. तुज्यो लागणुको तुवें आपणाक लावन घेवंक नात. परत घरा वच. आवय-बापायक धादोशी दवर. तांची सेवा कर. सेवे बगर गिन्यानाक मोल ना.'

शक यवनांच्या आनी उपरांतच्या हुणांच्या आगळिकांक लागून मोडिल्लो आनी विस्कळीत जाल्लो भारतीय समाज पर्थून एका सुतान बांदून काडपा खातीर भागवत धर्म वयर सल्लो, ते मुर्स्तींतली ही कथा. घरदार सोडून भगवीं वस्त्रां घालून जिविताचे प्रस्न सोडोवपाची एक वाट धर्माच्या नांवान त्या काळांत चलताली. तिच्या आड भागवत धर्मान बंड केलें आनी घरदार सांबाळून मुक्ती जोडपाची एक नवी वाट समाजाक दाखयल्ली. ही वाट सत्य अहिंसा अद्रोह संयम दया क्षमा करुणा प्रज्ञा ह्या बुन्यादिंचेर आधाल्लेली नितिची वाट आशिल्ली. विचारांचे सुके बडबडी परस आचाराक (चलणुकेक) म्हत्त्व दिवपी ही वाट विस्कळीत जाल्ल्या भारतीय समाजाक एकठांय बांदपा खातीर खूब उपकारा पडिल्ली.

व्याधाची आनी कौशिकाची जायत्या प्रस्नांचेर चर्चा जाता. धर्म कित्याक म्हणचो, उजू चलणुकेक म्हत्त्व कित्याक दिवचें, जिवितांत करणेची सुवात खंयची, पुण्य, पातक

कित्याक लागून लागना. असल्या—धर्माच्या, नितिच्या, ब्रह्मविद्येच्या कितल्याश्याच आंगांचेर कौशिक व्याधाक प्रस्न विचारता आनी व्याध विस्तारान जापो दिता. तांतूंत भागवत धर्माची पुराय 'दृष्टि' पळोवंक मेळटा. कांय जाणकार व्याधाच्या आनी कौशिकाच्या ह्या 'संवादा' क भगवद्गीते इतलेंच म्हत्त्व दितात.

पंचरात्र भागवतांचे मुस्तींत महाभारताचें एक नवें संस्करण भायर सल्लां. त्यावेळार ही कथा महाभारतांत येवंक पावल्या.

# १. प्रज्ञावाद

अज्ञातवासांतल्यान पांडव परतल्यात. विराटाचे उपप्लव्य नगरींत येवन रावल्यात, होगडायलें राज्य परतें कशें घेवचें हाचे बेत रचतात. ही खबर धृतराष्ट्राक कळटा. तो पांडवांच्या मनांत कितें आसा तें काडून घेवपा खातीर संजयाक तांच्या म्हऱ्यांत धाडटा. संजय वता आनी 'हे राज्य घेतले बगर रावपाचे नात' हाची खातरी करून घेवन परतता. हस्तिनापुराक तो पावता तेन्ना रात जाल्ली आसता. धृतराष्ट्र न्हिदूंक गेल्ले कडेन आसता. संजय ताका उठयता. पुणून पांडवांनी कितें सांगून धाडलां तें सांगपा बदला तो धृतराष्ट्राक दुशण दिवन म्हणटा, 'तुंवें कुड्डेपणान आपणाचेर नाका आसतना संकश्टां ओडून घेतल्यांत.' इतलें सांगून तो आपणाक पुरो जालां, आपुण आतां न्हिदूंक वतां, पांडवांचें म्हणणे फाल्यां सगळ्यां हुजीर राजसभेंत सांगता, अशें सांगता आनी उठून वता.

धृतराष्ट्राची न्हीद उडून वता. तो विदुराक आपोवंक धाडटा. विदुर येता. विदुर तागेलो भाव. सांगाती. दीस रात ताचेच सरीं रावपी.धृतराष्ट्राक मेळचें जालें जाल्यार आनीक कोणाकूय पयलीं कळोवचें पडटालें. विदुराक केन्नाय, खंयच्याय वेळार मेळपाची सुट आशिल्ली.

धृतराष्ट्र ताका म्हणटा : 'संजय पांडवांक मेळून आयलो. पुणून तांणी कितें सांगून धाडलां तें सांगी नासतना वयल्यान म्हाका दुशण दिवन गेलो. म्हाका आतां न्हीद पडना.'

'न्हीद कोणा कोणाक पडना, सांगतां,' विदुर ताका जाप दिता. 'एक, जाका बळिश्ट राजा आड झुजपाक उबो रावचें पडलां असल्या दुबळ्या राजाक. दोन, जो जिवितांत नागवला ताका. तीन, जिवीत फकत जेवन खावन मजा मारून जियेवपाचें अशें मानीत आयला ताका. (कामी मनशाक) आनी चार, चोराक. तुका हांतले खंयचे पिडेची बादा जाल्या म्हुण न्हीद पडना. काय, पांडवांक तुंवें नागयल्यात म्हुण पडना. खरेपणानशीं, तुंवें तांगेलें तांकां दिवन उडोवपाचें. पुणून तशें करपा वांट्याचें तूं तांगेलें सगळें हातासून बसला. दुर्योधन, दुःशासन, कर्ण, शकुनी असल्यांचेर पातयेवन तूं आपणाक बरे दीस येतले म्हुण रावला. शाण्या मनशाचें लक्षण न्हय हें.

**शाणो कोण**

जो प्रज्ञावंत तो. तो केन्ना वायट करण्यो करचो ना. उणाक कामाक आफुडचो ना. तो बरें कितें, वायट कितें तें पारखितलो आनी तांतलें बरें तेंच वेंचून काडटलो. सदां बरींच कामां करतलो. आपल्या कामांत तो तिडक खोस अभिमान, कित्याचीच आडखळ येवंक दिवचो ना. तो आपल्या ध्येयाक घट धरून रावतलो.

शाणो मनीस येवजिता तें फकत ताच्या उलोवण्यांतल्यानूच न्हय, तर ताचे करणेतल्यानूय दिसून येता. शीं पडूं वा उजो जावं, संपत आसूं वा दळदीर येवं, शाण्या मनशाच्या वावरांत ह्यो गजाली आडमेळीं हाडूंक पावनात. शाणो मनीस पयलीं आपणाली तांक केदी तें पळेतलो, आपणाच्यान कितें जातलें, कितें जावचें ना, आपणाक कितें जमतलें, कितें जमचें ना, हाचो हिशोब लायतलों आनी तांकता तसलेंच काम हातांत घेतलो. सत्याक न्यायाक नितीक धरुनूच कामां करतलो. आपणाक आनी हेरांक बऱ्याक पडटीत तींच कामां करतलो. भोगा परस कर्तुत्वा कडेन लक्ष दितलो. काम ल्हान आसूं, तें सोडचो ना. बरें, दुसऱ्याच्या कामांत विचाल्ले बगर लक्ष घालचो ना. दुसऱ्यांचीं कामां आपल्या आंगार घेवचो ना. खंयचेंय काम हातांत घेतना भुल्लुसून घेवचो ना. हुर्ररफुर्रर जावन तो तें करचो ना. जें मेळपाचें ना ताच्या फाटल्यान धांवचो ना. संकश्टां अरिश्टां अपेसां येवन कोंसळ्ळीं, जाल्यारूय कांचवेवचो ना, थतर वितर जावचो ना. हातांत घेतिल्लें काम नित्शायान करीत रावतलो आनी तडीक व्हरतलो. मर्दी कोणे भौमान केलो जाल्यार हड्डें फुलोवन चलचो ना. आनी अवमान जालो जाल्यार खंती जावचो ना, तिडकुचो ना. शाण्या मनशाचें चित्त सदां गंगे सारकें शान्त उरतलें. केन्नाच उसळचें ना. उलयतना तो दाखय लिपय करचो ना. ओगीच कित्याय कितें उलोवचो ना. येवजून मेजून उलयतलो. आपल्या गिन्यानांत सदां भर घालीत रावतलो. जाची बुद्द गिन्याना फाटल्यान आनी जाचें गिन्यान बुद्दी फाटल्यान चलता तो शाणो. उजु चलणुकेच्यो शिमो जो केन्ना हुपिना तो शाणो.

### मूर्ख कोण

आनी मूर्ख वा म्हणुया, अर्दकुटो कोण—

गिन्यान नासतना आपणाक व्हड गिन्यानी लेखता तो. आंगांत कसलीच योग्यताय नासतना आपणाक व्हडलो लेखता तोय. मनान दळदिरो आसून व्हडले हावेस धरपी, कसलोच यत्न करी नासतना सगळेंच आपणाक मेळचें म्हुण आंवडेवपी मनीस मूर्ख वा अर्दकुटो. अर्दकुटो मनीस आपलीं कामां कुशीन दवरतलो आनी दुसऱ्यांच्या कामांत बोवाळटलो. इश्टांक लेगीत फटयतलो. जांकां पयस दवरूंक जाय तांकां लागीं करतलो आनी जांकां लागीं दवरूंक जाय तांकां पयस धुकलतलो. ताचे परस जो व्हड ताचो तो दुस्वास करतलो. बऱ्या मनशांची फाट धरतलो. तांच्या कामांत आडखळी हाडटलो. तांकां त्रास दितलो. मेळन ताचो दुबाव घेतलो. दुसऱ्यांचें वायटूच चिंततलो, वायटूच करतलो. आयचीं कामां

फाल्यांचेर धुकलतलो. रोखडीं करपाच्या कामांक कळाव लायतलो. आपय नासतना खंयूय वतलो. गरज नासतना खंयूय उलयतलो आनी कितेंय उलयतलो. आपलीं उणी पळोवपा वांट्याचीं दुसऱ्यांची उणी पळेतलो आनी तीं व्हडलीं करून सांगतलो. आपलीं कामां सारकीं जालीं नात जाल्यार दुसऱ्यांक दुशण दितलो. धर्माक पाळो दिनासतना पुण्य जोडूंक आंवडेतलो. यत्न करी नासतना फळ मेळचें म्हणटलो. आपणाक जें फावना तेंच जोडूंक फुरफुरतलो. सदां उणाकांच्याच सांगातांत रावतलो. असल्यांचीच संगत धरतलो. घरच्यांक उपाशीं दवरून आपुण बरें जेवतलो, बरें न्हेसतलो. (असलो मनीस मुर्खूच न्हय, तर दुश्टूय बी.)

### प्रज्ञावंताचो वेव्हार

धोणवांतल्यान सुटिल्लो तीर एकल्याक मारीत वा ना मारीत, पुणून राज्यांतलो एकलोच बुदवंत खुबत जाल्यार तो राजासयत पुराय राज्याचो गोबोर करीत. विक्खाचो घोंट एकल्याचोच जीव घेत. तरसाद एकल्याचीच गोमटी कातरीत. पुणून राजाचें गुपीत फुटत जाल्यार प्रजे सयत राज्याचो गोबोर जातलो. पल्तडीं वचपाचो एकूच उपाय म्हळ्यार तार. उदरगतिचें एकूच सपण म्हळ्यार सत. क्षमाशीळ मनशाचो एकूच अवगुण दाखोवं येता. तो म्हळ्यार, लोकांक तो दुबळो दिसता इतलोच. खरेपणानशीं हाका अवगुण म्हणूं नज. ताका दुशण दिवं नज. कित्याक, क्षमा एक मोटें बळ. दुबळ्यांत गुण आनी बळिश्टांत भूषण कशें सोबपा सारकें. सगळ्यांचें बरें करपाची तांक एकाच तत्त्वांत आसा, धर्मांत. तशी संवसारांत शांती हाडपाची तांक एकाच गुणांत आसा, क्षमेंत. क्षमेन कोणाकूय जिखूं येता. दुस्मानाकूय आपलो करूं येता. मिश्टान्न केन्ना एकल्यान खावचें न्हय. (दुसऱ्याक आपोवन ताच्या वांगडा खांवचें.) प्रवासाक केन्ना एकल्यान वचचें न्हय. (सांगाताक दुसऱ्याक घेवचो.) व्हडलो वावर केन्ना एकल्यान करचो न्हय. (चार चौगां सांगातान करचो.)

बिळांतल्या हुंदराक सोरोप गिळून उडयता तशी दिगविजय करिना असल्या राजाक आनी देशयात्रा करिना असल्या बुदवंताक भूंय गिळून उडयता. दोनूच तरांचे लोक संवसारांत सोबतात. कोडू उलयनात ते आनी पाड्या लोकांक थारो दिनात ते. दोन तरांचे मनीस संवसारांत सोबनात. करसलोच वावर करिनात असले संवसारी आनी संवसारांत घुसपले साधु-संन्याशी. स्वर्गा पररूय वयली सुवात दोनूच तरांचे लोक जोडूंक पावतात. हाणपाचें बगळें आंगांत आसुनूय क्षमा करतात ते एक, आनी गरीब आसुनूय गरजेवंताक पावतात ते. न्यायान जोडिल्ल्या

धनाचे वायट उपेग दोन: फावना ताका दिवप आनी फावता ताका दिनासतना रावप. दुडू आसुनूय जो दान करिना आनी गरीब आसुनूय जो कश्ट करिना ताच्या गळ्याक फातर बांदून ताका दरयांत बुडोवन मारचो.

समाजांत तीन तरांचे लोक पळोवंक मेळटात: बरे, सादारण आनी उणाक. तिगांकूय तांच्या पांवड्याक सोब सारकीं कामां लावन दिवंक जाय. दुसऱ्यांक नाडप, दुसऱ्यांच्या बायलांचेर नदर दवरप आनी इश्टाक सोडून दिवप, हे तीन अवगुण मनशाचो घात करतात. ओड, तिडक आनी वसवशेपण हे तीन दरवटे नरकाचे. ते सोडून दिवंक जाय.

मोटवे बुद्दिच्या, आळशी, हुतहुत्या आनी आपल्या सुवार्था खातीर तुजी तुस्त गायतल्या मनशांची बुद्द घेवन केन्नाच कितेंच करचें न्हय. आपलें गुपीत तांकां सांगचें न्हय. तांकां लागीं येवंक दिवचें न्हय. कुटुंबांतल्या जाणटेल्याक, संकश्टांत पडिल्ल्या घरंदाजाक, गरीब जाल्ल्या इश्टाक आनी भुरगें नाशिल्ले भयणीक सदांच घरांत आलासरो दिवचो. देवांचो संकल्प केन्ना फुकट वचना. बुदवंताचो प्रभाव पडले बगर केन्ना रावना. विद्यावंताची नमळाय केन्ना निष्फळ जायना. तशें पातक्यांचें नाशें जाले बगर केन्ना रावना.

देव, पितर, मनीस, संन्याशी आनी सोयरे, ह्या पांचांची सदां पुजा करची. तर जिवितांत जैत मेळटलें. पांचांतलीं पांचूय इन्द्रियां आपलें सुवादीन करून घेवंचीं. तांतलें एक खंयचेंय मात्शें सदळ उल्लें जाल्यार थंयच्यानूच मनशाची सगळी प्रज्ञा व्हांवन वतली—जशें व्हडल्या भाणांतलें सगळें उदक ल्हानश्या बुराकांतल्यान व्हांवन वता.

न्हीद लकणी भंय तिडक आळसाय आनी आयचें काम फाल्यांचेर धुकलपाची संवय—हे स अवगुण शाण्या मनशान भायर उडोवंक जाय. खर्चा पुरती जोड सदां जायत रावची, आरोग्य सदां बरें उरचें, गोड सभावाची बायल मेळची, बरे चलणुकेचो पुत जावचो आनी गिन्यान जोडपाक वेळ मेळचो—ह्यो स गजाली जाका मेळ्ळ्यो ताका आनीक कसलें सुख जाय. ओड तिडक वरसवशेपण मनाचो गदळ दुस्वास आनी अंदुखेपण हे स दुस्मान मनशाचे. तांचेर जैत जोडून तांकां आळाबंदा हाडूंक जाय. कसलीच पिडा आसची न्हय, कोणाच्याच रिणांत उरचें न्हय, पोटा खातीर गांव सोडून भायर वचचें पडचें न्हय, सदां बऱ्या लोकांचो सांगात मेळचो, रुचता तसलें काम मेळचें, कोणाक भिये नासतना जियेवंक मेळचें हीं स सुखां जाका मेळ्ळयांत ताका आनी कितें जाय. अंदुखे, दुस्वासी, कितलेंय मेळ्ळें तरी धादोशी नासपी, खुबिल्ले, दुबावी आनी दुसऱ्यांच्या जिवार

जियेवपी—स तरांचे हे लोक सदां दुख्खी उरतले.

बायलो, जुगार, शिकार, सोरो हीं चार व्यसना आनी दुखता असलें उलोवप, ल्हानश्या गुन्यावा खातीर व्हडली ख्यास्त फर्मावप आनी दुडू कश्याय करो मोडप—ह्यो तीन खोडी ज्या राजांक लागल्यात तांचीं राज्यां मातये-भरवण जाल्यांत.

इश्टांचो आधार, दुडवांची येणावळ, पुताचें सुख, बायलेचो गोग, गोड उतर, आपल्या वर्गणांत मान, जाय तितली जोड आनी चार चौगांत भौमान—हीं आठ सपणा सुखाचीं.

मनशाची कूड म्हळ्यार णव दारांचें आनी तीन खांब्यांचें एक देवूळ. तांतूंत पांच सेवेकारी काम करतात. देवळाचे गर्भ कुडींत (काळजांत) आत्मो रावता. तोच हे कुडिचो धनी. हें जो जाणा तोच गिन्यानी.

धा तरांच्या लोकांक बरें वायट पारखूंक येना—सोरो पियेवन तर्रर जाल्ल्याक, धंग नाशिल्ल्याक, पिश्याक, पुरो जाल्ल्याक, तिडकीन कुड्डो जाल्ल्याक, जेवंक खावंक नाशिल्ल्यान उपास काडटल्याक, हुतहुत्याक, वसवश्याक, भित्र्याक आनी भोगांत लोळटल्याक. असल्यां कडेन संबंद दवरचो न्हय.

**प्रज्ञावादी राजनीत**

सुधन्वा नांवाचो असुरांचो एक राजा जावन गेलो. ताणे आपल्या पुताक राजनीत कशी चलोवची तें सांगिलें. हेच राजनितिचो उपदेस हांगा विदुर धृतराष्ट्राक करता. तो म्हणटा—

तिडके ओडिचे सुवादीन जो जायना, जो कश्याय कशे दुडू खर्चिना. खंयचीय गजाल मुखार येवं, तिच्यांतलें बरें आंग खंयचें आनी वायट खंयचें तें पारखिले बगर जो ती गजाल हातांत घेना, जो आपल्या गिन्यानांत भर घालीत रावता, घाळ केन्ना राविना आनी जो हातांत घेतिलें काम तडीक पावसर सोडिना, असल्याच राजाक लोक मानतात. लोकांचो विस्वास जोडपाचे उपाय जो सदां घेता, ख्यास्त फर्मायतना मनीसपणान फर्मायता (गरज दिसल्यार गुन्यावकाराक सोडुनूय दिता) असल्याच राजाच्या घरांत लक्षुमी नंदता. जो गरीब धाकट्यांचो लेगीत भौमान करता, बळिश्टांचो अवमान जावचो न्हय हाची जतनाय घेता, गरज पडल्यार तांच्या आड लेगीत वचपाक अनमनना, ताकाच लोक बरो राजा म्हणटात. अडचणिचे कातरींत पडलो जाल्यारूय जो सल्ला-बल्ला जायना, जो दुख्खां अरिश्टां थतर वितर जायनासतना धिरान सोंसता आनी जो हातांत घेतिल्लो वावर नेटान

मुखार व्हरता, असलोच राजा जिवितांत जैतवंत जाता. जो बेकार कसो हे वटेन ते वटेन हेडना, उणाकांचो सांगात धरिना, चोरी फटींगपणा करिना, सोरो पियेना, तोच सुखी. जो केन्ना फट उलयना, ल्हान ल्हान गजालींक धरून झगडत बसना, कोणे भौमान दिलो ना म्हुण जो रागार जायना, तो शाणो. जो दुसऱ्यांचो दुस्वास करिना, गरजे भायर उलयना, दुसऱ्यांचे नदरेंत भरपा सारको भेस करिना, आपल्यो व्हडविको गावन दुसऱ्यांक उणे लेखिना, चिंबचिंबून गेल्लो आसतना कोणाक उणे उतर दिना—असल्याच राजा भोंवतणी लोक एकठांय जातात. पालवल्लें किजील जो परतें उस्तून काडिना, येस मेळटकूच जो हड्डें फुलोवन चलना, अपेसान जो खंती जायना, वायट दीस आयले जाल्यारूय जो आपलो पांवडो सोडिना, ताका लोक उजू राजा लेखतात. आपलें बरें जाल्लें पळोवन जो भुल्लुसून वचना, दुसऱ्याचें वायट जाल्लें पळोवन जाका खातखुतल्यो जायनात, दान दिल्या उपरांत जो पच्छात्ताप करिना, ताकाच लोक व्हड लेखतात. व्हड मनीस लग्नाचे, इश्टागतिचे, दिवपा-घेवपाचे वेव्हार आपल्याच पांवड्याच्या लोकां कडेन करतलो. उणाकां कडेन करचो ना. गुणी लोकांचो तो सदां भौमान करतलो, आश्रिताक दिल्या उपरांत आपुण खातलो. खूब तकालस घेवन कामां करतलो, खूब थोडो न्हिदतलो आनी गरजेवन्ताक मागनासतना आधार दितलो. जो राजा सगळ्यांचें बरें जावचें म्हुण वावुरतलो, सदां सत्यान चलतलो, दुसऱ्यांचो भौमान करतलो आनी सदां नमळायेन सगळ्यां कडेन चलतलो, तो चकचकीत रत्ना भाशेन नामना जोडटलो. जो तिडकीन वा ताकतिकेन कामां करिना, इश्टां लागीं झगडना, दुसऱ्यांचीं उणी सोदीत बसना, आपल्यो बडायो मारीत भोंवना आनी वाद सोंसून घेता, ताचीच सगळे जाण तुस्त करतात.

इतलें सांगून विदुर म्हणपाक लागलो, पांडुले पांचूय पुत आपल्या पांच इन्द्रियां सारके तुवें मानूंक जाय आशिल्ले. तांकां तुवेंच ल्हानाचे व्हड केल्ले. तुवेंच शिकयल्ले, तुजेच सांगणेंत ते सदां राविल्ले. तांकां तांगेलें दिवन उडय. तांचो वांटो न्यायाचो. तो दिवन आनंदांत जिये. मागीर, कोण तुका कांय म्हणचो ना.

### प्रज्ञावंत राजा

विदुराचो हो उपदेस आयकून धृतराष्ट्र म्हणटा—

हुसक्यान म्हाका न्हीद पडना. हांवें कितें करचें, कितें केल्ल्यान आमचें सगळ्यांचें बरें जातलें तें तूं सांगपाक अनमनूं नाका. आमच्यांतलो तूं एक बुदवंत, धर्म अर्थ, सगळें बरें समजता असलो.

विदुर सांगता—

तुवें सांग म्हुण सांगूंक नाशिल्लें जाल्यारूय हांव सांगतलोंच आशिल्लों. जाचें बरें जावचें-शें दिसता ताच्या बऱ्याची गजाल ताका अनमन नासतना सांगची. मागीर ती ताका रुचूं वा ना रुचूं. फटींगपणा करून कामां जातात. जाल्यारूय तूं हे वाटेन वचूं नाका. बरीं कामां करता आसतना अपेस आयलें जाल्यारूय मन ल्हान करूं नाका. कामाक हात घालचे पयलीं आपुण तें कित्या खातीर करतां, तांतूंत कसल्यो अडचणी येवं येतात, ताचो परिणाम खंय कसो कितें जावं येता—सगळें बारीकसाणेन येवजून उपरांतूच कामाक हात घालचो, काय घालचो न्हय, तें थारावंक जाय. आपल्या राज्याची येणावळ वाडटा काय वाडना, लोक सुखांत आसात काय नात, लोक कायद्यांक पाळो दितात काय दिनात, उदरगतिचे वावर राज्यांत चलतात काय चलनात, सैन्य घटमुट आसा काय ना—हें ज्या राजाक खबर ना तागेलें राज्य तिगूंक पावना. राज्य मेळ्ळेंच म्हुण जायना. तें चलोवंक येवंक जाय. ना जाल्यार राज्य हातांतलें वता. 'राज्य हातांत आयलें, आतां कसली बिशाद' ह्या मदान राज्य, संपत, सगळें मातये भरवण जाता. नुसतें जशें गरयेक लायिल्लें हांयसूच पळेता, भितल्लें गरयेक पळेना, तसो जो राजा करणेचो लावूच पळेता, भितल्ल्या अडचणींक पळेना, तोवूय ना जाता. जो घांस खावंक येतलो, खातकूच पचतलो, पचतकूच बऱ्याक पडटलो, तसलोच घांस तोंडांत घालचो. जो रुखा वेलीं हरवीं फळां काडटा ताका फळांचो रोसूय मेळना, बींवूय मेळना. पिकिल्लेंच फळ तोडूंक जाय. तरूच रोस चाखूंक मेळटलो आनी बीं रोवंक मेळटलें. गुंगुल्लो जसो फुलाक त्रास दिनासतना भितल्लें म्होंव चाखता तशें राजान लोकांक त्रास दिनासतना राज्य करचें. करणी केली ना जाल्यार लुसकान कितें जातलें, केली जाल्यार लाव कितें जातलो—सारकें बरें येवजून, सगळो हिशोब लावन, करणी करची. तूं कितलीय खटपट कर, तुगेलीं कामां जावंकूच पावनात, असलीं कांय कामां आसतात. तसल्या कामांक शाण्या मनशान केन्नाच हात घालचो न्हय.

**लोकांक कसलो राजा जाय, कसलो नाका**

जो खोश्शी जालो जाल्यारूय लाव ना, रागार जालो जाल्यारूय लुसकान ना. असलो पिचपिचीत राजा लोकांक मानना : जसो खंयचेय बायल-मनशेक खोजो घोव मानना. कांय कामां सुरवातीक किरकोळ-शीं दिसतात, पुणून तीं मुखार खूब फळां दिवपी आसतात. शाणो मनीस असलीं कामां कळाव लाय नासतना हातांत

घेता. अडचणी येसर तो गविना. ज्या राजाक प्रजेचो मोग आसता तो बसून गवलो जाल्यारूय प्रजा ताका तेंको दिता. करणेन वाचेन मनान आनी नदरेन जो लोकांक खोशी दवरता त्या राजाचेर लोकूय खोशी आसतात. वागाक पळोवन चितळां भियेतात तशी राजाक पळोवन प्रजा भियेवपाक लागली जाल्यार समुद्रा मेरेनचें राज्य आसुनूय कित्याक उपकारना. वाव सुटना फुडें कुपां उबून वतात तशें अन्यायी राजाचें राज्यूय उबून वता—मागीर तें ताका हकान मेळिल्लें आसलें म्हुण कित्याक उपकारता? परकी राज्यां मोडपाचो यत्न करचे परस आपलें राज्य घट करपाचो यत्न केल्लो बरो. राज्य न्यायान घेवचें, न्यायान चलोवचें. न्यायान जोडिल्ली जोड केन्ना ना जायना, केन्ना उणीय जायना. जो राजा न्याय सोडून अन्यायाचो आलासरो घेवन राज्य करता, ताचें राज्य उज्यार दवल्लेल्या चामड्या भाशेन आंवळून येता.

**प्रज्ञावंताचो आचार**

फातरांतल्यान भांगर वेंचून काडचें तशें बडबडो, पिसो, भुरगो, कोणायच्या उलोवण्यांतल्यान कितेंय मेळ्ळें जाल्यार तें भांगर कशें लेखून घेवचें. शेतांत शिंपडिल्ल्या भाताचो एक एक गोटो वेंचून काडपी लोक आसतात. तांचे वरी शाण्या मनशान बरे विचार जंय जंय मेळटात थंय थंयच्रे वेंचून घेवचे. मस्ते गायेक मार खावचो पडटा. सुखान धार दितले गायेक कोण बोट लायना. तापयले बगर जें बागवलां ताका बागोवपाक कोण तापयना, हें मतींत धरून आपणा परस व्हड मनशा मुखार सदां नमून चलचें. मोनजातीक आधार पावसाचो, बायलेक घोवाचो, बुदवंताक विद्येचो, तसो राजाक ताच्या कारभारी मंत्र्यांचो. सत्यान धर्माची वाड जाता, अभ्यासान विद्येची, शिंगारान रुपाची आनी उजू चलणुकेन कुळाची. चलणुकेन जो उणाक तो जल्पान ऊंच कुळांतलो आसलो जाल्यारूय ताका ऊंच कुळाचे भौमान मेळूंक फावनात. हाच्या उरफाटें, उणाक कुळांत जल्माक आयिल्लो आसुनूय चलणुकेन मनीस उजू आसत जाल्यार ताका ऊंच कुळाचे भौमान दिवपाक अनमनूंक जायना. दुसऱ्याचें धन रूप कर्तुत्व कुळ सुख आनी भाग्य पळोवन जाचे दोळे फुट्टात ताका उणाक धरचो. विद्या, धन आनी कुळ ह्यो तीन गजाली मनशाक (तो गर्विश्ट आसत जाल्यार) मदांध करतल्यो आनी (तो शिळवंत आसत जाल्यार ताका) नम्र करतल्यो. बऱ्या भेसान चार चौगांत भौमान मेळत. गायो आसत जाल्यार पायस खावंक मेळत. गाडी आसत जाल्यार वाट बेगीन कातरूंक मेळत. पुणून, आंगांत शील आसत जाल्यार

अख्ख्या संवसाराचेर जैत जोडूंक मेळटलें. जिवितांत चड मोल शिलाक. मनीस तें होगडावन बसला जाल्यार ताच्या जिविताक मोल ना. मागीर, ताचे कडेन कितलोय दुडू आसूं, केदीय सत्या आसूं. गरीब सदां रुचीन जेवतात. कित्याक, तांच्या पोटाक भूक आसता आनी रूच भुकेंत आसता. गिरेस्तांच्या नशिबांत भूक ना. देखून तांकां पक्वान्नां लेगीत रुचीक लागनात. बारीक लोकांक भंय उपासमारेचो. मदल्या पांवड्याच्या लोकांक मरणाचो, व्हड मनशाक अवमानाचो.

मदां भितर सगळ्यांत वायट मद गिरेस्तकायेचो.

## पयलीं आपल्या आपणाक जिखचो

मनशान खासा आपणाकूच आपले सुवादीन दवरूंक जाय. जो आपणाक आपले सुवादीन दवरी नासतना आपल्या हाता खालच्या लोकांक दवरूंक सोदता आनी तांकां आपले सुवादीन दवरी नासतना दुस्मानाचेर जैत जोडूंक वावुरता, ताचो घातूच जाता. जो पयलीं आपणाक जिखता, आपलीं इन्द्रियां आपले सुवादीन दवरता ताका 'धीर' म्हणटात. तागेरूच लक्ष्मी उदक भरपाचो वावर करता. मनशाची कुड म्हळ्यार तागेल्या जिविताचो रथ. आत्मो रथ चलोवपी (सारथी) आनी इन्द्रियां घोडे. घोड्यांक शिकोवन तयार केले म्हणटकूच रथांत बशिल्लो मनीस जसो सुरंगीत यात्रा करूंक पावता, तसो जो आपलीं इन्द्रियां आपले सुवादीन दवरता तोवूय आपल्या जिविताची यात्रा सुरंगीत रितीन करूंक पावता. जाणे आपलीं इन्द्रियां आपले सुवादीन करूंक नात तो इन्द्रियां सुवादीन जातलो. आनी मागीर दुख्खाक सुख, अर्थाक अनर्थ, अनर्थाक अर्थ मानूंक लागतलो. न्याय नीत सोडून वैभव, जिवीत, संपत, सगळें होगडावन बसतलो. संपतूच आपले सुवादीन आसली म्हुण उपकारना. खासा आपुण आपले सुवादीन आसंक जाय. कित्याक, मनीस आपुणूच आपलो दुस्मान, आपुणूच आपलो इश्ट.

सुक्या वांगडा ओलेंय जळून वता, तशी उणाकांचे संगतींत बऱ्या मनशाकूय ख्यास्त भोगची पडटा. दुसऱ्याचें बरें पळोवन जो अंदुखो जाता, जो नीट वाटेन केन्ना चलना, जाका गोड उलोवंक येना, जो खरें केन्ना उलयना. जो सदां दुसऱ्यांचीं उणी सोदीत बसता आनी कोडू उलोवन दुसऱ्यांक दुखयता, ताका उणाक लेखचो. ताची संगत केन्ना धरची न्हय.

## प्रज्ञावंताचें उलोवप

शाण्या मनशान सदां खरें उलोवचें, पुणून दुसरो दुखवचो ना अशी जतनाय

घेवन उलोवचें. आंगांत तोपिल्लो तीर काडटकूच मनीस दुख विसरतलो. कुराडीन कातल्लेलें रान परतें वयर सरतलें. पुणून उतरान दुखावल्ल्या मनशाचो घाय भरून केन्ना येना. हेर खंयच्याय तिरा परस उतरांचो तीर वायट. तो तोंडांतल्यान भायर सरना फुडें सोमतो दुसऱ्याच्या वर्मार बसता. तो काडूंक येना, थंयच तोपिल्लो उरता.

देवाच्या मनांत जाका ना करपाचो आसता ताची तो बुद्द काडून घेता. बुद्द वतकूच मनाक सगळेंच उरफाटें दिसूंक लागता. ताका सगळें उरफाटेंच येवजता.

इतलें सांगून विदुरान म्हळें—

तुगेल्या पुतांची बुद्द उरफाटी. देखून तांकां सगळें उरफाटें येवजता. तुका पांडवांचो दुस्वास. देखून तुका हें समजना. युधिष्ठिर तुज्या पुतां परस कितलो-सो व्हड. त्रैलोक्याचो राजा जावपाच्या पांवड्याचो. ताचें राज्य ताका दिवन उडय. बावडो आपल्या गुणांक लागुनूच त्रासांत पडला. गुणाक लागुनूच तो मोन्यांनी हे त्रास सोंशीत आयला.

## सांगात

धृतराष्ट्र म्हणटा—

तूं उलयता तें धर्माक आनी अर्थाक धरून आसता. तें इतलें रुचीक आसता कि तें आयकत रावचें-शें दिसता. कितलेंय आयकलें तरी पुरो जायना. म्हज्या बऱ्याक पडत अशें आनिकूय कितेंय सांग.

धृतराष्ट्र कपटी आशिल्लो. बैल्याचाराक पांडवांचें बरें उलयतालो आनी भितल्ल्यान आपल्या पुतांक जाय तेंच करतालो. सभावान सरळ न्हय, वांकडो. म्हुण विदुर ताका जाप दिता—

तीर्थयात्रा करून सगळ्या तिर्थांनी न्हावन येवप आनी भोंवतणच्या सगळ्यां कडेन उजू रितीन, माये-मोगान चलप, दोनांचेंय पुण्य सारकें. तातूंतूय, सगळ्यां कडेन माये मोगान चलप हाचें पुण्य व्हडलें. तुगेल्या पुतांचो तूं माया मोग करता तसो पांडवांचोय करशीत, जाल्यार तुजी कीर्त धाय दिकांनी पातळटली आनी तूं स्वर्गूय जोडूंक पावतलो. संवसारांत लोक जे मेरेन कीर्त गायत रावतात ते मेरेन मनीस स्वर्गांत आसता. मेल्या उपरांत लेगीत लोकांच्या उगडासांत उरप हाकाच स्वर्गलोक जोडप म्हणटात.

उपरांत केशिनी खातीर सुधन्वा आनी विरोचन हांचे मजगतीं जाल्ल्या वादाची खबर सांगून विदुर म्हणटा—

फट उलोवन तुका अख्खी धर्तरी मेळटा जाली जाल्यारूय तूं फट केन्ना उलोवं

नाका. स्वार्थाक लागून तूं आपल्या पुतांक खरें आनी बरें कितें तें सांगिना. तशें करूं नाका आनी तांच्या वांगडा बेश्टो विनाशाच्या तोंडांत पडूं नाका. गवळी हातांत दांडो घेवन गोरवांक राखतात, तशे देव मनशाक राखिनात. जाका राखपाचें आसा ताका बरी बुद्द दिवनूच देव ताची राखण करतात. बरे करणेंत मनशाचें मन लागलें म्हणटकूच तो बऱ्योच करण्यो करतलो आनी ताचें सदां बरेंच जातलें, ह्या विशीं मनांत मातूय दुबाव येवंक दिवं नाका. कपटी मनशाक देव लेगीत राखूंक पावनात. पांखां फुटना फुडें शेवण्याचीं पिलां जशीं घोंटेर सोडून उडून वतात तशे कपटी मनशाक देवूय सोडून वतात. सोरो पियेवप, झगडीं-झुजां करप, चार चौगां कडेन दुस्मानकाय करप, घोव बायले मजगतीं लावालावी लावप, कुटुंबांतल्या लोकां भितर धोशी लावप, राजाचो दुस्वास करप आनी वांकडे वाटेन चलप—असली कसलीच करणी मनशान करूंक जायना. हात पळोवन फुडार सांगपी, पयलीं चोरी करून मागीर ताचो व्यापार करपी, जुगारी, वैज, दुस्मान, इश्ट आनी नट, हांकां केन्ना गवाय म्हुण मुखार करूंक फावना. दुसऱ्यांच्या घरांचेर सुणी चडोवपी, दुसऱ्यांक विक्ख घालून मारपी, सोरो विकून पोट भरपी, चाडयो करपी, इश्टांचो घात करपी, दुसऱ्याचे बायलेचेर नदर दवरपी, पोटांत आशिल्ल्या भुरग्याक मारपी, सोरो पियेवपी, कावळ्या भाशेन काव-काव करून दुसऱ्याक दुखोवपी, 'देव-बीव सगळें फकाण' अशें म्हणपी, विद्वानांची निंदा करपी—हे सगळे पातकी मनीस. तांची संगत केन्ना धरची न्हय. उज्यांत जशी भांगराची परीक्षा जाता तशी उजू चलणुकेन बऱ्या मनशाची, भंयाच्या प्रसंगार शुराची, अडचणी वेळार धीरवानाची आनी कठीण प्रसंगार इश्टाची परीक्षा जाता. म्हातारपण सुंदर रूप ना करता (मनशाक विद्रूप करता), आस्त धीरवानाक सकल उडयता, मर्ण जिवांचो प्राण घेवन वता, दुसऱ्यांचीं उणी पळोवपाची संवय जातकूच मनशाची नदरूच वांकडी जाता. रागा सुवादीन जातकूच लक्ष्मी मनशाक सोडून वता आनी अभिमान मनशाचें सर्वस्व ना करता. बुद्द ज्ञान कुळवंतपण कर्तुत्व संयम सोंशीकपण दान आनी उपकारांचो उगडास—हे आठ गुण मनशाची कीर्त वाडयतात. यज्ञ दान अध्ययन आनी तप हे चार गुण बऱ्या मनशाच्या आंगांत सभाविक रुपान आसतात, तर सत्य संयम आर्जव (नीट चलप) आनी दया हे चार गुण तो प्रयत्नान जोडटा. यजन अध्ययन दान तप सत्य क्षमा दया आनी निर्लोभ हीं मनीसपणाचीं आठ साधनां. तांतल्या पयल्या चारांचें अनुसरण दंभी लेगीत करतात. पुणून दुसरीं चार मात मनीस व्हड आसल्यारूच ताच्या आंगांत दिश्टी पडटात. जंय जाणटे नात ती सभा न्हय. जे

धर्माक धरून (मनीसपणाक धरून) उलयनात ते जाणटे न्हय. जंय सत्य ना, थंय धर्म ना (मनीसपण ना) आनी जातूंत कपट भल्लां तें सत्य न्हय. सत्य, विनयशील मुद्रा. अध्ययन कुळवंतपण शीळ बळ धन शौर्य आनी कितेंय सांगता तें बरे भाशेन सांगूंक येवप—ह्यो स्वर्ग जोडपाच्यो वाटो. वायट करण्यांचें फळ वायट्रच मेळटा. तशें बऱ्या करण्यांचें फळ बरें मेळटा. देखून बऱ्या मनशान वायट करण्यो केन्ना करच्यो न्हय. मनीस वायट करण्यो भौन भौन करूंक लागलो म्हणटकूच ताची बुद्द भंगता; आनी जाची बुद्द भंगता तो पातकांच करीत रावता. जो बऱ्यो करण्यो करता तो दिशीं-दिशीं शाणो जायत वता आनी सदां बऱ्योच करण्यो करीत रावता. ताका फळांय बरींच मेळटात. गुणांत अवगुण पळोवपी, वर्माक लागता असलें कोडू उलोवपी, दयामाया नाशिल्लो, वचत ताची दुस्मानकाय करपी आनी कपटी (वयल्या वयल्यान जरूय सुखी दिसलो तरूय) रोखडोच त्रासांत पडटलो. जो बऱ्या मनशाच्या सांगातांत रावन ज्ञान जोडटा तो शाणो. कित्याक, बरो मनीस दुसऱ्याक बरी देख दिता. जांकां लागून रातची सुस्त आनी दुसक्यां-मेकळी न्हीद पडटली असल्योच करण्यो दिसाच्यो करच्यो. पावसाचे चार म्हयने सुखांत घालोवंक मेळचे, इतली गांठ आठ म्हयन्यांच्या वावरान करून दवरची. जिविताचीं सुरवातेचीं वरसां असल्याच तरांच्या वावरांत सारोवचीं, जांकां लागून म्हातारपणांत सुखान जियेवंक मेळचें. आनी आयुष्यभर असलींच कामां करीत रावचीं, जांकां लागून मेल्या उपरांतूय सुखांत रावंक मेळचें. पचतकूच अन्नाची, तरणेपण सरतकूच बायलेची, झुजा-मळार जैत जोडून येतकूच शुराची आनी ज्ञान जोडटकूच तपस्व्याची तुस्त करची. अधर्मान जोडिल्ल्या धनान वायट करण्यो लिपोवपाचो यत्न केलो म्हुण त्यो लिपून उरनात. परत्यो, वाऱ्यार पडटात. आपलें मन आळाबंदा हाडपी शिष्याचो शासक तागेलो गुरू, दुष्टांचो शासक राजा आनी पातक्यांचो शासक यम. ऋषिचें न्हंयेचें महात्म्याचें कुळाचें आनी बायलांच्या दुश्चरित्रांचें मूळ सोदून काडपाच्या कामांत शाण्या मनशान केन्ना पडचें न्हय. शूर विद्वान आनी सेवाधर्मी तिगांकूच धर्तरेवेलीं भांगराचीं फुलां मेळटात. बुद्दीक धरून केल्ल्यो करण्यो सगळ्यांत वयल्या पांवड्याच्यो धरूंक जाय. बावळ्यांच्या नेटार केल्ल्यो मदल्या पांवड्याच्यो. लिपोवन करच्यो पडटात त्यो सामक्योच उणाक मानूंक जाय.

इतलें सांगून विदुर धृतराष्ट्राक विचारता—

दुर्योधन शकुनी दुःशासन आनी कर्ण हांच्या सांगातांत तूं उदरगत कशी करून घेतली, समजना. पांचूय पांडव गुणी. तांकां आपलेच कशे लेख आनी

आपल्या पुतां कडेन चलता तसो तांचे कडेन चल. तरूच तुजी उद्रगत जातली.

इतलें सांगून विदुर म्हणटा—

पुर्विल्लि मुरतींतलो एक संवाद हांवें आयकल्लो. एक खेपे खंय दत्तात्रेय परमहंसाच्या रुपान भोंवतालो तेन्ना साध्य नांवाचे देव ताचे सरीं आयले आनी म्हणपाक लागले: 'तुका पळोवन तूं कोण हाचो अदमास आमकां लागना. तूं गिन्यानी, धीर आनी बुदवंत आसूंक जाय, अशें दिसता. तुज्या तोंडांतल्यान कितेंय तरी गिन्यान आमकां आयकूंक मेळचें.' तेन्ना दत्तात्रेयान तांकां सांगलें: 'हांवें म्हज्या गुरू कडल्यान आयकलें कि धैर्य संयम आनी सत्य हांच्या आधारान काळजाच्यो सगळ्यो गांठी सोडोवच्यो. म्हणटकूच प्रिय आनी अप्रिय हांचे परसून मनीस पेल्यान वता.' दुसऱ्यान उणी उतरां दिलीं (गाळी घाल्यो, श्राप दिले) तरूय आपणे ताका उणी उतरां दिवंचीं न्हय ताचीं उतरां सोंसून घेवचीं. आमचें सोंशीकपणूच ताका हुलपायतलें आनी ताचें पुण्य आमकांच मेळटलें. कोणाक उणी उतरां दिवंची न्हय, कोणाक गाळी घालच्यो न्हय, कोणाचो अवमान करचो न्हय, इश्टाक केन्ना फटोवचो न्हय, उणाकाची संगत केन्ना धरची न्हय, आपुण आपलेच तकलेंतलो पडत असली कसलीच करणी मनशान करची न्हय, कित्याचोच गर्व धरचो न्हय आनी तोंडांतल्यान तीख कठोर उतर केन्ना काडचें न्हय. तीख उतरां मनशाच्या हाडांक, हड्ड्याक आनी प्राणाक लेगीत तोपतात. देखून बऱ्या मनशान असलीं उतरां केन्नाच तोंडांतल्यान काडचीं न्हय. जाचीं उतरां तीख आनी जाचो सभावूय तीख, जो दुसऱ्याच्या वर्मार घाय करता आनी तीख उतरांनी मनशाक पिडा भोगयता ताका खरेपणानशीं 'उंवाळ्ळेलो' लेखूंक जाय. कोणूय आमकां तीख उतरांनी दुखयत जाल्यार तीं उतरां मोन्यांनी सोंसून 'हो आमचें पुण्य वाडयता' अशेंच मानचें. धवें लुगट खंयच्याय रंगांत घालें म्हणटकूच तें जशें त्या रंगाचें जाता तसो मनीस बऱ्या मनशा सरीं रावतकूच बरो, दुष्टा सरीं रावतकूच दुष्ट, तपस्व्या सरीं रावतकूच तपस्वी आनी चोरा सरीं रावतकूच चोर जाता. जो मनीस अतिवादी मनशा लागीं वाद घालिना, दुसऱ्याकूय वाद घालूंक सांगिना, जो कोणाकूच घाय करिना, दुसऱ्याकूय करूंक लायना, दुसऱ्यान घाय केलो जाल्यारूय जो ताका परती जाप करिना तो देवां परसूय व्हड. कांयच उलोवप ना हें सगळ्यांत बरें; उलोवचेंच पडलें जाल्यार खरें उलोवप हें ताच्याकूय बरें, खरें उलयता तें गोड भाशेंत सांगूंक येवप हें चड बरें. आनी बऱ्याक पडत असलेंच उलोवप हें सगळ्या परस बरें. मनीस जांच्या सांगातांत रावता, जे तरेच्या लोकांची तो सेवा करता आनी जे तरेचो तो जावंक

सोदता तेच तरेचो तो जाता. देखून बरो जावपा खातीर मनशान बऱ्या मनशाचीच संगत धरची. मनीस जे गजालींतल्यान आंग आनी मन काडून घेता ते गजालींतल्यान तो मेकळो जाता आनी तो मेकळो जालो म्हणटकूच ताका दुख्ख आफडूंक पावना. जाका कोण जिखिना आनी जो कोणाक जिखिना, जो कोणा कडेन दुस्मानकाय करिना आनी जो कोणाक दुखय ना, निन्दा आनी स्तुति दोनूय जाका सारक्यो तो केन्ना भुल्लुसुनूय वचना आनी केन्ना खंतीय जायना. तो सुख आनी दुख दोनांच्याय पेल्यान वता. जो सगळ्यांचें बरें चिंतता, कोणाचेंच वायट चिंतिना, जो सत्यान चलता, सगळ्यां कडेन मोगान वागता आनी जाचीं इन्द्रियां ताचे सुवादीन आसात तो मनीस सगळ्यांत बरो. जो लटकें सांत्वन दिना, जो उतराक पाळो दिता पुणून जो दुसऱ्याचीं उणी वळखता तो मदल्या पांवड्याचो. जो बऱ्यो करण्यो करिना आनी बऱ्यो करण्यो करतात तांकां मानिना असलो दुबावी मनीस इश्टांक पयस करता. तो सगळ्यांत उणाक. जाका आपणाली उदरगत जाल्ली जाय ताणे बऱ्या मनशाची संगत धरची. पुणून उणाकाची मात कोणेच केन्ना संगत धरची न्हय. वायट मनशाचो आधार घेवन, दीस रात वावरून, बुद्दीन वा कर्तुत्वान कितलेंय धन जोडूं येत, पुण म्हणून मनीस कुळवंत जायना.

### ऊंच कुळांतलो मनीस

धृतराष्ट्र विदुराक विचारता—

धर्म आनी अर्थ हांचे जाणकार आनी देव लेगीत कुळवंताची संगत मेळची म्हुण आंवडेतात. तूं कुळवंत कोणाक म्हणटा.

विदुर जाप दिता—

जाच्यांत तप आसा, जो संयमान चलता, जो सदां स्वाध्याय करता, जो आपणाल्यो लागणुको केन्ना चुकयना, जो संस्कारी कुळांतलेच चलये कडेन लग्न जाता, जो मनान निर्मळ, सदांच उजू वाटेन चलता आनी जागेर आयिल्ल्या गेल्ल्याक जेवपाचो आग्रो जाता तो मनीस कुळवंत. जे आपणाले चलणुकेंत कितेंच उणे पडूंक दिनात, घरांतल्या जाणट्यांक वायट दिसत अशें कितेंच करिनात, जे प्रसन्न चित्तान मनीसपणाक धरून चलतात आनी जे अडेचें लटकें फट कितेंच करिनात ते बऱ्या कुळांतले मनीस. जे आपणाल्यो लागणुको करिनात, फकत रूप पळोवन खंयचेय (असंस्कारी घराण्यांतले लेगीत) चलये कडेन लग्न जातात, जे स्वाध्याय करिनात आनी जे मनीसपणाक लेखिनात, मानिनात ते (ऊंच कुळांत

जल्मा आयिल्ले आसले जाल्यारूय) उणाक. घरांत पयसो आसलो, दास-दासयो आसल्यो म्हुण मनीस ऊंच कुळांतलो जायना. ऊंच कुळांतलो जावपाक मनशाच्या आंगांत बरे ऊच गुण आसूंक जाय. ताची चाल-चलणूक बरी आनी नीट आसूंक जाय. असल्या (सदाचारी) मनशा कडेन पयसो नासलो, दास-दासयो नासल्यो जाल्यारूय ताका ऊंच कुळांतलो लेखूंक जाय. मनशान बऱ्या गुणाचेंच अनुसरण करचें. पयसो कितें, तो येतलो तसो वतलो. पयसो गेलो म्हुण बरो मनीस सकल पडना. जो बरी चाल चलणूक सोडटा तोच सकल पडटा आनी उणाक जाता. उणाक मनशा कडेन गायो म्हशी घोडे गाडयो आसल्यो आनी शेतांभाटां आसलीं म्हुण तो उदरगत करूंक पावना. आपणागेर कोणूच अंदुखो तसो मत्सरी जल्मा येवचो न्हय, बेश्ट्यो दुस्मानकायो मोलावन घेवपी, दुसऱ्याचें धन हातासपी, दुसऱ्यांक नाडपी, इश्टांचो घात करपी, कपटी आनी फटींग कोण आसचो न्हय, देवपितर आनी आयिल्ल्या गेल्ल्यांक जेवणाक बसोवचे पयलीं आपुण जेवन घेवपी कोण आसचो न्हय—अशें जे आंवडेतात तेच ऊंच कुळांतले मनीस अशें मानूंक जाय. तांगेर बसपाक सोपो, हांतरपाक शेंदरी, पियेवंक दिवपाक उदक आनी सरबराये खातीर गोड उतर—इतलेंच आसल्यार पुरो. तांगेलें कुळवंतपण, घरंदाजपण घणघणीत बरें दिश्टी पडटलें. जाचो भंय दिसता तो इश्ट न्हय. इश्ट ताकाच म्हणचो जाचेर बापाय भाशेन पातयेवं येता. पयलिंची वळख नासतना लेगीत जो बरे भाशेन चलता तो इश्ट करून घेवपा सारको मनीस. ताचो आधार वा आलासरो घेवपाक अनमनचें न्हय. जाचें चित्त चंचल आनी जो जाणट्यांची सेवा करिना तो केन्ना इश्ट जोडूंक पावचो ना. दुश्टाचो सभाव पावशी कुपां सारको. कुपां केन्ना तिडटीत, सांगू नज; केन्ना खुशालभरीत जावन पावस शिंवरावंक लागतीत हेंवूय सांगू नज. जाका इश्टाचो सांगात आनी आधार मेळ्ळा, जो इश्टांच्या आधारान कृतकार्य जाला ताणे इश्टाचो घात केलो जाल्यार तो मेल्या उपरांत किडे लेगीत ताचें मांस उश्टावपाचे नात. इश्टा कडेन पयसो आसूं वा नासूं, ताचो सदांच भौमान करचो. इश्टाची बेश्टी परीक्षा घेवची न्हय. तिडक येतकूच मनशाचें रूप लेगीत विटकळटा तशें तिडकीन बळ ना जाता, इतलेंच न्हय तर बुद्धूय ना जाता. देखून तिडक केन्ना येवंक दिवची न्हय. जाय आशिल्लें मेळ्ळें ना जाल्यार रडपांत अर्थ ना. कित्याक, रडून कोणाक कितेंच मेळना. यत्नानूच जाय तें मेळटा. सुख-दुख, लाव लुस्कान, जैत-हार, ह्यो गजाली सगळ्यांच्या वांट्याक येतात. शाण्या मनशान त्यो आयल्यो जाल्यार खुशालभरितूय जावचें न्हय तशें खंतीय जावचें न्हय.

धोशी

धृतराष्ट्र विदुराक म्हणटा : म्हजें मन भंयान उद्‌विग्न जालां. तें शान्त जावचें म्हुण आनी कितेंय सांग.

तेन्ना विदुर ताका सांगता--

तुका विद्या तप संयम आनी अ-लोभ हांचे बगर शान्ती मेळटली अशें म्हाका दिसना. बुद्दीन मनशाचो भंय ना जाता. तपान ताका सद्‌गुरू मेळटा. गुरुचे सेवेन तो गिन्यान जोडूंक पावता आनी योगान ताका शान्ती मेळटा. सारकें बरें शिकचें (अध्ययन करचें). न्याया खातीर झुजचें, हातान बऱ्यो करण्यो करच्यो आनी मन लावन तप करचें. म्हणटकूच, मनशाक सुख मेळूंकूच जाय. घरांत धोशी चल्ल्यो जाल्यार मनशाक मोव गाद्येर लेगीत सारकी न्हीद पडची ना; सुंदर बायलेचे वेंगेंतूय ताका सुख मेळचें ना. तुस्त आयकुनूय तो खुशालभरीत जावचो ना. जे घरच्याच लोकां भितर आपलो पेलो असो वेगळेचार चलयतात तांकां धर्माक (मनीसपणाक) धरून चलूंक येना. तांकां सुखूय मेळना आनी व्हडपणूय मेळना; बऱ्याचीं उतरांय तांकां सोंसनात. तांकां जाय तें केन्ना मेळना आनी मेळिल्लें केन्ना सांबाळूंक येना. विनाशा बगर तांच्या पदरांत कितेंच पडना. गायेंत दूद, ब्राह्मणांत तप, तसो धोशींत भंय उरताच उरता. उज्याचीं लाकडां पयस पयस उल्लीं जाल्यार धुंवर सोडटलीं आनी एकठांय आयलीं जाल्यार पेट घेतलीं. तशें, ज्या घरांतलीं (वा समाजांतलीं) मनशां आपलो पेलो वेगळेचार मानून एकामेकां पसून पयस रावतलीं तीं दुख्खांत पडटलीं. एकठांय रावलीं जाल्यार सुख भोगतलीं. रूख केदोय व्हड आसूं, ताचीं पाळां-मुळां जमनींत कितलींय खोल गेल्लीं आसूं, तो एकलो आनी वेगळो रावलो जाल्यार मोड येतकूच एका खिणांत घसांयंच करून हुमटून पडटलो. तसो, मनीस गुणांनी कितलोय भरिल्लो आसूं, तो जर हेरां पसून एकलो पडत जाल्यार दुस्मान ताका सोंपेपणान हरयतलो. रानांतले रूख एकामेकांच्या आधारान एकामेकांच्या म्हऱ्यांत रावन जशे केदेंय व्हडलें मोड सोंपेपणान झेलून घेतात तशे एका घरांतले (एका समाजांतले, एका देशांतले) लोक एकामेकांच्या सांगातान आनी एकामेकांच्या आधारान घटमुट रावन आपणाली उदरगत सादून घेतात.

इतलें सांगून विदुर म्हणटा—

द्युतांत जेन्ना दुर्योधनान द्रौपदेक जिखली तेन्ना हांवें तुका 'ह्या पोराक आडाय' अशें म्हळ्ळें. तुवें तें काना मनार लेगीत घेतलें ना. आतां पर्थून सांगतां : तुज्या पुतांनी पांडवांक आपले लेखचे. म्हणटकूच पांडवूय तुज्या पुतांक आपले लेखतले. तुमी सगळे एक जाले जाल्यार घटमुट जातले आनी सगळेच सुखी जातले. तूं






कौरवांचो म्हालगडो. पांडव तुजेच भुरगे. वनवासाचे त्रास आनी कश्ट सोंसून ते निकतेच परतल्यात. तांकां लागीं कर. म्हणटकूच खंयचोच दुस्मान तुमचें कितेंच वांकडें करूंक पावचो ना.

मळबाचेर जो मुठी मारतलो म्हणटा, इन्द्रधनुष्याक जो बागोवंक पळेता, जो सुर्याचीं किरणां मुठींत धरूंक सोदता, जाचेर ठीक चलोवंक फावना ताका जो आपल्या धाकांत दवरूंक वावुरता, मुरवत सोडून जो कामां करता, दुस्मानांची सेवा करता, जो बायलेचे जोडिचेर पोट भरता, जाच्या मुखार लेंगें लेंगें करूंक फावना ताच्या मुखार लेंगें लेंगें करता, जो आपलीच तुस्त गायत भोंवता, ऊंच कुळांत जल्माक येवनूय जो उणाक करण्यो करता, दुबळो आसुनूय जो बळिश्टाची दुस्मानकाय मोलावन घेता, श्रद्धा नाशिल्ल्याक जो उपदेस करता, धरूंक जायना तसली वान्सा धरता, जो सुने कडेन वांकडे संबंद दवरता, जो दुसऱ्याच्या शेतांत बीं रोयता (दुसऱ्या बायलां कडेन संबंद दवरता), जो आपले बायलेक गरजे भायर पिडटा, कोणा कडल्यान कितेंय घेवन वयल्यान 'म्हाका उगडास ना' म्हुण सांगून घेतिल्ली वस्त जो दांबूंक पळेता, मागल्या उपरांतूच जो दिता आनी दिल्या उपरांत जो आपणे दिलें म्हुण फुशारकी मारता आनी जो फटिचें खरें करून दाखोवपाचो यत्न करता—असल्या ह्या मनशाक यम नरकांत घेवन वता, अशें मनून म्हळां.

## आयुष्य उणे कित्यान जाता

धृतराष्ट्र मदींच ताका विचारता—

मनशाक आयुष्य शंबर वरसांचें अशें शास्त्रांत सांगलां. मागीर, कित्याक लागून मनीस शंबर वरसां पुरीं करूंक पावना.

विदुर जाप दिता—

सुमारा भायर गर्व आसप, गरजे भायर उलोवप, जें सोडपाचें तें सोडप ना, राग आलाबंदा हाडप ना, एका सारको पोटाचोच हुस्को करीत रावप आनी इश्टांक फटोवप—ह्यो स तरसादी मनशाचें आयुष्य कातरपी. जो मनीस विस्वासान म्हऱ्यांत आयिल्ले चलयेचेर वा दुसऱ्याले बायलेचेर आगळीक करता, जो बुदवंत आसुनूय दुसऱ्याचे बायले कडेन गुपीत संबंद दवरता, जो सोरो पियेता, जाणट्या लोकांचेर लेगीत आपलो शेक चलयता, दुसऱ्यांक नाडटा, फटयता, बुदवंताक हांगा थंय कामाक धाडटा आनी शरण आयिल्ल्याचो घात करता, तो पातकी. ताची संगत घडली जाल्यार मनशान प्रायश्चित्त घेवचें. जाणट्यांक लेखपी, मानपी,

तांचें उतर झेलून धरपी, निर्तीक धरून चलपी, उदार हाताचो, कश्ट करून जोडपी, हिंसा, फटींगपणा, आनी अनर्थ करपी कामां पसून पयस रावपी, उपकार स्मरपी, सत्यवादी आनी शान्त सभावाचो विद्वान स्वर्ग जोडटा. दुसऱ्याक बरें दिसता असलें उलोवपी संवसारांत जायते मेळटले. पुणून दुसऱ्याक बऱ्याक पडत असलें उलोवपी मेळूंक कठीण. जो सत्याक आनी धर्माक धरून चार चौगांच्या बऱ्याचें किर्तेंय सांगता ताका राजान आपल्या सांगाताक दवरूंक जाय.

## धनी आनी सेवक

जो राजा आपल्या सेवकाचेर रागार जायना, तिडकना, ताका तागेले सेवक केन्ना अंतर दिनात. संकश्टा वेळार ते ताका सोडून वचनात. सेवकाक उपाशीं वा अर्द्या पोटार दवरून राज्य घट करपाचे भरीक राजान केन्ना पडचें न्हय. कित्याक, अर्द्या पोटार काम करपी सेवक राजाचो केन्ना घात करतीत, सांगू नज. आपलें आनी आपल्या बायल भुरग्यांचें पोट भरत इतली आनी ऐन त्या वेळार येवपी अडचण पयस करूंक मेळत इतली येणावळ जण एका सेवकाक जावंकूच जाय. राजा जेन्ना सेवकाचे येणावळिची जतनाय घेता तेन्ना सेवक राजाक फटयनात. लोकां कडल्यान लांच घेनात, कठीण कामां आंगार घेवंक अनमननात. धनयाच्या मनांत आशिल्लें समजून घेवन जो जतनायेन ताचीं सगळीं कामां करता, जो मनान आनी चलणुकेन उदार आनी स्वामीनिष्ठ, जाका आपल्या आंगांतले तांकिची सारकी जाणवीक आसा आनी जो धनयाक सदां ताच्या बऱ्याचीच बुद्द दिता, ताका धनयान आपलेंच एक दुसरें रूप धरून आपलेपणान वागोवचो. जो सांगिल्लें आयकना, किर्तेंय सांगलें जाल्यार परती जाप दिता, जो आपलें तेंच खरें म्हणटा आनी आपणाक जाय तेंच करता ताका खिणाचोय कळाव लाय नासतना धनयान चाकरे वेल्यान काडून उडोवचो. जाका गर्व ना, जो दाखय लिपय करिना, जो बुद्दीन हुशार, व्हडलें काम आंगार घेवपाक जो अनमनना, कितलेंय केलें म्हुण जो कोणाक फितूर जावचो ना, मनान जो सरळ, असल्याच मनशाक राजान आपलो सेवक करचो. विचारवंतान अवेळार कोणायच्याय घरांत भितर सरचें न्हय, चावडेर वा तिरस्कार रातचो केन्ना एकलो रावचो न्हय, राजाचो जिचेर दोळो ती बायल आपणाक मेळची म्हुण केन्ना आंवडेवचें न्हय. जाचे कान दुसऱ्यान कोणे फुंकल्यात ताणे किर्तेंय सांगलें जाल्यार 'तूं म्हणटा तें खरें न्हय' अशें केन्ना म्हणचें न्हय. ताका शाणेपणान पयस दवरून ताचे लागींच केन्ना रावचें न्हय. जांचे संगतीन आपणाल्या शिळाक खत लागता असल्यांक लागींच येवंक दिवचें न्हय.

सेवकांत बुद्द शीळ शास्त्रज्ञान संयम कर्तुत्व, चड उलोवप ना, उपकार करप आनी उपकार स्मरप, हे आठ गुण आसचे. म्हणटकूच, राजा ताचो सदांच भौमान करतलो. राजाच्या भौमानान तागेले सगळे गुण दिपून येतले.

## हेर ल्हान व्हड नेम

मनीस भितल्ल्यान निर्मळ आसचो, तसो भायल्यानूय निर्मळ आनी शुचिर्भुत आसचो. ताचो भेस स्वच्छ आसचो. उच्चार शुद्ध आसचे, तो जाय तितलेंच उलोवपी आसचो. जेवतना खातना, उठ्ठना बसतना, उलयतना चलतना, ताच्यांतली संस्कारिता उठून दिसची. आळश्याक' भकाऱ्याक कपट्याक दुष्टाक केन्ना दारांत लेगीत उबे करचे न्हय. केदेंय संकश्ट कोसळूं, फटिंगांचो उणाकांचो गर्विश्टांचो आधार घेवचो न्हय. पयसो जोडटलो जाल्यार मनीस-बळ जाय आनी मनीस-बळ जोडटलो जाल्यार पयसो जाय, हें जरूय खरें आसलें तरूय फटिंगा कडेन संबंद दवरचो न्हय. पयसो जोडूंक सोदतल्यान सदां मनीसपणान चलचें, सत्यान चलचें. ताका पयसोय मेळटलो. सुखूय मेळटलें. जो खोस आनी तिडक दोनांचेरूय जैत जोडटा आनी जो संकश्टा वेळार लेगीत काचाबूल जायना, गोंदळना ताकाच लक्ष्मी प्रसन्न जाता. बावल्यांचें बळ, सांगात्यांचें बळ, पयशांचें बळ, कुळाचें बळ आनी हीं सगळीं बळां जाच्यांत आसपावतात तें बुद्दिचें बळ हीं पांच बळां जाचे लागीं आसात तो व्हड मनीस. दुसऱ्याचें पाड घालपाची जाच्यांत तांक आसा ताचे परसून पयस रावन आपुण सुसंगीत आसा अशें मानचें न्हय. सोरोप उजो शींव आनी कुळवंत पुत हांकां केन्ना उणे लेखचे न्हय. जाणटो मनीस सामखार येतकूच तरण्या भुरग्यान उठून उबो रावचें आनी भौमानान ताका येवकार दिल्या उपरांतूच बसचें. तशेंच घरांत परकी येतकूच मनशान उठचें, ताका बसपाक आसन दिवचें, येवकाराचीं दोन गोड उतरां उलोवन ताका जेवंक आमंत्रण दिवचें. जाका दारांत उबो करचो न्हय असलो मनीस लेगीत घरांत आयलो जाल्यार ताका भौमानानूच येवकार दिवचो. अतिथि-सत्कारांत जो सदां तत्पर तो खरो व्हड आनी पुण्यवंत मनीस. घरकान्न म्हळ्यार लक्ष्मी घरची. तिचो सदांच भौमान राखचो.

हे भाशेन, विदुर धृतराष्ट्राक आनीक जायतो उपदेस करता. आठ अध्यायांत वांटिल्ल्या पांचशें तीस श्लोकांच्या ह्या उपदेसाक लोक सामान्यतायेन 'विदुर-नीति' ह्या नांवान वळखतात. हो उपदेस महाभारताच्या ज्या पर्वांत आयला त्या पर्वाचें नांव: प्रजागर पर्व. प्रजागर उतराचो एक अर्थ: जागरण. खोलायेचो दुसरो अर्थ: जागरूक रावप, जागरूकपणान चलप. ल्हान व्हड सगळीं कामां बुद्दीक धरून करप.

त्या काळांत लोकांचें जिवीत घडोवपी जीं धर्म-मत्तां चलतालीं तांतूत एक नियतिवाद नांवांचें मत्त आशिलें. ताका भाग्यवाद, दैववाद, प्रारब्धवाद अशींय आनीक नांवां आशिल्लीं. पाणिनीन ह्या मत्ताक 'दैष्टिक मत' म्हळां. 'दिष्ट' म्हळ्यार भाग्य. 'कर्तुत्वाक वा पुरुषार्थाक जिवितांत कांय मोल ना. नशिबांत जें बरयलें आसत तेंच जिवितांत घडटलें. ताच्या आड वचून कांय लाव ना.' अशें हें मत्त सांगतालें. धृतराष्ट्र ह्या मत्ताचो आशिल्लो. ताका कितलेंय समजावन सांगलें जाल्यारूय तो म्हणटालो : 'तुमी सांगतात तें खरें. म्हाका तें पट्टा. पुणून म्हज्या हातांत कितें आसा. कोणाच्याच हातांत कितेंच ना. सगळेच आमी भाग्याच्या हातांतलीं बावलीं. भाग्य नाचयता तशें आमी नाचपाचें.' महाभारतांत मुखार 'मोक्षधर्म पर्व' नांवाचें एक पर्व येता. तांतूंत मंकी नांवाच्या एका ऋषिची कथा आयल्या. तो येवजितालो एक आनी जातालें दुसरेंच. ताणे एक खेपे दोन बैल विकते घेतले आनी तांकां जोताक लावन तो शेत नांगरपाक गेलो. शेत नांगरतलों, बीं रोयतलों, खूब पीक काडटलों, अशें कितें कितें ताणे येवजिल्लें. अवचित वाटेर बैल भुजले आनी धांवपाक लागले. धांवतां धांवतां मदीं एक ऊंट आडवो आयलो. तो बैलांक पळोवन भियेलो.. ताणे तांकां जोता सयत खांदार उबारून घेतले आनी भियेवन तोय धांवपाक लागलो. ऋषी समजलो : म्हज्या नशिबांत नाशिल्लें तें करपाक गेलों. म्हुण अशें घडलें. **शुद्धं हि दैवमेवेदमतो नैवास्ति पौरूषम्** देवूच खरें, अद्रूण कितेंय करपांत कांयच लाव ना, कांयच मेळना. ह्या अणभवाचेर आधारून मंकी ऋषीन जो उपदेस केला ताका महाभारतान 'मंकी-गीता' म्हुण नांव दिलां. मंकी ऋषी बुद्ध महावीर हांचे मुस्तींतलो आचार्य मंखलि गोसाल आसूंक जाय. बुद्ध ताका आपलो सगळ्यांत व्हडलो प्रतिस्पर्धी लेखतालो. भाग्यवादी मत्त तेन्नाच सुरू जालें असो मात हाचो अर्थ न्हय. तें पयलीं परसून चलत आयिलें. मंखलि गोसालान ताका एक पुराय दर्शनाचें, धर्ममत्ताचें, रूप दिलें आनी तें एक धर्ममत्त म्हुण नेटान चलूंक लागिलें.

ह्या मत्ताचो प्रभाव समाजाचेर खूब पडिल्लो आनी समाज कर्तुत्वहीण जावन गेल्लो.

ह्या मत्ता आड तेच मुस्तींत दुसरें एक मत्त वयर सरिलें. ताचें नांव प्रज्ञावाद. विदुर ह्या मत्ताचो आशिल्लो. हें मत्त म्हणटालें : नशिबांत सगळें पयलींच बरोवन दवरल्लें आसा म्हणटात तें खरें न्हय. आसलें जाल्यारूय तें आदल्या जल्मांतलें करणेचेंच फळ आसूंक जाय. संवसारांत जशे भौतिक नेम काम करतात तशे जिवितांत नैतिक नेम काम करतात. उज्यांत हात घालो जाल्यार तो भाजुंकूच जाय, उदकांत घालो जाल्यार भिजुंकूच जाय. मागीर, हो हात कोणाचोय जावं. पुण्यवंताचो जावं वा पातक्याचो जावं, संताचो जावं वा चोराचो जावं. हे भौतिक नेम जशे कोणाक बदलूंक येनात, तशे नैतिक संवसारांतलेय नेम बदलूंक येनात. नैतिक संवसारांतलो सगळ्यांत म्हत्त्वाचो नेम करणेचो : बरें करणेक बरें फळ मेळुंकूच जाय. वायट करणेक वायट. मागीर, तें ह्या जल्मांत मेळूं वा फुडल्या जल्मांत. तें चुकोवंक कोणाक येवपाचें ना. तर मागीर, मनीस जल्मा येनना नशिबांत जें कितें बरोवन घेवन येता म्हणटात तें ताच्या आदल्या जल्मांतले करणेचेंच फळ मानूंक जाय. हातूंत करणेकूच म्हत्त्व आसा अशें दिसून येता. नशिबाक, देवाक वा भाग्याक न्हय. ह्या जल्मांतले बरे करणेन भाग्य लेगीत बदलूं येता. मनशांन

एक शक्ती आसा, बुद्दी परस वयल्या पांवड्याची. तिका प्रज्ञा म्हणटात. तिका बरें आनी वायट पारखूंक येता आनी बरें वा वायट ह्या दों भितलें एक कितेंय वेंचुनूय काडूंक येता. प्रज्ञेक धरून मनशान जिवितांतलीं ल्हान व्हड सगळीं कामां करचीं. तो नियती, भाग्य, दैव सगळ्यांक हुपून पेल्यान वतलो. बुद्दीक धरून, विचारांक धरून चलप हाका हे लोक प्रज्ञावाद म्हणटाले.

जाचे आचार आनी विचार प्रज्ञेक धरून आसताले ताका प्राज्ञ वा पंडित म्हणटाले. विदुराक महाभारतान 'महाप्राज्ञ' म्हळ्यार 'महा-पंडित' म्हळा. प्रज्ञेचें मोट्यांतलें मोटें लक्षण म्हळ्यार ती 'संसारिणी'. जिवितांत पावला पावलाक उपकारा पडपा सारकी.

यस्य संसारिणी प्रज्ञा धर्मार्थाविनुवर्तते।
कामादर्थे वृणीते य: स वै पंडित उच्यते॥

विदुरनीत हो हेर नीती-ग्रंथां सारको ग्रंथ न्हय. एक पुराय दार्शनिक मत्त ताच्या बारीक बारीक आंगां सयत मांडपी ग्रंथ हो. प्रज्ञावादाची इतली विस्तृत आनी सुंदर विकसावणी विदुर-नीत सोडून भारतीय साहित्यांत आनी खंयच पळोवंक मेळना.

प्रज्ञावादाची सारकावणी नियतिवादा कडेन केल्या उपरांतूच ताचें म्हत्व बरें लक्षांत भरता.

नियतिवादाचीं मुखेल तत्त्वां पांच: १. सर्वसाम्य (सगळ्यांक सारके लेखप) २. अनायास (हात पांय हालय नासतना पडून रावप, जें कितें मेळटा तातूंत संतुष्ट रावप) ३. सत्यवाक (परिणामा कडेन लक्ष दी नासतना सदां खरें उलोवप, सत्यान चलप) ४. निर्वेद (करण्यो करपाचे बाबतींत सामको उदासीन वा वैरागी करसो रावप) आनी ५. अविवित्सा (अमकें जाय, तमकें जाय अशें मनांत लेगीत येवंक दिनासतना नशिबांत जें आसा तें सोंशीत वा भोगीत रावप). 'कितेंच करूं नाकात. जें मेळ्ळां तातूंतूच धादोसभरीत रावात, तितलेंच तुमच्या नशिबांत आसा' अशें भर दिवन सांगपी हें मत्त. निर्वेद निवृत्ती, तृप्ती आनी शान्ती हीं ताचीं मुखेल आंगां. हीं नियतिवादी मत्तां विदुर हांगा कातरीत गेला. नियतिवाद म्हणटा: मनशाचें जिवीत भाग्याच्या वा दैवाच्या पासांनी बांदिलें उरता. देखून थंय बुद्दीक आनी करणेक सुवात ना. 'नशिबांत आसा तेंच जातलें'. विदुराचो प्रज्ञावाद म्हणटा: 'ना, हें खरें न्हय. कर्तुत्वान अनर्थ चुकोवं येता आनी प्रज्ञेन फुडार बदलूं येता.' नियतिवाद म्हणटा, 'यत्न, आयास, कर्तुत्व, सगळें फुकट. तांकां जिवितांत म्हत्त्वूच ना.' प्रज्ञावाद म्हणटा: 'च्ये, च्ये; हेंय खरें न्हय. जिवितांत उर्बेक उत्साहाक खूब मोल आसा. उत्साह म्हळ्यारूच जिवीत. उत्साहान संवसार बदलूं येता. जांणी उत्साह सोडलो तांकां लक्ष्मीय सोडून वतली. कांय करपाचें नासत जाल्यार जियेवंक तरी कित्याक जाय. उत्थान, कर्तुत्व, पराक्रम करपा खातीरूच तर आमकां जिवीत मेळ्ळां.' नियतिवाद वैराग्याचेर चड भर दिता. प्रज्ञावाद म्हणटा, 'सुख जोडचें आसत आनी दुख्ख पयस करचें आसत जाल्यार उर्बेन करण्यो करीत रावंक जाय.' नियतिवाद क्षमेचो उपदेस करता. कोणेय अन्याय केलो जाल्यार तो मोन्यानी सोंसचो, अशें म्हणटा. प्रज्ञावाद म्हणटा: 'क्षमा हें एक मोटेंच तत्त्व. पुणून ख्यास्त करपाची शक्ती जाच्या आंगांत आसा, ताकाच क्षमा सोबता. तीच खरी क्षमा. दुबळ्या मनशाचे क्षमेक क्षमा लेखूं नज.' नियतिवाद 'सर्वसाम्य' मानता. म्हळ्यार,

सगळ्यांक सारके लेखता. प्रज्ञावाद म्हणटा : 'हेंय खरें न्हय. शाणो आनी पिसो सारके न्हय. संस्कारान ऊंच आनी उणाक असो वेगळेचार समाजांत सदांच उरतलो, उरुंकूय जाय. आनी जो ऊंच वा व्हड ताका समाजांत भौमान मेळुंकूच जाय.' नियतिवाद म्हणटा, 'मनशान सदां सत्याक धरून चलूंक जाय. सत्यूच उलोवंक जाय. प्रज्ञावाद म्हणटा, 'उलोवचेंच जालें जाल्यार सत्यूच उलोवचें. पुणून तें गोड उतरांनी सांगचें.' नियतिवाद म्हणटा : 'मनीस ऊंच काय उणाक हें तो खंयच्या कुळांत जल्मा आयला हाचे वयल्यान थरता. उणाक कुळांत जल्मा आयिल्ल्यान ऊंच कुळांतलो जावपाचो यत्न करपांत अर्थ ना.' प्रज्ञावाद म्हणटा : 'मनशाचें व्हडपण फकत कुळा वयल्यान थारावंक जायना. आचारूय पळोवंक जाय. बरे चाल चलणुकेचो मनीस जल्माक खंयच्याय कुळांत येवं, ताका ऊंच कुळांतलोच मानूंक जाय. सदाचारानूच कुळां वयर सरतात. विद्या तप संयम त्याग शान्ती स्वाध्याय दान धृती सत्य शम—ह्या गुणांच्या अनुसरणानूच मनीस वयर सरता. हातूंत भाग्य कसलीच आडखळ हाडिना.

नियतिवादांत धर्माक सुवात ना. प्रज्ञावादाचे बुन्यादींत धर्म आसा. तो म्हणटा, 'फळाचे वान्शेक लागून वा भंयाक लागून, जावं, भोगाचे इत्सेक लागून मनशान धर्माक केन्ना फाट करूंक जायना. कित्याक, धर्म सदांच उरतलो, सुख आनी दुख्ख येतलें आनी वतलें, जीव सदांचो, कूड आयज आसा जाल्यार फाल्यां ना, जें येता आनी वेता (अनित्य) तें सोडून जें सदां उरता (नित्य) ताचोच मनशान आलासरो घेवंक जाय.

न जातु कामान्न भयान्न लोभाद।
धर्मं त्यजेज्जीवितस्यापि हेतोः ॥
नित्यो धर्मः सुखदुःखे त्वनित्ये।
नित्यो जिवो धातुरस्य त्वनित्य : ॥

'अमकें जाय, तमकें जाय अशें मनशान करचें न्हय. मनशान कित्याचीच आस्त धरची न्हय. कितेंच जोडूंक वावुरचें न्हय. कित्यांतूच पडचें न्हय.' अशें नियतिवाद म्हणटा. प्रज्ञावाद म्हणटा, 'हें समा न्हय. मनशान सगळ्या गजालींत लक्ष घालूंक जाय. आपल्या घर-संवसारांत, बेसां-भाटांत, उद्योग-धंद्यात, राजकर्णांत, समाजकर्णांत, सगळ्यांत लक्ष घालून वांटो घेवंक जाय. घर संवसार चलोवपाक जाय तितलो पयसो नासत जाल्यार ताचो अर्थ पयसो जोडपाचें साधन मनशा कडेन ना अशेंच धरूंक जाय. आनी तें साधन सोदून काडपाचो वावर मनशान अगत्यान करूंक जाय. बेश्टें दैवाचेर आनी भाग्याचेर सगळें धुकलूंक जायना. केन्ना केन्ना मनीस उद्योग धंदे घेवन बसता पुणून ते सारके चलनात. अश्या वेळार मनशान कित्याक लागून ते सारके चलनात तें पळोवंक जाय आनी कारणां सोदून तीं पयस करपाक वावरूंक जाय. भाग्याचेर अपेस थापूंक जायना. नियतिवाद वैराग्याचो पाखो घेवन मनशाक घर-संवसार सोडूंक लायता. प्रज्ञावाद मनशाक घर-संवसारांत रावन, समाजांत रावन समाजकर्ण राजकर्ण बी सगळ्यात लक्ष घालून संयमान चारित्र्यान जियेवंक शिकयता.

महाभारतांतलें एक खूबूच म्हत्त्वाचें आनी मोलाचें वैचारिक रत्न हें. भगवद्गीते येव्हाच तोला मोलाचें.



रवीन्द्रबाब केळेकार (७ मार्च १९२५) म्हळ्यार भगवद्गीतेचे पोर्तुगीज भाशेंत भाशांतर करपी स्व. डॉ. राजाराम केळेकार हांगेले सुपुत्र.

एक स्वातंत्र्य-सैनिक, एक ध्येयवादी आनी कृतिशील राजकर्णी, सामाजिक प्रबोधनाच्या उद्देश्यान सातत्यान बरयत आयिल्ले एक विचारप्रवर्तक स्तंभलेखक. वेगळ्या वेगळ्या विशयांच्या अभ्यासांत सदांच गुल्ल रावपी एक व्यासंगी विद्वान, गांधी जीवन-दृष्टिचे एक तळमळिचे समर्थक आनी व्याख्याकार, कोंकणी वरीच मराठी गुजराती हिन्दी इंग्लिश आनी पोर्तुगीज भासांच्या पोन्न्या नव्या साहित्या कडेन दाट संबंद दवरपी एक भौभाशिक रसिक, भारतीय संस्कृतायेचे जागरूक अभिमानी, सर्वधर्म-समभावी हिन्दू, स्वर्गीय, डॉ. लोहिया, काकासाहेब कालेलकर, विनोबा भावे, किशोरलाल मश्रूवाला, जे. सी. कुमाराप्पा सारकेल्या—फक्त गांधी युगांतूच जल्मा येवं येतात असल्या देशभक्त आनी चारित्र्यवान विद्वानांच्या जंगम विद्यापिठांत रावन संस्कृति-सेवेची दीक्षा घेतिल्ले एक भाग्यवंत गोंयकार—असल्या कितल्याश्या रुपांनी गोंयकार रवीन्द्रबाबांक वळखतात.

ह्या सगळ्या रुपांत तांगेलें सगळ्यांत चड नदरेंत भरपा सारकें रूप म्हळ्यार, कोंकणीक तिच्या भयण-भासांचे पंगतीक मानाचो पाट जोडून दिवपा खातीर तन मन प्राण ओंपून तीन तपां वयर निर्शेनासतना वावुरल्ल्या कोंकणी चळवळींतल्या एका म्हालगड्याचें. कोंकणिचे उदरगती खातीर रातिचो दीस करून वावरत आयिल्ल्या एका कोंकणी भक्ताचें. शणै गोंयबाबां उपरांतच्या कोंकणी भक्तांच्या पांच पिळग्यांच्या सांगात्याचें.

एका सारकीं स वरसां दिसाक धा-धा, बारा-बारा वरां काम करून तयार केल्लें तांगेलें महाभारताचें हें अनुसर्जन म्हळ्यार तांगेले आतां मेरेनचे सेवेचें एक सोबीत आनी भौ-मोलादीक फळ.

